जाग प्रकाशनाचें

# नवी जाग गोंयकारांक

दिवाळी

वर्स ४९ : आंक २ : सप्टेंबर–नोव्हेंबर २०२२



**संस्थापक संपादपी :**
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

**वैचारीक दायज :**
स. माधवी सरदेसाय

**संपादपी :**
आसावरी नायक

**अतिथी संपादपी :**
सखाराम शेणवी बोरकार

**पालवी संपादपी :**
कृपाली नायक
एडना वाझ

**उजवाडावपी :**
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

**छापपी :**
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

**वेव्हाराचो नामो :**
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - एसइ-३
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग,
गोंय विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० / ९७६५१८७६०६

**आंकाचें मोल :** रु. २००/-

## गिन्यानाचो, उजू चलणुकेचो दिवो लावंया!

दिवाळी हो दिव्यांचो उत्सव. अज्ञानाचो काळोख पयस करुन सगळ्यांच्या काळजांत गिन्यानाचो दिवो पर्जळीत करपाचो हो उत्सव. सगळ्या सणां मदलो दिवाळी हो एक असो सण जो पुराय देशभरच न्हय तर विदेशांत लेगीत मोट्या दबाज्यांत मनयतात. ह्या सणाक जात-कात, प्रांत, ल्हान - व्हड हाचें बंधन ना. ल्हानां पासून व्हडांमेरेन आनी राजापासून रंकामेरेन सगळ्यांक तो आपल्या आनंदात आसपावीत करता. खुशालकायेची अशी ही एक आगळीच परंपरा आसा. ह्या उजवाडाच्या उत्सवांत तुमच्या वांगडा 'नवी जाग गोंयकारांक' सामील जाता.

गोंयच्या राजकी मळार जो चिखलकालो आनी रेबड चललां तें सोंसपाचें न्हय. मतदारांचो अपमान करून लोकप्रतिनिधी फट उलयत पक्षांतरां करपाक लागल्यात. तत्वां गुड्डावन तांणी फक्त स्वताचो सुवार्थ पोटलून उखलून धरला. गोंयच्या सुटके झुजाऱ्यांक ही विदर्णा पळोवन कितले त्रास जाता आसतले हाची कल्पना करूं नजो. ही हळशीक दिव्यांच्या उजवाडान पयस जावं, गोंयचे भलें जावं हे आंवडे.

दर वर्सा प्रमाण ह्यावूय वर्सा आमी उंचेल्या पांवड्याचो साहित्यीक पनवार दिवपाचो यत्न केला. हो अंक वाचनीय आनी संग्राह्य करपाचो आमचो मनासावन प्रयत्न आसा.

हो दिवाळी अंक आमी 'कथा विशेशांक' म्हण उजवाडाक हाडला. ह्या वर्साच्या मार्च म्हयन्यांत महिला दिनाच्या निमतान आमी फकत लेखिकांच्याच कथांचो खाशेलो अंक काडिल्लो. ताका खूप बरो प्रतिसाद मेळ्ळो. ह्या दिवाळी अंकात मानेस्तांच्यो तेरा कथा आनी नवोदितांच्यो तीन कथांचो आनी दोन अणकारीत कथांचो आसपाव केला. कोंकणींत कथा ह्या प्रकाराचेर आडनदर जावंक लागल्या. ताका उर्बा हाडपाचो हो एक ल्हानसोच येत्न. त्या भायर 'भास आनी भूस' ह्या खाशेल्या विशयाचेर दोन लेख आसात आनी ते खूप म्हत्वपुर्ण आसात.

ह्या वर्साच्या आगश्ट म्हयन्या सावन नामनेचे कोंकणी कवी, कोशकार आनी अणकारपी स. पांडुरंग भांगी हांची जल्म शताब्दी सुरु जाल्या. त्या निमतान भांगीबाबांक लागसरल्यान वळखुपी नामनेचे साहित्यीक माधवबाब बोरकार हांचो विस्तृत लेख आसा. ह्या लेखावरवीं भांगीबाबांच्या दुर्मिळ तासांचें वाचप्यांक दर्शन जातलें. ह्या लेखाचे फुडले वांटे आमी येता त्या अंकांनी उजवाडायतले.

त्या भायर ह्या अंकात चिंतनपर लेख, ललीत लेख, विनोदी लेख, आनी कवितांचो आसपाव आसा, असो हो १२० पानां आशिल्लो भरगच्च अंक तुमचो दिवाळेचो आनंद दुपेटीन वाडयतलो असो विस्वास आसा.

फुडल्या वर्साच्या आगश्ट म्हयन्यासावन 'नवी जाग गोंयकारांक' भांगरा महोत्सवी वर्सांत पावल घालतलो. आजमेरेन कोंकणींतलें खंयचेंच नेमाळें सेगीत पन्नास वर्सां चलूंक ना. 'नवी जाग गोंयकारांक' मात मोट्या धिटायेन फुडें पावल मारीत आसा. हाचें कारण म्हळ्यार आमकां लाबिल्लें लेखकांचें आनी वाचप्यांचें फाटबळ. फुडाराकय अशेंच फाटबळ तुमच्या कडल्यान मेळटलें अशी आस्त आसा. ह्या दिवाळेच्या समयार आमी आमच्या वाचप्यांक, लेखकांक आनी जायरातदारांक परबीं भेटयतात. ही दिवाळी आनी नवे वर्स तुमकां सुख आनी समादानाचें वचूं हें आमचें मागणे!

**- संपादपी**

नवी जाग गोंयकारांक



# मां डा व ळ



**भायलें चित्र** : निरूपा नायक
**भितरलीं रेखा चित्रां** : निशित बोरकार.




# हुस्को आनी कलकल!

## (संसद भवनांतलें नाट्य)

उदय भेंब्रे



कोंकणीक स्वतंत्र साहित्यीक भास म्हूण साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळटकूच संविधानाचे आठवे अनुसुचींत कोंकणीचो आस्पाव करचो अशी मागणी कोंकणीभाशी लोक करपाक लागलो. अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचीं १९७८ तीं १९९२ ह्या काळांत जीं अधिवेशनां आनी साहित्य संमेलनां जालीं तांतूंत थारावण्यां वरवीं तशी मागणी जावपाक लागली. गोंय, कर्नाटक आनी केरळ ह्या प्रदेशांतल्या कांय संस्थांनीय केंद्र सरकाराक निवेदनां धाडून तशी मागणी केली. पूण ह्या मागण्यांचो प्रभाव केंद्र सरकाराचेर पडलो ना.

१९८५ वर्सा गोंयांत कोंकणी प्रजेचो आवाज हे संघटणेच्या बावटयाखाला आंदोलन सुरू जालें. मुळांत राजभास कायद्याची मागणी करून सुरू जाल्ल्या ह्या आंदोलनाक राजभास आंदोलन म्हूण वळखतात. पूण राजभास कायदो करचो ही त्या आंदोलनाची एकूच मागणी नाशिल्ली. आंदोलनाच्यो तीन मागण्यो आशिल्ल्यो.

- गोंय-दमण-दीव संघप्रदेशाच्या सरकारान राजभास कायदो पास करून कोंकणीक गोंयची राजभास करची;
- केंद्र सरकारान गोंयाक घटकराज्याचो दर्जो दिवचो; आनी
- संविधानाचे आठवे अनुसुचींत कोंकणी भाशेचो आस्पाव करचो.

पयलीं मागणी गोंय-दमण-दीव सरकारा कडेन आशिल्ली म्हण्टकूच गोंयांत आंदोलन नेटान चल्लें. लोकांचो तेंको वाडत गेलो.

दुसरी आनी तिसरी ह्यो दोनूय मागण्यो केंद्र सरकारा कडेन आशिल्ल्यो. पत्रां, निवेदनां गेलींच; पूण फावो त्या फुडाऱ्यांक मेळून तांच्या कानार घालपाची गरज आशिल्ली. हें काम दिल्लींत वचून करपाचें आशिल्लें. कोंकणी प्रजेचो आवाजाचे फुडारी त्या संबंदान आंखणी करूंक लागले.

मजगतीं प्रधानमंत्री राजीव गांधी एके सरकारी कार्यावळी खातीर गोंया आयले. गोंयांत खर आंदोलन चलता, गोंयाक घटक राज्याचो दर्जो मेळचो अशी मागणी जाता, हाचेर केंद्र सरकाराची भुमिका कितें, असो प्रस्न तांकां प्रसार माध्यमाच्या प्रतिनिधींनी दिलो. ताचेर प्रधानमंत्री राजीव गांधी हांणी जाप दिली:

'भाशेचो प्रस्न आदीं सुटावो करात.मागीर रोखडेच घटक राज्याचो विचार करुंयेता.'

प्रधानमंत्री गांधी हांचे हे जापे वयल्यान एक गजाल स्पश्ट जाली: घटकराज्याचो विशय हो राजभास कायद्याकडेन जोडिल्लो आसा. कोंकणी राजभास जातकूच भाशावार प्रांत रचनेच्या कायद्याखाला गोंयाक घटकराज्याचो दर्जो फावो जाता. देखून केंद्र सरकारा कडेन ते मागणेचेर बळ खर्च करचे परस राजभास कायद्या विशींची मागणी अदीक नेटान करुंक जाय; गोंयांत आंदोलन खर करूंक जाय. केंद्र सरकारान चड प्रयत्न करूंक जाय तो संविधानाचे आठवे अनुसुचींत कोंकणीचो आस्पाव जावंचो म्हूण ते खातीर, संघर्शापरस लॉबींग हो



मार्ग बरो.

कोंकणी प्रजेचो आवाजाच्या फुडाऱ्यांनी हो मुद्दो मतींत घेवन दिल्लीक एक शिश्टमंडळ धाडचें आनी थंय ताणें चडांत चड फुडाऱ्यांक मेळून मागण्यो नेटान मांडच्यो अशें थारायलें. ते प्रमाण १९८५ वर्सा डिसेंबर म्हयन्याच्या पयल्या सप्तकांत एक शिश्टमंडळ दिल्ले गेले. वांगडी आशिल्लें:

श्री. पुंडलीक नायक (निमंत्रक, कोंकणी प्रजेचो आवाज)

श्री. दामोदर मावजो

श्री. तोमाझीन कार्दोज

श्री. उदय भेंब्रे

श्री. एदुआर्द फालैरो हे खासदार आशिल्ले. तांणी खूब पालव दिलो. श्री. पी. व्ही. नरसिंह राव हे मानव संसाधन मंत्री आशिल्ले. ते भौभाशीक आशिल्ले आनी साहित्यिकूय आशिल्ले. खासदार फालैरो हांणी तांची भेट थारायली. शिश्टमंडळ तांकां मेळ्ळें तेन्ना तांणी पयलोच प्रस्न विचारलो, 'कोंकणीचो आस्पाव आठवे अनुसुचींत करचो अशें तुमी मागतात, कित्याक?'

आमी तांकां सांगलें, केंद्र सरकाराच्या संस्थांचो लाब फकत आठवे अनुसुचींतल्या भाशांकूच मेळटा. भौतेक येवजणांक सरकारान आठवी अनुसुची लागू केल्या. हाका लागून कितलींशींच दारां कोंकणींक बंद आसात. सरकाराची देख घेवन ज्ञानपीठा सारके संस्थेनूय पुरस्कारा खातीर आठवे अनुसुचीची शीम घाल्या. अश्या वेगवेगळ्या तरांनी कोंकणीचेर अन्याय जाता.

ज्ञानपीठा विशीं सांगलें तें आयकून तांकां अजाप दिसलें. तांणी सांगलें, आपूण ते संस्थेचो एक सल्लागार आसा. तशी शीम आसूंक फावना. आपूण ते संस्थेच्या कारभाऱ्यांकडेन उलयतां.

कोंकणीच्या आस्पावा विशीं तांणी सांगलें, कोंकणीक आठवे अनुसुचींत सुवात फावता. त्या संबंदान कितें करूंक जाता तें आपूण पळयतां.

श्री.राव हांकां कोंकणी भाशे विशीं कांय गजाली खबर आशिल्ल्यो. आमी अदीक म्हायती दिली आनी गोंयांतल्या आंदोलना विशींय सांगलें. मदीं खासदार फालैरो पावले. तांणीय शिश्टमंडळाच्या मागण्यांक तेंको दिलो.

दिल्लींत श्री. एम्. एल्. फोतेदार आनी हेर कांय फुडाऱ्यांक मेळून शिश्टमंडळान कोंकणी प्रजेचो आवाजाच्यो मागण्यो बेगीन मान्य जावंच्यो म्हूण प्रयत्न केलो.

ह्या प्रयत्नांचो लाब फुडाराक जालो; पूण रोखड्या रोखडें अशें कांय घडलें ना.

१९८६ वर्सा गोंय-दमण-दीव सरकारान गोवा कोंकणी अकादेमी स्थापन केली. ते घडणुके फाटल्यान श्री. पुरुषोत्तम (भाऊ) काकोडकार आनी श्री. शांताराम ल. नायक हांणी काँग्रेस पक्षांत सातत्यान केल्ले प्रयत्न आशिल्ले. अकादेमीची पयली वावुरपी समिती सरकारान नेमली. तेरा जाणांचो समितींत भाऊ काकोडकार हांकां अध्यक्ष आनी डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांकां उपाध्यक्ष नेमले. सरकारांतले एक अधिकारी श्री. वि. मं. धुमे हांकां सचीव नेमले.

श्री. रवींद्र केळेकार हांणी महाभारताचें अनुसर्जन दोन खण्डांनी बरयल्लें. ताची छापणावळ खर्चीक आसली देखून तांच्या 'जाग' प्रकाशनाक ती जड वताली. तीं खण्डां उजवाडावपाक अकादेमीन अर्थीक पालव दिवचो असो प्रस्ताव तांणी मांडलो. अकादेमीन चर्चे उपरांत तो मानून घेतलो.

१९८७ वर्साच्या आरंभाक दोनूय खण्डां छापून तयार जालीं. तांचें उजवाडावणेचो सुवाळो खंय, केन्ना आनी कसो करचो हो विशय अकादेमीचे एके बसकेंत चर्चेक आयलो. चर्चेंत वांटो घेतना हांवें सुचयलें, सुवाळो गोंयांत केद्याय दबाज्यान केलो तरी ती खबर गोंयां भायर चडशी पावची ना. हो सुवाळो दिल्लींत जावंचो आनी जमलें जाल्यार प्रकाशन प्रधानमंत्री राजीव गांधी हांचे हस्तुकीं जावचें. तशें केल्यार त्या सुवाळ्याची खबर देशभर पावतली. कोंकणीचे तांकी विशीं जांकां चडशें खबर ना तांकां कळटलें, महाभारताचें अनुसर्जन करपा येदी तांक कोंकणींत आसा म्हूण. भाऊ काकोडकार हांचे नेहरु-गांधी घराब्याकडेन लागींचे संबंद आसात; भाऊ काकोडकार हांकां राजीव गांधी मानतात; ते ना म्हणचे नात; देखून भाऊ काकोडकार हांणी तांचे कडेन उतर घालचें अशेंय हांवें सुचयलें. ही सुचोवणी वावुरपी समितीच्या वांगड्यांक मानवली. सगल्यांनी तिका तेंको दिलो आनी तसो निर्णय जालो.

अकादेमीच्या निर्णया प्रमाण भाऊ काकोडकार हांणी प्रधानमंत्री राजीव गांधी हांचे कडेन उतर घालें. तांणी ती विनवणी मानून घेतली. सुवाळो ५ सप्टेंबर १९८७ दिसा सकाळचो प्रधानमंत्र्यांच्या निवासा भायल्या लॉनार शामियाना घालून करचो अशें थारलें.

सचीव श्री. वि. मं. धुमे हांणी दिल्ली वचून सुवाळ्याची तयारी केली. सुवाळ्याक दिल्लींतल्या कोंकणीभाशी लोकां मदलीं सुमार ३०० मनशां आयिल्लीं. येवकाराचें उलोवप श्री. रवींद्र केळेकार हांणी केलें. कोंकणी गोंयची राजभास जाल्या; संविधानाचे आठवे अनुसुचींत तिचो बेगीन आस्पाव जावचो अशें समेस्त कोंकणीभाशी लोकाक दिसता; केंद्र सरकारान ते विशीं पावलां घालचीं अशी तांची मागणी आसा असो मुद्दो तांणी मांडलो. प्रधानमंत्री राजीव गांधी हांणी महाभारताच्या दोनूय खण्डांची उजवाडावणी करून उलयतना सांगलें, कोंकणीचो आठवे अनुसुचींत आस्पाव करपाचो मुद्दो आपणें मतींत घेतला. तुमी मानव संसाधन मंत्री श्री. पी. व्ही. नरसिंह राव हांकां मेळून ते विशीं उलोवचें. आपुणूय तांचे कडेन उलयतां.

शामियान्यांत बशिल्ल्यांनी तीं उतरां आयकून टाळयांचो कडकडाट केलो. माचयेर प्रधानमंत्र्यां वांगडा भाऊ काकोडकार, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हे आशिल्ले. हांवें त्या सुवाळ्याचें सूत्र निवेदन केलें.

अकादेमीच्या शिश्टमंडळान गोंयांत येतकूच श्री. नरसिंह राव हांकां दिवपाक एक निवेदन तयार केलें आनी दिल्ली वचपाक शिश्टमंडळ थारायलें. तें शिश्टमंडळ अशें:

श्री. पुरुषोत्तम काकोडकर ... अध्यक्ष

श्री. मनोहरराय सरदेसाय ... वांगडी

श्री. रवींद्र केळेकार ... वांगडी

श्री. चंद्रकांत केणी ... वांगडी

श्री. पुंडलीक नायक ... वांगडी

श्री. उदय भेंब्रे ... वांगडी

श्री. नरसिंह राव हांचे कडेन वेळ थारावन शिश्टमंडळ दिल्ली गेलें आनी तांकां मेळ्ळें. म्हजे अडचणीक लागून हांव वचूंक पावलों ना. शिश्टमंडळ परत येतकूच खबर कळ्ळी. श्री. नरसिंह राव हांचे कडेन कोंकणी प्रजेचो आवाजच्या शिश्टमंडळान विशय पावयल्लो. अकादेमीच्या शिश्टमंडळान तांकां अदीक म्हायती दिली. गोंय-दमण -दीव सरकारान राजभास कायदो पास केला आनी त्या कायद्याप्रमाण कोंकणी गोंयची राजभास जाल्या हेंवूय कळयलें आनी आठवे अनुसुचींत कोंकणीचो आस्पाव बेगिनूच करचो अशें मागलें. शिश्टमंडळाचे नदरेन श्री. राव हांकां विशय सारको बरो समजल्लो आनी तांची प्रतिक्रिया सकारात्मक आशिल्ली.

मात रोखडेंच कांय घडलें ना. प्रधानमंत्र्यांचो तेंको आशिल्लो, मानव संसाधन मंत्रीय इत्सूक आशिल्ले. पूण तरेकतरांच्या कारणांक लागून हो विशय फुडें गेलो ना.

१९८९ वर्सा लोकसभेचो कार्यकाळ सोंपलो आनी वेंचणूक जाली. वेंचणुके उपरांत सरकार बदल्लें. डिसेंबर म्हयन्यांत श्री. विश्वनाथ प्रताप सिंग प्रधानमंत्री जाले. पूण हें सरकार सुमार एक वर्स चल्लें. मागीर १९९० वर्साच्या नोव्हेंबर म्हयन्यांत श्री. चंद्रशेखर प्रधानमंत्री जाले.

१९९१ वर्सा वेंचणुकेच्या प्रचारांत श्री. राजीव गांधी हांची हत्या जाली. त्याच वर्सा जून म्हयन्यांत श्री. चंद्रशेखर हांचें सरकार कोसळ्ळें. काँग्रेस पक्षाचें सरकार सत्तेर आयलें आनी श्री. पी. व्ही. नरसिंह राव प्रधानमंत्री जाले. तांच्या मंत्रिमंडळांत घर मंत्री आशिल्ले श्री. शंकरराव चव्हाण.

श्री. शंकरराव चव्हाण आनी श्री. भाऊ काकोडकार हांचे मदीं इश्टागतीचें नातें आशिल्ले आनी आठवे अनुसुचीचो विशय तांच्या अधिकारांत आशिल्लो. त्या नात्यान श्री. काकोडकार हांणी कोंकणी विशींची मागणी तांच्या कानार घाली. ते मागणे संबंदान १९८६ वर्सा सावन जें जें घडलें तें तांकां समजायलें. ह्या विशया संबंदान दोन शिश्टमंडळां श्री. नरसिंह राव हांकां कशीं मेळ्ळीं; तांचो प्रतिसाद कसो आशिल्लो; आदले प्रधानमंत्री राजीव गांधी हांणी 'महाभारता'च्या प्रकाशन सुवाळ्यांत कितें म्हणिल्लें; गोवा कोंकणी अकादेमीन निवेदन दिल्लें आसा तातूंत कितें म्हळां हें सगलें सांगलें. आठवे अनुसुचींत कोंकणीचो आस्पाव जावचो ही फकत गोंयकारांची मागणी न्हय, तर देशांतल्या समेस्त कोंकणीभाशी लोकांचो तो आंवडो आसा हाचेर तांणी भर दिलो आनी हो विशय बेगिनूच चालीक लावचो अशी विनवणी केली. घर मंत्री श्री. चव्हाण हांणी ती मानून घेतली.

श्री. चव्हाण हांणी ते विशींचे फायलीचो अभ्यास केलो आनी विशय कसो चालीक लावंचो हे विशीं प्रधानमंत्री राव हांचे कडेन ते उलयले. दोगांनीय चर्चा केली तेन्ना आठवे अनुसुचींत आस्पाव करपाची मागणी आठ भाशांनी केल्ली आसा देखून निकश थारावचे पडटले हें तांकां होलमलें. तें फकत सरकारान थारावचे परस सगल्या पक्षांची बसका घेवन थारावचें अशें तांणी थारायलें.

ते प्रमाण घर मंत्री श्री. चव्हाण हांणी सगल्या पक्षांच्या फुडाऱ्यांची बसका आपोवन ते बसके मुखार तो विशय मांडलो. चर्चे उपरांत थारलें तें अशें:

- जे भाशेक साहित्य अकादेमीन मान्यताय दिल्या

आनी

- जी भास खंयच्याय राज्याची वा संघप्रदेशाची राजभास आसा, ते भाशेचो आस्पाव आठवे अनुसुचींत करचो.

आठ भाशां मदल्यो तीन भाशा त्या कसाक लागताल्यो. - कोंकणी, नेपाळी आनी मणिपुरी. ह्या तिनूय भाशांचो आठवे अनुसुचींत आस्पाव करपाक संविधानाबद्दल विधेयक तयार करून तें आदीं लोकसभेंत आनी मागीर राज्यसभेंत मांडपाची गरज आशिल्ली. घर खातें ते तयारेक लागलें.

घर खात्यान संविधान बदल विधायक तयार केलें. कोंकणी, नेपाळी आनी मणिपुरी ह्या भाशांचो आस्पाव संविधानाचे आठवे अनुसुचींत करचो इतलोच मुद्दो विधेयकांत आशिल्लो. हें विधेयक मंत्रिमंडळान मानून घेतलें आनी तें संसदेंत मांडचें अशें थारलें. उपरांत संसदेचें एक अधिवेशन जालें; पूण विधेयक मांडप जालें ना.

विधेयक मांडपाक कळाव जावचो न्हय म्हण श्री. भाऊ काकोडकार आनी श्री. एदुआर्द फालैरो यत्न करीत रावले. काकोडकार हांणी घर मंत्री शंकरराव चव्हाण हांचे कडेन आग्रो धरलो, तर फालैरो प्रधानमंत्री नरसिंह राव हांकां उगडास करीत रावले. १९९२ वर्सा पावसाळ्या अधिवेशनांत विधेयक मांडपाचो विचार चल्ला अशी खबर श्री. काकोडकार, श्री. फालैरो हांकां कळ्ळी.

पावसाळे अधिवेशन सुरू जालें. कांय सप्तकां गेलीं. विधेयक आयलें ना आनी तें मांडटले जाल्यार कितले तारकेक हेंवूय कळ्ळें ना. श्री. भाऊ काकोडकार हांणी केल्ल्या प्रयत्नांक जाप मेळटाली ती - येतलें, मात्शे रावात. अधिवेशन २० ऑगस्टाक सोंपपाचें आशिल्लें. पूण ऑगस्टाचें पयलें सप्तक सोंपलें तरी विधेयकाचो पत्तो नाशिल्लो.

१० ऑगस्टाक सुमार भाऊ काकोडकार हांणी कळयलें की आपणाक पालव जाय, ते खातीर हांवें दिल्ली येवचें. म्हाका याद जाता ते प्रमाण हांव १४ वा १५ तारकेक दिल्ली पावलों. भाऊगेरूच रावलों. सकाळीं भायर सरुन आमी संसद भवनांत वताले. दीस थंयच वतालो. भाऊ काकोडकार घर मंत्री, घर खात्याचे राज्य मंत्री हांच्या कचेऱ्यांनी फावटी मारून तांकां उगडास करताले. हांव सेण्ट्रल हॉलांत रावन खंयच्याय पक्षाचे मुखेल अशे खासदार दिसताले तेन्ना तांचे सरीं वचून विधेयक मांडचें म्हण आग्रो धरपाची विनवणी करतालों. सगले आयकून घेताले; पूण चडश्या जाणांक तो विशय म्हत्वाचो दिसना असो अणभव येतालो.

श्री. हरिश (अण्णा) झांटये हे उत्तर गोंयच्यान वेंचून आयिल्ले काँग्रेसचे खासदार आशिल्ले. संसद भवनांत ते मेळटाले. आमचे हुटहुटे

पळोवन तांणी म्हणचें: कित्याक इतले खर्शेतात तुमी? विधेयक ह्या अधिवेशनांत आयलें ना जाल्यार फुडल्या अधिवेशनांत येतलें. तांकांय विधेयक आयिल्लें जाय आशिल्लें; पूण ताकतीक करपाची गरज दिसनाशिल्ली. तांणी आपले परीन प्रयत्न केलो अशें घडलें ना; पूण कसलीच आडखळय केली ना.

श्री. भाऊ काकोडकार, श्री. शांताराम ल. नायक आनी हांव कांय वेळा एकठांय वावुरताले. आमचे वांगडा आसताली सिक्कीमची खासदार श्रीमती दिलकुमारी भांडारी. ती नेपाळीभाशी. तिची भुमिका आमचे भुमिके परस चड कडक आसताली. मात मणिपूरचो कोणूच क्रियाशील नाशिल्लो. घडये तांणी मणिपूरी भाशे संबंदान आठवे अनुसुचीचें म्हत्व समजून घेवंक नाशिल्लें.

१८ तारखेचो दीस उजवाडलो. तो दीस धरून अधिवेशनाचे फकत तीन दीस उरिल्ले. आमचेर कलकल आयलो. आमी लॉबींग करपाचो वावर अदीक नेटान सुरू केलो. श्रीमती दिल कुमारी भांडारी खुबळ्ळी. सांजवेळ जालो तरी स्पश्ट जाप मेळना हें पळोवन तिणें आंदोलनाची भास सुरू केली. संसदघराच्या सोंपणार धरणें धरून बसतां अशें जाहीर केलें. तांकां तेंको दिवन तिचे वांगडा बसपाचें आमीय जाहीर केलें. परिणामीं, दीस थारावपाचेर विचार चलता अशें घर मंत्र्यांचे कचेरेंतल्यान कळ्ळें. ताका लागून धरण्या विशींचो निर्णय फुडें गेलो ना.

१९ तारखेकूय सकाळच्यान दबाव दवरचो पडलो. दनपारां कळ्ळें की विधेयक २० तारकेक मांडटले. तो अधिवेशनाचो निमणो दीस. आमकां खोस जाली; पूण विधेयक त्याच दिसा पास जावंक जाय; तशें जातलें मूं, हो हुस्को पिडटालो. दुसरे वटेन, आमकां थाकाय दिवपा सारकें घडटालें तें आदीं आमकां कळ्ळें ना. श्री. शिवराज पाटील सभापती आशिल्ले. तांणी घर मंत्र्यांक कळयलें की हें विधेयक त्याच दिसा पास जावंक जाय जाल्यार कोणेंय चर्चा करपाची मागणी करूंक फावना. सगल्या पक्षांच्या फुडाऱ्यांक मेळून तशी खात्री करची पडटली. घर मंत्री श्री. चव्हाण हांणी ती खबर श्री. भाऊ काकोडकार हांकां कळयली तेन्ना तिनसांज जाल्ली.

श्री. काकोडकार हांणी म्हाका सांगलें की हें काम आमी करचें पडटलें. आपूण काँग्रेसचो आशिल्ल्यान काँग्रेसच्या आनी इश्ट पक्षांच्या फुडाऱ्यांक मेळून आपूण विनवणी करतां, विरोधी पंगडांतल्या पक्षांच्या फुडाऱ्यांक मेळून विनवणी करपाचें काम हांवें करचें. ते प्रमाण आमी कामाक लागले. हांव पयलीं भितर सरलों श्री. लालकृष्ण अडवाणी हांचे कचेरेंत आठवे अनुसुचींत बदल करपाचें विधेयक आजूच पास जावचें; ते खातीर तुमी चर्चेची मागणी करची न्हय अशें आमचें मागणें अशें हांवें सांगतकूच तांणी स्पश्ट उतरांनी जाप दिली: निकश सर्वपक्षीय बसकेन थारायला. त्या निकशा प्रमाण विधेयक आसा; चर्चा कसली करपाची? आमी चर्चा मागचे नात.

श्री. अडवाणी हांची जाप आयकून म्हजो हुस्को मात्सो उणो जालो आनी धीर इल्लो वाडलो. मागीर श्री. विश्वनाथ प्रताप सिंग, श्री. चंद्रजीत यादव, श्री. पी. उपेंद्र हांकां मेळ्ळो. जण एकल्यान वेगळ्या उतरांनी पूण तेंच सांगलें; चर्चेची गरज ना; आमी मागचे नात.

श्री. काकोडकार हेर फुडाऱ्यांक मेळ्ळे. त्या फुडाऱ्यांनीय चर्चा नाका अशेंच सांगलें. एक आडखळ ना जाली अशें आमकां दिसलें. आतां वाट पळोवपाची २० तारकेची.

२० ऑगस्ट १९९२. विधेयक केन्ना मांडटले तें खबर नाशिल्लें. लोकसभेचें कामकाज सुरू जातकूच श्री. काकोडकार सभाघरांत गेले. सभाघरा भायर लाउड स्पीकर आशिल्लो. थंय रावन हांव आयकूंक लागलो. भितर कितें घडलें तें स्पश्टपणान कळ्ळें ना. मागीर श्री. काकोडकार हांणी खबर सांगली ती अशी: सुमार १२ वरांचेर घर खात्याच्या राज्य मंत्र्यान विधेयक मांडलें. ताका कोणेंच विरोध केलो ना आनी चर्चेची मागणीय केली ना. विधेयकाचेर मतदान घेवचो वेळ येतकूच श्री. अण्णा झांटये हांणी हात वयर काडलो आनी ते कदेला वयल्यान उठून उबे रावंक लागले. सभापती पाटील हांणी तांकां पळयलें आनी सांगलें, चर्चा ना. बसात तुमी.

श्री. झांटये हांणी म्हळें, 'हांव भाशण करिना. फकत सरकाराक परबीं दिवंक सोदता.'

हाचेर सभापती पाटील हांणी सांगलें, 'आदीं विधेयक पास करुंया. मागीर सरकाराक परबीं दिवपाक तुमी मेकळे.'

आनी सभापतीन विधेयक मतदानाक घालें. तें एकामतान पास जालें. उपरांत विधेयक राज्यसभेंत पावलें. थंयूय चर्चा जाली आनी देड वराच्या सुमाराक तें पास जालें.

त्या दिसा जेवंचे आदींच आमचीं पोटां खोशेन आनी यत्न फळादीक जाल्ल्याच्या समाधानान भरिल्लीं.

कांय दिसांनी दिल्लींत कोंकणीभाशी लोकांनी सभापती शिवराज पाटील हांचो जाहीर भौमान केलो.

कांय म्हयन्यांनी श्री. काकोडकार हांणी घर मंत्री श्री. शंकरराव चव्हाण हांकां गोंयांत येवपाचें आमंत्रण दिलें. तें मानून घेवन श्री. चव्हाण आयले तेन्ना पणजेंत गोंयकारांनी तांचो धोल-ताशे वाजोवन दबाज्यान जाहीर सत्कार केलो.

साहित्य अकादेमीचे मान्यतायेच्या वेळार आठ मराठी मनशांनी कोंकणीक स्वतंत्र भाशेचो दर्जो दिवपाच्या प्रस्तावाक तीन फावटी विरोध केलो. संसदेन कोंकणीक आठवे अनुसुचींत घालून राष्ट्रमान्यताय दिली तेन्ना दोन व्हड मराठी मनशांनी मान्यताय मेळपाक मनस्पुर्वेक पालव दिलो. 'कळना काळाची गती; बेब्यान गिळ्ळो हती' अशी म्हणणी आसाच न्हय!

संपर्क: 9822163223

***

**(श्री. उदय भेंब्रे हांचें 'यादींचो कुरपणो' हें पुस्तक उजवाडाक येवंचें आसा. त्या पुस्तकांतलो राष्ट्रमान्यताये विशींचो हो लेख.)**



# कोंकणी भाशीक चळवळ आनी साहित्य

डॉ. प्रकाश वजरीकार



विसाव्या शेंकड्यांत कोंकणी पत्रकारिता आनी सर्जनशील साहित्याची (कादंबरेची) बुन्याद घालपी एदुआर्द ब्रून द सौज आनी कोंकणी शब्दकोशाचो रचनात्मक वावर करपी भौभाशीक व्यक्तीमत्व मो. दाल्गाद हांणी कोंकणी भाशेची अस्मिताय तिगोवन वाडीक लावपाक भाशीक वावर केला ताका तोड ना. पूण ह्या वावरांतल्यान चळवळ जावंक ना अशें ॲड. उदय भेंब्रे हांचें मत.

हे फांटभुयेर आधुनीक कोंकणी भास आनी साहित्याचो शिल्पकार म्हणून वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार उर्फ शणै गोंयबाब हांणी कोंकणी अस्मिताय जागयताना भाशीक, भौशीक, इतिहासीक, भासशास्त्रीय, व्याकरणीक, संशोधक, रुपांतरण करपी, कवी, कथाकार, कादंबरीकार, बाल साहित्यीक संघटक, प्रसारक आनी प्रबोधन अश्या साबार मळांचेर केल्ली अस्मिताय जागृतायेचो वावर कोंकणी भाशेचें प्रेरणा थळ थारलें. गोंय हें कोकणीचें मूळपीठ आनी कोंकणी भास, आमच्या जाण्ट्यांची मिरास हें दाखोवन दिवन ती तिगोवन तिची वाड करून भाशीक अस्मितायेचें राजकीय भुगोलीक रूप थारावपाक कोंकणी भाशेचोच केदो व्हडलो वावर आनी उपेग जाला तें मुखावेल्या इतिहासान घडोवन दाखयलें. भारतीय आनी संवसारीक मळाचेर 'कोंकणी' हीच आमची वळख हें दाखोवन दिलां. तिका चळवळीचें रूप दिलां.

गोंयकारांमदीं स्वाभिमान आनी राष्ट्रवाद आपले परीन जागृत करपी डॉ. राममनोहर लोहिया, काकासाहेब कालेलकार सारख्या युगपुरूशांनी कोंकणी पुरूशार्थ जागोवपाचो वावर केला. कोंकणी भाशीक आनी साहित्याक युगपरिवर्तनाचो मार्ग दाखोवपी कोंकणी कविता, हेर साहित्य प्रकार हे कोंकणी रायटर आनी फायटर घडोवपाक पावले. ह्या रायटर आनी फायटरांनी कोंकणी केंद्र सुवातेर दवरून गोंय मुक्तीचो ध्यास घेतलो. ओपिनीयन पोल (१९६७) जिखलो, कोंकणी राजभास संघर्शान आनी खर आंदोलनान करून घेतली. राजभाशेच्या म्हालवजार गोंयाक घटक राज्याचो दर्जो मेळपाक पावलो, मुखार संविधानाचे आठवे वळेरेंत वतकूच कोंकणीचें भाशीक चळवळीचें, संघर्शाचें एक म्हत्वाचें पर्व जैतिवंत रितीन पूर्ण करपाचें भाग्य कोंकणी रायटर आनी फायटराच्या नशिबांत आयलें. तें पळोवपाचेंय भाग्य लाबलें. गोंय मुक्त जातकूच तें स्वतंत्र दवरप, कोंकणीक स्वतंत्र साहित्याची भास म्हण केंद्रीय साहित्य अकादेमीची मान्यताय, कोंकणी गोंयची राजभास म्हण चळवळींतल्यान कायदो करून घेवप आनी मुखार कोंकणी राज्य म्हणून मान्यताय आनी राष्ट्रीय भास म्हणून संविधानांत आस्पाव हीं कर्तृत्वी जैतां मेळोवपी कोंकणी ही एकूच भारतीय भास आसुंये. 'अजीब है गोवा के लोग' ह्या पं. जवाहरलाल नेहरूंच्या वक्तव्यांतलो अन्वयार्थ समजून घेवन 'युनीक है गोवा के लोग' हो ह्या गोंय मुक्तीच्या साठ वर्सांतलो दोळे दिपकावपी भाशीक अस्मितायेच्या राखणेचो प्रवास आसा. भासूच न्हय, लिपीच ना, खंयची प्रमाण? व्यापक? क्षेत्राचो अभाव, मर्यादीत वाचपी, पुस्तकांक खप ना, वाचपीच ना, पुरस्कारां खातीरूच बरयतात, आत्मसंतुश्ट, अल्पसंतुश्ट, काळोखाचे पुजारी अश्या कितल्याश्याच दुस्वासी प्रवृत्तींतल्यान आव्हानां स्विकारीत सकारात्मक गुणात्मक वाढ करीत आनी वाट काडीत ही भास मुखार गेल्या.

गोंय मुक्ती झुजांत कोंकणी आत्मस्वर जागोवपी आनी तिगोवपी सुटके झुजाऱ्यांच्या साहित्यीक आनी भाशीक संघटनात्मक कार्याकूय तोड नाशिल्ली. 'वंद्य परक्यालेंच उश्टें' मानप्यां आड स्वकियांचें मन परिवर्तन आनी मत परिवर्तनूय करपाचें प्रबोधनाचें कार्य कोंकणी मनशांनी केलें हेंवूय तितलेंच म्हत्वाचें. गोंय, महाराष्ट्र, कर्नाटक, केरळ तशेंच हेर प्रांतातल्या कोंकणी लोकांक एकठांय हाडून अखील भारतीय मोख कांयश्या प्रमाणांत जैतिवंत केली. अखील भारतीय कोंकणी परिशदो, साहित्य संमेलनां, विश्व कोंकणी संमेलन, साहित्य अकादेमी तशेंच राज्य सरकाराच्यो भाशीक सांस्कृतीक संस्था, संचालनालयां तशेंच भारत सरकाराच्यो संस्था आदींच्या माध्यमांतल्यान कोंकणी भास आनी साहित्याचो प्रसार जातानाच अखील भारतीय वा आंतरराष्ट्रीय पांवड्यावेलीं भाशीक, साहित्यीक, सांस्कृतीक व्यासपिठां मेळोवपाचें आनी कोंकणी प्रतिमा उबी करपाचें काम व्यक्ती, संस्था आनी आस्थापनांनी केलां. ताकाय लागून कोंकणी ही आमची वळख जाली.

साहित्य आनी भाशीक चळवळी वांगडा कोंकणी संस्कृती, संगीत, लोकवेद, नाट्य आदी मळांचेरूय कोंकणीचो वावर ह्या साठ वर्सांक खूब मोलाचो थारला. आकाशवाणीचो ह्या वावरांत भोव मोलाचो वाटो आसा. कोंकणी संगीत, नाट्य आनी हेर प्रकारांचो प्रसार करताना प्रसार भारतीचो इतिहास कोंकणी चळवळीच्या एकसंघाचेंच उदाहरण म्हणून पळोवचें पडटलें. आमी बाबडीं कोंकणी बाळां, शिंपडल्यांत चोंय मळांचें पयसपण लागीं घरांनी हाडपाचें काम ह्या प्रसार माध्यमांनी केलां. संवसारीक मळावेल्या नामनेच्या संगीत मळावेल्या लोकांनी (मूळ कोंकणी तशेंच बिगर कोंकणी) कोंकणी संगीत आंतरराष्ट्रीय पांवड्यार पावयलें. पाश्चात्य, भारतीय धर्तेवयल्या संगीताचो घुमट-मांदोलीनांचो, गिटार-कांसाळ्यांचो, धोल-ड्रम्सांचो मेळ कोंकणी संगीतानूच घडोवन हाडटाना अखील भारतीय कोंकणी संगीत संमेलनाच्या माध्यमांतल्यान 'कोंकणी मातयेंतलो ताल' दाखोवपी विदुशी किशोरीताई आमोणकार, रेमो फेर्नान्डीस, पंडीत जितेंद्र अभिषेकी, पं. प्रभाकर कारेकार ते मुकेश घाटवळ अश्या साबार कलावंतांनी कोंकणी संगीताची बसका दाखोवन दिल्या. नेत्रावती जुवारीची (पांयजणां) ल्हारां एकरूप करपी मांड सोभाण आसूं, कोंकणी प्रांतातलें लोकसंगीत आसूं. कोंकणी आत्मो जागोवपी व्यासपीठ संगीताच्या माध्यमांतल्यान उबें करताना कोंकणी लोकवेदांतली भक्ती आनी अभिव्यक्ती परंपरा पारंपारीक बाज दवरूनूच आधुनिकतायेच्या बंदिशींत बांदपाची कळाशी संगीताच्या मळार प्रयोगशील कवी, गीतकार, संगीतकार, गायक,

कलावंतांनी सादली. कोंकणी लोकगितां वांगडाच अर्विल्लें कोंकणी गीत आनी संगीत कोंकणी तर्नाट्यांच्या ओंठार दिसता तेन्ना कोंकणीचोय फुडार सुगूर आनी प्रगतशील आसपाचो विवेकानंदी दिश्टावो घडल्या बगर रावना. गोंयात जावपी अखील गोंय कोंकणी भजन सर्त, अखील गोंय कोंकणी अभंग गायन सर्त, भक्ती गितांच्यो धर्मनिश्टीत कार्यावळी, अखील भारतीय व्यासपिठांचेर मेळपी कला सादरीकरणाच्यो विंगड विंगड संदी हाका लागून प्रयोगशीलताये खातीर हें मळ समृद्ध जाल्ले दिश्टी पडटा.

गोंय मुक्तताय ही घडणूक स्वतंत्र गोंयातल्या कोंकणी शिक्षणाक म्हत्वाची. पुर्तूगेज काळांत मिशनरी पाद्रींनी शाळा - कॉलेजांनी कोंकणीचो वापर करताना धर्माचो प्रसार आनी प्रचार ही मोख कायमस्वरुपी दवरली. त्या काळांत उतरावळी, शब्दकोश, प्रस्नोत्तरी, व्याकरणां, धर्मीक बरपावळी खातीर रोमी लिपयेचो वापर जालो. शास्त्रीय आनी स्वभावीक कोंकणीचे बरपावळी खातीर भारतीय देवनागरी लिपी स्वाभावीक आसा, अशी भुमिका मांडपी दाल्गाद जाणी संस्कृतातलें 'नलदमयंती' पुर्तूगेजींत अणकारीत केल्ले, शब्दकोश, व्याकरणां रचून कोंकणीक गिरेस्तकाय मेळोवन दिवपाचें काम गोंय मुक्ततायेच्या काळांत आनी उपरांत आनीकूय मुखार गेलें. मुक्त गोंयात कोंकणी शिक्षणाची परंपरा घडोवपी सुरेश बोरकार हांचें व्याकरण गोंय सरकारान अधिकृत व्याकरण म्हण मानून घेवंचें पडलें ही खोशयेची गजाल. कोंकणीत पाठ्यपुस्तकां निर्माण करपाचो बुन्यादीचो वावर कोंकणी भाशा मंडळ आनी कोंकणीच्या निश्टावांत सेवकांनी केलो. कोंकणी सनद कोंकणी प्राथमीक पांवडो ते विद्यापीठ स्थराचेर एम. ए., पि.एच.डी चो वावर मेरेन ॲकॅडेमीक पांवड्यार कोंकणीचो जावपी वावर हातूंत कोंकणी शिक्षणीक मळार समृद्ध करपाची खटपट दिश्टी पडटा.

गोंय विद्यापीठांत निर्माण जाल्ली कोंकणी विश्वकोशांची निर्मणी खूब म्हत्वाची. अशे तरेचो वावर शब्दकोशांचो, व्याकरणीक उतरावळींचो वावर राजहंस प्रकाशन आनी हेर व्यक्ती संस्थांनीय केल्लो तो नदरेंत भरपा सारखो आसा. विद्यापीठ पांवड्यार तशेंच माध्यमीक तशेंच उच्च माध्यमीक पांवड्यार अभ्यासक्रमाचीं मुलतत्वां धरून कोंकणी अभ्यासक्रम घडोवपाचें काम जातना दिश्टी पडटा. शिक्षणशास्त्र, तशेंच कला शाखेंत ताचो प्रभावी वापर करपाचे यत्न दिसतात.

व्यक्ती विकास, महिला सन्मान, समतावादी विचारसरणी, गांधी-नेहरूवाद, स्त्रीवाद, आंतर भारती, जातीवाद, धर्मवाद, पर्यावरण आनी अस्मिताय, वाङ्मयीन आनी भाशीकवाद, संघर्श आनी समन्वय आदी विचार आनी प्रवाह ह्या साठ वर्सांच्या कोंकणीच्या वाटेंत दिसतात. सामाजीक चळवळी चलोवपी कोंकणी मनशान भोवतेक चडश्यो चळवळी ह्या साठेक वर्सांक जैतिवंत केल्यात. कोंकणी भाशीक आनी साहित्यीक चळवळीतली प्रगत विचारसरणी, धर्म निरपेक्षता वा सर्व धर्म समभावाच्या अधिश्टानाक फाटल्या वीस पंचवीस वर्सांक कांय कडेन खांवटे घालपाचे नियोजनबद्ध रितीन आखिल्ले रणनितीन एक भास एक साहित्य एक लिपी ह्या परिशदेच्या तत्वाकूच आव्हान दिवपाचें आनी ती चळवळ वा त्या धोरणाक नखलामी करपाचें काम कांय कर्तबगार मनशांनी केलें. परिणामस्वरूप रोमी लिपयेचो वाद काडून दाल्गादाच्या

*(पान ११३ चेर)*



# पांडुरंग भांगी - जिवीत आनी कवीत



माधव बोरकार

भांगी हें कुटुंब पंचवाडेचें. कामत, शिसाणीं अशीं कांय कुटुंबा पंचवाडे आसात. भाट बेसांचेर ही कुटुंबा जियेतालीं. पूण तेच बरबर तांकां शिक्षणाचेंय म्हत्व पटिल्ल्यान ते मुळावें आनी वयलं शिकप घेताले. तातूंतलें एक कुटुंब म्हळ्यार भांगी हे कुटुंब. कुटूंबाच्या वंशरुखाक खांदयो फुट्टात आनी ताचो विस्तार जायत वता. ह्या वंशरुखाची एक खांदी पांडुरंग राजाराम भांगी हांची. तांच्या वाट्याक आयिल्ल्या भाटाबेंसांत भर घालून ती वाडयली. आनी पंचवाडे एक बरें गडगंज अशें चिरेबंदी घर बांदलें. (दो. आत्माराम बोरकार ताका भांग्यांली पालास अशें म्हण्टाले खंय.) पांडुरंग शणैचे आस्पतीक सोबता तशे तांचें अंत्रुजेंतले गडगंज भाटकार केळेकारांकडेन नातें जुळून आयलें. तांकां चार चले जाले. तातूंतले दोन, राजाराम आनी श्रीधर. पंचवाडे शिक्षणाची फाव ती सोय नाशिल्ल्यान आपल्या पुतांक ताणी पिरवळा केळेकारांगेर दवल्लें.

तातूंतलो राजाराम आनी श्रीधर मुळावें पुर्तुगेज शिकून लिसेवाचेर गेले. लिसेव काडल्या उप्रांत ते सरकारी चाकरेंत भितर सल्ले. राजाराम आल्फांताचेर तर श्रीधर कुन्हैत. दोगांयनी मनापासून काम करून लौकीक मेळयलो. श्रीधरबाब प्रेमैरु ओफशाल मेरेन पावले. त्या काळांत कुन्है (आतांची पोस्टाची सर्विस) म्हळ्यार, भांगी, सावर्डेकार आनी म्हामाय कामत हांची मिरास अशें पणजेंतलें लोक म्हण्टाले आनी तशें तें खरेंय आशिल्लें. आनी आल्फांताचेर भांगी आनी आगशीकार हांकां एक वेगळेंच वजन आशिल्लें. आश्पिरांत म्हूण रूजू जाल्ले राजारामबाब आपले हुशारेन सुबदिरोतोराच्या पदार पावले.

पांडुरंग हो राजारामबाबालो म्हालगडो पूत. ताचो जल्म १३ ऑगस्ट १९२३ ह्या दिसा कुंडय हांगा जालो. कामत कुटुंबातली कृष्णाबाय ही पांडुरंगबाबाली आवय. रेजिसिव्हिलांत मात तेर्माचेर २६ सप्टेंबर अशी तारीख लागल्या. ताचे फाटलें कारण म्हळ्यार पुर्तुगेज कायद्याप्रमाण भुरग्यांच्या जल्मा उप्रांत एका म्हयन्याभितर तेर्म करपाक जाय आशिल्लो. उशीर जाल्यार दंड भरचो पडटालो. असोच उशीर जाल्ल्यान दंड चुकोवपाखातीर तांच्या जल्माची तारीख जाण्टेल्यांनी थोडी मुखार व्हेली. त्या काळार खुप जाणाच्यो जल्मतारखो फार्टींफुडें जाल्ल्यो मेळटल्यो. तांचो तेर्म पांडुरंग ह्या नावान जालो. तें तांका पाळण्यात दवरिल्लें नांव. पूण म्हणपाक मात रावजी. तांचे घरचे आनी सोयरे धायरे तांकां रावजीच म्हण्टाले. तांचो धाकलो भाव ब्रिगेडिअर डॉ. गोकुळदास हांचे खातीर ते रावजीबाब. दोनूय भावांमदीं अठरा वरसांचें अंतर आशिल्लें. आजो गेल्या उप्रांत आपूण जल्माक आयलों म्हूण हें नांव आपल्याक दवल्लें अशें ते सांगताले.



राजारामबाबा सबंदान थोडे हांगा सांगपाक जाय. ताणी कस्टम खात्यात खूप वरसां नोकरी केली. सेवानिवृत्त जावपाक पांच वरसां उरिल्ली तेन्ना पिरायेच्या साठाव्या वरसा तांकां मरण आयलें. पुर्तुगेज कायद्याप्रमाण सेवा निवृत्तीची पिराय पांसस्ट आशिल्ली. कस्टम खात्यांत आसुनय  वाटेवयले सगळे मोह ताणी टाळ्ळे. आपल्या कुलदेवाक म्हळ्यार ढवळेच्या वामनेश्वराक स्मरुन व्यव्हार केलो अशें भांगीबाब सांगताले. लोटलेचो एक गिरेस्त भाटकार तांकां मोठी जमीन भेट म्हूण दिवपाचो आशिल्लो. असली फुकटची आस्पत ताणी घेतलीना. असले मोह टाळपाक मनाक एक वेगळीच शक्त लागता ती तांचे ठांय आशिल्ली. आपलें घरदार करीनासतना ते पणजे मळ्यांत एका भाड्याच्या घरांत रावले. फाटलीं ऐशीं वरसा भांगी कुटूंब त्या घरांत रावता.

कस्टम खात्यातली नोकरी बदलेची आशिल्ल्यान राजारामबाबांक सुरवेच्या काळांत आडगावांत रावचें पडटालें. कस्टमाचे पोस्ट बेतूल, दोडामार्ग, पोळें आनी मोलें सारकिल्ल्या जाग्यांनी आशिल्लें. तशेंच दामांव आनी दीव सारकिल्या पयसुल्ल्या शारांतूय बदली जावपाची शक्यताय आसताली. राजारामबाबांक मात गोंय सोडून भायर वचचें पडलें ना. पूण मोलें आनी बेतूल हांगां तांकां रावचें पडलें. ताचो परिणाम पांडुरंगबाबांच्या व्यक्तिमत्वाचेर जालो. तांच्या भुरगेपणाचो कांय काळ मोल्यां वाठारांत गेलो. 'कविता अशी येता' ह्या आपल्या सुपुल्ल्या बरपांत ते बरयतातः 'भुरगेपणात हांव चडसो एकोडोच उल्लों. म्हाका म्हज्या बराबरचे अशे भुरगे सांगताक मेळ्ळेच ना, त्या वयांत भुरगे जे खेळ खेळटात ते हांव खेळूंक पावलोंना. ताका लागून म्हज्या भितरच रावपाची म्हाका सवंय जाली. तीच म्हज्या निजाची प्रकृती जाली.'' तांच्या फाटल्यान तांकां भयणी जाल्यो आनी खूप अंतरान एक भाव. ताका लागून हें एकसुरेंपण अदिक खर जालें. मोलें हो रानवटी वाठार. रुतूची वेगवेगळीं रुपां तांकां थंय दिसतालीं. शियाच्या दिसांनी सकाळीं पत्रो एकठांय करून धग घेवप आनी कानार पडपी सवण्याचे सूर हातूंत तांकां एके तरेचो आनंद मेळटालो. तो तसो कवितेचे वटयां व्यक्त जावंक ना तरी ह्या अणभवांतल्यान तांचे चित्तवृत्तीक पोसवण मेळ्ळी. तिका धार

आयली. मोल्यां भशेनूच कांय काळ ते बेतलांत उल्ले. ते सबंदान ह्याच लेखांत ते मुखार सांगतात: ''दर्याचे देगेर बसून सपनां रंगोवप ही म्हजी सवंय जाली. पैस पल्ल्याक वतात त्या होडयांची शिडां पळेत म्हज्या हांवेंच दिगंतेचो प्रवास करचो. अस्तमतेचे रंग पळेत हांवें भान विसरचें. पुनवे दिसा न्हंयच्या उदकाचेर चांदन्याचो जो शिंवर जातालो, त्या शिवरांत म्हगेलें मनय चंद्र जातालें. म्हाका नकळटां रगतांत कविता अशी रिगताली. ह्या तांच्या आत्मकथनाक कवितेची सया आसा. तशे भांगीबाब आपलेविशीं चड कांय सांगी नाशिल्ले. केन्ना केन्ना उमाळो आयल्यार ते कांय गजाली उलोवन वताले.

मुळावें पुर्तुगेज शिकून जातकच ते आल्मेद कुलेजींत लिसेव करपाक आयले. हांगा विद्यार्थ्यांक रावपाक हॉस्टेलाची सोय आशिल्ली. तेन्ना लक्ष्मणराव सरदेसाय कुलेजीचे दिरोक्तोर आशिल्ले. हे शिक्षणीक संस्थेत बरेंच नांव जोडिल्लें ताका लागून फोंडे आनी आशिकुशीकचे भुरगे हांगा शिकपाक येताले. रवीन्द्र केळेकार, वामन सरदेसाय हे हांगाच शिकताले आनी हॉस्टेलांत रावताले. भांगीबाबांकूय थंयच रावपाक सुवात मेळ्ळी. कांय दीस ते लक्ष्मणरावांगेरूय रावल्यात. हांगा मनोहरराय विद्यार्थी आशिल्ले. हे सगळे एकठांय आसुनूय तांचे कोणाकडेन म्हणपासारके सूर जुळ्ळे नात. तांचेविशीं भांगीबाबांच्या मनांत तशी अखटाय नाशिल्ली पूण तांचेविशीं आपलेपण दिसतालें अशेंय म्हणू नज. लक्ष्मणराव पुर्तुगेज शिकयताले ताची तांकां तोखणाय आशिल्ली. पुर्तुगेज भास आनी साहित्य हांची गोडी आपल्याक लक्ष्मणरावांक लागून लागली अशें ते सांगताले.

आल्मेद कुलेजीत तेरसेरआन मेरेन शिकपाची सोय आशिल्ली. ते म्हणसर राजारामबाब बदली घेवन पणजे आयले. क्वार्त - आनुपासून ताणी पणजेच्या लिसेवाचेर शिकपाक सुरवात केली. आल्मेदांत शिकता आसतना तांकां लागींचें अशे इश्ट कोण मेळ्ळे नात. पूण हांगा मात तांकां शांताराम आमोणकार हे तांचेच पिरायेचे इश्ट मेळ्ळो. शांतारामबाब लिसेव करताले आनी प्रकृतीन थोडे भोव भांगीबाबां भशेनूच. थोडे एकमुळे पूण वाचपी आनी विचार करपी. ज्या काळांत कोंकणीचें नांव म्हळ्यार पातक केल्ले भशेन आशिल्लें. त्या काळात तें कोंकणीचो पाखो घेवन लोकांकडेन वाद घालताले. ते भायर चित्रकलेचो ध्यास घेतिल्ले अशें ते व्यक्तिमत्व. लिसेवाचीं स वरसां काडून ते इश्कॉल नॉर्मालाक गेले आनी मुखार मुंबय वचून चित्रकलेचें शिकप घेतलें. मुंबय आसतना तांचो शणै गोंयबाबाकडेन लागींच्यान संबंद आयलो. तांचें 'उगडासाचे कोठयेकुडींत' हे यादींचे पुस्तक आसा. तेच भशेन तांची 'जाग' अंकांनी ख्रिस्तीनी उजवाडा आयिल्ली दीसपटी एका काळाचें दर्शन घडयता. शांतारामबाबान शणै गोंयबाब वाचिल्लो आनी ताणीच भांगीबाबांक शणैची वळख करून दिली. रवीन्द्रबाबाक कोंकणीचें मिशन दाखयलें तें हेच व्यक्तिन.

अशें जरी आसलें तरी कोंकणी ही आमची भास हो विचार भांगीबाबांक म्हणचे तसो भितल्ल्यान पटूंक नाशिल्लो. त्या वेळावेले गोंयकार विचारवंत (?) शांबाराव सरदेसाय, प्रो. गजाननबाब सावर्डेकार, रघुनाथबाब तळवडकार हे मराठीचो पाखो घेताले. आचार्य रामचंद्र शंकर नायक हे लेगीत मराठीवटेन आशिल्ले. तांकां कोंकणीचो साक्षात्कार जालो तो 'चवथीचो चंद्र' ही नाटिका बरयल्ल्या उप्रांत.

इतले मजगतीं एक घडणूक जाली आनी भांगीबाबाच्या मनांतलें कोंकणीचें मुळावण घट्ट जालें. पणजेचें मॉडेल इंग्लीश स्कूल कृष्णराव केणी हे चलयताले. एक फावट ताणी आपल्या कांय विद्यार्थ्यांक घेवन किर्लोस्करवाडी हांगा भोंवडी काडली. भांगीबाब तांचेकडेन इंग्लीश भास शिकपाखातीर वताले. तेय तांचेबरबर किर्लोस्करवाडी गेले. थंय तांची भेट किर्लोस्कर म्हैनाळ्याचे संपादक शंकरराव किर्लो स्करांकडेन जाली. ''तुम्ही इथे आलांत ते बरे झाले' आता तुमची मराठी चांगली पॉलीश होईल.'' अशें ताणी म्हण्टकच मराठी आमची भास जाल्यार ताणी अशें कित्याक म्हणचें असो विचार तांच्या मनांत आयलो. कोंकणी ही भास काय ती मराठीची बोली असो प्रश्न ताणी केणी मास्तरांक केलो. भाशेचीं सगळीं लक्षणा कोंकणी दाखयता. दुबावाविरयत ती स्वतंत्र भास अशी जाप तांकां मेळ्ळी आनी मनातले सगळे दुबाव पयस जालो.

कोंकणीचो दिश्टावो गोंयकारांक गोंयांभायर वतकच जालो हाच्यो देखी खूप आसात. मनोहरराय सरदेसाय, रवीन्द्र केळेकार हांकां आपले अस्मितायेची जाणीव अशीच जाली. आनीकूय कांय विद्वान म्हूण नामना जोडिल्ले गोंयकार आसात. तांकां कोंकणी पटुनूय व्यव्हार पळोवन मराठी भाशेक लागीं केली.

हे घडणुके उप्रांत भांगीबाबान कोंकणीचो बारकायेन अभ्यास करपाक सुरवात केली. ते खातीर ताणी एक पद्धत आपणायली ती अशी, जाण्टे लोक खबऱ्यांक बसता तें तांचे पासून थोडें पयस बसून बारिकसाणीन आयकप. एखाद्रें नवें उतर कानार पडल्यार ताचो अर्थ समजून घेवप. चड करून जाण्ट्यो बायलो ह्यो कोंकणीच्यो पंडिता अशें तांचें म्हणप आशिल्लें. कोंकणी म्हणी आनी ओपारी हांचें गिरेस्त भांडार तांचेकडेन आसा अशें ते म्हण्टाले. कानार पडिल्ली उतरावळ, म्हणी ओपारी ते एका नोटबुकाचेर बरोवन दवरताले. भास ही कोणाय कडल्यान शिकपाक येता हो तांचो अणभव आशिल्लो. आनी आमचे नवे भुरगे ताचेकडेन लक्ष दिनात हो तांचो शीण आशिल्लो. हो शीण ते वेगवेगळ्या प्रसंगाचेर व्यक्त करताले. ही तांची भाशीक जाण तांचे कवितेबराबर तांच्या गद्य बरपावळींत दिसता. ह्या सगल्या अभ्यासांतल्यान ताची गद्याची शैली तयार जाली.

सेतत्म आनाच्या अभ्यासाखातीर ताणी लेत्र हो अभ्यासक्रम घेतलो. ह्या अभ्यासक्रमात पुर्तुगेज साहित्य आस्पाव आशिल्लो. ताका लागून कांय म्हत्वाचे पुर्तुगेज लेखक आनी विचारवंत तांकां अभ्यासचे पडले. तातूंत एस दु क्लेरोज हो लेखक आशिल्लो. तो तांचो एकदम आवडीचो लेखक. तेच भशेन आंतेरु दु किंताल हो कवी अभ्यासांतल्यान तांच्या मनाचो थाव घेवपाक लागलो. ताची 'निर्वाण' ही कविता तांच्या चिंतनाचो एक वांटो जालो. किंताल आपले प्रकृतीक लागीं येवपी कवी अशें ते म्हण्टाले. बुद्ध तत्त्वज्ञानान भारावल्लो हो कवी.

भांगीबाबाली पिळगी खंयचे लेखक वाचताले तें पळोवपाक जाय. तेन्ना सगळ्यांमदीं लोकप्रिय आशिल्लो एक लेखक म्हळ्यार स्टिफन

झ्वायग. ह्या जर्मन भाशेंत बरोवपी लेखकाच्या पुस्तकांचो पुर्तुगेज अणकार गोंयांत मेळटालो. पणजे प्रो. पाद्री लियांव फॅर्नांदीश हांचें पुस्तकाचें दुकान आशिल्लें. तो लिसेवाचेर तत्वज्ञान आनी भुगोल हे विशय शिकयताले. ते भायर पुस्तकांची आवड म्हूण हें दुकान ताणी घाल्लें. हांगा पुर्तुगेज आनी फ्रेंच पुस्तकां मेळटालीं. टॉलस्टॉय, डोस्टोव्हस्की, चेखोव्ह हे रशियन लेखक आनी हेमिंग्वे, स्टेनबॅक सारकिले इंग्लीश लेखक तेन्ना लोकप्रिय आशिल्ले. पुर्तूगेजी बराबर हे वेगवेगळे लेखक भांगीबाबान मनापासून वाचले. हांगा एक याद नोंद करून दवरपा सारकी आसा. सेतमआनाक तांची ओराल आशिल्ली. आनी ही ओराल घेवपी प्रो. साल्वादोर फॅर्नांदीश. हो प्रोफेसर जितलो हुशार तितलोच विक्षिप्तूय आशिल्लो. बाकीबाबान आपल्या आत्मचरित्रांत ताच्यो यादी सांगल्यात. तुजो आवडटो लेखक कोण ह्या तांच्या प्रस्नाक भांगीबाबान लिओ टॉलस्टॉय अशी जाप दिली. तातूंत War And Peace हे कादंबरेचेर प्रो. फॅर्नांदीशान तांकां आडवे तिडवे प्रस्न केले. तांकां धिटायेन जाप दिवन ते परिक्षा पास जाले.

ह्या काळांत ताणी कोंकणीच्या वावराक हात घालो. ते खातीर १९४५ वरसा 'मांडवी' या नावाचें एक हाताळें सुरू केलें. ताच्या पयल्या अंकाक शांताराम आमोणकारान तांका शणै गोंयबाबालें व्यक्तिचित्र रंगोवन धाडून दिलें. ह्या अंकांत तांचें 'मांडवीक साद' ह्या नावांचें एक बरप आसा. 'उतरांचो संवसार' ह्या पुस्तकांत ते वाचपाक मेळटा. ताचे फाटल्यान एक इतिहास आसा तो असो. अंकाखातीर साहित्य मागपाखातीर ते प्रो. राणू नायकांकडेन गेले. तेन्ना ताणी भांगीबाबांक फाफुडिल्ले भशेन केलें म्हूण हो साद ताणी घालो.

हो अंक वाचून प्रो. राणू नायक खोशी जाले आनी दुसऱ्या अंकाखातीर 'जाफरभाय' हे व्यक्तिचित्र दिलें. हो पयलो अंक ताणी शणै गोंयबाबांक धाडून दिलो. तो पळोवन अंकाची तोखणाय करपी पत्र शणै गोंयबाबांनी तांकां धाडून दिलें. आमी सगळे शणै गोंयबाब म्हण्टात पूण भांगीबाब मात तांकां वालावलेकार अशेंच म्हण्टाले. तीन अंक काडल्या उप्रांत ते थंयच थांबले. हो सगळो वावर एक हाती तांच्या बापायक पुताचे नसते उद्योग पसंत नाशिल्ले. रावजीन अभ्यासाचेर लक्ष दिवन वयर सरचे अशें तांकां दिसप त्या काळाक धरून सभाविक आशिल्लें. त्या काळार तांचे एकले एकसुरे इश्ट म्हळ्यार शंकर रामाणी. रामाणी कुटूंब पणजे मळ्यांत रावपाक आयलें आनी ह्या दोगांयची वळख जाली. १९४५ ते रामाण्याल्या मरणामेरेन ही इश्टागत उल्ली. तरी तांच्या संबंदांत अर्दी मर्दी चडट्यो देंवल्यो आसल्यो. हे दोगूनय इश्ट फांतोडेर उठून पासयेक वताले. खबरी फक्त साहित्याच्यो आसतल्यो. ऑफिस सुट्टकच परत तांची पासय आसताली. तांकां पणजेकारांनी पारव्यांची जोडी अशें नांव दवरिल्लें.

१९५० वरसा कोंकुर्साक बसून ते कस्टम खात्याचे सेवेंत रुजू जाले. मुखावेल्या अकरा वरसांत ताणी कांयच बरयलें ना. पूण ह्या काळांत ताणी वेंचिक पुस्तकां वाचलीं. हीं पुस्तकां वाचीत ते मनशाचो सोद घेत रावले. आनी भोंवतणच्या संवसाराची एके वेगळेतरेन पारख घेतली. बर्ट्रांड रसेलाचें Marriage and Morals, "On Education", 'Impact of Science on Society" आनी 'Power' ह्या ग्रंथांनी तांचेर मोटो प्रभाव घालो. तातूंतल्यान तांच्या विचारांक एक मुळावण मेळ्ळें. हे भायर स्टिफन झ्वायगाची कांय पुस्तकां तांका आगळी वेगळी अनुभूति दिवन गेलीं. तांचे 'Joze Forche', 'Maria Antonieta' 'Tres Mestres', 'Tres Poetas da propria existencia' आनी ताचें आत्मचरित्र 'O Mundo de Ontem' ह्या पुस्तकांच्या वाचनांन तांची संवेदना अदिक तीख जाली. रामाण्याल्या वाचनांत हींच पुस्तकां आशिल्ली. विशेष पुस्तक म्हळ्यार 'Tres Poetas da propria existencia' हें पुस्तक कवीन वाचपाकूच जाय अशें दोगांयचें मत आशिल्लें. आजकाल हो लेखक फाटीं पडला. ताचें आत्मचरित्र चुकून मेळटा. संवसारीक आत्मचरित्राच्या साहित्यांत ते खाशेली सुवात जोडून आसा. हे भायर स्टेन बॅक, काम्यु, हेमिंग्वे हांच्यो वेंचिक कादंबऱ्यो ताणी ह्याच काळांत वाचल्यो. तांचे कडेन खबरी करूंक बसल्यार मान्युअल बांदियर ह्या ब्राझिलिएन कवीचो उल्लेख येतालो. तेच प्रमाण मिंगेल तॉर्ग होय तांकां भाविल्लो म्हत्वाचो कवी. आनी अखेरेक फॅर्नांदु पेस्सोव हे कवीन तांचे संवेदनेक एक धार हाडली आनी तांचें कवितेचें विश्व व्यापून उडयलें.

फॅर्नांदु पेस्सोव हो संवसारीक कवितेंतलो एक सामको वेगळो कवी. आपल्या देशाच्यो शिमो उपून वैश्विक जाल्लो हो एकलो एकसुरो पुर्तुगेज कवी. १८८८ ते १९३५ हो ताचो काळ. तो ह्यात आसतना ताचें नांव जालेंना. तो वतकच मात ताची किर्त दिशीं दिशीं वाडत गेली. ताच्या मरणा उप्रांत ताचो एक व्हडलो ट्रंक मेळ्ळो. तातूंत सुमार पंचवीस हजार कागदपत्रां मेळ्ळीं. कविता, गद्य, टिपणां, नक्षत्रां आनी अशें बरेंच कितें तातूंत मेळ्ळें. त्या ऐवजाचें संपादन करून तो उजवाडा हाडपाचो वावर पुर्तुगालांत चल्लो. कामॉयशां उप्रांतचो सगळ्यांत श्रेष्ठ कवी अशी सुवात ताका मेळ्ळ्या. आल्बॅर्त कायरो, आल्वरो दु कांपु, रिकार्द रेयश अशा तीन नावांनी ताणे बरयल्ल्यो कविता मेळटात. कविता ही ताची एकले एकसुरेपणान जियेवपाची तरा आशिल्ली.

पेस्सोव प्रसिद्धीच्या उजवाडा पासून सदांच पयस रावलो. सुचिल्ली कविता हाताक मेळटा त्या कागदां कुडक्यांचेर बरोवन त्यो ट्रंकांत उडोवप ही ताची सवंय. त्यो काडून ताचो क्रम लावप सारकिलो संपादकीय वावर ताच्या इश्टांनी केलो. तातूंतल्यान ताचे कवितांचे खंड आनी Book of Disquite सारकिलें चिंतनाचें रूप आशिल्लें. पुस्तक प्रसिद्ध जालां. पुर्तुगेजींतलो हो पयलो साहित्यकार जो अणकाराच्या माध्यमातल्यान संवसारभर पावला. ते उप्रांतचो जुझे सारामागो. ताची एक ल्हानशी कविता आसा ती अशी:

*हांव मेल्या उप्रांत*
*म्हजें चरित्र बरोवचेशें दिसल्यार*
*ह्या सारखी - सोपी गजाल दुसरी ना*
*म्हज्या जल्माची आनी म्हज्या मर्णाची*
*अशो दोनच तारको आसात*
*ह्या दोनूय तारकां मदले सगळे दीस*
*म्हजेच आसात.*

आनी खऱ्यांनीच ह्या मदल्या दिसांचेर रिचर्ड झेनीर्थ ह्या चरित्रकारान ताचें सुमार हजार पानांचे चरित्र बरयलां. तेच प्रमाण जॉनाथन ग्रिफिन हाणे ताच्यो कविता अणकारल्यात.

पेस्सोव हो भांगीबाबालो आदर्श. पेस्सोवा मुखार आज कविता मुखार वचूंक ना हें तांचें अतिरेकी मत.

*Over me grief has thrown its veil*
*Leaves a creature in this world*
*And one more angel in the sky*

सारकिल्यो वळी वाचतकच हो कवी भांगीबाबालो समानधर्मी दिसता. परिस्थितींतल्यान जें एकसुरेपण पेस्सोवान भोगलें तशें थोडेंभोव भांगीबाबाल्या वांट्याक आयलें. आनी हें एकसुरेंपण अखेर मेरेन अणभवलें तांची वाट एकमुळी आनी तेच आपलेच सांगाती. 'जिणे-मर्णा बांदून सांगोड / जीवा म्हज्या खेळटां भोंवडी अशें म्हणपी. तांचे कवीवृत्तीची जडण घडण जातना आनीक एक कवी तांकां लागींचो दिसलो तो म्हळ्यार साल्वादोर क्वाझिमोडो हो इटालिअन कवी. मुखार हे कवीक नोबेल इनाम मेळ्ळें. हो एक आत्मनिष्ट कवी. बरोचसो अमूर्त अणभवांक मूर्त रूप दिवपी आनी तरल भाववृत्ती व्यक्त करपी.

Everyone is alone on the heart of the earth
pierced by a ray of the sun:
and Suddenly it's evening

होय कवी पेस्सोवाचे कुळयेचो. ताका लागून तांचें आनी भांगीबाबाचें गोत्र जुळटा. त्या काळार तांचेर भूल घालपी आनीक दोन कवी म्हूण टागोर आनी खलिल गिब्रान हांचेय नांव घेवपाक जाय. हे दोगूय कवी ताणी पुर्तुगेजींतल्यान वाचले. तांच्या प्रभावाच्यो कुरवो 'अंतरांतले साद' ह्या तांच्या गद्य काव्यांत स्पश्ट दिसतात. ताका लागून ह्यो गद्य कविता उजवाडा हाडच्यो काय ना हाचे विशीं तांकां दुबाव आशिल्लो आनी तशी व्हडली म्हणपा सारकी उमेदूय नाशिल्ली. हो सगळो ऐवज ताणी आपल्या बासतांन दवल्लो. मुखार मात 'उतरांचो संवसार' ह्या तांचे दिसपटयेंत ताचो ताणी आस्पाव केलो. ह्या काव्यांचेर टागोर आनी गिब्रानाचो प्रभाव दिसलो तरी तीं वाचतना तांचो कोंकणीचो अभ्यास आनी तिचे सुक्ष्म तांकीची जाण दिसता. कोंकणीचो भाशीक अभ्यास आनी शैलीविज्ञानाचे नदरेन हे बरपावळीक खूप म्हत्व आसा. कोणे तरी मनार घेवन हो वावर करपाक जाय. आयची परिस्थिती पळयत जाल्यार ह्या वावराक माथें मारपाक कोण मुखार येत असो विश्वास बाळगुपाक मेळना. आज चांटेपावलाक मेळटात ते फकत अळंगस्वामी. ताणी थोडीभोव जी गद्य बरपावळ केली ताचेर कवितेची कुरू उदेल्ली दिसता. ताणी केल्ले अणकारूय ताची स्पश्ट गवाय दितात. एक तरल अशी संवेदनशिलताय तांच्या गद्यांत दिसता आनी तांच्या कविता विश्वाचो एक वांटो जाता. ह्या संदर्भांत आनी एके गजालीचो हांगा मुजरत उल्लेख करूंक जाय. पुर्तुगेज भाशेंतूच काव्य आसा अशें ते म्हण्टाले आनी लहर आयल्यार तांकां आवडिल्ले पुर्तुगेज गद्याचे उतारे वाचून दाखयताले. ते तुळेन तांची इंग्लीश भाशेकडेन म्हणपासारकी संवकळ नाशिल्ली. कोंकणी इतलीच पुर्तुगेज ही तांची संवेदनेची भास आशिल्ली. ताचो लाब तांचे कवितेक जालो. दर एके भाशेचें आपलें नीजाचें संगीत आसता. तेच भशेन नीजाचो ताल आनी तातूंतल्यान आयिल्ली लय आसता. ताची पारख कवीक आसपाक जाय. बाकीबाबा सारकिल्या कवीक ती आशिल्ली. ताका लागून छंदोबद्ध कविते इतलोच सभावीक असो मुक्त छंद ताणी कोंकणी कवितेंत केळयलो. आयचे तरणे पिळगेच्या कवी खातीर ह्यो कांय देखी आसात. पूण ही पिळगी ताचे कडेन फाव तें लक्ष दिनात असो भांगीबाबाचो शीण आशिल्लो. कवीक भाशेचो अभ्यास जाय आसता हाचेर ते भर दिताले. पूण ताचें कोणाक व्हडलेशें पडूंक ना हाची तांकां खंत दिसताली. आयची कोंकणी कवींची पिळगी आपल्याक जाय तशी भास वापरतात. भाशेची मोडतोड करतात. भास आपल्याक जाय तशी बागोवंक जाय. पूण ते खातीर सगळ्यांत पयलीं भाशेचो अभ्यास करप गरजेचें आसता. ती तुका आपल्याक जाय तशी खेळोवपाची आसल्यार तिचेर प्रभुत्व जोडप गरजेचें ही भांगीबाबाची धारणा आशिल्ली. तांचेकडेन दिवपासारकें खूप आशिल्लें. पूण घेवपीच ना अशी आमची गत. निखटी उमेद आसून जायना तर ताका व्यासंगाची जोड लागता. आज आमचो भाशीक अवकाश वाडोवपाची गरज आसा. हे भायर लोक साहित्याचो अभ्यास कवी खातीर फळादीक जावंक पावता अशें तांकां दिसतालें. धालो, धुलपदां, मांडे सारकिल्या लोककाव्यांतली उतरावळ आनी लय हांची कवितेंत गुंतवणूक केल्यार आमची कविता गिरेस्त जावंक पावतली अशें तांकां दिसतालें. हालींच गोवा कोंकणी अकादमीन धालांचें एक संकलन उजवाडा हाडलां. डॉ. जयंती नायक हाणी तकालस घेवन तयार केल्लें हे संकलन पळयतकच भांगीबाबाची याद जाता. तांकां ताची खास जातली आशिल्ली. ह्या संदर्भात Folk Poems From Chinds Minorities हें अशेंच एक संकलन वाचतना लोककाव्याचें म्हत्व लक्षांत येता. इंक्वीझिशनाक लागून आमचो बरोच फोकलोर शेणलो हाची तांकां खंत जाताली.

तशे ते सहजतायेन चारचौगांत भरसनाशिल्ले. माचयेवयल्यान ताणी केन्ना भाशण केलेंना. कवि संमेलनाक चुकून माकून आयल्यार ते सडसडीत आपली कविता वाचून मेकळे जाताले. तशें तांचें व्यक्तिमत्व जावपाक कारण कितें अशें एक फावट हांवें तांका धीर करून विचाल्लें तेन्ना ताणी आपूण आपल्या बापायच्या चेपणाखातला वाडलों ताचो हो परिणाम अशी ताणी जाप दिली.

भांगीबाबामदीं एके तरेचें हट्टीपण आशिल्लें. तांचीं कांय मतां आशिल्लीं ती ते केन्नाच सहज बागयनाशिल्ले. कोंकणीच्या शुद्धलेखनाचे केल्ले नेम तांकां मान्य नाशिल्ले. 'दिस्टावो' संग्रह छापतना धांपिल्लो उच्चार दाखोवपाखातीर अक्षराच्या माथ्यार ते उबी आडी दिल्ली पळोवपाक मेळटा. तशेंच अनुस्वारांच्या स्थानां सबंदान ते आपलो वेगळो विचार मांडटाले. ह्याच एका कारणाक लागून तांचो 'कोंकणी शद्बसागर' लांबायेर पडलो. भाशेचें शुद्धलेखन काळाबरबर बदलत वता हाचेर तांचो विश्वास नाशिल्लो. ह्या हटाक लागून शद्बसागराचें देवूळ मोडचें न्हय हें गोवा कोंकणी अकादेमीच्या अध्यक्ष आनी वांगड्यांनी तांकां मनयले. अखेर ताचे दोन खंड उजवाडा आयले. हो तांचो वावर

कोंकणी भाशेच्या अभ्यासाच्या संदर्भांत खूप मोलाचो असोच आसा. ह्या वावराखातीर ताणी आपले जीणेचीं खूप वरसां दिलीं. सरकारी चाकरेंतल्यान निवृत्त जावचे दोन वरसां पयलीं ताणी ह्या वावराची तयारी केली. ते खातीर पुणे विद्यापीठाच्या ग्रंथालयांत बसून अशे तरेचे कोश वाचून टिपणां केलीं. आनी सेवानिवृत्ती उप्रांत पुराय वेळ ताणी ह्या वावराक माथें माल्लें. खरें म्हळ्यार हो एकहाती वावर न्हय. तो हेर लोकांच्या पालवान करपाचो वावर. पूण हेरांक बरबर घेवन वावर करप ही तांची प्रवृत्ती नाशिल्ली. ताका लागुनय ह्या कामाक गती येवंक पावलीना. ह्या कोशाचे दोनूय खंड अभ्यासून पळयत जाल्यार ताची व्याप्ती लक्षांत येता. ताचें स्वरुप हें ज्ञानकोश कशें.

आतां हो कोश करपाचें भांगीबाबान कित्याक थारायलें ताचे फाटल्यान एक इतिहास आसा. पन्नासाव्या दसकांत प्रो. राणू नायक हाणीं कोंकणीचो कोश करपाक घेतलो. ह्या कामांत भांगीबाबाचो ताणी आस्पाव केलो. तो कोश करतना ताच्यो मर्यादा तांच्या लक्षांत आयल्यो. १९६० वरसा प्रो. नायकांक मरण आयलें आनी हो कोशाचो वावर अर्दकुटोच उल्लो. कोश नव्या रुपान करपाक जाय असो विचार भांगीबाबान केलो. पूण ताचेर बरींच वरसां गेलीं. प्रो. नायकान केल्ल्या वावराच्यो कुरवो तांच्या घरच्यानी सांबाळून दवल्ल्यात. काळाच्या ओगांत व्हावन गेल्ली कोंकणीची उतरावळ तातूंत होल्मता. शब्दकोशाक लागून तुजी कविता सोंपतली अशें बाकीबाबान तांकां म्हळें. कांय बाबतीत तें खरें जालें तरी तांची कविता ह्या कोशांत झिरपली म्हणपाचें तातूंतल्यो कांय तोंडी वाचतकच कळटा.

२

सुरवेच्या काळांतलीं गद्यकाव्यां आनी दोन कथा बरयल्या उप्रांत सुमार एका दसकाचो काळ सर्जनाचे नदरेन रितो गेल्लो दिसता. तांकां पयली कविता आयली ती १९६१ उप्रांत. भांगीबाब बरयतात ते प्रमाण तशी कवितेची कीट तांच्या अंतरांत हे आदींच पेटिल्ली. ती आतां पर्जळपाक लागिल्ली. Texual अभ्यासाचे नदरेन कवीच्या कवितांचे कादेर्न पळोवप गरजेचें आसता. एक फावट तांची र. वि. पंडिताकडेन बरी वळख जातकच ताणी आपलो तो कादेर्न पंडिताकडेन दिलो. ही खबर १९७१ वरसातली आसपाक जाय. सगळ्यो कविता सुंदर वळणाच्या अक्षरांत बरयल्ल्यो. तांचें अक्षर मोतयांचें दाणे कशें आशिल्लें. कांय कविता खाडा खोडी केल्ल्यो. आनी तांचें निवळायल्लें रुप परत दुसऱ्या पानांर उतरायल्लें. कांय कवितांचीं कडवीं कापिल्लीं देखीक 'हांव केदो' ही कविता मुळांत चार कडव्यांची आशिल्ली. पूण 'दिस्टावो' संग्रहांत घेतना ताणी तिचें पयलें आनी निमाणे कडवें दवल्लें. ते भायर मदलीं दोन वरसां ते बदलेर मुंबय गेल्लें. त्या काळांत थंयच्या अणभवांचेर ताणी कांय कविता बरयल्ल्यो. त्यो मात ताणी केन्नाच उजवाडा हाडल्यो नात. प्रत्येक कवितेच्या खाला तांच्यो जल्मतारखो आशिल्ल्यो. पंडितान त्यो सगळ्यो कविता म्हजे कडल्यान दुसऱ्या एका कादेर्नाचेर बरोवन काडून घेतल्यो. तातूंतली 'सुलेमान जानू' नांवाची एक कविता म्हाका आजूय स्पश्ट आठवता. पणजेंतल्या एके व्यक्तीचेर ही कविता आशिल्ली. हो तांचो कवितेचो पयलोवयलो कादेर्न खंय तरी गोंदळाक गेलो आनी हांवें कविता बरोवन काडिल्लो दुसरो कादेर्नूय हाताक लागप आज शक्य ना. आपले कवितांचो संग्रह येवचो हाची तांकां कसलीच उमळशीक नाशिल्ली. ते नदरेन ते सामके निरिच्छ आशिल्ले. पूण गुरुदास पै हांच्या आग्राक अखेर 'दिस्टावो' हो तांचो संग्रह प्रसिद्ध जालो.

'दिस्टावो' १९७२ वरसा प्रसिद्ध जालो. प्रकाशन सुवाळो भांगीबाबाले प्रकृती भायलो. २९ मे ७२ ह्या दिसा पणजेच्या प्रोग्रेस हायस्कुलाच्या एका क्लासरुमांत कांय मेजक्याच लोकांचे उपस्थितीत हो सुवाळो गुरुदास पैन घडोवन हाडलो. त्या वेळार आतांभशेन मुखेल सोयरो, मानाचो सोयरो आनी निवेदक अशे कोण नाशिल्ले. खासा कवीच्या हातसून प्रकाशन जालें. आतां आठवता ते प्रमाण मनोहरराय सरदेसाय, रवीन्द्र केळेकार, शंकर रामाणी आनी शंकर भांडारी, र. वि. पंडित, रमेश वेळुस्कार, शंकर परुळकार, प्रकाश पाडगांवकार आनी पणजेंतले आनीक कांय जाण हाजीर आशिल्ले. संग्रहाचेर उलोवपी कोण वक्तोय थंय नाशिल्लो. रवीन्द्रबाबान आपूण जावन मुखार येवन एक ल्हानशें उलोवप केलें. ताणी संग्रहांतली 'रोयलें बीं' ही कविता वाचून ताचेर भाश्य केलें.

*रोयलें बी*
*रुजलें शेत*
*पीक घेवंक*
*मळणी केली*
*खळ सगलें पोलानच भल्लें!*

ह्यो वळी म्हळ्यार कवीक मनीस म्हूण आयिल्ल्या अणभवाचें सार अशे उद्गार ताणी काडले. पूण जडगुळो शिळा जावन राविल्ली तांची जीण उदरगती खातीर आपल्याच पावलांची वाट पळयता अशी जोडणीय केली. ह्या वेळार तांच्या सभावाक धरून भांगीबाब चड कांयच उलयलेनात. 'पूण म्हजी कविता हेर भारतीय भासांतले कवितेपरस उण्या पांवड्याची न्हय' अशे आत्मविश्वासान भरिल्ले उद्गार ताणी काडले. आपली कोणे तुस्त तोखणाय करची असो अभिलाशा ताणी केन्ना धल्ली ना.

भांगीबाबाल्या काव्याचो प्रवास सुमार साडेचार दसकांचो इतलो जाता. ह्या काळांत तांचे फक्त तीन कविता संग्रह उजवाडा आयले. काळाचो हिशोब मांडल्यार तांची कवितेची निर्मणी थोडीच म्हणचें पडटलें. ते कवितेची वाट पळयत बसपी कवी. ताणी कविता केल्यो नात. शंकर रामाण्या भशेन तांकां कविता येताल्यो. आनी त्यो तांकां जाय तेन्ना येनाशिल्ल्यो. चडटेवेल्या पेल्या मोडणार दोळ्यांच्यो वाती लावन बसपी हो कवी. कविता म्हळ्यार कदेल वा मेज करपा सारकें आसना. 'चाफेली सांज' ह्या कविता संग्रहाक ताणी ल्हानशी प्रस्तावना बरयल्या तिका 'कविता अशी येता' अशें शिर्शक दिसता. कवीत जाय तेन्ना ती येना. ती आपल्याक जाय तेन्ना येता. आनी तिका काळवेळ लागना ही तांची धारणा ओडून ताणून चंद्रबळ अशी तिची तरा न्हय.

'दिस्टावो' हो संग्रह कोंकणी कवितेच्या इतिहासांत खाशेली सुवात जोडिल्लो संग्रह अशें म्हणपाक जाय. ताणी १९६२ वरसा

कविता बरोवपाक सुरवात केली तेन्ना कोंकणीत मेजकेच संग्रह आशिल्ले,तातूंतले दोन संग्रह म्हळ्यार 'पांयजणां (१९६०) आनी 'गोंया तुज्या मोगा खातीर' (१९६१) हे अनुक्रमान बाकीबाब बोरकार आनी मनोहरराय सरदेसाय हांचे. 'पांयजणां'त आशयाबरबर कोंकणी कवितेंत वेगवेगळे छंद आनी वृत्तां केळयल्लीं दिसता. तातूंतल्यान बाकीबाब कोंकणी भास आनी तिचें छंदशास्त्र हांचो अदमास घेतात. तर सरदेसायाली कविता आत्मनिष्ठ कवितेचो बेस बरो आविश्कार हे पाठभुंयेर भांग्याची कविता एकदम वेगळी दिसता. तिचो आशय आनी अभिव्यक्त जावपाची वाट तांची आपली अशी.

ह्या संग्रहाचे सुरवेक कवी तांचो आवडटो कवी फॅर्नांदु पेस्सोव हांच्यो कांय वळी उधृत करता. तांचो अणकार असो जाता:

कवी जावप हो न्हय म्हजो हावेस
कविता म्हजी एकसुरेपणान
रावपाची तरा...

ह्यो वळी तांचे कवितेचें भावविश्व उक्तें करून दाखयता आनी तांच्या अंर्तमनाची दारा उगडून दितात.

जें घडोवंक बसलों
तें घडलेंना
घटितार्थ वेगळोच आसता.

दर एकल्याचें म्हण एक प्राक्तन आसता. असो मनीस जें कितें करूंक वता तें जमून येना. कित्याक तर एका एकाक धार्जणेंच आसता. कसलोच योग जुळना आनी येवजिल्लें फळाक येना. दिसपट्ट्या झुजाक ताका फुडो करचें पडटा तरी ह्या झुजाचो शेवट लागना.

तरी नशीब विचारता
मूठ आंवळून पाचारता
गडें काय फाडें?
फाडें म्हणून सांगत जाल्यार
अचूक मुठींत गडें!

हें एक एकल्याचें प्राक्तन. आपल्या नशिबांत मुखार कितें आसा ताची सुनशा लागना. ह्यो वळी वाचतना आदल्या काळावेलो एक खेळ आठवता. त्या खेळांत आदमाच्या फळांतल्यो बियो मुठींत दवरून गडें काय फाडें अशें विचारतालें. आतां हो खेळ कोणे खेळना. जिणेंतलें एक चिरंतन सांगपा खातीर हो खेळ प्रतिकाच्या रुपान आयला. कवीक खूप कितें करपाचें आसा. पूण परत हांगा प्राक्तन आड येता. आनी हातांतल्यान कांयच घडून येना. कांटे खुंटे तोपले मात तरी रगत येना अशी एक अवस्था तो अणभवता.

ताचें मन वेरेलां आनी प्राणूय खासावीस जाला. उमाळ्यांची भास कानार पडना. फक्त हो सगळो संवसार उतरांचो कीस काडपाक गुल्ल आसा. ह्या उतरांनी मायेची ओलसाण ना. ताका लागून

कोगुळेचें चल्लां गीत
रुखांक पालंव फुटना
पैस तिचे सूर इतले
वेर कशीच सादना!

अशीं न्हयकारी क्रियापदां हांगा कवी वापरता. पूण तेच बरबर

भाग्यवंत सपन म्हजें
दंवार आतां पिकतलें
थोड्याच अशा घटकां भितर
गिराण म्हजें सुट्टलें

असो एक आत्मविश्वासाचो सूर हांगा लायता. तांच्या सपनांतली परी कशी तांच्या म्हन्यांत धतरेचें नातें सांगीत उबी आसा. त्यो दोगीय गर्भाळ आनी पिकाळ. ताकाच लागून तर त्यो तेजाळ दर्यांच्या ल्हारांचेर कवीचो फुडार रेखता. तो ह्या विशाल आनी पिकाळ धरतरेचो पूत. तो अभागी कसो जायत असो प्रश्न तो आपल्य निर्शेल्ल्या मनाक विचारता.

इत्सा म्हजी बळार
उडटा मेकळ्या मळबार
मोतयांचो चारो तिका
दर्याच्या ल्हारार
दर्याच्या ल्हारार!

आशा आनी निर्शेणी हीं तांचे कवितेचीं दोन केंद्रां. ह्या दोनूय केंद्रांमदल्या अवकाशांत तांची कविता झेल घेता. चड करून आशा ते निर्शेवणी असो तिचे वाटेचो प्रवास. ते खातीर काळोख आनी उजवाड ह्यो प्रतिमा तांचे कवितेंत मुखेलपणान येतात. आपली वाट एकमुळी आनी आपुणूच आपलो सांगाती अशें तो म्हण्टा. युगांचीं युगां सल्लीं तरी उदेंतेकडेन उजवाड फांकिल्लो दिसना. अशें जरी आसलें तरी

पाशाणाचीं जातलीं ल्हारा, गीत वारो गायतलो,
संवसाराच्या पाळण्यांत घालून, झोंपे म्हाका काडटलो, असो विश्वासूय हे वळींतल्यान समर्थपणान व्यक्त जाता. ताचें मन एका वेगळ्या प्रवासाक भायर सल्लां. आनी हो प्रवास तरी कसलो?

आतां मोतयांत लिपलां कालूं, जिणे म्हज्या धांवता तारुं,
मूळ सोदूंक पिशांतूर, मन कशें थातारुं?

असो हो कवीन घेतिल्लो आत्मसोद. हो सोद अखंड चालूच आसा. ह्या अणभवाच्यो सया 'नाट' हे कवितेंत मेळटा. सगळेंच अशें वाऱ्यार आशिल्ल्यान ताका जावचें कशें तें समजना आनी अद्रुस्टाची तिसरो दोळो लक्तुबायेन हांसता... मनार कितल्यो चिंता आनी येवजण्यो हांचें चेपण आनी ते खातीर ताका घडिल्लीं जागरणां... कितल्यांय काडाओडी काडल्यो तरी मनांतलीं सपनां अर्दकुटींच उरतात.

सुकाण्याविणें होडें आतां
तांडून तांडून थकलो जीव
कसलीच नाट मेळना!

हाका दिका नाशिल्लो प्रवास म्हणपाचो? ताका पल्लो गांठपाचो आसा तरी ताका नाट मेळना. हाचोच अर्थ ह्या प्रवासाक अंत ना. नाट मेळ म्हणसर तो असोच चलत उरपाचो. हे कवितेच्या संदर्भात फॅर्नांद पेस्सोवाची एक कविता आठवता. तिचो इंग्लीश अणकार असो आसा.

I See boats moving on the sea
Their sails, like wings of what I see.

Bring me a vague inner desire to be
who I was without knowing what it was.
So all recalls my home self and, because
It recalls that, What I am aches in me.

भांगीबाबालें कवितेचेर पेस्सोवाले कवितेची सावळी पडल्या असो ताचो अर्थ न्हय. हे दोगूय कवी संवेदनेचे नदरेन एकामेकांच्यो लागीं येतात.

'रोयलें बीं' हे कवितेचो उल्लेख ह्या आदीं आयला. ही कविता वाचतकच कवी दैववादी काय अशें दिसता. एके विशिष्ट पांवड्यामेरेन ही कीवता दैववादा कडेन वता.

जड गुळो शिळा जावन
जीण रावली
वाट पळेत म्हज्याच पावलांची
म्हजेच उदरगतीक!

ह्यो वळी ते कवितेबरबरच कवीची जीणेकडेन पळोचवेली नदर दाखयता. दुसरो कोणतरी येवन आपलो उद्धार करतलो हो भ्रम कवीक ना. आपले अभिव्यक्ती खातीर कवी अहिल्येचें मिथक वापरता. त्या मिथकांत पांय लागून शिळा जाल्ली अहिल्या परत मनीस रुपांत येवन तिचो उद्धार जाता. हांगा मात कवीचो आपल्याच पावलांचेर विश्वास आनी भरवंसो आसा. आपणेच आपलो उद्धार करपाक जाय आनी ते खातीर दुसऱ्याचेर आदन दवरप योग्य न्हय अशी भूमिका कवी घेता. हे नदरेन पळयल्यार हो कवी प्रयत्नवादी... किते तरी बरें घडपाचें हाची आस्त बाळगुपी आनी ताची उमळशीकेन वाट पळोवपी सॅम्युअल बेकेटाच्या 'Waiting for Godot' भशेन न्हय. ह्या नाटकांत कांयच जायना. हातूंतली पात्रां फकत वाट पळयतात. पूण अखेर मेरेन गोदी येना. आनी तो येतलो म्हणपाचीं आस्त ते सोडून दितात. भांगीबाबाच्या बरबरचे कवी शंकर रामाणी. तांची कविता अशीच कांय कडेन 'दिस्टाव्यां'तले कवितेकडेन थोडी भोव लागीं येता. 'इथें दुःख प्यावें स्वतःचें; पुसावीं /स्वतःचीच भोळी खुळीं लोचनें / अमेच्या प्रवाहासवें वाहताना / तमी पोळुनी पक्व व्हावें जिणें. ह्यो वळी हांगा आठवतात. ह्या दोनूय कवितांमदीं एक आंतरीक नातें आसा. एका अदृष्य धाग्यान त्यो एकामेकांक बांदल्यात. तांच्या दोगांयमदलें सारकेंपण म्हळ्यार तांचे कवितेची प्रकृती. ती व्यक्तिनिष्ठ आनी तेच बरबर अनुभवनिश्ट अशी. ह्या संदर्भांत तांचे समकालीन कवी कशे बरयताले ताचो अभ्यास करपाक जाय. गोंयच्या इतिहासांतलो गोंय मुक्ती उप्रांतचो काळ मोट्या संघर्शाचो. तो राजकीय तसोच भाशीक संघर्शाचो. मनोहरराय सरदेसाय, बाकीबाब आनी र. वि. पंडित हांच्या सारकिल्या कवीनी सामाजीक आनी राजकीय आशयाच्यो कविता बरयल्यो. पूण ताचो इल्लोय पडसाद तांचे कवितेंत उदेल्लो दिसना. सामाजीक सामिलकी तांचे भितर ना हाका खूप कारणा आसूं येतात. 'सासाय' ह्या बाकीबाबाच्या संग्रहाक बरयल्ले प्रस्तावनेत मनोहरराय सरदेसाय म्हण्टा: ''कवीक भितल्ल्यान स्फूर्त मेळटा तशी ती भायल्यानूय मेळटा. भौसाच्या जिवितांतल्यान स्फूर्त घेवन कवी आपलें कवीत घडयता. अशावेळार ताजें कवीत म्हळ्यार भायल्या घडणुकीचें पडबींब जाता.'' आनी आपलें विधान स्पश्ट करतना ते व्हिक्टर ह्युगो आनी पाब्लो निरुदा ह्या दोन संवसारीक नामनेच्या कवींच्यो देखी दिता. निरुदान राजकीय आशयाच्यो जशो कविता बरयल्यो तेच प्रमाण तरलभाव व्यक्त करपी प्रेम कविताय बरयल्यो. बाकीबाबूय अशीच आनी एक देख.

प्रत्येक कवी हो आपल्या प्रकृती धर्मा प्रमाण बरयता हाचें भान चडावत समिक्षकांक नासता. अशा कवींक ते वॉल्तेर कवी म्हूण हिणसायता. रामाणी सारकिलो कवी राजकीय आनी सामाजिक प्रश्नांचेर केन्ना उलयनाशिल्ले. ताणी बरयल्लें तें केवळ काव्य [pure poetry] भांगीबाबांक ताची तशी जाणीव आशिल्ली. पूण ताणी प्रत्यक्ष ह्यो जाणिवो व्यक्त करपी कविता बरयल्यो. मांडवी पूल कोसळ्ळ्या उप्रांत ताणी भ्रष्टाचाराचेर बडी मारपी एक कविता बरयली. कांय गजालींचेर तें किंवाट्यान उलयताले. ते पुर्तुगेज सरकाराचे सेवेंत आसुनूय तांचो गोंय मुक्ती चळवळीकडेन अप्रत्यक्ष सबंद आसा असोय तांचेर आळ आयलो आनी ताचीं कोडू फळां तांकां भोगचीं पडलीं.

'दिस्टावो' ह्या संग्रहांतले कवितेंत, न्हयकारी क्रियापदां येतात. 'हांवेंच म्हाका लायलो भाटयेक' हे कवितेतल्यो स वळींतल्यो चार वळी न्हयकारी क्रियापदां घेवन येतात. मुखार मात ही न्हयकारी वृत्ती कमी जायत गेल्ली दिसता. हाचें कारण तांचे वृत्तींत आनी जीणेकडेन पळोवपाचे नदरेंत जाल्लो बदल.

'हांव केदो' आनी 'हांव कोण' ह्यो तांच्यो दोन अर्थ आशयान उपाट भरिल्ल्यो अशो कविता. तांकां तांच्या आत्मसाक्षात्काराचे वाटेर भेटिल्ल्यो.

हांव केदो? हांव केदो?
हांव आसां मळबा येदो

अशें तो म्हण्टना तुकारामाच्यो 'अणुरेणुया थोकडा / तुका आकाशा एव्हढा हे वळींची याद जाता. हांगा कवीच्या कवडुलांक दिगंतेचींच बंधना आसात आनी दर्याळून गेल्ल्या ताच्या मनाक ब्रह्मांडूय पावना असो अणभव येता. दुसरी कविता 'हांव कोण' ही कविता पयले कवितेचेंच विस्तारीत रुप. हो हांव कोण तर खंयच्या अणूचो अणू असो प्रश्न करीत उजवाडाच्या दुदसागराचोच आपूण एक परमाणू जावन रावलां अशी आत्मनुभूति हांगा व्यक्त जाता. हो तांचो जाणीवव्युह.

भांगीबाबान मेजक्योच प्रेम कविता बरयल्यो. 'तीन कविता' ह्यो चार वळींच्यो तीन कविता आसात तातूंत प्रेमाचो सुक्ष्म भाव व्यक्त जाता. (ह्यो कविता 'सत्यकथा' म्हैनाळ्याच्या एका अंकांत प्रसिद्ध जाल्ल्यो. ह्या मराठींतल्या नांवाजतल्या म्हैनाळ्यान र. वि. पंडित हांचोय कांय कविता प्रसिद्ध केल्ल्यो. कोंकणीक साहित्य अकादमीची स्वतंत्र भास म्हूण मान्यताय मेळ्ळ्या उप्रांत ताणी कोंकणी कविता प्रसिद्ध करपाचें बंद केलें. ह्या तीनांतली दुसरी कविता अशी आसा:

वेल्लेवरी नाजूक अशी
तूं गो बाये मुड्डशीं
आमोरेचे मोगरे कळे

उमाळ्यांची शब्दुली

हातूंतली वेल्ली आनी मुड्डशी ही उपमा अभिव्यक्तीचें एक वेगळेंपण घेवन आयल्या. ह्या संदर्भांत डॉ. विलास सारंग ह्या मराठी आनी इंग्लीश समिक्षकांत केल्लें एक निरिक्षण आसा. कोंकणाक एदी व्हड दर्याची देग लाभल्या, कोंकणी लोक रुचीन नुस्तें खातात. पूण कवितेंत मात नुस्त्याक कवितेच्या भायर दवरता. हे कवितेंत मात नुस्त्याची उपमा बेस बरी येता. 'दीपराग' हीय एक आगळी म्हणूं येता अशी कविता. एकेतरेची भाववृत्ती ती व्यक्त करता. तें एक अमूर्ताकडेन वचपी चित्र. 'सगळ्यांकच एक धार चडटा... चांदन्याकय एक धार चडटा... आनी त्या दोगांचे नदरेकूय एक धार चडल्या. दरवठयार एकली गायता तिच्या सुराकूय धार... आनी उत्कट अणभव ताचो उच्च बिंदो गांठतना.

तुज्या म्हज्या दोळ्यांत राया
रातचोच दीपराग जळटा!

अशा तरल भावा मेरेन वता. अशे वळींतल्यान दादलो आनी बायल हांच्या मदल्या शरीर सबंदाचे sensuas अणभव एका वयल्या पांवड्यावेल्यान व्यक्त जातात. ते नदरेन 'भिन्यांचीं पाखां कशे दोळे' ही अशीच नाजूक तरल भावाची कविता.

आज हांव मस्त आसां...
ल्हारा ल्हारार चांदन्या पूर
रंद्रांरंद्रांतल्यान सूर
बोटांरय रंगल्ली थाकाय
जीव तर तुजीच सासाय

आनी सपनांवेल्या गावांतय तो तिर्जीच गिता गायत आसा. आनी ताच्या दोळ्यांर तिज्याच केसांचीं मोवळां आसा. अशें हें सुंदर सोबीत भावचित्र. पूण मुखार बरयल्ले प्रेम कवितेन वेगळें मोडण घेतलें. तातूंतली इंद्रिय संवेदना उणी जायत गेली. बायल आनी दादलो हांचे मदलें शारीरिक नातें तरणेपणांत आसताच. पूण जिण देंवतेक लागतकच ह्या नात्याक वेगळो अर्थ येता. ते पिरायेचेर दोगांकूय एकामेकांचो भावनिक आदार जाय आसता. आनी तो तसो मेळटाच अशें ना. ताच्या वांट्याक ताची जीण मुळासकट हुमटावन उडोवपी राती येता. अशा वेळार ताका तिच्या आदाराच्या हाताची गरज आसता. आपल्याक समजून घेवंचो अशी आस तो धरता. पूण लक्तुबायेन ताका ती समजून घेना. इतलें आसून तो म्हण्टा:

खंत ना गो ताजी आतां दीस अशेच उडून गेले
कल्लोळांची ल्हारां जालीं अमृताचे कळे

जीण अशी वाठ्याक आयल्या तशी ती आपणावप अशें कवी हांगा सांगता. जिणेच्या मध्यार हो कवी अशेंय म्हणून गेला.

अशे आशाळून आयल्यात आतां दोळे
वीज केन्ना उसळत म्हणपाचें कळना
तुजे म्हजे वेंगेक आतां
मळबय पावना.

हांव - तूं मदल्या नात्याक आशिल्ले वेगवेगळे पदर कवी मोट्यां अळंगपणान दाखयता. तो आटिल्लो झरो तर ती साळकाची तळी आनी तो सदांच भुकेल्लो जाल्यार ती चैत्रांतली कोंबरी.

रात आतां चट्टी
दर्याक येता भर्ती
तूं फांतेल्ली सकाळ
दवान भिजिल्ली.

अशे वळींतल्यान तृप्तीची भावना पाझरता. हांव - तूं मदले संवाद हे अव्यक्त उरतात. मोन्यानीच बसून मोनेळीन उलोवपाचे... ही एकेतरेची तृप्तीची खूण...

'अदुस्टाचे कळे' हो तांचो दुसरो कविता संग्रह १९८३ वरसा उजवाडा आयलो. ह्या संग्रहाकूय एक इतिहास आसा. ह्या संग्रहात आस्पविल्ले एकूय कवितेक शिर्शक ना. आसात ते आंकडे. र. वि. पंडित हांणी 'भारती' ह्या नांवाचो एक दिवाळी अंक काडिल्लो. तातूंत त्यो कविता उजवाडायल्यो. तो हँड कंपोज वापरून तातूंतल्यान हो संग्रह भगवती प्रकाशना वतीन तो प्रसिद्ध केलो.

जल्म आनी मरण हो आशय तांचे कवितेंत आवर्तना करता. 'रूप अरुपाचो साद' हे कवितेंत ताची प्रचिती येता. रूप अरूपाचो साद आसता आनी भास शाश्वताचो भेद. ह्या सगळ्या अणभवांतल्यान वतना

न्हंय आयली आतां सांवारा
रुख निकतोच येता चंवरा
पिळून अळार जाले झरे
चुकले चवद्यांयशांचे फेरे!

तांची कविता मरणाचो भंय व्यक्त करिना. ह्याच खातीर रगताक म्हज्या / भर्ते-सुक्ते ओड आसा / मर्ण म्हाका येतलें म्हणून / जिणेक म्हज्या मोल आसा, अशे उद्गार ताचे कवितेक फुटल्यात. आनी 'पिकिल्ल्या खिणार' हे कवितेंत ताणी म्हळ्ळां.

अस्तमानाच्या
एका पिकिल्ल्या खिणार
आबोल्यांचे वाटेन गेल्लो हो प्राण
आतां चांफेवन येता
खिणा मजगतीं सर्णार चडिल्लो देह
भस्मिभूत जावन पर्मळटा!

तेच प्रमाण 'जाग्रताये केणां कुडी अदेहान जळटना' असो हो अणभव. 'अदुस्टाचे कळे' ह्या काळांतले कवितांनी झाड ही एक प्रतिमा मुखेलपणान दिसता आनी तातूंतली एक कविता वाचून बाकीबाबान एक कविता बरयली.

ताणी 'कोंकणी शब्दसागरा खातीर जीं टिपणां केल्लीं तातूंत एका काळार घोळणुकेंत आशिल्लें एक गीत घेवन नवी कविता बरयली. तें गीत अशें:

जय जय जांब्या
भार जालो आंब्या
आनी रतन खांब्या

ताका पाळणें बांदू!

जय जय जांब्या
फुलां फुल्लीं आंब्या
पाळणे बांदलें खांब्या
चंदनाच्या

ह्याच वळींची याद करून दिवपी भांगीबाबाले कवितेचें एक कडवें:

म्हैनो भरिल्लो आंबो
वेणो येतात आंब्या
चंदनाचें पाळणे बांदलें
रत्नाच्या खांब्या

लोककाव्याची लय आनी प्रतिमा कितले चतुरायेन आपले कवितेंत केळयता! लोककाव्याचे वेगळे वेगळे patterns तातूंत होल्मतात. आनी ते भायर तें प्रतिमांचे नदरेनूय समृद्ध आसता. असो अभ्यास आमचे कवीनीं करपाक जाय हाचेर ते भर दिताले. तशेंच कानार पडिल्ली उतरावळ, वाक्प्रचार कवितेंत गुंथोवन तीं गिरेस्त करपाक जाता हाचेर तांचो विश्वास आशिल्लो. 'भूंय तुजी पिकाळ' हे कवितेंत 'तन्नी व्होंकल दिखाळ' अशी एक वळ आसा. दोन भोरेकान्नींच्या उलोवपांतल्यान तांकां हो वाक्यप्रचार मेळ्ळो आनी ताणी तो योग्य जाग्यार वापरलो. हें लोकसंचीत दुबावाविरयत भाशेक गिरेस्त करता. आयच्या काळांत शिक्षणाच्या प्रसाराक लागून अशी उतरावळ भाशेंतल्यान ना नपयत जायत चल्ल्या हाची तांकां खंत दिसताली.

भांगीबाबाल्यो दोन म्हत्वाच्यो कविता येवपाक तशेंच कारण जालें. १९८३ वरसा तांचे खूप वरसांचे दाट इश्ट शंकर रामाणी गोंय सोडून बेळगांव गेले. ही घडणूक तांच्या मनाक खोल लागली. ही कविता म्हणजे ताणे गांव सोडून वच्चें न्हय अशी केल्ली पाराथणी. गांव सोडून वचूं नाका... कित्याक तूं खंयूय गेलो तरी तो गांव तुका सोडीना. तो तुजेच फाटल्यान येता. भूंय आनी मळब तेंच आसता. तो मुखार म्हण्टा, तूं हे भुंयेक विसरूं नाका. कित्याक तर हें भुंयेचो धग तुज्या प्राणांत आसा आनी हेच भुंयेचो ताल तुज्या पावलांर खेळटा आनी तिचो उमाळो तुज्या काळजांत उसळटा. जे भुंयेंत तुजी वार पुरिल्ली आसता ती तुका केन्नाच पारखी जायना. तूं जरी तिका कितलोय विसल्लो तरी तीच तुज्या फाटल्यान येता अशें कवी हांगा सुचयता.

हें एकटुके वाटेर
घडये फातर फुलां जावन
तुजे खातीर सडो घालुंये
भर दनपारच्या कडावेलें वत
चांदन्याची चंवरी जावन
तुका वारो घालुंये
गांव सोडून तूं वचूं नाका.

अशी ही विनवणेच्या रुपांतली कविता. 'माती' हे कवितेकूय असोच इतिहास आसा. 'माती' ही रमेश भगवंत वेळुस्कार हांची कवितेची माळ. हो संग्रह भांगीबाबांक ओंपला. 'माती' ही कविता 'ऋतू' ह्या नेमाळ्याच्या एका अंकांत प्रसिद्ध जाली ताचें उपशिर्शक रमेश वेळुस्काराची माती हातांत घेवन अशें आशिल्लें.

तांच्यो सगळ्यो कविता वाचतना 'जंत्री' ही कविता तिच्या वेगळेपणाक लागून लक्षांत येता. जिणेतल्यो विसंगती दाखोवपी ही कविता उपरोधाचो सूर आशिल्ली. तातूंतले निमाणें कडवें:

एक शिंदळ - तितलीच नेमनिस्ठ
घोवाविणे पतिव्रता
एक घोव मात - फकांड कसो
फक्त तिळ्याकच आधार जाता!

अशें आसा. तेच बरबर ती भांगीबाबाल्यो कविता वाचतना मनार येवपी ताण सदळ करता.

भांगीबाबाची कविता व्यक्तिनिष्ट आशिल्ल्यान ताणी आपले सबंदान जें किर्तें बरयलां ताचो आदार घेवन ही कविता वाचपाक जाय. ताणी एकेकडेन सांगलां: 'जिणेचे हे यात्रेंत कितलीं तरी अपेसां म्हज्या वांट्याक आयलीं. जाय ते अपमान सोंसचे पडले. उवेखणी भोगची पडली. कितलीं तरी दुशणां पदराक आयलीं.' ही तांची व्यथा 'अपेसांचेर अपेस' हे कविता व्यक्त करता.

अपेसाचेर अपेस
हीच तुज्या संचिताची जोड
आनी दुशणाचेर दुशण
हीच
तुज्या प्राक्तनाचो भोग.

हे कवितेंत खंत आसा. पूण कोडसाण मात दिसना.

तांचे कवितेचो प्रवास तसो दीर्घ आसुनूय ताणी फक्त देडशें परस चड कविता बरयल्यो. ते म्हण्टात: कलावंत सोद घेता तो मनशाचें जिणेचो. ही जीण हिमालयाच्या उंचातले ऊंच तेमकांपरस ऊंच आसा. महासागर इतलीच खोल आनी अफाट आसा. हे भावनेनच सृजनाच्या मंदिरांत हांव भितर सल्लों' आपले कवितेंतल्यान ताणी अरुपाक रुप दिलें. तांचो गद्य बरपावळ हो स्वतंत्र अभ्यासाचो विशय.

ह्या कवीच्या पातकांकय फुडाराचो दिस्टावो जाता असो हो अदृस्टाचो वेध घेवपी कवी...

संपर्क: 9420222876

***





# भांगीबाब! एक मनस्वी कवी

सखाराम शेणवी बोरकार

जो समाज साहित्यीकांचो आदर करता भोमान करता तो समाज सुसंस्कृत आसता. गोंयांत तें पावलाकणकणी सिद्ध केलां. हालींच कोंकणी- मराठींतले नामनेचे कवी शंकर रामाणी हांची जल्मशती आमी मनयली. तांचेच समकालीन कोंकणींतले आनीक एक नामनेचे साहित्यीक पांडुरंग भांगी हांची जल्मशती ह्या वर्साच्या आगश्ट म्हयन्यासावन सुरु जाल्या.

पांडुरंग राजाराम सिनाय भांगी हांचो जल्म १३ ऑगस्ट १९२३ वर्सा कुंडय गांवांत जाल्लो. ते एक मनस्वी कवी. ताणीं पुर्तुगेज भाशेंतल्यान शिक्षण घेतलें, ताच्या उपरांत ते कस्टम खात्यांत काम करूंक लागले. नोकरेच्या निमतान तांचो राबितो गोंय, दीव, दमण आनी मुंबय अशा सुवातानीं आशिल्लो. मुंबय आसतना नामनेचे मराठी कथाकार श्री दा पानविलकर हे तांचे ऑफिसांतले वांगडी आसले.



तांचें मुळावें शिकप पुर्तुगेजींतल्यान जाल्ल्यान तांचें चडशें वाचप पुर्तुगेजींतल्यान जाल्लें. तांच्या विचारांची बसका चौकस तशीच सक्षम जाल्ली. मानुएल बांदेर, सिसलीया, मैथरेलीश आल्मेदा गार्रेता, फेर्नांद पेसोवा, स्टिफन झ्वायक, रोमा रोला, टागोर ह्या लेखक -विचारवंताचो प्रभाव तांचेर पडलो.

मनस्वी कवी आशिल्ल्यान ते सदांच आपले भितरच आसताले तांणी प्रसिध्दीची हांव केन्नाच बाळगिली ना आपल्याक जें कितें दिसता ते मेकळेपणान मांडपाक आनी उक्तावपाक तांणी केन्नाच कोणाची भीडमुर्वत धरली ना.

ताणी पुर्तुगेजींतल्यान लिसेवाचेर सात वर्सां शिक्षण घेतिल्लें. कोंकणी आनी मराठी, हिंदी आनी इंग्लीश भाशेंतल्यान तांणी साहित्य साधना केल्ली. आपली नीज भास कोंकणी, न्हय मराठी असो दिस्टावो तांका जालो आनी तांणी कोंकणी खातीर वावर करपाचें थारायलें. ताणी १९४५ च्या अदमासाक बरोवपाक सुरवात केली. १९४८-४९ मजगतीं ते कोंकणीतल्यान 'मांडवी' नावांचे एक हातबरप काडटाले. १९८१ वर्सा नोकरेंतल्यान सेवा निवृत्त जातकच तांणी आपलो चडसो वेळ साहित्य आनी संशोधन कार्यांत घालयलो. ताचे 'दिश्टावो', 'अदृश्टाचे कळे' आनी 'चांफेल्ली सांज' हे तीन कविता झेले म्हळ्यार कोंकणी कविता मळावयल्यो म्हत्वाच्यो साहित्यकृती आसात. अंतर्मृखताय ही ताच्या काव्याची मुखेल बसका आसा. तेचपरी जाय तितल्याच उतरांभितर व्यक्त जावपी अशी ताची कविता आसता. तांचे भाशेंत पुर्विल्ले कोंकणी शब्दकळेची सोबीत झलक पळोवंक मेळटा. तांच्यो कोंकणी कविता 'सत्यकथा' ह्या नामनेच्या मराठी म्हैनाळ्यांतूय छापून आयिल्ल्यो.




गोवा कोंकणी अकादेमी निर्मणी 'कोंकणी शब्दसागर' 'अ' आनी 'आ' ह्या शब्दकोशाच्या दोन भागांचे ते संपादक आसले. ह्या कोशांत तांणी उतरां फाटल्यान आशिल्ल्या वेगवेगळ्या संदर्भांची अभ्यासाची पूर्ण म्हायती दिल्या, प्रत्तेक उतराफाटलो संदर्भ दिला आनी गरज थंय उतरांची व्युत्पत्ती दिल्या. हालींच गोवा कोंकणी अकादेमीन 'कोंकणी शब्दसागर' कोशाचा तिसरो भाग (इ ते औ) डॉ. अनंत राम भट यांच्या संपादनाखाला उजवाडाक हाडला.

पांडुरंग भांगी यांचा लोकवेदाचो अभ्यास खूप खोलायेचो आसलो. तांणी गोंयच्यो लोककाणयो, धालो गितां हांचे संकलन केलां आनी वेळावेळार विंगड-विंगड नेमाळ्यांनी तें उजवाडाक हाडलां. भांगी हांणी आपल्या वाचनांत आयिल्ले उत्कृश्ट संवसारीक साहित्य कोंकणींत हाडलें. टागोरांचें 'चित्रांगदा' (नाटक) आनी 'बिदाय अभिशाप' (कविता), ऑस्कर वायल्डाचें 'सालोमे' (नाटक), पेस्सोवचें 'एल मारीनर' हाचो 'तारवटी' ह्या नावांन केल्लो अणकार, झ्वायगच्यो कांय कथा तशेंच सोफोक्लिसाच्या किंग इडिपसचो 'यदीप राजा' असो कोंकणी अणकार भांगीनी केला. त्या शिवाय मोहन राकेश हांच्या 'आषाढ का एक दिन' ह्या हिंदी नाटकाचो तांणी कोंकणी अणकार केला.

तांचे साहित्य मुखेलपणांन 'जाग' प्रकाशनान उजवाडाक हाडलां. गोवा कोंकणी अकादेमीन 'उतरांचो संवसार' ही तांची डायरी पुस्तक रुपांत उजवाडाक हाडल्या. तांतूत कांय नोंदी आनी टिपणां आसात. तीं वाचतगीर भांगीबाबांच्या विद्वत्तेचो आमकां अणभव येता. तांच्या 'दिश्टावो' आनी 'अदृश्टाचे कळे' ह्या पुस्तकांक कला अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार फावो जाल्लो आसा. तांकां कोंकणी भाशा मंडळ, कुडचडेच्या कोंकणी कला साहित्य केंद्राचो 'जनगंगा' पुरस्कार, 'जेज्वीत आंतोन पेरेरा यादस्तीक' हो थॉमस स्टिफन्स कोंकणी केंद्राचो पुरस्कार, आस्मिताय प्रतिश्टानाचो पुरस्कार, तसोच गोंय राज्य सरकाराचो पुरस्कारूय फावो जाल्लो आसा.



तांच्या 'चांफेल्ली सांज' ह्या पुस्तकाक २००० वर्सांचो साहित्य अकादेमी दिल्लीचो पुरस्कार फावो जाला.

पांडुरंग भांगी हांची कविता भाशीक ताकदीच्या रुपान पळयतात. तांची शब्दकळा ताणी स्वता आपणेच केळयलेली. तांच्या स्वभावाचो आनी परिस्थितीचोय तिचेर प्रभाव पडिल्लो. तांचे तीन कविता संग्रह दिस्टावो (१९७२), अद्रुस्टाचे कळे(१९८२) आनी चांफ़ेल्ली सांज (१९९७)

पुर्तुगेज कवी फेर्नांद पेस्सोआ हो तांचो आवडटो कवी. दिस्टावो ह्या कविता झेल्याच्या सुर्वेक ताणी पेस्सोआच्या कवितेचें एक कडवें उद्धृत केलां, Ser poeta nao e ambicao minha, E minha maneira de esta sozinho (कवी जावप हें म्हजें ध्येय न्हय, तर ती म्हजी एकांत अणभवपाची पद्धत)

'दिस्टावो' ह्या तांच्या पयल्या वयल्या कविता संग्रहांतल्या आपल्या एका कवितेंत ते म्हण्टात-

*'भाग्यवंत सपन म्हजें*
*दंवार आतां पिकतलें*
*थोड्याच अशा घटकां भितर*
*गिराण म्हजें सुट्टलें'*

'दंवार पिकप' असो सुंदर वाक्प्रचाराचो उपेग भांगीबाबान ह्या कवितेंत केला. दंवार पकप म्हळ्यार आपसूक मेळप. ह्या कवीतेक गोंय सुटकेची बाज आसा. जीं सपनां आपणे रंगयलेलीं तें आतां आपसूक सफळ जातलीं असो भांगीबाबांचो उद्देश आसपाक जाय.

हाचे उरफाटें ते आपल्या 'गडें' ह्या कवितेंत म्हण्टात,

*'जें घडोवंक बसलों*
*तें घडलेंच ना*
*घटितार्थ वेगळोच आसता.*
*जें करुंक गेलो*
*तें जमलेंच ना*
*एक एकाक धार्जणेंच नासता.'*

मनीस आपल्याक जाय तें करपाचो येत्न करता. तो खूप प्रयत्न करता आनी आनी करतां करतां एक दीस ताका कळटा घडपाचें कितें तरी वेगळेंच आसलें तें घडत वतलें आनी कितें करपाक जाय तें मात ताका कळनासलें. भांगीबाब मनशाचे जिणेंतली अगतीकताय अशी अचळय वेंचता आनी तिका उत्कृश्ट काव्यरुपांत परिवर्तीत करता.

भांगीबाब जिणेक कवितेच्या रुपान पळयता. तिका तितलेच समृद्ध फिशालकायेन समजून घेता. तिच्यांतलें सौंदर्य वळखून घेता आनी तिका काव्यात्मक रुप दिता,

*'भूंय तुजी पिकाळ*
*तन्नी होंकल दिखाळ*
*रगताच्या तोलार*
*वज्राचो पालव*
*धरना खांदार*
*धरना खांदार्!'*

वयल्या कवितेंत धर्तर आनी व्हंकल हांचे तुलनात्मक वर्णन आसा. भांगीबाबांच्या कवितेचो गुण म्हळ्यार ती कमीतकमी उतरांचो वापर करता. आनी तो नेमकेपणान व्यक्त जाता. भूंय पिकाळ जावंची आसता तेन्ना ती सुमाराभायर सुंदर दिसता जशी काय तरणाटेपणांत पावल घाल्लली व्हंकल. 'तन्नी व्हंकल दिखाळ' ही कोंकणीतल्या ह्या म्हणीचो वापर भांगीबाबान हांगा मुदयेर थीक कसो केला. तशें पळोवंक गेल्यार भांगीबाबांच्या कवितांनी कोंकणी म्हणी आनी वाक्प्रचार हांचो वापर पावला कणकणी मेळटा.

ह्याच कविता संग्रहांतली म्हजी एक आवडीची कविता,

*'आयज नांगरलेल्या भुंयेर*
*गर्भदानाचे सुवाळे*
*आशाड पांवळेची धार*
*तिकाय पांचवे चार उमळे!*
*वत पावसाचें शिंपणें*
*खेळ विखेळाचें पेणें*
*मिथुनांत दंग सदांच*
*शिव पार्वतीचें जोडें!'*

ही कविता वाचतगीर सदांच म्हाका बाकीबाबांची मराठी कविता 'वेली रुतुमती जाल्या ग!' हीची याद जाता. कवी आपल्या ह्या कवितेंत सरभोंवतणची जीण आनी सैम, पावस रुतु हांचो सुंदर मेळ सांस्कृतीक आनी सामाजीक तात्कालीन दायजा सयत दाखयता.

'अद्रुस्टाचे कळे' हो भांगीबाबांलो दुसरो काव्य संग्रह. भांगीबाबान ह्यावूय कविता संग्रहाचे सुर्वेक फेर्नांदु पेस्सोआ ह्या पुर्तुगेज कवीचें एक quotation दिलां. तातूंत पेस्सोआ म्हण्टा,

'I loved to admire the beauty of things, to trace in the imperceptible through the minute the poetic soul of the universe.' imperceptible म्हळ्यारुच अद्रुश्ट.

तांचे कवितेंतल्यान ते अद्रुस्टाक कशे स्पर्श करतात तें आमी तांच्या ह्या कवितेंतल्यान पळोवंया,

*'रुखांभशेन*
*मनीस कित्याक जियेनात?*
*फुलांभशेन कित्याक चंवरनात?*
*फळांभशेन कित्याक ओंपिनात?'*

ह्या संग्रहांतल्या कवितांक माथाळे नात. आसात ते फकत आंकडे. तांची ह्या कविता संग्रहांतली पयलीच कविता पळयात. तातूंत झाडाची प्रतिमा कवितेचो एक वेगळावंक जायना असो वांटो जावन आयल्या.

*'धुळवड भेटे*
*फुल्लट वेळ*
*तळ्याचे देगे*
*कस्टावता केळ*
*कस्टवतां केळ*
*पानेली माया*
*तळ्यांन झेल्ली*

*मळबाची काया.'*

ही कविता एक सुंदर चित्र आसा सांजवेळचें. ह्या चित्रांत तळ्याचें उदक आसा आनी त्या पाणयांत ती धुळवड, ती फुल्लट वेळ, ती कस्टावती केळ आनी मळब आसा. हांगा झाड हें केळीच्या रुपान येता. केळीची कश्टावणी ह्या चित्रांत एक जितेपण हाडटा आनी वाचप्याच्या मनार परिणाम करता.

अद्रुस्टाच्या कळ्यांत सुमार ८० प्रतिशें परस चड कवितांनी 'झाड' हें वेगवेगळ्या आंगानी येता आनी आपलें अस्तित्व दाखयता.

*'दोळ्यांत प्राणांची गोठलां*
*रुख निकतोच येता चंवरा*
*पिकून अळार जाले मळे.'*

हांगा कवीक रुख कसो भावता तें आमकां कळटा. तो ताच्या दोळ्यांत प्राणांची फुलां म्हळ्यार गोठलां जावन आयिल्लीं ताका दिसता. चंवराक झाड येवप म्हळ्यार एक आनंदोत्सवी गजाल.

भांगीबाब झाडाक खंयच्या नदरेन पळयतात आनी ताका कितें म्हण समजतात आनी वाचकांक कशे समजायतात ते तांच्याच ह्या कवितेंतल्यान पळयात,

*'झाड योग्याची मठी*
*समाधेची समाधी*
*झाड उडलें गा मळबा*
*झाड रिगलें का पाताळां*
*झाड त्रिकाळाचे खांबे*
*कोटी सुर्याचे दोळे*
*पानां पानांच्या जोगलांनी*
*लक्ष ब्रम्हांडाचे फ़ेरे*
*झाड वाटारो, वाटारो,*
*झाड बंडाचो उलो*
*पिडिल्ल्यांचो पडिल्ल्यांचो*
*झाड दिस्टाव्यांचो खांबो*
*अशें प्रज्ञाकांत झाडु*
*सोंशी कल्लोळाची विजु*
*चंडी जाली गो शांता*
*झाड अमृताची गंगा.'*

कविता वाचून जातगीर मनीस झाडाभशेन कित्याक जियेनात काय हो वाचप्यांच्या मनांत प्रस्न पडटा.

'चांफेल्ली सांज' ह्या भांगीबाबाल्या निमणे कविता संग्रहांत आपल्या एकसुरेपणाचो सोद घेतनाच ते सामाजीक परिस्थितीची जाण घेतात. 'काळोख हार जावन' ह्या कवितेंत ते म्हणटात.

*'काळोख हार जावन*
*विळखे घाली घालीत*
*सगळ्याक गिळीत चल्ला.*
*उजवाडाक*
*घायांचीं भगां पडल्यांत*
*किवणांतले किडे*
*भयाच्या वागऱ्यांत*
*आपआपल्या स्वार्थाच्या घोंटेरांत*
*गुल्ल आसात*
*वाऱ्यांत अगेलाची वीज आसा*
*ताकाय सर्वनाशाचो किटकिटो आसा'*

ही कविता बारकायेन वाचून पळयल्यार तिका आशिल्लो सामाजीक संदर्भ लक्षांत येतलो. किडिल्ली वेवस्था आनी नैतीक मुल्ल्यांचो ऱ्हास ह्या सगळ्यांतल्यान भायर कशें सरचें हो पडिल्लो प्रस्न. घडये ताका सुटकाच ना अशें दिसपी परिस्थिती कवी ह्या कवितेंत चितारता. ताका तशें दिसपाकूय कारण आसा ते मुखार म्हण्टात,

*'प्रेशीत आतां येवपाचे नात*
*तांचे मार्गच आतां बंद जाल्यात*
*देवळांतले देव*
*पाशाणांतच घुस्पल्यात*
*आज कोणाक*
*कोणाचेंच पडूंक ना*
*किडयांचीय जीण आतां*
*किडयांच्या हातांत उरुंकना*

(काळोख हार जावन- चांफेल्ली सांज)

ह्या वळींतलो किंवाटो ताचे खरसाणीक लागून कवितेक खोलाय जोडून दिता. कवितेंतलो हो सामाजीक आशय कलात्मकतेचें भान दवरुन व्यक्त जाला. काळखाचो हार, भयांचीं भगां, किवणांतले किडे ह्यो प्रतिमा कवितेक उंचेले पांवड्यार व्हरतात. ह्या कवितेंत किवणांतले किडे भंयाच्या वागऱ्यांत स्वार्थाच्या घोंटेरांत गुल्ल आसात. भांगी बाबांची कविता म्हळ्यार एकसूरपणान जियेवपाची तरा अशी मानलें जाल्यारुय तांच्या कांय कवितांनी आमकां ते सामाजीक जाणवीके पासून पैस वचूंक ना हाचो अणभव येता.

असोच आशय 'भुंयेंच्या गर्भांतलो ज्वालामुखी' हे कवितेंत आमकां दिश्टी पडटा. ह्या कवितेंत ते म्हणटात,

*'भुंयेंच्या गर्भांतलो ज्वालामुखी*
*भितरले भितर जालो घुस्पटमार*
*.....*
*फांतोड फुटचीच ना*
*अशी अथांग रात'*

(भुंयेंच्या गर्भांतलो ज्वालामुखी- चांफेल्ली सांज)

अशो कांय कविता भांगीबाबांच्या कवितेक एकसूरपणाचें जें लेबल लायलां तें पैस करता.

ह्या शताब्दीच्या वर्सांत तरी भांगीबाबांच्या कवितेचेर वेगवेगळ्या आंगानी अभ्यास जावंक जाय. आमचें सपन भाग्यवंत आसा पूण फावो त्या अचूक अर्थान समजलें जाल्यार...

संपर्क: 9923306751

***



# भास आनी भूस

**हर्षा शेटये**




मुंबय रावपी इश्टिणीच्या धूवेन पणजे नवो फ्लॅट घेतला. इश्टिणीचें धूव जावंय गोंयांत रावतात. इश्टिण तांगेर रावपाक आयिल्ली. फ्लॅट पळोवपाक यो म्हणून म्हाका आवय धुवेचो दोगांचोय आगरो. म्हाकाय इश्टिणीक मेळपाक जाय आशिल्लें. गेलें हांव. फ्लॅट सामको पॉश वस्तींत. सकयल स्विमींग पूल. भुरग्यांक खेळपाक पार्क.

फ्लॅट बरो आशिल्लो. दोन व्हडले बेडरूम. ओपन तेर्रास. लिविंग रुम आनी ...आनी... रांदचीकूड खंय तर! रांदचीकूड आनी हॉलामदली वणत काडल्या.

"कितें गो? वेगळी रांदचीकूड ना? रांदचीकुडींत कितें करतात तें हॉलात बशिल्लेकडेन दिश्टी पडटले मगो? कांतप, शिनप, नुस्तें उजरावप..."

"आगे मावशे, आमी इतलें खंय रांदतात? सकाळीं ऑफिसांत वचचें पयलीं रांदतली येता. एका वराभितर सगळे रांदून वता. आमी डबो व्हरतात. सांजवेळची ती परती येता. तिचेकडेन एक चावी आसा. चपात्यो, भाजी करून दवरता. ओटो बी पुसून वता. नुस्तें बी आमी आठ दिसांनी एकदां हाडटात. तेंवूय बी उजरावन." म्हाका ह्या भुरग्यांची अपुरबाय दिसता. सगळे कशें सुटसुटीत. सप्तकाच्या स दिसांचो रांदपाचो मेन्यू थरिल्लो आसता. रांदतली येवन जुस्ताक जुस्त रांदून वता. वा ऑफिसांत वचचे पयलीं घोव बायल दोगांय मेळून सडसडीत रांदतात. चकचकीत वेल्ल्यो मेळ्ळ्यो. फडफडीत बांगडे आयल्यात. गांवठी नुस्तें येतले. राव मात्सो. मानशेची सुंगटा मेळ्ळीं. हुमणांक घालपाक आंबाडें सोदता. असलो आनी वावर ना.

आता म्हज्या असल्याचो दिसभराचो वेळ रांदचीकुडीत चड सरता तांका रांदचीकूड आनी लिविंग रुमांत हें येवजूवपाकच मात्सें जड वतलें. पोती भरून बाजार घेवन येवपी दादले आनी तो बाजार जाग्यार घालपाक रांदचीकुडीत मुंगरून राविल्ल्यो बायलो. रांदचीकुडी भायले वासरेंत बसून तांदूळ वेचपी, भाजी मोडपी, आमटाण कल्लोवपी, मिरसांग्याच्यो तोडयो मोडपी, बायलो... कामांक कामांय जातालीं आनी खबऱ्यांक खबरो...

पयलींचीं ती घरांय गेली आनी त्यो आयसपयस रांदचीकुडीं ल्हवू ल्हवू करून ल्हान ल्हान जायत गेल्यो आनी आतां तर लिविंग रुमांत विरगळून गेल्यो म्हळ्यार जाता. तितलो लिविंग रुम व्हड जालो. आनी हो धुंवराच्यो वणटी ते लिविंग रुम असो हो रांदचीकुडीचो प्रवास आमच्या पिळगेन लागीच्यान अणभवला.



म्हजें यादींतली पयली रांदचीकूड आमच्या कोंबांतल्या घराची. शेणान सारयल्ली. सकयल मातयेच्यो दोन रांदनी. हांव तीन चार वर्सांचें आशिल्लें तेन्नाची याद आसा. तेन्ना आजी सकयल बसून रांदताली. म्हज्यांत एक काळेंच मेज आशिल्ले. मेजाक दोन खण आशिल्ले. खण उगडपाक वाटकुळ्योच धव्यो चकचकीत मुठी आशिल्ल्यो. ताचेर वातीचो स्टोव्ह आसतालो. ताका फुगांव म्हणटालीं. ताचेर दूद तापयतालीं. च्या, काफी करताली. चपात्योय करतालीं. हो फुगांव पत्र्याचो आसतालो. सकयल्या वाटकुळ्या डब्याक एक बुराक आसतालो. तातूंत फुनेल दवरून पॅट्रोल भरताली आनी मागीर ताका गुड्डी लायताली. डब्यार वयर स वाती आसताल्यो. आनी एक पीन आसताली वाती बारीक, मोटयो करपाक. ह्या वातींच्या भायले वटेन एक जाळी आसताली.

हांव सात- आठ वर्सांचें आसतना रांदचीकुडीन पयलो बदल आपणायलो. शेणाच्या जाग्यार तांबडे शिमिट आयलें. वण्टींक तेंकून ओटो आयलो आनी सकयल्यो रांदनी येवन ओट्यार बसल्यो. ओट्यारुच एक ल्हानशी मोरी आयली. ओट्याकडेन सकयलूच एक अगडबंब वान आनी रगडो. वानाकडेन बसपाक एक बाकीन. वानाक तेकून एक आदोळेचो जोडो. कांद्याची आदोळी आनी शिवराक आदोळी.

मोरये सकयल एक व्हडलो तांब्याचो तोप. उदक भरपाक. ताचेर एक जड परात. धाकणे म्हणून. ओट्यार वयर एक कळसुली. पिवपाच्या उदकाची. परतें परतें पिवपाक बांयचे ताजें उदक हाडप. रांदचीकुडीच्या भायर एके वटेन बांय, एके वटेन मान्ने. मान्न्यांत भितर काळोकिट्ट हांडो. मान्न्याच्या फुडे जळोव दवरपाक जागो. होच जळोव रांदचीकुडीच्या रांदनीकूय घालपाक व्हरताली.

आता ह्या मान्न्याचो आनी रांदचीकुडीचो सबंद कितें? तर रांदचीकुडींतली आयदनां घासपाक ह्याच मान्न्यांत व्हरचीं पडटालीं. तीं हातांनीच धरून व्हरचीं पडटालीं. तेन्ना प्लास्टीकाचो टब बी नासताले. आयदनां घासून मागीर पाटल्यांत ती उमथी घालताली. पूण उश्ट्याचीं आयदनां पाटल्यांत व्हर नाशिल्ली. आतां हांड्या रांदनीचो आनी रांदचेकुडीचो संबंद कितें. तर खारे बांगडे, सुकी मोरी भाजप असल्या कामाक उपेगा पडटाली. भर्ताचे वांयगें भाजप. तेन्ना अपुरबायेच्या एका वांयग्याचे बी भर्त जाय नाशिल्लें. पांच-स तरी वांयगीं भाजची पडटालीं. तांका

हांड्या रांदनूच लागताली.

तेन्ना मडगांवां दारांत ट्रकांनी 'जळोव, जळोव' करीत लाकडां विकूंक येतालीं. तीं भायल्या दारांत रस्त्यार उडोवन वताले. तीं हाडून मागील दारां लॉजात दवरची पडटालीं. रांदनीतलो उजो नळयेन फूंक मारून पेटोवचो पडटालो. धुंवरान रांदचे कुडींतल्यो वणटी काळ्यो किट्ट जातात्यो. धुंवर भायर वचपाक रान्नीचें वयर नळ्याचे धुंवराडें आसताले. उजवाडाखातीर नळ्यां मदी आरशे आसताले. तें लेगीत धुंवरान काळेंच जाताले. वर्सान वर्स घर शिंवतना तें काडुन धुंवचे पडटालें.

मागीर गॅस आयलो. रांदचीकुडींत आनीक एक ओटो घालो. च्या, चपात्यो ताचेर जावंक लागल्यो. रांदचीकुडींतलो फुगांव गेलो, धव्या फुल्ल चकचकीत मुठीचे काळेकिट्ट मेज गेलें. तरीय रांदन आशिल्लीच. नुस्त्याचें जेवण बी गॅसार रांदपाक जाता म्हणत हुमण बी पोरण्या उरवळेंत रांदनीचेरूच करताली. ही उरवळी शेणजेच्या मुस्तींतलीं मागीर आनीक एक गॅस कनेक्शन घेतलें आनी रान्नीर रांदप सामकेंच बंद जालें. ताचें कारण म्हळ्यार दारांत जळवाचे ट्रक येवप बंद जालें.

आतां तर चाळीस पंचेचाळीस वर्सां उपरांत रांदचीकुडी सामक्योच बदलल्यो. चकचकीत मार्बलचे फ्लॉरिंग आयले. ग्रेनाइटचे ओटे आयले. लायटराबगर पेटपी शेगड्यो आयल्यो. धुंवर भायर काडपी नळ्याचें धुवराडें ते चिमणी असोय प्रवास जालो. हें सगळें बरें आसा. मनीस कश्ट काडटा, दीस रात कश्ट करता, कित्याक तर पोटाखातीरूच. पोटांत पुश्टीक आनी रुचीक अन्न वचप हें सगळ्यांत महत्वाचें. हो भूस मारप म्हळ्यार पोटभर जेवप. हो भूस महत्वाचो. आता भूस म्हळ्यार जेवण रांदप ह्या क्रियेंत आनी कितल्योश्योच क्रिया आसपावतात. आनी ह्यो सगळ्यो क्रिया रांदचीकुडीकडेन संबंदीत आसात.

तांदूळ, नाल्ल आनी नुस्तें हें आमच्या भुसांतले महत्वाचे घटक. नाल्ल फोडून तांची दोन वळीं करून तो कांतप. आता खूबश्या रांदचीकुडींनी आदोळयो नासतात. कोकोनट स्क्रेपर, ग्रेटर, ओट्याक बसोवन ताचेर ग्रेट करतात. तेखातीर जातलें कितें कांतप हें उतर भुरग्यांच्या कानार पडचेना. आनी तांच्या उतरावळीच्यान एक कोंकणी उतर ना जातलें. आता आदोळी फक्त कांतपाकूच वापरनात. आदोळेचेर भाजी शिनतात, कांदो चिरतात. शिनप वेगळे, कोचांवप वेगळें, किल्ल, बोणी ह्यो भाजयो कोचांयतात. करम करतना पिपरीय कोंचायतात.

आदोळेचेर नुस्तेंय उजरायतात. तिसऱ्यो, खुबे कल्लयतात. आतां हें नुस्तें उजरावप, कल्लोवप नुस्त्या बाजारांत जातलें ते खातीर हिवूंय उतरा काळाभायरी जायत म्हणून भंय. वांटप मात वानार वाटतात. फातरीरूय वाटतात आनी मिक्सराचेरूय वांट्टतात.

शीत हे गोंयकाराचे मुखेर अन्न. हे शीत शिजोवपाक रांदचेकुडींनी खासा आयदनां आसतालीं. पयलींच्या तेंपार कांय घरांनी मातयेचो बुडकुलो आसतालो. हेरांगेर तपलें आसताले. चौगांच्या घराब्यांनी

(पान ११४ चेर)

# गोंयची पारंपारीक खाणां - जेवणां

डॉ. जयंती नायक



अन्न, वस्त्र आनी आसरो ह्यो मनशाच्यो तीन मुळाव्यो गरजो. तांतुंतले तातूंत अन्न ही पयली गरज. अन्न हें ब्रह्म. अन्न म्हणल्यारच जीवन. अन्न ना तर जीवन ना. सगळे प्राणीमात्र, जीवजंतू, सुकणीं-सावदां सगळ्याचें अस्तित्व अन्नाचेरूच तिगून आसा. मनशाचे बौध्दीक आनी मानसीक उदरगतींत पौश्टीक खाणाचें वा जेवणाचें कार्य खूब म्हत्वाचें .

ह्या जगाच्या आरंभ काळार हेर प्रणिमात्रा सारकेंच मनशानय जें कितें आपले सरभोंवतणी उपलब्ध आसा, तेंच खावन आपल्या पोटाची भूक भागयली. बिनविशारी वनस्पती वांगडा मनशान आशी कुशीक भोंवतलीं जनावरांय मारून खालीं. सामके शिकारी अवस्थेंत मनशान तांचे मांस हरवेंच खालें उपरांत अग्नीच्या सोदावांगडा तें मांस भाजून खालें. ते उपरांत मनशाच्या मानसीक तशेंच बौध्दीक प्रगती वांगडा रांदपाचो वा अन्न शिजोवन खावपाचो सोद मनशान लायलो. शेती संस्कृतायेच्या उदेवा वांगडा खऱ्या अर्थान मनीस संस्कृतायेचो उदेव जावन तरेकवार धान्यां, कडधान्या, बिंया, फळां, भाजयो आदी गजाली मनशान पिकयल्यो, तरेकवार मसाले पिकयले. सुरवेक, पाशाणी आनी उपरांत काश्ट, मृतिका, कांस्य, तांबें, पितूळ, लोखंड (ते नंतर, कांच, आलिमीन, स्टील)आदीं धातुंची आवतां, आयदनां निर्माण केलीं. ह्या सगळ्याच्या सोदान मनशाच्या हातान खाद्य संस्कृताय जल्माक आयली. मनशाक लायिल्ल्या मीठ, गोड, तेल, तूप, दूद, साखर आदीं जिनस तयार करपाच्या वा निर्मुवपाच्या सोदान तर हे खाद्य संस्कृतायेक सुरबूस रुच, मचमचसाण आनी परमळ सुटलो.

आपूण ज्या वाठारांत रावतां, त्या वाठारांत पिकता, उपलब्ध जाता त्यो वस्ती घेवन सुरवेक मनशान आपलीं खाणां - जेवणां निर्माण केली. हीं खाणां-जेवणां त्या त्या प्रदेशाच्या वातावरणांत, हवामानाक पुरक अशीच आशिल्लीं. एका काळार एका वाठारांत दुसऱ्या वाठारांत पिकपी आनी शिजपी, तयार जावपी वस्त मेळप कठीण आशिल्लें, फुडें येरादारीच्या साधनां वांगडा ही गजाल शक्य जाली. तशेंच एका प्रदेशांत रावपी लोक दुसऱ्या प्रदेशांतल्यो वस्ती खायी सुध्दा नाशिल्ले, ते खातीर प्रवासांत आपल्या खाणां -जेवणांचे जिनस तांकां घेवन प्रवास करचो पडटालो. आज काळ बदल्ला. हे निर्बंध पयस जाल्यांत, उलट दुसऱ्या प्रदेशांत वतकच थंयचीं प्रादेशीक खाणां- जेवणांची मुजरत रुच चाखपाची वा त्यो वस्ती घेवन येवपाची प्रवृत्ती आज वाडीक लागल्या.



खाणां - जेवणां हीं जशीं प्रदेश, वाठारा प्रमाण बदलतात, वा तांकां जशें प्रादेशीक खाशेलेंपण आसता, तशेंच जात, धर्म, पंगड, पंथ हे प्रमाणय खाणां-जेवणां वैशिश्ट्यपुर्ण आसतात. एकाच तरेचीं प्रादेशीक वैशिश्ट्यां आसपी दोन वेग-वेगळ्या वाठारांतल्या खाणां जेवणांमदीं समानताय, तेच बरोबर वेगळेंपणय आसता.

खाणां-जेवणां हें समासीक उतर. हातुंतलें. खाण हें उतर खावप ह्या उतरावेल्यान घडलां. जें खातात तें खाण. ह्या व्यापक अर्थान सगळेंच अन्न खाण ह्या माथाळ्या खाला येवंक जाय पूण सर्वसामान्य पणान आज खाण हें उतर मुखेल अन्नाशिवाय रुचिक सुरबूस लागपी (गोड वा तिखट, तळिल्लीं) जें जिनस खातात वा तयार करतात तांकां ह्या वर्गांत आस्पायतात. मुखेल अन्नाक जेवण हें उतर वापरतात. खाणां हीं केन्ना मुखेल अन्नां बरोबर खातात, तर केन्ना च्या-कॉफी, वा हेर पिवणां सांगातान वा केन्ना हरवींच खातात. एका काळार खाण ह्या उतराक 'खाजें' हें उतर घोळणुकेंत आशिल्लें.

आदिम अवस्थेंत मनीस फक्त मांस खावन आपली पोटभरवण करतालो तेन्ना तो फक्त मांसाहारीच आशिल्लो. फुडें संस्कृतीच्या विकासाचे वाटेर जेन्ना भाजीपालो, कडधान्यां आदीं वस्ती खावंक ताणें सुरवात केली तेन्ना शाकाहारी संस्कृतीन जल्म घेतलो. मजगती एक तिसरी, मांसाहारी + शाकाहारी = मांसशाकहारी अशी संस्कृती जल्माक आयली. खंयचो वाठार हो पुर्ण मांसाहारी आनी पुर्ण शाकाहारी मेळना. तशेंच मांसशाकाहारी समाजय कांय थारावीक काळार वा देव-धर्माच्या कार्यावेळार, व्रतस्त अवस्थेंत पुर्ण शाकाहारी आशिल्लो मेळटा.

हेर प्रदेशां सारकेंच गोंयच्याय खाणां-जेवणांनी प्रादेशीक वैशिश्ट्य आस्पाविल्लें आसा. गोंय हें अरबी समुद्राचे देगेर वशिल्लें आनी एके बाजून सह्याद्रीचे वेंगेंत लिपिल्लें राज्य. दोंगोर-न्हंयो आनी रानांनी ह्या वाठराक उपाट जैवीक आनी सैमीक संपदा दिल्ल्या. ह्या राज्याचेर राज्य केल्ल्या राजवटींनी खास करून पोर्तुगीजांनी संवसारांतल्यास विवीध वाठारांतल्यान खाद्य जिनसांचीं आनी फळ-फळावळीचीं, मसाल्याचीं बियां-रोपां हाडून हें भुंयेर तीं ओपल्यांत. जीं आज गोंयचींच संपदा जाल्या. गोंयचीं खाद्य संस्कृताय, जेवण-खाण हें ह्या सगळ्याच्या समन्वयांतल्यान घडल्या.

**जेवणः**

शीत आनी कडी हें गोंयच्या लोकांचें मुखेल जेवण. ही कडी सर्वसामन्यपणान नुस्त्याची (मासळेची) आसता. पूण ती शिवराकय आसता, जाका रोस अशेंय

म्हणटात. कडयेक कालवणें अशेंय सकल्या समाजात म्हणटात. शीत कालोवप ह्या उतरावेल्यान हें उतर घडलां. कडयेक हुमण असें एका काळार उंचेल्या समाजांतच म्हणटालें, आज हें उतर सगळ्या जाती-जमीतंमदीं पावलां. तरी क्रिस्तांव समाजांत कडी हें उतर चड प्रमाणांत घोळणुकेंत आसा. हें शीत उकडें शीत आसतालें. देव-धर्माच्या कार्यांत सुरय तांदळांचें शीत आसतालें. भटांक उकडें शीत निशिध्द आशिल्ल्यान ते सुरय शीतच जेवताले. एका काळार घरा केल्लें करडीचे सुरय तांदूळ लोक शीताक वापरताले. तांदळांची पेजय जेवताले. शिवाय वरय, कागू, पांखळ हांची पेज तशेंच नाचण्याची आंबील जेवताले. शितांत मीठ घालपाची चाल आशिल्ली, आजय क्रिस्तांव समाजांत ती दिश्टी पडटा.

शिता वा पेजेबरोबर सामान्यपणान खळांतले तोर वा भाजिल्लें खारें (सुकें नुस्तें) लायताले. रानवटी वाठारांत सावदांचें सुकिल्लें मांस भाजून तेंवय तोंडालावणें म्हण खातालें. खास करून पावसाच्या दिसांनी. उंचेल्या वा गिरेस्त समाजांत पापड -लोणचीं आसतालीं.

शीत-कालवण्या सांगाताक तरकेवार गोंयचे मातयेंत जावपी खास रोयिल्ल्यो वा पावसांत किल्लल्यो फुडल्यो भाजयो रांदून तोंडालावणें म्हण खाताल्यो:.

**भाजयो:**

ताळकिल्याची भाजी, म्हसगाची भाजी, लुतीची भाजी, आळू, तेरे, गोंयची भाजी, कुडडुकेची भाजी, तांबडी भाजी, वाळची भाजी, सांसवेची भाजी, शेपेची भाजी, धवी भाजी, चवळेची भाजी, मुळ्याची भाजी, कांद्या पातीची भाजी आदी. ह्या भाजयांक कांदो, पणासाची भिकणां बी घालून तांची रुच वाडयताले. ह्या शिवाय पावसाच्या दिसांनी जावपी अळमी, किल्ल, आंकूर आदीय लोक भाजयो वा मसाल्याचीं तोंडांकां करून खाताले.

**शाको:**

घरदुदी. कोंकणदुदी, तवशीं, घोंसाळीं (दोडगीं, माट्ट घोसाळीं), भेंडे, वीरवीर, वायंगीं, तोंडलीं, पडोळीं, काराथीं, कुंवाळे, कोयते वाल, निरपणस, पोपाय, आदी शाकभाजी, फळावळ पावसाच्या दिसांनी पोरसूं, कुळागरां, वारयांनी रोवन लोक ताच्यो तरेकवार पद्दतीन शाकभाजयो करताले.

कारांदे, झाडेकणगां, कांटेकणगां, चिरको, सादीं कणगां, माडयो ह्या कंदमुळांची शाकभाजी करताले वा उकडनय खाताले.

**लोणचीं वा खळ:**

आंबाडे, आंवाळे, बिमलां, करमलां, काण्णां , तोरां, लिंबू आदी.

**नुस्तीं वा मांसळी:**

पिटॅटोळ, काड्डूकां, सांगटां, तांबशें, शेंवटे, कुल्ल्यो,कोंगे, खुबे, पटींग, सुंगटां, खरवे, काळुंदरां, वागोलीं, शिंवस हीं पावसाच्या दिसांनी न्हंय-व्हाळांत मेळपी नुस्तीं, तशेंच बांगडे, तारले, पेडवे, विसवण, कल्ली, रावस, मुड्डश्यो, शेतकां, तोळयो, तोणक्यो, मोरयो, माणक्यो, पापलेटी, शेलायो, खापयो, वेल्लोय, घोडयारे, लेपो, राणे, बाळे, बोमील, तिसऱ्यो, खुबे, कोंडोयो, कालवां, शिनाण्यो आदी खाऱ्या उदकांत मेळपी नुस्त्याचें हुमण, सुके, धबधबीत बी रांदून खाताले. तळून-भाजून बी खाताले. शिवाय बांगड्यांची उड्डमेथी, शेंवट्यांची वा काळुंदरांची कळपुटी आदी खास प्रकार रांदताले. तिसऱ्यो, कुल्ल्यो, शिनाण्यो, कालवां हांचीं मसाल्यांचीं तोंडाकां रांदताले. मिरसांग, कांदो, लसूण, आलें, कोथंबीर हे जिनस साद्या हुमणाच्या वांटपांत आवडीप्रमाण जाल्यार तांच्या सांगताक मिरयां, लवंगा, पत्री, तिखी, जायफळ, दगडफूल, खरखस, सांसवां जिरें, बडीशेप, वोंवों, मेथयो, सणिबिंया ह्या सारके मसाल्याचे जिनस तेलांत भाजून नाल्लाचे भाजिल्ले वा हरवे सोये सांगाताक वांटपांत वांट्टाले. हो मसालो शिवराक आनी मांसाहारी दोनय प्रकारांत अदिक उण्या प्रकारांत वापरताले. बांगडे-तारले-पेडवे हांच्या हुमणांत वा धबधबितांत तेफळां चेंचावन रुचीक आनी वासाक वापरताले. तशेंच हीं नुस्तीं सुकोवन तीं उज्यांत बाजून तांची किसमूर हो प्रकारय करतात.

**शागोती:**

कुकड, रानदुकर, मेरू, सोंसो, पिसय, भेकरूं, हूद, साप, रानमांजर, चानी, कोगूळ, कवडो, बकें लाये, रानकोंबडी हांची मसालो घालून शागोती कांगताले. सर्वसादारण पणान भट समाज हें मांस आनी नुस्ते खावप निशिध्द मानतालो. तशेंच गावडी-कुळंबी समाज कुकडाचें मांस खायनाशिल्लो.

क्रिस्तांव समाज सर्वसादारणपणान वयल्या सुकणी -सावदांच्या मांसा शिवाय घरदुकार, गाय, कोळदुंदीर आदी जनावरांचें मांस खातालो.

**सणा-परबेक रांदतात ते जेवणाचे जिनस अशे:**

रोस-तोंडाकां आदी (कांदो-लसूण वर्ज):

मुगांगांठी, खतखतें, दाळचो रोस, तेंफळांचो कुंवोळ, वडयांचो रोस, आंबाडे, बिंबलां, तोरां आदींची हुडदमेथी, तरेकवार भाजयो, शाको, चणें-मसूर-चवळी-आवरे-अळसांदे आदींचीं तोंडांकां, रायतीं, किसमूर (पापडांची, वडयांचीं) पापड (हुडदांचे, पणसाचे , निरपणसाचे बी), सांडगे, वडे, पुरयो, लोणचीं, भर्त (वायंग्याचें, दुदयाचें), घरय, करम, उसळ (चण्याची, मुगांची आदी) फोडी (निरपणस, माडी, बटाट, केळीं आदी) सांसव (घोटां, अनस, आंबाडे आदी), नाल्लाच्या रोसाची कडी, ताकांतली कडी, सार, सोलांचें तिवळ आदी. ह्या रोसां तोंडांकांक करबेल, हिंगर, सांसवा, मेथयो, उडडांची दाळ आदीची फोडणीं घालून तांचीं रुच आनी परमळ अदीक वाडयतात.

**गोडशी:**

मणगणें, खीर (शेंवयाची, कणगांची, कोंकण दुदयाची , रव्याची आदी), पायस, पुरणपोळी, येलापे, सोजी, आटवल, गुळणी, धणस, तवसळी, साकरभात, खिचडी, उपीट, शिरो, शिरकण, पंचामृत, इट-रोस, सात्रां, रोस-पोळे, शेंवयो, शिरवळ्यो, पातोळ्यो, मुठलीं, आमरस, उकडिल्ली भाकरी नाचण्याचें सत्व वा दुदोळी, दोणे वा सुयो, कण्ण आदी. एका तेंपार गोडशा-खाणां करपांत चड करून तांदूळ वा तांदळांचें पीठ वापरताले. गोंयांत गोड वा उशीकांडो येवचे पयलीं माडांचें गोड वापरताले.

वयलीं रोस-तोंडाकां, गोडशीं चड करून चवथीचे परबेक, लग्न-कार्यादिसा तशेंच श्राध्दाक बी रांदतात.

**फोवः**

गोंयांत दिवाळी ही फोवांची परब मानतात. ते दिसा खाशेलेपणान फुडले फोवांचे प्रकार करतातः

गोडांत कालयिल्ले फोव, रोसांतले फोव, दुदांतले फोव, फोडणी फोव, बटाटे फोव, ताकांतले फोव, कडयेंतले फोव, साकरेचे फोव. तिखशे फोव, धंयातले फोव, चिवडो (फोवांचो, चिरमुल्यंचो, ल्हायांचो, बटाटांचो, शाबुदाण्यांचो आदी) आदी.

**खाणां :**

**नेवऱ्यो आनी मोदकः** (किशीच्यो, गंवा पिठाच्यो, मुगांपिठाच्यो, गोडाच्यो, तिखश्यो, सोयेच्यो, चुन्नाचयो, पुरणाच्यो, कणगांचयो, खव्याच्यो).

**लाडूः** साकर लाडू, मुगां लाडू, तांदळां लाडू, चुरमी लाडू, बिंयां लाडू, शेवा लाडू, बुंदी लाडू, रव्या लाडू, पिठ्या लाडू, मोतीचूर लाडू, ल्हायां लाडू, बेसन लाडू, तिळां लाडू, फोवां लाडू, खाजी लाडू, चिरमुल्यां लाडू आदी.

**कापांः** साकराकापां, गोडा कापां (खटखटीं), चण्यादाळीं कापां, रव्या कापां, केळ्याकापां, दुदया कापां, कुंवाळ्या कापां, बटाटा कापां, आंब्या कापां, कणगां कापां, नीरपणसा कापां, पोपाये कापां, सोये कापां, चणे-भिकणांचीं कापां.

**हालवेः** मैद्या हालवो, केळ्यां हालवो, आंब्या हालवो, पेरां हालवो, बटाटां हालवो, कोंकण दुदया हालवो, कुंवाळ्या हालवो, घरदुदया हालवो, पणसा हालवो, नीरपणसा हालवो, कणागं हालवो, पोपाये हालवो, पणसा हालवो.

**वडेः** गोड वडे, तिखशे वडे, मोग्यां वडे.

**चकऱ्योः** तांदळांच्यो चकऱ्यो, चण्यादाळीच्यो चकऱ्यो, गंवा पिठाच्यो चकऱ्यो.

**चिवडोः** फोवां चिवडो,चिरमुल्यां चिवडो, ल्हायां चिवडो, बटाटा चिवडो, शाबुदाण्यांचो चिवडो.

**म्हानाः** कणागां म्हानां, बटाटा म्हानां, केळ्यां म्हानां, पणसा घरे (म्हानां). म्हानां गोड वा तिखशीं करतात.

**साणगेः** साबुदाण्याचे साणगे, पणसाचे साणगे

**साटांः** आंब्याचीं साटां, पणसाचीं साटां.

**सांजोः** तिखट सांजो, गोड सांजो, तांदळांचो सांजो (कणयारें), वरयांचो सांजो .

**पिवणांः** पानक, कोकम आदी

वयल्या जेवण-खाण प्रकारांतले कांय प्रकार गोंयचो क्रिस्तांव समाजय रांदता. गांवगिऱ्या वाठारांतले लोक शाकेक वेरदूल अशें उल्लेखतात. गोंयच्यो क्रिस्तांव समाज हो मुळचो हिन्दू . तांची आपल्या मूळ समाजाकडची भावकी तांच्या सणा-परबेक करपाच्या खाणांनी

*(पान ११३ चेर)*



# अज्रंवर गितांचो, संगिताचो जादू




**मुकेश थळी**

*'आली हांसत पहिली रात उधळत*
*प्राणांची फुलवात....'*

शिकलेली बायको, ह्या मराठी चित्रपटांतलें हें गीत. हंसध्वनी रागाच्या स्वरांचेर उफेवपी. उषा किरण ही अभिनेत्री. हालींच यु ट्युबाचेर हें गीत पळेलें आनी आदल्यो यादी जाग्यो जाल्यो. अज्रंवर आनी अवीट गोडी आशिल्लीं हीं गाणी. उषा किरण ही मराठमोळी अभिनेत्री. सात्विक, सोज्वळ, शालीन मानदंड आशिल्ली. हें गीत गाजलें. इतल्या वर्सांनी आयकून लेगीत गोडी तशीच. ह्या चित्रपटांत आनीकूय एक चिरस्मरणीय गीत आसा. तेंवूय आयकलें. 'प्रेमा, काय दिलं तू मला... भाग्य दिले तू मला...' सुंदर. अप्रतिम. अलौकीक प्रतिभेचे संगीतकार, गीतकार आनी गायक आनी चित्रफितींतल्यान अभिनीत करपी कलाकार हांचो हो संगम.

भजनांयं खूब गोड आसतात. तातूंत भक्तीरस आसता जो काळजाक स्पर्श करता. काळीज निवळ करता. काळजांतलो कोयर पयस करता.

*अनंत ब्रह्मांडे उदरी*
*हरी हा बालक नंदा घरी*
*नवल केवढे केवढे....*

कितली सुंदर अभंग रचना ही. चंद्रकंस रागात बांदिल्ली ही रचना आमच्या कानांर भुरगेपणासावन पडल्या. ओंदू श्रावणी भजनां आयकतना कानार पडली आनी ल्हानपणांतले भजन संस्कार जागे जाले. अनंतकोटी ब्रह्मांडां जाच्या पोटांत सामावल्यांत तो हरी नंदाच्या घरांत खेळत आसा, हें मोटें अजाप, अशें हांगा संतकवी सांगतात.

श्रावणात नाना गंध, नाक, तृप्त करून सोडटात. टाळ मृदंगाचे आवाज आनी चैतन्य आंगांत भक्तीरसाचो संचार हाडटा.

काळीज मात त्या भक्तीरसाच्या हौदा कडेन एकरूप, एकतान जाल्लें आसूंक जाय.

भक्ती ही शक्ती. ईश्वर चिंतनात मग्न संतांनी आपल्यो अनुभूती ह्या काव्यांत मांडल्यात.

आमचे पूर्वज स्व कृष्ण जगन्नाथ थळी हे कृष्णंभट्ट बांदकर हांचे शिष्य. ते मुंबयंत रावताले. चित्रकार आनी अभंगरचनाकार कवी. ते गोंयांत आयले तेन्ना बांदकरांनी तांकां आपली भजनां, अभंग उजवाडावपाची मेकळीक दिली. थळी हांणी १९३२ वर्सा तें पुस्तक प्रकाशित केलें. तातूंत बांदकरांच्यो आनी कृष्ण थळींच्यो रचना आसात. आमच्या थळी कुटुंबांत आजो स्व गंगाराम थळी हांचे परंपरे सावन गायन, वादन, नाटक, संगीत, साहित्य हांची दायकी अखंडपणान अभंगपणान चालू आसा. अभंग गायन हें तातूंतलेंच.

आजो कुशळ पखवाजवादक आनी तबलावादक आशिल्लो. आबाकाका (स्व. श्रीपाद थळी) अश्टतांसांचो कलाकार. स्व सुहासकाका थळी हो वेवसायान वकील आशिल्लो पूण तबला आनी पखवाजवादक. आनाकाका (मधुसुदन थळी) गायक आणि पखवाजवादक. सुलभ सोपे रे नाम केशवाचे, आठविता रूपे दोष जाती.... हो अभंग म्हजो व्हडलो भाव अमोल हार्णे शाळेंत आसतनाच आनाकाका कडल्यान शिकून घेतलो. चोडणा हांव सुटयेंत आजोळ सावन घरा वतालों तेन्ना भुरगीं काका कडेन शिकपाक येतालीं. वाद्यांचें तें नादमाधुर्य कानाचेर अजून आसा. नाम तुझे नाराइणा, नाम संकीर्तन साधन सोपे, विठ्ठला नाम तुझे चांगले ऐकता मन माझे रंगले अशीं नामस्मरणाचो महिमा सांगपी जायतीं भजनां आयुकूनूच तोंडपाठ जालीं.

ही संस्कारिता फुलत गेली.

भुरगेपण गेलें म्हाड्डोळा. देवळांच्या वाठारांत. हांगा म्हान कलाकारांच्यो मैफली वर्सुकी सुवाळ्यांनी लागींच्यान आयकुपाक मेळ्ळ्यो. घराण्या कडल्यान संगिताचे संस्कार आशिल्लेच. पूण म्हाड्डोळा हे पोशक वाडीक बरें सारें मेळ्ळें. भजनांत गवळण आसता. बाळकृष्णाच्यो लिला, ताणें गोपिकांचीं केल्लीं फकांडां, गोपिकांनी कृष्णाच्या आवयकडेन केल्ल्यो कागाळी हांचें वर्णन हे गीतरचनेंत आसता. गवळण गावपाची एक वेगळीच अपुरबायेची लकुबायेची अदा आसता. तातूंत आसता तो गोडवो. म्होंवाळपण. तें काळजाक सांसपिता. आर एन पराडकर ह्या म्हान गायकान गायिल्ली - गवळणी 'हो जाऊ नका बाजारी, दह्या दुधाची हो करीतो चोरी, नंदाच्या घरी...' ही माधुर्यान भरिल्ली गवळण. 'सासूबाई, आत्याबाई त्या कान्हाला सांगा तुम्ही काही...' ही गवळण हांवें मारू बिहाग रागांत आयकल्ली. हेर रागांतूय आसत. 'हासत खेळत डोलत ग बाई, पाण्या निघाली राधा गवळण' अश्यो खूब सुमधुर गवळण रचना आसात.

भजनांत तबल्या परस पखवाजाक प्राधान्य आसता. पखवाजाचो घुमारो, पकदस्त थाप हो भजनाचो स्वभाव. पखवाज हें वाद्य गोंयांत भजनांक लागून तगून आसा. काळा भायर जावंक ना. एके वटेन पीठ, दुसरे वटेन तबल्याचें तोंड आशिल्लें हें वाद्य. श्रावणाची सुलूस लागना फुडें पखवाज माळ्या वयल्यान सकयल देंवता. पखवाज सादोवपाचें, वादयो जाग्यार घालपाचें, शाय घालपाचें काम सुरू जाता. तो तणतणपाक फडफडपाक तयार जाता.

भजनांतलो गजर हो काळजाक आनी भक्तभाविकाच्या काळजाच्या

(पान ११४ चेर)

# दिलीप बोरकार आनी हांव आनी एक्स

**एस. डी. तेंडुलकार**

शणै गोंयबाब जल्मशताब्दी सुवाळ्याची कचेरी तेन्ना पणजेंत हॉटेल मांडवीचे देगेकुच पयल्या मजल्यार आशिल्ली, थंयच दिलीप बोरकाराचो आनी म्हजो पयलो परिचय जाल्लो. दिलीप थंय तेन्ना शताब्दी सुवाळ्याची कचेरी सांबाळपाचें काम पळेतालो.

आमी दोगूय साधारण एकाच वयाचे. पूण हांव आंगान शिरपुटो, तर दिलीप हाडापेरान सॉलीड, एखाद्या स्पोर्ट्समन सारको. हांव तेन्ना कोंकणी-मराठी दोनाय भाशांनी कविता बरोवपी. पूण दिलीप तेदेवेळार लेखनाचे बाबतीत एकदम शून्य. पूण एकदां ताणें म्हाका सांगिल्ल्याची याद जाता की आपणें कांय बरयल्ल्यो कविता रवींद्रबाबाक दाखयल्ल्यो, तेन्ना रवींद्रबाबान म्हणील्लें खंय, हातूंत आजून मॅच्युरिटी येवपाची गरज आसा. पूण दिलीप भविश्यकाळांत कोंकणींतलो एक मोटो लेखक जातलो, प्रकाशक जातलो, संपादक जातलो, हाची मात तेन्ना म्हाका मातूय सुलुस लागूंक नाशिल्ली. कोंकणी भाशा मंडळाचो एक सादो कार्यकर्तो हेच नदरेन हांव ताचेकडे तेन्ना पळयतलो. ही गजाल साधारण १९७५ सालांतली.

आज इतल्या वरसांनी आमची बरी आमिजाद आशिल्ली अशें मात हांव म्हणूंक शकचो ना. आमची भेट ही कॅज्युअल आसताली. खंयूय मेळ्यार फकत हॅलो हाय म्हणप आनी कामापुरतें उलोवप. देखीक, एक दिस मेळिल्लेकडे दिलीपान म्हाका सांगलें की, र. वि. पंडीतान तुज्यो कविता वाचल्यो. तुका पंडीतान आपल्याक मेळ म्हणून सांगला. हांवें मनांत म्हळ्ळें, हांव पंडीताक कित्याक मेळटलों, कविता आवडल्या जाल्यार पंडीतानूच म्हाका मेळूंक येवचें. पूण हें मनांतलें दिलीपाक सांगपाक टायमूच नासतालो कारण दिलीप आनीक ताचेर दिस्कुसांव बी कांय न करता असलें फितीस सोडून चलत रावतालो. दिलीपाची तेन्नाची ती एक स्टायल आशिल्ली.

म्हजो सबाव इंट्रोवर्ट आनी दिलीप बरोच एकस्ट्रोवर्ट. रमेश वेळुस्काराकडेन जशी म्हजी मैत्री आशिल्ली, तशी ती दिलीपाकडे मात केन्नाच जावंक पावली ना. ताका कारणीभूत कदाचित म्हजो रिजर्वड सबाव जावं येता. मैत्री आसूं, नासूं. पूण इतल्या वरसांनी दिलीपाचें कर्तुप पळोवन हांव प्रभावित जालां इतलें खरें. इतली वरसां 'बिंम्ब' सारकें म्हयनाळें अखंड चलोवप, कोंकणी लेखक-कवींची शंभरेक पुस्तकां उजवाडा हाडप, स्वता सातत्यान लेखन करून पंचवीसेक पुस्तकां बरोवप ही दिसता तितली सादी गजाल न्हय. ताका मिशनरी ऍटिट्यूडच जाय पडटलो. हें मिशन ताणें ताचो गुरु रवींद्रबाब केळेकाराकडल्यानच घेतलां आसूं येता. धवेफुल्ल केंस आनी धवीफुल्ल दाढी इतलीच आपली आयडेंटिटी न्हंय हें ताणें आज प्रुव करून दाखयलां. (दुसरे वटेन, खाड करपाच्या ब्लेडीचो भंय दिसप हो एखाद्या म्हज्या सारक्या मनशा भितर आशिल्लो आयडेंटिटी क्रायसिसचो एक भाग लेगीत जावंक शकता).

आमचेभशेन जीणभर नोकरी-बिकरी करपाचे भानगडीत दिलीप पडूंक ना. नोकरे निमतान म्हजें पणजे सदा येवप-वचप जातालें तेन्ना दिलीप अदी-मदी मेळटालो. सुनापरांतात 'कुमसार' नावाचें साहित्यिक सदर हांव काय म्हयनें बरोवपाक पावलो तें दिलीपाच खातीर. जागांत हांवें पुंडलिक नायकाच्या कथा-कादंबरीचेर एक लेख बरयल्लो तो कदाचित दिलीपाक आवडला जायत. कारण एक दिस दिलीप राजू नायकाक घेवन आमच्या ऑफिसांत आयलो. राजू तेन्ना सुनापरांतचो संपादक. राजून म्हजेमुखार दर आयतारा सदर बरोवपाचो प्रस्ताव दवरलो आनी हांवें तो मान्य केलो. त्या सदरांत हांवें दिलीपाच्याच 'आंटीची गादी' ह्या नाटकाचेर रिव्ह्यू बरोवन दिलीपाक क्लीन बोल्ड दिल्लो हाचो उगडास जाता. दिलीप तेन्ना मनांतल्यान बेजार जाला आसतलो. पूण ताचेर आपलें काय रिऐक्शन दिवंक ना. पूण एकदा त्या सदरांत हांवें शंकर परुळकाराचेर लेख बरयल्लो तो वाचून मात दिलीपान म्हजेकडे कॉमेंट केल्लो की, हो शंकर सामको फालतू मनीस, ताका तूवें लेखांत बेठोच चडयला. तितली ताची लायकी ना. हाचेर हांव कांय उलयलो ना. कदाचित दिलीपाचें बरोबरय आसूं येता. मनीस म्हणून हांव शंकराचें वालोरसांव करूंक शकचो ना, पूण कवी म्हणून सेर्त करूंक शकता. खरें म्हळ्यार शंकरान कांय ट्रेशय बरयलां, पूण 'धूमकेतू' वा 'झाड' सारक्यो अप्रतिम कविता शंकराक कोंकणी कवितेंत मोटी मानाची सुवात मेळोवन दिता हे बद्दल हांव आजूय ठाम आसा.

पूण 'कुमसार' हें सदर कांय लेखा उपरांत हांवें बंद केलें, ताकाय एक कारण घडलें. एक दिस म्हाका एक पोस्टकार्ड आयलें. ताचेर धाडटल्यान आपलें नाव दिवंक नाशिल्लें, पूण मजकूर बरयल्लो तो असो - तुमी चंद्रकांत केणीच्या साहित्याचेर कित्याक बरयनात? भियेतात? - इतलोच मजकूर. हांवें तें पोस्टकार्डच म्हज्या फुडल्या लेखाचो विशय केलो आनी तें निनावी कार्ड धाडप्याक लेखांत बरोच झोडलो, आनी तो लेख त्या पोस्टकार्डासकट छापपाक धाडून दिलो. दुसरेच दिसा तो लेख घेवन राजू खर्शेंत म्हज्या ऑफिसांत आयलो, म्हणूंक लागलो, हो लेख आपूण छापपाक शकचो ना. केणी बेजार जातलो. दुसरो लेख दी. पूण बेजार जावपाक चंद्रकांत केणीच्या साहित्याचेर खरें म्हळ्यार लेखांत हांवें एक अक्षरुय बरोवंक नाशिल्लें. तरीय राजू तो मजकूर छापपाक कडमडटालो. जालें. हांवेंय दुसरो लेख दिवंक ना. थंयच तें सदर बंद पडलें. पूण म्हाका दुबाव आसा की तें पोस्टकार्ड दुसऱ्या तिसऱ्या कोणी न्हय तर तें दिलीप बोरकारानूच बरयल्लें म्हूण. कारण दिलीपाचें हातबरपाकडेन तें बरोब्बर जुळटालें. पूण कन्फर्म करपाक हे गजालीचेर म्हजें ताचेकडे केन्नाच उलोवप जालें ना. त्या वेळार दिलीप आशिल्लोय तसोच, एकदम तिरसुवादीक. लोकांची बारा वाजोवपी 'बोरकारी'य बी तो तेन्ना नेटान बरयतालो. त्या नेटार 'ओला पदर'चो केन्नाय 'ओढा पदर' लेगीत जातालो.

बिंम्बात हांव सुरवातीपसून बरोवपी. बिंम्बात म्हज्यासारक्या

लेखकाक बरोवपाचें पूर्ण स्वातंत्र्य आसतालें. कोंकणी म्हालगड्या लेखकांचेर हांवें केल्ली टीका लेगीत दिलीप बेधडक आनी सेन्सॉर लायनासतना छापतालो. संपादक म्हणून ताचो दिलदारपणा म्हाका जायते फावटी जाणवला. अरुण साखरदांडेक जेन्ना साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळ्ळो तेन्ना ताची मुलाखत बिंम्बात छापपाचें दिलीपान थारायलें. ताणें साखरदांडेक विचारलें, तुका तुजी मुलाखत कोणें घेवचीं अशें दिसता. साखरदांडेन म्हजें नाव सुचयलें. जालें, हांवें साखरदांडेक प्रश्न धाडून दिले आनी थोडक्यात प्रश्नांची उत्तरां बरय अशें सांगलें. आतां ताका थोडक्यात सांगपाचें कारण म्हणजे म्हाका दिसलें की बिंम्बाची थारायल्लीं पानां आसतलीं आनी त्या पानांत ती मुलाखत बसुंक जायक. तशें हांवें दिलीपाकय सांगलें. पूण दिलीपान म्हळ्ळें, थोडक्यात कित्याक? ताका जाय तितलो अभिव्यक्त जावं दी, बिंबाची पानां मागीर कितलीय वाडूं, तें हांव पळयता.

बिंम्बाचे अंक कागदान तशे चकचकीत. पूण तरीय ओल्ड फॅशन्ड. कारण दर एका लेखाचो वा कथेचो इंट्रो बोल्ड टायपान घालप वा भुरग्यांनी पितारिल्ल्या सारकी पारंपरिक चित्रां घालप हें पन्नास वरसां आदली नेमाळी करतालीं पूण आता तसलो इंट्रो वा ती पारंपरिक चित्रां कोण घालपाक बसनात. चित्रां घालींच जाल्यार मॉर्डन एब्सट्रेक्ट. पूण दिलीपान तें आदलेंच ट्रेडिशन दवरलां. दुसरें म्हळ्यार 'जाग' सारकें 'बिंम्ब' केन्ना साहित्यिक म्हयनाळें दिसलें ना. बिंम्बाचें सरूप बरेंचशें दिसाळ्याच्या आयतारच्या पुरवणी सारकें. शब्दकुवाडें, रांदची कुड लेगीत भितर. (फकत भविश्याचो कॉलम तितलो ना.) जावं.

मर्दी दिलीपाचो आग्रो जालो म्हणून साहित्यिक सदरुय एक वरसभर बिंम्बात हांवें बरयलां. म्हजें कविता झेल्याचें टाईपसेटींगचें काम आसलें तेन्ना हांवें दिलीपाक विचारिल्लें. दिलीपान म्हणलें, करुंया. तेन्ना प्रुफां पळोवपाक दिलीपाकडे यो वचप जातालें. तेदेवेळार दिलीप पणजे पाटो कॉलनीत रावतालो. लिव्ह इन रिलेशनांत एक बायलय थंय ताचेवांगडा रावताली. टाईपसेटींगचें काम करपाक ताणें एक चलीय कामाक दवरिल्लें. म्हजी 'काव्यसूत्र' आनी 'काशिखंड' ही दोनूय पुस्तकां दिलीपाच्या बिंम्बान टाईपसेट केल्लीं आसात.

त्या दिसांनी एक दिस दिलीप म्हज्या ऑफिसांत आयलो आनी गजाली मारता-मारता आपल्या मोबायलान म्हजे फोटो काडपाक लागलो. म्हाका दिसलें सहज काडटा आसतलो. कारण कांय दिसा पयली रमेश वेळुस्कारय म्हाका मेळपाक आयिल्लो आनी तेन्ना ताणेंय बी म्हजे फोटो मोबायलान काडिल्ले. उपरांत दिलीपान काडिल्ल्या ह्या फोटवांची गजाल हांव विसरूनच गेल्लों. पूण एक दिस बिंम्बाचो नवो अंक म्हज्या हातांत पडलो. तातूंत दिलीपान बिंम्बाचे वर्सुकी पुरस्कार जाहीर केल्ले. म्हाका २५०००/- हजारांचो रवींद्र केळेकार पुरस्कार जाहीर जाल्लो आनी ती पुरस्काराची न्यूज म्हज्या फोटोसकट दिलीपान बिंम्बात छापिल्ली. कोणूय ही गजाल आयकून खोश्शी जातलो आशिल्लो, पूण हांव बेजारलो. एक म्हणजे दिलीपान म्हजे परमिशन न घेताच डायरेक्टली म्हजो फोटो छापिल्लो.

तेच रातीकडेन हांवें ताका फोन करून तेबद्दल विचारलें. तर म्हणूंक लागलो, फोटो काडटानाच तूंवें तशें सांगपाचें.

पूण म्हाका खंय खबर की तूं बिंम्बात प्रसिद्ध करपाखातीर तो फोटो काडटा म्हूण? म्हाका तूवें टेकन फॉर ग्रांटेड धरलो मरे

म्हजें उलोवप आयकुन दिलीप बरोच अपसेट जालो. तरीय म्हजेकडे तो वाद घालीत रावलो.

निमणें हांवें ताका म्हळ्ळें की हांव तुजो पुरस्कार घेवपाक येवचो ना, आनी म्हाका तुजो पुरस्कारय नाका.

म्हणूंक लागलो, तूवें म्हजो सगलो प्लॅन फेल केलो .

उपरांत पुरस्कार सुवाळो जाल्ल्याची बातमी कांय दिसांनी सुनापरांतात छापून आयिल्ली, ते बातमेंत हांवें पुरस्कार घेतिल्ल्याचो उल्लेख आयिल्लो. आनी ते बातमेवांगडा पुरस्कार घेतिल्ल्यांचो फोटोय छापिल्लो. त्या फोटवांत हांव खंयच दिस नाशिल्लो तरीय हांवें पुरस्कार घेतलो अशी बातमी कदाचित दिलीपानूच दिल्ली आसूं येता. हांवें ताबडतोब म्हजो खुलासो सुनापरांताक धाडून दिलो की हांवें हो पुरस्कार घेवंक ना, आनी हांव पुरस्कार सुवाळ्याक वचुंक ना, तेन्ना बातमेंत हांवें पुरस्कार घेतलो म्हूण जें छापून आयलां तें सामकें चूक. हांव जर थंय गेल्लो आनी पुरस्कार घेतिल्लो जाल्ल्यार फोटवांत बाकीच्या वांगडा हांव सेर्त दिसपाचो. सुनापरांतात हो म्हजो खुलासो छापून आयलो. पूण दिलीपान हेविशी कांयच प्रतिक्रिया दिली ना. फकत बिंम्बात बरयल्ल्या एका लेखांत मात ताणें एक कॉमेंट केलो की, रवींद्र केळेकाराच्या नावान पुरस्कार घेवपाची जाची लायकी नाशिल्ली ताका तो मेळुंक ना हें बरेंच जालें.

खरें म्हळ्यार, पुरस्कार नाकारपाक हांव स्वताक कितें जाँ पॉल सार्त्र समजाना. हे आदी हांवें पुरस्कार स्विकारिल्ले, ना अशें न्हय. हांव जरी प्रत्यक्ष सुवाळ्याक ना गेलो तरी हांवें ते पुरस्कार स्विकारिल्ले. कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार, मंगळुरचो कविता ट्रस्ट पुरस्कार हे आदी हांवें घेतिल्ले. तेच कित्याक केंद्रीय साहित्य अकादमी पुरस्कार लेगीत हांवें ताचे उपरांत स्विकारिल्लो. (आनी तोवूय बी साहित्य अकादमीक म्हजो एकुय फोटो धाडून दी नासतना). मागीर हांगाच अशें कितें जालें? जें जालें तें सगलें फोटवाखातीर? दिलीप म्हणटा तें खरें की रवींद्र केळेकार पुरस्कार मेळपाची म्हजी खरी लायकी नाशिल्लीच कारण जीणेंत हांव रवींद्रबाबांसारको कर्तृत्ववान मनीस केन्ना नाशिल्लोच. पूण तेन्नाच्यान बिंम्बाचे अंक मात म्हाका धाडपाचे दिलीपान बंद केले. खरें म्हळ्यार हांवें बिंम्बाची वर्सुकी पटी स्वता जावन भरिल्ली आनी वर्स आजून काबार जावंक नाशिल्लें, तरीय ताणें अंक धाडपाचें बंद केल्लें. हांवूय कांय उलयलो ना. म्हळें, जावं.

दिलीपाचें कवतूक करपाची गजाल म्हळ्यार ताणें साहित्यांतले सगलेच प्रकार हाताळल्यात. नाटक, कथा, कादंबरी, ललित गद्य, निबंद, कविता, प्रवास वर्णन, विनोद, विडंबन, बालसाहित्य, अणकार बी सगळेच.तेच कित्याक, ताणें फिल्माखातीर लेगीत लेखन केलां. डॉक्युमेंटरी तयार केल्यात. म्हाका स्वताक ताचें ललित गद्य आवडटा.फाटी 'जागां'त तो रवींद्रबाब केळेकाराचेर 'रवींद्र सांगात' नावाची लेखमाला बरयतालो, ती तर एकदम सुंदर आशिल्ली. वाचाळ

'बोरकारी' बरोवपी तो होच दिलीप बोरकार हाचेर विश्वास बसनाशिल्लो इतले ते लेख बरे जमून आयिल्ले. दिलीपान असलें बोरकारी-पोरकारी सोडून 'रवींद्र सांगात' सारकें संवेदनशील आनी अर्थपूर्ण लेखन करूंक जाय, अशें म्हाका सतत दिसत रावलां.

तशें पळोंक गेल्यार विनोदी लेखन करप हे सोपें न्हंय, कारण विनोदी लेखनांत विनोद लेगीत गंभीरपणानूच करचो पडटा, तेन्नाच तातूंतल्यान अस्सल विनोद निर्माण जावं येता. पूण दिलीपाचें विनोदी लेखन हें वाचाळ, उथळ, जीणेची खोलाय नाशिल्लें. ते नदरेन चिं.वि. जोशीच्यो कथा, कमल हसनचो 'पुष्पक' सारको मोनो सिनेमा ही अस्सल विनोदाची बरीं उदाहरणां म्हूण दिलीपामुखार दवरूं येतात.

दिलीप अनेक लेखांत आपल्या भुरगेपणांतल्या गरिबीविशीचें वर्णन करताना हांवें वाचलां. भुरगेपण गरिबींत गेल्लें आसूं येता. पूण फुडें तरणेपणांत तो इतलो पैशेकार कसो जालो, हो म्हाका भाबडो 'रुक्षप्रश्न' पडटालो. आजुनूय पडटा. कारण कसलीच नोकरी धंदो ना करता मोटमोट्यो बायक आनी स्कोडासारक्यो गाडयो घेवन भोंवप दिलीपाक कशें शक्य जालें? शिवाय तो दर वर्सा कोंकणी लेखक-कवींक पुरस्कार जाहीर करता, ते लाखभर रुपया तो खंयच्यान हाडटा? म्हयनाळें, पुस्तक प्रकाशन वा कोंकणींत साहित्य रचून हें शक्य आसा? मराठींत कांय प्रकाशक गब्बर जाल्यात हें म्हाका खबर आसा. पूण कोंकणींत हें शक्य आसा काय? (गोंयचें राजहंस वितरण हाका अपवाद धरू येता, पूण ताची कारणां वेगळी). 'तूं करता कितें?' ह्या आपल्या लेखांत दिलीपान हो विशय चर्चेक घेतला, पूण थंय तो वेळ मारून व्हेल्ल्याभशेन बरयता. वा 'तुका हेर कितें करप आवडटलें आशिल्लें' ह्या लेखांत दिलीप म्हणटा की, नोकरी करिनासतना फकत बरोवप करुन हांव सुखान जियेवंक शकतां हाचोय अणभव हांवें घेतला. (म्हळ्यार स्कोडा सारकी म्हारगी फोर व्हिलर लेगीत घेवंक शकता?) खरें म्हळ्यार, दिलीपान हे गजालीचेर मुजरत एक गंभीर मुद्देसुद लेख बरोवंक जाय. लेखन करपी वा प्रकाशन वेवसायांत येवंक सोदपी गोंयच्या कोंकणी तरनाट्यांक ताचो लाव मेळूं येता.

दिलीप, कवी दिलीप बोरकार म्हूण चड फामाद ना. पूण ताचो 'मेथये पावलां' नावांचो एक काव्यझेलो २०१० सालांत उजवाडाक आयिल्लो आसा. आनी ताका रमेश वेळुस्कारान प्रस्तावना बरयल्या. तशें पळोंवक गेल्यार दिलीपान सुरवातीक येवजिल्लें 'वाटेवयल्यो कविता' हेंच सर्वसमावेशक नांव ह्या संग्रहाक सोबतालें. पूण नारायण सुर्वेक आवडुंक ना, म्हूण ताणें खंय तें बदललें. कारण मराठीत 'वाटेवरच्या कविता' हो अशोक नायगावकरचो मराठी संग्रह आसा. मराठींत आसलो म्हूण कितें जालें? कोंकणीत त्यो 'वाटेवयल्यो कविता' जावपाच्यो. 'मेथये पावलां' हें नाव झेल्याक उपरांत वेळुस्कारान दिलें खंय, जें खरें म्हळ्यार वेळुस्काराच्या झेल्यांकच सोबता, दिलीप बोरकाराच्या न्हय. कवीचो आपलो असो एक स्टॅन्ड आसुंक जाय. ओगीच सुर्वे म्हणटा वा वेळुस्कार म्हणटा म्हणून तो बदलपाचो नासता. म्हज्या म्हायतीप्रमाण ह्या झेल्याची दखल चडशी कोणेंच घेवंक ना, म्हणून वतां-वतां ह्या झेल्याचेर एक नदर मारुया.

'मेथये पावलां' ची एक प्रत दिलीपान तेन्ना म्हाका भेट दिल्ली. पुस्तकाच्या कव्हराचेर फाटी फुडें दिलीपान आपलो फोटो घाल्लो पळोवपाक मेळटा. आनी संग्रह बाकीबाबाक अर्पण केल्लो आसा. पूण दिलीपान प्रास्ताविक रुपांत एकीकडे जें कितें बरयलां, विधानां केल्यात ती वाचून मात हांव सामको थंड पडलों. दिलीप बरयता : हांव केदे तांकीचो, कितल्या तोलामोलाचो कवी हें हांव नकळं. पूण एक गजाल खरी ती म्हळ्यार हांव कवी. कवी हो कवीच आसता. तांचे भितर जेष्ठ, श्रेष्ठ बी अशें कांय नासता. ताका तोलप, मोलावप बी म्हळ्यार कवीचो अपमान करप. खंयच्या मूडांत खंयची कविता दोडटा ताचेर कवितेचें श्रेष्ठत्व आसता. तेन्ना म्हजे तांकीचो आनी श्रेष्ठत्वाचो कस लावपाचो प्रश्नूच येना.

ही विधानां बारकायेन वाचल्यार अशें लक्षांत येता की दिलीप हांगा समिक्षा बी गजाली एक्सार मारता. कवीक तोलप, मोलावप बी गजाली दिलीपाक कवीचो अपमान केल्ल्यावरी दिसता. अशी विधानां करून तो आपूणूच साहित्य-समिक्षेचो अपमान करता आनी रसिकांमुखार हास्यास्पद थरता हें दिलीपाच्या लक्षांत येना काय? तो सरळ म्हणटा की आपले कवितेंतलो तांकीचो आनी श्रेष्ठत्वाचो कस लावपाचो प्रश्नूच येना. तो स्वांतसुखाय बरयता आसत जाल्यार ताणें आपलो कविताझेलो पुस्तक-रुपांत कित्याक प्रसिद्ध केलो? रसिकांखातीरूच न्हंय? रसिकांनी आपली कविता वाचून आपले कवितेची मोलावणी करची हे खातीरुच न्हय? डब्ल्यू. बी. गॅली हांणी साहित्य-कला ही एक सभावानूच वादग्रस्त संकल्पना आसा असो एक सिद्धांत मांडिल्लो आसा, आनी ती संकल्पना खंयच्या निकशाचेर वादग्रस्त थरता ताचे सात निकश सांगल्यात. तांतूतलो एक निकश म्हळ्यार ताका एक मूल्य आसूंक जाय. आनी हांगा तर आमचो दिलीप तें साहित्य-मूल्यच भायर मारूंक सोदता.

बाकीबाब आमचो जेष्ठ आनी श्रेष्ठ कवी हें आमी तांच्या कवितेची प्रतवारी लावनूच थरयतात. म्हण्टगूच कवी हो फकत कवी आसता, तो जेष्ठ, श्रेष्ठ बी कांय नासता अशें म्हणप कशें समा जातलें? तशेंच खंयच्या मूडांत खंयची कविता दोडटा ताचेर त्या कवितेचें श्रेष्ठत्व थरता अशें दिलीपाभशेन म्हणीत जाल्यार ते कवितेचें वालोरसांवच आमी करूंक शकचें नात. समिक्षा बी गुठलावन कुशीक दवरची पडटली. बाकीबाबाची कविता आनी दिलीपाची कविता हांच्यो दोगांयच्यो कविता एकाच मापान तोलच्यो पडटल्यो, दोगांय भितर कसलोच मूल्यात्मक फरक उरचो ना. पूण अशें जाता व्हय?

कारण एकाच कवीच्या दोन कवितांत परत फरक आसुंक शकता. तेखातीर दिलीपाच्योच दोन कविता विस्कटावणेक हांगा घेवं येता. पयली कविता,

*वाट १ :*
*तुज्या दोन थानांमदल्यान*
*ल्हंवेची एक अळंग वाट*
*तुजे बोंबलेमेरेन वता*
*ते वाटेवेल्यान*

*वंठांच्या पावलांनी हांव*
*तुजे बोंबलेमेरेन येवन*
*बोंबलेच्या तळ्यांत जर*
*हांवें आत्महत्या केली*
*तर तुज्या काळजांत*
*हांव पावत काय !*

ही खरें म्हळ्यार दिलीपाची स्यूडो कविता. कवितेसारकी बरयल्ली कविता. हे कवितेचें बनावटपण निमण्या येवपी चार वळींनी ठळक जाता. ही वाटेवेली न्हंय, तर सरळ-सरळ एक रस्ताद कविता अशें दिसपाक लागता. हांगा अपरिहार्य म्हणून बोंबलेचें तळें येना, (दिलीपाचेच भाशेंत उलोवचें जाल्यार, बोंबलेचें तळें म्हटलें की बोंबली केदी व्हडली आसची पडली काय?) हांगा बोंबलेच्या तळ्यांतली आत्महत्या अपरिहार्य दिसना, आत्महत्या करून काळजांत पावप हो उदगारूय बेगडी आनी भाबडो दिसता. एक म्हणजे आत्महत्या केल्या उपरांत काळजांत पावलो ना पावलो हे गजालीक कितें अर्थ उरता? पयल्या स वळींत ही कविता श्रृंगारिक अर्थान जाणवता आनी निमण्यो चार वळी वाचल्यो की ही कविता खंयचे खंय भरकटल्या हें जुस्त लक्षांत येता. रमेश वेळुस्कार हे कवितेविशी आपल्या प्रस्तावनेत म्हणटा की, आत्महत्या हो विचार कितें तें कळना. आत्महत्या केल्यार मोग मेळटा हो संकेत खंयच मेळना...ही हे कवितेंतली आत्महत्या आनी तिची गरज आसा अशें खंयच दिसना.सुरवातेकुच ही कविता अळंगपण हाताभायर सोडटा अशें दिसलें. श्रृंगारात अशें इतलें उखलापें चिंतू येता काय? - रमेश म्हणटा तें बरोबर. हांव तर म्हणीन की कविता बरोवप म्हळ्यार बोरकारी बरोवप न्हय.

दिलीप आपल्या प्रास्ताविकात एकीकडे म्हणटा, कांय कवीच्यो कविता म्हाका वाचतना भावूंक नाशिल्ल्यो पूण त्योच कोणें म्हणून दाखयल्या उपरांत वो खासा कवीच्या तोंडातल्यान आयकल्या उपरांत थेट काळजांत वचून बसल्यात. म्हणटकच जेन्ना हांवें वाचिल्ल्यो तेन्ना तो कवी श्रेष्ठ नाशिल्लो आनी आतां श्रेष्ठ जालो अशें म्हणपाचें? - हें असलें दिलीपाचें उखलापें लॉजिक. आतां ही दिलीपाची कविता खुद्द दिलीपाच्या तोंडातल्यान जरी आयकली वा म्हणूया कविश्रेष्ठ बाकीबाबानी जरी म्हणून दाखयली तरी ती बरी कविता अशें आमी म्हणूंक शकचें नात, कारण निमणी कवितेची सृजनशील संहिता हांगा म्हत्वाची थरता.

हेच फांटभूंयेर आतां तांची आनीक एक कविता पळोवयां. कवितेचें नाव,

*वाट २५ :*
*म्हज्या*
*घराचे वण्टीक*

(पान ११५ चेर)

# कवी आनी कविता

परेश नरेंद्र कामत



॥ १ ॥

म्हज्या कवितांच्यो पोरण्यो डायऱ्यो चाळटां-चाळटां आनिकूय कांय (प्रकाशीत/अप्रकाशीत) कविता डायरेंत सांपडल्यो. त्यो परतून वाचतना हांवें त्यो कविता म्हज्या संग्रहांत कित्याक घेवंक नात हाचो हांव विचार करतालों. ताचीं कारणां अशीं आसूं येतात :

१) म्हजे कवितेच्या पिंडा भायर, प्रकृती भायर त्यो वतात; अर्थात- आशयाचे नदरेन.

२) म्हजे कवितेची निजाची अशी सभावीक वाट आसा तिच्या विरूद्ध दिशेन त्यो वचूंक सोदतात.

३) कविता हांवेंच बरयल्यात पूण त्यो संग्रहांत घेतल्यार संग्रहाचो 'तोल' इबाडूं येता.

४) त्या कवितांचें कितें करचें हाचो निर्णय हांव अजून तरी घेवंक पावंक ना.

॥ २ ॥

'कळ' ही नवीताल्ल कविता मार्च (२०२२) म्हयन्यांत सुचली. कविता सुचपाचे नदरेन विचार केल्यार २०२०, २०२१ ह्या वर्सां परस २०२२ वर्सा चड कविता बरोवन जाल्यो. पूण एक गजाल लक्षांत घेवची पडटली ती म्हणल्यार आतां आदले सारक्यो कविता सटसट बरोवन जायनात. ताचें कारण कविता सुचनात अशें न्हय. नवो आशय, नवी अभिव्यक्ती, नवी संवेदना कवितेंत आयले बगर कविता कागदार उतरावन काडपाक आतां मन जायना. पूण वेगळें कितेंय सुचता हाचो हयन्हंयसो अदमास येवंक लागतकीच मन संवेदनशील जावंक लागता ती 'वेळ' मात जीवखायरी आसता. मागीर उतरां मनांत घोळत घोळत आकाराक येवंक लागतात. तीं कागदार उतरावन काडले बगर दुसरो पर्याय आसना.

[redacted]

*कळ*
*धरून बसता काळोख*
*झाडांच्या मनांत रातभर*
*कळयो जावन ;*
*कळटां-नकळटां*
*कळयो फुलतात कुचकुचीत*
*पाकळ्यो परतीत काळखाच्यो*
*फांतोडेच्या उजवाडांत कळां कळांनी फुलोर*

*तशी*
*कळ येता काळजांत म्हज्या*
*खोल मेरेन*
*तुज्या उगडासाची*
*नकळं कशी...*

***

'कळ' ही कविता बरोवन जाले उपरांत हे कविते विशीं म्हजो आनी समिक्षक एस. डी. तेंडुलकार हांचे मदीं संवाद जालो. असो संवाद कवीक आपले कविते कडेन पळोवपाचो वेगळो दिश्टिकोन दिवन वता. तेंडुलकार बरयतात :

'कळ' ह्या उतराची कारागिरी हे कवितेंत आसा. कारागिरी आनी कला हांच्यो सीमारेषा एकमेकांत भरसुंक जाय तेन्नाच एखादी जेन्यूईन कविता, कलाकृती निर्माण जावंक पावता. रेगेची 'पुष्कळा' हे ताचें बरें उदाहरण. पूण इतलेय जावन ही कविता म्हाका आवडली कारण हे कवितेत कारागिरी जरी आसली तरी तातूंत उतरांचो कलात्मक रियाज आसा. होच रियाज फुडें एखाद्या श्रेष्ठ कवितेक जल्म दिवंक शकता. 'कळ धरून बसता काळोख' हे वळींत कळ हें उतर दबो धरून बसला ह्या अर्थान जाणवता. तशेंच कळयो, कळटा, नकळटा, कळां कळांनी, काळजात येवपी हार्ट एटेक सारकी कळ; अश्यो वेगवेगळ्यो कळा हांगा दिसतात. पूण निमणो कवी 'नकळं कशी' अशें म्हणून मात वेळ मारुन व्हरता. ('नकळं' हातूंतय एक कळ आसा म्हणून काय?). जावं. कवितेबद्दल अभिनंदन.

***

तुमचें 'कळ' हे कविते वयलें analysis खूब आवडलें. तुमी हे कवितेच्या आशयाचे खोलायेंत देंवून उतरांच्या अर्थछटांची, बारकायेन विस्कावणी केल्या. निखटी कविता आवडली वा नावडली हाच्या फुडें वचून कवितेचें विश्लेशण करप म्हाका खूब म्हत्वाचें दिसता. कवीची नदर व्यापक जावपाक आनी समज वाडपाक अशें विश्लेशणात्मक लेखन प्रेरणा दिवपी थारता. देव बरें करूं.

अंदूं कवितेचो बरो मूड क्रियेट जाला. कांय नव्यो कविता सुचल्यो तातूंतली 'कळ' ही एक. तुमकां आवडली हाचें म्हाका समाधान आसा. म्हज्या नव्या कवितांचे तुमीं पयले वाचक आसात. ते नदरेन तुमचे अभिप्राय म्हजे खातीर मोलाचे थारतात. रेगेची 'पुष्कळा' ही म्हजे नदरेन ग्रेट आनी ग्रेसफूल कविता. तुमकां ती आवड्टा आनी म्हाकाय.

'कळ' ही कविता परत-परत वाचतना अकस्मात निमाण्या ओळींत बदल सुचलो. 'नकळं' ह्या उतराचे सुवातेर 'कळना' हें उतर सुचलें. 'कळना' हें उतर कवितेच्या एकूण रचनेचे नदरेन अचूक आनी सभावीक दिसता.

'कळ येता काळजांत म्हज्या
कळना कशी...' अशी सहज लय थंय सादता अशें दिसता. तुमकां हो बदल कसो दिसता ? कळयात.

***

*कळ*

*कळ*
*धरून बसता काळोख*
*झाडांच्या मनांत रातभर*
*कळयो जावन ;*

*कळटां-नकळटां*
*कळ्यो फुलतात कुचकुचीत*
*पाकळ्यो परतीत काळखाच्यो*
*फांतोडेच्या उजवाडांत कळां कळांनी फुलोर*

*तशी*
*कळ येता काळजांत म्हज्या*
*खोल मेरेन*
*तुज्या उगडासाची*
*कळना कशी...*

***

'कळना' हें उतर मुदयेर थिक कशें बसलां. आशयपूर्ण जालां. तुमची उतरांबद्दल आशिल्ली अस्सल 'कळकळ' पळोवन खोस जाली.

***

तेंडुलकारांची प्रतिक्रीया वाचून हांवें तांकां बरयलें :

'उतरांनी भाशीक शक्यतायो लिपिल्ल्यो आसतात. त्यो सोदतां सोदतां भाशेंतली गम्मत लक्षांत येता. उतरांचो कवितेंत योग्य वापर, योग्य जाग्यार जावंक जाय अशें म्हाका दिसता. 'कळ' हे कवितेंतूय भाशीक शक्यतायो जागोवपाचो हांवें प्रयत्न केला.'

।। ३ ।।

खंयचेय कवितेचो अर्थ-आशय समजून घेवनूच तिचो अणकार करपाक जाय. पयलीं कविता सारकी वाचून- सगळ्या आंगांनी- समजून घेवंक जाय. कवितेंतल्या दर एका उतराक अर्थाचे नदरेन खूब म्हत्व आसता. अणकार करतना त्या उतरांचो सारको अर्थ समजून घेतलोना जाल्यार अणकारीत कविता मूळ कविते पसून पयस वता. अशें जावंक उपकारना. तशें जालें जाल्यार तें कवितेचें distorted version जातलें.

प्रा. आदित्य सिनाय भांगी हांणी 'रंगबोली' ह्या संग्रहातली म्हजी 'सोरोप' ही कोंकणी कविता हिंदींत अणकारलेली आनी 'समकालीन भारतीय साहित्य पत्रिकेचो' संपादक श्री. ब्रजेंद्र त्रिपाठीन ती रोखडीच उजवाडाक हाडली :

*साँप*

*घास में लहरा रही है धूप साँप-सी*
*लहरा रही है घास धूप में साँप-सी*
*लहरा रहा है साँप घास में धूप-सा*
*पीला*

*अद्भुत है यह पीलापन*
*घास का*
*कड़ी धूप में*
*लहराता रहता है मुझमें*
*साँप-सा*
*फन उठाकर*

***

'साँप' हो मूळ 'सोरोप' हे कवितेचो अणकार वाचल्या उपरांत ती मूळ हिंदी कविताच दिसता. इतलो उत्कृश्ट अणकार ते कवितेचो जालो. खरो अणकार हो असो आसता, जो अणकार कसो दिसच ना.

प्रत्येक अनुवादकाचो एकेच कविते कडेन पळोवपाचो दिश्टीकोन वेगळो आसता. कवितेचो अनुवाद करप ही एक कला आनी मुदलांतूच कठीण गजाल. कवितेचो 'उत्कृश्ट' अनुवाद करप ही आनिकूय कठीण गजाल. मूळ कविता मनांत एकसारकी घोळयत दवरतकीच तिच्या अणकाराचे प्रक्रियेक चालना मेळटा. कविता अणकारतना अणकारप्यान मूळ कवीची 'पोयेटीक सेन्स' लक्षांत घेवची पड्टा. कवितेंतल्या उतरांचें 'वजन' लक्षांत घेवचें पड्टा. अणकारपी जर दुसरे भाशेंतलो एकाद्रो कवीच आसलो जाल्यार तो मूळ कवितेचो अनेक आंगांनी विचार करपाक शकता. कवितेंतली सूचकता एकदां अणकारप्याच्या लक्षांत आयली की कवितेचो अणकार योग्य दिशेन जावपाक पावता. कवितेच्या अणकारांत 'किताबी शब्द' वापरचे न्हय. भाशेंत सहज घोळटात ते शब्द वापरल्यार कवितेचो अणकार अदिक सुटसुटीत आनी वाचनीय जाता.

ल्हान कविता (अल्पाक्षरी) अणकारप चड कठीण. ती गागर में सागर आसता; वयर-वयर पळेल्यार सोप्पी कशी दिसता. 'हायकू' सारकी कविता अणकारप तर महाकठीण. फाव तितल्याच उतरांनी मूळ कवितेचो आशय अणकारांत अचूकपणान धरचो पड्टा नाजाल्यार अणकार फसता.

मूळ कवितेचो 'फील' आनी 'फ्लॅर' अणकारांत हाडप ही दिसता तितली सोंपी गजाल न्हय.

।। ४ ।।

कवितेंत कवीन कांय उतरां coin केल्लीं आसतात. भाशेचें उत्खनन करून कवी अशीं उतरां निर्माण करता. जिणेंतल्या अणभवांतल्यान कवी आपली स्वताची भास विकसीत करता आनी त्या विकसीत केल्ल्या भाशेच्या रसायनांतल्यान उतरां coin जावन आपसूक कवितेंत येतात. अशा coin केल्ल्या उतरांक दुसरे भाशेंत समानार्थी उतर मेळप कठीण जाता कारण तीं चालंत उतरां न्हय.

हांवें कोंकणींत कांय म्हजीं स्वताचीं उतरां coin केल्यांत. देखीक- थानकंवळी, जांबळपिकी, सोनकंवळें, सोनसांवळें, चळचळ चळत, रानउमाळ्यान, रंगबोली, गर्भगाबणी, गर्भथेंब, धगआबोली, काळसांवळ्या आदी. अशीं उतरां दुसरे भाशेंत अणकारतलो जाल्यार अनुवादकूय सर्जनशील आसचो पड्टलो.

***

प्रत्येक भाशेंत आपलें निजाचें खाशेलपण आशिल्लीं उतरांय आसतात. कोंकणींत पिको, झाडपिको, अमुरपिको अशीं वेगळी वेगळी अर्थछटा आशिल्लीं उतरां आसात. तीं वर्सांसंकींनी घोळत आयल्यांत. तेच तरेचीं उतरां सगळ्या भाशांनी आसतलींच अशें ना. तशेंच, दुसऱ्या भाशांनी आशिल्ल्या उतरांक कोंकणी भाशेंत समानार्थी उतरां आसतलींच अशें ना.

म्हजे कवितेंत 'झाडपिको / झाडपिकी / झाडपिकें' अशीं उतरां सहज येतात. मराठींत ताका 'झाडपिकी' अशें उतर मेळटा. पूण त्या उतराक मुदयेर थिक कशें समानार्थी उतर हिंदी भाशेंत मेळना. 'पेड पर पका हुआ फल' अशी पसरट अर्थावणी शब्दकोशांत मेळटा. दुसरें म्हणल्यार, कवितेंत 'झाडपिकें / झाडपिकी' हें उतर कवीन खंयच्या संदर्भांत वापरलां हेंय अनुवादकान पळोवचें पड्टलें. देखीक- 'चंद्रीमाचें सपन' हे कवितेंतल्यो ह्यो ओळी पळेयात:

'केन्नातरी /रंगयल्लें झाडपिकें सपन /तुवें आनी हांवें /हांगा बसून / ह्या झाडापोंदा / धव्याफुल्ल गुलगुलीत चंद्रीमाचें'

वा 'सावळ्यांची एक भास' हे कवितेंतल्यो-

'सावळ्यांची एक सळसळ आसता / झाडपिकी'

हांगा दोनूय कडेन 'झाडपिकें' हें एकूच उतर दोन वेगळ्यो अर्थछटा घेवन आयलां. अनुवादकान ह्यो ओळी अणकारतना निखट्या उतराचो चालंत अर्थ लक्षांत घेनासतना तो सबंद ओळीच्या वा प्रतिमेच्या संदर्भांत पयलीं सारको समजून घेवचो पड्टलो; नाजाल्यार अणकारांत अर्थाचो अनर्थ जावं येता.

कवी उतरां कडेन जसो मेकळेपणान खेळटा तसो अनुवादकानूय उतरां कडेन खेळपाचो सराव करपाक जाय. अनुवादकान आपली सर्जनशीलता कसाक लावपाक जाय.

॥ ५ ॥

'पुष्कळा' ही पु. शि. रेगे हांची कविता हांवें खूब वर्सां आर्दी वाचिल्ली. तेन्नाच्यान ती मनांत घर करून रावल्या. हालींच कवी माधवबाबान ते कवितेचो इंग्लिश अणकार म्हाका धाडलो. Philip C. Engblom आनी विद्युत भागवत हांणी 'Plentitude' ह्या नांवान तिचो इंग्लीश अणकार केला. पु. शि. रेगेन आपल्या कांय मराठी कवितांचो स्वताच इंग्लीश भाशेंत अणकार केला. पूण 'पुष्कळाचो' अणकार मात करूंक ना.

*पुष्कळा*

*पुष्कळ अंग तुझं, पुष्कळ पुष्कळ मन*
*पुष्कळांतली पुष्कळ तूं*
*पुष्कळ पुष्कळ माझ्यासाठीं.*

*बघतांना किती डोळे पुष्कळ तुझे*
*देतांना पुष-पुष्कळ ओठ;*
*बाहू गळ्यांत पुष्कळ पुष्कळ*
*पुष्कळ ऊर.*

*पुष्कळाच तूं, पुष्क-कळावंती,*
*पुष्कळ पुष्कळ पुष्कळणारी.*

***

*Plentitude*

*Plentiful your body,*
*plentiful your mind,*
*most plentiful of all the plentiful*
*plentiful, plentiful for me.*

*So plentiful your eyes,*
*when you look at me,*
*plenti-plentiful your lips*
*as you give them to me,*
*your arms about my neck,*
*plentiful, plentiful,*
*plentiful breasts.*

*Plentitude I name you,*
*dancing fountain of plenty,*
*plentiful, plentiful,*
*plentifilling.*

***

'पुष्कळ' हें विशेशण घेवन रेगेन ताचें रूपांतर 'पुष्कळा' ह्या नामांत केलां तें पळेतकीच दोळ्यां मुखार -पुष्कळा- ह्या नांवाची एक अस्तुरीच आपसूक उबी जाता. इंग्लीश अणकारांतल्या- plentiful- ह्या उतरांत ती मजा येवप शक्यूच ना.

'पुष्कळ' ह्या एकाच उतरांतल्यान रेगेन भाशेचें उत्खनन करून अनेक उतरां coin केल्यांत. देखीक : पुष्कळा, पुष-पुष्कळ, पुष-कळावंती, पुष्कळणारी. ही उतरांची कारागिरी आसाच पूण ती भाशीक उत्क्रांतीचो भाग जावन आयिल्ल्या कारणान तिणें कलारूप धारण केलां. ताका लागून कवितेंतलें एकूय उतर कृत्रीम वा अडेचें दिसना. थंय उतरांचें सृजनशील संघटन जाल्लें दिश्टी पड्टा. इंग्लीश अणकारांत मात अनुवादकाक- plentiful, plenti-plentiful, dancing fountain plenty, plentifilling अशीं उतरां पाडचीं पडल्यांत तीं मुळांतूच इंग्लीश भाशेच्या सभावांत बसनात. Plenti-plentiful वा dancing fountain plenty अशी शब्दकळा अनुवादांत वापरप हें विशोभीत तर दिसताच पूण तें अर्थाक धरूनूय ना.

'पुष्कळा' हे सबंद कवितेचो 'डोलारो' पुष्कळ ह्या एकाच उतराचेर कवी पु.शि. रेगेन समर्थपणान उबो केला. पूण अनुवादकान इंग्लीश अणकारांत- word to word translation केल्ल्यान अनुवादांत कसलीच 'ग्रेसफूलनेस' जाणवना. हे कवितेचो भावानुवाद केल्यार तें 'पुष्कळाचें' transcreation जावंक येता हें जाणवल्ल्यान अनुवादकान तो मोहय हांगा टाळ्ळा अशें दिसता.

तशें पळेल्यार, 'पुष्कळा' ही एक प्रेमकविताच आसा. पूण तिचो अविश्कार रूढ, पारंपारीक अर्थान जावंक ना. कवीन मराठी भाशेंतल्यान केल्ल्या भाशीक रोमांसाचो हो अणभव एकाद्रे दुसरे भाशेंत अणकार करून व्हरप ही सोंपी गजाल न्हय. इंग्लिशींतूच न्हय, तर 'पुष्कळा' हे कवितेचो अणकार भारतीय भाशांनी लेगीत करप कठीणूच. इंग्लिशींत तर cultural differences आड येतात.

'Plentitude' ह्या नांवान केल्ल्या ह्या इंग्लीश अणकारांत अनुवादकान मूळ कवितेचो शाब्दीक 'content' हाडपाचो प्रयत्न केला. पूण 'पुष्कळाचो' भाशीक 'फील' आनी 'फ्लेर' अनुवादांत खंयच जाणवना. ताका लागून हो अनुवाद पुराय 'फ्लॅट' म्हणल्यार सपाट जाला अशें निमाणें म्हणचें पड्टा.

****

॥ ६ ॥

कांय कविता सहजतायेन येतात. कांय कविता सवकसायेन येतात. कांय कविता येवपाचें नांव काडीनात वर्सान वर्सां.

कांय कविता चांफ्या सारक्यो फुलून येतात. कांय कविता येतात ल्हवू ल्हवू कावथ्याचे माड जावचे तश्यो पांचूय कडांनी नाल्लाच्यो पेणी

(पान ४५ चेर)



# जराशास्त्र - वृद्धोपनिषद

डॉ. सोबिता किर्तनी

जराशास्त्र म्हळार जाण्टे पिरायेचें शास्त्र. इंग्लिशींत ताका Gerontology अशें म्हणटात. ह्या विशयाचेर संशोधनपुर्ण प्रबंध बरोवप लेखकान डॉक्टरेट संपादन केल्या. प्रस्तूत लेखमाळेंत जाण्टेपणाच्या वेग-वेगळ्या तासांचेर अभ्यापूर्ण लेख आसपावल्यात.

डॉ. सोबिता किर्तनी ह्यो पार्वतीबाय चौगूले कॉलेजींत मानसशास्त्राची सहायक प्राध्यापक आसात.

-४-

**भलायकी**

बक्षी आनी पाठक हांणी २०१५ वर्सा जाणट्यांचें आरोग्य आनी समाजीक संदर्भ हाचो अभ्यास केला. जोड शिक्षण व्यवस्था, लिंग, लग्न, पिराय, रावपाची व्यवस्था, जात आनी धर्म हे समाजीक फाटभुंयेचो अभ्यास तांणी केला. तांणी पळयलें की शहरांत रावप धा वर्सां वयर शिक्षण आसप, विधवा आसप, अर्थीक अवलंबन आसप, जनरल जातीचो क्रिस्तांव, आस्पती घराब्यांतले जाणटे दादले, आनी दुसऱ्या वांगडा आश्रीत म्हण रावपी अश्यां लोकां मदीं चड प्रमाणान जडार पडिल्लीं दुयेंसां आसात. अर्थीक अवलंबन आनी वैधव्य हांचो जडार पडिल्ल्या दुयेंसांकडेन आनी दुर्बळ स्थितीकडेन लागींचो मेळ आसा.



वर्ल्ड हॅल्थ ऑर्गनायझेशन (WHO) ही संयुक्त राष्ट्रांन (United Nations) स्थापन केल्ली संस्था. ही संस्था संवसारभर आरोग्याची उदरगत करपाचें आनी दुर्बळ, असुरक्षीत (vulnerable) लोकांक सांबाळपाचो वावर करता. हे संस्थे प्रमाण आरोग्य म्हणजे शारिरीक मानसीक आनी समाजीक खुशाली wellbeing आसप, फकत दुयेंसां दुबळेपण नासपअशें न्हय.

आदल्या काळार, दुयेंसां आनी चड करून मानसीक दुयेंसां हीं मनशान केल्ल्या पातकांचें पानवळ वा मानेर बशिल्लें भूत वा संवसाराक अंतरिल्ल्या आत्म्याची बाधा अशें मानताले. देखून, उपचार म्हणून देव देवसपण करप वा घाड्या कडेन वचून भूत काडप, तिर्थ वा बिबूत लावप, प्रसाद घेवप ह्यो कांय चाली आशिल्ल्यो. (कदीम काळांतसाकून अस्तित्वांत आशिल्लें आयुर्वेद विज्ञान शास्त्राक धरून आसून लेगीत भारतांत अंधश्रद्धा भोव प्रमाणात आशिल्ल्यान दुयेंसांकडेन पळोवपाची नदर चुकिची आसली.) पश्चिमेंत लेगीत अशेंच घडलां हें आमी इतिहासांत शिकल्यांत. चवदाव्या शेंकड्या पासून म्हणजे रॅनिसन्साच्या काळांत युरोपांत विज्ञान आनी वैजकी मळार परिवर्तन घडलें आनी तातुंतल्यान आधुनीक वखद आनी उपचार पद्धत निर्माण जाली.

सिगमन्ड फ्रॉइड हे नामनेचे मानसशास्त्री. हांणी दुयेंसांक पारखुपाची एक वेगळी नदर दिली. 'सायको एनालिसीस'- मानसशास्त्रीय विश्लेशण, हे तांणी दिल्ले विचारसरणी प्रमाण हो अज्ञात भावनांच्या संघर्शाचो परिणाम. ह्या काळांत मनाचो शारिरीक भलायकेचेर परिणाम जाता हाची जाण जाली आनी ते रितीन उपचार करपाची पद्धत सुरू जाली. आयज विज्ञानशास्त्र भलायके कडेन एक नव्या दृश्टिकोणांतल्यान पळयता. शरीर, मन आनी समाज ह्या तीन घटकांचो हातूंत आस्पाव जाता.

अनुवंशीक (genetic) आनी इंद्रीय (physiological) घटक मेळून शारिरीक घटक थारता. वागणूक, 'विचारक्षमता', भावना, आनी प्रेरणा मेळून मानसीक घटक थारता. संस्कृती, पर्यावरणीय प्रभाव आनी घरांतल्यांचे प्रभाव मेळून समाजीक घटक थारता. मनशांचें आरोग्य सांबाळपाक आनी सुदारपाक ह्या तिनूय घटकांत बदल हाडपाची गरज आसा. जाणटेपणांत आरोग्य सुदारपाची वा भलायकेची वाड जावची म्हण यत्न करप जायत्या जाणांक

जराशास्त्र म्हळ्यार जाण्टे पिरायेचें शास्त्र. इंग्लिशींत ताका Gerontology अशें म्हणटात. ह्या विशयाचेर संशोधनपुर्ण प्रबंध बरोवन लेखकान डॉक्टरेट संपादन केल्या. प्रस्तूत लेखमाळेंत जाण्टेपणाच्या वेग-वेगळ्या तासांचेर अभ्यासपूर्ण लेख आसपावल्यात.

डॉ. सोबिता किर्तनी ही पार्वतीबाय चौगुले कॉलेजींत मानसशास्त्राची सहायक प्राध्यापक आसात.

मानवना. मनीस कांय अन्नांवर न्हय. तेन्ना मरण येवपाक कितेंय पूण दुर्येंस जातलेंच असो समज जायत्या जाणांत आसता.

तरी जाणट्यांचे भलायकेचे उदरगती खातीर वावर करप गरजेचें आनी फायद्याचें हें आयज कळटा. व्यक्तीगत न्हय तर पुराय समाजाक हाचो अर्थीक लाब घडटा. देखून सरकारी पातळेर धोरणां आपणावन ह्या मळार व्हडा प्रमाणान वावर सुरू जाल्लो अस्तमती देशांनी आमकां पळोवंक मेळटा.

भारतांतूय कमी चड प्रमाणांत ह्या वावराची सुरवात जाल्या. अजून व्हड वाट आमकां चलची आसा.

-५-

**वनप्रस्थाश्रम**

मनूसंहिते प्रमाण जाणटेपणान कात सुरकुतली, केंस पिकले आनी नातरां जल्माक आयलीं तशें वनांत वचून आपली जीण सारची. आपलें घर आपल्या भुरग्यांच्या सुवादीन करून आनी जिवितांतली मौज मस्ती सोडून वनांत वचप आनी एकटेपणान सात्वीक पद्धतीन जगप हें आयुश्याच्या ह्या पावंड्यार करचें अशें मनूसंहितेंत बरयलां.

अब्राहीम मास्लॉन ह्यानामनेच्या मनव्याशास्त्र्यानपावंड्या-पावंड्यांत वाडपी (Hierarchy) गरजांचो अधिक्रम (मांडावळ) दिला. हे मांडावळी प्रमाण मनीस सगळ्यांत आदीं आपले कुडीच्यो मुळाव्योगरजो. भूक तान- भागयता. त्यो गरजो भागल्यो तसो मनीस आपले सुरक्षे खातीर वावुरता. घर बांदप, नोकरी-व्यवसाय करप, हाचे उपरांतच मनीस मोग, माया, आपलेंपण, ग्रहस्थी वसोवपाचो वावर करता. जेन्ना ह्यो गरजो भागतात तेन्ना मनीस आपलो स्वताचो आदर, मान, दर्जो वाडोवपाचो यत्न करता. आनी हें सगळें सुफळ जाता तेन्ना तो आपले भितरली कला, तांक, कल्पना सगळें प्रत्यक्षांत (actualize) हाडपाक वावुरता. ह्या गरजांचे मांडावळी प्रमाण स्व-प्रस्थापना self-actualization ह्या निमण्या पांवण्ड्यार पावपातसर संवसाराचो त्याग करप ही कल्पना हे मांडावळींत बसना.

जाणटेपण मनशान कशें सारचें हो एक भोव मोटो प्रस्न जावन आसा. यशस्वी जाणटेपण ह्या विशयाचेर १९८७ वर्सा रॉव आनी कान ह्या दोन मानसशास्त्रींनी बरप केलें. सादारण जाणटेपण आनी यशस्वी जाणटेपण हातूंत ते फरक करतात. तांचे प्रमाण यशस्वी जाणटेपण हाका तीन घटक आसात- दुर्येंसां आनी दुर्येंसां पासून असमर्थताय हाची कमी शक्यता, विचार क्षमता आनी आंगांत वावुरपाची शक्त, आनी जिवितांत घेतिल्ली मज आनी गुंतवणूक.

यशस्वी जाणटेपण तरेच्या जिविता म्हणचें हाचेर वेगवेगळे विचार आसात.

क्युमींग आनी हॅनरी ह्या मानसशास्त्रींनी १९६१ वर्सा डिसअग्रिमेंट थियरी मांडली. ही विचारसरणी आमच्या वेदीक आश्रमांक खूब लागी आसा. हे विचारसरणी प्रमाण जाणटेपणांत मनीस आनी समाज एकामेकांकडल्यान पयसावता.

समाज जाणट्यांक योगदान करूंक वाव दिना आनी जाण्टीं कांय वावर करूंक शकनात. अश्या वेळार जिवितांतली गुंतवणूक उणी करून जगता तें यशस्वी जाणटेपण थारता.

ऍक्टिव्हिटी प्रमाण जाणटो मनीस, कृतिशील जगता, वावर करता तेन्ना यशस्वी थारता. जमता तो वावर करप आनी जमना ताचे बदला वेगळो वावर करप हें जाणटेपण यशस्वी थारायता.

**कन्टिन्यूइटी थियरीः** जुवानपणांत करत आयिल्लो वावर चालू दवरप, त्या भाशेन आपले भितर आनी आपले भोंवतणी घडटले बदल आपणावप हें यशस्वी जाणटेपण. हे विचारसरणी प्रमाण प्रत्यक्ष कृती गरजेची नासता. कितल्या प्रमाणात ती जिणे रीत (lifestyle) आदलेवरी चालू दवरता हें महत्वाचें.

आनीक एक विचारसरणी अशी की जाणटेपणांत केल्लो वावर फळादीक जालो तर ताका यशस्वी जाण्टेपण लेखप.

जाणटेपण सादारण नासून यशस्वी जाता तेन्नाच ते पिराये कडेन पळोवपाची नदर नकारात्मक नासून सकारात्मक थारता.

जिवितांत समादानी आसप हें यशस्वी जाणटेपणाचें प्रतीक हो एक नवो विचार.

एरीक एरिकसन हांणी मनशाचे पुराय जिविताचे वांटे घालून दर एका भागांत उपराशिल्ले प्रस्न आनी तांतल्यान घडिल्लें मनश्याचें व्यक्तिमत्व अशी विचारसरणी मांडल्या. हे विचारसरणी प्रमाण उतार पिरायेंत (पासष्टी उपरांत) मनीस आपल्या जिविताचो हिशोब मांडटा. आपणें जिवितांत कितें जोडलें आनी कितें वगडायलें हें जोखता जेन्ना आपणे केल्लो वावर फळादीक जाला अशें दिसता, आपणाक कसलीच खंत ना अशें दिसता, तशेंच आपल्या जिवितांत जें जें घडलां ताचें समाधान मनीस मानता तेन्ना ताका जिवीतपुर्ती (integrity) अणभवता.

पूण जेन्ना आपल्या जिवितांतल्यो चुको, लज, कोडू यादी, अपयश, दुख्ख, खंत, हाची जाणवीकाय उरता तेन्ना निर्शेवणी हाताक लागता.

एके विशिष्ट पिरायेचेर विचार सुरू जायनात. निवृत्त जातकच, घोवाक वा बायलेक मरण येतकीच, इश्टांक मरण येतकीच वा जिवितांत व्हड बदल घडटकच मनीस आपल्या जिविताविशीं विचार करता. हे उतार पिरायेचेर जिवितांत बदल घडोवन हाडप भोव कठीण जाल्ल्यान खंती मनीस आनीकूय खचून वता. मात जाका समादान आसता तो उतार पिरायेंत आयिल्ल्यो आडमेळी हुपूंक शकता.

हाचोच अर्थ अमुकच गजालींक लागून मनीस समादानी जाता अशें न्हय तर त्या गजालीं कडेन पळोवपाचो मनशाचो दिश्टीकोण म्हत्वाचो. आयजवेर सरिल्लें आपलें जिवीत समादानाचें आसलें, कांय खंतीचें हें दुसरो मनीस वा समाजाचे नेम थारावंक शकनात. हाचो हिशोब मनीस स्वता लायता. हाका आत्मगत कल्याण (subjective well-being) अशें म्हणटात.

(चलता)

संपर्क: 9881527581

***






# डँडो?

**दामोदर मावजो**

हय, दुबावच ना. अचकीत डँडोक दोळ्यां मुखार पळयिल्यान हांव उत्तेजीत जालों. शिरंतरांतले रगत गतिमान जालें. थिंक ऑफ द डॅव्हील! फाटले पांच म्हयने जाचो ध्यास म्हाका लागिल्लो तो डँडो असो अचकीत म्हज्या सामकार पळयतकच म्हाका गोल्डन लोटस मेळ्यार लेगीत जावचो ना इतलो आनंद जालो.

पांचांची फ्लायट धरपाक हांव गोरेगांवच्यान दनपारच्या अडेजांक फ्लॅट सोडिल्लो. गोंयां देंवतां आनी हांगा हरमला पावतासर साडेसात जाल्लीं. दमटी वातावरणाक लागून बसून बसून लेगीत जीव वळमेल्लो. तातूंत राती अकस्मात एक नवो सीन बरोवपाची कूंय आयिल्ल्यान थोडें जागरण आसलें. आरांबोल रिसॉर्टांत चॅक इन करून फ्रॅश जावन रिसॉर्टाच्या डायनिंगांत वच जाल्यार मोट्यामोट्यान संगीत चललां. काराओकेचेर कोणतरी रफी-किशोरकुमार गायताले. बिअर मारपाची कूंय तात्पुरती दामून हांव भायर सरिल्लों इतल्यान म्हापशेंच्यान जेकबालो फोन आयिल्लो. "तुका सांगिल्लें मरे हांवें, म्हाका आयज डिस्टर्ब करूं नाका म्हूण?" ताणें कितेंय सांगचे पयलीं हांवेंच तिडकून विचारलें.

'कितें जालें, सर? बेजार सो आसा?' जेकब जरी म्हजो पालवी आसलो तरी म्हाका तो 'सर' म्हणटालो. म्हाका तें आवडनासलें. पूण ताचें म्हणणें आसलें की ताणें म्हाका सर म्हूण पाचारतकच हेरांकूय ती देखशी जाता. आमचे संबंद तशे खूब इश्टागतीचे आसले. म्हजो मूड कित्याक बरो ना तें कळटकच ताणेंच म्हाका सांगलें, "सर, तूं हुसको करशी म्हूण फोन केला. सकाळीं मेळटले तेन्ना सगलें सांगतां. काम बरें चललां. तूं थंय लागींच आशिल्ल्या शॅकांत कित्याक वचना? एम्बियन्स मानवतलें तुका. थंयचें जेवणूय बरें आसता खंय!"

नाय जाल्यार म्हाका थंडशें बसपाक जाय आसलें. हांव वेळेर आशिल्ल्या शॅकाचे दिकेन चलत हांगा येवन पाविल्लों. ह्या शॅकांतूय संगीत चलिल्लें. पूण गावपी एकलोच गिटार हातांत घेवन मंद गायतालो. आवाज मार बरो नासलो तरी ताका सुरांची जाण आसा म्हणपाचें कळटालें. भितर सरून मंद उजवाडांत कुशीच्या एकोड्या मेजार बसून हांवें पयलीं एक चिल्ड बिअर मागयिल्ली - आनी दोन घोंट पोटांत वतकूच शांत जावन चारूय वटांनीं नदर भोंवडायिल्ली. तेन्नाच अचकीत डँडो नदरेंत आसपाविल्लो.

देअर वॉज नो मिस्टेकिंग! हांव डँडोक प्रत्यक्ष केन्नाच मेळूंक ना. पूण ताचो झेत, ताचें न्हेसप, ताची उंचाय-मोटाय आयज म्हाका तोंडपाठ आसली. गोंयचे ताचे फॅन ताची उबो कोंडो कशी स फूट उंचाय आनी कसोय बागवतलों पूण मोडचों ना अशी लवचीक कूड पळोवन ताका दांडो म्हणटाले. पूण उपरांत ताच्यो नेशनल हेडलायनी जावपाक लागल्यो तेन्ना इंग्लीश पेपरांनी ताचो डँडो केलो आनी तेन्नाच्यान तो सगल्यांलोच डँडो जाल्लो, गोंयां लेगीत. फिल्म करपाचें मनार घेत सावन फाटले पांच म्हयने हो डँडो म्हजे नदरे आड जावंक ना. जागेपणीं, न्हिदांत, उठटनां, बसतनां... इतलो की सोहावटेन म्हजें पळोवप जायना म्हूण सोहा बेजार आसलें. पूण हांवें ताका स्पश्ट सांगिल्लें - 'आनीक स म्हयने दी. लोकेशन, कास्टिंग, शुटिंग आनी पोस्ट प्रॉडक्शन. हें सोंपलें की मागीर आमी तीन म्हयने ओस्लोक या'. ताचेर सोहा बेजारिल्लें. 'फॉरेन-बिरेन म्हाका नाका. ते परस लागींच लोणावळ्याक या. तूं आनी हांव. मर्दी मोबायल लेगीत नाका. तुका मेळ्यार कितलीं वर्सां जालीं शें दिसपाक लागलां म्हाका.' सोहाली चूक ना. म्हजोच सभाव हो असो पाड पडिल्लो. एखादें काम हातांत घेतलें की तातूंत रिगून बुडून वचप - काम सोंपसर.

डँडोविशींचें आकर्शण म्हाका ल्हान आसतनाच्यान. पूण ताचेर व्यक्तीपट काडपाचें मनार घेतसाकून हांव इतलों डँडोंत समरसून गेल्लों कीं थंय बसला तो डँडो काय न्हय हाचो इल्लो लेगीत दुबाव येवपाक रजांव नासलें.

आतां ताका मेळूंकच जाय. पूण-डँडोविशीं खूब खबर काडिल्ली. खूब आयकल्लें. तें खरेंय आसलें. डँडो तिरसुवाद आसलो. तोंडान फटकळ आसलो. केन्ना कसलें झगडें मोलावन घेत हाचो नेम नासलो. पूण बऱ्याक बरो... सगली आयकल्ली खबर. फकत जेकब ताका मेळिल्लो. हांवें सांगिल्लें तशें तो ताचे कडेन उलयिल्लो. व्यक्तीपट काडपाक ताची परवानगीय घेतिल्ली. म्हाका मात ताचो प्रत्यक्ष अणभव नासलो. मेळपाची खूब इत्सा आसली. पूण हांव ताका मेळचे पयलींच तागेलें तीन म्हयन्यां खातीर कुवेत वचपाचें जाल्लें आनी परवानगी हातांत पडिल्ल्यान मेळपाची तशी गरज उरूंक नासली. पटकथा तशी बरोवन तयार आसली- अखेर फकत मना सारकी जायनासली. तेखातीर कांय गजाली ताचे कडल्यान जाणा जावन घेवंच्यो



अशें घडये घडयेक म्हाका दिसतालें. केन्ना आयलो काय हो कुवेतच्यान? जावं, आतां बरी संद चलून आयल्या. प्रत्यक्ष मेळपाची, स्वता अणभव घेवपाची. जाणा जावन घेवपाची. हांवें बेगबेगीन बिअरीचो ग्लास रितो केलो. उठलों लेगीत. पूण मनांतल्या हुसक्यान तकली वयर काडली. हांव बगलेक गेलों जाप करपाक आनी तो तिडकलो जाल्यार? तागेलो सदचो डायलॉग खंय तो - झूर हांगासरलो! हांगा सगल्यां हुजीर म्हाकाय विचारलें जाल्यार - 'देखों येना, हांव हांगा एकलो बसलां तो? म्हाका कोणागेलीच कंपनी नाका. झूर हांगासरलो!' हांवें परती बसकण मारली.

हांव उठिल्लों पळोवन वेटर बेगबेगीन बगलेक आयलो. ''सर, आन्येक बिअर हाडूं?''

दुसरी बिअर आयली. हांवें घोंट मारलो. हेवटेन तेवटेन नदर मारली. म्हजी वळख डँडोकडेन करून दिवपी कोणूय मेळत काय हांगा? असो कोण हांगा मेळूं येता? म्हगेलो जेकब चार दीस पयलींच गोंयां पाविल्लो. लोकेशन हण्टिंग आनी थोडी पूर्व तयारी करपा खातीर. आजून थोडीं ऑडिशन्स उरिल्लीं. मुखेल पात्र मनासारकें मेळूंक नासलें. कांय तरनाट्या खेळगड्यांक ऑडिशन घेवन तयार दवरिल्ले खंय. तें काम फाल्यां ह्याच रिसोर्टांत करपाचें थारायिल्लें. लायन प्रोड्युसर गोंयचोच धरिल्लो. थळाव्या परवानग्यांचो आनी गरजेचे सामुग्रीचो भार हांवें ताचे तकलेर दवरिल्लो. कवळेंकार आनी थळावे दोग जाण म्हापशां राविल्ले. तांतले कोणूय हांगा आसपाची शक्यताय उणेच आसली. आनी आसली तरी म्हजी वळख ताका करून दिवपाक ते कोणूय डँडोक आनी डँडो तांकां वळखुपाची शक्यताय नासली. तातूंत डँडो आसलो मनीसघाणो. कोणाक लागीं करिनासलो खंय. पूण ताका मेळ्ळेबगर हांव कसोच परतो वचचों ना, इतलें हांवें थारायलें.

हांवें आन्येक घोंट मारून डँडोचेर नदर मारली. ताणें फुड्यांतलो ग्लास उकललो. पळयल्यार बिअरशी दिसना. व्हिस्कीय न्हय. रम तर न्हयच. डँडोन ग्लास ओंठांक लायलो. आनी सोमतोच ग्लास बॉटम अप केलो. म्हजेर आकांत आयलो. आतां तो पियेवप सोंपोवन उठून गेलो जाल्यार? हांवें म्हगेल्या ग्लासांतले दोन घोंट धपक्याक मारले.

हांव ग्लास मेजाक तेंकयतां म्हणसर ग्लास मेजार आपटिल्ल्याचो आनी थेंक घालून वेटराक आपयिल्ल्याचो आवाज आयलो. आयल्यो पयल्यो नदरो डँडोवशीन घुंवल्यो. आतां किते तरी विपरीत घडटलें, अशे अपेक्षेन कांय लोक स्वास रोखून पळोवपाक लागले. हांवूय थटाकलों. आतां कसलें नाटक पळोवपाक मेळटलें काय? ''चेडयेच्या, तुका देखों येना कोप रितें जालां तें? बेगीन एक पाव हाड.'' वेटर थंयच घुसपलो, ''भेड्डो जालाय. बेगीन हाड.'' वेटर कडसरलो. वेटर काउंटराचेर वचनासतनां मॅनेजराकडेन उलयता तें पळोवन हांव उठलों. बद्द काउंटराचेर वचून मदीं तोंड घालें. ''प्लीज, ताका कांय म्हणूं नाकात. ताका जाय तें सर्व्ह करात. ताची रिस्पोन्सिबिलिटी हांव घेतां. प्लीज!''

वेटर थंय पावचे पयलींच म्हगेलो बिअरीचो अर्दो ग्लास घेवन हांव डँडो लागीं गेलों. ''हॅलो, डँडो! व्हॉट अ प्लॅज्यर मिटिंग यू!'' म्हणसर वेटर हुर्राकाचो भरिल्लो ग्लास घेवन आयलो. तो मेरेन म्हाका खबर नासली तो घेतालो तें हुर्राक म्हूण.

''वाउ! हुर्राक! हो सीझन म्हणपाचो उगडासच उरलो ना म्हाका. आतां बिअर घेतली. नाजाल्यार तुका कंपनी दिवपाक म्हाका बरें दिसतासलें.''

हांव आनी वेटर हांचेमदीं डँडो घुसपलो जावंये. गोंदळ ताच्या तोंडार स्पश्ट दिसतालो. तो बसून रावलो. उठपाचो येत्नय केलो ना.

''हांव कल्पेश! फिल्म डायरेक्टर! म्हाका सगले कल्पा म्हणटात. यू टू मे कॉल मी सो.''

''व्हाय? म्हूगे किते काम आहा तुजेलागीं?''

डँडो मखख तोंडान उलयलो. हांवेंच फुडें सांगलें, ''तुका उगडास आसतलो, तूं कुवेत वचचे पयलीं तुका म्हगेलो असिस्टंट जेकब मेळिल्लो! तुजेर एक फिल्म काडटात आमी. - तुज्याच नांवाचें.''

डँडो पर्थून जाग्यार येवंक लागिल्लो, ''म्हाका उगडास जायना.''

आतां घुसपुपाची पाळी म्हजेर आयली. ''अशें कशें? जातलो उगडास.'' आनी कदेल ओडून विचारलें, ''हांव बसल्यार उपकरता?'' तो कांय उलयलो ना. हांव बसलों.

वेटराक आफोवन ताणें पापड मागयले.

''स्टार्टर्स मागोवं?'' हांवें जाता तितले नमळिकायेन विचारलें.

''मागीर मेन कोर्स मागयतलो जाल्यार मागय.'' उर्राकाचो एक व्हडलो घोंट मारून डँडोन म्हळें.

आतां मेन कोर्स येयसर हाचेकडेन गजाली करूंक जाय. तागेलें तिडकलें जाल्यार उठून चलूंक लागत म्हूण भिरांत!

''तूं म्हाका वळखताय?'' हांव उलोवचे पयलींच डँडोन विचारलें.

''चाळीस वर्सां फाटीं गोंयचो फुटबॉल संवसारार गाजोवपी डँडोक कोण वळखना?'' हांव अभिमानान सांगतां थंय आसां -

''कोण्ण वळखना.'' डँडोन म्हळें. हांव वग्गी रावलों.

''काल वळखताले. आयज वळखनाय.'' मातसो रावन तोच उलयलो.

डँडो खरें तें उलयतालो. आयचे पिळगेक डँडोची व्हडवीक खबर ना. म्हज्या बापायक तो हिरो आसलो. 'ताची शूट पॉवर पॅक्ड, ताचें बॉल घोळवप हें फुड्यांतल्या गड्याक मूस करतालें, ताची हेड बॉल कसो घुंवडायताली गोलकीक केन्नाच कळ्ळें ना -' अशें म्हजो बाबा व्हडा तोखणायेन सांगतालो. हांव ल्हान आसतनाच बाबा आमकां घेवन मुंबय पाविल्लो. पूण गोंयची टीम मुंबय खेळटाली तेन्ना तेन्ना बाबा गेम पळोवपाक वतालोच.

''खरें तुगेलें, डँडो. आयज वळखनात. पूण कालचो लोक तुका आजून मानता. तुवें जिखिल्ल्यो ट्रॉफी ताची गवाय आसात.''

''लॉस्ट ग्लोरी. विसर ती.'' डँडोच्या मुखामळार पातळिल्ली निर्शेणी मळबांत दाटिल्ल्या कुपांकडेन सर्त करूंक लागली. मनांतले भाव तोंडार उदेवचे न्हय म्हूण जावंये, डँडोन फुड्यांतले प्लेटींत उरिल्ले दोनूय चिकन टिक्काचे कुडके तोंडात उडयले.

''ना, डँडो, ती ग्लोरी विसरायेर पडूंक फावना. देखून, आमी ती लोकांमुखार हाडूंक

सोदतां - फिल्मावरवीं.''

''फिल्म करपा इतू किर्ते आहा म्हुगे जिवितांत? ओनली फेल्युयर्स!'' ताणें चीज बॉल तोंडांत उडोवन उर्राकाचो ग्लासूय तोंडांत वरसो केलो.

''तुवें संतोष ट्रॉफी जिखिल्ली तो किर्ते फेल्युयर? युरोपियन लिगाच्या टॉप डिव्हिजनांत खेळपाचो तुका चान्स मेळिल्लो तो फेल्युयर? स्पोर्टिंग लिस्बनाक खेळटनां दोन गोल केल्ले तो फेल्युयर?...''

म्हाका तुगेले आयकुपाचें ना अशे तरेन डँडोन पर्थून ग्लास मेजार आपटिलो. वेटर धांवत आयलो. डँडोन पावभर मागपाक तोंड उगडचे पयलींच हांवें वेटराक अदपाव हुर्राक हाडपाक सांगलें.

''आन्येक चिकन टिक्का सांग.'' हे खेपेक डँडोन म्हाका सांगलें ऑर्डर दिवपाक. हांवें वेटराक सांगलें.

''तें पुरो. आतां म्हुगेऽ आयक. म्हाका कोचान टिमींतल्यान भायर काडलो तें तूं जाणाय? हांवेन त्या बाबीट बॅकीक खेळोयना जाल्यार हांवूय खेळचों ना म्हुणलें तेन्ना तो कोच कसो चाळवल्लो तें तुका खबर आसाय?...''

म्हाका तें खबर आसलें. तें सगलें म्हगेले पटकथेंत आसा. तरी हांवें डँडोक उलोवपाक दिलें.

बाबीट हो गडो आंगान फोफसो, थुलथुलीत. धांवपाक फार्टी. पूण उत्कृश्ट डिफेण्डर. गोलपोस्टा भायल्या बॉक्सांत तो विरोधकांच्या केद्याय व्हडल्या फॉरवर्डाक कांय न्ही करून मूस करतालो. डँडो सारको स्ट्रायकर आनी बाबीट बॅकी आसल्यार गोंय खातरीन जिखतलें असो सगल्यांकच भावार्त आसलो. पूण नव्यानच टिमींत आयिल्ल्या आनी स्वताक व्हडलो शिस्तप्रिय समजुपी कोचाक बाबीटाचेर विस्वास नासलो. असल्या मोटेल्या धोलयांक मैदानार देंवोवपाकच फावना ह्या मत्ताचो तो. ताणें एक दोन खेपे जेन्ना ताका भायर बसयलो त्या प्रत्येक दिसा राखणे फळी अस्कत जाली. भायल्यांचे घडये लक्षांत येनासले. पूण घरचे टिमीक तो फरक कळटालो. त्या वर्सा क्वार्टर फायनल जिखून गोंय सेमींत पाविल्लें. पयलेच सेमींत कोचान बाबीटाक भायर बसयलो. ''ती मॅच आमी १-१ ड्रॉ केली. हांव खातरीन सांगतां - बाबीट आसलेलो जाल्यार तो एक गोल आमचेर जावचोच नासलो. दुसरे सेमींत जिखूंकच जाय आसलें. हांव घट राबलों. बाबीटाक खेळोंक घेयलो ना, जाल्यार हांवूय भायर बसतलों. कोच चड शाणो. दोगांकूय भायर बसयले. त्या दिसा आमी -'' हुर्राकाचो घोंट घेवपाक डँडोन ग्लास तोंडाक लायलो आनी हांवें तागेलें वाक्य पूर्ण केलें, ''३-० हारले.''

''हें सगलें तूं केहो जाणाय?'' दोळे म्हजेर रोखून डँडोन विचारलें.

''म्हाका बाबीटानच सांगिल्लें सगलें.''

''फट मात्ताय?'' डँडोक राग येतलो शें दिसलें, ''बाबीट मेलो -''

खरें तें. खेळ सोडटकच बाबीटान मुंबयच बिराड केल्लें. म्हाका तें कळटकच हांवें ताका सोदून काडिल्लो. हांव डँडोचेर सिनेम करतां म्हूण खुशाल जाल्लो. बसपगारी जाल्ल्यान तसो मेकळोच आसलो. सात आठ खेप मेळिल्ले आमी. दिल्ले म्हायती खातीर ताचें बोल्सय भरिल्लें हांवें. पूण ताणें तें दुडवां खातीर करूंक नासलें. एक दीस अकस्मात कळिल्लें --

''जाणां. बाबीट मेल्यार तीन म्हयने जाले. ते पयलीं आमी जायतें उलयल्यात. ताणेंच सांगिल्लें म्हाका तुजेर डिसिप्लिनरी ॲक्शन घेतलें तें. कोचालें आयकलें ना तें ना. वयल्यान मॅच सोंपतकच खंय तुवें ताका गाळी संविल्ल्यो, खरें न्हय?''

''३-० डिफीट घेयलो म्हूण हांवेन तेका फुलां माळपाचीं तरि? इतुलो राग येयलेलो म्हाका - ताच्या सोंडकुलार दोन फुलोवपाचीं, पूण बाबीटानच मर्दी पडून म्हाका कुशीक ओडलो.'' डँडोले दोळे तिडकीन तांबडे जाल्ले काय हुर्राकान तें म्हाका कळ्ळें ना.

पूण पटकथे खातीर हांवें केल्लो अभ्यास सारको आसलो. डँडोक खूब मनस्ताप सोंसचो पडिल्लो. वयलेचाराक पळयल्यार डँडो बाबीटा खातीर कोचा कडेन झगडिल्लो अशें दिसतालें. पेपरांतल्यान आरत्यो परत्यो खबरो छापून येताल्यो. तरी बरें, त्या काळार सोशल मिडिया नाशिल्ली. आनी निकतोच टिव्ही आयिल्लो तरी आयचेवरी खवदळ घालपी वाद-विवाद चलनासले. तरिकूय लोक उलयताले. गोंयची टीम सेमीफायनलींतच भायर पडिल्ल्यान फुटबॉल फॅन डँडोचेर चाळवल्ले. तातूंत भर म्हणल्यार डँडोची नसाय करपी टिमींतलेच कांय जाण खंय नाका जाल्ल्यो खबरोय पातळायताले. बाबीट आनी डँडोचे समलिंगी संबंद आसले अशीय एक वावडी उठिल्ली. पूण म्हाका मेळिल्लो तेन्ना बाबीटान ही वावडी इमेलियानान बळयां पातळायिल्ली म्हूण सोपूत घेवन सांगिल्लें.

वायटांतल्यानूय बरें भायर सरता अशें म्हणटात तशें जाल्लें. डँडोक टिमींतल्यान भायर काडलो म्हूण बोवाळ जायनाफुडें मोहन बगान, तेजपूर युनायटेड आनी कतारच्या अल साद फुटबॉल क्लबानूय डँडोकडेन संपर्क सादिल्लो. पूण ऑफ मूड जाल्या डँडोन कसलोय निर्णय घेवचे पयलींच पुर्तुगालच्या स्पोर्टिंग लिस्बन क्लबाकडल्यान डँडोक ऑफर आयिल्ली. खरें म्हळ्यार, लिज्बोआक आशिल्ल्या कांय गोंयकारांनीच डँडोचें नांव स्पोर्टिंग लिज्बन क्लबाक सुचयिल्लें खंय. बेजारसाणीचेर मात करपाची ही भोव बरी संद चालून आयिल्ली. डँडोन मारली उडकी.

''जें जाता तें बऱ्याखातीर म्हणटात, तशें जालें न्हय?''

''कितें बरें जालें?'' डँडोन फटच्च करून म्हाका उरफाटें विचारलें, ''तूं जाणाय, फुडें कितें जालें तें?'' तागेल्या त्या प्रस्नाक दुख्खाची सया आसली.

हांव वगी राबलों. म्हगेलो अभ्यास म्हाका सांगतालो - डँडो स्पोर्टिंग लिज्बन क्लबांत पावलो तेन्ना तो क्लब पुर्तुगालच्या पयल्या तीन व्हडल्या क्लबांमदीं चड लोकप्रिय आसलो. बेंफिका आनी पोर्तु क्लबाकडेन चलिल्ले सर्तेतूय आघाडेचेर आसलो. अठरा वर्सां फार्टी ताणें युरोपियन कप जिखिल्लो ताचें वलय आजून तेजिश्ट आसलें. डँडोक दिशिल्लें चान्स मेळ्ळो जाल्यार आपूण ताचें भांगर करून दाखयतलों. पूण तशें कांय घडलें ना. ताका प्रिमैर लिगांत खेळूंक दिलेंच ना. सुपर कप ट्रॉफी खातीर मात तो खेळ्ळो. बरो खेळ्ळो. पूण आपणांक फावो तो मान-भोवमान मेळना अशें दिशिल्ल्यान तो

बेजारलो. तशांत ताका खूब फावटी रिझर्व दवरूंक लागले. घरची आनी बायलेची याद ताका सतावपाक लागली. आनी तीन वर्सांचो कॉन्ट्रॅक्ट आसतनाय डँडो दोन वर्सां सरचे पयलींच गोंयां परतलो.

''तूं काजारी?'' मर्दींच डँडोन म्हाका विचारलें. म्हण्टासर दुसरो प्रस्न शेंवटिलो, ''तुका सिनेमाचो चड मोग काय बायलेचो?''

तागेल्या त्या प्रस्नान हांव साप गणमणलों. दनपारां जेवन ताकतिकेन भायर सरतनां हांव सोहाक बगलेक ओडून ताच्या ओंठांर ओंठ तेकोवपाचें साप विसरून गेल्लों. कितलें बेजारलां आसतलें तें म्हजेर! दारांत पावतकच ताणें निश्ठून सांगिल्लें - पावना फुडें फोन कर आं! तेंय हांव विसरून गेल्लों. म्हजो हात बेगबेगीन बोल्सांतल्या फोनाचेर गेलो. पूण डँडो जापेक रावला म्हणपाचें जाणवलें. मागीर विसरनासतनां करचो म्हूण ताच्या प्रस्नाची जाप सोदूंक लागलों.

'संघर्ष' ह्या म्हज्या डेब्यू सिनेमा खातीर काम करतनां सोहाचेर म्हजें पुराय दुर्लक्ष जाल्लें. पूण ताणें तक्रार केली ना. सिनेमा तयार जायसर म्हगेलें आउटडोअर, म्हगेलें रातरात भायर रावप, वेळा-अवेळार घरा परतुवप, हें सगळें मोन्यानी सोंसून वयल्यान म्हगेलो हिशोब सांबाळप, तारखांची याद करून दिवप, म्हगेलें शेड्यूल हालचें न्हय म्हण जतनाय घेवप.... स्क्रिनप्ले जावं, जावं म्हगेले कॉंट्रॅक्ट हांवें हातानच बरोवप आनी स्नेहान सगलें कंप्युटरार घालप.... म्हज्या हुसक्यांचो कितलोसोच भार ताणें आपल्या भुजांर घेतिल्लो. म्हाका जाणोवंक लेगीत दिवंक नासलें. चलचित्र प्रदर्शीत जालें आनी आतां सूं जालें अशें दिसतासर प्रोमो सुरू जाल्ले. तेन्ना मात सोहा बेजारिल्लें. आनी तातुंतल्यान भायर सरतासर आतां हो फुटबॉलपटूचेर व्यक्तिपट -डँडो!

'तुका सिनेमाचो चड मोग काय बायलेचो?' हो प्रस्न फाटल्याच सप्तकांत सोहान म्हाका विचारिल्लो. ताका जाप कितें दिल्ली, दिल्ली काय ना, तेंय आतां याद जाय ना. पूण एक फावट सिनेनिर्मितींत लक्ष घालें की म्हाकाय ह्या प्रस्नाची जाप दिवप कठीण जाता हें खरें.

''तुका दिसता, म्हाका येवरोपांत खेळोंक मेळ्ळें, म्हाका चान्स पडलो? व्हय. हांवेन दोन गोल मारले तेन्ना त्या लोकांनीय म्हाका जबर वाखाणलेलो. पूण म्हगे सुशेग काबार जालो तें तुका गमलें ना!'' हुर्राकान आपलें काम केल्लें. काळजावयलें धांपणें उकतें जाल्लें. जीब सदळ जाल्ली. डँडो उलोवपाक लागिल्लो. ''फुटबॉलाक लागून हांवेन कार्मिनाक फाट केली. ना, केली ना. फाट जाली. आनी हांवेन म्हगेऽ मोग होगडायलो. होगडायलो-सासणाचो.''

हें सगलें म्हगेले पटकथेंतलेंच. तें सगलें सारकें आनी खरें हें डँडोच्या तोंडांतल्यान आयकून म्हाका बरें दिसतालें.

डँडो लिज्बोआक गेल्लो तेन्ना ताची बायल खंय ताका 'वचूं नाका' म्हणटाली. पूण तो गेल्लो. कार्मीन ताका फोन करताली. पूण डँडो फोन घेनासलो. आनी आपुणूय करिनासलो. मर्दी जें आयकूंक येतालें- तातूंत कितलें खरेंपण आसलें तें हांवूय नकळो. बाबीटाच्यानूय खातरीन सांगूंक जावंक नासलें. आतां डँडोच्या तोंडांतसून आयकूंक मेळ्ळें जाल्यार बरेंच जालें. हांवें कान फुलयले -

''आतां तूं सांग - म्हगे गुन्यांव कितें आसलो?''

''लोक म्हुणटात- तूं पुर्तुगालाक चेडवांक भोंवडायतालो, तांचे बराबर फोल्गां मारतालो. खरें फट तूंच जाणा, डँडो!'' हांवें ल्हवूच बॉल ताच्या कोर्टांत उडयलो.

पुर्तुगालांत रावपी गोंयकारांनीच ती खबर खंय गोंयां पावयिल्ली. डँडो थंय नायट-क्लबांनीं चेडवां वांगडा नाचतालो. एके दिवोर्स जाल्ले बायले वांगडा तो मोग करूंक लागला आनी घडये रोखडोच काजारूय जावंये अशी खबर खंय बाबीटाच्याय कानांर पाविल्ली. पूण मागीर ताणें आयकल्लें - ते बायलेनच हाका सोडलो म्हूण. हांवें ती खबर पटकथेंतूय घेतिल्ली. पूण डँडोच्या मनांत कांयच वायट नासलें अशें दाखोवन ताका क्लीन चीट दिल्ली. आतां डँडो कितें म्हणटा तें आयकुपाची म्हाका उमळशीक लागिल्ली.

''तुकाय ते खरें दिसलें? तूं जाणाय? त्या गांवांत एखाद्रे अस्तुरे सांगातान रात सारली जाल्यार तें पातक न्हय! पूण आमचे लोक दळदिरे- येवरोपांत राबले, पांय ओडपाक मात गोंयकार. तांणीच ही खबर मीठ मिरसांग लावन हिंगा लोकांक पावयली ना? कार्मीन म्हजो मोग आसलें. सदींच....'' आनी इतलें म्हणसर डँडो रडूंक लागलो. हांव काचाबूल जालों. चोंयवशीन पळय जाल्यार शँकांतलो चडसो लोक उठून गेल्लो. आनी उरिल्ले उठपाची वेटर वाट पळयताले. घडयाळींत साडे इकरा जाल्लीं.

''डँडो, काम डाऊन प्लीज! आमी आतां मेन कोर्स मागोवंया. कितें खातलो सांग. फिश-करी? सोरपातेल? काय काफ्रेयाल?''

हांवें कुरू करून वेटराक आफयलो. तो बगलेक येता म्हणसर डँडो उठलो. ''मेन कोर्स जालो ना तरि? आनी हें कितें?'' अशें म्हणून ताणें प्रातांतलो चिकनाचो निमणो तंदूर केल्लो कुडको तोंडांत उडयलो. हांव समजलों. वेटराक कुरू करून बील हाडपाक सांगलें आनी डँडोक विचारलें, ''डँडो, आमी वेळेर एक पासय मारूंया?'' म्हाका आजून एक दोन प्रस्न विचारपाचे आसले. डँडोन मोट्यान बोवाळ मारिल्लेवरी निश्ठून सांगलें, ''नाका. पासय नाका. पूण - आमी वेळेर -रेंवेर बसुंया. यो.''

हे सत्तरीचे पिरायेर लेगीत डँडो ते रेंवेंतल्यान चलतनां दांडो कसो उबो चलतालो - फूल बाटली - काय चड हुर्राक पोटांत वचुनूय. डँडो चलत रावलो. उदकालागीं पावलो. चार पांयटां बिअर म्हजे खातीर व्हडलोसो फरक करनासलीं. पूण तीन पांयटां हुर्राक मनशाक आड घालपाक पुरो. डँडोन उदकांत पांय घाले आनी हांवें ताका ओडलो. 'आमी वयर वचून बसूंया.' हांवें म्हळें.

''तूं भियेलो?'' डँडोन हांसपाचो दुबळो येत्न केलो. ''ल्हारां पयल्यान वचोन पेंवन दाखोवं?''

म्हजेर आकांत आयलो. अशें तशें कितेंय जाल्यार फाल्यांच्या सगल्या पेपरांनीं व्हडले माथाळे छापून येतले. पूण म्हाका डँडो परस चड हुस्को आसलो तो म्हगेल्या फिल्माचो. सगलो क्रू म्हजी वाट पळयतालो शुटिंग सुरू करपाक. अखेरचो सीन सोडल्यार म्हगेली

पटकथा बरोवन तयार आसली. अशे तशे ल्हान व्हड बदल करपाची आजून म्हजी तयारी आसली. पूण फिल्मांत डँडोचो असो शेवट करपाची म्हजी तयारी नासली. उरफाटें, कसली तरी आशादिणी कलाटणी दिवन सिनेमाची अखेर दाखोवपा खातीर हांव डँडो कडल्यान नवें कितेंय मेळटा जाल्यार पळयतालों.

एक ल्हार घस्स करून उमळून आयलें आनी कमरे मेरेन आमकां भिजोवन परतलें.

''तूं बसुंया म्हुणटा जाल्यार बसुंया -'' अशें म्हणून डँडोन म्हज्या भुजांर हात घालो. म्हाका दिशिल्लें ताचो झेल वता देखून ताणें म्हज्या खांद्यार हात घाला. पूण ना. तो निट्ट चलत रेंवेर वचून बसलो. हांवेंय बगलेकच बसकण मारली.

''कार्मीन खंय आसा आतां?'' ताका उलोवपाक नीब दिवचें म्हूण हांवें विचारलें.

''कार्मीन मेलें!''

हें म्हाका खबरच नासलें. कार्मीन धुवे वांगडा युकेक रावता हें आयकल्लें हांवें. पूण

''सॉरी. पूण- केन्ना? म्हाका खबरच ना मरे.-''

हांव गणमणलां तें पळोवन डँडो व्हडल्यान हांसलो. म्हजे फाटीर हात मारून ताणें फुडें म्हळें, ''आरे, कार्मीन मेलें - कार्मीन म्हाका मेलें.... ना, ना तें सारकें न्हय. हांव कार्मीनाक मेलों -'' आनी मागीर डँडो मान सकयल घालून थंड बसलो. ताचो मोनेळ मोडचो न्हय म्हूण हांवूय वग्गी रावलों.

म्हगेले पटकथेंत कार्मीन आयिल्ली ती खबर लापयांवाल्या तोंडांतल्यान आयकली. बाबीटान डँडोक पळयिल्लो तो मैदानार. पुर्शी जिणेविशीं ताका चडशें खबर नासलें. हांवें कार्मीनाविशीं विचारिल्लें तेन्ना ताणें ती मैदानार धांविल्ली तितलीच खबर सांगिल्ली. पूण मागीर एक दीस तोच लापयांवाक घेवन म्हजेसरीं आयिल्लो. लापयांव म्हळ्यार एका काळा वयलो पानवेलकार क्लबाचो फॉर्वर्ड. लापयांवाक तेन्ना दांडो म्हळ्यार देव. ताची तुस्त करपाक लापयांवाक उतरां उणी पडटालीं. कार्मीनाचो भाव बस्त्यांव हो बॅटकार खंय लापयांवाचो इश्ट. लापयांवा कडल्यान टिप्स घेवन बस्त्यांव बॅट मारतालो आनी चडसो जिखतालो. एक दीस बस्त्यांवागेर बसून डँडोच्यो खबरो करतना लापयांवान सांगलें खंय ''दांडो खंयच्याय चेडवाच्या मोगांत पडपार ना. तेका मोग फकत फुटबॉलाचो. हांव बॅट मारतां - दांडो रिटायर्ड जायसर काजार लेगीत जावपार ना.'' तांच्यो ह्यो गजाली आयकून कार्मीनाली जिज्ञासा जागी जाली. कोण काय हो दांडो म्हूण पळोवपाक कार्मीन एक दीस डँडोली मॅच पळोवपाक गेलें. बार्देसकार आड साश्टीकार मॅच हरशीं फ्रेंडली मॅच आसली. पूण दोनूय वटेनच्या फुटबॉल मोगींनी उपाट गर्दी केल्ली. खेळ खूब उमळशीक वाडोवपी जालो. खेळ सोंपत आयलो तरी एक-एक बराबरी आसली. आनी निमण्या मिण्टाक दांड्यान चार राखणेगड्यांक मूस करून बॉल गोलाच्या तोंडा कडेन व्हेलो. पूण गोलकी तयारेंत आसलो. दांड्यान शूट मारपाक उकलिल्ल्या उजव्या पांयान बॉल दाव्या पांयाक दिलो आनी दाव्या पांयान अचूक बॉल कोनशाचे जाळयेंत घुसयलो. आख्खें मैदान खोशेन उठलें. विरोधक लेगीत दांड्याचे कुशळटायेक दाद दिवपाक उबे रावले. म्हणसर, खंयच्यान उडकी मारून कार्मीन मैदानार धांवलें. आनी धा हजार लोकांचे साक्षीन कार्मीनान डँडोक वेंग मारून ताचो उमो घेतलो. म्हजे पटकथेंतलो हो एक म्हालगडो सीन. उपरांत डँडो-कार्मीनाचें काजार थारलें. पूण कोच ताका काजारा खातीर सुटी दिवपाक तयार नासलो. उपरांत हावा शिवा करून फकत दोन दिसां खातीर ताका घरा वचपाक सोडिल्लो.

''फुटबॉल म्हगेऽ पयलो मोग. पूण ते पासत हांवेन कार्मीनाक केन्ना फाट केली ना.'' खीणभर थांबून डँडोन आपलेंच सांगप सारकें केलें, ''ना, केली ना. पूण जाली.'' डँडो पर्थून वग्गी जालो शें दिसलें. पूण मदींच तकली वयर काडून ताणें म्हाका विचारलें, ''तूं केन्ना तुगे बायलेगे बर्थडे इसरलाय?''

हांव गणमणलों. डँडो आपणांले बायलेचो जल्मदीस विसरिल्लो हें म्हगेले पटकथेंत आयिलें. पूण ताणें म्हाका प्रस्न केल्लो. हांव केन्ना विसरलां? याद जायना. पूण आजून 'पावलों' म्हूण सांगपाक फोन केल्लो ना. हांवें घडयाळ पळयली. बारा पस्तीस. सोहा आतां न्हिदलां आसतलें. फाल्यां सकाळीं करचो फोन.

''हांव मुरे पयलीं वेंताक चुकलों, मागीर वांवाक चुकलों. ज्या दिसा बाबीटाक आनी म्हाका टिमींतल्यान भायर काडले त्या दिसा...''

म्हाका खबर आसली. त्या दिसा कार्मीनाचो जल्मदीस आसलो. पूण त्या दिसा मैदानार घडिल्ले घडणुकेक लागून डँडो तें साप विसरून गेल्लो. तेवटेन कार्मीन डँडो एक दोन गोल मारतलो आनी गोंयच्या टिमीक जिखयतलो अशी खातरी धरून इश्टां-इश्टिणींक पार्टी दिवपाचे तयारेंत राविल्ली. आनी डँडोन तिका एक फोन लेगीत करूंक नासलो.

''डँडो, तूं वांवाक चुकिल्लो खरो. पूण गांवाक चुकूंक नासलो.'' डँडोची प्रतिमा निवळ करपा खातीर हांवें रातीच बरयिल्ल्या त्या सीनाक डँडोली मान्यताय मेळ्ळी जाल्यार बरें जातलें. हांवें तो विशय काडलो, ''म्हाका दिसता, तुवें तिका चीट बरोवन तिचेकडेन आपले काळीज उकतें करूंक जाय आसलें....''

म्हगेले मूळ पटकथेंत डँडोन कार्मीनाकडेन दुर्लक्षच केल्लें. पूण कालचे राती म्हाका अकस्मात तें येवजल्लें - डँडोक सामको व्हिलन करचे परस ताका कार्मीनाविशीं आशिल्लो मोग आनी आपणांलें कशें चुकलें तें बरोवन एक चीट कार्मीनाक धाडली अशें दाखयलें जाल्यार? राती मध्यानेर सोहाक जागयनासतना उठून हांवें तो सीन तयार केल्लो. त्या सीनाक फावो सारकी एक मोगान थपथपिल्ली आनी पच्छत्ताप व्यक्त करून भगसणी मागपी एक चीट बरोवन काडिल्ली. डँडोक क्लीन चीट न्हय पूण ताचें नितळ अंतस्कर्ण दाखोवपी तो सीन म्हजो म्हाकाच खूब आवडिल्लो.

''चीट? हांवेन लायफांत केन्ना चीट बरयल्या? आनी बरयलेली जाल्यार कसली मिलाग्र जातासली?''

''जातासली. ती चीट तुजो मोग सांगतासली. तुजें काळीज उकतें करून दाखयतासली.... तुका सांगूं, डँडो, हांवें तशी एक चीट बरयल्या. वाचून दाखोवं तुका? पूण

आतां ती रुमार उरली -'' म्हाका चिटमिटे पडले. लागीं आसल्यार ताका वाचून दाखयन आसलों.

''कोणाक बरयल्या? बायलेक तुजे? जाल्यार तियेकच वाचूं दी. मोग असो दुसऱ्यांक वाचून दाखोवचो न्हय...'' इतलें उलोवन डँडो उठलो. उठुंया आतां, पुरो जालें. विचारप बी कांय ना. सोमतोच उठलो.

''डँडो, एक विचारूं?'' ताचे कुशीक पावलां रोमीत हांवें केन्नाच्यान मनांत उदेवपी प्रस्नाक वाचा फोडली, ''तूं आजून फीट आसा. एक्टीव्ह आसा. फुडें किते करपाचें चिंतलां तुवें?''

''मोग.'' डँडोन मात वेळ वगडायनासतनां जाप दिली. ''मोग परतून म्हुज्या काळजांत रिगला.'' डँडो फकाणां करिनासलो. मनाथावन उलयतालो.

हें मोग प्रकरण हांवें येवजूंक लेगीत नासलें. सत्तर वर्सांचे पिरायेचेर परतून मोग काळजांत रिगला? अर्थात डँडोचे बाबतींत कितेंच अशक्य नासलें. म्हजे पटकथेक ही अखेर मानवतली काय? जो संदेश हांव युवा पिळगेक दिवंक सोदतालों तो हेभाशेन अखेर केल्यार फळादीक जातलो व्हय?

''तुका वायट दिसचें ना जाल्यार विचारूं, डँडो?'' हांवें जापेची वाट पळयली. मळबा पोंदा पातळिल्ल्या मंद चान्यांत डँडोच्या तोंडावयले भाव सारके वळखूंक येनासले. मागीर हांवेंच फुडें विचारलें, ''तुजो मोग फावो जाल्ली कोण ही अस्तुरी? भुरगेपणांतली इश्टीण? काय नव्यान जाल्ली वळख? ती करता व्हय तुजो मोग?''

''ती?'' आनी डँडो उबो रावलो. म्हाका ताचेर आनी बाबीटाचेर जाल्ले समलिंगी संबंदाचे आरोप येवजले. इतल्यान डँडो खोखो करून हांसत सुटलो.

डँडोच्या मनांत परतून रिगिल्लो तो मोग फुटबॉलाचो हें कळपाक म्हाका थोडो कळाव लागलो. डँडोन गोंयच्या भुरग्यांक प्रशिक्षण दिवपा खातीर एक प्रायव्हेट फुटबॉल एकेडमी काडपाचो निर्णय घेतला हें कळना फुडें म्हाका पटकथेक फावो तशी अखेर मेळ्ळी हाचो सुमारा भायर आनंद जालो. नवे फुटबॉल एकेडमीच्या उक्तावणान सिनेमाची अखेर करपाचें मनांत निश्चीत केलें. आनी डँडोक वचपाक सोडून हांव हॉटेलांत परतलों.

हो नव्यान येवजल्लो अखेरचो सीन फाल्यां बरोवचो अशें येवजिलें. पूण न्हिदचे पयलीं अकस्मात येवजलें. कालचे राती जागरण करून बरयिल्लो तो सीन पयलीं भायर काडून दवरचो म्हूण सुटकेस उगडली. सिनाचीं तीन पानां वयरच मेळ्ळीं. पूण ताचे वांगडा बरयिल्ले, जे चीटीचो उल्लेख निकतोच डँडो कडेन केल्लो, ती चीट मात सुटकेस सगली उस्तून लेगीत मेळ्ळी ना. कितली उत्स्फुर्त बरोवन जाल्ली! आतां पर्थून तशीच बरोवन जातली हाची खातरी ना. जिवाक पुरो जाल्ल्यान फाल्यां येत्न करचो अशें येवजून न्हिदलों. न्हीद बरी पडली खरी, पूण बरे राती, रात कसली फांतोडच ती, म्हाका सपन पडलें सपनांत डँडो आयलो ना. सोहा आयलें ना. आयली ती कार्मीन. तिच्या हातांत हांवें डँडोचो मोग उक्तावन आनी भगसणी मागून बरयिल्ली ती चीट आसली. तें कागद वाऱ्यार फडफडायत कार्मीन म्हजेर तापताली- 'दांड्यान म्हजो मोग केलेलो? माय फूट! ताका बायल जायी आसली जाल्यार तो लिज्बोआक वयचो नासलो. ताका मोग फकत फुटबॉलाचो. ही चीट वाचून तुगे बायल फटवत- पूण हांव फटवपार ना. उज्यांत घाल ही चीट.' अशें म्हणून हांव 'नाका, नाका' म्हण्टासतना कार्मीनान त्या कागदाचे कुडके कुडके करून वाऱ्यार हुबयले.

ती चीट बरयतनां कितलो प्रेरीत जाल्लों हांव. ल्हानशें कागद, पूण मोगान थपथपिल्लें, भावनांचो कितलो सोबीत आविश्कार जाल्लो. भगसणीचें आर्जव लेगीत कितलें हुबहू दिसतालें. प्रेक्षकांचे दोळे भरून व्हांवतलेच आसले तें वाचून. कार्मीनान तें अशें पिंदूंक नाका आसलें. कुडके पुंजावंक म्हूण हांव उठलों तेन्ना तें सपन म्हणपाचें कळ्ळें म्हाका.

तें पत्र! कार्मीनाच्या हांतांत पावलें. पूण म्हाका कशें मेळ्ळें ना! सकाळीं उठून सोदचें थारावन हांव पर्थून न्हिदेचे सुवादीन जालों.

सकाळीं फोन वाजलो आनी जाग आयली. सोहाच तें! राती हांव अडेजांक न्हिदलां. पूण ताका भोव -

पूण फोन आसलो जेकबाचो, ''गूड मॉर्निंग सर, अँड हॅपी ॲनिव्हर्सरी टू यू, सर.''

ॲनिव्हर्सरी? आयज? आरेच्चा!

''तुका कोणे सांगलें, जेकब?'' सोहान बी ताका सांगलें काय?

''फेसबूक -''

ताका 'थँक्यू' म्हणून दवरूंक वतालों. पूण जेकबालें उलोवन जावंक नासलें. ''सर, ऑडिशनाक कँडिडेटांक साडे धांक आफयल्यात. तुमी येतात न्हय सकयल कॉन्फरन्स हॉलांत?''

''साडेधांक? साडे णव जालीं. म्हाका फ्रॅश जावपाक जाय. ऑडिशन बारांक दवर.'' म्हाका फ्रॅश दिसनासलें.

''पूण सर, तांकां साडे-धा म्हूण सांगिल्लें. सुरवात केली ना जाल्यार बरें दिसचें ना.'' तागेलेंय खरें. तशे मेन रोल सोडल्यार चडशे रोल निश्चीत केल्ले. मायनर रोलां खातीर जेकब आनी कवळेकाराच्यानच ऑडिशन घेवन फायनल करूं येताले.

''ओके जेकब. अशें कर. कवळेंकाराक घेवन तूंच कास्ट फायनल कर. फकत डँडोच्या रोला खातीर बऱ्या कँडिडेटांक शॉर्टलिस्ट कर - हेरांक धाड घरा. हांव येतां बारा मेरेन.''

राती डँडो मेळिल्लो हें जेकबाक सांगपाचें मनांत आयिल्लें. पूण प्रत्यक्ष मेळटले तेन्ना सांगचें म्हूण मन मारलें.

पयलीं सोहाक फोन लायलो. बेज्जार जालां आसतलें. ताका पयलीं फुसलावचें पडलें.... पूण ताचो फोन बंद आसलो. आनीक दोन खेपो पळयलो. लागलो ना. रागान बी बंद दवरलो ना मूं?

ब्रेकफास्ट रुमारच मागयलो. न्हातां, खाड करतां, कपडे बी करतांसर साडेधा जायत आयलीं. हांवें स्क्रिप्ट भायर काडली. पुराय स्क्रिप्ट मन लावन वाचूंक बसलों. कांय बारीक बदल करचेशें दिसलें. ते केले. थोडे कडेन हात भोंवडावचोशें दिसलें. कालचे राती बरयिल्लो सीन मेळिल्लो. तो फावो थंय बसयलो. ती मोग उकतावपी चीट मात मेळ्ळी ना. पर्थून बरयली, पूण मना सारकी उतरली ना. चिटमिटे लागून उरले. पटकथेची अखेर कालपयर मेरेन येवजनासली. पूण राती

डँडोनच ती मेळोवन दिल्ल्यान मन धादोशी जाल्लें. निमणो सीन बरोवन काडलो आनी समादानान साडेबारांक सकयल कॉन्फरन्स हॉलांत गेलों. जेकबान काम बेस बरें केल्लें. सगले कॅण्डिडेट ऑडिशन सोंपोवन घरा गेले.

"आयजूय डँडोच्या रोलाक कोण मेळ्ळो ना?" अशें विचारतां थंय आसां, एक चाळिसांक तेंकिल्लो लम्बू मुखार आयलो. पळयतां खिणीं म्हाका राती मेळिल्ल्या खऱ्या डँडोची याद जाली. खूब म्हळ्यार खूब साम्य दिसलें. मागीर जेकबान फुडें सरून म्हाका विचारलें, "सर, वळखलो ना हाका? तुका राती मेळिल्लो तो डँडो होच- मॅक्स- मॅक्समियानु रोद्रीगिश."

"यू मीन-" थंडेंत माथ्यार शेळें उदक ओतिल्लेवरी जालें म्हाका.

"सॉरी सर, हांवूच तो राती तुका डँडो जावन मेवलेलों. म्हाका हो रोल जायूच आसलो. आय वॉंटिड टू प्रूव्ह टू यू, देखून केलें हांवेन तशें. आय होप यू वील फॉरगीव्ह मी फॉर देट." राती मेळिल्लो तो तायट चलपी मुडी डँडो तो हो? हो तर बाग घेवन हात जोडून म्हजी भगसणी मागतालो!

"सॉरी सर," जेकबान मदीं तोंड घालें, "हाका पळयतनाच म्हाका दिशिल्लें, डँडोच्या रोलाक बरो सोबतलो म्हूण. पूण तुका मानवत वो ना हाचो भरवंसो नासलो. आमी म्हळें चान्स घेवंया. तूं ह्या रिसॉर्टांत रावतलो हें हांवेंच ताका सांगिल्लें."

पूण- आय काण्ट बिलीव्ह इट! काल मेळिल्लो तो सत्तर वर्सांचो तिरसुवाद, टॅट्रम्स उडोवपी...

"हय सर, हांवेन स्टडी करून त्या भाशेन मेकप केलेलो-" मॅक्स आजून दबकून उलयतालो.

"पूण मागीर डँडोच्या जिवितांतल्यो त्यो खबरो? बाबीट, लापयांव, कार्मीन..."

"सर, सर, हांवेंच ताका स्क्रिप्ट वाचपाक दिल्ली. आपणालो रोल ताका सारको समजुचो म्हूण-" जेकबान खुलासो केलो.

म्हाका आजून तें खरें दिसनासलें. आनी- "आनी तो फुटबॉल एकेडमी करपाचो निर्णय कोणाचो?" अविस्वासान जेकबाकडेन पळयत हांवें डँडोक विचारलें.

"सर, तुगे स्क्रिप्टांत कांय तें नासलेलें. देखून मतींत येता तेभाशेन उलयलों."

हांव तटास जालों. म्हाका ताणीं फटयलो म्हूण पिकसांव करचें काय फावो तसो डँडो सांपडलो म्हूण खोशी मनोवची? तशांत म्हाका बरी अखेर हाणेंच दिल्ली.

"सर, बेजार ना न्हू म्हजेर? हांवेन ओव्हर एक्टिंग केलें?" मॅक्साक आजून खातरी येनासली. "सर, ह्या रोलापासोत हांव कितेंय करूंक तयार आसां, सर."

तागेल्या अभिनया विशीं दुबाव घेवपाक सुवातच नासली.

"तूं केन्ना फुटबॉल खेळ्ळा?" हांवें ताचेर नदर रोखून विचारलें.

अकस्मात मॅक्स तायट जालो. हड्डै फुडें काडून ताणें सांगलें, "यस सर. हांव ब्रिटोना क्लबाचो कॅप्टन आसलों. पंदरा वर्सां फाटीं. आनी डँडोचो अॅडमायरर -"

"गूड च्यॉइस, जेकब. फायनली वी हॅव फाउण्ड अवर डँडो."

इतल्यान म्हगेलो फोन वाजलो. सोहा! मनांत आयिल्लें तोडचो आनी मागीर करचो. पूण म्हळें, तें बेजार जातलें.

"हॅलो, सोहा."

"हाय डार्लिंग-"

म्हाका दिशिल्लें बेजार आसतलें म्हूण. पूण सांगचे पयलींच ताणें म्हळें - "लूक हिअर, फाटल्यान पळय. हांव हांगा आसां. हांगाच रे -"

सोहा धांवत आयलें. म्हाका घट्ट वेंग मारली. आनी बगलेक कोण आसा-ना तें विसरून ताणें म्हज्या ओंठांर ओंठ तेंकयले.

"तूं? हांगा? कशें आयलें?" हांव आजून गोंदळिल्लोंच आशिल्लों. कशेय भाशेन ताका कुशीक काडून विचारलें.

"हाचे आदली फ्लायट मेळिल्ली जाल्यार आनिकूय बेगीन पावतासलें. तुगेली चीट वाचली आनी म्हज्यान रावं नज जालें. थँक्यू डार्लिंग."

"चीट?"

"हय. ही." अशें म्हणून सोहान पर्सींतली ती चीट काडून दाखयली.

"डार्लिंग,

तुका दिसता आसत म्हाका तुजी पर्वा ना, तुजो हुसको ना, तुजें पडून वचूंक ना.

पूण तें फट. जाणा जा - म्हज्या काळजांत फकत तूं आनी तूंच आसा. थोडेच दीस म्हाका माफ कर. सध्याक म्हाका फुटबॉल सोडून दुसरें कांयच येवजना.

एक फावट हें मिशन सोंपलें म्हणटकच हांव फकत तुजो.

हांव जाणा म्हाका लागून तुका जायतें सोंसचें पडटा. म्हाका माफ कर.

पूण उगडास धर. म्हजो मोग तूं, म्हजें जिवित तूं, म्हजो फुडार तूं.

तुजो, सदां तुजोच -

-हांव."

चीट वाचून सोंपयतां थंय आसां, सोहान म्हळें, "तूं मरे सामको धांदळी. चीट मेजार उकतीच दवरली? वाऱ्यान ती सकयल पडिल्ली. तरी बरें हांवें रातीच ती पळयली. आनी - रावं नज जालें रे म्हज्यान. आयज हांव लग्नाचो वाडदीस मनयतलेंच म्हूण आयलां. फाल्यां सकाळीं वतलें परत. आतां ह्या तुगेल्या फ्रेंडांक सांग - पॅक फॉर द डे. आयचो दीस ऑफ."

संपर्कः 9422059509

***



# खोल्या पोंदचो न्हवरो



**मीना काकोडकार**

खूब वर्सांनी दिनेश आनी ताची बायल नलिनी आनी धूव रती गोंयांत आयिल्लीं. हरशीं तीं नागपुरात स्थायिक जाल्लीं. पूण अंदू चवथीखातीर मुजरत महेशागेर आयिल्लीं.

महेशागेर अशें म्हणचेपरस तांच्या मूळ घरा आयिल्लीं म्हणप चड बरोबर जातलें.

तसो दिनेश आनी ताचे आवय-बापूय चवथीक न चुकतां गोंयांत येताले. पूण त्यो भुरगेपणांतल्यो गजाली. तेन्ना चवथीक आनी मे म्हयन्यांत गोंयांत येवप म्हळ्यार दिनेशाक सामकी पर्वणीच कशी दिसताली.

तेन्ना तीं मुंबय रावतालीं. येवप वचप सहज शक्य जातालें. उपरान्त दिनेशाचे आवय - बापूय भायर पडले. नोकरे निमतान दिनेश नागपुराक पावलो. थंयच स्थायिक जालो आनी गोंय ल्हव, ल्हव पयस जालें.

एका काळार नातें पयसुल्लें आसल्यार लेगीत मनशां मनान लागीं आसतालीं. बापोल, तिपोल हें नातें पुसून फकत 'भाव' इतलेंच नातें उरतालें. पूण वर्सां गेलीं. पिळग्यो बदलल्यो आनी कळत, नकळत नातींय पयसावलीं.

दिनेशाक याद आसा. शेजारचे जाणटेले सांजवेळा तांच्या घरा बल्कांवाचेर बसून गजाली करताले. बायलो भितर वासरेर बसताल्यो आनी भुरगीं भायल्या आंगणांत तरेकवार खेळ खेळटालीं.

दिनेशाक दिसलें, जण एकल्याचें भुरगेपण फकत काळजांत बंदिस्त जावन उरता. पूण अदीं मदीं ताका भायर येवंक संद मेळूंक जाय.

लग्ना उपरान्त दिनेश बायलेक आनी चलयेक घेवन एक दोनदां गोंयांत येवन गेल्लो. पूण हे गजालीकय तीस वर्सां जावन गेल्लीं. ताची धूव रती आतां पस्तीस वर्सांचें जाल्लें.

रती दिसूंक वायटशें नाशिल्लें; बरें शिकिल्लें. नोकरीय करतालें. पूण लग्न जुळून येनासलें.

नलिनी हाचे, ताचेकडेन तोंड फाफुडटाली. पूण जाता, जाता अशें दिसता म्हणसर सगलें फिसकट्टालें.

नलिनीचें कुटूंब पयलीं गोंयांत आसतालें ताचें धावी मेरेनचें शिक्षणय गोंयांतच जाल्लें. उपरान्त ताच्या बापायची मुंबय बदली जाली आनी तीं गोंय सोडून मुंबय गेलीं. थंयच स्थायिक जालीं. नलिनीचो भावय मुंबयच नोकरी करतालो.

तांचो एक मामा मात दिवचले रावतालो. गोंयांकडेन नलिनीक जोडपी हो एकच दुवो आशिल्लो.

शेणिल्ल्याचें मन धा कडेन तशें नलिनीचें जाल्लें.

कशेतरेन आपले चलयेचें लग्न जुळत काय हो एकच विचार ताची तकली पोखुरतालो.

वधु-वर मंडळांत नांव नोंदोवन जाल्लें. ज्योतिश्यांक नक्षत्रां दाखोवन जाल्लीं.



'मुलीला यंदा योग आहे बरं का' अशें जायत्या जाणांनी सांगिल्लें. पूण योग येताले आनी आयले तशे वताले. पूण लग्न जुळून येनासलें. नलिनीन दिनेशाक म्हळें,

'अंदू आमी चवथीक गोंयांत या. गणपतीक सांगणें करून घेवया. इतलीं वर्सां चवथीक पावलीं नात म्हणून ताचें रागणें बी आसलें जाल्यार वचूं.'

'आगो, रागणें कसलें आसतलें? सगले गणपती एकच. गोंयचो कितें आनी नागपुरांतलो कितें. हांगच्या गणपतीक तर तूं नेमान वता. सांगणी हांगा नागपुरांतच करुंया.'

पूण नलिनीच्या मनांत चवथीक गोंयांतच वचपाचें आशिल्लें. 'घरचो तो घरचो गणपती. मूळ घरा पावनात म्हणून ताका राग आयला आसूं येता. शिवाय घरच्या पुरसाकय पांयां पडूंक जाय.' ताणें म्हळें.

'आमचो पुरुस आमच्या घरांत खंय आसा? तो आसा दुसरेकडेन.'

'जाणां हांव. सगलेकडेन वचुंया. कोणाचेंच रागणें उरुंक जायना. अंदू लग्नाचें जमल्यार फुडल्या वर्सा गणपती पांच दिसांचो दवरुंया.'

'कितें उलयता नलू तूं? घरचो गणपती आसलो तरी महेश पुजता तो. भार सगळो तो घेता. आमी अकस्मात गणपती पांच दीस दवरुंया अशें कशें म्हणूंक शकतलीं?'

'कित्याक शकचीं नात? सगलो खर्च आमी करुंया '

'नलू, फकत खर्च दिलो म्हणून जाता? महेश घडये आमचेकडल्यान खर्च घेवचोय ना. पूण पांच दीस घरांत सगल्यांक भार घेवन घोळचें पडटलें.'

'हय, जाणां हांव. घेवया आमी भार आनी घोळुंया. रतीचें लग्न थारल्यार पुरो.' नलिनीन

म्हळें.

रती सगलें संभाशण मोन्यानीं आयकतालें. ताणें म्हळें, 'आई, तुमची मगे 'बाजारांत तुरी आनी भट भटणीला मारी' अशी गत जाल्या. '

'म्हणजे?'

'म्हणजे कितें? आगे, अजुन लग्न थारूंक पसून ना. आनी तुमी पांच दीस गणपती पुजपाच्यो गजाली करतात.'

'तुका कळचें ना तें.' नलिनीन धुवेचेर धेंगसो घालो.

***

दिनेशान महेशाक तीं गोंयांत येतात म्हणून कळयिल्लें.

महेशान म्हळें, 'आरे, घर तुमचेंच आसा. जाय तेन्ना येयात. जाय तितले दीस रावात.'

कुलदेवाचे भेटेक वचपाचें आशिल्लें. मामागेर दोन दीस रावपाचें नलिनीच्या मनांत आशिल्लें तें सगळें चिंतून तांणी गांयांत येवपाचो बेत केल्लो.

महेशालो चलो हेमंत, इंजिनियरींगाच्या निमण्या वर्साक आशिल्लो आनी धूव बीए करताली. महेशान, ताचे बायलेन-रुक्मान आनी भुरग्यांनी खोशेन सोयऱ्यांक येवकार दिलो.

दुसऱ्या दिसा महेश तांकां घेवन नागेशी गेलो. नलिनीक थंय ताची भुरगेपणांतली इश्टीण आरती मेळ्ळी. एकामेकांक पळोवन दोगांकय खोस जाली.

उलयतां, उलयतां नलिनीन आरतीक रतीविशीं सांगलें, 'कोणय बरोसो न्हवरो आसल्यार सांग गो म्हाका.'

तिणें म्हळें, 'न्हवरे जायते आसात गो. पूण विचारतकीर सट्ट करून लक्षांत येनात. म्हजे नणडेची जाव मगो, सोयरिको करता. तिचे कडेन आसतले न्हवरे. तिका विचारून पळयतां.' आरतीन म्हळें.

नलिनीच्या मनांत आशा किल्लली.

'नागेशा पाव रे, मनार घे तूं.' ताणें मनांतल्या मनांत सांगून घेतलें.

रतीचो बायोडेटा नलिनीन आरतीकडेन दिलो.

'चवथ म्हणसर आसात आमी. पळय गो जमता जाल्यार' तिणें म्हळें. उपरान्त चलयेच्या लग्नाखातीर नागेशाक सांगणी करून तीं बांदोड्यां गेलीं.

म्हालक्ष्मीची होंट भरतना नलिनीचे दोळे भरून आयले.

'म्हालक्ष्मी आई, अंदू वर्सा तरी म्हजे धुवेच्या हाताक चुडो घाल गे. ताच्या हातान तुजी व्हॉंट भरतां.' ताणें मनांतल्या मनांत सांगून घेतलें.

कोणाकडेन तरी आपली मागणी रुजू जावंदी अशें नलिनी मागत आशिल्ली.

दुसऱ्या दिसा आयतार आशिल्लो. रुक्मान नेवऱ्यांचो आक्त दवरिल्लो. रुक्माचो नेवऱ्यांचो सांठो पयलींच तयार आशिल्लो.

कोण लाट्टा, कोण सांठो भरता तर कोण तळून काडटा अशें करून खिणामजगतीं नेवऱ्यो जावन पडल्यो.

"नेवऱ्यो कितले बेगीन जाल्यो कळ्ळें पसून ना." रुक्मान म्हळें, "अशींच दर वर्सा येयात."

"रतीचें लग्न थारल्यार पांच दीस गणपती दवरपाचो मनांत आसा. उपकरतलें रुक्मावैनी?" नलिनीन भिडेत म्हळें.

रुक्मा हांसली. एके वाडिल्ले चलयेचें आवयचें मन तिका वळखूंक येतालें.

"बरे भशेन आं. थारूनीच रतीचें लग्न. नक्की पांच दीस गणपती पुजुंया." रुक्मान हांसून म्हळें.

नलिनीच्या दोळ्यांतल्यान भळ्ळ करून दुकां गळ्ळीं.

ते रातीं रुक्मान महेशाक ही गजाल सांगली.

"तुवें कितें सांगलें?" महेशान विचारलें.

"बरे भशेन दवरुंया म्हळें."

"बरें केलें." महेशान म्हळें.

***

दुसऱ्या दिसा महेश तांकां घेवन दिवचले नलिनीच्या मामागेर गेलो. मामाचो भुसारी पसरो आशिल्लो. तांची गाडी पळयना फुडें पसरो मानायांचे सुवादीन करून मामा ताकतिकेन घरा आयलो.

भाचयेक इतल्या वर्सांनी पळोवन मामाक आनी मामीक खोस जाली.

'सामकींच विसरली गो तुमी आमकां? मामीन मायेन नलिनीन वेंगेंत घेवन विचारलें.

'नलू, सगलीं गेलीं गो वयर. हांव एकलो उरलां गोंयांत. हांव आसासर तरी यो पापया मेळूंक.' मामान भरिल्ल्या गळ्यान म्हळें.

नलिनीच्या जिवाक चोर जालें. मनशां कितें, आज आसात, फाल्यां नात. आसासर नातीं सांबाळूंक जाय हें सामकें खरें अशें ताका दिसलें.

भाची, भाचे जांवय बी येतलीं म्हणून मामान तामसो, कल्ली, विस्वण अशी नुस्त्याची सामकी खातड केल्ली.

महेश तांकां पावोवन रोकडोच वचूंक सोदी पूण मामान ताका जेवलेबगर सोडलो ना.

दनपरां जेवन जातकीर मामीन म्हळें, "नलू आगो, हांवे दोगां-चौगांक रतीखातीर न्हवरे आसल्यार सांग म्हणिल्लें. दोन सांगल्यात म्हाका. तुका पसंत पडट्टात जाल्यार पळय."

हया वयार लेगीत मामीन आपले धुवेखातीर न्हवरो सोदपाची तकालस घेतली म्हणून नलिनीक बरें दिसलें.

"सांग गे तूं मामी. काडटां हांव तांची चवकशी." ताणें म्हळें.

पिरायेक लागून मामी हालीं चडशी भोंव नासली ताका लागून तिणें आपले वळखीचे तातुंतले तातूंत बरेशे न्हवरे वेंचून काडिल्ले.

'हो मगो, इंदूबायले सुनेचो भाव. भाटांबेसां भरपूर. बसून खावपाचें. गाडी घोडो सगलें आसा.'

"कितें करता चलो?"

"हेंच गो. भाट बेंस पळयता."

"आनी दुसरो?"

"दुसरो तुजे वळखीचो."

"वळखीचो? कोण गे मामी?"

"मिलनबायलो पूत."

"मिलनबाय? तात्यालें?"

"हय गो. आनी कोण तर?"

"पूण मामी, तीं सगलीं सामकीं मोटवीं मगे. चलोय मोटवोच आसतलो."

"हय गो. मातसो मोटवो. पूण म्हजो काका मोटवो आशिल्लो आनी काकी ताचेपरस वेंतभर लांब आशिल्ली. तांणी संवसार केलो ना? चार भुरगीं जालीं."

तांचें संभाशण आयकतना रतीक हांसो येतालो. पूण मामीक वायट दिसत म्हणून तें मोन्यानी थंय बसून आशिल्लें.

"आनीक एक गजाल तुका सांगचेली आसा गो नलू" मामीन म्हळें,

"सांग गे मामी."

"हांगा मगो एक घाडी आसा. तो सगलें

जुस्ता जूस्त सांगता. ताचेर भार येता आनी त्या वेळार विचारिल्ल्या प्रस्नाक तो जुस्ताजूस्त जापो दिता. सोयरीक केन्ना जातली, कशी जातली; कोणाकडेन जातली... सगलें सांगता तो.''

''खरें गे मामी? खंय रावता तो घाडी?''

रतीक कच्च जालें. आवयची गाडी आतां घाडयाचें दिकेन वता तें पळोवन तें ल्हवूच उठून बापाय म्हऱ्यांत गेलें आनी ताणें ताच्या कानार ही गजाल घाली.

दिनेशान कपलार हात मारलो.

रातीं न्हिदूंक गेल्ले कडेन नलिनीन ल्हवूच घोवाक विचारलें, ''मामी कितें म्हणटाली खबर आसा?''

''हय खबर आसा. देवांक सांगणी करून जाली, आतां घाडी उल्ला?' देवाचेर भार घाला मगो तुवें? सोड आतां ताचेर. हे घाडी बिडी आमकां नाकात.'' दिनेश बायलेचेर तापलो.

तितल्यार नलिनीचे तकलेंतले घाडयाचे दिकेन वचपी चिंतनाचे गाडयेक कच्च करून ब्रेक लागलो.

***

दोन दीस मामागेर रावन तीं महेशागेर परतलीं.

आतां चवथीचो खऱ्या अर्थान बोवाळ सुरू जाल्लो.

गणपतीक दवरपाची लाकडी घुमटी सजोवपाचें काम सुरू जाल्लें.

दिनेशाक आपल्या भुरगेपणांतली याद आयली.

तेन्ना जाण्टेलीं आनी भुरगींय घुमटी सजोवपाच्या कामाक लागतालीं. तरेकवार रंगीत फोली आनी बेगडींनी घुमटी सजताली.

महेशाचो बाबा तरेकवार जाळ्यो कापतालो. घुमटी तयार जातकीर एक व्हडलें काम जाल्लेवरी दिसतालें.

महेश आनी दिनेश फाटल्यो यादी काडून हांसताले... परते ल्हान जाल्ले.

''करमलालो बाप्पा याद आसा रे तुका?''

''हय. तो ढोलकी वाजयतालो तो मरे?''

''हय रे. जूस्त चवथी दिसांनी नाच्च जाल्लो पळय.'' दोगय हांसूंक लागले.

हेमंतान विचारले, ''नाच्च जालो म्हणजे?''

''हेवटेन सोदतात, तेवटेन सोदतात... बाप्पा ना.''

''खंय गेल्लो तर तो?''

''कोणाक तरी व्हाळादेगेर ताचे कपडे मेळ्ळे.''

''हय. मागीर सगल्याक बोवाळ, बाप्पान जीव दिलो आसतलो.''

''व्हाळ फुडें वचून न्हंयक मेळटालो. सगल्यांनी बाप्पाची आशा सोडली.''

''बाप्पाच्या घरा रडारड सुरू. आनी अकस्मात बाप्पा झेलत, झेलत घरा आयलो.''

''आनी दुसऱ्या वर्सा करमलान पांच दीस गणपती पुजलो.''

''खंय गेल्लो तर बाप्पा?''

''कारवारा गेल्लो खंय इश्टावांगडा...''

गजाली करतां, करतां घुमटी तयार जाली.

***

तये पयल्या दिसा नलिनीक आरतीचो फोन आयलो. प्रदोश खरंगटो म्हणून एक इंजिनियर न्हवरो आशिल्लो. ताचेविशीं सांगूंक. तो पुण्यांत नोकरी करतालो. आवय बापूय फोंड्या रावताले. प्रदोशाची व्हडली भयण साखरदांड्यागेर लग्न करून दिल्ली. न्हवरो चवथीखातीर गोंयांत आयिल्लो. सात आठ दीस गोंयांत उरतलो. थळ पसंत आसल्यार सोयरीक व्हरात. आरतीन सांगिल्लें.

महेशान सगलीं सूत्रां हालयलीं आनी प्रदोशाविशीं म्हायती काडली. न्हवरो सगल्यांक मानवलो आनी चवथ जातकीर खरंगट्यागेर सोयरीक व्हरपाचें थारलें.

नलिनीन आरतीक फोन करून ही गजाल सांगली.

आरतीन म्हळें, तुमी डायरेक्ट सोयरीक घेवन वचात. आपूण तांचेकडेन उलयतां.

नलिनीची आवय सदांच म्हणी, ''जाणा मगो नलू, हे न्हवरे खोल्यापोंदा लिपून आसतात. दिश्टीच पडनात. पूण एक फावट हो खोलो कुशीक सरलो जाल्यार पोंदचो न्हवरो सट्ट करून दिश्टी पडटा आनी खिणा मजगतीं सगळें जुळून येतां.''

''खोलो कुशीन सरला देवा, आतां फुडलो भार तूं आंगार घे आनी सगळें जुळोवन दी,'' नलिनीन मनांतल्या मनांत सांगून घेतलें.

सगल्यांच्या मनांत आस्त किल्लली आनी चवथीची उमेद दोट्टी जाली.

महेशान गणपती पावयतना खाशेली सांगणी करून रतीचें लग्न जुळोवन दी आनी फुडल्या वर्सा पांच दीस तुजी सेवा करपाची आमकां संद दी म्हणून आग्राचें मागणें केलें.

***

आतां कांय प्रस्न उल्ले ते हे -

- ''दाखोवपाचो आक्त कसो जालो?''

- ''न्हवऱ्या-व्हंकलेन एकामेकांक पसंत केलें काय ना?''

- ''खोलो खऱ्यांनीच कुशीक सरिल्लो काय कितें?''

- ''रतीचें लग्न थारलें काय ना?''

ह्या सगल्या प्रस्नांच्यो जापो दिवपाची मातय गरज ना. फुडल्या वर्सा महेशागेर गणपती पांच दीस पुजपाचो आसा इतलें सांगल्यार पुरो. सगल्या प्रस्नांच्यो जापो मेळटल्यो.

इतल्या वर्सांनी काय जायना. खोलो कुशीक सरिल्लो आनी तांकां न्हवरो दिश्टी पडिल्लो.

संपर्क: 8087708050

***

*(पान ३३ वयल्यान)*

फुट्न. कांय कविता येतना वाटेर अड्टात. कांय रड्टात. कांय दिकांनी भरकट्टात. कांय रानांत लेगीत शेणटात.

कांय कविता दिश्ट लागपा इतल्यो सुंदर आसतात. कांय कवितांचे जातात बारा बिरेस्तार, तेरा शुक्रार. कांय कविता बरोवनूय डायरेंतूच उरतात वर्सान वर्सा. कांय कविता बाबड्यो जिणभर उजवाडाची वाट पळेत काळखांतूच रावतात.

-आनी कांय कविता मनांतूच उरतात कवीच्या- घुस्मटत, धुमसत- निमाण्या स्वासा मेरेन!

संपर्क: 9422640210

***



# पार्टनर...!

जयमाला ना. दणाईत

''मां, येतां गे हांव.'' बूट चडयत आशिशान सांगलें.

''आरे, राव मात्सो. डबो भरतां मरे तुजो. कारात्या सुकें केलां.''

''दी दी बेगीन. अनिशाक आवडटा, नाजाल्यार वतलों आशिल्लों तसोच.''

''हें बरें मरे तुजें. तुका आवडटा म्हणून केलां. आनी तुका तुज्या मित्राची याद जाता.''

''आगे, पुण ताजी आईय बी खुपदां म्हाका आवडटा ती भाजी करून धाडटा न्ही.''

''बरें बरें. तुमचें इश्टांचें म्हाका सांगनाका पळोंवया. सामकें 'अजब तुजें सरकार' अशेंच आसा तुमचें दोगांचें.'' मां न कवतुकान म्हळें.

''बरें बरें, डबो दी बेगीन. वाटेर ट्रॅफिक लागल्यार मागीर वेळ जातलो म्हूण वचपाची ताकतिक केली. मां न ताज्या हातांत डबो दितली इतल्यांत भितल्ल्यान अवीचो आवाज आयलो - सदांभशेन तापसाणेन भरिल्लो - ''आगो, आज ताका मात्सो बेगीनच येवपाक सांग. सदचेभशेन लेट करनाका म्हणचें.''

''आं.कित्याक तर? अशें कितें आसा आज जगावेगळें?'' पुतानय तिरसटपणान विचारलें - ''आज तीं मडगांवचीं काऱ्यालीं मनशां येवपाची आसात चलयेक घेवन.'' बापायन जाप केली.

''मां, कितल्या वेळा सांगलें तुमकां, हे असले प्रोग्राम दवरनाकात म्हणून, तेंवूय म्हाका विचारीनास्तना.''

''व्हडलो जालो रे तूं आतां! आतां कितेंय करतना तुजी अपोंयटमेंट घेवंची पडटली आमकां? आनी असले प्रोग्राम दवरनाकात खंय. आतां कितें ल्हान आसा तूं? बऱो चाळीशीचो घोडो जालो. आतां न्हय तर केन्ना करतलो लग्न - म्हातारो जातगीच?'' बापुय धेंगसलो.

''मां, ताका सांग हां, हांव असलीं उतरां आयकून घेवचों ना आतां. हांवें पयलीं सांगलां न्हीं तुमकां, म्हाका चलीय पळोवपाची ना, आनी लग्नय जावपाचें ना.'' आशिशान तापून म्हळें. आनी अंजू कितें उलोवचें पयलींच तो टक् टक् करून बूट आपटीत सोपणां देवन गेलो.

''चड माज चडला हाका. बिझनेस करता म्हणून कितें मळबाक हात तेकयले व्हय! काय कोण टाटा - अंबानी बी समजूंक लागला आपणाक? चडच सुबेज जाला. आनी हे



सगळे तुजे लाड!'' अविनाशान अंजूचेरच फोग काडलो.

''हें पळे, तो कितें आतां भुरगो उरुंक ना तुमकां भिवपाक. तुमकांय ताका कामाक वतनाच तोकासांवां करपाची संवय जाल्या. रातचें शांतपणान सांगल्यार जायना असलें? तुमच्या दोगांमदीं म्हजो सामको सँडवीच जावन गेला.'' रडकुरें पर्थून अंजून म्हळें, ''आगो, शांतपणान उलोवंक तो घरादारांत आसता तरी? केन्ना सांगपाचें? दिसभर खंय हेडटा त्या बायजणाबराबर देव जाणां. हांव न्हिदतगीच मध्यानरातीं केन्नातरी उदेता निशाचर कसो! आनी हांव उठचेपयलीं भायर सरून वता.. हालीं हालीं चडच जालां हें ताजें.'' अविनाश वितरागलो.

''आतां बिझनेस वाडला तशें कामय वाडलां ताजें. तरी बरें तो अनिश आसा ताजेबरोबर. दोगांचेय बरें जमता. एकमेकांक सांबाळून घेतात ते''. अंजून अपुरबायेन सांगलें, ''तेंच तर नाका म्हाका. पयलीं असो नाशिल्लो तो. कितेंय सांगल्यार आयकतालो. पुण कॉलेज सोंपत पासून चडलां ताजें. काय बरें अमेरिकेक वचून फुडें शीक म्हळ्यार ना तें ना म्हळें. आपलें तें खरे केलें. बरें, बऱ्या कंपनींत नोकरेक उतर घाल्यार तेंवूय नाका. बिझीनेस करता खंय बाब. गोंयांत एक तर बिझिनेसाक वाव आसा? बरें, तोवूय कोणाबराबर - त्या अनिशाबराबर - म्हाका तर तो भुरगो मातय आवडना. म्हज्या वळखीन नोकरी धरिल्ली जाल्यार आज खंयच्या खंय पावपाचो.'' अवीन सगळी खदखद अंजू मुखार उक्तायली.

''जालें न्ही आता आपल्या कामांत रमला तो. आनी सगळ्यांकच खंय तुमचेभशेन नोकरी आवडटा. आनी बिझनेसांत नांव कमावपाचें सपन आसा ताजें. म्हण्टा न्हय तो तुमचें नांव काडलेबगर रावचो ना म्हणून! ताजें आवडीचें काम - मन लावन करता बाबडो. भायल्या राज्यांनीय पावला तांचो बिझिनेस! इतलें मन लावन करता, तर तो सक्सेसफुल जातलोच.'' अंजून आपल्या तिरसुवाद घोवाक समजावपाचो येत्न केलो.

''आगो, पुण नोकरी म्हळी की आपल्याचेर चड जापसालदारकी नासता. जाय तेन्ना वेळ काडूं येता, सुटी घेवं येता. म्हयन्या म्हयन्याक पागामेंत हातांत! बिझनेसांत कितें, प्रोफीट तसो लॉस! सगळो बेभरवंशाचो वेपार! आज बरें चल्लां, पुण केन्ना कितें जायत सांगूं येता? लग्नाची पिराय हुपून चल्ल्या ताजी. बरें घराण्यांतलें चली मेळूंक जाय न्ही? आजच्या चलयांक बरे घरचो, बऱ्या कंपनींत व्हडल्या पोस्टार आशिल्लो, बरो पगार घेवपी, फॉरेन रिटर्नड, गाडी घोडो आशिल्लो न्हवरो जाय आसता. तीं तुमच्या सपनांक थोडोच व्हालोर दितात? फुडें बरें जातलें हें कोण येवजिता? तांकां सगळें रेडिमेड लागता - मागीर जातात चट मँगनी पट ब्याह!''

''आरे, पुण आयजमेरेन थोड्यो सोयरगती आयल्यो? कोण आमकां पसंत ना तर कोण

ताका. आनी चलयांच्यो अपेक्षा तर भलत्योच वाडल्यात. बरें, लग्न कितें ताज्या मनाविरुद्ध करून उपेग आसा? हालीं हालीं तर तो लग्नच नाका म्हणूंक लागला.''

''हां, तोच तर भंय दिसता. एकलोच पुत आमचो आनी तोच जर लग्नाशिवाय ब्रम्हचारी रावलो तर आमचें घराणें, आमचो वंश वाडटलो कसो? तांतून ताजो आमीग कोण तर तो झेंडफकाण!'' कपलाक सतराशें साठ आंठयो घालीत अविनाश उलयलो. ताजो तो अवतार पळोवन अंजू हळूच भितर सटकलें.

आशिश, अंजू आनी अविनाशालो एकलो एकसुरो अपुरबायेचो चलो. खरें तर ताजे कितले लाड जावपाचे. पुण बापायच्या ह्या तर्कटी सभावाक लागून ल्हानपणासावन तो बापायकडेन पैसावतच गेल्लो. ताजें सगळें उलोवप करप चलतालें तें ताज्या मां कडेन. अविनाश आशिल्लोच तापट सभावाचो. मात्शें ताजे मनासारकें जालें ना जाल्यार रोकडो तापतालो. कितेंय उलयतालो - मुखार मागीर कोण आसा ना तें सुद्दां येवजिनासलो. सामको तोर्राद! आनी ल्हानपणासावन आशिश ताज्या ह्या सभावाक थर्त भियेतालो. ताका ताज्या मनाविरुद्ध सदांच पापा सांगता तशेंच करचें पडटालें. आनी हाजो ताका खूब राग येतालो. आपल्याक केन्नाच आपल्या मनासारकें वागूंक मेळना हाजो ताका सामको मनस्ताप जातालो. आशिश अनिशाची मैत्री घट जावचें मुखेल कारणय हेंच आसलें.

अविनाशाक अनिश सामको आवडनासलो. आशिशान ताजेकडेन मैत्री करूं नये अशेंच ताका दिसतालें. तशे ते दोगूय एकाच इश्कोलांत, एकाच वर्गांत आशिल्ल्यान ताचो संबंद येतालो. अनिश मात्सो भिवकुरो - आंगापिंडानय बारकुटो; मस्ते भुरगे ताका सदांच त्रास दिवन ताजीं फकाणां मस्करी करताले. आशिशा हुजीर कोणेंय ताका भिश्टायल्यार तो मदीं पडून ताका सोडयतालो. म्हण्टगीच अनिशाक ताजो आदार कसो दिसतालो. म्हणून तो आशिशाल्या फाटल्या फाटल्यान करतालो. आशिश ताका आपलो आदर्श कसो दिसतालो. म्हण्टगीच तो कितें करतां तें आपुण करपाक मुखार सरतालो. स्पोर्टसांत, जांव खंयच्याय कार्यावळींत आशिश आसा म्हणल्यार तोय भाग घेतालो. आशिशाकय ताजी संवयशी जाल्ली. मागीर हळूहळू तांच्यांत इश्टागत जाली. आशिश मेरिटांत आयलो धावेक. तसो तो ऑलरावंडर म्हणून सगळ्यांक आवडटालो. अनिश तर ताजी भक्तीच करुंक लागलो. केन्नाय चुकून तांगेर आयल्यार मां ताजी अपुरबाय करताली. पापाक मात ताजी नसाय कशी जाताली. तो ताजेर तापसाणी काडटालो. अनिशाली आई तर आशिशाक आपलो पुतच कसो मानताली. तांचें घर हें आशिशाक आपलें दुसरें घरच कशें दिसतालें.

अशेच दिस सरताले. आशिश आनी अनिशाच्या मन लावन केल्ल्या मेहनतीक फळ आयिल्लें. 'ए ए कन्स्टक्शन'चे नांव गोंयांत आनी लागींच्या राज्यांनी गाजतालें. ताका लागून अविनाशाचो राग मात्सो उणो जाल्लो. त्या दिसा पापा घरा नासलो. आशिश मात्सो रिलेक्स मुडांत आसलो.

''मां, म्हाका मात्शें उलोंवक जाय आसलें तुजेकडेन. पापाय ना घरा. म्हण्टगीच शांततायेन उलोंवक जातलें.'' आशिशान अंजूक सांगलें.

''आरे, मागीर परमिशन शी कित्याक मागता? तुजेखातीर भरपूर वेळ आसा म्हजेकडेन. आतां आनी घरांतलीं कामां करूंक चार चार मनशां दवरल्यांत तुवें. कितें मन मेकळें करपाचें आसा तें सुसेगादीन कर.'' अपुरबायेन मा न म्हळें.

''हांव जाणा मा, तूं म्हाका सदांच तेंको दिता, बरेतरेन समजून घेता. म्हजें मन सारकें वळखता. आज हांव जो कोण आसां तो फकत तुका लागून. हाजेपयली हांवें खूपदां हाजी वाच्यता केल्या. म्हाका मगे माँ, लग्नच करन दिसना.'' आशिशान आपलें मन आवयकडेन मेकळें करपाक सुरवात केली.

''आरे पुण कित्याक? तुजें कोणा चलयेन मन बी दुखयलां? हें पळे आशू, हाताचीं सगळींच बोटां कितें सारकीं नासतात. नशिबांत आसल्यार तुका बरें चली मेळूंक शकता. येत्न तर करया सोदपाचो; यश दिवप ताज्या हातांत! काय आमच्या घोव-बायलांच्या संबंदा लागून तुका लग्नाचोच नोशिया बी आयला रे?''

''ना ना मां, अशें कांयच ना हां. म्हाका खंयच्याच चलयेन हर्ट बी करूंक ना. पुण म्हाका खरेंच कांय इंटरेस्ट दिसना आतां लग्नांत.''

''आशू राजा, अशें म्हणून जाता व्हय? आपलें घर, समाज, कुटुंबवेवस्था - आपलीं सोयरीं, धायरीं हाचोय विचार करचो पडटा पुता! आतां तर इश्टमित्र, शेजार पाजारचीं सगळींच विचारूंक लागल्यांत - आशिशाचे लाडू केन्ना दितात काय म्हणून. इतलो तेंप तुज्या वेवसायाचें निमित्त आशिल्लें. आतां तोय बरेतरेन चलता. बंगलो जालो, गाडयो आयल्यो. समाजांत आपली प्रतिश्ठा, प्रेस्टीज तितलेंच महत्वाचें! कांय लोक बरे हेतून विचारतात, कांय बकच्छायेन? म्हणून पापा वितरागता रे तुजेर. हरशीं ताजो खूब मोग आसा तुजेर, पुण सभावाक वखद ना. आपलो मान, प्रतिश्ठा हाजो प्रस्न आयलो कीं ताजी चिडचिड जाता. हरशींय जाल्यार तो मात्सो तिडकीवाद्याचो! रोकडी तकली तापार जाता ताजी, आनी सगळें उट्टें मागीर आमचेर काडटा तो.'' मां न पुताक समजायत म्हळें.

''तशें न्हय गे मां. पुण लग्न जालें म्हणचे सगळ्याची इतिश्री जाली व्हय? ह्या संवसारांत कितलेशेच जाण आसात लग्नाशिवाय, सुखान जियेतात. कोणाचें कितें अडलां?''

''आरे, पुण तुवें लग्न जावचें, बायल भुरग्यांसयत सुखान संवसार करचो; आपलो वंश वाडोवचो अशें सगल्या आवय-बापांयक दिसता तशें आमकांय दिसता न्हीं? तूं तुज्या संसारांत रमलो म्हणजे आमी मेकळीं आमच्या कर्तव्यांतल्यान.'' मां न ताका समजावपाचो यत्न केलो.

''हें तूं उलयता गे मां? लग्न जालें म्हण्टगीच जालें गे? तें तिगूंक जाय मगे? आनी आतांच्यो चलयो इतल्यो इस्पेर्त, सुबेज! तूं जाणांच, आरेक कारे म्हणूंक तयार! तुमचो काळ गेलो आतां मां. तुमी घराखातीर, भुरग्यांखातीर आपलें मन मारून जियेलीं, सगळ्याकडेन तडजोड केली. पुण आतां तशें ना. आतां चलो जांव चली, 'हम, दो हमारा एक' सगळीं घरचीं अपुरबायेचीं! कोणाक दुसऱ्याचें आयकुपाचें नासता. सादें कितेंय निमित्त मागीर तांचें मन दुखोवंक कारण जाता. लग्न जावन रोकडें दुसऱ्या दिसा लेगीत कुळारा आयिल्ली चली दिश्टी पडटा. लग्न-डिवोर्स

सगळें रोकड्यारोकडें! व्हडा थाटान तीन तीन दिस लग्नां चलतात. आनी आठ धा दिसांनी चली परतें येता. इतलो देसपेझ, इतलो खर्च करून फायदो कितें? आगे, म्हज्या मित्रांचीच कितलीं उदाहरणां दिंव तुका?'' आशिशान मां क पटोवपाचो यत्न केलो.

''आरे पुण पुता, सदांच अशें घडना न्हीं? लग्न जावंचेपयलीं चलो-चलयेन एकमेकांक मेळून-उलोवन करून समजून घेवपाचें. दोगांनीय स्पश्ट एकमेकांचीं मतां मांडपाचीं.''

''तेंच तर हांवूय म्हण्टालों न्हीं? तुमी मेळून कितेंय थारावचे पयलीं हांव त्या चलयेक मेळून आमचें जुळटा काय ना तें पळोवंचें म्हण्टालों - मागीर घरा आपयात. पुण पापा सदांच उरफाटें करतालो. म्हाका हें असलें कांयच आवडनासलें. मागीर हांवें ना म्हळ्यार त्या चलयेचो इन्सल्ट न्हीं?''

''चली कशेंय आसलें तरी ताका आपणें समजून घेवप, ताका माया लावप आपल्याच हातांत आसता न्हीं? बदलतात तीं हळूहळू.'' मां न सांगलें.

''छे, हो सगळो भ्रम आसा तुजो. आसतय कांय अपवाद तूं म्हण्टा तश्यो! पूण मां तरांतरांच्यो चलयो पळयतां हांव दिसपट्ट्यो! बिझीनेसाक लागून खूब जाणां भेटतात म्हाका. कसले कसले भयानक भ्रम-विभ्रम ह्या हालींच्या चलयांचे. कांय जाणां तर मज घे म्हणून अक्षरशः आंगार पडपी! विटलां गे हांव ह्या सगळ्याक आतां. आनी मां, मुळांतच पयलींसावन - म्हणचे शाळा-कॉलेजींत धरुन केन्नाच म्हाका कोणच तशी मनापसून आवडली अशी ना. आनी आतां तर म्हाका चलयांमदीं मात पूण इंटरेस्ट ना. फुडें केन्नाय सापडल्यार सांगन हांव तुका. आतां तरी हांव आनी अनिश एकमेकांक पुरक आसात. आनी आनी कोण नाका म्हाका...''

''म्हणचे रे? कितें उलयता हें तूं...'' शॉकार जायत मा न म्हळें.

''हय मां, हेंच सगळें सांगून म्हजें मन उक्तावंक जाय आसलें म्हाका तुजेकडेन. म्हाका गॅरेंटी आसा मां, तूंच म्हाका सारके बरे समजून घेशीत.''

''आरे पुण आशिश, हें भलतेंच...'' अंजू मदींच उलयलें.

''आयक तरी मां - अनिश म्हजो फास्ट फ्रेंड. मात्सो भिजूड पूण सामको प्रामाणिक - तो होनेस्टली म्हजेर निंबून आसता. सदांच, भुरगेपणासावन हें तूं जाणांच. आनी दोन म्हयन्यापयलीं ताजी आई अकस्मात गेली. ताज्या मायेचीं अशीं कोणच मनशां नात. आई वतना ताजो हात म्हजे हातांत दिवन गेली - ताका म्हज्या सुपुर्द करून गेली. खूब रडलो बाबडो म्हज्या खांद्यार तकली दवरून, सामको एकलो पडला तो. कितले दिस हांव ताज्या म्हऱ्यांत रावलां तूं जाणाच. आनी मगे ताका सांबाळटां सांबाळटां म्हाकाय ताजी संवकळ जावन गेल्या. आतां आमचे सामकें सूत जमलां - सगळेवटेन! आमी आतां एकमेकांपसून पयस रांवकच शकनात. ताजे वेंगेंत म्हाका वेगळेंच सुख मेळटा - कितें तें म्हाका आनी वेगळ्या उतरांनी सांगूंक येना.'' तकली सकल घालून तो एकसारकें उलयत गेलो.

''आरे आशिश, पूण...''

''राव मां, कांयच उलयनाका. तुका समजलां म्हाका कितें म्हणपाचें आसा तें. आतां तर कोर्टानय असल्या लग्नाक संमतीय दिल्या. पुण भियेवं नाका. आमी अशें कांयच करचे नात. तुमच्या प्रतिश्ठेक बाधा येत अशें कितेंच म्हज्या हातान घडचें ना. तशें हें कांयच सांगनासतना रांव येतालें. पुण म्हज्या मनांक तें पुटवलें ना. तुका सांगले बगर म्हज्यान रांव नज जालें. फकत आतां हांव ताज्याच म्हऱ्यांत रावंक सोदता.''

''आनी हांव कितें करूं रे? तुज्याशिवाय रावपाची कल्पनाच करूं नज म्हज्यान.''

''तसो पयस खंय वतलो तर हांव? आनी यो वच करतलोंच न्ही? हें पळे मां, हांव भायर गेल्लो आनी थंयच सेटल जाल्लो जाल्यार कितें करतलीं आसलीं? तशेंच समज. तूंय चल म्हजेबरोबर. हांगाच्यांन पयस वचून रावंया सुखान.'' भरिल्ल्या गळ्यान आशिश उलयलो.

''ना बाबा, हें घर आनी घोव सोडून म्हाका दुसरो जागो ना बाबा. मागीर तो कसोय काय आसना. आतां मरणा उप्रांतच म्हजी तिरडी उठपाची.'' भरिल्ले दोळे पुसत ताकां म्हळें.

''अशें कित्याक उलयता गे मां? म्हजो राग आयलो, वायट दिसलें?''

''ना रे पुता, जण एकल्यान आपल्या मनाप्रमाण वागचें. हांव बाबडें कितें सांगतलें?''

''मागीर हांवें तरी म्हज्या मनासारकें केन्ना जगप गे? तूंच सांग न्ही. सदां उठून हेरांच्या मनासारकें कशें वागप? म्हाका म्हज्या मनासारकें वागूंक नाका? आनी तुमी सांगतात म्हणून लग्न करून म्हज्याबराबर आनी एकाची जीण पेड्डयार करुं? म्हाका म्हज्या जीणेंत सुखान जगपाचें आसा. आनी सांग न्हय तूं - ताजो बिझनेस वाडला. दिस-रात तातूंन लक्ष घालचें पडटा. हांगाच्यान यो वच करूंक त्रास पडटात. अनिश आतां सामको एकटो पडला, म्हणून ताज्या सांगाताक रावतां.'' अशेंच सांग सगळ्यांक; - पापाक लेगीत सांग. ताका आवडचें ना. पुण हांव तरी कितलो तेंप सोसूं गे ताजो जाच? हांवें केन्ना सुखान जगपाचें? आशिश स्पश्ट उलयलो. हाजेर कितें उलोवचें तेंच समजना जालें अंजूक. बापायभशेनच तोय तितलोच हट्टी, आपल्या वाद्याचो - आपलें तेंच खरें करतलो हें ताका खबर आसलें. तरी निमाणो येत्न म्हणून तें उलयलें -

''सुख हें आपल्या मानपाचेर आसता रे आशू! जणएकाचे सुखाचे आयाम वेगवेगळे; म्हज्या मतान सुख म्हणचे मनाची खोशी - जी एक एकल्याक वेगवेगळे तरेन मेळटा. खंयय राव पुण सुखी जा बाबा तुज्या जीणेंत, आनी कितें सांगू?'' दोळ्यांत दाटपी दुकां पातकडयां भितर ल्हिपयत, आंवडो घोटीत अंजू उलयलें.

''मां, हांव जाणांच आसलों - कोण ना तरी म्हजें मन तूंच सारकें जाणूंक शकता मां. अनिश म्हजो पयलींसावन इश्ट, मागीर बेस्ट फ्रेंड जालो. शिकप पुराय जातगीच बिझीनेस पार्टनर जालो, आनी आतां आमी जाल्यात लायफ पार्टनर!''

''तथास्तु! शुभं भवतु!'' अंजून भरिल्ल्या दोळ्यांनी आनी दाटिल्ल्या गळ्यान ताका आशिश दिलो.

संपर्क: 9757119317

***



# चित्र

**अरूण साखरदांडे**

ताच्या घरासाकून पांच म किलोमीटराचेर दर्यादेगेर लोकोत्सव भरतालो. सुमार सातशीं ते आठशीं स्टॉल लागताले. देसाच्या विंगड विंगड वाठारांतसून शेंकड्यांनी विक्रेते आपल्यो कलात्मक वस्तू स्टॉलानीं सजयताले. साडयो, चादरी, कपडे, कार्पेट, तरांतरांची चित्रां, तांबे, पितुळच्यो वस्तू, जोतीं, प्लॅस्टीक फुलां, झाडां, सोबीत फर्निचर, चिनी मातयेच्यो वस्तू. विंगड विंगड आकृतीचे दिवे, मातयेच्यो कलाकृती अश्यो हजारांनी वस्तू स्टॉलांनी आकर्शीत रितीन मांडटाले.

ताका लोकोत्सवांतले हें प्रदर्शन पळोवपाक खूब आवडटालें. कमीत कमी चार पांच फावट तरी तो आपले बायलेवांगडा प्रदर्शनाक वतालोच. बायलेक जमलेना जाल्यार तो एकटोच वतालो. स्टॉलांनी लायिल्ल्यो वस्तू पळोवन ताच्या काळजाक सुख शांती मेळटाली. ताका देशांतल्या विंगड विंगड वाठारांतल्या कलाकाराचें भोव कौतुक दिसतालें. दर वर्सा लोकोत्सवाक किर्तें ना किर्तें घेतालो. चार वर्सां पयलीं ताणें एक कार्पेट घेतली. आपल्या फ्लॅटाच्या हॉलांत जमनेर घालपा खातीर. मागीर बायलेक साडयोय घेतिल्ल्यो. आपल्याक चामड्याचे बुट आनी इश्ट सोयऱ्यांखातीर भेट वस्तू, कपड्यांचो सेट बी घेतिल्लो.

चार दिसांपयलीं सांजेचो जेन्ना तो लोकोत्सवांत भोंवतालो तेन्ना पयस एका कुशीक एका कलाकारान मांडिल्ली सोबीत चित्रां ताका दिसलीं. आनी एका अनोळखी ओडीन, आकर्शणान ताचीं पावलां आपोआप त्या स्टॉलाच्या दिकेन पडूंक लागलीं आनी लागीं पावतकच ताका सगळीं चित्रां स्पश्ट दिसूंक लागलीं. चित्रकार मोठ्या आपुलकेन चित्रां दाखोवंक लागलो. चित्रकार जाण्टो जाल्लो. सरळ लांबसार केंस, आकर्शक अर्दपिकें खाड, पिंगट मिश्यो, अनुभवी खोल गुढ नदर, हळदुव्या कुर्त्यार चार पांच रंगाचे दाग आनी राखाडी रंगाचो सुरकुतलेलो लेंगो.

सुर्या अस्तमल्लेलो आनी दर्यादेगेरचे खारें वारें आंगाक नेटाचो स्पर्श करताले. वगत जाल्ल्यान लोकूय कमी जाल्ले. ल्हवू ल्हवू काळोख दाट जातालो.

चित्रकारान ताका तरा तरांची चित्रां दाखयलीं. दर्यांत हालपी धोलपी कपड्याच्या शिडाच्या मोट्या व्हड्याचें चित्र, तळ्याच्या उदकांत पांय बुडोवन चोचींत नुस्तें धरिल्ल्या दोन बगळ्याचें चित्र, एका फाटल्यान एक उंच मळबाक तेकिल्ल्या दोंगर आनी दाट रानांचे पांचवे काळशें भंय निर्माण करपी चित्र



अशी कितलीशींच बऱ्यांतलीं बरीं चित्रां. ताका चित्रकाराच्या फिशालकायेची तोखणाय दिसली. चित्रकाराचो अणभव, ताणें चित्रांत भरिल्ले वेगवेगळे रंग आनी फिशालकायेन सगळ्या चित्रांक एक जीवेपण आनी गुढ रुप आयिल्लें.

तेन्नाच ताका तें चित्र दिसलें, जणुकाय इतलो वेळ मेरेन ते चित्र थंय नाशिल्लेंच. अचकीत ते चित्र स्वयंभू प्रकट जाल्लेवरी जालें. येदोळमेरेन ताच्या नदरेच्या वाठारांत तें नाशिल्लेवरी. सगळ्या चित्रांभितर तें चित्र वेगळेंच आसलें. तें चित्र पिशोलान काडूंक नाशिल्लें. सुतलेचे दोर करून ते वेगवेगळ्या रंगांनी भिजयल्ले पांचवो, हळदुवो, निळो, काळो, पोपटी अशे कितलेशेच तरेकवार रंग सुतलेचे दोर हातांत विणून स फूट बाय आठ फूट हळडुव्या रंगांची शेंदरी विणिल्ली. ताचेर ऊंच ऊंच झाडांचे विणकाम केल्लें. सुतलेच्या काळसर बुंध्याक निळसर सुतांनी वाटकुळे बांदून घेतिल्लें. सुतलेचे बारीक कुडके झाडांच्या बुंध्याभितर आरपार तोपून घेतिल्ले. निळ्या पांचव्या रंगात बुडोवन काडिल्ल्या सुतलेच्या कुडक्यांनी पानांचो सोबीत आभास निर्माण केल्लो. पानांभितर अदृश्य जाल्लीं झाडांची खोडां ऊंच ऊंच पाविल्लीं. झाडांचे रान गच्च भरिल्लेवरी दिसतालें. झाडांमदीं उक्त्या पडिल्ल्या जमिनीचेर हिरवळ तयार केल्ली सुतलेच्या विणून केल्ल्या कुडक्यांनी.

झाडांमदीं वांकडी तिकडी वाट दिसताली. त्या वाटेच्या खूब भितर एका तोंकार एक ल्हानशें सुपुल्लें घर दिसतालें. तांबड्या नळ्यांचे आनी केसरी वण्टीचें. मुखारुच एक दार आसलें आनी उजवेवटेन दोन जनेलां दिसतालीं. पांचव्याचार झाडांभितर लिपिल्ले हें घर खुबूच सोबीत दिसतालें.

ताका दिसलें चारूय वटेन नटील्ल्या सैमामदीं जमनी भितल्ल्यान प्रकट जाल्ल्या त्या घरांत रावप कितलें सुखदिणे आसतले ताका त्या घराचें भोवूच आकर्शण दिसलें.

सांज जाल्ली. सुर्या अस्तमून कांय वेळ जाल्लो. चित्रकारान स्टॉलान लायट पेटयली. लायटीच्या उजवाडांत चित्रांतल्या झाडांक लांबी रुंदी आयिल्ल्यावरी ताका दिसलें. झाडांभितल्लें घर ताका उलो मारता कसो भास जालो. ताणें आनी वेळ केलो ना. चित्राचे पयशे फारीक केले. चित्रकारान वण्टीवयलें चित्र देंवयलें आनी गुठलावन पॅक करून ताच्या हातांत दिले. ऊंच ऊंच झाडां. हिरवळ आनी घर आशिल्ल्या त्या चित्राची जडाय ताका हिसपाभायर जाणवली. केन्ना एकदां घरा पावून चित्रां वण्टीर लायता अशें ताका जाल्लें.

घरा पावल्यार घराक कुलूप. बायल खंय

तरी गेल्या आसुंये. ताणे आपलेकडले चावयेन कुलूप उगडलें. आनी चित्र लावपाक वणत सोदूंक लागलो. घराच्या हॉलांत ताचे आवडटें ओल्तेर आसलें. त्या ओल्तेरा सामकार वण्टीक टी वी दवरिल्लो. टीवीफाटली उक्ती धवी वणत रितीच आसली. आजूनमेरेन ते वण्टीर एकूय चित्र लावूंक नासलें. ती सुवात ताका भोव आवडली. ताणे घरांतलो तुतयो हाडून त्या वण्टीर एक खिळो माल्लो आनी तें चित्र हुमकळायलें.

ओल्तेरार बसून तो तें चित्र नियाळूंक लागलो. हॉलांतल्या हवेंत एका तरेची गच्च दाटसाण आयिल्लेवरी ताका दिसलें. थंडेंत तळ्याकुशीनच्या झाडांनी फांतोडेच्या धुंद धुक्यांत आपूण भोंवता असो विचित्र भास ताका जालो.

उजवटेवटेनच्या वण्टीवयल्या एलईडी बल्बाच्या उजवाडांत वण्टीवयलें चित्र व्हड व्हड जायत चारीय दिकांनी फांकारल्याबशेन ताका दिसलें. चित्रांतल्या झाडांनी धुकें रिगिल्लें. ते धुकें ल्हव ल्हव हॉलांत पातळून ताचे हाताक पायांक काळजाक स्पर्श करता अशें ताका दिसलें. ताची लार्गींची इश्टीण मितावांगडा सांजेच्या वेळा जार्दीनान हातांत हात घालून भोंवतना अश्या धुक्याचो हळूवार स्पर्श ताका जातालो.

अचकीत मिताची याद कित्याक आयली काय अशें ताका दिसलें. मिताच्या आवय बापायचो तांच्या लग्नाक विरोध आसलो. मिता उंचेल्या जातींतलें घरंदाज आनी गिरेस्त चली. मिता आपल्या आवय बापायच्या हाता पायां पडलें लग्नाखातीर. पुण सगळें फुकट. मिता शिकप सोंपतकच नोकरेक लागून पयस गेल्लें. वच्चें पयली ताका तें जार्दीनात मेळिल्लें आनी आपल्याक विसर अशें सांगून जड पावलांनी ताचो निरोप घेतिल्लो.

ह्या घडणुकेचो ताजेर खूप मानसिक परिणाम जाल्लो. ताचेखातीर जिवितांत कांयच अर्थ उरूंक नाशिल्लो. उपरांत मिताची कांयच खबर मेळ्ळी ना. मिताचे मावशेकडेन ताणे एकं फावट मारिल्ली. पूण कळ्ळे कीं मावश्याची बदली जावन तीं पैस गुजराताक पावल्या. मागीर खूप तेंपान आवय फाटीक लागल्या म्हणून आवयच्या नात्यांतल्या चलयेकडेन ताणे लग्न केलें. पूण दोगांयचे स्वभाव वेगळे, विचार वेगळे, तो पूर्वेवटेन तर ती पश्चिमेकडेन अशेंच कितें तरी जाल्लें. संवसाराच्या दुदांत मीठ पडून दुद विटकळ्ळें. दुधार साय धरपाची वेळूच आयली ना.

दुसरे दिसा रातची धा वरां जाल्यांत आसतलीं. तांचे जेवण जाल्लें. ताची बायलूय रांदची कुडींतले काम सोपोवन न्हिदपाक गेल्ली. तो हॉलांत ओल्तेरार बसून पुस्तक वाचतालो. वरभर पुस्तक वाचून जातकच ताका आळस आयलो. ताणे पुस्तक धांपले. ताचें लक्ष वण्टीचेर कालूच लायिल्ल्या चित्राचेर गेलें. पुराय चित्रान ल्हान व्हड मोठी झाडां वाडिल्लीं, दाट पोपटी. पांचव्या काळसर पानांनी भरिल्ल्यो खांदयो झाडांमदीं भरिल्लो गच्च काळोख. आनी त्या झाडांमदी आशिल्लें सोबीत सुंदर माणकुलें घर. आनी झाडांमदसूच त्या घरामेरेन गेल्ली हळडुवी वाट.

ताका काल ही वाट दिसुंकूच नासली काय? आज ती वाट स्पश्ट दिसताली. जशी काय आयजूच ती चित्रांत प्रकट जाल्ली. त्या चित्राकडें बारीक नदरेन पळेल्यार ताका अजापूच दिसलें. त्या घराचें एक जनेल उक्तें आसलें. आरेच्च्या हें आनी कितें गौडबंगाल?

अकस्मात ताका ओल्तेरारूच न्हीद लागली. ताका एक स्वप्न पडलें. सपनांत तो जार्दीनांत एकलोच आसतनां मिताचो उलो आयकूंक आयलो. तो फाटल्यान पळेता म्हणसर मितान धांवत येंवन ताका वेंग मारिल्ली. तें खूब खोशी आसलें. मितान ताचेवांगडा लग्न करपाचो निर्णय घेतिल्लो. तें ताका सांगपाक लागलें कीं आमी पळून वचून लग्न करूंया. ताका मिताचें म्हणणें तितलें आवडूंक नाशिल्लें. इतल्यांत ताका जाग आयली आनी सपन भंगले. मिताचीं अशीं सपनां ताका आतऱ्या पयऱ्यान पडटालींच. पूण मिताचो केन्ना पत्तो लागलो ना, जशें कितें तें गायबूच जाल्लें.

ते दिस ताणे जायतेकडेन चवकशी केली. वांगडा शिकपी इश्टांक फोन केले. पूण मिताची कांयच खबर मेळ्ळी ना. फुडले दोन दीस आपल्या कामाफुडे ताचें चित्राचेर लक्ष गेलें ना. मागीर ताची बायल चार पांच दिसांखातीर कुळारा गेल्ली. तिचे कुळारा कितें तरी कार्य आशिल्ले. ताणे आपूण तिका मागीर पावतां म्हूण सांगिल्लें.

तो पोन्यो डायन्यो उस्तीतालो. रात खूब जाल्ली. ताका आज मिताची खूब याद येताली. एके डायरेन ताका मिताचो पोन्नो फोटो मेळ्ळो. सरळ नाक, गोरे गोरे तामसार पोले, लांबसार केसांच्यो दोन विणयो फुडल्यान सोडिल्ल्यो, लागोळी नदर, प्रसन्न हांसते मुखामळ. काळजांत खंयसून तरी एक तीव्र कळ उदेली आनी कुडींत वेदनेचो खीणभर उजो पेटिल्लेवरी जाले. ताणे आपली छाती दामून धल्ली त्या दुख्खांत काळीज पेटून लख्ख उजवाड फांकीत कुडींत जोगुल पेटिल्लेवरी जालें आनी तो सैरभैर जालो.

कांय वेळान ताचे दोळे उगडले तेन्ना सामकार ताका तें चित्र दिसलें. तीं गच्च काळसार शेकानशेक उबी आशिल्ली झाडां. मळबाक तेकिल्ली. तांचे मदल्यान दोडत दोडत आपलें सोरपावरी आंग चोरीत घराकडेन गेल्ली ती हळडुवी वाट प्रकाशमान जाल्लेवरी दिसताली आनी ताचे लक्ष त्या घराच्या चॉकलेटी दाराकडेन गेलें. ते बंद दार आतां उगडें आशिल्लें. ताच्या फुडल्या आंगणांत ल्हान ल्हान झाडांक फुलां फुलिल्लीं आनी निळी साडी नेशिल्ली एक गोरीपिट्ट अस्तुरी फुलां खुट्टाली. पुराय चित्रांत चान्नें पडिल्ल्यावरी उजवाड दिसतालो. वारें सुटिल्लें, करड घोलतालें. झाडांची पानां हालतालीं. चित्रांतलो सैम खुशालभरीत जाल्लो. वाऱ्यान झाडावयलीं कांय फळां धप्प धप्प करून कड्डांत पडिल्ल्याचो आवाज ताका स्पश्ट आयकूंक येतालो.

इतल्यान लायट गेली ताचे घराच्या हॉलांत आनी त्या चित्रांत लेगीत गुप्प काळोख जालो. केन्नातरी ताचे दोळे धांपले आनी ताका सुस्त न्हीद लागली. दुसरे दिसा तो उसरां जागो जालो तेन्ना आंग जडावल्लेवरी जाल्लें आनी जीव भारावल्लेवरी जावन कापूस कसो वाऱ्यार उबूंक सोदतालो.

ते दिसा तो ऑफिसांत गेलो ना. त्या चित्राकडेन पळेत तो ओल्तेरार बसून रावलो. चित्रांतल्या घराचें दार आनी जनेलूय आता बंद आसलें आनी काल ताणे घराच्या आंगणात

पळेल्ली गोरी अस्तुरीय खंय दिसनासली. ताका दिसलें कीं रातीं ताका सपन पडिल्लें आसूंक जाय. पुण इतलें स्पश्ट सपन? कोण काय ती अस्तुरी?

दनपरां तो भायर वचून खाणावळींत जेवन आयलो. आयज ताका कडकडून भूक लागिल्ली.

वोत मोव जायत गेलें. फुलां बावता तसो दीस बावत गेलो. ताणे म्हन्यांत वचून घराचें चित्र सारकें नियाळून घेतलें. पुराय चित्र आनी चित्रांतलो सैम निर्जीव जाल्लो. झाडाचें एकूय पान हालनाशिल्लें. करड धोलनाशिल्लें. चित्रांतले घर निस्तब्ध आशिल्लें. आंगणांतल्या झाडांक कळे येवंक नाशिल्ले. घराच्या दाराकडे आनी जनेलांकडेन तो नदर लावून बशिल्लो. हळूहळू हॉलांत काळोख देंवत रावलो. तो विचार करी चित्रांतली अस्तुरी कोण? ल्हवूल्हवू काळखाक कोमन्यो फुटत रावल्यो तशें तें चित्र पर्जळीत जावन चित्रांतले रंग गडद जांवक लागले. घराकडेन वचपी वाट सळसळूंक लागली आनी एका खीणार त्या घराचें दार उगडलें. आनी त्या अस्तुरेन घराभायर पांय दवरले. आज ती पोपटी साडी न्हेशिल्ली. आनी ती हळडुव्या वाटेन चलत ताज्याच वटयां येवपाक लागली. ल्हवू ल्हवू अस्तुरेचो चेरो स्पश्ट जावंक लागलो. तशेच लांबसडक केंस, गोरो चेरो, सरळ नाक, "मिता", "मिता" ताणे मोठ्ठयान उलो माल्लो. तो उठून उबो रावलो आनी चित्राकडेन पावलो. अस्तुरीय बी चलत चित्राच्या धडेर पावली. तिणे हॉलांत पावल घालें आनी तिका घट्ट वेंग माल्ली. "मिता, मिता" ताणेय तिच्या कानांत हळूवार शद्ब उच्चारले. खूब आनी खूब वर्सांनी तांची भेट जाल्ली. ताच्या काळजाक हजारांनी कोमन्यो फुटल्यो आनी फुलां फुल्लीं. तिच्या दोळ्यांतली दुखां पोल्यार देंवताली. तिणें ताचो हात धरलो आनी एक एक पावल मारीत ती दोगांय जाणां चित्रांत भितर सरली. ती परतून परतून ताकां घट्ट वेंगेंत धरताली. आता ताका सोडपाची तिची तयारी नाशिल्ली. दोगूय जाणां हळडुव्या वाटेंन घराकडेन चलपाक लागली. घराच्या उक्त्या दारांतसून तीं भितर सरनाबरोबर दार बंद जालें.

तो कुळारा येवंक ना आनी ताची कांयच खबर ना म्हूण हुस्क्यान ताची बायल धांवत धांवत भावावांगडा घरा आयली. आपले पर्सींतल्या चावयेन तिणें दार उगडलें आनी किर्ते पळेतली बशिल्ल्या थंय ओल्तेरार तो मेल्ल्या अवस्थेंत तिका दिसलो. पोस्टमार्टम करतकच खर आताकान ताका मरण आयिल्ल्याचें निदान जाल्लें. घराच्या हॉलांत मातयेच्या पावलांच्यो खुणो मेळिल्ल्यो त्यो कोणाच्यो तें कळ्ळें ना. भावान फुडाकार घेवन ताचो अंत्यसंस्कार केलो.

बायलेक सामको शॉक बशिल्लो. दीस जायसर ती भावावांगडा घरांत रावली. मागीर ती एकलीच पडटली म्हूण भावान तिका आपल्यागेर व्हेली. मागीर भावागेर ती तीन एक म्हयने उल्ली आनी एक दीस भावान तिका आपल्या घरा हाडून सोडली. भावाची बायलूय ताचे वांगडा आदाराक म्हूण रावली. भावजयेन घर जाग्यार घालें. संवसाराक जाय आशिल्लें सामान हाडून दिलें. आपल्या भयणीचें फुडें कशें जातलें ह्या विचारान भाव चिंतेस्त जाल्लो, तरी आस्तना काळ वता तसो प्रस्न सुट्टलो ह्या विचारान भाव आनी भावजय चार दिसांनी परतलीं.

मागीर दोनूच दिसांनी तिका ती वायट खबर कळ्ळी. तिचे वांगडा स्कुलांत शिकपी तिची इश्टीण रेखा तिगेर अचकीत पावली आनी सुरेशाची खबर तिणे सांगली. आठ दिसा पयलींच एका अपघातान सुरेशाक मरण आयिल्लें. तो लग्न जावंक नाशिल्लो हें आयकून तिका धक्कोच बसलो. मागीर तिच्या घोवाच्यो आनी हेवटेन तेवटेनच्यो गजाली करून तिची इश्टीण भायर सरली.

तिका सुरेशाच्या अचकीत मरणाची खबर आयकून खूब्ब वायट दिसलें. सुरेश हो तिच्या स्कुलांतलो दाट इश्ट. उलयतां उलयतां ती केन्ना मोगान पडलीं कळ्ळेंच ना. पूण दोगांय वेगळ्या जातीची आशिल्ल्यान घरच्यांक तांची इश्टागत मान्य नाशिल्ली. निमणे सुरेश नोकरेच्या निमतान जो गेल्लो तो तिका परतो मेळ्ळोच ना. उपरांत तिच्या आवय बापायन एक बरो भुरगो पळोवन लग्न थारायलें. आनी ती ह्या घरांत पावली.

सांज जाली तिणें घरांतले दिवे पेटयले. हॉलांत उजवाड जालो आनी तिची नदर त्या चित्राकडेन गेली. त्या चित्रांतली झाडां वाऱ्यान धोलताली. त्या चित्रांतली वाट सोरपाच्या कातीसारकी चकचकताली. चित्रांतलें घर स्पश्ट दिसनाशिल्लें.

रातचें जेवण जातकीच न्हीद येना म्हूण ती ओल्तेरार पुस्तक वाचूंक बसली. तेन्ना परतून तिची नदर चित्राचेर पडली. आतां ते चित्र प्रकाशमान जाल्लें. तो उजवाड खंयच्यान येतालो ते कळनाशिल्लें. हळदुव्या सोरपाभशेन ती चित्रांतलीं वाट सळसळटा कशी तिका दिसली. त्या वाटेवयल्या पयसुल्ल्या व्होल्तावयल्यान कोणतरी दादलो तिच्या दिकेन पावलां मारता अशें तिका दिसलें कोण काय तो मनीस?

चार-पांच दिसांमागीरची गजाल. रातची अकरा जाल्या आसतलीं. तिका न्हीद पडना म्हूण ती रेडिओ लावन पोन्नी पदां आयकूंक बशिल्ली. तेन्ना तिची नदर चित्रार पडली. तो मनीस चित्राच्या वाटेवयल्यान बरोच लागीं पाविल्लो. पळेतां पळेतां तो बरोच लागीं पावलो. म्हन्यांत पावतकच तो तिका स्पस्ट दिसलो. सुरेश! तिका एकेवटेन खोस जाली पूण दुसऱ्याच खीणाक तिका कळ्ळें हें किर्ते तरी चमत्कारीक घडटा. सुरेश तर हो संवसार सोडून गेला. तो चित्रांत कसो पावलो?

सुरेश चित्रांतल्या धडेर पावतकच तिका मोठ्यान उलो मारूंक लागलो. ताणे चित्रांतल्यान भायर पावल घालें आनी आपलो हात फुडें केलो, तिका चित्रांत भितर व्हरचेखातीर.

ती सादूर जाली. तिका अजून मरपाचें नाशिल्लें. ती चार पावलां फांटी सरली आनी हॉलांतसून बेडरुमाच्या दिकेन धांवली... बेडरुमाचे दार तिणें गड्ड करून धांपले, खिळी घाली आनी आकांतान आपल्या भावान फोन करूंक लागली. इतलें जाता म्हणसर सुरेश बेडरुमाभायर पावलो आनी मोठ्या मोठ्यान दार बडोवंक लागलो, तिका उलो मारूंक लागलो.

ती भितरले वटेन आकांतान किंळच्यो मारीत थरथरत रावली.

संपर्क: 9422061702

***



# महेशाचो विषाद योग

गोकुळदास प्रभु

सकाळचें वत जनेलाच्या पड्ड्या खांचींतल्यान कुडींत पावलें तरीय महेश खाटीर उदारोच पडिल्लो. सकयले कुडींतल्यान बाप्पालें पिरंगप आयकलें

- वरां सवाय आठ जालीं. अजूनय उठूंक ना तो?

वणटेवयल्या चौकटांतलीं चित्रां ताका पळेत आसलीं. सगळ्या चित्रांनी सकयले सुवातेर ताणे सय मारून तारीख नोंद केल्ली. दोन तीन वर्सां पयलींचीं चित्रां तीं. चारकोल पेंटींगांतली चली काळजाक हात लावन, मातशी बागयल्ली तकली वांकडी करून रावल्या, अर्द धांपिल्ल्या दोळ्यांनीं मुखावयली मेणवातीची जोत पळयता. जोती सकल मेण करगून, थेंबेवन सकयल देंवलां. घट जाल्ल्या थेंब्यां वयल्यान दुसरे थेंबें देंवन मेणवातीचे एके वशीन रास जावन पडल्या. I, We हीं उतरां चित्राची वळख सांगता.

रोखडोच तो पयसुल्ल्या पी. यू. कॉलेजाच्या ऑडिटोरियमांत पावलो. पोरणे शैलीच्या त्या विशाळ ऑडिटोरियमाचें फॉल्स सीलिंग सगळेंच सकाळचें मळब कशें चित्रायलां. थंय, कोविड येवंचे पयलींच्या एका दिसा, जनेलां मदले वणटीचे सुवातेर ३७ पेंटिगां प्रदर्शित केल्यांत. सगळ्या पेंटींगा सकयले वटेन उजवे कडेन ताची सय दिसता. प्रदर्शनाचें उद्धाटन करून उलयतनां प्रिन्सिपाल सांगता - म्हाका अभिमान दिसता ह्या सतरा वर्सांच्या भुरग्याचो.

आंगणांत बप्पाचें बायक चालू केल्ल्याचो आनी रोखडेंच गेट बंद केल्ल्याचो साद आयलो. मागीर रांदचे कुडींत आयदनां उलयलीं. कुकरान शिळोणी घाली. मिक्सीन गुर्र् केलें. ग्रायंडराचो साद आयलो. आनी नळान फुस्स करून उदक ओंकलें.

थोड्या वेळान आई वयर आयली

- आरे, वरां णव जायत आयलीं. बाप्पा ऑफिसांत पावला आसतलो. उठना? राती उसरां आयिल्लो म्हण इतली न्हीद?... खंय वचून येता तूं मध्यराती? तुजें प्लॅन किते काय म्हण विचारतालो बाप्पा..आं, बेगीन न्हावन येवन नाश्तो घे.

टी व्ही चालू करून नाश्तो घेवंक बसतना न्यूज रीडरान ताचे वयले दोळे हालयनासतना, हांसत्या तोंडान ताका संवसारांतल्यो काणयो सांगल्यो. माणकुल्यांक लायतना आवय काणी सांगता तशें. कोरोनाचे नवे दुर्येती.. पृथ्वीच्या हवामानांत हूनसाण वाडल्या. न्हंयो आटतात इंग्लंडांत उदकाचें रेशन सुरू जाला येवरोपांत शेतां सुकल्यांत, अमेरिकेंत आनी चीनांत दुकळ वाडत आयला

चटर्णेंत बुडयल्लो पोळ्या कुडके चाबडायत आसतना ताच्या दोळ्यां मुखार चिनाचीं क्षेपणास्त्रां तायवान देशा वयल्यान उडलीं. उत्तर कोरियान सोडिल्लीं नवीं मिसायलां गेलीं. उक्रेनांतलें अणुशक्तीकेंद्रांचेर हल्लो जालो. इरान आनी साउदी, साउदी आनी येमन, गाझा आनी इस्राएल, हे आनी ते, सगळे झगडत रावले.

न्यूज रीडरान महेशाक कळीत केलें: जंय झूज ना, थंय लोकांक एकामेकांकडेन झगडपाचो हक आनी भरपूर संद मेळटा आनी ते संवसारांत सगळे कडेन मार्गार येवन मूठ दाखोवन, बॉब मारून भोंवतात. आनी सातत्यान जावपी तीं निदर्शनां हाताळपाक सगळ्या देशांनी सरकार हजारांनी लोकांक गणभेस, आवतां आनी हेर सामुग्री दिता.

तो उठलो. तोंडांतलें उश्टें, कानांत उरिल्लीं उतरां आनी दोळ्यांत रिगिल्लीं टी. व्ही. चित्रां धूवून काडलीं. फुडें किते करपाचें म्हणपांत कांय दुबाव नासलो. हून जावंक नाशिल्ल्या वताचो भायलो विशाळ संवसार ताची वाट पळयतालो. घरा भायर सायकल ताका रावताली. ताणे कपडे बदल्ले. ताचीं निरोपाचीं उतरां रांदचे कुडींत बशिल्ले आवयचे कानार पडचे पयलीं तो सायकल घेवन गेट काडून भायर सरिल्लो.

तशें ताका अमकेच कडेन म्हूण खंय वचपाचें नाशिल्लें. आपणाक सोडून सगळे इश्ट कॉलेजींत गेल्यात. वळखीचे लोक आपल्या आपल्या ऑफिसांनी ना जाल्यार हेर कडेन काम करपांत गुल्ल आसतले. काम कांय नाशिल्ले लोक देवळांत, स्कूल मैदानांत ना जाल्यार घरांत उरल्यात. तांचे कडेन वचून कांय फायदो ना.

पुण हो संवसार विस्कळ आसा. तातूंत सगल्या जिवावळीक भरपूर सुवात आसा. सायकलीक इंधन घालपाची गरज ना, ते खातीर कोणालागीं पैशे मागपाचेंय ना. म्हत्वाचें म्हळ्यार ताच्या सायकली खातीर मुखावयलो मार्ग देगेवयल्यो बांदावळी कुशींत काडून ताचे खातीर लांब लांब जायत वता, कांय



सुवाती सोडून. एके सुवातेर उजवे वटेचें घर मार्गाची गरज कानार मनार घेनासतना सामकें मदेंच येवन बसलां. मार्गाकच दावे वटेन वळण घेवन फुडें वच्चें पडटा. पुण थंय उजवे वटेंतल्यो इमारतीय फाटीं सरनासतना हट करून रावल्यात. दूसरो उपाय नासतना मार्गाक थंय आंग चोरून ते खांचींतल्यान फुडें वच्चें पडटा.

महेशाचे सायकलीक फुडें वचपाक कांय आडखळ नाशिल्ली देखून ती धांवत गेली. पुण फुडल्यान एक कार वेगान येताली. ती आपणाक निशाणी करून येता म्हणपाचें ताका कळ्ळें. ताणें कार चालकाक हात दाखयलो. हात पळोवन न्हय तर मार्गावयली अरूंद सुवात पळोवन चालकाक कार हळू व्हरची पडली. महेशान ताचे लागी वचून खालतेपणान सांगलें:

- सायबा, म्हाका एकूणीस वर्साच जाल्यांत. अजून नांव - नोकरी, लग्न, बायल-भुरगीं कांय जावंक ना. जिणेंत हें सगळें जोडपाची व्हडली इत्सा आसा. साठ वर्सां उप्रांत यो. तेन्ना तुजे गाडये मुखार पडून मरपाक हांव हांगाच रावन. आतां मात्शें सवकास चलय.

चालकाच्या तोंडार हांसो उदेलो आनी महेशाक फाटीं सोडून ताची गाडी सवकास फुडें गेली.

तो परत सायकलीर चडून घूंवन वचपाक सोदतालो तेन्ना मार्गार मदेंच येवन बशिल्ल्या घरांतल्यान ताच्या नांवान एक अस्तुरेच्या आवाजाचो उलो आयलो. ताणे सायकल थामोवन घूंवन पळयतना ताका इंदिराकाचें रूप दिसलें.

- हांगा यो रे.

तो सायकली वयल्यान देंवन भितर गेलो. तीणे विचारलें

- कितें जालें रे थंय?

ताणें जाल्लें तें सांगलें. मागीर तिणें निमगीलें

- तुजी परीक्षा बी जावन चार पांच म्हयने जाले न्हय, हे वटेन दिसना कित्याक तूं?

ताणें उतरांची कुशळटाय वापरून आपणाक सांबाळ्ळो. मागीर तिणे ताका आपयल्ल्याचें कारण सांगलें. उदकाच्या बिलाची रक्कम सुमारा भायर वाडल्या.

- इतल्या चड उदकाचो कांय उपेग जायना. मीटर सारकें चलना दिसता. कितें करूया रे?

- कॉर्पोरेशन कचेरेंत वचून विचारतां. घडये दूसरें मीटर लावंचें पडत. पळोवया. तूं तें बिल दी. पयलींचेंय दी.

आतां सायकल ताचें आनी त्या उदकाच्या बिलाचें वजन घेवन कॉर्पोरेशन कचेरीची मोख धरून फुडें गेलें. पांच मिनटां उपरांत महेशाक पयस मार्गा कुशींतल्यान एक म्हातारो वतांत उकतें सातें घेवन चमकून वतना दिसलो. लिंगभेद टाळीत सगळ्यांनी पॅन्ट शर्ट घालून भोंवपाच्या ह्या वेळार तो म्हातारो धवें मुंड आनी धवें खदर शर्ट न्हेसून वतालो. जाण्टेलो पयस आशिल्लो आनी ताणे सातें धरिल्लें देखून भुजां वयलो भाग दिसनासलो. पुण पंचात्तर वर्सांचेरय ताच्या माथ्यार गच्च वाडिल्ले धवे, मुदयाळे केंस महेशाच्या दोळ्यांत स्पश्ट दिसले. दोगांयचे मदलें अंतर उणें उणें जायत आयलें. मागीर सायकल त्या म्हाताऱ्या लागीं, सामकी लागींच पावली. महेशाक थंय रावपाचें नासलें देखून ताणें सायकलीचें पेदाल माडयलें. पुण सायकल चड फुडें वचपाक आयकली ना. तें म्हाताऱ्याच्या मुखार धा फूट अंतरार थांबलें. सायकल स्टॅन्डार दवरून महेश म्हाताऱ्या लागीं गेलो आनी ताका नमस्कार केलो

- सर, नमस्ते.

सरान सातें मात्शें वांकडें करून ताका पळोवन म्हळें

- आं, महेश! खंय भायर सरला?

कॉर्पोरेशन ऑफिसा कडेन सर.

ताणे कारणय सांगलें आनी विचारलें,

- सर तुमी खंय वतात?

- बी पी च्यो गुळयो सोंपल्यो. फार्मासी कडेन वतां.

- सर, हांव हाडून दितां. प्रिस्क्रिप्शन दी.

- नाका रे पुता. चिके चमकून गेल्यार व्यायाम मेळटा न्हय. देखून भायर सरलां. तें आसूं. तूं कितें करता ह्या दिसांनी?

महेशाक आतां वताची हुनसाण जाणवली.

- तुजें रिजल्ट आयिल्लें जाणां हांव.

- व्हय सर - ताची मान बागवली. दिश्ट सकल देंवन पावलाक लागली - मॅथ्स म्हजें बोड खाता.

- डोंट वरी. स्कूल परीक्षेंत मॅथ्स पास जालो न्हय? हे परीक्षेंतय पास जातलो.

- म्हज्यान जातलें अशें दिसना, सर.

- जातलें रे. सोडून दिवं नाका.

- ट्यूशन बी घेवन पळयलें सर. परीक्षेक बसतना कांय उपेगाक पडना.

- खंयच्याय प्रश्नाक एक उपाय आसा रे. तूं घरा येवन मेळ म्हाका. पळोवया.

- जायत सर. येतां.

महेशाचे भितर कोणे तरी फुतफुतलें, सुस्कार सोडले, तकली हालोवन सांगलें, कांय जावंचें ना. पेदालार माड्डयतना ताचे पांय अनमनले. सायकल मात्शी हे वटेन ते वटेन गेली पुण रोखडीच थीर जाली.

कॉर्पोरेशन कचेरींतल्यान भायर येतना ताणे ती जायरात पळयली: कोच्ची - मुझीरीस बिअनालेची तारीख थारल्या. दक्षिण आशियांतलें अती म्हत्वाचें हें कला प्रदर्शन डिसेंबरांत सुरू जावन फुडल्या वर्सा एप्रिल मेरेन चलपाचें आसा. आस्पीनवाल हाउस, परेड ग्राउंड, कोचीन क्लब, डेविड हॉल आनी हेर जायत्या केंद्रानी चित्रांचीं आनी कलेचीं प्रदर्शनां जातलीं. तशेंच तांचेर चर्चा सत्रां आयोजीत केल्यांत. देश विदेशांतले कलाकार पांवतले.

आस्पीनवाल हाउसाची धवी इमारत कॉर्पोरेशन झोनल कचेरी लागींच आशिल्ली. थंय ताणें ती जायरात पळयल्ली. वचून कांय करपाचें नासलें तरीय सायकलीन ताका आस्पीनवाला कडल्यान परेड ग्राउंडा कडेन पावयलो. वास्कु द गामाक पयलीं पुरिल्ले इगर्जे क भेट दिवपी विविध रंगाचे भोंवडेकार परेड ग्राउंडाचे चारूय वशींतल्या मार्गार हांगा थंय हेडताले. पुण कोचीन क्लब आनी डेविड हॉल दनपाराच्या वतांत थकाय दिवपी अरबी समिंद्राचें वारें घेवन झेमेतालें. थंयच्यान परेड ग्राउंडाची प्रदक्षणा काडून परत आस्पीनवाला कडेन येत आसतना तिनूय इमारतींनी एकसुरान ताका सांगलें, प्रदर्शनां पळोवपाक जाल्यार टिकेट बूक करून यो. पुण प्रदर्शना खातीर तुजीं चित्रां घेवन येवपाचें बी मनांत आसा जाल्यार, तें विसर.

आस्पीनवाल हाउसा कडेन तो बसलो -

कुले सायकलीचे बसकेर, पांय सकयल मार्गार आनी हाताचीं बोटां खाडकेर दवरून. ताचो विशाद लक्षांत येवन नेहरू पार्कान ताका आपयलो. यो, जाय जाल्यार हांगा येवन तुजो सोद तपास कर. आमंत्रण ताका मानवलें. रोखडेंच ताणें ती वाट धरली. आनी ताचो तो निश्चय भोव निर्णायक थारलो.

नेहरू पार्का लागींच, प्रिंसस स्ट्रीट धावन येवन रिवर रोडाक मेळ्टा, थंय मार्गा देगेर एक लांब, पोरणें घर दिसलें. कोणेय हात वयर केल्यार भितोडे वयले नळे बोटांचो उमो घेवपाक तयार जावन राविल्ले. मार्गाक तोंड करून घराचें एकच दार आनी वारें खेळोवपाक न्हाणयेंत दवरतात तसलें ल्हानशें एक जनेल आशिल्लें. दार आनी जनेल हांकां एकामेकांक पयस दवरून मर्दी वीस बावीस फूट लांबायेची आनी आठ फूट उंचायेची सादी सरळ वणत उबी रावली. पावसान भिजची ना आनी वतान पेंट निस्तेज जावंचें ना अशी सुवात. वणत भितोडेंत आशिल्ल्यान निव्वळ दिसताली. तिचेर म्हयन्यां आदीं चित्रायिल्ल्या 'हॅपी न्यू इयर' संदेशाचीं अक्षरां काल पयर चित्रायिल्ले भशेन ताजीं दिसलीं.

सकाळीं जागो जाल्ल्या उप्रांत आतां परत एकदा ताणे नेहरू पार्कांतल्या रुखांतल्यान तो आवाज आयकलो - महेशा, ऊठ रे. तुजो वेळ आयला. चल त्या घरांत

बंद दारार ताणे खटखटायलें. भितर कोण फुतफुतलें. जमनीर कितें तरी हाल्लें, झरकटलें, आपटलें. दाराची भितरली खीळी कुशींत सरली. दारान आं करून भितर राविल्ले जाण्टेलेक भायर धुकल्ली. तिचे फाटल्यान कुडीचे एका कोनशांत चोवीस पंचवीस वर्साचो तरणाटो बरमूडा आनी टी शर्ट घालून, कानांत हेड फोन शिरकावन, तकली आड घालून कदेलार तेंकून बशिल्लो. महेशान ताका नियाळचे पयलीं जाण्टेलीचो प्रश्न आयलो

- येस?

प्रश्न इंग्लीशान आशिल्लो देखून ताणे थारायलें, संवाद तेच भशेन जावंदी

- मॅम, आय एम महेश, आय पेंट.

- सॉरी. वी अलरेडी पेंटड दिस हाउस लास्ट इयर.

- नो मॅम, आय मीन आय एम एन आर्टिस्ट. आय पेंट पिक्चर्स

ओ माय गॉड! आय एम वेरी सॉरी! मागीर तिणे घूवंन तरणाट्याक सांगलें - लुक, वी हॅव एन आर्टिस्ट हियर!

तरणाट्यान दाव्या खांद्यार आड पडिल्ली तकली हळूच, खूब वेळाचो प्रयत्न करून, अर्द वाटकुळाकृतीन उबारली. दोळ्यांच्या कोनशांतल्यान ताका पळोवन हांसपाचो येत्न केलो. तो हांसो तीन टन वजन घेवन येवन महेशाच्या काळजार बसलो. ताणे 'हाय' म्हणचे पयलीं तिणें ताका सांगलें

- कम इन यंग मन.

- इट ईस ओके मॅम. आय केम टु सीक अ फेवर. कॅन आय पेंट अ म्यूरल ओन युवर वॉल? - ताणे खंय म्हण बोटान दाखयलें. तरणाट्याक आपली खोस परगटावपाक हात पाय नियंत्रणांत मेळ्ळे नात. ताच्या तोडांतल्यान आयिल्ले शब्द अपूर्ण आनी अस्पश्ट आसले, पुण दोळे लिकलिकले. जाण्टेलेन सांगलें

- ग्रेट. यू हॅव माय पर्मिशन. गो अहेड. एन्ड ऑल द बेश्ट टू यू!

- थँक यू सो मच, मॅम.

महेशान भायर येवन वणती वयली जाय तितली सुवात साफ करून ताचेर धवी शाय मारपा खातीर गरजेची सामुग्री एकठायली. आनी तो कामाक लागलो. दनपाराचें एक मेरेन धवे पेंट मारून वणत धवी केली. जेवन येता म्हणसर पेंट सुकून मेळटलो म्हणपाची खात्री आशिल्ली.

सायकलीर परतून येतना ताचे तकलेंत वणते चित्राचें थीम, मांडावळ, रंग आदी विचारांनीं गर्दी केली. पार्का कडेन पावतना ताचे कल्पनेंत सगळें चित्र तयार आशिल्लें.

ताणे सायकलीच्या कॅरियरांतल्यान पेंटाचे डबे, ब्रश आनी हेर सामुग्री काडून दवरली. अपेक्षे प्रमाण वणतीवयलो पेंट सुकिल्लो. पयलीं ताणे पेन्सिलान चित्राचो आकार थारावपी फास्को तयार केलो. उप्रांत आडव्या उब्या रेगींनी भितरल्या क्षेत्राचें विभाजन करून प्रमाण थारयलें. मागीर पेन्सिलाच्या तोंकातल्यान ताचे कल्पनेंतल्या क्षितिजाची, मनशांची, जनावरांची, बांदावळीची, वाहनांची, यंत्रांची, शस्त्रांची रूपरेशा पाझरली.

थोड्याच वेळान शार्येत बुडयल्लें रोलर आनी रूंद ब्रश फास्की भितर पिशें लागिल्ले भशेन नांचत भोंवले. हळूच वणते वयले धवे पार्श्वभुंयेर तांबडे मातये रंगाचीं विविध आकाराचीं रूपां उठून आयलीं.

मार्गार वचपी भोंवडेकार थंय पांवतना उत्सुकतायेन चित्ररचनेची प्रगती पळोवपाक लागले. एकलो थंय रावून नियाळीत रावलो. तो तसो बारीकसाणेन पळयत आसतना हेर लोक जिज्ञासेन रावले. कांय वेळान प्रेक्षकांचो आंकडो वाडत रावलो.

ताणी पळयलें, वणतेवयल्या धवे पार्श्वभुंयेर क्षितिज तांबड्या आनी काळ्या रंगांत बुडून गेलां. सूर्य तांबडो जायत पर्जळटा. हे वटेन ते वटेन तपकिऱ्या रंगाचीं झुजा-विमानां आनी मिसायलां उडटात, सकयल बॉबांचो शिंवर जाता. तांबडे घाय पडिल्ले दोंगर, व्हडल्यो व्हडल्यो इमारती आनी आराधनेचीं केंद्रां कोंसळटात. रानांक लागिल्ल्या उज्याच्यो हजार भयानक जिबो मळबाक तेंकपाक सोदतात. न्हंयो आनी समुद्र आटला, तांचे देगेवयले देंवतेर हाडांचे सांपळे शिंपडल्यात.

सांजेचें वत मोव जायत गेलें, महेशाचें काम चालू उरलें. थंय लोकांची गर्दी जाली. ताच्या दोळ्यां मुखार, वणतेर, असंख्य दादले, बायलो, भुरगीं जितीं जायत आयलीं. प्रेक्षकांच्या लक्षांत आयलें, वणते-चित्रांत सगळ्या मनशांचो रंग एकच - मातयेचो. सगळ्यांचीं तोंडां आनी तोंडार दोळे, कान, ओंठ आदी एक सारखे आसात. आकारान जाण्टीं आनी नेण्टीं हांचो फरक कळटालो आनी कपड्यानी दादले बायलांचो फरक दाखयिल्लो. पुण चित्रांतल्या खंयच्याय दादल्याक दोळ्यां वयलो भाग नाशिल्लो. तांच्यो तकल्यो बेव्यांचे, शिसरींच्या तकल्यां वरी दोळ्यां सकयल सोंपिल्ल्यो. दोळे मात पाली फाटी वयल्या कांट्यां वरी वयर येवन राविल्ले.

जायत्या दादल्यांचे हात बायलाच्या आंगार आशिल्ले जाल्यार कांय बायलांच्या बोटांनी भुरग्यांचे गळे चिड्डुल्ले. कांय लोक

*(पान ११६ चेर)*



# तूं जाय आशिल्लो

**माया अनिल खरंगटे**

"मम्मी, मम्मा, खंय आसा तूं? जेवण जालें? म्हाका क्लासाक वचूं जाय."

आवयक सादयत मधुरा रांदचेकुडींत आयलें. ओट्यार फकत शिताचो तोप आसलो. आनी कांयच नासलें.

-"खंय गेल्या ही मम्मी. सकाळींच सांगलां तिका, म्हाका बेगीन जेवण जाय म्हणून."

मधुरा फडफडत हॉलांत आयलें. तेन्नाच किशोरी भायल्यान एक पोती घेवन आयलें.

-"मम्मा, कितें गे? आजय जेवणाक कांयच करूं ना?"

-"हें पळे, लोणचें आनी धंय हाडलां. तुका आवडटा न्ही?"

-"म्हाका आवडटा म्हणून हाडलां, काय डॅडीच्या वखदांक सगळे पयशे मोडले, आनी उरिल्ल्या पयशांत फकत धंया पिशवी आनी लोणचें मेळटा म्हणून तितलेंच हाडलां?"

-"बाय मधू, हें तुका खबर आसा मगो? आतां आनी वाद नाका. यो, जेवपाक वाडटां तुका.

-"नाका म्हाका जेवण, वाज आयलो म्हाका. सदांच असलींच अर्थ नाशिल्लीं जेवणां जेवचे परस हांव उपाशींच वतां."

-"मधू, पिशेपणा करूं नाका. तुका उपाशीं रावल्यार कलकलता, अभ्यास लक्षांत वचचो ना, चल पानार बस, इल्लें तरी जेव."

-"मम्मी, कितले दीस जाले आमी नुस्तें खाल्यार जाणा मगे?"

-"हय गो शाण्या, आमचें सगळें सारकें चलतालें तेन्ना तुमचो डॅडी तुमकां जाय-जाय तें खावयतालो, जेवयतालो. आतां देवान हो वेळ धाडला, कितें करतलीं आमी. आयला तो वेळ मारून व्हरूंक जाय. यो, इल्लेशें जेव."

-"मम्मा, डॅडी हांतरुणार आसा म्हणून आमची अशी परिस्थिती जावंक ना. ती डॅडीन पयलींच केल्ली. काय बरीं रावतालीं आमी. डॅडी नाका आशिल्ल्या धंद्या फाटल्यान गेलो आनी वाट लायली आमची."

-"मधू, हळू उलय, डॅडी आयकता, मागीर बुळू बुळू करून रडत रावता."

-"रडुनी, कर्मां केल्यांत ताणे आनी भोगतात आमी."

-"ताकाय खूब वायट दिसता गो, उलोवपाक सारकें येना ताका तरी तुमचीच चिंता काडटा आनी बुळू बुळू करून रडटा."

-"चल, जालें म्हजें जेवण."

-"आगो इतले बेगीन जालें? सारकें जेवलें ना तूं."

-"आनी कितें जेऊं? वेळ जाता म्हाका."

-"बरें, सारकें लक्ष दिवन शीक. आनी तीन म्हयने उल्ल्यात तुजे. तूं एकदांचे बरेभशेन पास जालें काय नोकरी मेळटली तुका, मागीर सुदारतली आमची परिस्थिती."

-"मुखार बरें जातलें, बरें जातलें म्हणत आतां हाल काडया, सोड! कितलेंय उलयल्यार तितलेंच, येतां हांव."

मधुरा फडफडत क्लासाक गेलें. किशोरीक वायट दिसलें... "वाडट्या वयाचें पोर म्हजें. पोट भर जेवन वचपाचें. पूण रुचीचें जेवण मेळना म्हणून अर्द्या पोटार रावता... हांव पूण कितें करूं? खंयच्यान उबो करूं पयसो?... काय बरें हांसतें-खेळटें घर म्हजें. नाका आशिल्ल्या व्यवहारांत विकास पडलो आनी आशिल्लें, नाशिल्लें वगडावन आमकां हे परिस्थितीर हाडलीं... दुसऱ्यांचेर विश्वास दवरप म्हणुनय कितलो?... आपल्या हातान आपल्या पांयार कुराड मारून घेतल्या... आपलें नाशें केलां आनी जगाकडल्यान हांशें करून घेतलां... म्हजी खाजगी शाळेंतली नोकरी, के.जी. वर्गांत शिकोवपाची... पगार कसो चड मेळटलो? कितें मेळटा तातुंतलो हार्ची वखदां, दोतोर हातुंतच अर्दो सोंपता... तरी बरें घराचे हप्ते बाब भरता... ताचीय म्हणून सादीच शिर्वीस... घराचो हप्तो, ताचे स्कुटरीचो हप्तो भरतासर हातांत सामके थोडे पयशे उरतात... थोड्या पयशां भितर लावन पुसून संवसार करप म्हाका अगाध न्हय, पूण बरें बरें खावन आयिल्लीं भुरगीं म्हजीं... आतां एकदम हाल चल्ल्यात, खंयचे कडेन कांय नां जावन गेलां... तरी महेशाक तो जोडटा म्हणून परिस्थिती कळ्ळ्या... तो तोंड धांपून सोंसता... शक्य थंय म्हाका आदार करता... सोड खबर! कितलेंय चितल्यार तितलेंच, विकासाक लावपाक जाय... ताणे बायेलें उलोवप आयकलां जातलें... रडत रावतलो, जेवण सुद्धां नाका म्हणटलो... पूण गुळयो दिवपा आसा ताका... चार उंडयो पोटांत घालूं जाय ताच्या...

किशोरी जड मनान उठलें. ताटांत शीत कालोवन घेवन विकासा म्हऱ्यांत गेलें.

तीन वर्सां जालीं आरीचें दुर्येस जावन विकासान हांतरुण धरिल्लें. ताचो उजवो हात मात्सो चलतालो. किशोरी शाळेंत वतना ताच्या कुशीक बिस्कुत्यो बी दवरल्यार तो काडून खावंक शकतालो. जेवण बी लावचें पडटालें. ताका लावप, गुळयो दिवप, उदक पियोवप, निवळ करप, इतलें करतासर किशोरीचें कंबर दूखपाक लागतालें.

ताका पुसून काडप, हांतरुण बदलप हीं कामां तें महेशाच्या आदाराबगर करुंकच शकनासलें. मधुरा खाण जेवण चमच्यांनी बापायक खावयतालें. पूण ताच्या निवळसाणीच्या कामाक तें हात घाल नासलें.

विकास फॅक्टरींत बऱ्या जाग्यार काम करतालो. ताका पगारय बरो आसलो. किशोरी शाळेंत के.जी. यत्तेक शिकयतालें. जेमतेम पगार. पूण वेळ वचपाचें साधन आनी नायी म्हळ्यार संवसाराक मात्सो हातभार लागता म्हणून तें ती नोकरी करतालें. विकासाक ताची ती नोकरी मातय मान नासली. तो ताका घरा रावन घर आनी भुरग्यांक सांबाळ म्हणून आग्रो करतालो. पूण किशोरीन हट्टान नोकरी सोडली ना.

किशोरी आनी विकास भुरग्यां सांगाताक फकाणां-मस्कऱ्यो करत, उमेदीन दीस सारतालीं.

एक दीस विकासाच्या फॅक्टरींत दिल्लीचो एक मनीस मॅनेजर म्हणून आयलो. तांच्या बॉसाचो तो सोयरो. सगळेच ताका बोसा भशेन मान दिताले. गोड-गोड उलोवन ताणे फॅक्टरींतल्या पांच-स जाणांक हातांत धल्ले.

तातूंत एक किशोर आसलो. एकदम श्रीमंत जावपाची कल्पना ताणे तांच्या मनांत भल्ली. फॅक्टरींतली शिर्वीस सोडून, जमयल्ली पुंजी घेवन ते सय जाण दिल्लीवाल्याच्या नाशिल्ल्या कंपनीत सामील जाले.

किशोरीन विकासाक आडावपाचो कितलो यत्न केलो. पूण विकासाचेर दिल्लीवाल्यान जादू केल्ली. ताणी निकतोच फ्लॅट घेतिल्लो. फ्लॅटाचे हप्ते चालू आसले. महेश अकरावेंत आसलो आनी मधूरा णवी शिकतालें. किशोरीन विकासाक शिर्वीस तरी पयलीं सोडूं नाका म्हणून कितलो समजायलो. पूण विकासान किशोरीकच पिशार काडले, -''आगो, आमचें काम किर्ते एका जाग्यार बसून करपा न्ही. आज हांगा फाल्यां थंय वच्चें पडटलें आमकां. आतां तूं वोग्गी राव आनी पळे हांव किर्ते करतां तें. वोगीच किरकीर करूं नाका. पयशे येतकर मागीर दोनय हातांनी घेतलें.''

म्हयनो, दोन म्हयने सुमार दिल्लीवाल्यान ह्या सय जाणांक आपल्या फ्लॅटाचेर व्हरून मिटिंगो घेवप, मर्दी मर्दी फोन करत रावप, मर्दी मर्दी पार्ट्यो करून सोऱ्या बाटल्यो रिकाम्यो करप असलीं कामां केलीं.

विकास केन्नाय पार्टेक गेल्यार एक पेग बी घेवन बसतालो. चड घेतल्यार ताका त्रास जाताले. पूण दिल्लीवाल्याच्या लगाडेक वचून तो आत्रेपयऱ्यान पिवंक लागलो.

एक दीस दिल्लीवाल्यान ह्या सयी जाणांक सांगलें, -''म्हाका बॉसान आपयला, हांव पयलीं दिल्ली वतां आनी मागीर तुमकां आपयतलों. तुमी तयार रावात.''

हे सय जाण दिल्लीवाल्याची वाट पळयत रावले. ताचो पत्तोच नाशिल्लो. एक्काय नंबराचेर फोनय लागना जालो. हांचे पयशे घेवन तो नाच्च जाल्लो.

विकासाक सामको धपको बसलो आनी ताका पिवपाचें व्यसन लागलें. तातूंत ताचें प्रेशर वाडूं लागलें आनी गोड्या मुताचेंय जालें. संकश्टां आयल्यार सगळीं एकाच बरोबर येतात अशें म्हणटात. तशी गत किशोरीची जाली. दोगांय भुरग्यांचें शिक्षण, घराचे हप्ते, विकासाचें दुयेंस आनी सोरो. किशोरी जाम जालें सामकें.

ताणे विकासाच्या हट्टामुखार बाग नास्तना आपली नोकरी चालू दवरलेली. तिच्या आदारान ताका परत उबें रावंक मेळ्ळें. ना जाल्यार तें कोसळून पडपाचें. सांजच्या आदेसाक ताणे भुरग्यांक ट्यूशन दिवपाक सुरवात केली.

बापायचे स्थितीचो परिणाम महेशाचेर जालो. तो तसो शिकपाक चड हुशार नाशिल्लो. अकरावेक तो कसो बसो पास जालो. बापायची पिडापीड आनी आवयचे वटवटे पळोवन आनी शिकप शिकप ना, शिर्वीस धरप अशें महेशान थारायलें.

महेशान हाचे ताचेकडेन तोंड फाफडून मारुती सुझूकी कंपनीत नोकरी धल्ली. पगार सामको कमी आसलो. कमी जाल्यार लेगीत आवयचे त्रास मात्शे तरी ल्हव जातले म्हणून ताणे ती नोकरी धल्ली. फाविल्ल्या वेळांत तो गाडयो सारक्यो करपाचें कामय शिकतालो.

किशोरी मनान खचिल्लें. पूण तोंडार म्होवाळें चडोवन उश्णो नेट हाडून भुरग्यां पासत वावुरतालें. एकटें आसतना मात तें मनांतल्या मनांत विकासाक कड्डितालें.

विकास घरांतच आसतालो, पूण किशोरीक कांयच आदार कर नासलो. वेल्यान ताका किचकीच करतालो. बाजारांत वचून सामान हाडटां म्हणून सांगून वचून, त्या पयशांनी सोरो पितालो. किशोरी किर्तेंय म्हळ्यार, हातांत आसा तें ताचेर शेवटितालो.

त्या दिसा नुस्तें हाडूंक बाजारांत वतां पयशे दी म्हणून किशोरीकडेन वाद घालूंक बसलो. किशोरी जाणां आसलें, ह्या पयशांनी तो सोरो पिवन येतलो म्हणून, किशोरी कानार केंस काडून वोग्गी रावलें. तें पयशे दिना तें पळोवन विकासान रागान येवन किशोरीच्या मंगळसुत्राक हात घालो. ते बरोबर किशोरीक संताप आयलो. तें पयले खेपे तोंडाक तोंड दिवन विकासाचेर खूब्ब तापलें, ताका जाय - फाय उलयलें. विकासय तोंडाक येता तें उलोवंक लागलो. निमणे लाटणी घेवन किशोरीक मारपाक लागलो. ताका आडावपाक मर्दी आयिल्ल्या मधुराचेरय दोन लाटण्यो पडल्यो.

तितलेसर विकास धाण्ण करून जमनीर पडलो. तेन्नाच ताच्या नाकांतल्यान रगत व्हांवक लागलें. किशोरी आनी मधुरा भियेलीं. उदक माल्ले बरोबर विकास साबुद्धेर आयलो, पूण रगत गळत आसलें. बेगीबेगीन रिक्षा आपोवन ताका दोतोरागेर व्हेलो. रगत थांबिल्लें, पूण विकास सामको जाम जाल्लो. दोतोरान सांगलें, -''शीर तुटून रगत गेल्ल्यान तो साल्वार जाला. आतां ताका सांबाळात. परत रगत येवपाची शक्यता आसा.''

आठ दीस सुमार विकासाक किशोरीन घरांतच दवरलो. ह्या दिसांनी ताच्या नाकांतल्यान परत रगत गेलें ना म्हणून किशोरीक मात्सें सू जालें.

त्या दिसा किशोरी बाजारांत वचपाचो विचार करतालें. मधुरान ताका बापाय म्हऱ्यांत रावपाचें उतर दिल्लें. तेन्नाच विकास भायर मात्शी पासय मारून येता म्हणून किशोरीच्या फाटल्यान लागलो. किशोरीक भंय आसलो, भायर वचून सोरो पियेत म्हणून. सकाळींच ताणे महेशाकडल्यान शंबर रुपये मागून घेतिल्ले.

किशोरीन ताका एकटो वचचे परस आपले बरोबर बाजारांत यो म्हणून सांगलें. मधुरान ताका आपूण पासयेक व्हरून हाडटां म्हणून सांगलें. पूण विकासाक एकट्याकच वचूं जाय आसलें. तो व्हडा-व्हडान तापपाक लागलो आनी थोड्या वेळान भायर सरून चलपाक लागलो.

चलतना ताचो दावो पांय वोडटा तो मधुरान पळयलो. ताणे आवयक सांगलें, -''मम्मी, डॅडी कसो चलता पळे दावो पांय उखलना, घश्टून सो चलता. हांव वतां ताचे बरोबर.''

-''आसूं गो, तूं गेल्यार बेस्टोच रस्त्यार म्हणनास्तना तापतलो. लोकां मुखार नाटकां नाकात.''

रातचो विकास आयलो तो लकत-पडतसो आयलो, आनी तसोच खाटेर न्हिदलो.

तो पियेवन आयिल्ल्यान असो जाला जातलो अशें किशोरीक दिसलें. थोड्या वेळान तें उदक घेवन ताच्या म्हऱ्यांत गेलें. तो न्हिदिल्लो. जेवपाक ऊठ म्हळ्यारय उठलो ना.

सकाळीं सदचेभशेन जेवण बी करून किशोरी शाळेंत वचपाची तयारी करुं लागलें. सदां ह्याच वेळार विकास उठ्ठालो. ताणे सदचेभशेन विकासाक उलो केलो. विकास... ''वाव... वाव...'' करून तोंडांतल्या तोंडांत बडबडलो. किशोरीचें ताचेर लक्ष नाशिल्लें.

तें केंस वळयतालें. इतल्यांत उठपाचे यत्न करपी विकास ढब्ब करून सकल पडलो.

ताच्या आवाजान किशोरीन फाट वळ्ळी आनी विकासाक पडिल्लो पळोवन, भुरग्यांक उलो मारत ताच्या म्हऱ्यांत धांवलें. महेश आनी मधुरा धांवून भितर आयलीं.

विकासाक पॅरॅलिसीसचो झटको आयिल्लो. ताचें दावें अर्दच न्हय, तर कमरा सकल्लो भाग लुळो जाल्लो. तोंडान फकत "यें... यें..." इतलेंच उतर सुट्टालें. उजवो हात मात्सो चलतालो.

किशोरीचेर मळब कोसळ्ळें. शिर्वीस आनी संवसार हातूंत तालगडी तें मारतालेंच. आतां हांतरुणार न्हिदून आशिल्ल्या विकासाचीं सगळीं कामां आनी ताच्या वखता-पाणयाक लागपी खर्च ह्या चक्रांत तें घुस्पून गेलें.

इतले मजगतीं मधुराचें ग्रॅज्यूयेशन जाल्लें. तें नोकरेपासन खटपट करतालें. पूण पयशांचें बळगें आनी वळखीचें फाटबळ ताचेकडेन नाशिल्लें. तें आपले परीन यत्न करतालें. मुलाखती दिवन दिवन येतालें. पूण खंयच नोकरी मेळनासली.

किशोरी सामकें बेजारून गेल्लें. पयशांची भर खंयच्यान आनी कशी करची ही चिंता ताका पोखरून काडटाली.

...'काय बरें उमेदीन सळसळपी घर म्हजें... ...अशें कशें जालें... आमी तिगांय दिसरात फकत उबगतात... मधुरा तर चडच फडफडटा... खाणा जेवणाची लेगीत रुच उल्ली ना... रुच आसलीय म्हणून कितें करून घालतलें आसलें हांव... हातांत पयसोच उरना, सगळो पयसो घराचो हप्तो आनी विकासाचें वखद -दोतोर हाच्या फाटल्यान सोंपता... फ्लॅटाचे हप्ते दिवंक त्रास जातात म्हणून बाबू फ्लॅट विकया म्हणून लागला... भाड्या घरांत म्हणून भाडें भरपाक नाका?... फायचो दीस कसो वतलो ह्या हुस्क्यान न्हिदेचें लेगीत पाडा पडलां... ताका लागून म्हजें प्रेशर वाडटा, म्हाकाय दोतोर लागला... कशे धुकलूं हे दीस, जायना म्हज्यान...'' येवजितां येवजितां किशोरीच्या दोळ्यांतल्यान भळभळीत दुकां गळूं लागलीं.

×××

"...आतां सगळें सोपलें, सगळीं चिंतनां सोंपली... काम आनी कामच आसतालें सगळो वेळ... नज जांव, जाता जांव, कामां सोंपच नासलीं. ...जीव उबगून वतालो सामको... जालें आतां, कांयच ना... सगळें सोंपलें, पयशांची चिंता, कश्ट, दीस रात कड्डणी, कांयच ना आतां... विकास कितें तुजें नशीब, आनी आमचेंय बी... मम्मा परस डॅडी बरो, डॅडी आमचो इश्ट म्हणपी आमचीं भुरगीं, विटलीं रे तुज्या सभावाचेर, निमणे तुवें कर्तुपांच तशीं केलीं... तरी तूं तांकां जाय आशिल्लो, खूब जाय आशिल्लो, तीं वयल्यान फडफडूं तुजेर, पूण तुका मात्सी थंडी जोर आयल्यार लेगीत आकूळ पिकूळ जातालीं... तुका दोतोराक

(पान ११५ चेर)



# रीण

ज्योती कुंकळयेकार

'ए, उठ, उठ मुगो..!' चंद्रकांत स्वरुपाक उठयतालो.

एकदम तिडकशी मारली ताका, रातीं देडाक न्हिदलां हांव, हाका खबर आसा तें. हाच्याच पोराक आनी ती भोंवती भागरथ हाडल्या... तिका वाडपाक जाय म्हूण मध्यानराती मेरेन तिष्ठत बशिल्लें. आनी, आतां फातोडेचेर सो म्हाका उठोवन घालता..?

'कितें जालां, कित्याक धोंगशिता म्हाका, म्हजो दोळो लागला म्हूण तुजो फुटलो दिसता.' माथ्यावल्यान घेतिल्लें पांगरूण काडी नासताना तें ताणशेलें.

'म्हाजो कित्याक फुट्टलो दोळो? धरिनाय तूं हांतरूण..' ताणेंय नेटान जाप दिली. ' भायर तें सुकांती येयलां, म्हूण उठयलें...'

सुकांतीचें नांव आयकनाफुडें ताका सट्ट जालें, 'हांव घरांत ना म्हूण सांग तेका.'

'सारकें आसा मुगो तकलेन? सकाळची स वरां जाल्यांत. आतांच घरांत ना म्हूण सांगल्यार कोणाक खरें दिसतलें? रातचें कोणा कडेन वयता काय म्हूण विचारूंक अनमनचें ना तें. आनी तेणें पडवे वयल्यान पळयलां तुका, घोरत पडलां तें.'

'पडले वयल्यान पळयलां? दार कित्याक उकतें उडयलें तर तुयें?'

'म्हाका राती कडेन सपान पडोंक नासलें, तें सकाळीं फुडें येवन बसतलें म्हूण, उठ आतां.'

आपूण घोवाचेर गरजे भायर ताणशेतां म्हूण ताकाय जाणवलें. पडवी, मदलें साल आनी रांदचीकूड इतलोच घराचो आंवाठ. रांदची कूड लेगीत उपरांत फाटले सुवातेंत रीग करून उबारल्या. लग्न जावन आयिल्लें तेन्ना उठप- बसप थंयच, रांदप- जेवप थंयच आनी न्हिदपूय थंयच. रातचें जेवतकच उष्टीं काडून शेणाची गुळी भोंवडावन जातकच शेंदरी घालतालीं आनी मागीर न्हिदतालीं. लग्ना उपरांत पयली रात लेगीत शेणाचो वास घेत सोबयल्ली ताणें.

'उठलें रे तें?' भायल्यान सुकांतीन आवाज दिलो. आतां उठले बगर जावचें ना. पांगरुण कुशीक काडीत तें उठलें. पांगरुणाची घडी करचे बदला ताणें तें तशेंच हांतरुणार पसरायलें आनी पायांनींच हांतरुण कवळून कोनशाक धुकल्लें

आपसुक नदर रांदचे कुडीच्या दारार गेली. भितरल्यान घाल्ली खिळी काडूंक नाशिल्ली. रोहन आनी ती भोंवती भागरथ आसा भितर. आठ दिसां पयलीं मच्छरदाणी हाडल्या, ती खिळावन न्हिदल्यांत...

ताच्या कपलाक मिरयो पडल्यो. पूण आतां वेळ नाशिल्लो. तशेंच भायर आयलें तें. सुकांती तयारेन आयलां म्हूण पळयतनाच कळटालें. 'येतां आं', म्हणत तें आंगणांत गेलें. चंद्रकांतान कोळसुली भरुन दवरिल्ली. ताणें उदक दोळ्यांत लायलें, घोंट घेतलो. झाडाक खोयिल्ली फणी मातशी केसांचेर मारली आनी तें पडवेंत आयलें, सुकांतीच्या तोंडा वयलो मूस हालूंक नाशिल्लो.

'च्याव करूं इल्लीशी?'

'नाका, पोटभर घेवन येयलां हांव.'

'करता मुगो इल्लीशी, म्हाकाय उठना फुडें लागता.'

'तू बस च्याव घेत. म्हाझे पयशे दी, हांव चल्लीं.'

'आगो, जमुंक ना. तुकां सांगलेलें काल मेरेन दितां म्हूण. लोनाचें जावंक ना गो. शेनवार मेरेन जातलें म्हणटाले ते...'

'कितले शेनवार जाले गो, आं कितले शेनवार? तुका सुकांती म्हणजे कोण बाल्याची बायल दिसली? मोनजात शी दिसली? म्हाका वळखोंक ना तूं.. न्हेसाण सोडयतलें आनी चवाठ्यार व्हरोन बांदोन घालतलें. दी माझे पयशे'.

ताच्या तोंडार आयलें, सुकांतीक सांगपाचें, दिना पयशे तुजे, जाता तें कर... पूण सुकांती अर्दे शिरेचें म्हूण जनलोक जाणांत. ते खऱ्यांनीच न्हेसणाक हात घालूंक फाटी फुडें पळोवचें ना. ताका थातारचेंच पडटलें...

'सुकांती, तुका कुकमाचो सोपुत घेवन सांगतां, तुजे पयशे हांव कशेंच बुडोवचें ना. तुजें रीण फारीक केले बगर मरचेंय ना हांव. फट उलयतां आसत तर फायचो दीस देव दिवंचो ना म्हाका. पूण लोनाचें खऱ्यांनींच अडलां. एक लाखाचो लोन मागला हावें. पास करूंक तो चॅरमॅन धा हजार मागता. तेका धा हजार दिवचे परास तुकाच दीन ते. म्हाज्या गरजेक तूं पावलां. तुका अशेच धा हजार उखलून दिल्यार पुण्यूच गावतलें म्हाका. मातशी कळ धर, भयणी म्हाजे, एका म्हयन्या परस चड काळ लोनाचें ॲप्लिकेशन आडावं नजो तेंच्यांनी. कायदोच आसा तसो. बिरेस्तारा मेरेने जातलें काम आनी शेनवारा पयशे मेळटले हातींत. तीन वर्सां रावलें तूं म्हाजे खातीर, आनीक पांच दीस रावल्यार उपकार जातले. ते धा हजारूय तुकाच दितां, चॅरमॅनाच्या हड्ड्यार घालचे परस..'

सुकांतीचो गोंदळ जाला म्हणपाचें ताका



होलमलें. बाण ज्युस्त लागिल्लो. धा हजाराचें आयत्या वेळार कशें सुचलें काय म्हाका... आता खुंटो आनीक हालोवंन घट करूंक जाय...

'शेनवार मेरेन जाय जाल्यार म्हाजो हो मणी दवरता तुजे कडेन. पयशे घे आनी मणी परत दी.'

अशें म्हणत ताणें आपल्या गळ्यांतल्या मंगळसुत्राक हात घालो. तशें सुकांती एकदम उठले. 'पाड पडों तुजें. उघडेंच करतलें तुका म्हूण येयल्लें हांव. आसूं... तीन वर्सां रावलां, धंय पांच दीस खंयचे. पूण, शेनवाराचो सोमार करूंक नाका आं...' अशें म्हणत सुकांतीन ताच्या कमरे सकयल नदर भोंवडायली. आपली धमकी ताचे मेरेन पुरायेन पाविल्ल्याची खात्री पट्टकच तें उठलें आनी चलत रावलें.

स्वरुपा बरोच वेळ तशेंच बसून रावलें. आयज सकाळ उदेल्लीच ती अपमान घेवन. दीसभर कितें वाडून दवरलां काय नशिबांत? आनी कितले रीणकार येवन बसतले दारांत? आपली तकली कणकणपाक लागल्या अशें दिसलें ताका. तकलेंतल्यान ते विचारूच काडून उडोवंचे पडटले. नाजाल्यार आयजूय काम जावचें ना. सीडीपीओन मागिल्लो रिपोर्ट दिवपाची मुदत सोपून पंदरस जाल्ली. तुका लागून आपलो रिपोर्ट आडावन उरला आनी डायरेक्टर खुबल्या; आयज रिपोर्ट हाडून दिना जाल्यार तुजी नोकरी गेली म्हूण समज... अशी धमकीच सीडीपीओन दिल्ली. हेरशी ती समजिक, भरपूर सवलत दिता. पूण तिकाय कोण तरी विचारतलो आसाच. म्हाजीच चूक. दनपार मेरेन वचून रिपोर्ट दिवकूंच जाय. काल दीसभर लागून तयार केला तो...

दुखरें भेंड सासपीत तें उठलें. रानचे कुडीचें दार उकतें करून निमा भायर आयिल्लें. ताच्या भरिल्ल्या आंगार रातच्या शिरंगाराच्यो कुरवो मिरयतात अशें ओगीच दिसलें स्वरुपाक. ताच्या दोळ्यांतलें काजळ शीम हुपून भायर आयिल्लें. दरवट्यार येवन तें उबें रावलें तेन्ना गावना पोंदाक धागरो घालूंक ना म्हणपाचेंय दिसलें स्वरुपाक. सादुर जायत ताणें सरभोंवतणी नदर मारली. चंद्रकांत सोडल्यार कोणूच नाशिल्लो. पूण चंद्रकांताची नदर मात निमाच्या गावनांत घुस्पल्ली. हलकट मेलो.. सून मरे ती तुजी निलाजऱ्या.. स्वरुपाच्या जिबेर उतर आयलें, पूण भायर पडली ती ल्हानशी खांकरट. निमाक अदमास आयला आसूंक जाय. तें तशेंच फाटल्यान वळ्ळें.

स्वरुपा रांदचे कुडींत आयलें. मच्छरदाणयेंत शिवेंद्र घोरेत पडिल्लो. आंगार फकत एक चड्डी. पांगरुणूय नाशिल्लें. दोनूय हात ताणें एकठांय करून मांडयां मदीं घेतिल्ले. हाका उठयल्यार तिडकतलो. गाळी घालूंक लागतलो. अर्दे शिरेचो हो, आवयकूय गाळी घालपाक अनमनना... पडूं पाड.

मच्छरदाणी एका हातात पयस करीत तें मुखार गेलें. च्यायेच्या तोपांत चार पेले उदक ओतून तो तोप गॅसाचे शेगडेचेर दवरलो. हाता कडेन कोळग्यांत साखरेची पिशवी आशिल्ली. अर्दी जाल्ली. स्वरुपाच्या कपलाक परत मिरयो पडल्यो. आयज मंगळार, शुक्रार दीस अर्द कील साखर हाडिल्ली. चार दिसां भितर पिशवी अर्दी. ते भोंवते भागरथीक अर्द अर्द वरान च्या लागता. 'हाड मुगो तूंच. आमचो जीव कित्याक खाता...', तें हय न्हयशें पुटपुटलें आनी उदकाक उकळ येवपाची वाट पळयत बसलें. उकळ येतकच कोळग्यांतली च्यायेच्या पाल्याची पिशवी सोदून ताणे पालो उदकांत घालो. मागीर तें दात घासपाच्या वावराक लागलें. संडास घरांत नाशिल्लो. गावकाराच्या बरेपणान ताणीं कोमुन्दादीच्या जाग्यांत तो बांदिल्लो. घरा पसून मातसो पयस. पूण गरज भागताली.

दोन कप हातांत घेवन तें भायर आयलें. आंगणाचे धडेर चंद्रकांत तसोच बसून आशिल्लो. ताच्या हातांत एक कप दिवन तें आपली च्या घेवपाक लागलें.

'कितले घेतिल्ले?' शिवदासांन विचारलें

'कितें तें? कोणा कडल्यान?' तें ताणशेलें.

'पयशे, सुकांती कडल्यान'.

'तुका मोटार सायकल घेवपाक कितले उणे पडटाले? तीस हजार मरे? तितलेच घेतिल्ले तेचे कडल्यान. म्हयन्यांत पांच हजार दितां म्हूण तुवेंच उतर दिल्लें. तीन वर्सां जालीं, पांच पयशेय दिवंक ना'. उलयतना ताची नदर सुरी कशी चंद्रकांताच्या आंगा वयल्यान भोंवताली.

'तुका खबर आसा, म्हाज्या वांगडा आनी तिगांनी मोटार सायकली घेतल्यो. सगळेच भाडीं मारतात. गिरायक तीन कडेन जालें. तितूंत हो कोरोना येयलो. पूण, तुजो पगार चालू आसा मुगो. तुज्यान हजार भर तरी तेका दर म्हयन्याक दिवंक येताले.'

'हय तर. मोटार सायकल घेवन तूं रातचो गडगडे खेळपाक वच आनी हांव पगारांतल्यान तुजो संवसार चलयतां, तुज्या पोराच्यो मागण्यो भागयतां आनी तुजीं रिणांय पावयतां. असो पगार तरी कितलो रे म्हाजो? लाखभर आसतलो न्हू?' आता ताची नदर उजो ओकूंक लागिल्ली.

चंद्रकांत ओग्गी बसलो. अंगणवाडीचे बाईक पगार कितलो हें तोय बेस बरें जाणा आशिल्लो. बायलेचें तोंड सुटलें तर आपली धडगत ना हेंय ताका खबर आशिल्लें. आतां ओग्गी रावपूच समा आशिल्लें. कोपांतली च्या सोपोवन तो बसून रावलो. स्वरुपाक मात ती शांतताय असह्य जाली.

'मान वयर करून भोवपाक मेळना म्हाका गावांत. एक घर दवरूंक ना रीण मागले बगर. सगळींच आडायतात. तो केरकार तर कितें. हरशीं तोंडा वयलो मूस आमडूंक जमना मेल्याक. आनी काल वाट आडावन विचारता, धा हजार दिना जाल्यार ज्यूर दिता काय म्हूण. पोजडो मेलो.'

'केरकार... इतलो नेट त्या हिजड्याक? दाखयतां तेका आयजुच..'

'तूं कितें दाखयतलो तेका? तेचे कडल्यान पयशे घेतल्यार दोन वर्सां जाल्यांत, मोटार सायलकलीचे इंजिन बदलपाक जाय म्हूण तुकाच दिल्ले ते. दिवपाक जाय ते जायच. बिरमत फुट्टली ना जाल्यार म्हाका. ते बाल्याचे बायलेक पयर सांगलें, म्हाज्याकडेन इतल्यान पयशे दिवपाक जावचे नात, जाता तें कर म्हूण. पूण तशें म्हटलें म्हणून रीण चुकोवंक येता... आयज ना फाल्यां रीण पावोवपाकूच जाय. ना जाल्यार मरतकच नरकांत कुसतलें हांव.'

बरोच वेळ कोणूच कांय उलयलें ना. ती मसंड शांतताय स्वरुपाक आंगार आयिल्ले वरी दिसपाक लागली. काळजांतली खदखद तशी

पुरायेन वयर येवंकूच नाशिल्ली.

'हांव मेलें जाल्यार रिणां मात दवरूंक नाकात तीं. मणीं वीक म्हाजो. एका पवनाचे चाळीस हजार तरी मेळटले. एक तरी रीण फारीक जातलें. काकणां आसलीं तीं घाण दवरल्यांत नारायण शेटी कडेन. शिवूक गाडी जाय पडली म्हण. बँकेचे हप्ते भरपाक जमना आनी बायल घेवन येयला तो. आता काकणां कांय परत दिसपाचीं नात म्हाका. रिणां तरी थोडीं...'

ते तरातरा उठलें आनी पडवे वयले खुंटये कडेन गेलें. थंय ताचें अंगणवाडींत वतना घेवपाचें बॅग हुमकळायिल्लें. भितर हात घालून ताणें एक चोपडी काडली आनी तिची पानां आरतीं परतीं करीत परत आंगणाचे धडेर येवन बसलें. कांय वेळान ताका सोदतालें तें मेळ्ळें.

'आयक रे सभाग्या, सुकांतीचे तीस हजार, नारायण शेट ऐंशी हजार, तातो सतरा हजार, दिनू केरकार धा हजार, निर्मलाची आवय पांच हजार, सकिना बेग आठ हजार, नितिनाची आई तीन हजार, दादू परुळकार स हजार, शिवाजी पटेकार चार हजार, बाल्याचे बायलेचे दोन हजार, सोनूचे बायलेचे स हजार...' ताणें वाचप मदींत सोडून दिलें. पुरो जाल्ले वरी तें घोवा कडेन पळयत रावलें. मागीर परत चोपडेंत नदर खिळायली. दोळ्यांत दुकां दाटिल्ल्यान तो हिशोब आपल्याक नीट दिसना म्हणपाचें ताका जाणवलें. पूण निमाणो आंकडो तर ताका तोंडपाठ आशिल्लो. स लाख छत्तीस हजार रुपया. तातुंतले आपसाहाय्य गटा कडल्यान घेतिल्ले वीस हजार कळंतरा सयत फारिक करपाचे. म्हणजे साडे स लाखांचेर गेलो हिशोब.

साडे स लाखांचे रीण आसा म्हजे तकलेर. तें फारिक जाय मेरेन तरी मरपाक जायना हावें....

तें निरशेवन पयस खंय तरी पळयत रावलें. चंद्रकांत आपूण ते गांवचोच न्हय अशें तोंड करून कान कोरातूंक लागिल्लो. ताचें तें कानभेरेंपण पळोवन मात तें खुबलें.

'साडे स लाख! ती सांतेर बसल्या थंय. तिका खबर आसा, हातुंतलो कितलो पैसो हावें जिवाक मोडला तो. घोव आनी आतां चेडो. तेंच्यो गरजो भागोंवक हांवे रीण काडप आनी तेंच्यानी मजा करप. पगाराचेरूय रीण. अर्दो पगार बँक हप्तो म्हूण कापता. तरी अंगणवाडी आसा म्हूण तांदळा गोट्याक भंय ना. ना जाल्यार उपाशीं पडपाचीं. माझ्या जीवाक मात एक पैसो लागूंक पावलो ना. दळदिरें तें दळदिरेंच उरलें... भीक मागें.'

कितलोसोच वेळ तें शुन्यांत नदर लावन मळबाची खोलाय तेळीत बसून रावलें, चंद्रकांतान कांय वेळ गणयले वरी केलें आनी मागीर खुंटयेची पँट- शर्ट काडून आंगार चडयलो. तो आपल्या बँगेंत हात घालून पयशे मेळटात काय म्हूण सांसपिता, हेंवूय स्वरुपाच्या नदरेंतल्यान सुटूंक नाशिल्लें. ताणे पयशे बँगांत दवरुंकूच नाशिल्ले. निर्शेल्लेवरी जावन चंद्रकांतान मोटारसायकल सुरू केली आनी तो न्हंयचे दिशेन गेलो. थंय इस्पिकांची थापटी दनपार मेरेन रंगतली आनी ज्युस्तच देड वराचेर पाटार बसूंक तो हाजीर जातलो, हाची स्वरुपाक खात्री आशिल्ली.

कांय वेळ आंगातलें त्राण गेल्लेवरी तें थंयच बसून रावलें, शिवेंद्र उठून तोंड धुवन आयिल्लो, नीमान दिल्ली च्या पडवे वयल्या एकसुऱ्या कदेलाचेर बसून पियेतालो. नीमा ताच्या फाटल्या फुडल्यान गणयतालें.

आपल्या ह्या पुताक कितें करचें हेंच स्वरुपाक कळनाशिल्लें.

नवसांचेर नवस करून जाल्लो पूत. चवथेक पावतनाच आडांगीपणा करूंक लागिल्लो. खंयचे तरी अंगणवाडीचे बाईन बुद्द दिली आनी ताका काडून स्वरुपांन आंबोलीच्या पब्लिक स्कुलांत घालो. पांच वर्सांनी तो आयलो तो आवय- बापायक गाळी संवतूच. धावेंत नापास जाल्लो. आनीक शिकचो ना म्हूण सांगून ताणें तवनासपण सुरूं केलें. मागीर ताका खंयच्या तरी हॉटेला मुखार गाडी दवरपाची कूय आयली. शिवदासूय भरिक पडलो आनी स्वरुपान हातांतलीं काकणां घाण दवरून नारायण शेटीकडल्यान रीण काडलें. ते पयशे बँकेत पुताच्या खात्यार दाखोवन दुसरें रीण काडलें. गाडी घेतले उपरांत गाडयेंत बसून एक पासय तें मारून आयिल्लें, तितलेंच. उपरांत गाडी कशी आसता तें लेगीत ताणें पळोवंक नाशिल्लें. शिवेंद्र गाडी घेवन भोंवतालो आनी रातीकडे येवन भाडेंच मेळ्ळें ना म्हूण गाळी घालीत बसतालो. सकाळ जातकच भायर सरतना आवय मुखार हात करून पेत्रोला खातीर पयशे मागतालो. मागपाचे बाबतींत तो ज्युस्त बापायचे बडीर गेल्लो, न्हय, बापाय परस दोन पावलां मुखारूच आशिल्लो. एकदां गाडयेक टायर घालपाक पयशे मागतकच स्वरुपान ना म्हळें आनी तो हात उखलून 'दिता काय ना...' म्हणत ताच्या आंगार आयलो. ताचे तारवटिल्ले दोळे, आंगाक पडिल्ल्यो सोन्याच्यो घाणी पळोवन तो आपल्या कानसुलार लायले बगर रावचो ना म्हणपाची जाणविकाय स्वरुपाक जाली आनी ताणे कानातल्यो वेडी काडून ताच्या हातार दवरल्यो.

दोन म्हयन्यांपयलीं शिवेंद्र असोच सात- आठ दीस नाच्च जालो. स्वरुपाचो जीव कासावीस जालो. अशें केन्नाच घडूंक नाशिल्लें. दोन- चार दीसांखातीर तो इश्टां सांगातान भोंवपाक बी वतालो, पूण सांगून वतालो आनी परतूय येतालो. हे फावटीं आठ दीस जाले तरी तो खंय आसा हेंवूय कळूंक नाशिल्लें, स्वरुपा पोलिसांकडे वचपाचो विचार करूंक लागिल्लें.

आनी शिवेंद्र आयलो. सांगातान नीमाक घेवन.

दोगांयकूय सांगातान पळोवन कितें तरी चुकलां म्हणपाचें स्वरुपाक जाणवल्लें. शिवेंद्र बापायचो काळो कोर घेवन जल्मल्लो. नीमा गोरेपीट्ट कातीचें. आंगचणीन बारिक आशिल्लें तरी पिरायेन आपल्या पुता परस व्हड म्हणपाचें स्वरुपाक पयल्याच खिणाक कळ्ळें.

'आई, हें नीमा. आयज सावन हांगाच रावतलें. म्हयन्या भितर आमी लग्न करतलीं.'

'आरे. पूण हें कोण, खंयचें?'

'त्यो उस्तवारी तुका नाका. तें हांगा रावतलें.'

'हांगा जागो खंय आसा रे, शिवू?'

'जागो ना जाल्यार तूं बाबाक घेवन चलोंक लाग. घर म्हाज्या आज्याचें, म्हाजो हक्क आसा तेजेर. चड करशीत जाल्यार घांस घेतलों गोमटेचो.'

नीमाच्या मुखारूच पुतान आपल्याक धमकायिल्ले पळोवन स्वरुपाची वाचाच बसली.

नीमाचें लग्न जालां आनी घोवाक सोडून तें शिवेंद्रा सांगातान पळून आयलां म्हूण कळपाक ताका कळाव लागलो ना. शिवेंद्राचो हो प्रताप गांवभर जाल्लो. असल्यो घडणुको घरच्यांकूच निमाणे कडेन कळटात.

शिवेंद्राक ताणें ते विशीं विचारलें. ताणेंय नीमाचें आदीं लग्न जाल्ल्याचें मान्य केलें. ताका दोन भुरगींय आशिल्लीं. व्हडलो चलो बापायन व्हेल्लो तर दुसऱ्याक बोर्डिंगांत घालून नीमा शिवेंद्रा सांगातान हांगा आयिल्लें. एकामेकांकडेन पटना म्हूण तांणी घटस्फोट घेतिल्लो. कायद्यान दुसरें लग्न करपाचो शिवेंद्राचो मार्ग मेकळो जाल्लो.

घोवा पासून वेगळें जातकच नीमान आनीक दोगां जाणां कडेन संबंद दवरिल्लो अशें शिवेंद्राचेच इश्ट ताच्या फाटल्यान गांवभर सांगत सुटिल्ले. शिवेंद्र गाडी घेवन भायर गेला सो पळोवन तांचे मदले एक दोग जाण घरांत येताले. भाभी... भाभी करून नीमाच्या फाटल्यान फुडल्यान नाचतालें. नीमाय मागीर कोंब्यां मुखार कोंबी पाखां फुलोवन भोंवता तशें वागतालें. तें पळोवन स्वरुपाची तकली उसळपाक लागताली. ताणें एक दोन फावटीं पुताक सादुर करपाचो येत्न केलोय बी, पूण शिवेंद्र ताच्याच आंगार आयलो.

नीमाचें दादल्यांच्या दोळ्यांत दोळे घालून धिटायेने पळोवप , कारणा भायर दादले उबे आसता थंय गणयत रावप स्वरुपाक खटकतालें. पूण शिवेंद्रा मुखार उलोवपाची सोय नाशिल्ली. तो दोळे तांबडेच करून फोंसा घालतालो.

शिवेंद्राच्या लग्नाचो खर्च करचे खातीर नीमाक दोगा- तिगां कडल्यान पयशे घेवचे पडले. रीणाचें वजें वाडलें.

आतां रीण स्पेशालिस्ट म्हूण स्वरुपाचें नाव जाल्लें. तें येतना दिसले जाल्यार लोक दुसरी वाट धरताले, बायलो ताका थोमणे मारताल्यो. रीण दिवपी लोक तर तें दिसना फुडें पयशे केन्ना दिता काय म्हूण विचारताले. केरकारा सारखिल्याची नदर तर पयशे मागतना ताच्या आंगभर भोंवताली.

'आई, तीन हजार दी पळोवया..' शिवेंद्र ताचे कडेन येवन मागपाक लागलो.

हे फुडें शिवेंद्राक पयशे दिवचें ना हें स्वरुपान हाचे पयलींय शंबर फावटीं तरी थारयलां आसतलें. पूण दर खेपे तो मुखार येतकच ताका आंबोली येवजताली. पोटच्या पोराक परके कडेन धाडून आपणें निबर केलो म्हूण ताकां खंत भोगताली आनी तें हातांत पयशे नासल्यार कोणा कडेन तरी तोंड फापडून ताका हाडून दितालें. आतां मात आपूण ताका एक पयसो दिवचें ना, अशें ताणें स्वताकूच परत एक फावटीं सांगलें.

'तीन हजार, कित्याक रे बाबा?'

'आगे, नीमाचें रूट कॅनाल करपाक जाय. दोतोरान सात हजार सांगल्यात. तेचे कडेन चार आसात. तीन जाय'

'रूट कॅनाल, म्हणजे रे कितें?'

'आगे, दाड पोखारल्या तेची. ती सारखी करपाक जाय.'

'दाड पोखरल्या जाल्यार काडून उडयतात न्हू रे? वयल्या हॉस्पिटलांत वच. फुकट काडून दितात.'

'आगे... तूं दोतोर केन्ना सावन जाली? तेका दोतोरानूच सांगलां, रुट कॅनाल कर म्हूण. तीन हजारांक लागून कित्याक ताणता गे...'

'म्हाजे कडेन खंयचे रे तीन हजार? अर्दो पगार तुजे गाडयेचो हप्तो भरूंक वयता. सात हजारांनी लोकांची रिणां पावोवं, संवसार चलोवं काय आनी कितें करूं?'

'हाड गे मागून कोणाय कडल्यान,'

'गावांत तोंड उरूंक ना म्हाका. लोक दारां बंद करतात, सरकारी कामा खातीर येयलां म्हूण सांगलें तरींय लोक दुबावान पळयतात म्हाजे कडेन. आनीक रिणां कोण दितलो म्हाका?'

'ते दाळीच्या डब्यांत आसात ते पयशे खंयच्यान येयले तर?'

स्वरुपाक कच्च जालें. दाळीच्या डब्यांतले पयशे ताच्या आपसाहाय्य गटाची म्हयनाळी वर्गणी आशिल्ली. ताका शारांत वचून बँकेंत घालपाक सवड मेळूंक नाशिल्ली देखून ते पयशे घरांत दवरचे पडिल्ले. तांचेर हाची नदर कशी पडली?

मागीर ताका याद जाली; कालूच नीमा रांदचे कुडींत खुडुक खुडुक करतालें. सांजे वेळार दाळ- तांदळाचे डबे दवरिल्ले कडेन हें कित्याक उबें, असो प्रश्न स्वरुपाच्या मनात तेन्ना आफडून गेल्लो.

आतां उलोवन कांयच फायदो नाशिल्लो. तें मोन्यांनी उठलें. भितर वचून ताणें दाळीच्या डब्यांतले पयशे काडून शिवेंद्राच्या हातार दवरले. परत एकदां ताच्यो गाळी घेवपाचें त्राण ताच्या आंगात उरूंक नाशिल्लें.

पडवेर कदेलार बशिल्लें नीमा आपले कडेन मुमुरखें हांसून पळयता म्हणपाचें स्वरुपाचे नदरेंतल्यान सुटलें ना. मान सकयल घालून तें भितर गेलें, न्हेसण बदललें आनी तें शारांत वचपाक भायर सरलें. दनपरां मेरेन रिपोर्ट दितांच म्हूण ताणें सीडीपीओक उतर दिल्लें. तें नेगार गेलें जाल्यार आपली नोकरी वतली म्हूण तें जाणा आशिल्लें.

सुकांती आतां आटापाक येवचें ना, हें ताका कळिल्लें. कितेंय करून ताचे पयशे पावोवपाकूच जाय. ते भायर आप साहाय्य गटाचे तीन हजार... तेत्तीस हजारांची तजवीज खंयच्या करपाची? गावांत तर दरेक हुमरो घासून जाल्लो. ऑफिसांतूय तें रिणांकार म्हूण फामाद जाल्लें. फाटले फावटीं अकांवंटांत गेलें जाल्यार तो मिराशी आपले पडके दांत दाखयत शेजरा बशिल्ल्या तोटेंकारा कडेन पळोवन म्हणपाक लागलो, 'म्हजे कडेन स्पेशल रीण मेळटा, ज्युरूय स्पेशल दिवचें पडटा. कोणाक जाय जाल्यार सांग आं..' ताची बुरशी नदर आपल्या आंगाचेर विंचवा वरी भोंवता म्हणपाची जाणविकाय स्वरूपाक जाली आनी ताकतिकेन तें कुडींतल्यान भायर आयिल्लें.

चिंतनाचो भार तकलेर घेवन, पांय ओडीत तें नाटेकाराच्या मांडा मुखार येवन बशीची वाट पळोवंक लागलें. भितरल्यान ताचें मन ताकाच खातालें.. कशें गो तूं अशें? पूत मागता तें दिता, घोव मागतात तें हाडटा... कितल्या जाणांक तोपी घातल्या गो पुताक आनी घोवाक खोशी दवरचे खातीर, हो पूत तुज्या मड्याचेर लेगीत नदर घालचो ना आनी तूं तेचे खातीर लोकांक नाडटा..?

विचारांचो तो लोळ कुशीक काडीत स्वरुपान सरभोवतणी नदर मारली. खरें म्हळ्यार सकाळी धां वरांचेर बशीचो ओरार आसतालोच. पूण आयज धा जालीं तरी बशीचो पत्तो नाशिल्लो. ताणें हेवटेन तेवटेन पळयलें. तें आनी एकटी मीराबाय नाटेकाराच्या मांडाचे डावे कुशीक उबी आशिल्ली. स्वरुपा तिका पळोवन हांसलें तशी ती मुखार आयली.

'खंय गे चल्ली?'

'मामलेदारांत वयतां गो.'

'मामलेदारांत... कितें जालां तर?'

'काय ना गो... जातलें कितें... तो धावस्कार आसता न्हू थंयसर... तेचें कडेन काम आसलें'.

मामलेदार कचेरेंतल्या गणा धावस्काराक स्वरुपा वळखतालें. तो कचेरेंत प्यून म्हूण आसतालो, पूण कचेरी सोडून देवदेवस्की करीत भोंवतालो. दर दिसा वचून मामलेदाराक खंयचो म्हादेवाचो प्रसाद, खंयचो सातेरेचो प्रसाद, खंयची साईबाबाची बिबुत, खंयचो संतोषी मातेचो दोरो म्हूण दितालो. मामलेदारूय देवभोळो. ताणें धावस्काराक देवाक सोडला, अशें सगळी कचेरी म्हणटाली. पूण म्हयन्या भरा पयलीं धावस्काराक रस्तो हुपतना गाडयेन धपको दिल्लो. ताचे कमरेचें हाड मोडिल्लें. तो स म्हयने तरी येवचो ना, अशेंच सगळे उलयताले. स्वरुपाकूय तें खबर आसलें.

'कित्याक गे. धावस्कार कोण तुजो?'

'आगो, म्हाजो कोण न्हू तो. हांव साखळे संतोषी माते कडेन वयतां न्हू... थंय वळख आमची. म्हाका आईच म्हणटा तो. तेची बँकेत वळख आसा खंय...'

बँकेंत हें उतर आयकून स्वरुपाचे कान तटास जाले. तें सादुरतायेन मिराबायचो अदमास घेवंक लागलें.

मिराबायचें घर देमू भाटकाराच्या भाटांत आसलें. मिराबायचो घोव भाटकाराच्या विश्वासांतलो. तो भाट राखतालो. तांका एकूच चेडो आसलो. कोरोनाचें निमित्त जालें आनी मिराबायचो आडसाटो चेडो भायर पडलो. ताचे कुडीचेर नदर लेगीत आवय बापायक घालूंक मेळ्ळी ना. तेच खंतींन देमून हांतरुण धरलें आनी वर्सा भितर तोंय सोपलो. मिराबाय एकटी पडली. भाटकाराच्या मनांत कितलींशींच वर्सां भाट विकपाचें चलतालें. देमूक लागून तो ओगीच राविल्लो. आतां देमू वतकच ताणें मिराबायक समजायलें. भाट राखप आपल्याक जमचें ना, हें तिवूय जाणाच आशिल्ली. भाटकारान तिका आपल्याच घरा पसून मातशें पयस आशिल्ल्या लॉजांत रावपाक जागो दिलो. थोडे पयशेय तेकयल्यात, अशें लोक म्हणटाले.

तीच मिराबाय आतां बँकेची गजाल उलयताली.

'आगे, गणा धावस्कार मगे... तुकां कांयच खबर ना दिस्ता?'

'खबर... कसली गो... बरो आसा मुगो तो..?'

'बरो खंयचो. आगे, ॲक्सिडेंट जालो तेका. भेंड म्होडून घरांत आसा. स म्हयने उठपाचो ना खंय.'

मिराबायचें तोंड आ करून उगडलें तें बरोच वेळ तशेंच उरलें.

'आरे म्हाज्या देवा. कशें गो बाये एकेकल्याचें नशीब. देवाचो मनीस मुगो तो.'

'देवाचो आनी खेवाचो... नशिबांत आसता तें कोणाक चुकलां... रामाक वनवासांक वचचेंच पडलें न्हू गे.'

मिराबाय ओग्गी पडली. तिच्या दोळ्यांत दुकां दाटिल्लीं स्वरुपाक दिसलीं.

'घरा वच मगे तेच्या, खबर घेवपाक.'

'हांव गो बाये खंय जाणा, तो खंय रावता तें.. साखळे चार पांच फावटीं गेल्ले कडेन मेळिल्लो तितलोच. कोणें विचारलां, तूं खंय रावता काय म्हूण...' मिराबायन निर्शेवन जाप दिली.

'पूण, तुका बँक शी कित्याक जाय पडली तर..?' स्वरुपान ल्हवूच मुद्द्याक हात घालो. तशी मिराबाय चारूय वटांनी पळोवंक लागली. बशीचो पत्तो नाशिल्लो आनी बशींत बसपा खातीर तिसरो कोणूच येवूंक नाशिल्लो.

'आगो. तुका म्हूण सांगतां आं... कोणाक म्हणूंक नाका. म्हाज्या घराचें खबर आसा न्हू तुका?'

'घराचें, म्हणजे तुका भाटकारान लॉजांत रावपाक व्हेलां तें? मगे बरें जालें मगे. भाटांत एकटीच रावताली, आता शेजार पाजार जाला. अडी अचडणींक उलो घातल्यार लोक धांवन तरी येतलो.'

'हय गो. तें जालेंच. पूण भाटकारान म्हाका घर सोडलां म्हूण खोशयेन थोडे पयशे दिल्ले मुगो. ते बँकेत दवर म्हूण तेची सून सांगताली. बँकेंत दवरल्यार ज्यूर मेळटा न्हू गो. आतां म्हाज्या दोळ्यांक सारखें दिसाना गो. फाटी फुडें नदर गेली जाल्यार ह्याच पयश्यांचेर चार दीस सुबेच काडटलें न्हू गो...'

कांय खीण स्वरुपा ओग्गीच रावलें. विचारांची एक वांवटळ खिणा भितर ताच्या मनांतल्या पासार जाली. मागीर ल्हवूच ताणें मिराबायकडेन पळयलें. तीय ताचेच जापेची वाट पळयताली.

'बँको बंद जातात तें जाणा मुगे'? ताणें विचारलें.

'बंद जातात! तेरेझाल्या चेड्याची बंद जाली तें आयकल्लें गो... म्हापशेंची बँक न्हू गो ती... आनीक खंयची जाली?'

'आनिकूय जाल्यात. कांय बँकांक सरकारान काडून दुसऱ्या बँकांनी घातल्यांत. रिणां काडिल्ल्यांनी नाडलें त्या बँकांक.'

'कसलो काळ येयला गो...'

'आनी, बँको आता व्हडलें ज्यूर दिनात. शंबराचेर चार ना जाल्यार पांच रुपया वर्साक.'

'फिक्सांत घालुया अशें सांगतालो गो तो धावस्कार.'

'फिक्सांत घातले जाल्यार जाय तेन्ना पयशे परत मेळनात. फिक्साचो काळ सोपतकचूच मेळटा. तुका मर्दीच वखद विरसद जाय पडलें जाल्यार कितें करतली?

मिराबाय घुसपुपाक लागल्या म्हूण स्वरुपाक अदमास आयलो. आपल्याक तिच्या पयश्यांचे निखालस पडून वचूंक ना अशें तोंड करून ते बस येता ते दिशेक पळोवंक लागलें

मागीर... कितें केल्यार बरें गो?'

'कित्याचे म्हणटा तूं?'

'कित्याचें म्हणजे, म्हाज्या पयशांचें गो...'

'आगे... बँकेत न्हू गे दवरता तूं..?'

'ज्यूर सारकें ना जाल्यार कित्याक दवरुं हांव. चार पयशे मेळना जाल्यार....'

स्वरुपा बरोच वेळ तिका पळयत रावलें.

ताच्या दोळ्यांसामकर पयशे नाचूंक लागिल्ले आनी दुसरे कडेन आपूण ते जाणटेलेक नाडपाचे तयारेंत आसा म्हूण मन खावंक लागलेंलें

'पळय बाये...हांव काय एक पयसो बँकेत दवरीना. फार्टी भीशी उगडली तेन्ना अट्ठेचाळीस हजार मेळिल्ले, व्हेले आनी फोंड्या दिले.'

'फोंड्या... फोंड्यां कोणा कडेन?'

स्वरुपान आनीक कांय खीण तशेच वचूंक दिले. मागीर चारूय वटांनी सादुरतायेन पळयत तें मिराबायच्या कानाक लागलें, 'आगे, फोंड्यांत दिनीज म्हूण आसा एकलो. तो शंबरांचेर म्हयन्याक सात रुपया दिता. वर्सभर दवरले जाल्या णव्वद रुपया दिता.'

णव्वद... शंबरांचेर णव्वद..? मिराबाय आयकत उरली.

'हांव तेचे कडेन व्हरोन दितां.'

'आनी तो खंय घालता तर ते पयशे?'

'खेळाक!'

'खेळाक... म्हणजे गो?'

स्वरुपा आतां तिच्या कानाक दसलेंच

'आगे, आता काले, जात्रा येयल्यो न्हू गे... केदो खेळ चलता तो तुयें पळोवंक ना.... लोकांक जुगार खेळपाक पयशे जायच आसतात. ते गडगडे, इस्पिको... तेवूय त्या दिनिजाचे आनी पयशेय तोच दिता. शंबराचेर धा रुपया ज्यूरान दिता. तेका तीन आनी दितल्याक सात.,

मिराबायचें तोंड आ जाल्लें

'तूं तेकाच दिता पयशे?'

'हय तर, वर्साक दोबरात जातात मगे. बँकेंत घातल्यार आठ वर्सां वयतात. हो वर्सा भितर दिता.'

'पूण. तेचें कितें बरें वायट जालें जाल्यार... म्हाजे पयशे वयतले मुगो. आनीक आसा तरी कितें म्हाजे कडेन...?'

'खंय वयतले. तो तेचो एकल्याचो धंदो न्हू. तेचे फाटल्यान आनी चार जाण आसात. तो मेल्यार ते धंदो चलयतले. पयलीं त्या दिनिजाचो तितिव चलयतालो होच धंदो. तो मरतकच हेणे सगळ्यांचे पयसो ज्युरा सयत दिलो. प्रामाणिकपणा नासत तर लोक जिवेशी मारून उडयतले तेंका. म्हाका तर बाये कसलोच भंय दिसाना. पूण तुका सांगना आं, हांव पयशे तेचे कडेन दवर म्हूण..'

'आनी, ज्यूर कशे दितात तर ते?'

'वर्सांतल्यान दोन फावटीं घरा येवन दितात. दुसरे फावटीं मुद्दलूय घेवन येतात. तुवें जाय जाल्यार तें घेवचें, ना जाल्यार परत दिवचे ज्युरार...'

मिराबाय चिंतत उरली. बाण ज्युस्त लागला म्हूण कळ्ळें स्वरुपाक. तें साळसुद जावन परत बशीची वाट पळोवंक लागलें

'आयक गो... म्हाजे पयशे व्हरशीत?'

'तुजे पयशे... हांव खंय व्हरूं?

'फोंड्या गो... दिनिजा कडेन.'

'ना गे बाये. हांव व्हराना दुसऱ्यांचे पयशे.'

'जांव गो... म्हाजो, म्हातारेचो आदार केल्यार देव तुजें बरेंच करतलो.'

'आगे, नाका, म्हाजे कडेन म्हाजोच हिशोब सारको दवरूंक जायना. तुजो आनी खंयचो...'

'जांव गो... म्हाजी धूव आसली जाल्यार हय म्हणटली आसली. तूंय धूव कशी म्हाका...'

चर्र जाल्ले वरी दिसलें स्वरुपाक. पूण ताणें तीं चिंतना मनांतल्यान त्याच खिणाक काडून उडयलीं.

'आमी अशें करुया... तूंय यो म्हाज्या वांगडा फोंड्या. तुज्या हातान दी तेच्या कडेन पयशे. तुजीय खात्री पट्टली, म्हाजे वयलो भारूय देंवतलो.'

'नाका गो. हीं, फोडटात तसलीं हाडां घेवन हांव खंय येवं.... तूंच व्हर मुगो..'

'नाका गे... तूंच यो.... ना जाल्यार बँकेतूच घाल ते पयशे. तुका इतलें ज्यूर जायच कित्याक. भाटकार दाणो- गोटो दिता मगे.'

मिराबाय आपले कडेन काकुळटेन पळयता म्हूण ताका कळ्ळें. आनीक कांय वेळ तें तशेंच रावलें. मागीर ताणें म्हणलें,

'बरें बाये. तुजे म्हूण व्हरतां आं. ना जाल्यार हांव कोणाक भीक घालपी न्हू. कितले दितली?'

'कितले! म्हातारे कडेन कितले लाख आसतले गो? तीस हजार आसात, भाटकारान दिल्ले. तेच घेवन वयतालीं बँकेत दवरपाक...'

तीस हजार... सुकांतीचे तीस हजारूच दिवपाचे आसात. वीस दिले जाल्यार तोंड धापून वयतलें तें. आप साहाय्य गटाचे स हजार जाले... दोन रीणांतल्यान मेकळें जावं येता. चार चार हजार उरतले हातांत.

'पळय गे बाये... वरस भर तरी पैशे परते मेळचेच नात. वर्सा उपरांतूच खबर करपाची. तुका चलतलें मुगे? ना जाल्यार चंद्रकांताचे बायलेन नागयलें म्हूण गावांक सांगत भोवशीत.'

'ना गे म्हाजे धुये. तुयें म्हाजे कडल्यान जबऱ्यां पयशे घेवंक नात. हांव आप खोशयेन दितां तुजे कडेन. पूण.... ते खांवचे नात मुगो म्हातारेचे पयशे?'

'तो हुस्को तुका नाका. म्हाजो भाव कुळ्यां आसता पुलिसेंत. तेका सांगलें जाल्यार दिनिजाचे हात पांय म्होडून घालतलो तो. दिनिजाकूय खबर आसा. आजय मेरेन तेणे केन्नाच म्हाका फटोवंक ना आं. ओगीच कित्याक....'

अशें म्हणत ताणें आपलें उलोवप अर्धारूच सोडलें.

होर्न वाजयत बस आयली. कंडक्टर सकयल देंवलो, पिल्लूक वाजयत बस फाटल्यान घेवपी ड्रायव्हराक दिशा दाखोवंक लागतो.

'चल, गे, मेळुया मागीर...' स्वरुपान खुंटो हालोवन घट्ट केल्लेवरी मिराबायक म्हणलें.

'आगो...खंय वयता अशेंच? हे घे...' अशें म्हणत मिराबायन आपले पिशवेंत हात घालो आनी एक पाकीट काडून स्वरुपाच्या हातांत दिलें.

'पळय आं... सारखो विचार केला मगे तुवें?'

'विचार गो कसलो आतां. चल तूं...' मिराबायन ताचे फाटीर थापटीत म्हणलें तशें तें पुट्ट करून बशींत वचून बसलें.

बस वचपाक लागली... मीराबायची आकृती ल्हान ल्हान जायत नाच्च जाली.

हातांतलें पाकीट स्वरूपान अळंग आपले बॅगेच्या तळाक व्हरून तेंकयलें. दोन रीणां पावोवपाचीं सपनां रंगयत तें मुखा वयलो रस्तो तेळूंक लागलें.

संपर्क: 9822161853

***



# निमणी आस...

नयना आडारकर

"टक टक टक" दारार आवाज आयलो तशी साराची तनरी भंगली.

"मिल्टन..." उलो मारीत तें आपली सगळी शक्त एकवटावन दारा कडेन धांवलें.

खपखपत्या काळजान ताणें खिळी काडली आनी मुखार रोजालीनाक पळोवन तें थंयच थडक करून उबें रावलें.

"कोहें आसा बाय?" रोजालिनान विचारलें.

"हूं!" सारान फकत एक सुस्कार सोडलो.

रोजालीनाक ताच्या त्या हुस्काराचो लेगीत त्रास जालो. ह्या पोरान एकदां व्हडल्यान रडचें, बॉब मारची अशें तिका दिसतालें. तशें केल्यार ताच्या काळजांत सांठून उरिल्लें दुख्ख व्हांवून तरी वतलें आसलें. कितलो तेंप हो आशेचो फातर हड्ड्यार घेवन तें वावुरतलें?

सॅमा कडेन काजार जावन आयिल्ल्याक रोजालीन साराक वळखताली. सॅमा कडेन ताचें काजार सगल्यांक ताचे पसून पयस करीत गेलें. तेन्नाच्यान रोजालीनूच ताची घट इश्टीण जाली. आपलें सगलें सुखदुख्ख तें रोजालीना कडेन मेकळें करतालें. सॅमान आतऱ्या पयऱ्यान ताका केल्ले त्रास आयकून रोजालीनाक सॅमाची तिडक मारताली. मेर्दान फारायलें ह्या पोराक आतां सुखान दोन गोटेय खावपाक दिना म्हणून तिणें एक-दोन फावट सॅमा कडेन वाद्य घातिल्लो.

सारान केन्ना आपले आवडीचें नुस्तें घेतलें ना. ताका बुरांटे आनी वेल्ल्यो आवडटाल्यो. पूण सॅमाक व्हडलीं नुस्तीं आवडटात म्हणून ताच्याच आवडीचें नुस्तें घेतालें. मिल्टनूय सॅमाचेच रुचीचो. मागीर जाल्यार सारान चड उमेदीन नुस्तें घेवप. सॅम संवसार सोडून गेल्या उपरांतूय मिल्टना खातीर ताचें नुस्तें घेवप थारलें ना. सॅम गेलो तशें पोटाचो प्रस्न सोडोवपाक साराक नोकरी करची पडली. पुता पसून पयस उरचें न्हय म्हणून ताणें घरा लागसारचीच नोकरी धरिल्ली. तें नोकरेक वतकच रोजालीन नुस्तें घेवन येतालें. साराच्या घराची एक चावी ताचे कडेन आसली. तातूंत तें घर उक्तें करून नुस्तें उजरावन मीट लावन दवरतालें. दनपारच्या आदेसाक सारा घरा येवन तें बेगिबेगीन तळून मिल्टनाक हुनहून तळलेलें नुस्तें वाडटालें. सांजेचो आदेस तें घरा मिल्टना वांगडा सारपाक लागलें. मिल्टन घर सोडून गेलो आनी सारा सैरभैर जालें. त्या वेळार रोजालिनानूच ताका सांबाळिल्लें. मिल्टन येतलो ह्या ताच्या भरवंशाक तेंको दिल्लो. पूण आतां दोन वर्सां जावंक आयिल्लीं, मिल्टनाचो खंय पत्तोच नासलो. पुलिशेन ताका सगल्याक सोदलो. रोजालिनान आपल्या एका भाच्याक सांगून तांकां फेसबुकावरवीं बी मेळटा जाल्यार पळय म्हणून पराथिल्लें. पूण कांयच उपेग जालो ना.

सारा मात मिल्टनाचे यादीन तळमळपाक लागलें. ताचो दर स्वास ताचे यादीन आडखळपाक लागलो. रोजालिना कडलें नुस्तें घेवन तें बरें तळून तें मिल्टनाची वाट पळयत बसतालें. आपणें केल्लें नुस्तें मिल्टनाक खूब आवडटा हें तें जाणा आसलें. तें खावपाक तो एकदीस तरी येतलोच अशी आस बाळगितालें तें. ताणें नोकरीय सोडली. तें सगलो दीस दारा कडेन नदर लावन बसपाक लागलें. धड पिशेंय न्हय धड सारकें मनीस कशें तें जियेतालें. ताचें तें खिणाखिणाक मरप रोजालिनाच्यान पळोवंक नजं जातालें.

साराची अवतिकाय पळोवन ताच्या काळजांत दुखीचें एक किंसर किसकिसलें. ताणें पाटलो सकयल दवरलो आनी मोन्यांनी भितर वचून नुस्त्याचें गुळम हाडलें. दोन मोटीं शेतकां काडून गुळमांत घालीं आनी परतें आसा तशें गुळम भितर व्हरून दवरलें

"बाये येता आं" म्हणून पाटलो उखलतना साराचे नदरेक नदर दिवपाचें रोजालिनान टाळ्ळें. ते नदरेंतलो भाव ताच्या काळजाक भेदून वतालो. "येतलो मुगे रोजालीन, म्हगे मिल्टन? आयज तरी?" ते नदरेंतलो तो प्रस्न तिका आकुळ-पिकुळ करतालो. "येतलोच, भिये नाका. देवाचेर भावार्थ दवर." अशें ताका सांगता सांगता आपुणूच हो भावार्थ इल्लो इल्लो सांडोवंक लागलां म्हणपाचें तिका जाणवतालें.

रोजालीन गेलें तरीय सारा कितलोसोच वेळ दारांत उबेंच उरले. एक दीर्घ हुस्कार सोडून तें भितर आयलें आनी ताणें दार बंद केलें. भितर येवन ताणें शेतकां उजरावपाक घेतलीं. शेतकाचीं खवळां काडटां काडटां ताच्या काळजा वयलें एक एक खवळ उसवपाक लागलें.

नेहा... आंकवारपणाचें नेहा नायक. कॉलेज क्वीन. बडबडें, उमेदीचे बोमाडे फुलोवपी, अभ्यास आनी हेर मळारूय सदांच मुखार आसपी नेहा. विल्मा, माग्दा ताच्यो इश्टिणी. तांच्यो आवयो सदांच आपल्या धुवांक देख दिताल्यो नेहाच्यो. पळय कितलें हुशार तें. संवसारांत नांव करतलें तें. 'संवसारांत नांव! ...ऽ सारान एक लांब हुस्कार सोडलो. ताणें सुरयेन शेतकाचेर सरसरीत सुरी भोंवडायली, तशीं खवळां सुटपाक लागलीं. साराच्या मना वयलींय खवळां सरसरीत सुटलीं.

सांजांवाची ती रात... ताचे जिणेक आरत्याची परती करपी ती रात. ते रातीन नेहा नायकाची जीण सामकी बदलून उडयली. बरें वायट चिंतपाची बुद्धूच धाणावन उडयली.

ते रातीं नेहा आपल्या इश्टिणींच्या खास आगऱ्या खातीर सोकोरवाड्यार गेल्लें. सांजांव म्हणल्यार ताच्या दोळ्यां मुखार आसलो तो तांच्या बांयंत उडी मारूंक येवपी, सोरो पियेवन, कांतरां म्हणीत येवपी लुईसालो पंगड. ताचे भायर सांजांव आनी वेगळे तरेन मनयतात हाची पयले फावट जाणीव जाल्ली नेहाक.

विल्माल्या घरा फाटल्यान बांय आशिल्ली.

ते बांयचेर चारूय वटांनी चुड्डां आनी फुलांची सजावट केल्ली. थंयच कुशीक दोन दांड्यांक बांदिल्ले दोरयेक पणस, अनस आनी फुलां-चुडटांनी सजयिल्लें. बांय मुखार माटोव घाल्लो. थंय एकेच तरेचे कपडे घालून दादले -बायलो उब्यो आशिल्ल्यो. बायलांनी तांबडे पोल्के आनी काळी साय जाल्यार दादल्यांनी तांबडे बुशकोट आनी काळी पॅन्ट घाल्ली. तांणी सगळ्यांनी माथ्याक फुलांचें रींग कशें घाल्लें. विल्मान, माग्दा आनी नेहाकूय तसलें रिंग हाडलें.

''हाका कोपेल म्हुणटात'' विल्मान सांगलें. नेहानूय कोपेल माथ्याक घालें.

पाद्री आयलो आनी ताणें प्रार्थना करून बांयंत कळसुली लकयली...नेहाची नदर एकसारकी सगळ्याक भिरभिरताली. उमळशिकेन तें एक एक गजाल नदरेंत सांठोवन घेतालें. बांयच्या दुसऱ्या अर्दान फातराच्यो चुली मांडिल्ल्यो. तांचेर दवरिल्ल्या आयदनांत कितेंतरी शिजतालें. रंगरंगयाळे कपडे घालून माथ्याक कोपेल घाल्ल्यो बायलो हातांत लांकडाची दाय घेवन आयदनांनी शिजतल्या जिनसांक धवळटालीं. इतल्यांत विल्मा गावपा खातीर थंय आशिल्ल्या मायका कडेन गेलें. मुझ्गाच्या आवाजांत विल्माचो गोड आवाज घुमपाक लागलो.

पयलीं सांजावांचीं पदां जालीं आनी मागीर विल्मान गावपाक सुरवात केली. ''काय बोरें बॅण्ड हें वाजता...'' सगळ्यो बायलो आनी दादले नाचपाक लागले. माग्दान नेहाकूय नाचपा खातीर ओडलें. लजत- भिडेत नेहानूय नाचपाक सुरवात केली. आपलेच तनरेंत नाचतल्या नेहाच्या केदोवेळ लक्षांतूच येवंक नासली ती गजाल माग्दाचे नदरेक गेली. नाचतां नाचतां नेहा कडेन येवन ताणें नेहाच्या कानांत म्हणलें, ''नेहा मातशी मुखार नदर मार.'' नेहान दोळे वयर करून पळयले तेन्नाच त्या दोन दोळ्यांक ताचे दोळे मेळ्ळे. शिरंतरांनी जोगलां मारतात अशें दिसलें नेहाक. ताणें झुप्प करून आपली नदर सकयल केली. नाचतां नाचतां तें ल्हवूच भायर येवन उबें रावलें.

''व्हाय डीड यू स्टॉप डियर'' ताच्या काना कडेन आवाज जालो तशें ताणें कच्च करून आंग काडलें. पळयल्यार तेच दोन दोळे. नेहा कांयच उलयलें ना. पूण ते दोळे आपल्याकूच तेळटात म्हणपाचें ताका जाणवलें. विल्मा गावपाचें थांबलें तशे सगळे नाचपी हांगा थंय फाफसले. पणसाचे घरे घेवन कांय तरणाटे भोंवपाक लागले. ''जॅकफ्रूट'' नेहाच्या काना कडेन आवाज आयलो आनी फाटोफाट माग्दा आनी त्या तरणाट्याचो खळखळून हांसो गाजलो. ताणें घऱ्यांचें ताट मुखार केलें तशें नकळटा नेहान हात मुखार करून घरे घेतले.

''हाय हॅण्डसम, आमी दिसोनांत मिस्ता तुका. हें नेहाच दिसता मिस्ता. लायन बा मात्ता काय कितें रे तेचेर.'' विल्मान लागीं येत सांगलें. तो तरणाटो नेहाक पळयत मुमुरखोच हांसलो. नेहाक आपलें काळीज सामकें धडधडपाक लागलां हें कळ्ळें.

...विचाराचे तनरेंत शेतूक कापतना कांट्याचो एक बुचको कसो ओडलो साराच्या हाताक. पूण ताचें थंय लक्षूच नासलें. मिल्टना खातीर नुस्तें करपाक जाय म्हूण तें परतें शेतकां कापपाक गुंतलें. पूण हात काम करताले आनी तकली परती परती आदल्या चित्रां मदींच घुंवताली...

...सॅम. तो हॅण्डसम तरणाटो. पुणून फकत दिसपाक हॅण्डसम. हेरशीं सगळे गूण उज्यांत घालपाचे. बेकार थवय आनी पोक्या बातांचो गवय. सगळ्यांनी कितलें समजायलें तेन्ना नेहाक. पूण मोग कुड्डो आनी भेरोय जालो नेहाचो. घरांतल्यां कडेन झगडून नेहा सॅमाचें सारा जालें.

सारा खीणभर नुस्तें उजरावपाचें थांबलें. मागीर वितरागून शेतूक कापीत तातूंतली सगळी आतां बीं तिडकीन भायर काडूंक लागलें. आपले जिणेंतल्यान सॅमाक भितर सरचे पयलींच अशें भायर शेंवटूंक जाय आसलें अशें एक खिणभर साराक दिसलें. पूण मोगाचीं म्हौंवी सपनां दाखयत तो चोरपावलांनी केन्नाच ताच्या काळजांत रिगलो. मोगाचो पावस सोंपून मातसो आसोर जाता थंय आसा, सॅमाचें खरें रूप दिसपाक लागलें. मार-फारान ताचे कुडींतल्यान ताणें व्हांवयिल्ल्या रगताची याद ताका याद जाली. नुस्त्यांच्या पोटांतलीं तीं आंतां पळोवन ताका वीट कसो आयलो. सॅमान कुडीचेर आनी मनाचेर केल्ले घाय याद जावन तें सैरभर अवतिकायेंत कचाकच नुस्त्याचे कुडके करपाक लागलें. शेंतकांक मीट लावन मसालो लायतना हाताक पडिल्लो बुचकटो भगभगपाक लागलो.

सॅमान काळजाक दिल्ल्या घायांचेर मिल्टनान, कुसव्यांत जल्मल्ल्या आपल्या पोरानूय दुख्खाचो हो भगभग आपल्या घावे पडिल्ल्या काळजार सारयला अशें ताका दिसलें. तें नित्रळ्ळें. पूण खिणभरूच. मिल्टनाचे मायेन थबथबिल्ल्या आनी ताच्या विरहान गळसणिल्ल्या मनाक मिल्टन परतून येतलोच म्हणपाचे आशेक ताणें परतें ताजें केलें. हीच आस ताका जिती दवरताली.

सॅम आनी सारा. दोगांच. कितलो सुखान संवसार करूं येतालो तांकां. पूण सॅम फोल्गी. तो कितें जोडटालो तें तो आपल्या इश्टां वांगडा फोल्गां मारपाक मोडटालो. आपूण कोणतरी व्हडलो मनीस अशी ताची धारणा. ताचीं पोकीं बातां ताच्या इश्टांकूय कळटालीं. पूण ताच्या हातांतल्यान सुटपी दुडवां खुस्तार खावपाक मेळटा हें जाणा जाल्ल्यान ते ताका चड कोमार काडटाले. खा-पी- मजा मार ही सॅमाची वागणूक एका भुरग्याचो बापूय जालो तरी बदलली ना. निमणो तातूंतच गेलो तो. मिल्टनाक पदरांत घालून गेलो तेन्ना घराचे वांशे पोकळ जाल्ले. दुदाच्या भुरग्याक क्रशांत घालून काम करपाक धांवचें पडलें साराक. ज्या दुदाक मिल्टन आशेतालो तें बळयां आंगार सुकोवचें पडिल्लें ताका कामा खातीर. काम सोडल्यार पोट ओडटा अशी गत. अर्दकुटें उडयिल्लें शिक्षण, आनी भिडेस्त सभाव, मागीर नोकरी मागतनाय भीड आड आयली. जें मेळटा तातूंतल्यान मिल्टन आनी आपलो खर्च सुट्टालो ताका. पूण तें मिल्टनाक समजनासलें. तो बापायचेर गेल्लो. सदां आपले हात फुडें. दिना जाल्यार रागार- फुगार जावपाचीं नाटकां. ल्हान आसा सुदारतलो म्हूण सारान मातशी आडनदर केली. तेन्नाच

सारकें पावल उबारिल्लें जाल्यार त्या येद्याश्या फोडाचें आयज येदें मोटें फेरीद जावंक पावचें नाशिल्लें.

मिल्टनाक बापाय भशेन शेतकां, पापलेटी खावपाच्यो रुची. सदचें सदचें सारा खंयच्यान म्हणून हाडटलें आसलें. मिल्टन मागीर पिकार जातालो. घरांतल्यो सगळ्यो वस्तू हांगा-थंय शेंवटितालो. सारा ताचेर जीव घालतालें. पूण ताणें अशें कितें केलें म्हणटकूच ताच्यान सोंसूंक जायनासलें. तें रागाभरशीं ताचेर दोन फुलयतालें.

मिल्टन आतां व्हड जायत आयला. ताका खूब शिकोवपाक जाय. ते खातीर दुडू जाय. सकाळचें काम जातकच सारा आतां सांजेचेंय आनी एकेकडेन काम करपाक लागलें. तरीय तो दुडू सारको पावनासलो. मदीं मिल्टन लागलो साराच्या फाटल्यान मोबायल जाय म्हणून. पगार मेळटकूच हाडटां म्हणून सांगिल्लें ताणें ताका. आनी खऱ्यांनी हाडलोय बी. मोबायलाक पळोवन ताणें तिडकीन मोबायल सकयल उडयलो.

''कितें आसा ह्या मोबायलांत? ना कसले एप्स ना कसल्यो गेम्स. लोकांच्यो आवयो पळय कश्यो काय बरे मोबायल दितात भुरग्यांक. तूं भिकारी. तुजी सदची रड.'' ल्हाय कशीं उतरां सुटलीं ताच्या तोंडांतल्यान. तीं उतरां कापिल्ल्या काळजांतल्या घायांचेर मीठ लायिल्ल्या वरी जालें. वयल्यान शेंवटून मारला त्या मोबायलाची तिडक फट्ट करून सोणकूल फुलोवन गेलें मिल्टनाचें. पूण हे खेपे मिल्टन रडलो ना. रागान साराक पळयत पोलो चोळीत आपले कुडींत गेलो. त्या दिसा मिल्टनाच्या आवडीचीं शेतकां दिल्लीं रोजालीनान. पूण मिल्टन तीं खावपाक लेगीत येवंक ना. त्या दिसा सावन मिल्टनान सारा कडेन उलोवपाचेंच सोडलें. सारा येता तेन्ना तो आपलेच कुडींत बसून रावतालो.

त्या दिसा सारा काम सोंपोवन घरा आयलें. ऑफिसांत चडूच काम पडिल्लें. जीव सामको पुरो जाल्लो. घराची चावी काडून भितर सरलें पळय जाल्यार मिल्टन घरांत ना. खंय गेलो काय अशें येवजितनाच साराचो मोबायल वाजलो.

''मिसेस सारा उलोयता न्हय?''

''हय, पूण तुमी?'' तिणें विचारलें. काळजांत हजार प्रस्न.

''हांव मिस्टर फिगरेदो. तुजो पूत मिल्टनाच्या क्लासमेंटाचो बापूय.''

''कितें काम आसलें?'' विचारतनाय भिरांतेचें एक ल्हार आंगभर शिरशिरलें साराच्या मनांत.

''मातशें बाजारांतल्या 'एम. इलेक्ट्रॉनीक' शॉपार येयात. हांगाच गोमतेलें तुमकां कितें तें.'' पलतडच्यान आवाज आयलो.

थरथरत्या हातांनी सोफ्यार दवरिल्ली पर्स उखलून त्याच पावलांनी तें परतें घरा भायर सरलें. त्या शॉपार पावलें तेन्ना आपूण धांपेता म्हणपाचें ताका जाणवलें. थंयचे चित्र पळोवन तें थंयचे थंयच घट जालें. मिल्टन थंय आशिल्लो. ताच्या खांदार घट्ट हात दवरून एकलो उबो आसलो. मिल्टन रडटालो.

''कितें जालें मिल्टनाक?'' सारान आकांतून विचारलें.

''ताका कांय जावंक ना मॅडम.'' दुकानदारान जाप दिली. ''तो आमच्या दुकानार हो मोबायल विकूंक आयिल्लो. आमच्याच दुकानांतलो तो. पांच दिसां पयलीं मिस्टर फिगरेदोन आपल्या पुताच्या वाडदिसाक गिफ्ट केल्लो.''

साराची नदर त्या मोबायलाचेर गेली. 'अरे देवा! ४०- ५० हजारांचो तरी आसूंक जाय तो मोबायल. आनी मिल्टनान तो चोरलो? कोणतरी व्हाणांनी आपलें तोंड फोडटा कशें दिसलें साराक.

''तरीय आमी वळखून फकत मिस्टर फिगरेदोकूच कळयलें. पुलिसाक कळयिल्लें जाल्यार कितें जावपाचें?''

''मिल्टन...'' अपमानान साराच्या दोळ्यांतल्यान दुकां आयली.

''लेट ईट बी. ही इज अ चायल्ड. बट सी दॅट ही डज नॉट रिपीट इट.'' अशें सांगून मिस्टर फिगरेदो थंयच्यान गेलो.

''मिल्टन, लजेक घातलें मरे बाबा तुवें म्हाका'' दोळ्यांतल्यान दुकां गळयत सारान म्हणलें.

''मागीर दिवपाचो तुवें म्हाका तेसलो मोबायल. दिवंक ना कित्याक तोर?'' अशें परत्याक परतें उतर दिवन मिल्टन काळखांतल्यान धांवत सुटलो.

''मिल्टन राव, मिल्टन'' म्हणत साराय ताच्या फाटोफाट धांवलें. पूण काळखांत मिल्टन नाच जालो. आसूं घरा पावतकच ताका समजावया अशें म्हणून सारा घरा कडेन वचपाक लागलें.

घरा येवन पळयल्यार दाराक कुलूप आसा. म्हणजे मिल्टन आजून पावूंक ना तर. तरी ताणें सगळें घर सोदलें. मिल्टनाचो खंयच पत्तो नासलो. बरोच वेळ जालो मिल्टन येवंक ना तें पळोवन ताचो भंयान आवरो ठडलो. दार उगडून तें भायर आयलें. सगळ्या शेजाऱ्या-पाजाऱ्या कडेन सोदून आयलें. वचत थंय मिल्टन ना म्हणपाची निरशेणी आनी तरातरांच्यो काणयो. हालींसरा कितलेशेच भुरगे ना जाल्यात म्हणपाच्यो काणयो. मानव तस्करी खातीर भुरगीं ना जाल्ल्याच्यो खबरो, टेररिस्टां खातीर भुरग्यांचो वापर जाता म्हणपाच्यो खबरो. भियेवन सारान पुलिसेंत कागाळ नोंद केली...

...आनी वाट पळयत बसलें. काम धंदो सोडून. जोडिल्ली जोड बरीं बरीं नुस्तीं घेवन तळत मिल्टना खातीर. तळिल्लीं तीं नुस्तीं मागीर सुणीं माजरां खातालीं. परतो दीस उदेतालो. परतें सारा नुस्तें घेतालें. मिल्टना खातीर. दोन वर्सां सोंपत आयिल्लीं मिल्टनाची वाट पळोवन. तरीय मिल्टन एकदीस परतो येतलोच म्हणपाची आस घेवन.

त्या दिसाय नुस्तें तळून तें ताची वाट पळयत बशिल्लें. दनपार उलगून गेल्ली. आमोरी रोखडीच जावपाची. सारा मात उपाशी पोटार एकाच जाग्यार बसून मिल्टनाच्या यादींनी शेणिल्लें. अचकीत बेल वाजली. थडायंच करून बशिल्ल्या जाग्या वयल्यान उठून ''मिल्टनस्स्स्'' म्हणून उलो मारीत तें दारा कडेन धांवलें.

दारा भायर रोजालीन एका दादल्याक घेवन

*(पान ६१ चेर)*



# मांडणी

**रामनाथ गावडे**

"आगो, तूं पयलीं आसा न्हाल्ल्या दिसांचें. आनी तुका ती निसण लावन माळ्यार चडपाची कसली गरज आसली?"

जमिल्ली बायलां तिका तोंडाक येता तें उलयतालीं.

"देवान दिल्लें फळ राखपाची जाका अक्कल ना, ताची मागीर अशीच दशा जाता."

"आगो, वगी रावात गो. ताका किदें जालां तें तरी पयलीं पळयतात मगो!"

कोण तिका तापयताली. कोण तिका धीर दितालीं. जाल्यार थोडे वगीच बोवाळ करताले. घरच्या माळ्यार निसण लावन चडटना ती निसण घसरून पडली आनी न्ही तो भिरांकूळ असो रक्तस्त्राव जावपाक लागलो. खिणांत तिचें न्हेसण रक्तबंबाळ जालें. तेन्ना त्या उलयतल्यांचो एकूय शब्द तिच्या कानांत वचनासलो. घुंवळ येवन गुप्प काळखे बांयंत पडिल्लेवरी आनी सोरपान गळो अरंदिल्लेवरी तिची गत जाल्ली. उलोवपाक उतरांय फुटनासली, दोळेय उगडनासले आनी आंगांतली पुराय शक्त गेल्लेवरी तिची कूड निर्जीव जाल्ली. तिका फकत इतलेंच जाणवतालें, आपणाक कोणतरी झोपाळ्याचेर बसोवन पयस पयस व्हरता. ती जणू काय सपनांतल्या अदृष्टी राज्यांत रिगताली...

खूब वर्सां तिचें लगिनूच थारनासलें. पिराय चाळीसांक तेकिल्ली. अदी-मदी केंस पिकपाक लागिल्ले. व्हडलो भाव आदींच लगीन जाल्लो. ताचो फाटलोय जाल्लो. हाचें जायना म्हण ते तरी कितले दीस रावतले. तशें तें सभावान, कामा-धंद्याक हुशार. पूण एकूच नोंत आसलें. तिचो दावो दोळो. ल्हान आसतना तिच्या दोळ्यांत खेळटना वंयचो खूंट भरून दोळो भायर सरिल्लो. उपरांत ताचेर उपचार केल्ले. पूण पळोवपाक तो विचित्र दिसतालो आनी घाव्याचे मांवेक लागून नितळ चेरो कुरुपमो दिसतालो.

तरी तिचें लगीन जालें.

तिचेच मावस भयणीन आपल्या अपंग देराक वांगड जावंचो आनी आपणाकय आदार जावंचो म्हण तिका आपल्यागेर व्हेली. चल, एकदाचें पोर संवसाराक लागलें म्हण जायत्या जाणांनी सुस्कार सोडले.

तिच्या घोवाचे दोनूय पांय पोलियो जावन झिंगिल्लेवरी आसले. बारीक बडयो कशे. चलपाक उपकारनासले. तसो तो आदार घेवन सगळ्याक भोंवतालो. आनी आपली सगली कामां करतालो. पिरायेन सादारण तिचेच वांगडचो आसलो. रोखडेंच दोगांयनी एकामेकाक समजून घेवन संवसाराची सपनां रंगयली. पूण तिची मावसभयण तिका वावराडीपणाक हाडिल्लेवरी चडांत चड कामां करून घेताली. तशी ती कामाक बेजारनासली. पूण आपूण घोवाक फावो तो वेळ दिवंक शकना हाची तिका खंत जाताली. तांचें एक लायटीच्या सामानाचें स्वताचें दुकान आसलें. तिचो घोव दिसभर त्या दुकानाचेरूच आसतालो. देर मात इस्कोलांत कामाक आसलो. कामाचो सुट्टकीर तोय दुकानार रावतालो आनी मागीर दोगूय उसरां घराकडेन येताले. देर जेवतालो आनी रोखडोच न्हिदतालो. तिची भयणूय रोखडीच आपल्या रुमांत वताली. पूण हिचो घोव न्हाता - धुता, जेवता म्हणसर बरीच रात जाताली. आनी मागीर उश्टें काडटा, आयदनां धुता म्हणल्यार तिकाय वेळ जातालो. ती उपकाराच्या ओज्यापोंदा सगलें मोन्यानी करताली.

देर व्हडलो. ताका दोन चले. व्हडलो इंजिनियरिंग करता. तो हॉस्टेलांत रावता. धाकलो णवेक आसा. मावसभयणीन हांगाय एक अस्त्र चलयला. ती आपणापरस चड शिकल्या आनी हुशार आसा अशें सांगून धाकल्याचो अभ्यास आनी हेर गजाली पळोवपाचें तिचेर सोडलां. पूण तो खुबूच मस्तेपणां करता. तिच्या कुरुपपणाची फकाणां करीत तिका चाळयता. तरीय ती वगीच रावता आनी ताका जाता ते परी समजून घेवपाचो येत्न करता. ताकाय आतां दिसपाक लागलां; आपले मम्मीपरस काकीच चड मायेस्त आसा.

तिचो देर सबाव गुणांनी एकदम बरो मनीस. पूण जायते फावट ताचें बायलेमुखार शाणपण चलना. दोगून भाव-भाव मात एकदम बरे चलतात. एकामेकांक विचारले बगर कसल्योच गजाली करिनात. खरेदी-विक्री, देवाण-घेवाण, पयशांचो हिशोब, जें किदें आसा तें दोगूय मेळूनच करतात. पूण वेपार, बिलां, टॅक्स आनी धंद्यासंबंदी किदें आसा तें मात धाकल्याच्याच नांवान चलता. कारण दुकान आनी धंदो ताच्या नांवार आसा. तांच्या बापायन मरच्या आदीं तें ताच्या नांवार केल्लें. घर मात आजुनूय बापायच्याच नांवार आसा. आनी हेच गजाली खातीर व्हडली आपल्या घोवाकडेन अदी-मदी वाद घालीत आसता. पूण तो मात शांत रावता, आनी हें मागीर सगळें तुकाच मेळटलें अशें म्हणून तिका ओगी करता.

तरीय लोकलज्जेखातीर जायना, एक जाण्टीशी व्हंकल पळोवन तिणेन देराचें लगीन केलें. हरशीं तसल्या भुरग्याक बरी चली कोण दितलो आसलो. पूण हें सगळें करतना तिची किदेंतरी एक वेगळीच मांडणी आसली.

तिचें तें वागणें व्हडल्याचे नदरेंतल्यान सुटू नासलें. आपल्या भावाचो संवसार बरे तरेन चलचो अशें ताका मनांतल्यान दिसतालें. पूण आपली बायल भाव-भावजये मदीं पयसावो तयार करता. तांचे मेळप वा संवाद कसो उणो जातलो हें येवजून तिका वगीच अदी-मदी आपले आवयगेर धाडटा. तांचे मदी संघर्श जावंचो म्हण दोगांय मदीं गैरसमज पातळावपाचो यत्न करता अशें ताका दिसतालें. पूण विचारतकीच ती ताकाच परतीं शाणपणां सांगताली. आनी वेल्यान म्हण्टाली.

ती आपली भयण. तिका आपणें हाडल्या. मागीर आपूण तिची दुस्मान कशी जातली? अशें म्हणून ताकाच वगी करताली.

भुरग्यांक सुटी पडटकीर व्हडलो भाव, भावजय आनी भुरगीं वर्सांन वर्स शिर्डी बी भोंवपाक वतात अशें धाकल्यान आपले बायलेक सांगतकीर ती खूब खूश जाली. तशीं 'आमीय एक दीस भोंवपाक या' अशें तिका सांगन दिसतालें. पूण ती इत्सा तिणे मनांतूच दवरली. तरीय तीं भोंवपाक वतकीच तांकां दोगांकूच जाय तसो एकांत मेळटलो हिवूय तांचे खातीर खोस उणी नासली.

जालें. शिर्डी वचपाचो दीस थारलो. सगली तयारी केली. गाडी सांगलीं.

इतल्यान एक शेजात्र नेटान आयली.

''आगो, तुमी फाल्यां शिर्डी वतात खंय... तशें जाल्यार म्हजे हे एकावन रुपया फंडपेटींत घाल गो बाये. आमीय वचपाचें येवजिल्लें. पूण ह्या वर्सा जावंचेना. ताच्या मनांत आसल्यार तो आमकां फुडारांत कसोय व्हरतलो. बाबाचो आमचेर मोठ्ठो आशिर्वाद आसा गो. तुमकांय तो पावतलो. तो कोणाचेंच वायट करिना. सगळ्यांचेंच बरें करता...''

ती उलयत आसली. पूण हिचें तोडूच उगडनासलें.

''अंदू नवे जावेक आनी थोट्याकूय व्हरतलीं मगो. येवंदी बाबड्यांक भोंवून. चार गांव भोंवल्याबगर मनशाचें मन हलकें जायना.''

''ना. तांकां व्हरचेना. आमीच वतलीं. दुकानार कोणतरी जाय न्ही. सगळेंच मानायांचेर पातयेवन कोता येना. तीं मागीर वतलीं केन्नाय आपल्याक जाय तेन्ना. वचपाक तांकां कोण आडायता?''

''दुकाना खातीरुच काय आनी किदें खबर आसा गो?''

''खबर! कसली?''

''न्ही. आतां लग्नाक वर्स जायत आयलें...''

''ना. ना. तशें कांय ना. म्हाका दिसना तांकां भुरगें बी जायत म्हण...''

''आगो, अशें किदें म्हण्टा तूं! तुजीच भयण ती.''

''आतां तूंच सांग ह्या वयार आनी ताका भुरगें जातलें अशें दिसता तुका?''

''आयज काल पिरायेचें किदें घेवन बसलां तूं. पन्नासांचेरुय भुरगीं जातात. म्हजे भावजयेचे भयणीक लगीन जावन अठरा वर्सांनी भुरगें जालां!''

''पुणून ना. हाका जावंचेना. पयर दोतोरानूच तशें सांगलां.''

''आगो, दोतोर सांगता तें सगळेंच खरें जायना. थोडें देवाक जाय तशेंय जाता. ताच्या नशिबांत जर भुरगें आसत तर तें कोणूच काडून घेवंक शकचेना. तें पोरूय गुणी आसा. बाबा ताची होटी रिती दवरचिना.''

''ना गे. ताका वगीच किद्याक तसलीं सपनां दाखोवपाची आनी आशेर दवरपाचें. आतां जें आसा तेंच बरें आसा. घोवाक सांबाळटा म्हणसर ताका पुरो जाता. भुरग्यांचें आनी मागीर काडपाक जावनाका.'' ती अशें उलयतना आपली जाव दाराकुशीक रावन आयकता अशी तिका सुलूस लागली. त्या खातीर ती रोखडीच मुकार म्हणपाक लागली, ''पूण जावं आंऽ ताका भुरगें. दोनाक चार जाली म्हण आमची कांयच हरकत ना. आनी हरशीं म्हण म्हजो धाकलो आतां ताचोच जाल्लो आसा. ताकाच बरेभशेन सांबाळ्यार पुरो.''

''तरीय आपलें तें आपलें...''

''आयज तूं बेकार आसा काय किदें गे. म्हाका खूब कामां पडल्यांत. फाल्याचीं तयारी करपाक जाय.''अशें म्हणून तिका धांवडावपाक लागली.

''बरें बाये, बरीऽ करून येयात...'' अशें म्हणून ती चलत रावली.

ती गेली खरी. पूण हिचें मन अस्वस्थ करून गेली. तिची तीं उतरां आजूनय तीर कशीं तिच्या कानांत घुमतालीं. ''आयज काल पन्नासांचेरूय भुरगीं जातात... आनी नशिबांत आसल्यार...''

तो दीस आनी रात तिचेखातीर एक वेगळेंच संकश्ट घेवन आयिल्लेवरी तिका दिसपाक लागले. रातभर दोळ्यांक दोळो लागना जालो. शेजाऱ्रीची तीं उतरां परत परत कानाकडेन घुमपाक लागिल्लीं.

एकदाचो दीस उजवाडलो. गाडी येवन दारांत लागली. सगळीं तयारेन भायर सरलीं. पुणून हिचें कशेंच जायनासलें. तिका वगीच घराकडलो हुस्कोसो जावपाक लागिल्लो. वचून गाडयेंत बसपाक पावलां कशींच उखलनासलीं. निमाणे भुरग्यांनी बोवाळ करतकच एकदाची येवन गाडयेंत बसली. तरीय तिचें उसउसप थारनारलें. किदें ना किदें तिचें घरांत उरतालें. निमाणे तिणेन किदें तरी येवजून तोंड उगडलें.

''आरे, गाडयेन आनी एक लुगार जाता मरे.''

''ना ना. आनी कोणाक घेवशीत बी. येतना मागीर सामान बी दवरपाक जागो जाय पडटलो.''

''आरे, लोकांक न्ही. तुमचेच काकीक. तशी ती न्हावन बी तयार आसा. फकत साडी न्हेसून भायर सरल्यार पुरो. तिका व्हरना जाल्यार लोक किदें म्हण्टलें.''

काकीक म्हण्टकीय सगळ्यांचीच तोंडां वगी पडली. आनी चालू केल्ली गाडी बंद करपाक लायली.

उपरांत तिका बळयां तयार करून भायर काडली. तिच्या मनांत भायर सरपाचें कशेंच नासलें. तिणेन तें ताडिल्लें, आपूण घोवाबराबर दोन दीस सुखान काडटले हाची तिका नसाय जाताली. निमाणे घोवानय देवदर्शन करून यो अशें सांगतकीच ती तयार जाली. ती भायर सरतकीर जाव खूश जाली. तळमळटलो तिचो जिवूय थंड जालो.

दीस वता तशीं तशीं तिची नाटकां तिच्या घोवाक, देराक आनी जावेकूय कळपाक लागिल्लीं. पूण ती अशी किद्याक वागता तें कोणाकूच कळनासलें. हरशी दिसूयभर बरी वागताली. पूण रात जाता जाता चाळवताली. करता करता अशींच दोन वर्सां सोंपलीं. तिच्याय सभावांत बदल जावन मातशी निवळ्ळी आनी सगळ्यावांगडा बरेभशेन वागपाक लागली.

पूण अचकीत एक खबर तिच्या कानार

पडली आनी ती एकदम अस्वस्थ जाली. तिका आपूण किदें करता आनी किदें करपाक जाय तेवूंय कळना जालें. पिशांतर जाल्लेवरी वगीच कोणाकूय किदेंय म्हण्टाली. खबर आसली जावेक दीस गेल्ल्याची. तिका तिसरो म्हयनो लागिल्लो. त्या खातीर ती पोपायेची भाजी, हिंग बी असलें घालून मुद्मम जेवण करपाक लागली. तरी तिच्या मनासारकें कांयच जायनासलें म्हयन्यार म्हयनो वाडत आसलो.

घरांत कोण ना सो पळोवन एक दीस तिणे किदें तरी येवजिल्लें आनी घरच्या माळ्याक निसण लावन आपले जावेक आपयली. आतां तिका निक्तोच चवथो म्हयनो सोपिल्लो. ती येतकीच माळ्यार चडून मातसो शेवगो काडपाक विनंती करपाक लागली.

तेन्ना ती निसणीर चडपाक कशीच तयार जायनासली. पूण तिणेन दिल्लीं उतरां आयकून ती सवकासायेन एक एक पांवडो चडपाक लागली. प्रत्येक पावलेर एका एका देवाचे नांव घेयत वयर सरताली. तसो तसो भंयान आपशींच तिच्या दोळ्यांमुखार काळोख येतालो.

आनी अवचीत किदें जालें तें तिका कळ्ळेंच ना. कोणेंतरी निसण धुकलिल्लेवरी ती निसण घेवन सोमती जमनीर शेवटली.

तेन्ना तिणे जायतो आकांत केलो. पूण कोणूच धांवन आयलो ना. तिची जावूय खंय दिसली ना. तिणें आपणाक सांबाळपाचो खूब यत्न केलो. पूण तिची पुराय शक्त सोपिल्ली आनी बेशुद्ध जावन पडिल्ली.

आनी जेन्ना तिका जाग आयली, तेन्ना ती हॉस्पिटलांत आसली.

तरी तिच्या नशिबान तिका एक बरी खबर मेळिल्ली; पोटांतलें भुरगें सुखरूप आसलें. तेन्ना तिणेन सगल्या देवांचे उपकार आठयले. आठ दीस तिका हॉस्पिटलांत रावचें पडलें. ते आठूय दीस जावेन तिची सेवा केली. आनी आपणावेलो दाग पुसपाचो यत्न केलो.

हरशीं खरी गजाल सगळ्यांक कळिल्ली. पूण आजून मेरेन कोणेंच तोंड उगडू नासलें.

अचकीत एक दीस घरांत कोण ना शे पळोवन व्हडल्यान आपले बायलेक विचारले, ''आगो, इतलें किद्याक तूं ताच्या जिवार उठलां!''

''आतां हांवें किदें केलां. तें निसणीवेल्यान पडलें ताका हांव किद्याक जबाबदार. ताच्या जिवाची ताका काळजी ना?''

''अशें आरतें परतें उलोवनाका गो. तुवे कितलेंय ना म्हणले तरी सगळीं तुजोच गुन्यांव करतात. आतांच तो शेवगो काडपाची कसली गरज आसली?''

''तुमकां आतां ताचेंच खरें दिसतलें. हांव हांगा फटींग. बोडकूल न्ही तुमचें!''

''रडून वगीच बोवाळ करू नाका. खरें फट पळोवना म्हण किदें जालें. पूण ह्या दिसांनी तूं ताचेबराबर कशें वागतालें, तें ना कळपाक हांव किदें सामकोच बुद्दू न्ही!''

''बरें हांवेनूच वडयलें ताका. तुजें किदें म्हणणें! कोणाक नाका आसलें, ताका हांवेन हाडून संवसाराक लायलें. मान दिलो. म्हजो ताचेर पुराय अधिकार आसा. हांव ताका जाय तें करतलें. ताका मारु वो पुरु! तुमी कोण्णे विचारपाचें ना.''

''मातशें मनीसपणान वाग गो. अशी राक्षीण किद्याक जाता. इतले दीस देर तुका भावावरी दिसतालो. आनी तें तर तुजी भयण. दोगांयनी केन्ना तुजें एक उतर पडपाक दिलें ना. आनी आतांच अकस्मात तुजें किदें जालें?''

''म्हाका म्हज्या भुरग्यांचो हुस्को आसा. तांचो फुडार घडोवपाक हांव राक्षीण लेगीत जातलें. बापायक तांचें कांयच पडिल्ले ना. त्या खातीर आवयकूच...''

''आगो, पूण तें तुज्या भुरग्यांचें किदें वायट करता!''

''आयज करिना जाल्यार फाल्यां करतलें. म्हाका तागेर भुरगें जाल्लें नाका. दुकान, घर-भाट सगळें तांच्या नांवार. फाल्यां तें तांच्या भुरग्यांचें जातलें. मागीर म्हज्या भुरग्यांनी किदें खावपाचें. खंय रावतले म्हजे पोर...!''

संपर्क: 7030359235

***

*(पान ६६ वयल्यान)*

उबें आसलें.

''बाये चोल भितोर. हो कितें सांगूंक येयला चोय'' रोजालीनान सांगलें.

निरशेल्लें सारा फाटल्यान परतलें. रोजालीनान ताका कदेलीर बसपाक मदत केली.

''बाये, काळीज घोट करून आयक. हो फेलीस. म्हगे माशानालो चेडो. बोमाय आसोता. तेणे चोयल्लें तुज्या मिल्टनाक...'' रोजालीनाचें उत्तर सोंपचे पयलीं सारा सट्ट करून कदेली वयलें उठलें.

''मिल्टन!! खंय आसा म्हुजो पूत?'' सारा सामकेंच उंचाबळ जावन त्या मनशा सरीं गेलें.

रोजालिनाच्या पोटांत गुळो आयलो. ताणें मनांतल्या मनांत आपल्याक येवजिलां तें जाग्यार घालपाक बळगें दी म्हणून सायबिणमांयक पराथलें.

''तो सोंपलो बाये. हांयें माज्या ह्या, ह्या दोळ्यांनी चोयलो तेका. रोजालिनान म्हाका तेचो फोटू धाडलेलो. म्हुणोन म्हाका गोमलें तो तोच म्हुणून. हांयें कितलें सांगलें पुलिशेक हांव वोवकोतां म्हुणोन तेका. पूण पुलिशेन म्हाजें एक आयकिलें ना. मेलो बाय तो. मुंबय ट्रेनीपोंदा येयलो तो. गोंयचें तिकेट आसलें तेच्या हातीन. तुजे सोरीन येवपाक सोदतालो मिस्ता.'' फेलीसान एका धपक्यान सांगून उडयलें. मुखार येवपी साराचे पांय थंयचे थंयच थारले. ताचें सगलें आंग थरथरपाक लागलें. मिल्टन... इतलो तेंप दोळ्यांत तेंवपी आशेची पेट्टी वात झुप्प करून पालवली. दोळे भरून आयले. दोळ्यांतल्यान दुकां पोल्यार गळपाक लागली. सुकिल्ल्या काळजांतल्यान एक ओग उचांबळून आयलो. ''मिल्टनऽऽऽ म्हुज्या पुता. तूं गेलोय?'' म्हणून हांबेर मारीत तें रडपाक लागलें.

हांबेर मारून रडपी साराक सांबाळटां सांबाळटां, साराची आस तोडून ताका मनशांत हाडपा खातीर आपणें केल्ल्या पातकाक देवान भोगसुंचें म्हणून रोजालीनान मळबा कडेन पळोवन हात जोडले.

संपर्क: 8767657634

***



# आवय

रूपा केणी

शरीफाक सामको राग येतालो. सामकी भिरभिरी मारताली. आतांय सगळी भाजी साकांतल्यान काडून ती माणार दाळून दवरपाची आसली. साडेसात जाता म्हळ्यार भाजयेच्या माणार हीऽऽ गर्दी पडटाली. सकाळची मॉर्निंगवॉक घेवन परतूपी लोक हें सगळ्यांत पयलीं ल्हार आसतालें. तांच्या फाटल्यान लागसल्ल्या शाळांत भुरग्यांक पावोवंक येवपी पालक. तांच्या फाटल्यान घरा रावपी गृहिणी. ह्यो सुशेगाद साडेणव ते धा म्हळ्यार येताल्यो. हांच्या फाटल्यान अदींमदीं काय लोक येवन वताले ना अशें न्ही. देड, दोन म्हळ्यार घरा जेवपाक वचपी लोक फ़ाल्यांची तजवीज म्हण भाजी व्हरपाक ताकतिकेन येताले. तशें ताज्या माणार ताज्जी फळांय बी मेळटालीं. तीं आनी तर हेवटेन येता म्हणसर तेवटेन खपतालीं. ताज्जी भाजी आनी फळां विकपी अशी ताज्या माणाची जायरात जाल्ली. सांजेवेळा परत माणार मानाय आनी कामेऱ्यांची हीऽऽ गर्दी पडटाली. म्हण्टां, म्हण्टां माणावयली भाजी नाच्च जावन वताली. माण खाली जातालो. फकत कांय कांदे, बटाट आनी थोऽऽडीशी बावकी भाजी उरताली.

पूण शरीफाक राग कोणाचो येतालो? भिरभिरी कोणाची मारताली? असो प्रस्न पडूं येता, न्हय पडटलोच. ताका राग येतालो आनी भिरभिरी मारताली चमनसाबाची. आतां चमनसाब हे नांव पोरणे कशें. नांवूच कित्याक? चमनसाबूय पोरण्यांतूच जमा जावपासारको आसलो. अडसश्ट वर्साचो, सूकिल्ल्या कातीचो केंस पिकून रोव जाल्लो. फकत केंसच पिकिल्ले? खाडूय पिकिल्लें, दांतूय किडेल्ले, हाताच्या नाखटांनी घाण भरिल्ली, ताका घामसाणी येताल्यो. तो म्हेळे कपडे घालतालो. ताका पळयल्यारूच शरीफाच्या पायांतलो राग मस्तकाक वतालो.

शरीफा माणार आसल्यार झपझप गिरायका आवियार करता. पयशांचो हिशोबूय चुकयनास्तना काय न्ही करून करता तें पळोवन चमनसाब भाजयेचे साक हाडून माणार उडयतालो. 'हें कर' 'तें कर' 'भाजी अशी दाळ' 'तें थंय दवर' करून ऑर्दी सोडटालो आनी पशार जातालो सदांच. आयजूय वचचें पयलीं ताणे भाजी सारकी दाळून दवरपाक सदचेवरी शरीफाक सांगिल्लें, तेदे वेळार तें लांबोडो कोकणदुदी साकांतल्यान भायर काडटालें. ताका चमनसाबाची इतली भिरभिरी मारिल्ली कीं तो कोंकणदुदी सोमतोच ताज्या कपलार घालचो सो दिसलो. ताजी सावळी लेगीत पडल्यार ताज्या आंगांक रागाचो उजो पेट्टालो. मागीर तें सगल्यांक मनांतल्या मनांत खेपतालें. परिस्थितीक, नशिबाक आपल्या बापायक, खासा आपणाक, आपल्याक जल्माक घाल्ल्या बद्दल आवयक. मागीर कोण, कितें, कित्याक म्हणून. फकत खेपप, भोंवतणचे खोटले आपटप, तांचेर खोटीं मारप, अशें तें करतालें. पूण साडेसात जावन गिरायकां आयली काय तें साप्प बदलून वतालें. शांत, शांत जातालें. तेन्ना तें एका वेगळ्या जगांत पावतालें. ट्रेकसूट शूज घालून येवपी दादले बायलो, कोण सायकल घेवन येताले, कोण चलत. तांची ती तिकतिकीत कात, नेलपॉलीश लायिल्ली, नाजूक नाजूक बोटांनी भाजी उखलपी बायलो, तांचे फॅशनेबल हेअरकट, मंद मंद वासांचे डिओडरंट, तांचे लागोळें उलोवप, वागणूक शरीफाक खूब्ब घोस्ताक वताली. त्या गर्दैंत कांय तरणाटे, तरणाट्योय आसताल्यो. ह्या शारांत तीं नोकरे निमतान आयिल्लीं, आपापल्या कुडीनी रांदून जेवतालीं. तीं आनी तर ताज्या घोस्ताची. तांका तें बऱ्यांतली बरी भाजी आनी फळां सोद्दून दितालें. मायेन उलयतालें. हो अडेज, तीन वरांचो सकाळचो वेळ ताका वेगळी नशा दितालो. जगपाची शक्त दितालो. तिसऱ्या ल्हाराक सुसेगाद, सवकसायेन येवपी घराच रावपी बायलो. तांका व्हडलीशी ताकतिक नासताली. तीं सगळ्यांत चड वाणपणा करून ताका सतावपी. उस्तून, उस्तून भाज्यांची वाट लावपी, एकामेकांक आपल्या मोगाळ घरकाराविशीं सांगपी, शरीफाक ती मात लेगीत आवडनासलीं. ताजी चडिल्ली नशा तीं देंवयताली. खड्डाक करून ताचें विमान जमनीर देंवयताली ती अवचीत्रमारी. ताका सुखाचो संवसार, मोगाळ घोवाची आस लावपी. सांजवेळा सुर्य बुडपाचो वगत लागीं पावलो म्हण्टकच शरीफाक ताजो मर्णकाळ आयिल्लेवरी दिसतालें. गिरायक इल्लें इल्लें उणे जायत वतालें तशी शरीफाची स्थिती, चडिल्ली नशा इल्ली इल्ली करून देंवतकच बेबदो कसो भानार येता तशी जाताली. ताजी भाजीय सोंपिल्ली आसताली. मागीर माणार साखटो ओडून फळयांनी तो घट धांपून तें घरा वचपाक तयार



जाताले. ताका सद्दा दिसतालें घरची वाट सोपूच नये आपणे घरा पावूंच नये. घरा वाटेन धांवत वचपी बायलांक पळोवन ताचें काळीज रडटालें. तांच्या घराकडेन तांचेर मोग करपी घरकार आसतलो, सुखाचो संवसार आसतालो. नाजाल्यार इतल्या ओडीन घरा कित्याक धांवतात तर तीं? तांची चिंतना जितली बेगीबेगीन तकलेंत येताली तितलेच उरफाटे ताचें पांय सवकसायेन पावलां मारताले. ताका कसलीच उमळशीक नासली घरा पावपाची. आशिल्लें कितें त्या घराब्यांत उमेद दिसपा सारके?

शरीफा एका गरीब घराब्यांतली व्हडली धूव. ती सगळी मेळून णव भांवडां. धांवे जल्मतनाच आपल्यावांगडा आवयकूय घेवन गेले. शरीफा तेन्ना णवेक आसलें. आवयच्या मर्णा उपरांत ताजी शाळा सुटली आनी घरची चूल गळ्यांत पडली. तें, सात भयणी, धाकटो भाव आनी बापूय अशी धा जाणां दोन कुडींनी रावतालीं. तातूंतली एक, इल्लीशी रांदचीकूड.

रोखडोच शेजारच्या बतुलआपाच्या भावाचो चेडो हनिफ ताज्या जीणेत आयलो. शरीफाक तो खूब्ब आवडटालो. तो आपल्या बापायच्या माणार दवरपाक माल घेवपाक आत्र्यापयऱ्यान शरीफाच्या गावांत येतालो. तेन्ना शरीफाक तो मेळटालो.

शरीफा बतुलआपागेर यो वच करतालेंच. बतुलाक आनी कोणूच नासलो. तें मेथी घालपाक हांगा थंय वतालें. वतना आदाराक शरीफाक व्हरतालें. ताकाय किदेंय सुट्टाले. तर अशे तरेन हनिफ ताज्या जीणेंत आयलो. बतुलआपाची आनी घरच्यांची नदर चुकोवन दोगांय मेळटालीं. फुडाराची कितलीशींच सपनां ताणीं रंगयल्ली. ताज्या सांगातान आसतना शरीफाक सर्ग सकयल देविल्ल्यावरी दिसतालें.

शरीफाचो बापूय म्हण्टात तो सामको बेबदड, सगळें वगडावन बशिल्लो. रिणां भरवण जाल्लो. रीण फारीक करपाक ताणे वीस वर्सांच्या शरीफाक अडसश्ट वर्सांच्या चमनसाबाच्या गळ्यांत बांदलें? काय चमनसाबान कोल्याच्या बुद्दीन बांदपाक लायले ते तांका दोगांकूच खबर. पूण शरीफा चमनसाबाची घरकान्न जालें हें सत. ताणे आपल्या घोवाक जेन्ना पळयलो तेन्ना हनिफा बरोबर तांच्या फुडाराची रंगयल्ली रंगरंगयाळी सपनां लासून तांचो गोबोर जालो.

ताणें सपनांत लेगीत येवजूनाशिल्लें असले जड्डे सवंग ताज्या संगतीक पडिल्लें. आता कांयच उपाय नासलो. ताज्या बापायन कोणाकूच कसलीच सुलूस लायनासतना सगळें घडोवन हाडिल्ले. आशिकुशीनचे कांयजाण ताज्या नशिबाक चुरचुरताले. बतुलआपा तर रडरड रडली. पुण कितें फायदो? आनी हनिफ? तो खंय? शरीफान कांयच बतुल आपाक विचारलेंना. तोवूय परत ताका दिश्टी पडलो नां. शरीफा मात ताका विसरूंक शकना.

कंवळे शरीफा लग्न जावन आपल्या घरा आयलें. रडून रडून ताजे दोळे सुजिल्ले. घरांत ते आनी चमनसाब सोडून दुसरो कोणूच नासलो. शेजारची कांय बोडकां आपापल्या दारांत, जनेलांत रावन तांका पळेतालीं. तें तकली सकयल घालून भितर सरलें. तिनसांजचो वेळ आसलो. घरूनय म्हणून चमनसाबा सारकेंच आसले. उमेद घालोवपा सारकें. खरें म्हणजे शरीफा सामके थकिल्लें. नशिबाची लडाय झुजच्या पयलींच तें हारिल्लें. त्या हारीनुच ताजी शक्त शोषून घेतिल्ली. तें सामके थकिल्लें. 'खाना बनाव' खंयच्यान तरी आवाज आयलो. लाकडार खरवत चलयल्ल्यावरी. काळोख जावपाक लागिल्लो. त्या आवाजाच्या धनयान लायट लायली. लायटीच्या बल्बाच्या उजवाडान शरीफाक घर आनिकुय किण्ण दिसपाक लागलें. ताणे रांदच्या कुडींत वचून आयदनां आनी सगळें सामान सोदून काडून जेवण रांदले.

तशें शरीफा बेस बरें रांदूक जाणां आसलें. आवय मरतकच घरचें सगळे तेंच पळयताले. पूण हांगा जागो नवो, रांदचीकुड नवी, सगळें सामान सोदता करता म्हणसर ताका कळाव जालो. ताका आदार करपाकूय कोण नासलो. ''खाना बना हय की नय?'' परत लाकडार खरवत चल्ली. ताणे कच्च करून आंग काडलें 'हाँजी' ताणे जाप दिली. बेगीबेगीन जेवण वाडलें. चमनसाब जेवपाक बसलो. पयली उंडी तोंडात घाल्या मात ताणे उश्टया हातान एक सणसणीत थापट बायलेच्या कानसूलार फुलयलें. ताका झण्ण करून आपल्या तकलेंत कितें तरी वाजिल्लावरी जालें. कितें जाता ते कळच्या पयलींच चमनसाबाचो हात परत त्याच जाग्यार पडलो. खतखतीत दुकां शरीफाच्या पोल्यार देंवली. भयान थरथरत तें जमनीर बसलें. आपले कितें चुकलां, कितें केलां आपणे तेंच ताका कळनासले.

'कैसा खाना बनाया हय? कुत्ता बी नय खायेगा ये'' असो तो कित्याक म्हण्टा तेच ताका कळनासलें. वाडच्या पयली ताणे रुच घेवन पळयिल्ली सदचेवरी. सगळे सारके आसले. आजपर्यंत आवय बापायची पांच बोटां केन्नाच ताज्या पोल्यार उदेव नासली. पुण हाचे फुडें मार बडय आपल्याक सोसपाची आसा ही जाणविकाय चरचरीत ताचें काळीज चिरीत गेली. इतलेंय जावन चमनसाब फाटले फुडले घेवन पोटभर जेवलो. सुणो लेगीत खावचोना म्हण्टालो तो. तेंच जेवण वेवस्थीत पोटभर, भकाऱ्याभशेन तो जेवता ते पळोवनूच ताक वीट सो आयलो. किदें तरी चमत्कार जावंचो आनी आपूण परत कुळारा पांवचें अशें ताका दिसतालें. पूण खरो पुराय जल्म ह्याच संवगावांगडा काडपाचो आसलो. ताजी भूक मेल्ली. जेवण नाकाशे दिसपाक लागलें. तो जेवून भायर वतकच ताणे परते एकदा जेवणाची रुच पळयली. ताका खातरी करपाची आसली. मीठ, मसालो सगळो वेवस्थीत आसलो. मागीर म्हाका मारले कित्याक? ताका परतुन प्रस्न पडलो. तकलेंत कितें कितें येवपाक लागलें. चमनसाबाक सामकार वचून जाब विचारपाचें बळ ताज्यांत नासलें. तशी शिकवणूच नासली. आसली ती अन्याय सोंसपाचीं मोन्यांनी.

तकलेंत सगळ्यां विचारांचो घुस्पटकाथो घेवनूच तें उठलें आनी सगळे जेवण व्हरून घराफाटल्यान उडोवपाक व्हेले. थंय एक रस्ताद सूणो बशिल्लो. ताच्या मुखार ते जेवण उडयलें. ताणेय तें शेंपडी हालयत खालें. शरीफा ताका पळयत उबें रावले. ताणें सगळे जेवण खावन जातकच ताणे परत

शेंपडी हालयली. तें पळोवन शरीफाक दिसलें कीं सूण्यान जेवणाक आपली पसंती दिली. त्याय परिस्थितीक ताका हांसो फुटलो. पुण बोचो रुंदावतकच ताजो पोलो दुखलो. सूणो लेगीत तोंड लावचो ना ह्या जेवणाक ताणे म्हणिल्ले. पुण हांगा सूण्यान चाटून सगळें खालें. दोगायनी, शेंपडी आशिल्ल्या आनी दोन पायांच्या, हय, दोन पायांच्या सूणो खंयच्या कडलो ताणे मनांत म्हळे.

इतल्यांत ताजे केंस कोणे तरी ओडले. ''चरबी आयी हैय क्या तेरेकू? सब खाना कुत्तेकू डाला, पकाया कायकू इतना खाना? पयसा तेरा बाप भेजता हय क्या?'' सोमतीच चमनसाबान ताजी तकली वण्टीर आपटीली. कोंक जावन भळभळीत रगत देंवले.

शरीफाची भंयान आतां गुळी जाली. हात-पांय कडकडपाक लागले. तो केन्ना येवन फाटल्यान उबो रावलो ते ताका कळ्ळेंच ना. तेन्नाच्यान चमनसाब घरांत आसता तेन्ना ताका एकेतरेचे चेंपण कशें तकलेर आशिल्ल्यावरी दिसता. तो भायर वता तेन्ना ताका मेकळेपण मेळटा. तो केन्ना आनी कित्याक लागून चवताळत तें सांगू नज आसले. सादें सादें निमित्त ताका पुरो जाताले. मार खातकच शरीफाची दशा पळोवपाची आसनासली. घायाळ मन आनी दुखावल्ली कूड घेवनूच ते दिस सारताले. इल्लें, इल्लें करून दुखान ताजे काळीज उपाट भल्ले. इतलें की आनी कुसभर लेगीत सुवात उरलीना खोशयेक. त्या दु:खान जणू काय थारायलें आता शरीफाच्या काळजान सासणाचे घर करप.

चमनसाब म्हणजे एक विचित्र, कोल्ली मनीस आसलो. ताज्या भितर एक सैतान आनी एक गीद न्हिदिल्ले कडेन आसलो. शरीफाक मारमारून तें दुखीन कळवळ्ळें म्हणजे ताजे भितल्लो सैतान तृप्तीन खदखदून हांसतालो. आनी भितल्ल्या गिदाक जागरत करतालो. गीद मागीर खावडीचेर झोपय मारून तिका पिश्टून, पिश्टून खातालो, ह्या दोगांभितर शरीफाचे मात भोगनाळे जाताले. हनिफाक तें जितले विसरायेर घालपाचो यत्न करताले तितलोच चडानचड ताजो उगडास ताका येतालो.

शरीफाक सकाळी उठपाक मात लेगीत वेळ जाल्यार ताज्या भेंडार एक खोंट पडटाली. ''सुब्बे हो गयी सारा दिन सोती पडेगी क्या रांड!'' मागीर तें धडपडत उठ्ठाले आनी दिसपट्ट्या कामाक लागतालें. भोंवतडचो संवसार मोठ्या उमेदीन दिसाक फुडो करतालो. पूण शरीफाच्या भोंवतणी मात उमेद दिवपा सारकें कायच नाशिल्लें. पोव लावप, कुटेक्स लावप, इत्तर लावप कितलें आवडटाले ताका पुण आता तें सगळेंऽऽ ताणे सोडिल्लें. केन्ना केन्ना आपल्या सर्गेस्त आवय फुड्यांत वचचें अशेंय ताका दिसतालें पूण धिटाय नासली. जीव दिवपाकूय धिटाय जाय पडटा. कुळारा गेल्यार तर बापूय धांवडावन घालतलो आसलो हे सेर्त. मागीर आनीक खंय वचपाचें, अशें चितून तें दीस सारताले.

एक दीस चमनसाबान ताका माणार व्हरून बसयले. मारून मारून आता ताका आपणे कुळकुळायला. आता आनी तें हेवटेन तेवटेन खंयच वच्चेंना अशें ताका दिसताले. माणार व्हरून बसोवपाचो होच तो टायम. भाजयेच्या माणार शरीफा, आनी मागीर एक जानोत च्याचो गाडो घालप आनी थंय आपल्या पुतणयाक गावांसाकून हाडून बसोवप. दोनूय बोल्सांनी फकत पयशे भरप मागीर हेर राटावळी करपाक आपूण मेकळो. हें येवजूनच ताका भितल्ल्या भितर खातकुतल्यो जाताल्यो.

ल्हवू ल्हवू मारपेट सदचोच जाल्ल्यान शरीफाक आता तो संवयेचेर पडला. ताचो भंय आता इल्लो उणो जाला. ताका चमनसाबाचो आकांताचो राग येवपाक लागलो. सामको दोळे फोड्डून. तोंडार ते कांयच उलोवपाक शकना. मार दोबराद जावपाची शक्यताय आसा. ताका दिसतालें मनशाक जशी पोटाक भूक लागता तशी चमनसाबाक दुसऱ्याक म्हणजे आपले बायलेक मारपाची भूक लागता तिका बरोच पेट घालतकर ताजी भूक न्हिवता. आपलो राग न्हिवोवपाक शरीफा मनातल्या मनांत वा फुतफुतून सगळ्यांक खेपता. पांय आपटीता सामानाचेर खोंटी घालता, आयदना शेंवटीता. मागीर ताका मातशें बरें दिसता जीवाक.

ताका तश्यो इश्टीणी बी खूब आसात शेजरा. पूण ताचें मन जाणपाक शकता फकत बसम्मा. आयतारा सांजवेळा तें बसम्माक आपयता आपल्यागेर. तिजेवांगडा उलयत ते वेळ सारता.

अशेच तरेन तें आपली जीण सारताले आनीक अचकित एक दीस ताका कळ्ळें की तें गुरवार आसा. त्याच खिणाक शरीफाच्या आंगाक उजो पेटलो. त्या जड्ड्या, बुरश्या, मारकुट्या हैवानाचे भुरगें आपल्या कुसव्यांतल्यान जल्मतले हें येवजूनच ताज्या आंगापागांचो संताप, संताप जालो. ताका जर शक्य आशिल्ले जाल्यार ज्या तरेन आमी नाका आशिल्ले तण बी हुमटावन भायर मारतात तशें हें चमनसाबाचे 'बीं' ते हुमटावन भिरकटावन भायर मारतलें आसलें. चमनसाब आनी तें केन्नाच मनान एकठांय येवं नासली. तो तर ताचो बापूय सोबतालो. ही शादी मनाविरुद्ध जाल्ली शरीफाच्या. ताका कांयच सुलूस लागपाक दिनासतना थारायिल्ली शादी.

नवेंच भाजयेच्या माणार बसतालें तेन्ना कोणे तरी ताका विचारिल्लें. ''हालीसराक बापूय येना माणार?'' तेन्ना विचारतल्याचो ताका राग आयिल्लो. पूण मागीर ताका दिसलें ताचो बाबड्याचो कितें गुन्याव? जेन्ना भोंवतणच्या लोकांक शेजाऱ्यांक कळ्ळें की चमनसाबाची शादी जाल्या. तेन्ना कांय जाण शरीफाच्या नशीबाक चुरचुरले. कांय तरणाटे तर चमनसाब भायर सरून वतकच ताज्या घराभोंवतणी बेठेच पासयो मारपाक लागले, घुटमळपाक लागले. तेन्ना तांका बसम्मान सड्डीक दिवन धांवडायले. शरीफानूय तांचेकडेन आडनदर केली. मागीर ते नाच्च जाले.

शरीफाक आतां रात दीस ध्यास लागलो 'हें' व्होटयेंतले आतां कशे ना करप तेवूय बी चमनसाबाक कळचें पयली. तो तर मोटे उमळशिकेन वाट पळयतालो आपल्या फुडाराच्या दिव्याची. चित्ता चित्ता ताजो राग इतलो तेंगशेक गेलो की ताणे हाताची मूठ आवळून आपल्या पोटार मारली. ताणे जऽऽ ड जऽऽड उदकान भरिल्ल्या बालदयो, दोडी उबारल्यो ताणे आयकल्ले सुर्वेक गुरवारीन अशें करपाक जाय ना म्हण. ताणे मुद्दम केलें. उपेग कांयच जालोना. ताणे मागीर एक हिकमत काडली जाता तितलो चमनसाबाक राग हाडप

पोटार बी एक सणसणीत खोंट बसली की मागीर 'खेल खतम' पुण कांयच जालेना. ताणे मागीर बसम्माचो आदार घेवपाचें थारायलें. तिजे आदारान 'तें' व्हळोवन उडोवपाचें पुण बसम्माक कळटकच तिका शरीफाचो राग आयलो. तिणे ताका दोतोरणी म्हऱ्यांत व्हेले. बसम्मा आनी दोतोरणीन ताका बरेंच तापयले. ताका घटसाणीची वखदां दिवन दोतोरणीन घरा धाडलें. शरीफान हळूच सगळी वखदां व्हरून कोयराच्या बल्लान उडयली. इतले म्हणसर चमनसाबाक बसम्मान बातमी दिली खोसदीणी.. चमनसाब तर सामको खोशी जालो ताजे सपन प्रत्यक्षांत आयिल्ले. ताजो मारपेट इल्लो उणो जाल्लो. खोटी घालपाचें ताणे थामयिल्ले. तोंडार थापटां मात तो नेमान फुलयतालो.

शरीफा फाटलो भाजयेचो माण मात थामलोना. हेवटेन चमनसाबान च्याचो गाडो घालून सद्याक तो स्वत: बसतालो. दिस वतात तशे सैम आपले काम करतालो. शरीफाच्या पोटांतलो जीव वाडत आसलो आनी ताच्या वांगडाच शरीफाचे बेजारसांव. 'बेज्जार आता मेरेकू'चो ताणे जप चलयल्लो. माणार वचपूय आता ताका तितकीशी खोस दिनासले. तितक्यांत शरीफाचो बापूय दुयेंत जावन भायर पडलो. भलायकेचे निमित्त करून चमनसाबान ताकाय गावांक धाडलेना आनी आपुणूय गेलोना. शरीफाचो ताचेवयलो राग आनिकूय वाडलो. ताची खाण जेवणां वयली वान्सा उडली. करपा जाय म्हणून ते दिसपट्ट्यो वावर करतालें. ताणे माणार वचप सोडलें. बसम्मा घरांत आयल्यार लेगीत तें तीं अनवळखी जाल्ल्यावरी ओग्गी बसताले. ताज्या भोंवतणच्यो सगळ्यो वाटो आता बंद जाल्ल्यो. ताका सगळ्याक काळोखूच दिसतालो. इल्लो इल्लो भोंवतणचो काळोख ताज्या काळजांत रिगलो. खासा ताज्या दु:खानूच ताका आपोवन हाडिल्लो. त्या काळखान ताजे काळीज उपाट भल्ले. जऽऽड जऽड थंड किरांव काळोख, ताच्या काळजांत काळोख आनी दु:ख हातात हात घालून घुंव, घुंव घुंवपाक लागली. घुंवता घुंवता दु:ख पोंदा गेले आनी काळोखूच घुंवपाक लागलो, मागीर ताजी वांटकुळी वांटकुळी ल्हारां जाली. ल्हारार ल्हार येवपाक लागले आनी शरीफा तांतूत बुडून गेले.

ताणे सगळे, सगळे सोडलें, काम धाम जेवणखाण आपल्या कुडीची निवळसाण लेगीत. ताज्या माथ्यांत उयो जाल्यो. मागीर चिखलाची पुटां जमली. ते हांतुणार पडून रावपाक लागले. चमनसाब तरेकतरांचे दोरे, तावजां ताका हाडून बांदपाक लागलो. ताका शरीफाचो न्हय तर पोटांतल्याचो हुस्को आसलो.

शरीफाच्या पोटांतलो जीव दिसानदीस वाडत आसलो. सैम आपले काम दिस्ता दिस्त करतालो. अशे तरेन णव म्हयन्यांनी एके फांतोडेर ताका वेणो येवपाक लागल्यो. चमनसाबान शेजाऱ्याच्या रिक्शांत घालून ताका ऑस्पीर्शेत व्हेले. दुसऱ्या दिसा तें बाळांत जावन ताका बाय जालें. ताज्याबरोबर बसम्मा आयिल्ली. सिस्टरेन बायक हाडून ताज्या मुखार धल्ले. वॉर्डातल्यो सगळ्यो बायलो ताजेकडेन पळयताल्यो. "नय चाय्ये मुझे ये उस शैतानकी की आवलाद". शरीफान म्हळें. बांयटींच्यो सोयऱ्यो येवन येन्रा म्हळ्यार खाटी बगलेक एकठांय जाल्ल्यो. "तो क्या करु मै इसका?" सिस्टरीन विचारले, "फेंक दो उसे कचरे में" सिस्टर किदेंय उलोवंच्या पयली बसम्मा बेगीबेगीन मुखार आयली आनी बायक आपलेकडेन घेतले. "बेबीक दुदाक धर म्हणून सांग तिका. असली बायल अख्ख्या वीदांत पळोवना हांवे." सिस्टरीन म्हळें. "दोतोर येत जाल्यार तापयतली. बेगीन सांग तिका." तिणे फुडें म्हळें, सगळी जाणां अजापान शी शरीफाकडेन पळयताली. कांय जाणांक रागूय आयिल्लो. कसली गे बाये घट्ट काळजाची बायल." एकलेन म्हळें.

"कितलीशींच जाणा वळवळटात भुरग्यांक आनी हिका मद मारला, कोयराबल्लांत उडय खंय, जल्मांक कित्याक घाले पिडेन?" दुसरी फडफडली. "शरीफ, शरीऽऽफ देख गे बायकू." बसम्मा काकुटेक येताली. पुण ते जुग्ग हालनासले.

शरीफा माथ्यावयल्यान पांगरुण घेवन न्हिदिल्लें. कांय वेळान भुरग्यान पोटाभुकेन करादांय मारपाक सुरवात केली. पुण हेंऽऽ शरीफा जणू काय भेड्डे जाल्लें. भुरग्यान रडून अख्खो वॉर्ड माथ्यार घेतलो. परत सिस्टर धांवत आयली. शरीफाक तापय, तापय तापयलें आनी दोतोरणीक आपोवपाक धांवलें. बाय रडून रडून काळे नीळे जाल्ले. एकलेन तर खासाविस जावन त्या भुरग्याक दुदाक धरपाक मागले. बसम्माचेंय पासियेंस पिड्ड्यार जाल्ले. ताणे एका हातान बायक धल्ले. दुसऱ्या हातान खस्स करून शरीफाच्या माथ्यावयले पांगरुण ओडून सकयल उडयले. एकूच थापट ताज्या कानसुलार फुलयले. आनी आड्डलें, "उठ पयले, उठ."

"बेज्जार आता मेरेकू! बेज्जार सबका!" शरीफा आड्डलें. एका जाण्टेले कडेन बायक दिवन ताणे बळयां शरीफाक बसयले. बांयचे ठयांऽ ठयां, ठयांऽऽठयां चालूच आसले. सगळ्यांची काळजां हाल्ली पूण शरीफाचे मात घट्ट आसलें.

शरीफा तकली सकयल घालून पूतळो कशें बसले. बसम्मान ताजो गावन छातयेर उगतो केलो. बायेक ताज्या म्हऱ्यांत व्हेले. ताज्या छातयेक तेकयले. एक जाण्टेली मुखार आयली आनी थानाची चींव बायेच्या तोंडात दिली. ते दूद ओडपाक लागले. बसम्मा बायक धरून आसले. सगळीं जाणां बायक आनी शरीफाक पळयताली. सिस्टर वॉर्डाच्या दारांत उबी आसली तिकाय सुटील्ल्यावरी जाल्ले.

शरीफान पयल्याच पावट त्या कुकुल्ल्या जिवाकडेन पळयलें. बाय भुकेभरशीं चींव ओडटालें. शरीफाची छाती भरून आयिल्लेवरी जाली. एक वेगळीच जाणविकाय, जी ताणे पयली केन्राच अणभवूक नासली. ताज्या आंगापागांतल्यान गेली. ताज्या दोळ्यांतल्यान भळभळीत दुकां व्हावपाक लागली. आपसुकच ताजे हात बाये भोंवतणी गुठलावले. ताणे कुकुल्याक ल्हवूच लागी ओडलें. "बच्चा, मेरा बच्चा" ताजे ओंठ फुतफुतले.

एक पण्टी शरीफाच्या काळजाच्या कुरकुटांत पेटली. मंद, मंद उजवाडान ते कुरकुट भरून गेले.

संपर्क: 9822183954

***

# जोगवण

## दादा हेगडे

गोंयची सगळ्यांत व्हड न्हंय हुंपतना देगेवेंलो झांडापेंडानी भरील्लो सैमसोबीत सगळ्यांच्या नजरेत भरपी वाटार हो तारीवाडो. आदीसावन हांगा सगळे सुशेगादिन चलत आयलां. हुस्को करपा सारकी कसलीच गजाल नाशिल्ली. सगळे आपआपल्या कामांत घुस्पले. चडसो कष्ट करुन पोट भरप्यांचो हांगा राबितो. कोणुच दुसऱ्यांच्या उपकारांत रावक सोदनाशिल्ले. वाड्यार मातयेच्या वंटीचे आनी गांवठी नळ्यांचे भागशा मोडील्ले कृष्णालें घर आयज मेरेन उबें आसा. त्या घरांत आतां कोणुच रावीनात. कृष्णा आपल्या कुडींतलो जीव वच मेरेन त्या घरांतुच रावतालो. ताचे दोनी पुत कालिदास आनी शिवदास पलतडच्या पाद्रीच्या ईस्कॉलांत शिकताले. आलतडच्यान पलतडी फकत फेरीबोटीतल्यांन वचूंक मेळटालें. धक्या कडसून चलत तांच्या घरालागीं वचूंक २० ते २५ मिनटां लागतली. ईश्कॉलांत शिकपी भूरगे आपली सायकल फेरीबोटींत घालून पलतड मारताले. तारीवाडो आनी सरभोंवतणी रावतल्यांक सरकारी फेरी फुकट आशिल्ली. पलतडच्या फेरीच्या धक्याकडसून मुखेल मार्केट देड दोन मैलाचेर आशिल्ले. मार्केट काडल्या उपरांत रोखडेच पाद्रीचें इस्कॉल.

पलतडी गावांत रावपी भुरगीं मात इस्कॉलात चलत येतालीं. गोंय सुटकेच्या तीन वर्सां आदीं न्हंय आलतड पलतड करचे पासत फकत तारींचो वापर जातालो. तारीयो राती आठ वरां मेरेन चलताल्यो. सगळ्यो तारीयो भानुदादाच्या मालकीच्यो आशिल्यो. १९५९ वर्सा पुर्तुगाली सरकारान जंय तारी पेणे करताल्यो त्या दोनी जाग्यांनी शिमीटा बेतो घालून फेरीबोटीचे धके बांधले. तारीचो जागो फेरीबोटीन घेतलो. भानुदादाच्या फामीलीतल्या थोड्यांक लुकसाणीचो मोबदलो म्हण फेरीबोटीर कामाक आपणांवन घेतले. गोंय सुटके उपरांत स्वतंत्र गोंयच्या सरकारान तांची नोकरी कायम दवरली.

तारीवाड्यार कसलीय नवी बांदावळ न्हंयच्या देगेलागी आशिल्ल्या पिंपळा पेंडार घाल्ल्या गारण्यां उपरांतूच जाताली. त्या भायर लागींच आशील्ल्या कोंड्यां आळींतल्या वाठार राखतल्या वाटाऱ्याक जित्या कोंब्यां माना सयत सूर रोंट घालून जोगवण करची पडताली. न्हंय आलतडीन तशेंच पलतडीन नव्यान सुरु जातल्या कसल्याय कामां धंद्याक हें लागू जातालें. भानुदादान ही गजाल धक्यांची बांदावळ करपी कॉत्रांदोर सिन्योर सांतीयाग कुलासांच्या कानार घाली. स्वता पुर्तुगाली आसून ताणे ती रोकडीच मानून लेगीत घेतली. ताका ह्या दोनी धक्या वांगडा गोयांत हेरकडेन फेरीबोटीचे धके बांदपाचें सरकारी कॉन्त्राद मेळील्लें. ही सगळीं कामा दिल्ल्या वेळार पुराय करपाची आशिल्लीं. शेनवार दिसा सांजवेळा आपली जोंगा जीप न्हंय पलतडी उकते मळार दवरून तो भानुदादा वांगडा तारींत बसून जुस्त ६.३० वरार वाड्यार पावलो. कृष्णा कोळसो भर सूर, सात रोंटा तशेंच जीतो कोंबडो घेवन तयार आशिल्लो. वेळ काडी नासतना तीगुय पेडा दिकेन चालीक लागले. सांतीयांगाक पुर्तुगेज सोडून कसलीच भास कळनाशिल्ली. भानुदाद आनी कृष्णा दोगुय कोंकणी बगर कसलीच भास उलोवंक लेगीत नकळो आशिल्ले. वेवहारा पासतची कानार पडील्ली संवकळीचीं पुर्तुगेज दोन चार उतरां इतलीच तांची परक्या भाशेची वळख. हाडील्लें सगळें सामान पेडार दवरत कांय खिणा भीतर कृष्णान आपल्या खास भाशेंतले खणखणीत गाराणें सुरु केले. तोणार विभीत्र हावभाव, न्हंय, मळभ आनी जमनीकडे कुरु करीत उंचावेल्या नाकी आनी घोगऱ्या आवजातले गाराणें सुरु जालें. त्या आवाजान पिंपळाझाडार सुशेग घेवपी कांवळे लेगीत भियेल्ले. ताणी थंयसावन हुयेली मारित कुस माल्ली. पांय बांदिल्ल्या कोंब्यान आपले आंग शिरशिरायले. आपणाचेर येवपी फुडल्या अरिश्टाची ताकां सुलूस लागिल्ली. सांतीयाग कुलास कृष्णाल्या गाराण्यांचेर साप्प खुश जालो. परततना ताणे घा ईश्कुद कृष्णाल्या हातार तेकयले. जायत्या वर्सांनी कृष्णान एका बराबर इतली जोड जोडिल्ली. कोंड्याआळींतल्या वाटाऱ्यांक मान दिता थंय हेरांक वचूंक मनाय आशिल्ली. तें फकत कृष्णा आनी ताच्या घरच्यांनी करप. कितलेशेच वर्सां आदीसावन कृष्णाच्या घराण्याचो दायजान चलत आयिल्लो हो हक्क. मान केल्लो कोंबडो लेगीत ताणीच व्हरप असो नेम. कोंबो घरा पावयल्या उपरांत कृष्णाले पाय एर्मिनाल्या गादयेकडच्या वाटेक लागले. ताका आलेसाक कोंब्याचे तशेंच सुरीचे मोल फारिक करपाचे आशिल्ले. कॉत्रादोर सांतीयागान आपल्याक सिन्योर कृष्णा



म्हणून कसो रेस्पेतार केलो. कामा पासत आपणाक 'ओब्रीगाद' म्हळ्या उपरांत आपणे ताका 'दे नाद' कशें म्हळें हाच्यो गजाली करपाच्यो आशिल्यो. वेगी वेगीन पावलां उबारित तो थंयसर पावलो. आलेस, भानुदाद आनी हेर पयलीच पाविल्ले. ती सांजवेळ एर्मिनाल्या गादयेर मध्यान रात जाय मेरेन जागली. एर्मिन लेगीत तांच्या सगळ्यांमदी गुल्ल जालें.

उमेश आनी शिवदास ल्हानपणा सावन आमिग. एकाच पिरायेचे वांगडाच शिकताले. नारायणालो उमेश पयली सावन गाराणें, घाडी करणी, देव-देंवचार न मानपी. कोंड्याआळींतलो वाटारो शिवदासा घरा आठवड्यांतले चार दिस कोंबड्यामटन पावयता अशें तो आमीगांमदी फकाणांनी म्हणी. शिवदास मात ताका केन्नाच परती जाप कर नाशिल्लो. नारायण सावंत उर्फ नानदादाले घर कृष्णाच्या घरा लागसार आशिल्लें. न्हंयतली रेंव गाळून गावांनी विकपचो ताचो धंदो. रेंवेची तो गोंय भर पुरवण करतालो. भानुदादाल्या तारींचो रेंव काडच्या पासत उपेग करी. दोनी अर्दान फेरीबोटीचे धके जाल्या उपरांत भानुदादान पलतडीन जागो विकतो घेतलो. उपरांत आपल्या फामिली वांगडा नव्या घरांत रावक गेलो. पोरन्या घरांत ताचे दोग भाव उरले. पैशांची अडचण नाशिल्ल्यांतलें वाड्यावेले नारायणालें घर. फेरी आयल्या उपरांत ताणे एमको मीना खाणीचेर चलिल्ल्यो जर्मन कंपनीच्यो दोन पोरन्यो टिप्परी विकत्यो घेतल्यो. कृष्णाल्या गाराण्यां उपरांतूच धंद्यात घोळंवक सुरु केल्यो. गोंय सुटके उपरांत गोंयांत खाजगी तशीच सरकारी बांदावळीच्या कामांची नेटान सुरुवात जाल्ली. नारायणान पोरन्यो टिप्परी विकून टाटा कंपनीचे ट्रक घेतले. निकतेंच विलिनीकरण न्हयकारून अजीब गोवा के लोकांनी खरें गोंयकारपण कितें आसूं येता हाची राज्य करतल्यांक देख दिल्ली. तारी वाडो स्वतंत्रतायेचो नव्यांनीच मोंकळेपणी स्वास घेवंक लागिल्लो.

दिस बुधवार. वाड्यावेल्या धक्यार तिसऱ्या वरारेची फेरीबोट लागली. फेरीबोटीतल्यांन थळाव्या लोंका वांगडा एक विलिस जीप देवली. गोन्या कातीचो मनीस ती चलयतालो. भानूदादालो पुतणयो सुभाष आनी एक हिंदी उलोवपी मनीस अशे तीगजाण त्या जिपींत आशिल्ले. तो गोरो आनी हिंदी उलोवपी इंडियन दोगुय मोठी मोठी बांदावळ करपी कंपनीचे वेल्या पावंड्यावेले एम्प्रेगाद. वाडट्या पिराये पासत कृष्णा घरा भायर चड भोंव नाशिल्लो. गाराण्याचो दिस थारावंक ते ताका मुजरत मेळूंक ताच्या घरा गेले. मोठ्या कंपनीचे लोक कृष्णाक मेळून गेल्यात म्हणपाची गजाल वाडोभर जावंक कळाव लागलो ना. दक्षिणेचें गोंय, उत्तरे वटेनच्या गोंयाक जोडपी पुलाचे काम गेमोन-भारत कंपनीक मेळिल्ले. ह्या कामा पासत तारीवाड्यावेल्या तशेंच पलतडच्या लोकांचो तांका पालव जाय आशिल्लो. बुनियादी फातर घालचे आदीं ताणी भानुदाद, नारायणदादा वांगडा लोकांची भेट घेतली. थारिल्ल्या दिसा पेडार कृष्णालें गाराणें जालें. ह्या फावट मात वाट्याराक मान करच्या वेळार तो शिवदासाक घेवन गेल्लो. कोंड्याआळी सामकारा काळी पाषाणी फातरा कुशीन ताणे कोंब्याक दवरलो. सरभोवती कोब्यांची सुकी पाखां फाफसून पडिल्ली. कृष्णान बागवोन कोंड्याआळीत हात घालून सुरो काडलो. पाषाणी फातरार झरोवंन ताका धार काढली. शिवदासाक कोंब्याचे पाय मोकळे करुन लागीच आशिल्ली मातयेची पण्टी पेटोवंक सांगली. कृष्णालें आपलेमदी कितें तरी तोंडांतल्या तोंडात उलवप सुरु जालें. उतरां सगळी स्पष्ट आयकूंक येना आशिल्ली. हाडिल्ली रोंटा, सूरी वांगडा कोंड्याआळी सामकार दवरली. कोंब्याची गोमटी पाषाणी फात्रार आनी धड डाव्या पायाच्या पावलाखाला दाबून धरलें. कोंब्याच्या गोमटेर अशे तरेन सुरी चलयली कोंब्याक कळ्ळें लेगीत ना. कॉक... इतलोच आवाज आयलो. मेकळी केल्ली गोमटी कोंड्याआळी भीतर शेंवटायली. उरील्ले धड फातरार उरफाटे केलें. फडफडतल्या धडांतल्यान तांबडे गुंज रंगत व्हांवन ते फातरार पडतना भोवंतणी शिंपडतालें. रक्ताच्या कोरान तो पाषाणी फातर दाट काळो जाल्लो. पंधरा ते वीस मिनिटा भीतर सगळे काम पुराय जाले. वांगडा हाडिल्ल्या पोतयेंत कोंब्यांचे धड घालून पोती शिवदासा हातांत दिली. दोगुय आपल्या घरांच्या वाटेक लागले. शिवदास हें सगळें पयलेच फावटी अणभवतालो. तो भारायल्ल्या वरी जाल्लो. घराब्यात चलत आयिल्ली ही जापसालदारकी सांबाळून दवरप ही आपणाली लागणूक हें तो जाणां आशिल्लो. व्हड भाव कालिदास पाळी मीना खाणीर मुकादम म्हण कामाक लागिल्ल्यान कंपनीन दिल्ल्या सुवातीर थंयसर रावतालो. थोड्याच दिसांनीं मोठ्या दबाज्यान पुलाचो बुनयादी फातर सरकारी मंत्र्याच्या हातान बसयलो. नेटान काम सुरु जालें. वाड्यावेल्या जायत्या जाणांक थंयसर कामां मेळ्ळीं. तीन ते चार वर्सां भीतर पूल बांदून जातलो अशी बुनायादी फातरांच्या सुवाळ्या दिसा मंत्र्यान घोशणा केली. जमिल्ल्यांनी घोशणेक ताळयांच्या गडगडान जाप दिली.

मेट्रिकेचो रिजल्ट लागलो. शिवदास आनी उमेश बरे मार्कांनी पास जाले. ईश्कॉलाचो प्रिन्सिपल फादर सुवारीसांची इत्सा दोगुय इंजिनियर जावंचे. गोयांत दोनुच सायन्स शिकपाच्यो कॉलेजी आशिल्ल्यो. एक पणजे दुसरी मडगांव. दोगांयनी पणजेची कॉलेज निश्चित केली. शिवदासान पणजे भाटल्यांत आपल्या आंकवार मामाच्या घरा रावपाचें थारायलें. मामा मंगेश त्या वेळचो मोटरसायकल रायडर. गोंयच्या भाडे मारपी पायलटा मदलो तो एक म्हालगडो वांगडी. राजदूत मोटरसायकलीन तो भाडे मारतालो. शिवदास येवंचे आदी पणजे धोंडाल्या खानावळीत जेवतालो. शिवदास आयल्या उपरांत ताणे आपल्या जेवणा वांगडा मामाक रांदप सुरु केले. उमेश मळ्यांत भाड्याच्या घरांत रावंक गेलो. दोगुय सायन्स पयल्या वर्गात पास जाले. उत्तर गोंयची जोडणी दक्षिण गोयांक करपी पूलाचे बांदप चालूच आशिल्ले. दोगी फर्मागुडेवेल्या एकुलते एक सरकारी इंजिनियरींग कॉलेजीत पावले. दोंगायनीं सिवील इंजीनीयरींग शिकपाक पसंती दिली. हॉस्टेलांत लेगीत तांका एकाच कुडीत रावंक मेळ्ळें. वांगडा तिसरो कुमठा कर्नाटकातलो वासुदेव शेणोय भागाक आयलो. तिगांयच्यो आवडी निवडी वेगळ्यो. हावेस मात एक,

इंजिनीयरींग मन लावन पुराय करप. नामना जोडपी इंजीनीयर जावप. हॉस्टेलांत रावन शिकपी भूरग्यां पासत मेंसाची खास वेवस्था आसली. दिसपट्टे शिवराक आनी नुस्त्या जेवण तशेच बुधवार दिस खासा चिकनाची तजवीज आशिल्ली. पयलेच फावट गोयांत आयील्लो वासुदेव पुरायेन शिवराक, उमेश सोमार बिरेस्तार शिवराक आणि शिवदास तर वर्साची चवथ सोडून शिवराकचे सपन लेगीत पडूं नाका म्हण मागपी. बुधवारचें चिकन शिवदास आवयन घरा रादिल्ल्या कोंबड्या मटणाची याद काडीत खातालो. इंजीनीयरींग शिकप सुरु जाले. एक फावट तांका प्रोफेंसरान वाड्या लागसरच्या पुलाच्या कामाची भोवणी करून हाडली. पुलांचे तंत्रज्ञान कितलें मुखार पावला हें शिकच्या पासतची ती खास भोवंडी आशिल्ली. त्या राती उमेशाचे गारांणी, वाटारो, करणी असल्या गजालींचेर फकाणां मारप चालू जाले. ह्या फावट शिवदासान पयलेच खेपे जाप घाली. देव, देंवचार आसा हें आमी जर प्रोवार करूंक शकनात तर ते ना हे लेगीत तितलें प्रोवार जावंक जाय. तो मरेन जे कोणी हे मानीत आयल्यात तांका ते मानू दी. मानीनात तांका मानुन घेवंक बळजबरी कित्याक? कसली गजाल मानप अथवा ना मानप हि लेगीत एक निष्टाच. ओगीच आपल्या बुदवंतपणाचो उकतेपणी देखाव करचे पासत कोणेच एकामेकांक पिडापिड करची गरज ना. ताच्या जापेर तुज्या त्या वाटाऱ्याक एक दिस मेळूंकूच जाय. चार वर्सांनी तयार जावपी पुलाक पुराय जावंक सात वर्सा कित्याक लागली हें विचारुंक जाय!! अशें म्हणीत उमेश धंय सावन कडसरलो.

इंजिनीयरीगाचे निमाणे वर्स चालू आशिल्ले. फाटल्या आयतारा उमेश आनी शिवदास दोगूय घरा वचून हॉस्टेलार परतल्ले. प्रयोगशाळेंत वासुदेव शेणोय मंगेश मामाचो राकाद घेवन शिवदासा लागीं आयलो. मामा ताका घरा व्हरपाक राजदूत मोटारसायकल घेवंन गेटी भायर उबो आशिल्लो. कृष्णाचें उठ बस करपाचें सासणाचे बंद जाल्ले. गाराणें आनी मान दिवप आता शिवदास करतालो. कोणाची गाराणी सूर रोट ऊर्जेंत घालची जाल्यार मामाच्या फावोरान कोणुय असो मदीच सांग नासतना येतालो. मामा त्या कामा उपरांत शिवदासाक परत कॉलेजींत पावयतालो. त्या दिसा ते दोगूय घरा लागसार पावतना शिवदासान लोरसूक जीते कोंडे माथ्यार मारून तांच्या घरा दिकेन वताना हेरलो. त्या सरशी आपसूक ताच्या तोंडातल्यान आबो... म्हण वयलेवयर हुडको गेलो. बारा दिसा उपरांत तो रोकडोच हॉस्टेलार परतलो. एजाम सामकी तोंडार पाविल्ली. सोयऱ्यां दायऱ्यांच्या खबऱ्यांत घुस्पून रावप ताका परवड नाशिल्लें. वासुदेव आनी उमेश्याच्या पालवान ताणे फाटल्या बारा दिसांचे शिकवणीचे नुकसान भरून काडले. एजामी जाल्यो. रिजल्ट लागलो. तारीवाड्यार पयलेच खेप दोग जाण वांगडाच इंजिनियर जाल्ले. उमेश फुडले शिकप देसा भायर करपाच्या तयारेक लागील्लो. वासुदेवाक बापायचो कुमठा, मंगळूर गावांनी घरा आनी बिल्डिंगी बांदपाचो वेवसाय मुखार व्हरपाचो आशिल्लो. शिवदासान मात आजून मेरेन कायच चिंतूक नाशिल्लें. उमेशाक लंडनच्या इम्पेरीयाल कॉलेजीत मुखावेले शिकप करपाक भरती मेळ्ळी. शिवदासान कुवेट नाजाल्यार दुबाय नोकरी करची अशे वाड्यावेल्या म्हालगड्यांचे म्हणणे जाले. नारायणदाद ऐजन्ट बोरकाराले पैशे लेगीत भरुक तयार जाल्लो. रीण म्हण घे आनी परत कर अशें सुचयत ताणे शिवदासाक मनोवपाचो यत्न केलो. तो मात जाण्टें आवयक सोडून गोंय भायर वचूंक तयार नाशिल्लो. त्याच वगतार गोयांत फ्लॅट, दुकाना बांदपी आलशिरो कंपनीक सिविल इंजीनीयराची गरज आशिल्ली. शिवदास थंयसर नोकरेक लागलो. मामा मंगेशाची पिराय जाल्ली. ताणेन मोटर सायकलीचे भाडें मारपाचे लीसेस विकलें. आपली पोन्नी राजदूत मोटर सायकल शिवदासाक दिली. थोड्याच दिसा भीतर शिवदासाचें काम पळवन आलशिऱ्याच्या खंवटो पात्रांवान ताचेर पणजे, मडगांव आनी वास्को चलतल्या कामांची जापसालदारकी दिली. कंपनीत ताच्या कामाची तीन वर्सा पुराय जाल्लीं. आयतार दिसा सकाळी पलतडच्या बरडाल्या हॉटेलार सुंगटा भाजी हाडूक गेल्या कडेन नवहिंद इग्लेंज दिसाळ्यांतल्या जायरातीचर ताची नजर गेली. गोंय सरकाराक भौशिक बांदकाम खात्यात इंजीनियर जाय आशिल्ले. त्या खात्यांत साप्प वेल्या पावंड्यार काम करपी जुवांव आफोन्स आल्बुकेर्क भानुदादाचो ओळखीचो आशिल्लो. गोंय सुटके आदीं सावन ताची आल्बुकेर्क फामिलीकडेन उठ बस आसताली. भानुदादान उतर घालें आनी ते तारलें. शिवदास सरकारी नोकरेक लागलो. आयतारा दिसा ताणे शायेराकडसून गरवोन काडिल्ले हाता येदे एक चणक, ताजी काळांदरा, मूडदोश्यो, शेवटे अशी मिस्तुराद गांथन घेतली. फडफडीत ताज्या नुस्त्याची गांथन आनी वाटेवेल्या मानशेंतले चिंगुळ अशी सागवाद घेवन तो भानूदादा वांगडा आल्बुकेर्कच्या घरा पावलो. आल्बुकेर्कान पाराबेंस म्हणत कृष्णाल्या नावां वांगडा तारीवाड्याचेय नांव फाकीवंत कर अशें सांगलें. योगायोगान गोंयच्या हेर पुला वांगडा कृष्णाच्या गाराण्या उपरांत बांदिल्या पुलाची नियाळणी, सांबाळ आनी हेर कामा शिवदासाच्या वाट्यांक आयलीं. नियाळणीच्या कामा पासत ताका खात्यांची जीप आशिल्ली. ती घेवन तो अर्दि मर्दी वाड्यार येतालो. ताचें ते येवप शिकिल्यान यश कशें जोडू येता हें तारीवाड्यावेल्या नव्या पिळगेक आदर्श कशें थारतालें. उमेश एका नामनेच्या ब्रिटीश कंपनीत वेल्या पावंडयार पाविल्लो. ताची कंपनी संवसारभर तरेकवार मोठी बांदावळीची कामा घेताली. कामा पासत तो जायत्या देसाच्या भोंवडेर आसतालो. उमेशान आपलो गोंयचो राबितो बायल भुरग्यांसयत जर्मनीत हालयल्लो. तिगुय आमीग एक दोन भुरग्यांचे बापूय जाल्ले. तारीवाड्यार घरा दारांनी गाड्यो दिसताल्यो. देगेवेल्या झांडापेंडानी भरिल्या तारीवाड्यार आदलीं मातयेची घरां वचून बेत्याची घरां आयलीं. त्या भायर झाडां कापून जाग जाग्यांनी कचकचून नवीन घरा बांदली. पुलावेल्यान वाडो आता ल्हान भूरग्याच्या खापायलेल्या खड्यावरी दिसतालो.

देसाच्या उदरगती वांगडा राजकीय तशी सामाजिक समीकरणा बदलली. सर्वांगीण उदरगत ही मुळाव्या बांदावळीचेर तशेंच साधन सुविधाचेर आधारित आसता. सगळीं राज्या

एकमेकांक जोडच्या नजरेन राष्ट्रीय महामार्ग, ताचे वेले पूल आनी हेर गजालींची आखणी सुरु जाली. तारीवाड्याच्या लागसारचो पुल पोन्रो जाल्लो. त्या पुला समांतर भव्य आनी अप्रतिम पुलाची आंखणी जाली. ब्रिटीश कंपनी आनी नामनेची भारतीय कंपनीच्या भागेलपणाचो करार आशिल्ल्या ब्रिटकोन कंपनीक पांच वर्सा भीतर तो बांदून दिवपाचो कॉन्त्राद मेळ्ळो. संयोग म्हळ्यार उमेश त्या ब्रिटीश कंपनीत कामांक आशिल्लो. ह्या निमतान ताका गोयांक येवपाची आयती संद मेळपाची आशिल्ली. हांगाचो प्रकल्प अधिकारी जेक टंडन ताचो खास आमीग जाल्लो. शिवदास पीडब्लूडीत 'ऐई' जाल्लो. थोड्या वर्सा भीतर तो 'ईई' जावन सेवानिवृत्त जावपाचो. नवीन पिळगी नवीन विचार, नव्यो चाली, नव्यो रिती सगळे कडेन सगळेच नवेच नवे दिस्ताले. पुल बांदपाची अत्याधुनिक यंत्र सामुग्री. व्हड यंत्रा चड, मनीस मात मेजकेच. काम करपी कंपनी आनी तांतुंतले हेर लोक परंपरा, चाली, रिती हाका पाळो दिवक तयार नाशिल्ले. घडये तांका गाराणें, मान ह्यो गजाली खबर लेगीत नाशिल्यो जावये. रात दिस नेटान काम सुरु जालें. रातीक सगळो तारीवाडो एलईडी लायटीच्या उजवाडान चमकतालो. नवीन पुलाच्या कामाचो आवाज आनी लागीच जाल्या कोंकण रेल्वे पुलावेल्यान धांवपी गाड्याचो आवाज सगळ्यांक संवकळीचो जाल्लो. लागसारच्या लोकांक पुलाच्या कामा पासत जावपी त्रासाची कंपनी पैश्यांनी नुकसान भरपाय करताली. तारीवाडो आवाज आनी रातीच्या लायटीच्या उजवाडाक सवंकल्लो. काळोख उरिल्लो तो फकत न्हंयच्या देगे लागी आशिल्ल्या कोंड्याआळी लागी. फाटली कितलीशींच वर्सा वाठार राखपी वाटाऱ्यांक आज सादी वात लेगीत फावो जाय नाशिल्ली. शिवदास अदिंमर्दी फावट मारतालो. नेटान व्हांवपी सावें आनी खारें उदकाच्या भरसावणीच्या वाऱ्याचो परमळ ताका सुखायतालो. तेन्ना वाटाऱ्या मुखावेली सुकिल्ली पणती स्पृश्य जाताली.

पोरन्या पुलाच्या चौपटीन व्हड अश्या नव्या पूलाचें काम पुराये कडेन पावंक आयिल्लें. नवीन सुदारील्ल्या तांत्रीक आदाराचेर काम चलताले. ६०० मेत्र मायज लाबांयेचो हो देसांतलो दुसरो पूल. पुला मदिसार चार व्हड लांबायेचे खांबे बांधून तयार जाताले. इतल्या उंचायेर चोय दिकेन धुंवपी रेस्टरांट आनी थंय सावन दिसपी देखावो नियाळपाक खास गॅलरी बांदपाची तजवीज आशिल्ली. गोंयात भोवंडेकाराक आकर्शीत करपा पासतचे हें एक निमित्त. पोरण्या पुला वेल्यान वतना ही राकेसी बांदावळ कोणाच्याच नजरेतल्या सूट नासली. एक दिस शिवदासालो मोबायल वाजलो. उमेशाचो जर्मनी सावन फोन आशिल्लो. कामा पासत आपुण गोंया पावता म्हणपाचें ताणे कळयलें. बरेच दिसाच्या फेर्यादिचेर तो येवपाचो आशिल्लो. वासू शेणोय वांगडा काय दिस गोयांत एकठांय सारचे अशे ताणे शिवदासाक सांगले. वासुदेव शेणोय कुमठा सावन गोंयात येवंक तयार जालो. गोंयची भोंवणी आदल्या आर्मीगा वांगडा सारपाची ताकाय उमळशीक लागील्ली. फेर्यादीचे पयले तीन दिस तीगुय वांगडा रावप आदली आंकवारी जीणेचें पुर्नजिवीत करप उपरांत घरालागीं वचप अशें थारलें. दक्षिण गोंयच्या फामाद दर्या वेळेवेल्या फाय स्टार रिसोर्टांतली कॉटेज उमेशान बुक केल्ली. शुक्रार दिसा फांतोडेर शिवदास आपणे नव्यान घेतील्ली एसयूवी घेवन उमेशाक हाडूंक दाबोळे विमानतळार गेलो. केएसआरटीसीच्या ऐरावतीर बसून कुमठा सावन आयिल्लो वासू शेणोय मडगावा ओपिनियन पोल चौका लागसार तांची वाट पळेत आशिल्लो. दनपरां इकरा वराच्या अदमासाक तिगांनी कॉटेजीत चेक इन केलें. दोन मोठ्यो न्हिदपाच्यो कूडी. दोनीं कुडी मदीं ल्हानशें साल. सालाच्या मुखावेल्या अर्दान रांदपाचो प्लेटफोर्म, एक ल्हानसो फ्रीज, थोडी आयदनां, सुरयो, च्या करचे पासत लायटीची किटली. फुडे फाटीं ल्हानसो वारांद. भीतर जायत्या विलासी वस्तीनी ती भरिल्ली. कमोड आनी टब ची सोय आशिल्ली कूड उमेशान घेतली. भारतीय बैठकीच्या कुडीक शिवदास आनी वासुदेवान आदीक पसंती दिली. जेट लेग आनी शेणोयलो बसप्रवासाचो शीण निवळावन मेळचे अशें थारले. दनपारा ते थंयच फाय स्टार रेस्टोरंटात जेवले. शिवदासाक सगळे जेवण मिळमिळीत लागतालें. जेवणा उपरांत उमेशान वासुदेवाक फोरेन सिगरेटीच्या कार्टना वांगडा विंडप्रूफ लायटर गिफ्ट केले. वेळ काडी नासतना ताणे सिगरेट पेटयली आनी ओडीत तो गजालींक बसलो. शिवदासाक फामाद जपानी कंपनीचो केमकोर्डर हाडिल्लो. परतून वचचे पयली तुजो तो कोंड्याआळीतलो वाटारो म्हाका ह्या केमेरांत बंद जाल्लो जाय तो दितना उमेशान म्हळें. शुअर, शिवदासान परती जाप दिली. तीनसना प्रायेर दिस धारेक वतना सूर्यास्ता सांगातान तिगांचे पयलें रिकोर्डीग करप अशें उमेशान थारायलें. सगळ्यो यादी खऱ्या अर्थान जीत्यो सांबाळून दवरपाचो ताणे निश्चेव केल्लो. रातीचे ते वेळे लागसरल्या गोवन- जॉनी नावांच्या शेकार जेवंक गेले. बार्रार सोरो दिवपी सोडून सगळे वेटर हिंदी उलयताले. शेकाचो मालक जॉनी पुर्तुगेज पासापोर्ताच्या आदारार लंडनाक कामांक गेल्लो. एका अर्दान गळ्यांत गीतार घालून एक चेडू पदां गायतालें. ताणे मोटवो व्हिस्तीद घाल्लो. तांबडे आनी पिंगशे कोराद केल्ले केस, मेकळे सोडिल्ले. ताच्या पदांचे कोंकणी-इंग्लेज उच्चारण हांसोवणे कशें दिसतालें. मेनूकार्डार बालचांव, काफ्रीयाल, विन्दालो, रेशाद, सान्रा, नावां वाचून वासू शेणोय मातसो नेर्वो झ जाल्या भशेन जालो. नगली फ्राय, बांगड्या धोडक, तेफळ घाल्ले कर्नाटकी बांगड्या हुमण असलें कांयच नाशिल्ले. कोफुसांव नाका म्हण ताणे बियरा वांगडा दाल फ्राय आनी वेज मंचूरीयानाक पसंदी दिली. शिवदास आनी उमेश काजु फेणी वांगडा रेशाद बांगडो, सुंगटा हुमण, उकडे शीत, चुरचुरीत भाजील्ल्या चणका पोस्तांचो सुवाद घेत घोस्तान जेवले. वासू शेणोय सगळे खिण रेकॉर्डिंग करपाच्या निमतान कातारा गावपी चेडवासरी बरोच वेळ घुटमळत आशिल्लो.

शेनवार दिसा फर्मागुडयेर कॉलेजीची भोंवणी थारिल्ली. थंयच्या वाठारांत बरोच बदल जाल्लो. नवीन इमारती जाल्ल्यो. मुखार शिकपी भूरग्यांच्यो एका आळीन तरेकवार मोटरसायकली दवरिल्ल्यो. त्यो पळोवन शिवदासाच्या दोळ्या सामकार मामाली पोरनी

राजदूत आयली. वळखीचे अशे कोणूच नाशिल्ले. आदले शिकोवपी रिटायर जाल्ले. शिवदासान सगळ्या गजालीचें चित्रण सुरु केलें. परतूच्या वेळार हॉस्टेलांत गेले. फाटल्या यादिनी तीगांची काळजां भेरेल्ल्या भशेन जाल्लीं. दनपरां तिळव्याल्या खानावळीतलें सुका मटण आनी तरेकवर नुस्तें खाल्या उपरांत ते पणजे जेक टंडनाक मेळूक गेले. तो बांबोळी एका बंगल्यार रावतालो. भायर एक व्हड तांबड्या कोराची गाडी पार्क केल्ली आशिल्ली. उमेश ताच्या लागी उलप करुंक भीतर सरलो. शिवदास आनी वासू दोगूय गाडयेंत बसून रावले. जेक टंडन ताच्या इश्टाच्या वाडदिसाच्या खास पार्टीची रूच घेतल्या उपरांत मेळूक रिसोर्टाचेर येवपाचो आसा अशे उमेशान तांका सांगले. गाराणें आनी मान ह्यो पैशे जोडपाच्यो गजाली. असल्यानी कायच अर्थ नासता वाड्यार असो रकाद धाडपी टंडनाक मेळपाची शिवदासक मातूय उमेद नासली.

रातीचे नव्या पुलाक जोडपी रस्त्या कुशीच्या भाटांत उकत्या जाग्यार बरडाल्या बेकयार्ड हॉटेलांत जेवपाचें थारिल्ले. दामू बरडान तांका स्वतःची सोऱ्याची बाटली पिवंक मेकळीक दिल्ली. शिवास रिगलाचे दोन पेग पोटांत गेल्या उपरांत गजालींक सुरवात जाली. मदीं मदीं दामू बरड गजालिनी वांटेकार जातलो. उमेशान आपली कंपनी कटकटीची, खडतर, दुस्साध्य अशी बांदावळीची कामा कश्या तरेन करता, तांत्रिक कसब, तकनिकी कुशळताय तशेच तांत्रिक सल्लो कसो दिता, हाचेर उलवप सुरु केले. सुदारिल्ल्या देशांनी गाराण्यांच्या मांत्रिक विद्ये परस तांत्रीक विद्येचो कसो फायदो जाता, ह्या विशीं ताणे मोठ्या आत्मविस्वासान बडबडप सुरु केलें. तो, शिवदास आनी वासुदेव हांची भासभास जावंक लागली. आमच्या देशांतल्या वेदांतले दिश्टावे, जंत्र, तंत्र आनी मंत्र एकमेकांच्या आदारार कशे उबे आसात हे सांगपाचो वासू शेणोय यत्न करतालो. उक्तेपणी आपलो दृश्टीकोन विज्ञानीक, तर्कशास्त्राक धरून आनी बुद्धीप्रामाण्य आसता अशें सांगपी पाश्च्यात देश संतपणा बहाल करतांना लीपयाचोरयां चमत्काराचे पुरावे कशे मागता, ह्या गजालींचो विरोधाभास शिवदासान दाखोवन दिलो. सगळ्यांच्याच आदारार सगळ्यांनी उदरगत करू येता हें तांचे म्हणणे आशिल्ले. मनीस आयज चंगळवाद, व्यक्तिवाद असल्या वयलेचाराक बळी पडटा. ह्या पासत तांका आता योग, ध्यान, चिंतन आनी मनन ह्या गजालींचो पालव घेवंचो पडटा हें मांडपाचो यत्न केलो. मानुन घेतले जाल्यार तो उमेश खंयचो!!! शेवटाक 'लेट अस अग्री टू डीसअ‍ॅग्री' हें सदचे ब्रीद वाक्यान भासाभास सोपोवन गजालींची आनी पोटांतल्या सोऱ्याची किक ह्या दोनीच्या घुंवळीत सुमार मध्यान राती ते थंयसावन भायर सरले. दामू बरडल्या चल्यान, राजेशान सगळ्या खिणाचे शूटिंग केल्लो कॅमेरा शिवदासालागी दिलो.

काय खिणातूच ताणी पोरनो पुल हुपलो. अकस्मात उमेशान शिवदासाक गाडी थांबवोन ती रस्त्या कुशीक पार्क करुक सांगली. नव्या पुलाचे एका अर्दाचे काम पुराय जायत आयिल्लें. १९ देसेम्ब्र, गोंय सुटके दिसा तो पूल लोकांक उक्तो करपाचो हावेस मंत्र्यान उक्तायल्लो. चलता ते पुला मदसारच्या चार व्हड लांबायेच्या खांब्यांचे काम. म्हाका त्या खांब्यांवेल्यान आमचो तारीवाडो पळोवंक जाय उमेशान शिवदासाक म्हळे. आरे, येदे रातीचे आनी अशे आयते वेळार ते शक्य ना. शिवदासान समजूपाचो यत्न केलो. हांव पळयता कशे जायना तें अशे म्हणीत तो आपल्या मोबायलाचेर कोणालागी तरी उलयलो. मध्यान रातीची लेगीत रस्त्यावेली येरादारी चालू आसली. हळडूव्या कोराचेर तांबडे आडवे पट्टे आशील्ली जीप तांच्या लागी येवन थांबली. जीपींत बसून तीगूय नव्या पुलाच्या मध्यार पावले. खांब्यावयर सामान व्हांवपी लिफ्ट तळाक येवन आशिल्ली. लिफ्टीक चारी अर्दान लोखणाची जाळी आशिल्ली. ती चलोवप्यान तांका सलाम मारलो. कांय खिणा भीतर ते त्या खांब्याच्या वेल्या निमण्या पांवड्यार पावले. वाऱ्याच्या झोती सामकार भायर सरपाची कोणेच कापस्ताद केली ना. केम्कॉर्डरार उमेशान भोंवतणचे रिकोडींग सुरु केले. रातीचो इतल्या उंचावेल्यान दिसपी सरभोंवतणचो वाटार उतरांनी वर्णवपाक कुस्तार तो असोच अणभवचो पडटा. हांगशिल्ल्यान दिसपी गोंयच्या बंदरावेलो उजवाड पळवन थंयसर खरेंच रात जाल्या कांय ना असो दुबाव येवू येता. सांकवाळच्या श्री शांतादुर्गा देवीच्या देवळा कळसावेलो दिवो हयन्हय कसो लकलकता. वेर्णेची उद्देगीक वसणूक जमनीवेली दिव्यांची आरास कशी दिसता. भोंवतणचो वाटार काजुल्यांच्या भिऱ्यांनी झांकला कसो दिसता. रेकॉर्डिंगा वांगडा उमेशाची मल्लिनाथी चालू आसली. शिवदास आनी वासुदेव एकाग्रतायेन लिफ्टीच्या जाळेक घट्ट धरून वाठार नियाळताले. पोरनो पूल आनी नव्यानी जाल्लो रेल्वे पुल हांचे मजगती न्हंयचे देगेवेल्या तारीवाड्याचेर उमेशाचो कॅमेरा थिरावलो. हांगा सावन रातीन दिसपी तारीवाड्यावेलो लिकलीकत्या दिव्यांचो खेळ पळवन आकाश गंगा धतरीचेर प्रकट जाल्या वरी दिस. आनी लागी सावन नियाळपाक उमेशान लेन्स झूम केली आनी त्या सरशी ताणे आरे म्हज्या सायबा अशे आड्डीत लिफ्ट सकला व्हरूक सांगले. सकला देवतना पणजेसावन मडगाव वचपी एका गाडयेन अकस्मात पुलाच्या दाव्या अर्दाच्या ग्रादीक धपको दिवन न्हंयक घालून घेतल्यावरी हांवे कॅमेरातल्यान पळयलें. उमेश काचाबुल जावन तांका सांगतालो. तिगांय पोरण्या पुलार पावले. दोनी अर्दानच्यो गाड्यो पुलार थांबोवन लोक मोडील्ल्या ग्रादी लागसार वचून सकला न्हंयेक पळयत आशिल्ले. थोडे आपल्या मोबायलाचेर मोडील्ल्या ग्रादीचो फोटो काढून हि गजाल लोकां कळीत करपाक लागिल्ले. सकयल न्हंयक पडिल्ली ती गाडी कसली, कितले लोक तातुत आशिल्ले हे कोणुच नकळो जाणा जाल्ले. फकत ती तांबड्या कोराची व्हड गाडी आशिल्ली अशें कोणे तरी त्या गर्देत म्हळे. उमेशान जेक टंडनाक फोन करपाचो यत्न केलो. ताचो मोबायल स्वीच्ड ऑफ येतालो. लोकांची गर्दी वाडीक लागली. वासुदेव गर्दे तल्यान वाट काडीत थंय आयलो. उमेशालागीं ताणे शिवदासाची वासपूस केली. शिवदास थंयसर नाशिल्लो. वेळा काडी नासतना उमेश

*(पान १८ चेर)*



# सांवार

अरुण जयराम कामत

"कितको वगत असोच बसोन रावतलो? बोकडां साटांत नाचतत. तेंका चरोवंक व्हरणत नाय?" बाबलाच्या खोंपीत काल रातीच्यान पातळिल्ली शांतता मोडीत ताजी बायल-भागीन बाबलाक प्रस्न केलो. काल रातीच्यान त्या खोपीन कोणूच कोणाकडे उलोंवक ना. ना बाबल ताज्या चेड्याकडेन, ना चेडो आवय बापायकडेन, ना भागी आनी बाबल एकमेकांकडेन.

"म्हेऽ ऽऽ म्हेंऽ ऽऽ म्हेंऽ ऽऽ" बोकडां बुरांतत रावली. तांचे बुरांती आयकून बाबल नज जावन उठलो. तकलेक मुंडाशें बांदून हातांत बडी घेवन, खोपीचें अर्दे उगडें आशिल्ले दार धुकलून ताणे साट उगडलें आनी सगळी बोकडां भायर धांवली. तांचे फाटल्यान, सवकास, पाय ओडीत बाबल भायर सरलो. "निवळाचो एक घोट तरी घे." भागीन मारिल्लो उलो आयकुन आयकूंक नाशिल्ले वरी करीत बाबल बोकडां फाटल्यान रानांच्या दिकेन चलत रावलो.

बाबलाच्या घराफाटल्यान एक ल्हानसो चडाव. थंयसून रान सुरवात. तो चडाव काडून वयर पावलो कीं तांच्या मोपा गांवचो लांब-रूंद मळ. वैशाखाचें कडकडीत वत त्या संबंद वाठाराक उजो पेटिल्याभशेन भाजून काडटालें. पूण त्या वैशाखाच्या धगधगानूय मोपाचो तें मळ रंगान न्हावन कितलों सोबीत दिसतालों? बाबलान वयर पावतगेर चारूय दिकांनी नदर मारली. एका दिकेन सांवरीचीं बोंडा फुटून धवो फुल्ल कापूस वाऱ्यांत हुबतालो, तर दुसऱ्या दिकेन पांगारे फुलून सैमान उज्याची चूड फुलयल्या अशें दिसतालें. उदेत्या दिकेन वझरेच्या भाटकाराच्यो काजी फुलिल्ल्यो जाल्यार अस्तंगत दिकेन आतांच नव्या चंवरान नटील्ले आंबे आनी किंदळी त्या मळाचें रूप वाडयताले. त्या पठाराच्या एका कोनशाक आशिल्या झरीकडेन बोकडां धांवली, तरी कितलोसोच वेळ बाबल त्या रंगयाळ्या रानाक पळयत रावलो. दर दिसा तो हांगा येता तरी हो सोबीत देखावो तो प्रत्येक दिसा आयजच पळेल्यावरी पळयत रावतालो. आयजूय बाबल कितलो तरी वेळ थंयच, सैमाचें अग्रुप पळयत रावलो पूण आयज सैमाची ती पांचवी, केसरी, धवी, पोपटी, तांबडी गिरेस्तकाय पळयतनां ताचे दोळे भरून आयले.

"परत म्हाका हें सगळें अशें पळोवपाक मेळटलें काय ना?" बाबलाच्या मनांत एक विचार येवन गेलो. ताका काल राती घरांत जाल्ली उलोवणी आनी मागीरची झगडीं याद जाली.

काल सकाळी जानू-बाबलाचो चेडो - कासारवर्णे सरकारी वैजकी दवाखान्यात गेल्लो. फाटले दोन तीन दीस ताका जोर येतालो. बाबलान ताका झरयिल्लीं पाळां चाटपाक दिलीं जाल्यार भागीन कडो करून दिलो. पूण जानू तें कांय घेवपाक तयार नासले. तसो तो णवी मेरेन बरो आशिल्लो. आतां तो बारावेक पावला. धाव्वेच्यान ताज्या तकलेन मोर्डन जावपाचें भूत भरिल्लें. ताका आपल्या आवय-बापायची बोकडां-गोरवांची लज दिसताली. ताका लागून फाटली दोन-तीन वर्सा बापूय-पूताची सदां उठून झगडीं आसतालींच.

आतांय बी जानूक दिसतालें. असलीं झाडा-पाल्याची वखदां घेवप म्हणजे फाटीं उरिल्ल्याचीं, मागसपणाचीं लक्षणां. ताका लागून तो सरकारी वैजकी दवाखान्यात आयिल्लो.

कासारवर्णे वैजकी दवाखान्यात गेल्ल्याकडेन जानूच्या कानार एक नवीदाद पडली. त्या दवाखान्याच्या एका कुडींत गोंय बांदकाम खात्याच्या विभागाच्या अधिकाऱ्यांची एक बसका चालू आशिल्ली. जानूक दोतोर हांगा तपासता थंय त्या अधिकाऱ्यांची भासाभास कानार पडटाली. 'आमी दिल्लीक धाडला तो रिपोर्ट केंद्र सरकारान अभ्यास करून परत धाडला. त्या रिपोर्टांत ताणी म्हणलां कीं मोपाचो पठार हो विमानतळाक बेस बरो थारतलो. ताका लागून आमच्या गोंय सरकारान आतां बेगीनातल्या बेगीन या सुवातीचेर काम सुरू करपाचें थारयलां. आयज तुमी हांगा मोप, धारगळ, वझरे, कासारवर्णे, सुकेकुळण या गावांत सर्वे कशे करपाचें तें हें नकाशे पळोवन थारायात. आनी आमचें साईट ऑफिस जायमेरेन, आमी हांगाच बसका घेतले.'

"मोप गांवांत विमानतळ?" आयकून जानूक पयलीं कांयच कळ्ळें नां. पूण आपल्या वाठारांत व्हड किदें तरी घडता हाची ताका जाणवीकाय जाली.



दोतोरान जानूक तपासलो आनी कांय वखदां दिवन आठ दिसानीं परत येवपाक सांगले. जानूचें दोतोराकडेन काम जालें तरी तो थंयच, बसका चलिल्ल्या त्या हॉलाभायर घुटमळत रावलो. ताच्या कानार नवे नवे शब्द पडताले तरी पूण ते अधिकारी किदें उलयतात तें जानूक

समजलें ना. इतल्यान ताका त्या हॉलाच्या दाराभायर भिकाजीकाका दिश्टी पडलो. जानूच्या वर्गांतल्या सदानंदाचो हो बापूय. जानू भिकाजीक वळखतालो. भिकाजी खंयतरी प्यून म्हणून कामाक आशिल्लो. "काका, भितूर कसली बसका चालू आह? नाय म्हंजे ते लोक आमच्या गावांबद्दल काय तरी बोलतात... मोप, मोप, म्हणटात. म्हणान मी तुमका इचारी आसलो..." जानून घाईन आशिल्या भिकाजीक बेग-बगीन विचारले. "आरे जानू तूं हडें काय करतय?" भिकाजीन प्रस्न करना फुडे जानून ताका आपल्या भलायकेची म्हायती दिली आनी तो आपल्या पयल्या प्रस्नाकडेन आयलो. "आरे जानू, आमचो गोंय सरकार नवी विमानतळ बांदूक बघतत. आत्ता आसा तो दाबोळे विमानतळ तेंका ल्हान जाता. तेका लागून सरकारान केरी-फोंड्या, बेतलां आनी मोपा अशें तिनकडे सर्वे करून दिल्लीक रिपोर्ट पाठयल्यो. आनी दिल्लीच्या केंद्र सरकारान मोप गावात विमानतळ जावंचो तीच सुवात योग्य म्हणान गोंय सरकाराक सांगलां. तेका लागून आता हें फुडचे काम चालू आसा. "पूण ह्या विमानतळ म्हजे नेमका काय आसता? आनी आमकां, मोपच्या लोकांक तेचो काय फायदो?" जानून केल्ले प्रस्न आयकून भिकाजीक हांसूक आयले. "आरे मी आतां कामांत आसा. मगेर सांगतां मरें तुका सगळां," अशें म्हुणून भिकाजी परत बसका चल्ल्या थंय कसले तरी कागद घेवन गेलो.

बसकेच्या हॉलाचे दार धुकलतना भिकाजीक कसली तरी याद आयली. भिकाजीन परत जानूक उलो मारून आफयलो. "जानू-तुमकां सगळ्या भुरग्यांक मरे विमानतळार नोकऱ्यो मेळटल्यो. आनी एक लक्षांत दवर," आपले तिरशे डोळे दोनूय वटेन फिरयत भिकाजीन म्हऱ्यांन कोण ना हाची खात्री केली आनी जानूच्या कानांत सांगलें. "तुमच्यो जमनीबी तुमी कोणाक विकूं...नाका आं...म्हाजेकडे एक बरी पार्टी आसा... मी तुमकां बेस्ट रेट दितय..." आपले तिरशे दोळे आनीक तिरशे करीत आनी कपटी हांशीत भिकाजीन जानूक सांगलें. फाटलीं वर-अर्धेवर आपणे कितें आयकलां तेंच जानूक कळना जालें, पूण आपल्याक आता बरी नोकरी मेळटली म्हणून तो खूप खोश्शी जालो.

"जाणा मगे आवय, आमच्या मागच्या दोंगरार, मळार सरकार मोठो विमानतळ बांधतत, आतां आमकां थंय नोकरी गावतली, आतां आमकां ह्या बोकडां-गोरवां फाटल्यान नाचूची गरज न्हाय सा... तेच्या लेण्यान, मूतान लोळूची गरज न्हाय..." घरा येवन जानून आपल्या आवयक ताणें आयकल्ली नवीदाद सांगली. "ह्या इमानतळ म्हजा काय? आमकां काय करूचो आसा तो?" आवयन जानूक प्रस्न केलो. "अगे, भिकाजी काका सांगी आसलो, हडें विमानतळार मोठ-मोठी विमानां उतरतली. सायब लोक येतले... आमच्या जमिनीक दर गावतलो... आमी बोकडां विकुंची, गोरवां विकुंची, ही जमीन विकुंची आनी धारगळेक नवी जागा घेवया मगे, ह्या रानांत, गोरवां, बोकडानं काय थेयलां?" जानूची हीं निमणी दोन-तीन उतरां दारांत उबो आशिल्ल्या बाबलाच्या कानार पडल्या मात तो तसोच तिडकेन भितर सरलो आनी ताणें जानूच्या कानसुलांर वाजयलीं. भिरभिरून जानू थंयच पडलो. त्या बापूय-पूतामंदी भागी पडली म्हणून, नाजाल्यार काल तिनसनां बाबल जानूचो जीव घेतलो आशिल्लो.

"म्हाका वयर सड्यार' सर्वेयर गावले. म्हणा आसले आता तुमी हडें बोकडां चरोंवक हाडूच्यो नाय. आतां हो सगळो जागो सरकार घेतलो, तुमकां दुसरीकडे खंय तरी घरां बांदून दितय, तुमच्यो बोकडां, गोरवां, कोंबड्यो जां काय आसा तां तिकडे घेवून जांवचा. तुमच्या काजू, नाचण्याक, भाता-शेतांक नुकसान भरपाय गावतली. हडें ईमान येतलां. सर्वेयरान सांगल्यानी." आपलो राग थंड जातगेर बाबलान भागी आनी जानूक गजाल सांगली, आनी तो शून्यांत नदर लावून थंयच बसून रावलो. संबंद रातभर तो न्हिदला ना, थंयचो उठलोना, आनी जेवलोय बी ना.

"म्हेंऽ ऽऽ म्हेंऽ ऽऽ म्हेंऽ ऽऽ" एक लहान बोकड बाबलाच्या पायामंदी येवून बोवाळूंक लागलें, तशें तो भानार आयलो. सूर्य आता माथ्यार आयिल्लो. 'म्हंजे कितको वगत मीयां हडें उभो आसा तर?" आपल्याच मनांत तो पुटपुटलो. कालची तिनसान याद करीत आपूण थंयच रावलो तें ताच्या लक्षांत आयलें. वतान इतलो वेळ रावन ताका घुंवळ आयल्यावरी जालें. तो वचून एका किंदळी मुळांत बसलो, थारावलो. कांय वेळान झरीर गेलो आनी, तोंडार उदक मारलें, पोटभर उदक पिलो आनी परत झाडामुळां येवून बसलो.

कांय वेळान धाकू आपली बोकडां घेवन थंय पावलो. ताचे वांगडा नवसो बी आशिल्लो. त्या दोगांयची तोंडा साप्प पडिल्लीं. "काय झालां सां?" तांची तोंडा पळोवन, भियेवनच, बाबलान दोगांयक प्रस्न केलो. "तुम्ही नाय आयकोंक काय? आरे आमी उबे आसा. त्या जागेर सरकार इमानतळ बांदतु मरे. आतां हडें बोकडां, गायी-म्हशी नाय तर इमाना फिरतली. आता आमकां हडें येवपाक बंदी." इतलो वेळ, आपणे कितें आयकलां ते एक वेळ खरें आसचेना या आशेर आशिल्ल्या बाबलाची आस्त आतां सोंपली. म्हणजे आतां हांगा खरेंच विमानतळ जातलें हाची ताका खात्री जाली. कितलो तरी वेळ तें तिगांच थंयच बसून रावले, ओग्गी, मोन्यानी.

दनपार जावन गेली, वत मात्शें मोव जालें तशी भागी वयर मळार आयली. बाबल झरीकडे आसतलो हें ती जाणां आशिल्ली. घरकारा खातीर नाचण्याची भाकरी घेवन भागी आयली. "तुमच्या फाटसून जानूय बी काय ना सांगता खडे तरी गेल्यानी. रागान तणतणत आसलो." भागीन जानुक सांगलें. "म्हणी आता विमानतळ बांदतू हडें. आमच्यो जमीनी विकोन बरो दर गाव तर बाबा नको म्हणतत. तो आनी तेचे बापजादे बोकडां चरत खपले, कांय गावलां तेंका? मी नाय हडे रवूचो. मी नाय हडें खपूचो, असां काय काय तो सांगी."

एका दमान भागीन सगळें बाबलाक सांगलें. "तुका काय वाटतां? ह्या बग नवसो आन् धाकु आसत हडें. तेंचेय झील म्हणटात कीं आमच्यो जमीनी विकोन धारगळेक नायतर म्हापशाक जांवोया, पुण अगे म्हाका सांग, आमच्या इतक्या पिळगेची ही जागा, हो धंदो ह्या सोडून आमी कसे रवतलू. ही गोरवां, ही

बोकडां आमची पोरां हां. तेंका काय विकूची काय?''

''म्हाका ता म्हायती नाय, पण आधी ही भाकर तरी खायात सगळे'' नाचण्याची भाकऱ्यो सगळ्यांक दित भागीन म्हणले.

दिस वचूंक तशें फकत भागी बाबलाच्या घरांतच न्हय तर वाड्या-वाड्यार प्रत्येक घरांत ही नवीन पिळगी आनी जुनी पिळगी मदलो संघर्ष पेटत रावलो. ''मोप विमानतळ नाका'' अशी एक सैमाखातीर झगडपी लोकांनी चळवळ चालू केली. बाबलाक ते लोक येवून मेळून गेले.

''हें सरकार गोर गरिबांचे न्हू. हें सरकार दिल्ली आशिल्ल्या सत्तेच्या दलालांचे सरकार. म्हाका सांगात ह्यो विमानतळ बांदून आमच्या पेडणेकरांक काय फायदो? आमका विमानतळ नाका, आमकां आमच्यो जमीनी सांबाळूक व्हयो. विमानतळ इलो काय भायले लोक येतले. आमचे गरीब लोक तेणी फुडे केल्लो आंकडो बगोन आपल्यो जमीनी विकतले. आमीच आमच्या गांवांन भायले थारतले तर दिल्लीकार गोंयकार जातले. आमका आमच्या पांचवेचार सैमात, पिवळ्या शेतां भाटांत आसा तशेंच रवांचे आसा. आमका विमानान उडूचें नाय, कॅसिनोन खेळूचें नाय आनी एंटरटेनमेंट शारांत नांचूचे नाय. आमकां आमचो सैम ना नपयत करपी विकास नाका. तुमचो हो विकास तुमकांच दवरात.'' मोप विमानतळ नाका चळवळीन आयोजित केल्या व्हडल्या सभेत भिकाजी उलयतालो. धारगळे जाल्ल्या सभेक पणजे, मडगांव, वास्को या शारांतले, धारगळ, वझरे, सुकेकुळण, हळर्ण ते मोरजे, मांद्रें ह्या सगळ्या गावांतले लोक जमिल्ले. तांका धाडिल्ल्या बसींत बाबल, धाकू, नवसो आनी तांचे घरचे सगळे गेल्ले. जानू आनी ताजे वांगडीय बी सभेक गेल्ले. ''चडान-चड लोक जमयात. आमका उत्तर गोयांत नवो विमानतळ जाल्लो नाका. विमानतळ दक्षिण गोंयातच आसूंक जाय. तो उत्तरेक वेल्यार आमच्या पांच नेकेत्रांच्या हॉटेलांचे कितें जातलें?'' एका राजकीय फुडाऱ्यान भिकाजीक सांगिल्लें. ताका लागून ताणें चडांत-चड लोक जमयले, गर्दी जमयली आनी आपल्याक पैशैय जमयले.''

धारगळच्या त्या सभेतल्यांन घरा येतना जानू चिंतत आशिल्लो, ''मोप विमानतळ येतगेर तुमकां थंय नोकऱ्यो मेळटल्यो, तुमच्या जमनीक रेट गावतलो.'' अशें सांगपी भिकाजी काका आयज 'मोप विमानतळ नाका' म्हणोन किद्याक म्हणटा? जानू सामको गोंधळून गेल्लो.

''जानू, ओ जानूऽ ऽऽ'' मोप विमानतळ नाका ही सभा झाली ताच्या दुसऱ्या राती कोण तरी बाबलाच्या खोपी भायर जानूक उलो मारीत आयले. पेटत्या चुडीचो तांबडो भग्ग उजवाड त्या खोपभर पातळील्लो. बाबलाच्या काळ्या सावळ्या उग्र तोंडार तो प्रकाश पडून बाबल आनीकुय भिरांकुळ दिसताल्यो.

''या वक्तार कोण येयल्यानी तुका सोदोंक?' ताणें रागान जानूक विचारलें. जानू आवाजाच्या दिकेन भायर गेलो.

भायर येवन पळेत जाल्यार थंय भिकाजी आनीक तीन-चार मनशांबरोबर उबो आशिल्लो. ''किदें जाले भिकाजी काका?'' जानून अजापान विचारलें.

''ह्या बग जानू, तुजो बापूस ह्या वाडीचो नेतो जावूक बगता. तो हडेच्या लोकांक विमानतळाविरूद्ध भडकायता. पूण आमका विमानतळ जाल्लो व्होयो, तुमच्या भल्याखातीर, तुमच्या सगळ्यांच्या फुडाराखातीर, तुमकां नोकऱ्यो गावोंक व्हयो, तुमच्या जमीनींक दर येवूंक व्हयो, म्हणान आमकां विमानतळ व्हयो. पूण तुजो बापूस त्या 'हिरवें गोंय' संस्थेवांगडा विमानतळाक विरोध करतय. आनी जर तेंच्या चेपणाक लागून सरकारान हो प्रकल्प रद्द केलो तर तुमच्यो नोकऱ्यो वतल्यो आनी तुमकां परत बोकडां आनी गोरवां घेवून चरचां पडटलां. तेंका लागून तुमका काय व्हया तां तुमी बगा. नोकऱ्यो काय बकऱ्यो?''

इतलें उलोवन भिकाजी वांगडा आयल्या एका मनशान दोन हजाराच्यो पाच नोटी जानूच्या हातार तेकेयल्यो.

दुसऱ्या दिसा तिनसानची भागी खोपीच्या दाराकडे घरधन्याची आनी पुताची वाट पळयत बशील्ली. आयज सकाळीं कितलेशेच वर्सांनी जानू बापाय बराबर बोकडां घेवन गेल्लो. बापूय-पूत एक जाल्ले ते पळोवन आयज दीसभर भागी खोशशी आशिल्ली. सांजवेळ जातगेर एका ओळींत बोकडां खोंपीत येवन आपल्या साटांत वचून रावलीं. बापूय आनी पूत मात आयलेना. आतांच येतलें, आतां येतले म्हणून भागी संबंद रात खोपीच्या दाराकडे बसून रावली. रातभर तिजो दोळ्याक दोळो लागलो ना.

फांतोडेच भागी धाकूच्या घरा गेली. ''काल सकाळी बोकडां घेवन गेल्ले. बापूय आनी पूत आजूनच येवंक नाय....'' भागीन धाकूक सांगले. थोड्या वेळान ते सगळे मोप पाठारार बाबल आनी जानूक सोदपाक गेले.

''जानूऽ ऽऽ बाबल ऽऽ'', ''जानूऽ ऽऽ बाबलऽ ऽऽ सगळे लोक मोठ्यान उलो मारीत पठारभर भोंवत रावले. काय वेळांत जेसीबी, पोकलेन, शॉवेल अशी अजस्त्र यंत्रा मोठ्ठो आवाज करीत मळार वयर आयिल्लीं. वाटेंत आशिल्ली आंबे, काजी, सायल, माट्टी, किंदळी माडयत हीं भिरांकुळ यंत्रा पांचवो सैम आडवो घालूंक लागलीं. ''जानू ऽ ऽऽ बाबलऽ ऽऽ'', घोऽ ऽऽ घोंऽऽ घोऽऽ, ''जानू ऽऽ बाबल,'' घों घों घों मशीनाच्या आवाजाफुडे भागीच्यो आनी गांववाल्याचो आवाज विरत गेलो, कांय वेळान फकत मशीनांचोच आवाज येत रावलो. 'बाबल, जानू' कोणांकूच आयकूक आयलें ना... 'आनी हाचे फुडें केन्ना येवंचे ना' एका जेसीबीत बशिल्या भिकाजीन म्हणले... ताचे तिरशे दोळे आनीक तिरशे जाल्ले आनी तोंडार कपटी हांसो फांकिल्लो.

संपर्क: 9665876860

***





# निर्णय

जोफा गोन्साल्वीस

सगळें सोडून पयस वचपाचो विचार तकलेंत दर खिणां घुंवत आमलो. सॅमसना पासून पयस वचप सहज आसलें. पूण भुरग्यांपासून पयस रावप हो विचार कसोच सोंसना आसलो. भुरग्यांक वांगडा व्हरपूय शक्य नासलें. भुरग्यांची शाळा आनी म्हजी नोकरी एकटें कशें सांबाळटलें हो प्रस्न आसलो. आनी भुरग्यांक व्हेल्यार सॅमसनाक रान मेकळें जातलें आसलें. घर आनी भुरगीं सांबाळप बारींत वरांची वरां बसून टायम पास करपा इतलें सोपें न्ही हें ताकाय कळपाक जाय आसलें.

विचारांच्या घुस्पागोंदळांत घुंवत आसतनाच अचकीत सोफाचेर बशिल्ले कडेन एक लकण आयली आनी सडसडीत जागें जालें. घड्याळार नदर मारल्यार सकाळचीं अडेज जावपाक आयिल्लीं. सॅमसन अजून येवंक नाशिल्लो. दोळ्यार न्हीद सामकी जड जावन आयिल्ली. खाटीर पडल्यार खिणांत थार न्हिदून पडटलें आसलें. सॅमसन येवंचे पयलीं न्हिदूंक फावना. न्हीद लागतकच मागीर दाराची बॅल वाजिल्ली आयकूंक. बॅल मारतकच रोखडेंच दार काडिना जाल्यार सॅमसनाचो सांवार सोंसपाक जावंचो ना, हे भिरांतेन सालांत सोफारूच बसून ताची वाट पळयतालें.

घड्याळीचो कांटो फुडें सरकत आशिल्लो. दोळ्यांचेर जडाविल्लो न्हिदेचो भार आनी मनांत अस्वस्थ बेचैनी... तकली जड जावन गेल्ली.

गाडी पार्क केल्ल्याचो आवाज आयलो. जांव सायबा आयलो एकदाचो. सुटकेचो सुस्कारो सोडलो. हांव दाराकडेन वचून उबें रावलें आनी बॅल मारचे पयलींच दार उगडलें.

'आज कितें बॅल वाजपा आदींच उठलें?'

'न्हिदूंक ना हांव. जागेंच आसलें.'

'होयऽऽ तूं आनी जागे रावतलें. न्हिदांकूच आसा मुगो. तोंड चोय गो तुगेलें.'

'......'

कांय सांगनासतना हांव बॅडरूमांत भुरग्यां कुशीक वचून आड पडलें.

सॅमसन फाटोफाट बॅडरूमांत आयलो.

'मात्शे उठ मुगो. हांव न्हांवता म्हणल्यार जेवण गरम कर.'

'म्हाका जेवपाक नाका. सकाळची तीन जायत आयली.'

'तूं म्हाका टायम सांगनाका. गेल्लो कितल्यांक तर हांव.'

'तुगेलो सदां बारींत बसून टायम बरो पासार जाता.'

'सदां? अब्बा! सदां कोण वयता गो?'

'तूं फाल्यां दिसभर न्हिदतलो. म्हजें मात न्हिदता म्हणसर उठपाचें.'

'हांव भायर सरतकच सुशेगाद न्हीद काडटा मुगो तूं.'

'घरांतलीं कामां कोण करता तर?'

'तोंडान कामां कर मुगो. तोंड बरें चलता तुगेलें.'

आवाज वाडल्यार भुरगीं जागीं जातलीं म्हण वगी उठलें आनी किचनांत वचून गॅस पेटयलो.

सॅमसन न्हांवून येता म्हणसर जेवण गरम जालें.

तो एकटो बसून जेवना. ताका वाडलें आनी हांवूय सांगाता बसलें. जागरणाचे दोळे न्हिदेच्या भारान आपूणच बंद जातालें.

जेवण जातकच सॅमसनाचें ताट तशेंच बेसीनांत दवरून हांव वचून खाटीर पडलें.

'आगो न्हिदता गो. मात्शे राव मुगो.'

हात तोंड धुवन सॅमसन आयलो आनी खाटीर लंवडलो.

'बॅडीर पडटनाच वागा भाशेन घोरेता मुगो तूं.'

सॅमसनान म्हाका लागीं ओडलें. साडे पांचाचो आलार्म केन्ना वाजतलो हें येवजीत हांव मनांत नासुनूय ताच्या कुशीक रिगलें.

* * *

शाळेंत पावलां तेन्ना सावन खूब अस्वस्थकाय जाणवताली. रातीचें जागरण सोंसूंक जायना आसलें. तकली सामकी सणसणताली. विद्यार्थ्यांच्यो परिक्षा चालू आशिल्ल्यो. शिकोवपाचें नासलें पूण वर्गांत सुपरविजन करपाक जाय आशिल्लें. परिक्षेचे पेपर घेवन वर्गांत गेलें. वर्गांत पासयो मारतना दोळे आपशींच बंद जावन येताले. लकून पडटा अशें दिसतालें. वणटीक तेंकून उबें रावलें. खिणांत दोळे बंद जाले.

'टिचर, सप्लीमेंट.'

विद्यार्थ्याच्या आवाजा सरशीं सट्ट करून दोळे उगडले.

'टिचर न्हीद येता गे?'

म्हज्या न्हिदसूरे अवस्थेचेर विद्यार्थ्यांचें लक्ष गेलें.

'हय रे शाण्या, जिवाक मात्शे बरें दिसना'.

'टिचर कालूय न्हिदताली'

'टिचर तूं स्टाफ रूमांत वचून बस. आमी बरयतात पेपर.'

एका भुरग्यान फकाणां केलीं. सगळीं हांसलीं.

'शूऽऽ पेपर बरयतना फकाणां नाकात हां...'

परिक्षा कमिटीचो इन्चार्ज दिपक सर भितर सरलो. भुरग्यांचें हांसप ताच्या कानार पडले आसतलें.

'सर, जिवाक बरें दिसना. थोडो वेळ स्टाफ रूमांत वचून बसूं.'

'एकूय टिचर फ्री ना. बरें ना जाल्यार लीव घेवन रावप न्ही.'

'.....'

म्हाका म्हजीच तिडक आयली. ताळमेळ सुटत चलिल्ल्या म्हज्या खाजगी जिणेंचो विपरीत परिणाम म्हज्या प्रोफेशनल जिणेचेर पडटा हाची किळस आयली.

नोकरी मेळ्ळी तेन्ना सावन प्रमाणीकपणान म्हज्या शिक्षकी पेशाक न्याय दिवपाचो यत्न दर खिणांत करतालें. केन्नाच कसल्याच कामांकडेन बेकाळजीदारपणां केलीं ना. विद्यार्थ्यां सांगाता दर दीस नवे उमेदीन फुडें वतालो. नवें आनी वेगळें शिकत रावपाची म्हजी वृत्ती म्हजे जिणेतूय उमेदीचें नवेंपण घेवन येताली. विद्यार्थ्यांकडल्यान भरपूर मोग मेळटालो.

पूण फाटल्या स - सात वर्सांत सगळेंच

बदलून गेल्लें. खरें म्हणल्यार म्हाका म्हज्याच वळखिचो इल्लो इल्लो विसर पडपाक लागिल्लो. म्हज्या कामांकडेन आडनदर जाता ही खंत म्हाका भितरल्यान पोखरताली. एक असाह्य वेदना खिणांखिणांत भंयकर मानसीक त्रास दिताली. कूड अशक्त करून सोडटाली.

पेपर सोपिल्ल्याची बॅल वाजली आनी हांव भानार आयलें. तकलेंत घुंवपी विचार पयस केले आनी विद्यार्थ्यांचे पेपर एकठांय करून हांव स्टाफ रूमांत आयलें. पेपर सब्मीट करून तकली मेजार दवरून दोळे धांपले.

'मार्था टिचरीचें बरें शाळेंत सुशेगाद न्हिदपाचें.'

सायमन सरांन सुरू केलें.

'टिचर राती जागरण जालें?...

निता टिचरीन प्रस्न केलो काय फकाणां केलीं समजलें ना.

'टिचरीचीं सदांच जागरणां.'

'आयज बरी ना ती व्हदळ सुपरविजन करतना जांबय दीत आशिल्ली. हांवें म्हज्या वर्गातल्यान पळयल्लें'

हांवें जाप केली ना. तकली वयर काडची अशें दिसलें ना. हीं फकाणां आतां सदांचीच जाल्लीं.

निमणीं बॅल वाजतकच सडसडीत भायर सरलें. भुरगीं म्हज्या पयलीं पावतलीं. घरा वचून रांदपाक जाय. आयज सकाळींय जेवणाची कांयच तयारी करूंक मेळूंक ना. स्कूटरीचो वेग इल्लो चडूच वाडयलो आनी घरचे वाटेक लागलें.

स्कूटर पार्क करून पळय जाल्यार भुरगीं दारांतूच उबीं आसात.

'मम्मा, डाडा दार काडना. कितलो वेळ आमी बॅल मारतात.'

हांवें विचारचे पयलींच धाकल्यान सांगलें.

'आमी व्हदळ पावल्ली. पंदरा मिनटां सुमार जालीं.'

व्हडल्यान रागान सांगलें.

'मेलो आसतलो भितर...' तोंडांत उतरां आयलीं पूण भुरगीं आसात म्हण वग्गी रावलें.

बॅगांतली चावी काडून दार उगडलें.

सॅमसन सुस्त घोरेतालो. हांवें हातांतलें बॅग रागान खाटीर शेवटिलें.

'मम्मा, भूक लागल्या..'

कपडे लेगीत बदल नासतना तशेंच किचनांत गेलें आनी शिताक आदन दवरलें. दुसरे चुलीर रातीची कडी गरम करपाक दवरली.

बेसीनांत सकाळची उरिल्लीं आयदनां धुवपाक हात घातलो. आयदनां हिसपाभायर गडगडपाक लागलीं. एक कप फुटलें. आवाजा सरशीं न्हिदिल्लो सॅमसन दोळे पुशीत फाटल्यान उबो जालो.

ठोऽऽ करून म्हज्या कानसुलार एक वाजल्या बराबर हांव न्हिनेळ्ळें. आयदनाचो आवाज एकदम बंद जालो.

'....इतलो वगत सुशेग आसलो. येवपा येवन आयदनां गडगडायता? सोंण फोडटलो.'

भुरगीं कपडे बदलतालीं. तशींच धांवत रडत म्हजे म्हाऱ्यांत आयलीं. हांवें दोंगांकूय वेंगेंत घेतलीं.

'चला, हात पांय धुवात. रोखडेंच वाडटा.'

भुरग्यांक कडेक काडून हांव कामाक लागलें.

* * *

कशेंय करून जिणेक एक वेगळें वळण मेळपाकूच जाय हो विचार ठामपणान मनांत घुंवतालो. हें अशेंच फुडें चल्ल्यार जीण सोपून वतली हें निश्चीत आसलें. फाटलीं स - सात वर्सां खूब सोशिल्लें फकत भुरग्यांक लागून सॅमसना पासून वेगळें जावपाचो निर्णय अडून धरतालें.

'तूं वच. भुरग्यांचें हांव चोयता.' सॅमसन सांगतालो.

'तूं कितें सांबाळटलो? भुरग्यांक सांबाळपाक तूं घरांत आसता तरी कितलो वेळ?.'

'भुरग्यांचो हुस्को तुका नाका. तूं वच एकदांचें.'

'हय. वयतलेंच हांव. आनीक नज म्हज्यान.'

'मम्मा, खंय वयता?'

भुरग्यांल्या प्रस्नाक म्हजे कडेन जाप नासताली.

पूण आतां सहनशक्तीचो अंत जावपाक लागिल्लो. वेवस्थीत जीण जगतलें जाल्यार सॅमसनाक सोडून वचपा शिवाय पर्याय ना हाची पुरायेन जाणीव जाल्ली. बंधनांनी घुस्पून उरल्यार हांव स्वताकूच शेणोवन वतलें हाचो दिश्टावो घडिल्लो. शाळेंत, विद्यार्थ्यांमदीं शेणत वचपी मान परत जोडपाची गरज आशिल्ली.

सॅमसन बॅल्कनीत फोन घेवन बशिल्लो. तो घरांत आसतनाच भायर सरप बरें.

'भुरग्यांचें आनी तुजें पळय तूं . शिकयता तुका सारकें... हांव वयतकच कळटलें तुका...'

बॅल्कनीच्या दारार रावन रागान उलयलें आनी रूमांत येवन गरजेचें सामान बॅगांत भरलें.

'वच गो तूं. तोंड बंद कर आनी वच.'

हांव बॅग घेवन दाराकडेन आयलें.

'मम्मा, वचनाका.'

'मम्मा, आमीय येतात.'

सालांत टिव्ही पळयत बशिल्लीं दोंगाय धांवत दाराकडेन आयलीं.

'कोण येवचो ना. डाडा सांबाळटलो तुमकां.'

फाटल्यान पळय नासतना हांव भायर सरलें.

'मम्मा राव ...'

म्हजे फाटल्यान धांवत येवपी भुरग्यांक सॅमसनान आडायलें.

सोपणां देंवन हांव सकयल आयलें. भुरग्यांचें रडप कानार पडटालें...

कुडी मनाची सगळी शक्त एकवटावन हांवें पावल उखल्लें. पूण पावल मुखार पडचे बदला फाटल्यान घुंवलें. धांवतच खिणांत हांव परत दारांत उबें जालें.

'परतून कितें खावपाक येयलां? मार नेटान गेल्लें.'

सॅमसनाच्या उतरां कडेन लक्ष दिनासतना हांवें रडपी भुरग्यांक लागीं घेतलें.

'तुमकां सोडून वचना हांव. आमी तिगांय या.'

'परत येयलां तें राव वग्गी भितर...'

'परत येयलां तें तुजी बायल न्हय. भुरग्यांची आवय...'

हांव नीट भितर गेलें आनी भुरग्यांचें बॅग भरूंक लागलें....

संपर्कः 7066604645

***



# रातेर

मानसी प्रे. धाऊस्कार

वाग फाटीक लागिल्लेवरी सियाची मम्मा ताटांतलें जेवण आपल्या तोंडांकडेन व्हरताली आनी तिचे दोळे मात हॉलांतल्या टि.व्ही.र लागिल्ले. सिया जेवतां जेवतां मम्माचेर नदर मारतालें आनी पप्पा कडेन पळोवन दोळे मोडटालें. तिणें आपलें जेवण सोंपयलें. तिचें सोमार ते शुक्रार मेरेनचें रातचें जेवण अशेंच धांवपळीचें आसतालें. कितलेंय बेगीन करतली म्हणल्यार शेवटाक उशीर हो जातालोच. मागीर हें अशें घाई घाईन जेवप जातालें. तिका तें अरगतीक पडनाशिल्लें खरें, पूण तिचे आवडीची टि. व्ही. सिरियल तिका चुकयन दिसनाशिल्ली.

आयजूय ती धुवे कडेन आनी घोवा कडेन लक्ष दिनासतना फटाफट जेवली आनी आपलीं उश्टीं आयदनां मेजारूच सांडून आंवपाक धांवली आनी पदराक हात पुशीत टि.व्ही म्हऱ्यांत बसकण मारली. तेन्नाच जायराती सोंपून मालिकेक आरंभ जाल्लो तें पळोवन तिका सू जालें आनी तिणें आपले दोळे टिवींत मुंगरले.

सियाच्या पप्पान आपल्यो रोटयो आनी भाजी सोंपयली. "पप्पा, आसूं हांव काडटां" अशें सिया म्हणटा आसतनाय ताणें आपले ताटा वांगडा आपले घरकात्रीचेंय ताट उखलें आनी बेसिनांत व्हरून दवरलें. ताका टि.व्ही. वयल्यो त्यो रडक्यो सिरियली पळोवपांत इंटरेस्ट नाशिल्ल्यान जेवणा उपरांत तो शतपावली करतालो आनी मागीर सकाळचो उरिल्लो पेपर वाचूंक बसतालो.

ह्या सिरियलांक लागून सगळें साफ करपाचें सियाचेरूच पडटालें. हें खबर आशिल्ल्यान सिया सवकासायेन जेवन मागीर मेज साफ करतालें आनी आपले कुडींत वचून अभ्यासाक बसतालें.

आतांय सिया जेवन उठलें, मेजा वयलीं सगलीं आयदनां ताणें बेसिनांत व्हरून दवरलीं. तांचेर उदक फाफडून रांदचे कुडींतली लायट वाडयली आनी आपले कुडींत वतां वतां मम्माचेर नदर भोंवडायली. ताची मम्मा ते सिरियलींत सामकी बुडून गेल्ली. परत जायराती सुरू जाय मेरेन तिचेर मळब लेगीत कोसळ्ळ्यार थंयच्यान ती हालची नाशिल्ली.

सिया कुडींत आयलें आनी आपलें पुस्तक घेवन वाचूंक बसलें. दामोदर मावज्याची 'जीव दिवं काय चा मारूं' ही नवी कादंबरी ताणें वाचूंक घेतिल्ली आनी अर्द्यार पाविल्लें. आयज आपूण ती वाचून सोंपयतलें अशें सियान थारायिल्लें. रातचें जेवणा उपरांत, न्हिदूंक वच्चे पयलीं निदान एक वर भर वाचन करप वा शिकप हो ताचो सदचोच नेम आशिल्लो. ताका टि.व्ही. वयल्या मालिकांत मात्तूय रस नाशिल्लो.

ताणें मेजा वयलें पुस्तक काडून बूकमार्क काडलो आनी वाचपाक आरंभ केला मात... ढण्ण... गडगडगड.... ठण्णठण्ण... असो रांदचे कुडींतल्यान आवाज आयलो. वाचनांत दंग आशिल्ल्या सियान कच्च करून आंग काडलें. टि.व्ही. पळोवपांत दंग आशिल्ल्या मम्माचे कानार हो आवाज काय पडपाची शक्यताय नाशिल्ली. आयकल्यार पप्पान. पूण ताचो खंयच पत्तो नाशिल्लो. भोवतेक भायर बल्कावांत गेला आसतलो..आनी अजापाची गजाल म्हणल्यार ताचे कानार आवयचीं उतरां पडलीं. "आगो सिया मातशें रांदचे कुडींत वचून पळय गो... हुंदरान काय माजरान आयदनां फोडलीं दिसता!"

आयदनां फोडूं ना तर गिळूं मम्माक आपले सिरियली मुखार तांचें कांयच पडून वचूंक ना हें सिया जाणां. तरी तिणें आवाज आयकलो आनी आपल्याक आवाज दिलो हेंच सियाक अजाप दिसलें. जायराती बी सुरू जाल्यो काय कितें...?

"आगे आमगेर माजर खंयचें.....? हुंदीर बीन आसतलो...! म्हाकां भंय दिसता गे हुंदराचो, तूंच पळय मगें मातशीं, हांव हांगां अभ्यासाक बसलां."

"भंय कसलो? हुंदराचेंच पोर आसतलें तें. म्हज्या कानार वेदोळ चूं चूं आवाज आयल्लो... कितें फोडलां तें पळय तरी वचून मातशें..खायना तुका तें."

मम्माच्या धेंगशा मुखार निरूपाय जावन सिया मेजा वयलें उठलें. भीत भीत रांदचे कुडींत गेलें. वण्टीक सांसपून लायटिचो बटन सोदून काडलो आनी लायट पेटयली. रांदचे कुडींत दोन तीन आयदनां जळामळाक पडिल्लीं आनी लाडवांचो एक डबो ओट्यार पडून दोन तीन लाडू पिठो जावन पडिल्ले. एक आडसाटो हुंदीर आपल्या पांयांर बसून हातांत लाडवाचो



कुडको घेवन चुरू चुरू करून खाता म्हणपाचें सियाचे नदरेक पडलो. लायट पेटल्या बराबर हातांतलो लाडू थंयच उडोवन तो ओट्या पोंदां रिगलो. सियान तें पळयलें आनी किंळच्यो मारीत सालांत धांव मारली.

"आगो कोणें खालें गो तुका?" टिव्हीचेर सिरियल पळोवपाक दंग आशिल्ले आवयन सियाचेर धेंगसो घालो.

"आगे खालें कितें..?" हुंदरान आयदनां फोडलीं आनी लाडू खाले. हॉलांत भितर सरून आवय म्हयांत बसकण मारीत सियान म्हणलें.

"आगे म्हजे बाये! लाडवां डबो फोडलो....? दिवाळेक मावशेगेर धाडपाक केल्ले मगो ते ...पाडा पडूं त्या हुंदराचें..." अशें म्हणत सियाची आवय उठली आनी रांदचे कुडींत धांवली.

क्लायमॅक्साचेर पाविल्ल्या सिरियलींतलो प्रसंग चुकोवन हुंदराक पळोवंक वच्चें पडिल्ल्यान सियाची आवय तिडकल्ली. ती रांदचे कुडींत पावली आनी थंयचो तो पसारो पळोवन तिची तकलीच घुंवली.

"खंय आसात तुमी...? मातशे हांगां येयात.. पळयात हुंदरान कितें केलां तें हांगां!" सियाचे आवयन घोवाक आपयलो. बायलेचो आवाज कानार पडले बराबर हातांतलो पेपर मेजार उडोवन सियाचो पप्पा रांदचे कुडींत धांवलो.

"पळय ...पळय...हुंदरान कितें सांवार केला तो...!"

"मागीर हांव कितें करूं..? हांवें कर म्हूण सांगलां ताका...?"

"कोण कोणांक सांगता तर... त्या हुंदराचें कितें करपाचें तें पळयात. सगलीं आयदनां फोडून वाट लायली... मुगांचे लाडू केल्ले ताची वाट लागली." लाडवांचो डबो सारको करीत आनी भायर पडिल्ले लाडू डब्यांत घालीत सियाचे आवयन म्हणलें.

"आगे आई तें कितें करता? तेच लाडू परत डब्यांत भरता? कोण खातलो ते? त्या हुंदरान तातूंत कितें कितें केलां तें ताकाच खबर!"

"मागीर कितें भायर उडोवपाचे ते इतलो खर्च केल्ले.?"

"मागीर दी तर व्हरून मावशेक ते..खावनी तिका पोटभर."

"चड सुबेज जालां तूं. चल सोद त्या हुंदराक. आनी तुमी कितें कमरार हात धरून पळयतात? पळयात तो खंय गेला तो!"

"तुमचें आवय धुवेचें पेंपारें आयक सर तो रावला तर तुमकां?" अशें म्हणत सियाचो बापूय परत हॉलांत वचपाक लागलो, तशें सियाचे आवयन ताका परत आडायलो.

"कितें धरलो हुंदीर? एक दीस लेगीत म्हाकां सिरियल सारकी पळोवंक म्हूण मेळना. हांव ती अर्द्यार सोडून हांगां नाचतां आनी तुमी अशे किंकोंत करून भायर वतात. सोदात ताका खंय गेला तो. चल गो सिया बडी आनी बॅटरी दिवो घेवन यो."

"रात जाली मगे. आतां खंय सोदप ताका? फाल्यां पळोवंया." सियान पिरंगत म्हणलें.

"हय वय फाल्यां मेरेन रावतलो तो आमकां आरती ओवाळूंक! तो मेरेन फोडुनी उरिल्ली आयदनां." अशें म्हणत सियाची आवय ओट्या सकयलीं आयदनां भायर ओडूंक लागली.

आतां हुंदराक सोदले बगर पर्याय ना हें चिंतून सिया आनी सियाचो बापूय हुंदराच्या सोदाक लागलीं. सियाची आवय जळामळा पडिल्लीं आयदनां जाग्यार घालीत हुंदराक खेपपाक लागली. सियाच्या बापायन ओट्या पोंदचो गॅस सिलींडर धरून सगल्यो वस्तू हालयल्यो पूण त्या हुंदराचो पत्तो नाशिल्लो.

"आई गेलो गे तो. फाल्यां पळोवंया!" व्हडली जांबय काडीत सियान निर्णय घेतलो.

"हय वय फाल्यांच धरया ताका रातेरांत." अशें म्हणून सियाचो बापूय भायर वचूंक लागलो.

"फाल्यां धरया आनी आयज कितें उरिल्लीं आयदनां फोडूंक लावंया? कांय ना. वचून हाडात सोदून रातेर. म्हाकां सिरियल चुकली हाचें कोणाक पडून गेल्लें ना." सियाची आवय बडबडत रांदचे कुडींत हांगां थंय त्या हुंदराक सोदपाक लागली.

हुंदराक धरल्या बगर आतां पर्याय ना हाची खात्री जाले उपरांत सियाचो बापूय माळ्यार उडयल्लो रातेर घेवन आयलो. ताका बरो झाडून बिडून आपले बायले मुखार धरीत ताणें 'घे' म्हणलें..

"घे कितें? हांव वचूं तातूंत?"

"गेल्यार बरी जातली." सियाचो बापूय आपले भितर पुटपुटलो आनी हांसलो.

"कितें?"

"रातेराक कितें घालूं काय म्हणटालों?"

"आगो सिया ताका होडड तो डबो उगडून तातूंतल्या सुक्या बांगड्याचें बोडूक काडून दी. बांदूनी रातेरांत."

"आगे बांगड्या बोडूक कित्याक? लाडूच दवर मगे! ताका सारखो खावंक मेळूंकच नासतलो बाबड्याक!"

"हय हय बाबडो! वच पयलीं घेवन यो बोडूक."

सिया डबो उगडून बांगड्याचें बोडूक घेवन आयलें. रांदची कूड खाऱ्याच्या वासान भरली. सियाच्या बापायन तें बोडूक रातेरांत वेवस्थीत बांदलें आनी रातेराची तपासणी केली.

"बोडकाच्या वासान तो हुंदीर असो रातेरांत भितर येतलो. हळू हळू असो भितर वतलो. ह्या बोडकाक तोंड लावन घांस मारतलो."

सियाय उत्सुकतायेन आयकतालें आनी रातेराक पळयतालें.

"पप्पा, तो डायरेक्ट घांस मारचो ना. पयलीं वास घेतलो आनी मागीरूच घांस मारतलो."

"कसोय मारूं, घांस मारतलो मुगो? चल दवरात थंय रातेर आनी वचात न्हिदूंक. रात जाली." हात धुवन ते पुसत सियाचे आवयन म्हणलें.

"वतां गे. पूण तो रातेर चलता काय ना पळोवं नाका.?"

"तुजें बोट घाल, वचूं दी कापून.!"

आयकून सियाक धस्स जालें. म्हणचे हुंदीर त्या रातेरांत मरतलो? ताणें पप्पाक रातेराचें मॅकानिजम विचारलें.

"आगो हुंदीर असो भितर सरतलो, अशें तोंड लायतलो आनी रातेर हाल्ल्या बराबर ही स्प्रिंग सुटून हे धारेचे कात्रेंत ताची मान सांपडटली...कच्च.. काम तमाम..!"

आयकून सियाचें आंग शिरशिरलें. हुंदीर

गोमटी कापून मरता ही कल्पनाच ताका सोंसना जाली. तातूंत तो हुंदीर सामको भुरगो आशिल्लो. येदोळ लाडू खातना ताणें ताका पळयिल्लो. इतल्या ल्हान हुंदुल्ल्याक म्हण अशें मारप? कल्पनेनूच सियाक चर्रर जालें.

आनी कितें करूं येता काय? सिया येवजूंक लागलें. हुंदीर घरांत उरलो जाल्यार सगल्याची वाट लायतलो. ताका घरांतल्यान भायर काडप गरजेचें. पूण ताका मारप होच पर्याय काय? ताका आनीकूय पर्याय आसूं येतात. तो प्राणी विद्वाटो आसल्यार बुद्धिची देवता ताका आपलें वाहन करचो नासलो. वाहन म्हणल्यार कितें? उदरगतीचें प्रतीक. तें आमी अशें खुनशीपणान नश्ट करप कितलें समा काय? विचार करीत करीत सिया आपल्या पप्पाकडेन वता.

''पप्पा, हुंदराक मारिनासतना ताका रातेरांत कसो धरूं येता?''

न्हिदपाचे तयारेक लागिल्ल्या पप्पान सिया कडेन पळयलें. सियाक सगल्या मोनजातीची तशेंच हेर प्राण्यांची रोखडीच काकूट येता हें ताका खबर आशिल्लें. हुंदराक मारपाची आपणें जी मांडणी केल्या ती सियाक मानवची ना हेंय ताका खबर आशिल्लें.

''सिया हुंदराक असो जितो मारिल्लो तुका नाका हें हांव जाणां. मागीर ताका करप कितें?''

''पप्पा ताका घरांतल्यान भायर काडूंक धरूंकूय जाय आनी ताणें मरूंकूय फावना असो कितेंय उपाय काड न्ही.''

''आगो रातेर मांडलो म्हणटकच तातूंत तो सांपडटलोच! पळय तूं सकाळीं, तुका तो मेल्लोच सांपडटलो. रातेराचें कामूच तें!''

''ताचे कडेन फकत धरपाचेंच काम जायना?''

''जायना कित्याक? कात्रिची स्प्रिंग काडपाची आनी रातेराच्या दाराक लावपाची. बांगड्याच्या वासान हुंदीर भितर सरता आसतना रातेर हालतलो आनी स्प्रिंग सुटून हुंदीर भितर गेले बराबर दार बंद जातलें. बसुनी मागीर हुंदराक भितर बांगडो खायत.'' अशें म्हणत सियाचो पप्पा हांसलो. सियाकूय ही कल्पना आवडली. पूण आतां तर रातेर मांडून जाल्लो.

सिया कितें विचार करता हाची कल्पना सियाच्या पप्पाक आयिल्लीच. ताणें आपले कुडींतलो अदमास घेतलो. सियाची मम्मा येन्नादर न्हिदल्या हाची सुलूस घेतली आनी कुरवेनूच सियाक ताणें आपले वांगडा आपयलें. सिया आनी सियाचो पप्पा रांदचे कुडींत गेलीं. अजून हुंदीर रातेरा कडेन पावूंक नाशिल्लो. सियाच्या पप्पान रातेरांत हात घालून कात्रिची स्प्रिंग काडून घेतली. तेच स्प्रिंगीन रातेराच्या दाराक हूक लायलो. दोन तीन खेपो दार हाल्ल्या बरोबर स्प्रिंग सुटून रातेर बंद जातलो हाचो ताणें सराव करून पळयलो. पप्पाची ती करामत पळोवन सिया सामकें अजापलें. रातेर कुशीक दवरून लायट पालोवन दोगांय न्हिदपाक गेलीं.

सिया आपले कुडींत वचून हांतुणार पडलें. पूण बरोच वेळ ताचें विचार रातेरा भोंवतणीच फिरताले. कांयच त्रास जायनासतना तो हुंदुल्लो रातेरांत सांपडटलो कांय ना, सांपडटलो जाल्यार ताका सकाळीं खंय व्हरून सोडप? हाचेर विचार करतां करतां ताका केन्ना न्हीद लागली हें ताकाच कळ्ळें ना.

सकाळीं ताका जाग आयली ती मम्माच्या आवाजान.

''आयकलां, रातेरांत हुंदीर सांपडला. पूण तो मरूंक ना. असो कसो हो रातेर?''

हुंदीर सांपडला हें कानार पडल्या बराबर हांतुणार लोळत पडिल्ल्या सियान उठचे उठून रांदचेकुडीची वाट धरली. रातचोच हुंदीर आतां त्या रातेरांत आडखळून पडिल्लो. सुटपा पासत रातेरभर वयर सकयल धांवतालो. रांदचे कुडींतलो बोवाळ आयकून सियाचो पप्पाय आतां थंय पावलो. रातीं बापूय धुवेन कितें कारस्थान केल्लें हाची कल्पना सियाचे मम्मांक नाशिल्ली. ती आतांचे रातेरूच कशें निरूपेगी म्हणत लातेराक दुशण दिताली. सिया आनी सियाचो पप्पा एकामेकांक पळोवन मात मुमुरख्यांनी हांसतालीं.

''रातेर निरूपेगी. आतां ताका मारप कसो? चल गो सिया दोन बडयो घेवन यो आमी दोगांय रातेराच्या दारार बडयो घेवन रावुंया तुमी रातेराचें दार उगडपाचें. हुंदीर भायर आयले बराबर आमी धपाधप हुंदराक दाळाक लायतात.'' सियाची मम्मी झुजामळार उबी रावन दुस्मानांक दाळाक लावपाची खबर करता तशी कितें तरी उलयता अशें सियाक दिसलें.

''नाका गे मम्मी, बडी लागून ताची तकली फुट्टली. ताका आमी पयस व्हरून सोडया पळोवंया.''

''सोडया बिडया कांय ना... हुंदीर तो ! परत येतलोंच. हांव सांगतां तें कर पळोवंया.''

''पूण मारपाक म्हजे हात उबारचे नात. काय बरो दिसता पळय.सामको क्यूट. अजून भुरगो आसा तो.''

''आगो बाय, त्या हुंदरा परस तूं चड भुरगें आसा. तूं वचून हाड पळोवंया दोन बडयो. हांव आनी तुजी मम्मा ताका शेपलायतात. तूं रातेराचें दार अशें उगडपाचें'' सियाक दोळो मारीत पप्पान म्हणलें.

तशें नाईलाज जाल्ले वरी तोंड करीत सिया दोन बडयो घेवन आयलें. ताणें एक पप्पाच्या हातांत दिली आनी एक मम्माच्या. मम्मा आनी पप्पा आकांताची शिकार करपाची पोज घेवन तयारेंत रावलीं.

सिया रातेरा कडेन गेलें आनी 'उगडटां आं... उगडटां...' म्हणत ताणें रातेराचें दार उगडलां मात, भंयान आबूज जाल्ल्या हुंदुल्ल्यान रातेरांतल्यान भायर उडी मारली. हातांत बडी घेवन तयारेंत आशिल्ल्या मम्मी पप्पान धपाधपा हुंदराचेर बडयो घाल्यो. पूण मम्माचो तीर पप्पाच्या वाराक लागून चुकलो आनी हुंदराचेर पडपाची पप्पाची बडी मम्माचे बडयेर पडून कट्ट आवाज जालो.

आवाजा बराबर सियान आपले दोळे गच्च मिटून घेतले. 'देवा सायबा, फुटली दिसता हुंदराची तकली' आपल्याक आतां हुंदराची भातेरी पळोवंक मेळटली अशें चिंतून ताणें भीत भीत दोळे उगडले जाल्यार पप्पाचे बडयेन मम्माचे बडयेचे दोन कुडके केल्ले. आनी हुंदीर?

तो हुंदुल्लो जिवाच्या आकांतान शेपडी तुटसर शेता वाटेन फुज्यो काडटना सियाचे नदरेक पडलो.

संपर्क: 8788595022

***



# फुलहिरे

## निमिशा हरी होबळे

''बरी जाल्यात न्हू गे कानांतली? हांणी बाये आपल्या धुयेक धाव्या वाडदिसाक म्हूण केल्यात. ना ना म्हूण धा हजार जालें. जांव, धूव खूश जाल्यार घर खूश. येता हांव. वाडदिसाक येयात आं.'' मिराकाकीन हातांतल्या कानांतल्याचे डबयेक तोखेत, जतनायेन गुड्डुल्या घराची सोपणां देवून घराची वाट धरली.

गुड्डूचे मम्मीन येदेशें तोंड करून ''आं येतात.'' म्हुणून हात दाखयलो.

''मम्मी, म्हाकाय बी जाय कानांतली. अदीतीचो आयज वाडदीस आनी आजूच ताका चकचकीत कानांतली मेळ्ळीं. म्हजो तर धावो वाडदीस पयरूच जालो. तुमी कित्याक म्हाका करूंन ना गे कानांतली?''

''बाये गो म्हाजे, अदितीचो बापूय बरो सिर्विसेक आसा. म्हयन्या-म्हयन्याक तांगेर सारकी येणावळ येता आनी तुज्या पप्पाक तर दोन-दोन म्हयन्यांनी पगार मेळटा. हांगा रांदपाक सामानूच मेळपाक एक एकदां कुस्तार जाता. तुका आनी खंयची कानांतली करुं?'' दोळ्यांक पदर लावन गुट्टीची मम्मी रांदच्याकुडींत गेली.

''सिर्विस'', ''येणावळ'' ही उतरां गुड्डूच्या माथ्यावयल्यान गेलीं. ताच्या 'कानांत-मनांत-दोळ्यांत' फक्त कानांतलीच घुंवतालीं. कितेंय करून आपल्याक कानांतली जायच हो ताणे खर निश्चेव केलो. धांवचेल्याचे सर्तीपयलीं जैत मेळोवपाखातीर जी जिद्द दवरून खर कसरत करची पडटा, तशेंचशें जिद्दीन कानांतल्यांखातीर मनोवपाचो यत्न तें करीत रावलें.



केन्ना सकाळीफुडें उठून खळ्यांत सात्र मारून, तर केन्ना मम्मी-पप्पाक जमता तशी गोड मेल कशी च्यां करून दिवन मनोवपाचो गुड्डूचो यत्न चालूच आसलो. ती दोगांय खोशी जाल्या उपरांत 'केली मगे तुमचीं कामां! आतां म्हाका कानांतली करात' हें सांगणे तें तांच्या मुखार घालतालें. गुड्डूचे सांगणें आयकून मात मेल जाल्ली च्या लेगीत मम्मी पप्पाक पचकी लागूंक लागताली. जालें! कामां करून मनोवपाची येवजण अपेशी थारली.

आतां गुड्डूचो हट्ट दिसानदीस वाडपाकूच लागलो. सकाळीं उठल्या उपरांत 'कानांतली' जाल्यार दनपारां, जेवताना 'कानांतली'! रातचे न्हीदच्यापयलीं लेगीत 'कानांतली' कानांतल्याचें भजन तें दीस रात मम्मी-पप्पा फुड्यांत गायत रावलें. तीं दोगांय मात भजन चालू जालें रे जालें, सोमते कानार केंस काडटाली.

म्हयनो जालो तरी गुड्डूचे यत्न फळाक येवंक ना. ताच्या मनांत आता राग घर करूंक लागलो. बारीकश्या गजालीर लेगीत तें ल्हाय कशें उसळूंक लागलें. वर्गाचें मॉनिटर आशिल्ल्यान तर ताका राग काडपाक आयतीच संद मेळटाली. एकदां वर्गांतले विनीश आनी अमीत 'पॅन फायट' खेळटाले. तांचेकडल्यान गुड्डून पॅनांच काडून घेतलीं. विनीश ताका दांत ओंठ खायत पळयत रावलो.



शाळेत येता-वतना वाटेर म्हालक्ष्मीचें देवूळ लागतालें. गुड्डू निमणी आस घेवन देवळांत भितर सरलें.

''देवी, तुजेकडेन खूब भांगर आसता म्हूण मम्मी सांगता. म्हाकाय बी म्हजें भांगर जाय गे. मम्मी पप्पाक मनोवपाक वाट दाखय गे देवी.'' रडकुळणेक येवन ल्हान पोरान ल्हानश्या तोंडांत आपल्याक जाता तशें म्हालक्ष्मीक गाराणें घालें.

देवीक सांगून घेतलां म्हळ्यार कानांतलीं मेळटलींच हे आशेन गुड्डू घरा आयलें. आनी गुड्डूले देवीन आयकलें! ताच्या तकलेंत उजवाड पडलो. जो मेरेन आपल्याक कानांतली मेळनात तो मेरेन आपूण जेवण जेवचेंना असो ताणे हट्टूच धरलो.

निमणें मम्मी-पप्पाक आपल्या धुवे मुखार मारतें घेंवचेंच पडलें. काळजार फातर दवरून मम्मीन आपल्या लग्नाची कानांतली मोडून गुड्डूक सोबीतशी फुलां आनी हिऱ्याची कानांतली केलीं.

कानांतलीं कितली सोबीत म्हूण सांगूं? नाजूकशीं भांगराळी फुलां आनी मदेकात नखेत्रावरी चकचकपी हिरो. तीं पळोवन गुड्डूचे खोशयेक, शीम-मेर उल्ली ना. ताका ती कानांतली खंय दवरूं आनी खंय नाका शी जाल्ली. ताणे तांका 'फुलहिरे' म्हूण नांव दवरलें. सगळ्यांत पयलीं तें मामईन दिल्ले बेसनाचे लाडू घेवन म्हालक्ष्मीच्या देवळांत गेलें. ''देवी, म्हाका कानांतली दिली तेखातीर तुका लाडू घेवन आयलां पळय.'' अशें म्हुणून

(पान ८१ चेर)



# सुतक

विशाल गांवकार

हांव सदच्या भशेन हॉलानूच न्हिदिल्लों म्हणटगीर भायर पडवे वयल्यान कोणेय उलो मारलो की ज्युस्त कानार पडटालो, हांवे न्हिदेंतूच कान लावन आयकल्यार भाव कोणाकडेन तरी गुणगुणटा, आज हो बरो आसा तरी पासयेक वचुंना म्हण म्हज्या मनान प्रस्न निर्माण जालो. तो सकाळीं फुडें उठून पासयेक वता. म्हजी न्हीद पुराय करपाक परत दोळो लागता थंय आसा, इतल्यान भाभीची घांट चालू. बायेक आनी बाबुक शाळेक वचपाक उठोवपाक! हांवें असोच घड्याळीचेर दोळो धुंवडायलो पळयल्यार ७ वरां जाल्यातीं पळोवन हांव सडसडीत उबो रावलों जालो आनी तितल्यान भाव हॉलाचें दार काडुन भितर पावला.

"तो गेलो"- भाव

"कोण गेलो?" - हांव

"दाद गेलो" - भाव

"किर्ते जालें तर रे?" - हांव

"फांतोडेर उठून परसा कडेन गेल्लो परत घरा आयलोच ना म्हण घराकडलीं सोदपाक पावलीं, पळयल्यार थंय जमनीर पडिल्लो मेळ्ळो. थंयच गेलो."

आमच्या हांगा 'गेलो' म्हणल्यार 'मेलो'. लोकांक मेलो म्हणप वायट दिसता म्हण गेलो अशें म्हणटात. इतलें सांगून म्हाका उसरां उठला तें पळोवन भावाची उतरां. हांव सोडून घरांत सगळींच बेगीन उठ्ठात. "रेड्या हो उठपाचो वेळ रे? कामाक वचपाक नाका?" - भाव

"हांव वचूं तर रे कामाक?" - हांव

"तूं हांगा रावन किर्ते करतलो? तूं वच कामाक." - भाव

म्हाका दिशिल्लें आज घरा राव बी म्हणटलो म्हण. राव म्हणिल्लें जाल्यार म्हजी न्हीद बी कुंभकर्णाभशेन जावपाची. गांवचो म्हणटगीर घरान घर एकटो तरी मनीस मेला ताचें मरण करपाक रावतात आनी तो एकूच दिस सगळे भेदभाव करीनामतना कुड घराकडल्यान मसुंडेकडेन पावन उजो घालीसर एकठांय रावन सगळें काम करतात. तशेंच सगळे एक एक मनीस आपुण मरतगीर आपल्याक जळोवपाची तयारी दवरता. भाव घरा आसा म्हणटगीर हांव गडबडीन कामाक वचपाक भायर सरलों. पळयल्यार बाय आनी बाबू गुटली करुन न्हिदल्यांत, आज शाळेक कित्याक धाडुना कांय म्हण विचारल्यार आज धाडीना तांका म्हण भाभीन जाप दिली आनी दोगांकूय मरणाची सुट्टी मेळ्ळी. म्हाकाय कामाचे राव म्हणिल्लें जाल्यार बरें दिसपाचें. गांवांत चाळीशेक घरां आसतलीं. कोणुय जर गांवांत गेलो म्हणजे मेलो जाल्यार सगळे गांवचे लोक सुतक धरतात आनी तें बी सुतक मनशाक उजो लायतगीरुच लागता.

कोणाचाय घरान लग्न थारावपाचें आसा जांव, सोयरागत बी करपाची आसा जाल्यार घरच्यांक सोडुन आनी कोणाक कळपाक दिनात शेजाऱ्याक तर अजीबात ना. कोण केन्ना कसल्यो चाडयो बी करुन सोयरगत मोडीत बी जाल्यार? पुण सगळें ठरलेकडेन आसतना अकस्मात गांवांत कोणूय मरणाच्या धडेर बी पावता तेन्ना लग्नाच्या घरांत सगळ्यांचेच काळीज वयर सकल जावपाक लागता आनी लग्नाची तारीख फुडें व्हरप कांय ना ती थरोवपाक कोण मरणाच्या धडेर आसा ताच्या खबरीक पावता. ते खबरीक वता काय तो मरच्या पयलीं किर्ते थरलां तें जातलें कांय ना तें ताचें तोच पळोवन थारायता.

हांव कामार आसतना दोग चौग जाणांनी फोन करुन ४० आनी ०४ मटक्याक नंबर लावपाक लायले. मेला ताचीं वर्सा ४० म्हण म्हाका आनी कोणाक विचाराचें पडुंना. हांव काम करता थंय एकटो फुडल्यान गाड्यार चार पांच चॉकलेटीचे डबे दवरुन लिपून मटको घेता. हांवे नंबर लायलो आनी म्हज्या कामाक परत व्यस्त जालों.

हांव सांजेर कामावयल्यान घरा पावलों. भितर कुडींत वचुन पळयल्यार सगळे कपडे गायब. सदची न्हीदपाची चादरां ना तें पळोवन हांवे भाभीक म्हजे कपडे काडून कित्याक दवरल्या तें विचारल्यार तिणे म्हाका सुतकाची याद करुन दिली. वेल्यान सायडीक काडुन दवरिल्ल्या कपड्यांक हात लायल्यार धुवपाक म्हाकाच लायतली म्हण धमकी मेळ्ळी. (हय तेंवूय बी तिचें सारकें. सगळ्यांचे कपडे तीच धुता) म्हाका सुतक हे यादूच नाशिल्लें. घरांत पळयल्यार खूप तेंपान जागो आसा काय दिसतालें. चड करुन म्हज्या कुडींत इतलो जागो खंयच्यान जालो तें पळोवन अजापुच दिसलें. सगळें घर जें निवळ जाता तें असल्याच दिसांनीं आनी सगळ्यो वस्तु आप आपल्या जाग्यार थंयचे थंय उरतात. त्या भायर कमीत कमी कपड्यां भीतर अकरा दीस कशे काडप तेंवूंय बी पावसांत? कोणूय मेलो जाल्यार ओले कपडे चुलीकडेन सुकत घालून ताचो अणभव बेस बरो येता.

मरण जालें कीं लोक मातशी काळखी पडटा काय मरण पळयतात. घरांतल्यान पावल भायर काडीनात. शेजाऱ्यांगेर वचपाचें सोडुनुच दियात. आज घरांतल्यान भायर सरचो ना म्हण म्हाका तापोवणी पडली. हरशी आमी चकाट्यो मारपाक सगळे भुरगे तीस्कार जमतालें आज तेंवूय बी ना. हांव देवाऱ्या म्हऱ्यांत चुकुन वचपी. पुण म्हाका न्हिदील्लेकडे जळारी बऱ्योच चाबल्यो म्हण हांव उजवाती सोदीत देवाऱ्या कडेन गेलो, थंय बसुन जप करप, आरती म्हणप हें घरांतल्याचे सदचेच काम, देवाक वात आनी उजवाती लायल्ल्याबगर एक दीस रिकामो वचना पुण त्या राती दिवली रिकामी आनी उजवातीचो वास नाशील्लो (एका वेळार अशें दिसलें की देवाक बी सुतक लागता काय म्हण) हांवे दोन उजवाती काडुन पेटयल्यो आनी जळारांक धांवडावपाक हॉलान हाडून लायल्यो. आता

उजवाती तरी मेळटा ना जाल्यार एका वेळार शेणयो पेटोवंच्यो पडटाल्यो.

दादाक उजो घालुन तीन चार दीस जाल्ले, हांव कामावयल्यान घरा येतालों. वाटेर म्हाकां जो मेला ताचो भाव मेळ्ळो. मरणाक रावलो ना म्हणटगीर आज रावन जाप करया म्हटली. दादाचें नक्षत्र वायट लागलां, वायट टायमार मेलो अशें घराकडेन उलयतालीं तें आयकल्लें, तरी म्हज्या कडेन ताका विचारपाक कांय नाशिल्ले म्हण हावें ताका नक्षत्र बी बरें आसा मरे दादाचें? म्हण विचारलें.

"ना रे! नक्षत्र वायट खंय! घर सोडचें पडलां तीन म्हयने" - सांगतना ताच्या अपलार आठयो पडल्यो

"मागीर रे?"

"भट म्हणटा शांती केली जाल्यार घर सोडचें पडपाना म्हण."

घर सुटप म्हळ्यार मरता ताचो आत्मो तितले म्हयने घरांत रावता आनी तो तेंप सोंपलो कीं तो घरांतल्यान वता असो लोकांमदी समज आसा.

कोणुय मेलो जाल्यार नक्षत्र पळयतात तें खबर आशिल्ले. तें कित्याक पळयतात, मरतल्याचो आनी ताचो संबंद कितें हाचें म्हाकां कायच खबर ना, लोक नक्षत्र वायट म्हण तीन म्हयने, पांच म्हयने घर सोडचें पडलें म्हणटात तें जाणां. हांव चिंतपाक पडलो. तीन म्हयने घर सुटलां, भट म्हणटा शांती केल्यार घर सोडपाची गरज ना म्हण. जाल्यार भट नक्षत्र वायट म्हण कित्याक सांगता?

नक्षत्र कितें म्हणटा तें मळबांत दीसता तेच आसता अशें दिशिल्लें हे कसलें ते खबर ना. अशेंच एका वळखीच्या मनशावांगडा घडिल्लें. नवेंच घर बांदिल्लें आनी तांचो बापुय गेलो, नक्षत्र वायट म्हण पांच म्हयने घर सोडपाक लायलें, शांती करपाक भटान ४० हजार सांगले, तो शांती करपाक नाका म्हण पांच म्हयने नवे घर बंद करुन फाटल्यान खोपींत रावलो. हातूंत मेला त्या मनशाक मरतगीर सुदा सुख ना म्हण हांवे तेका तेच नक्षत्र दुसऱ्या भटाकडेन पळोवन घे म्हण सांगले आनी हांव थंयचान भायर सरलो. करता म्हणल्या ११वो दीस पावलो आनी म्हाका सकाळीफुडे पांच वरांचेर न्हिदेंतल्यान उठोवन घालो जो हांव केन्नाच उठना.

म्हाका उठून पयली न्हांवचे पडले. बांयचेर वचुन ताजे उदक कळशान भरुन घरा घेवन येवंचे पडले. बांय आनी बाबू इश्कोलाक वतात म्हणटगीर तांका ताजे उदक, गाये मुत, शेण आनी तुळशी पानां उदकान मिक्स करुन पंचगाव्य म्हण पिवपाक दिलें आनी तांका शाळेंत धाडलें. भटान दिल्ले पंचगाव्य गांव भोंवत पावता म्हणसर वेळ लागता, हांव कामाक वचपाक भायर सरता म्हणसर भटान दिल्ले पंचगाव्य घराकडेन पावलें. हांवें केल्लें ते सायडीक उडोवन त्याच पेल्यान भटालें पंचगाव्य घेतलें आनी हांव सोडून सगळ्यांनी ते पिवन सुतक सोंपयलें.

संपर्क: 9158842603

***

*(पान ८७ वयल्यान)*

लाडवांचेर फूल घालून ताचो प्रसाद करून देवळांत आशिल्ल्यांकूय गुड्डून तो नाचत-नाचत वांटलो. प्रसाद वांट्टना तें आपल्या फुलहिऱ्यांक मिरोवपाक विसरुंक ना.

गुड्डू वरां वराक पांच-स फावटी तरी आपल्या कानांक हात लावन हारश्यांत पळोवन तोखेतालें. हिरो जसो चकचकलो रे चकचकलो, तें आपल्याभितरूच मुरगुट्टालें!

शाळेंत वतना वाटेर जेन्ना मिराकाकी मेळ्ळी तेन्ना गुड्डू तिका आपले फुलहिरे दाखोवंक विसरूंक ना.

"काकी, पळय, मम्मी-पप्पान कानांतलीं केल्यांत म्हाका. म्हजे फुलहिरे अदितीच्या कानांतल्यापेक्षा सोबीत दिसता आं." कुचू-कुचू करून हांसत गुड्डू शाळेच्यावाटेन धावलें. मिराकाकी मात सोणो फुलोवन आपलेभितर बडबडपाक लागली.

"धूव खूश जाल्यार घर खूश." गुड्डूची मळबाइतली खोस पळोवन ताची आवय लग्नांतली कानांतली मोडपाचें दुख केन्नाच विसरुन गेली. तिणे अचळय मोगान ताच्या केसावयल्यान हात भोंवडायलो.

दुसरे दिसा गुड्डू उसरां उठलें. कळाव जालो म्हण च्या घेनासतनाच शाळेंत धांवलें. शाळेंत अर्दो दिस असोच अभ्यासांत गेलो. मदले सुटयेंत मात ताका आपल्याक फुलहिऱ्यांक तोखेवपाची उमेद जाली. ताणे आपल्या दोनूय कानांक हात लायलो, पळयत जाल्यार कितें? उजव्या कानांत फुलहिरो ना! गुड्डून आबूज जावन व्हडली किळांच मारली तशें वर्गांतल्या भुरग्यांनी आंग काडलें.

"म्हजो फुलहिरो... खंय गेलो काय? खंय शेणलो? ताका सोदपाक म्हाका मदत करात." गुड्डू पिशें कशें सगळ्याक सास्पूंक लागलें. ताची अवतीकाय पळोवन बाकीचीं भुरगीं लेगीत कानांतलें सोदपाक लागलीं. कोणे बांक हालोवन पळयलें तर कोणें वर्गात सात्र मारुन पळयलीं. सगल्यांनीं आप-आपलीं बॅगां परतून पळयलीं. पूण कानांतलें मात खंयच मेळ्ळें नां.

गुड्डूच्या दोळ्यांतल्यान आतां दुकां घुसघसो कशी व्हावूंक लागलीं. सगलीं ताचेकडेन काकुळटेन पळयतालीं. ताच्या इश्टीणींनी, ताका थातारपाचो यत्न केलो. मात मस्त्या विनिशाक गुड्डू रडटा तें पळोवन मजाच दिसली. "दुसऱ्याचीं पॅनां काडून घेता मगो? आमकां त्रास करता मगो? बरें जालें. तुजें कानांतलें शेणलें तें. तुका अशेंच फाव!" विनीश खू-खू करून हांसलो.

गुड्डू आतां आनीक आकांतान रडपाक लागलें. दाव्या कानांतल्या फुलहिऱ्यांक घट्ट धरून तें हुंडकेवंक लागलें ताची तकली कणकणपाक लागली. ताका अख्खो वर्ग घुंवता सो दिसलो आनी त्या घुंवत्या वर्गाबराबर ताच्या दोळ्यांमुखार मम्मी, पप्पा, मिराकाकू, अदितीची कानांतलीं, आनी उजवो फुलहिरो लेगीत घुवूंक लागलो!

संपर्क: 9420687620, 8329532163

***



# बाजाराचो दीस



**कन्नड कथा– लेखक: जयंत कायकिणी          कोंकणी अणकार: रमेश लाड**

उपनगरी स्टेशना भायर लाल बहादूर शास्त्री रस्त्याचे देगेर आपणाल्या गाड हळदुव्या रंगाच्या बोर्डान नदर ओडपी झेरॉक्साचें दुकान आनी ताका तेंकून फुटपाथाचेर चौकोनी प्लायवूड बॉक्साचेर फळां मांडून आनी चकचकीत तागडी दवरून निर्विकारपणान उबो आशिल्ल्या प्यारेलालाचें दुकान हांचेमदीं तसो कसलोच संबंद नाशिल्लो. हाच्या नशिबाचें हें, ताच्या नशिबाचें तें अशीं तीं वेगळीं वेगळींच नदरेक पडटाली'. ऑफीस, शाळा, कॉलेज अशा तरेकवार थळांनी वचपा खातीर स्टेशनार धांवपी लोक झेरॉक्स दुकानांत भितर सरून तरेकवार कॉपी काडून घेवन वताले. अशे तरेन सकाळफुडें एकेतरेचो साबू, अत्तर वासाचे तेल, हांच्या ताज्या वासाचो वारो थंय घोळटालो. सांजेच्या वेळार तेच लोक परतून फाटीं परतता आसतना प्यारेलालाच्या फळां सामकार उबे रावून विचारून करून, हात लावन वास घेवन दर थारावन फळां घेवन वताले. आयतारा ऑफिसांक सुटी आशिल्ल्यान झेरॉक्स दुकानाक सुटी. प्यारेलालाक मात सुटी नासताली. तो बरो ना जालो बी जाल्यार फकत तो जागो फळांविणे उगडो उगडो दिसतालो. त्या दिसा प्लायवूडाची कास झेरॉक्स दुकानाक तेंकून आसताली.

झेरॉक्स दुकानकार केकू शुक्ला बागवून आपणाल्या झेरॉक्स मशीनांतल्यान भायर येवपी हून प्रती मेजून आपटून, मेजून पयशे घेवन दुसऱ्या गिरायकाच्यो प्रती काडपाच्या कामांत तल्लीन जातालो. चुकून खंय तरी रस्त्यावटेन पळयतलो बी जाल्यार तेंयबी ना. त्याच खिणाक राविल्लें काय कितें अशें म्हणिल्ले वरी मशीनांत पेपर शिरकून करकर आवाज येतालो. सेकंड हँड मशीन तें. मुलुंडांत पोरण्या महाजनवाडींत रावपी तिगां भावांच्या एकत्र कुटुंबांतलो मदलो भाव हो केकू शुक्ल. चड पिराय जाल्लो व्हडलो भाव दाना बाजारांत आनी मिश्यांक पीळ घालीत रावपी धाकटो भाव तारापुरांत कसलें तरी बिझनेस करतालो. धाकल्याकडेन आशिल्ली धंद्याची प्रज्ञा केकूच्या आंगांत ना ह्या गजालीचो अदमास आयलो तेन्ना तांणी एक झेरॉक्स मशीन दिवन ताका हांगा कामाक बसयल्लो. हें नाशिल्लें जाल्यार केकू घडये इश्टांच्या स्कूटरींचेर, मोटारींनी हेडून पान पराग खायत, बॅगी पँटी घालून, फिल्मी बूट मागोवन घेवन, सूं सूं अत्तर फवारून, परेश रावल, पंकज उदास आदी कलाकारांच्या स्टायलींनी उलयत आपणाली जीण सारतलो आशिल्लो काय कोण जाणा. शाळा सोडले उपरांत ताचीं धायेक वर्सां तशींच फुकट गेलीं म्हणपाची. आदींच धाकटो भाव मोगांत पडून अचकीत एके मराठी चलयेकडेन हट्टान लग्न करून घरा आयलो. धाकली सून आनी व्हडली सून मेळून जेवण आनी न्हिदेक लागून चरबेन भरिल्लो पुतळो जाल्ल्या केकूक उल्यार उले मारीत उठोवन ह्या झेरॉक्साच्या दुकानांत ताची थापणूक केल्ली. ताच्या लग्नाविशीं तकली विरार करून घेवपाक मात कोणाक

वेळ नाशिल्लो. आवय बापूय पयलींच भायर पडिल्लीं. हाका लागून चाळीसांक तेंकपाक वचपी केकू शुक्लाक आपूण खंयचे पिळगेंत आसपावलां तेच कळनासलें. धाकल्या भावाक पळोवन आपूण व्हडलो अशें दिसलें जाल्यार त्या भावालीं भुरगीं आसात. घरांत हालपी पाळणे, आपणाल्या घोवांची बानयानां, अंडरवेरी घडी करून दवरपी भाभींक पळोवन आपून धाकटो अशें ताका दिसतालें. भुरग्यांक शाळेंत पावोवपाक वता आसतना आपूण व्हडलो अशें दिसलें जाल्यार घरांतले कपडे पोटली बांदून इस्त्रीवाल्या कडेन दिवपाक व्हरता आसतना भाभींचे ब्लावज, कल्पनेभायर लांब रुंद आशिल्ल्यो सलवार, साडयो बी पळोवन एक विचित्रशे धर्मसंकट उबें आशिल्लें वरी ताका दिसतालें. अशें जाल्ल्यान एकेक फावटी शाळेंतल्यान घरा येतासतना कारणा बगर भुरग्यांक तापयतालो. घरांत मात सांगल्यार पळयात तुमी अशी धमकी दितालो. तीं भितरले भितर भंयान कुळकुळून तकली हालोवन आं म्हणून घरा पावतालीं. तीस पसतीसांची पिराय जायमेरेन आपणालेंय खर्यीं मोगान लग्न जावंये असो एके तरेचो विस्वास बाळगून तो आशिल्लो. पूण दोळ्यां पातकटी धांपून उगडना भितर इतलीं सगळीं वर्सां गुळगुळ करून खीणभरय आडखळ नासतना खंयची खंय धांवलीं. सगलो संवसार, बाजार, व्हडल्या आनी धाकल्या भावांचे संवसार अशें सगळें... आपल्या वांट्याक वाडटी पिराय घालून चलत रावलें. धव्या केंसां वांगडा कपला फाटल्यान हळू हळू उदेवपी सूर्यकांती हाका लागून तो पुराय निरशेतालो. अशा वेळार ताका हेवटेन तेवटेन पळोवपाची संदच ना करून एका जाग्याक खिळावन बसोवपी ह्या झेरॉक्स मशीनाच्या दुकानार येवपी, नेलपॉलीश लायिल्ल्यो सुकोमल, बारीक लांब बोटांच्यो मोहक चलयो, तांचीं तिरकस भाशेंतलीं फकाणां मस्कऱ्यो, तांचे सोबीत ओडलायणे केंस, ताका हांगा बांदून दवरपाक पुरो आशिल्लें. रेशन कार्डाची कॉपी काडपाक वा पोरण्या जमीनपत्राच्या उताऱ्याची कॉपी काडपाक येवपी जाणट्या मनशांच्या हुसक्याची खरसाण आस्ते आस्ते पयस करून खूब नाजूकसाणेन तो तांकां जाय जाल्ल्यो कॉपी काडून दितालो. मूळ प्रत पिंजिल्ली आसल्यार सेलो टेप लावन ती सारकी करून दितालो. अशे तरेच्या केकूक पळोवन जाणा आशिल्ले मनापासून ''वा!! केकूभाय, कपडयांची शिस्त म्हणटात ती तुजी. तुज्या कपड्यांची इस्त्री सकाळीं दुकान उगडटा आसतना जितली टीपटॉप आसता ती सांजेची लेगीत तितलीच उरता. कामांत कितली उमेद दाखयतात'' अशें सट्ट करून उलोवन दाखोवपी पयली व्यक्ती म्हणल्यार हो फळांचो दुकानदार प्यारेलालच. त्या खिणासाकून त्या दोन दुकानांमदीं एकेतरेचें आपलेपणाचेंशें नातें तयार जालें. ''मातशी नदर दवर आं मिनटान च्या पिवन येता.'' अशें म्हणून प्यारेलाल वतालो. केकू तेन्ना ''रोखडो येतलो, हांगा लागींच गेला'' अशें म्हणून गिरायकांक थारावन दवरतालो. अशे तरेन सुरू जाल्ली निर्लिप्त सलगी एकामेकांक च्या दिवप, घेवप, चिल्लर नासली जाल्यार एकामेकांक दिवप इतले मेरेन पावली. तरीय बी केकू शुक्ला थंडसाणेन नीट बरो इस्त्री मारिल्ल्या नगावरी भितर आनी गुडगुडत वचपी वाटकुळ्या फळावरी प्यारेलाल भायर.

प्यारेलाल हो उत्तर प्रदेशांतलो. खूब ल्हान पिरायेरच तोंडा सामकार दिसता ती वाट धरून भायर सरिल्लो. काळ दर्याच्या लांबरुंद ल्हारांनी हेर जायत्या लोकांवरीच ताका उखलून ह्या नगराचे तडीर हाडून उडयलो. खंयचे तरी मोडके इमारतीच्या लाकडी सोंपणाचे इस्कादी पोंदच्या त्रिकोनात ताचो राबितो. क्रॉफर्ड मार्केटांतल्यान फळां हाडून हे पेठेचे वाटेर विकपाचें तो काम करतालो. पंचेचाळीस ते पन्नासां मदली ताची पिराय. ताका आजून ते विशीं कल्पनाय ना आनी तेविशीं कांय पडिल्लेंय ना. व्यापार सोंपयले उपरांतच थारावीक एका ल्हान हॉटेलांत तो जेवता. दीसभर ताचे कायेक आनी कामाक इंधन दिवपी एकमेव वस्तू म्हणल्यार कमी साकरेचो कडक च्या. दिसाक आठ धा फावटी तरी ताका तो जायच आसता आनी प्रत्येक फावटी केकूभाईक कुशीच्या पेपरवाल्याक तातूंतलो अर्द ग्लास पावपाकूच जाय. केकूभाई हो लस्सीप्रेमी, वयर आनी गुजराथी. अशें जाल्ल्यान प्रत्येक फावट दुकानार लस्सी हाडली जाल्यार तातूंतली अर्दी प्यारेलालाक दिवचीच पडली न्ही? त्या खातीर तो मदीं मदीं ''प्यारे, टॉयलेटीक वचून येता आं'' अशें म्हणून कुशीच्या भाजी मार्केटाच्या बोळांत वचून चोरून लिपोवन थंयच्या दुधालयांत लस्सी पियेवन येतालो. पिता आसतना खंयच्यान कोणूय येत बी म्हणून मातसो हुसकोय आसतालो. तो हुसको आपणे पिल्ल्याची मजा व्हगडायत आनी फारीक केल्ल्या दुडवांचे मोलय फुकट वचपाक जायना ह्या विचारान ''पिवपाचें नशिबांत आसा पितां'' अशें म्हणून मनाक स्वताक धिटाय दीत पितालो. उपरांत अळंग परतो येवन दुकानांत बसले उपरांत कांय वेळ प्यारेलालावटेन पळोवपाचें चुकयत रावतालो. पूण परतून परतून लस्सीचे थेंकर आयले उपरांत मात ताका प्यारेलाला वटेन पळोवन बेजार येतालो. प्यारेलाल मात बारीक बारीक गजालींचेर कोणायकडेन उलयतना मन मेकळो हांसत आसतालो.

आपणाल्या कार्शीत पोंदाक आशिल्ल्या धाडवल्ल्या फळां मदलीं कांय फळां काडून तीं कातरून एकशीर केकूक दीत प्यारेलालान एक दीस म्हणलें ''केकूभाय, तुज्या दुकानांत खूब जागो आसा. वण्टीर एक कपाट करूं येता. सद्याक ऑडियो कॅसेटींक खूब गिरायक आसा. कसले कसले लोक फुटपाथाचेर पालेभाजी विकिल्ले वरी कॅसेटींच्यो राशी घालून विकतात. तूं कित्याक विकिना कॅसेटी? शिवाय झेरॉक्स काडून घेवपाक येवपी गिरायकां थोडो वेळ तरी रावतातच न्हीं तेन्ना पदां आयकून कॅसेटी पळोवन खात्रेन विकत्यो घेवच्यो अशें दिसूंयेता.'' केकून तेच राती थारायलें. दोन सप्तकां भितर झेरॉक्स दुकानांतल्यान दोन व्हडले स्पीकर गर्जना करूंक लागले. दुकानांतल्यो वणटी कॅसेटींनी भरल्यो. दोळ्यांची पातकडी धांपून उगती जावचे भितर अद्भूतरितीन कॅसेटींचो व्यापार सुरू जालो. प्यारेलालाची सुचोवणी अक्षरशा खरी जाली. पांच रुपयांची 'झेरॉक्स गिरायकां' पन्नास रुपयांची कॅसेट विकती घेवंक लागली. कोणाक जाय ताका जाय तसली कॅसेट हाडून दिवपी केकूक फळां हाडपाक वचपी प्यारेलाल वी. टी. साकून नव्यो कॅसेटी हाडून दितालो. एकूय पयसो चड घेनासतना. पाकिस्तानांतल्यान चोरयां येवन भेंडी बाजारांत रस्त्यां कुशींनी मेळपी पोरण्यो मेंहदी हसन गझल धरून तलतान सिनेमाकच न्हीं तर रेडियो खातीर गायिल्लीं गीतां धरून ''चोली के पीछे'' मेरेन सगळे तरेच्या कॅसेटींक ह्या सुपुल्ल्या दुकानांत जागो

आसतालो. कागदांच्यो प्रती येवंच्यो तशेच तरेन गीतांच्या प्रतीचेंय निर्माण थळ जाल्ल्या ह्या दुकानाभायर थंडसाणेन कपीलदेवान बॉल, घांसून तो चकचकीत करचो ते तरेन फळांक पॉलीश करीत राविल्लो प्यारेलाल हे बोबाटे कडेन आपणालो कसलो संबंधच नाशिल्ले वरी पदां आयकत त्या दबाज्यांत उबो आसतालो. आपणाल्या सल्ल्याच्या आदारानच केकूक तिपेटीन येणावळ मेळपाक लागली हे गजालींची आपणाक जाणविकायच नाशिल्ले वरी वा आपणे दिल्ल्या सल्ल्याचे वास्तवतायेक आनी केकूचे येणावळीचें वास्तवतायेक एक नवो तंतू जोडपाक जाय हे कल्पनेच्या किरणाची आपणाक बाधा जाल्ली ना अशेतरेन तो वागतालो. ''आतांच लायिल्ली पळय तुवें खंयची ती, तीच परत लाय.''अशें तो एकेक फावट सुचयतालो. केकूक दुकाना भितरल्यान पळयतकच प्यारेलालाची ती खोस चडूच मुक्तपणी दिसताली. भितरलो मशीनाचे हून शाईचो वास कागदां, कागदांच्यो कितल्योश्योच प्रती, कपाटांत तोंड धांपून दोळे उगते करून, मोन्यांनी प्लास्टीकांत गुठलायल्ले स्थितींत बसून आशिल्ले गायक. त्योच कॅसेटी, तांचे भितर खंयच्याय वेळार तींच गीतां. तोच मुखडो, तोच अंतरो, तेच आलाप. जाय जाल्यार फास्ट फॉर्वर्ड वा तितल्याच वेगान रिवर्स. पूण प्यारेलालाचीं फळां मात वेगळीं. विकिल्ल्या, विकनासतना उरिल्ल्या फळांची तीच ताजपाण. दर एक फळ आपणापरीं वेगळें. कागद, प्लास्टीक दोरो आनी धुळीन भरिल्ल्या बाजाराक जीवसाण भरपी तेच.

स्वताचे हे बरे सुदारिल्ले स्थिती वांगडा केकूक भितरले भितर एक प्रबळ अशें संकट सतावपाक लागलें. ह्या प्यारेलालाचे उपकार कशे फेडचें, आपणे कोणाचेय उपकार, फारीक करपाचो एकमेव मार्ग म्हणल्यार फुकट झेरॉक्स काडून दिवप ना जाल्यार कॅसेटी फुकट दिवप. हे दोनूय उपाय प्यारेलाला खातीर फावो सारके नाशिल्ले. ताका एक टेपरेकॉर्डर भेट रुपान दिवपय शक्य नाशिल्लें. कित्याक काय म्हणल्यार प्यारेलाल आपणाल्या जिवाचोच एक वांटो जाल्ले वरी सदांच आपणाल्या काळजाकुशीक दवरून आयिल्ल्या ताच्या ट्रान्झीस्टर रेडियोचो अपमान केल्ले वरी जावंयेतालें. रंग ना जाल्लो ताचो सान ट्रान्झीस्टर रेडियो ताच्या सांगातान फळांवरीच घोळटालो. तातूंतल्यान खंयच्याय वेळार खूब गोड पदां कानार पडटाली. सकाळफुडें भक्तीसंगीत, सैनिकां खातीर जयमाला धरून मध्यान राती मेरेन चलपी बेला के फूल कार्यावळींचो हो प्यारेलाल सांगाती जावन आसतालो. रेडियो नाटकां आयकत तो हांसतालो जाल्यार हें 'तु-तुतू तुतु तारा' थंय बाजारांत पिशेपणाचेंशें दिसतालें. तरी आसतना केकून एक फावट विचारपाची धिटाय दाखयली. ''तुवें एक टेपरेकॉर्डर घेवन वापरल्यार जावंचेंना?'' ताणे म्हणलें. आसूं येतां, रेकॉर्डरांतल्यान सगळें खबर आशिल्लेंच चलता. तें आमी म्हणिल्लेवरी दिसता. सगळें श्रवण सूख म्हज्या हातांतच आसा म्हणिल्लेवरी प्रकार. टेप रेकॉर्डर आयकत बशिल्ल्याच्या कानांत पडटा. कितलें पिशेपणाचेंशें न्हीं हें! रेडियोचें तशें न्हीं. जाणा आशिल्ल्या कार्यावळींतच एके तरेचें सस्पेन्स आसता तातूंत. समादानाचे वलय विस्तारीत करपी सस्पेन्स. त्या भायर वायर बी कांय नासतना आकाशांतल्यान येवन हांगा पावता. म्हाका सांगपाकच कितलें मजेशीर दिसता. स्टेशन लावप इतलेंच म्हजें काम. म्हजे सारक्या हेडग्याक हाचे परस व्हडलें आनी कितें आसा?'' ताणे म्हणलें, केकू थंड पडलो. ते खातीर इतले दीस चोरून पितालो ती लस्सी आतां अधिकृतपणान ताच्या सांगातान वांटून पिवप चड लजेक घालपी गजाल अशें ताका दिसलें. कर्म तुजें म्हणलें ताणे आपले भितर. पूण तरीय बी मना वयलो भार तसोच उरलो. खंयूय बी रस्त्याकुशीक नेमाभायलीं दुकानां आडावपाक मुन्सिपालटीचो ट्रक आयलो जाल्यार मात रोखडोच एका योद्ध्यावरी भायर सरुन प्यारेलालाचीं सगळीं फळां आपणाल्या दुकानांत हाडून लिपोवन दवरतालो. हेर हातगाड्यांचीं दुकानां ट्रक उखलून घेवन वतालें. तेन्ना प्यारेलालाचीं फळां केकूच्या कॅसेटीं मदीं लिपून बशिल्ल्या सान भुरग्यां वरी दिसतालीं. ''हीं हांगा कितलीं बाबडींशीं दिसतात पळय.'' अशें म्हणून प्यारेलाल अर्दो कप च्या ताचे मुखार धरतालो. त्या वेळार सगळें सारकें जालें अशें म्हणलें तरी तें उपकारा खातीर उपकार हें सूत्र खंय तरी चुकता अशें केकूक दिसतालें. निमाणे कडेन एक दीस वेगळे तरेन ताणे यत्न केलो. प्यारेलालाक गांवांतल्यान येवपी पत्रां केयर ऑफ केकू शुक्ला ह्या पत्त्याचेरच येतालीं. अशे तरेन एक दीस आयिल्लें तें पत्र प्यारेलालाक दिता आसतना केकून म्हणले, ''हांव कितें म्हणटां प्यारेलालभाय कितले दीस म्हणून हो केयर ऑफ पत्तो लायतलो तूं?, तुगेली स्वताची अशी एक खोली घे मरे एक! तुजीं फळां दवरपाक जातली. पांय सोडून सारकें बरें आड पडपाक, खावपा जेवपाक मेळटलें. तसो व्हडलोसो दुडू मोडचो पडटलो सो दिसना.'' प्यारेलालान हें आनी कसलें पिशेपण ह्या सुरान ''हरगीज ना!'' म्हणून सोडलें. उपरांत म्हणूंक लागलो ''ह्या केअर ऑफ पत्त्यानूच हांव चड खोशी आनी समादानी. कोण तरी केयर घेता हें मानाचे समादान एका खिणाचे आसलें तरी तें कमी म्हणू येता केकू? हरशीं म्हणून हांगा कोणाक कोण विचारता!'' ताणे म्हणले. पूण आपल्या उलोवण्यान केकूक दिसपी सानुभूतीचो आपणे अवमान बी केलो ना मूं अशें दिसून ताणे रोखडेंच म्हणलें, ''हें जगच म्हजें अशें म्हणपी हेडग्या मनशाक धायेक स्क्वेयर फूट इतलेच जमनीचेर आपणालो मालकी हक्क म्हणप कशें सहन जातलें? ह्या जगांतच भाड्याक आयिल्लो जीव ह्या जगांचो एक कुडको गळ्याक बांदून घेवन कागदपत्र करून नाचप हो कसलो तमाशा. शे!... भाड्याचें घर, भाड्याचो निवास आसूं वा पत्तो, तातूंत एकेतरेचें समादान दिवपी गूण आसता ह्या रेडियोवरीच. कितलींशींच पदां मळबांतल्यान उडत येवन हाच्या भाड्याच्या खांद्यांनी बसून वतात'' ताणे म्हणलें.

अशेतरेन वेव्हाराच्या संदर्भान स्पश्ट वेगळेपण दोगांयमदीं आसूनय खंयच्या तरी एका आदाराचेर केकू आनी प्यारेलाल एकमेकाक लागीं येताले. ह्या तांच्या लागसाराक एक स्मरण करून दिल्ले वरी एक घडणूक तांच्या वांट्याक आयली ती शिवसेनेच्या मनशांनी पूर्वसुचोवणी दिनासतना घडोवन हाडिल्ल्या बंदाची आशिल्ली. 'मुंबई बंद' दीस तो. दीस वयर सरचे आदींच पुराय शार चलन हीन जाल्ले वरी स्तब्ध जावन पडलें. सकाळीं दुकान उगडटा आसतना ह्या बंदाची सुलुसूय नाशिल्ली. दुकान उगडून उजवात पेटोवन झेरॉक्स मशिनाक, कॅसेट डेकाक, केकू ती दाखोवन नमस्कार करीत राविल्लो. भायर प्यारेलाल अर्दो ग्लास च्या

पियेवन आपणाल्या प्लायवूड बॉक्साचेर आपोलां, डाळंबां मांडटालो. केकू एक कॅसेट घालता थंय आसा "बंद करो" म्हणून आड्डी मारीत कांय मनीस हातांत खडयेचे गुंडे घेवन धावून आयले. बाजार बंद जालो. ऑफिसाक बी म्हूण भायर सरिल्ले लोक सुटयेचे खोशयेन घरा परतले. बसी, रिक्षा बी बंद जावन अंत्य यात्रेच्या मार्गासारके दिसपाक लागले. दीस वयर येतां येतां सगळी पेठ भणभणीत जावन गेली. च्या पिवपाकय खयीं एक हॉटिल ना जाले. "ह्या बंदांत घडटा इतलेंच - बंद घडोवन हाडपी सगळे बंद यशस्वी जालो काय ना हाची खात्री जायनाफुडें आपापणाल्या घरच्या घमघमीत जेवणाच्या ताटाक फाटीं परतून पोटभर भूस मारून सूस्त बरे न्हिद्न पडटात. दिसवड्याचेर निंबून आशिल्ले, भायर रस्त्या वयल्या गाड्यांचेर, हॉटिलांनी सदांच जेवण घेवपी, दीसपडटो धंदो करून त्या त्या दिसाचो घांस मेळोवपी असल्यांच्या वांट्याक किर्ते येता तें कोणाक पडिल्लें आसना. ह्या दिसा ह्या शारांत कितलीं भुरगीं भुके पोटार न्हिदतात हाचेरच बंदाचें यश निंबून आसता." प्यारेलाल रागान गुरगुरलो. कांय वेळ केकू प्यारेलालाचे काशीर बसलो. पेठेचे शांततायेंत प्यारेलालाचो रेडियो मुक्तपणान आवाजाचो गोडवो पातळायतालो. हॉटिलांतले वेटरूय सगले क्रिकेट बॅट, स्टंप बी घेवन रस्त्यार आयले. ऑटोवाले पोलिसावांगडा रस्त्याचेरच शेंदरी पातलावन थंय रमी खेळपाक लागले. स्टेशना सामकार फुलांचे वळेसर, हार बी विकपी तेलगू बायलां मात बंद लागू जायनाशिल्ल्या देवस्थानावटेन धांवत वचून थंयूय बी लोक नाशिल्ल्यान फुलां पांटल्यांनी तशींच इबाडपाक सोडून एकामेकांच्यो उयो काडीत बसलीं. प्यारेलाल "चल, असलो आनीक वेळ मेळचो ना. अशेच भोंवून येवना." अशें म्हणून ताणे केकूक उठयलो.

रंगयाळी चड्डी घालून सोरो पिवपाखातीर सोडा सोदीत भोंवपी श्रीमंत तरणाटे सोडले जाल्यार भाजी मार्केट शांत आशिल्ले. रस्त्याच्या दोनूय वटांनी लोक नाशिल्ल्यान हेर दिसांपरस बाजार वेगळो दिसतालो. सगळेंच तोंड बंद करून आशिल्लें. केकून "रेल्वे बंद जावंक नांत आमी वी.टी. वटेन वचूया? गेट वे, दर्या बी पळोवन येवंया?" म्हणलें. प्यारेलालान खीणभर शांत रावून म्हणलें, "तुका हांगाच एक 'गेट वे' दाखयतां." रस्त्याचे दुसरे वटेन वचून थोडी पावलां चलले उपरांत ज्यूस सेंटर आनी पावभाजी, भेळपुरी हांचे रिकामे गाडे एका जाग्यार तेकूतेकून दवरिल्ले थंय केकूक रावयलो. हरशीं सदांच थंय एके तरेची जिव्हाचापल्याची जात्राच आसताली. आता थंय कोणूच मनीस नाशिल्लो. विकपी मनीसय नाशिल्ले. गाड्यांचेर कांय लोक न्हिदिल्ले. रस्त्याचे कडेक एका व्हडल्या कोटाच्या वणटीवरी व्हडली वणत आशिल्ली. वयर चुन्या भितर घट तोपून लायिल्ले कांचेचे कुडके आनी कळमेल्ल्या सळ्यांचो दरवंटो. "हें पळयल्लें तुवें केन्ना?" ताणे विचारलें. केकून आता पयलेच फावट तें सगळें पळयल्लें. ताचे फाटल्यान जाळयां जाळयांचीशी एक कूड आशिल्ली "हें किर्ते तें जाणा तूं?" अपराध्यांक एकेच कडेन बंद करपाची कूड. अपराधी खून, दरोड्या सारके गुन्याव करपाक पावचे न्हीं आनी तांचे पसून लोकांचो बचाव जावचो हे खातीर ताका हांगा बंदखणीत घालतात."ताणे सांगलें. प्यारेलालाचो चेरो गंभीर जाल्लो. केकूक एक विचित्रसो भंय दिसलो. "भियेवं नाका, घटमूट राखण आसा हे बंदखणेक. कोणूच येवपाक शकना भायर." ताणे सांगलें. कांय वेळान प्यारेलालान बेगीबेगीन वचून वणटीचे कुशीक आशिल्ल्या मुनसिपालटीच्या कंपावंडाचे वणटीचे देगेक धरून कूड वयर खेंचून घेवन पेलेवटेन पळयलें. हांगा यो, हांगाच्यान दिसता अशी कुरू करून ताका आपयलो. केकू बरोच यत्न करून वयर चडलो. वणटी फाटल्यान कळमेल्ल्या जाळयेचे कुडींत लोखणा सळ्योच दिसताल्यो. तांचे फाटल्यान मेजमाप नाशिल्लीं एकसारक्या कपडयांतलीं शंबरेक घुबडां मोन्यांनी बशिल्ले वरी दिसतालीं. बशिल्लीं थंयूच काळोख धवळिल्ले वरी हालचाल करपी तांचें हातपांय. तीं मनशांचीं भुरगीं म्हण कळपाक केकूक वेळ लागलोना. खास करून ताणे पळयलें - तीन चार वर्सां धरून किशोर पिरायेचीं भुरगीं हात हालयतालीं आफयल्लेवरी. त्याच कंपावडांत व्हडली बुराक पडिल्ली पत्र्याची घसरगुंडी आशिल्ली आनी फळी मोडिल्ले झोपाळे. कोणूय अशे तरेन पळयतल्यांची वाट पळयत बसल्यांत तीं भुरगीं. अशे तरेन उलय नासतना हात हालोवपा खातीर.

त्या कंपावण्डाचे वणटी वयल्यान उडी मारून प्यारेलाल देंवलो आनी 'चल वचूंया' म्हणून चलपाक लागलो. चलता आसतना "खंयच्या खंयच्यान बाल कैद्यांक, रस्त्या वयल्या अनाथ भुरग्यांक हांगा हाडटात. सांजच्या वेळार थंयच्यान येवपी प्रार्थनेचो आवाज तूंवें आयकला आसतलो. घराच्या आंगणांतल्यान प्रेत उखलून व्हरतना येवपी रडपाचो आवाज येता तसोच आवाज आसता तो. बाजारांतलो गजबज, पाणीपुरी गाड्याच्यो आड्डी आनी हेर वस्तू विकप्यांच्यो हुयेली अशा सगळ्या गोंदळांत ती प्रार्थना हांगा तितली आयकूंक येना. गेल्ल्या वर्सा बालदिनाचे कार्यावळी दिसा सत्तर भुरगीं संडासा कुशीची गेट मोडून फाटलो खंदक हुपून पळून गेल्लीं. धिटाय नाशिल्ल्यो धा-वीस चिमण्यो मात फाटीं उरल्यो. त्याच खातीर आतां बंदोबस्त घटमूट केला." ताणे सांगलें. केकूक सगलें सवकसायेन कळपाक लागलें. ह्याच रस्त्यान कितल्या वर्सां साकून हजार फावटीं चललां भोंवलां. म्हाका कशें कळ्ळें ना हें? कित्याक आजून दिसलें नां हें म्हाका. किण्ण शांत जाल्ल्या रस्त्याक जीवसाण हाडिल्ले वरी च्या घेवन भोंवपी एक भुरगो ॲल्युमिनियम किटलेचेर एक नाणें वाजयत तुरतुरीत वतालो. दोगूय जाण च्या घेवन पिले. परतून मेळत काय ना म्हणून प्यारेलाल दोन ग्लास पिलो. च्यायवाल्या भुरग्याक "किर्ते रे बाब खंय रावता तूं?" बरो ना जावन जेवणाचे त्रास बी जाले जाल्यार म्हजे म्हऱ्यांत यो आं. स्टेशना कडेन फळां विकतां हांव." ताणे भुरग्याक म्हणलें. दनपार माथ्यार पावली.

प्यारेलालान "आरे केकू तुजो जेवणाचो वेळ जालो. घरा वचून जेवन यो. सध्याक म्हजें जाल्यार रातचेंच जेवन. हो च्या मेळ्ळो आनी जिवांत जीव आयलो" म्हणलें. केकूचें घर लागीं आशिल्लें. "प्यारे भाय. असो आनी केन्ना मेळटलो तूं? आज जेवणाक आमगेर यो." हें आयकून प्यारेलाल 'शांतम पाप' म्हणिल्ले वरी कान धांपून मातशी जीब भायर काडून "शे शे केकू म्हजी वाट लायली तुवें. चल जेवन मातसो विसव घेवन यो. हांव दुकाना कडेनच रावतां." ताणे म्हणलें. खूब निर्णायक अशा ताच्या उलोवण्याक परतून फुस लावपाची गरज नासताली. केकू नम्रपणान आपणाल्या घरा वटेन चलपाक लागलो.

अण्णा, धाकलो भाव आनी सगळीं बंदाक

लागून घराच आशिल्ल्यान बायलां भुरग्यां मर्दीं उत्सवी वातावरण आशिल्लें. केबलाचेर नवो सिनेमा पळयत सगळीं जेवतालीं. टी.वी. पळोवपी भुरग्यांक टी.वी. पळयतनाच भरोवपी आवयांच्या हातांतल्यो उंडयो भुरग्यांच्या कानांक, नाकांक, भुंवयांक लागताल्यो. वले कपडे, सुके कपडे, आयदनां-बियदनां, ट्रंक, आल्बम, भरतकाम, मीठ-मसाले, पान-सुपारी सारक्या साबार जिनसांनी भरिल्ल्या घरांत प्यारेलालाक खंय कसो बसोवन आपूण किर्ते जेवयतलो आशिल्लों तेंच केकूक येवजना जाले. जेवन बी मातसो आड पडपाक पळयलें पूण जमलें ना. पोटार धुवेक बसोवन धेंकर काडीत पडिल्लो व्हडलो भाव, आपणालो हनीमूनाक उटी गेल्लो आल्बम आजूच आयिल्ल्या सोयऱ्यांक दाखोवपी धाकलो भाव, अनवळखी मनशान दिल्लें खाण खावप ना, अनवळख्यान आफयल्यार वचप ना असले आवयांचे उपदेश माथ्यार घेवन "ह्या संवसारांत अपरिचितच आसात" अशें मानपी भुरगी. किण्ण पडिल्ल्या स्मशानातल्या स्मारकावरी आशिल्ल्या रिमांड होमाचें चित्र ताच्या दोळ्यां सामकार पातळपाक लागलें. प्यारेलालाक केकून एक दीस "तूं लग्न जाला?" म्हूण विचारिल्लें तेन्ना "पयशे आनी देह हांचे मर्दीं येवचोना अशेतरेचो स्नेह दिवपाक जेन्ना जगूच तयार आसता तेन्ना बारीक बारीक वेदनेच्यो गांठी कित्याक मारीत रावप रे त्यो?" अशें ताणे म्हणिल्लें. प्यारेलाल आपणाल्या वैयक्तीक जिणेक कांय अर्थच नाशिल्लेवरी तेविशीं उलोवपाचें टाळटालो. आनी केकूच्या खाजगी तशेंच कुटुंबीक जिणेविशीं मातूय खोदून काडपाचो यत्न करनाशिल्लो. तो हांगा आशिल्लो तेन्नाच ताची आवय ताच्या गांवांत भायर पडली. तेन्ना दुकान बंद करिनासतना बशिल्लो आसतना केकू सांत्वन करतना खांकडत उलोवंक लागलो तेन्ना "मनाचो एक भाग जावन आमचे भितरली एक शक्ती जावन राविल्ल्या व्यक्तींच्या अंताखातीर शोक व्यक्त करप म्हणल्यार मनांतल्यानय तांकां भायर काडिल्ले वरीच जाता." अशें म्हणून "आपणे काम सोडून आळशी जावन एक दीस फुकट घालयलो जाल्यार तिका खोस जावं येताली हय तर?" असो उरफाटो प्रस्न ताणे केलो. एक फावट कोणाक तरी चिल्लर दिवपाक घेतिल्ले शंबर रुपया खीणभर लेगीत वेळ करिनासतना परत दिले. "कित्याक रे प्यारेलाल, हांव किर्ते पळून वतलो?" अशें केकून म्हणलें तेन्ना, "हांवय पळून वचचोंना, तूंय बी पळून वचचोना. पूण हो दुडू आसा न्ही तो पळून वतलो. तेन्ना तूं खात्रेन सांगता म्हजेकडेन अशेतरेन पळोवंक शकचो ना. स्वताच्या भुरग्यांचेर केल्ल्या खर्चाचो हिशेब दवरपी पालकांचो काळ हो." ताणे म्हणलें. हो प्यारेलाल, आज 'बंद' नाशिल्लें जाल्यार हे वाटेन आपणाक आफोवचोच नाशिल्लो. आपणाक ह्या काळ्या समुद्राची गेट वे दिसचीच नाशिल्ली. तळमळ लागून केकू उठून वचपाक तयार जालो. परतून कपडे घालून भायर सरतना ताका पळोवन अण्णान "आरे, आज बंद, परतून कित्याक भायर सरलो तूं?" म्हणलें. "कांय ना, झेरोक्स मशीन बंद करपाक विसरलां सो दिसता." अशें म्हणून केकू गेलो.

दनपारच्या वेळार चडूच भणभणीत दिसतालें. केकू धेपां मारीत दुकानावटेन चलत रावलो. दुकानाचे भायले नाबीर प्यारेलाल न्हिदिल्लो. ताणे उजव्या हाताचेर माथें दवरिल्लें. माथ्या कडेनच एक चाकर हाजीर आसचो तसो ताचो ल्हान रेडियो गुणगुणत आशिल्लो. ताच्या एका पायांची बोटां मातशी हालतालीं. ताचे केंस चडच पिकिल्ले वरी दिसतालें. ताची तकली चडच थरथरता कशी केकूक दिसली. तितल्यान कोण तरी आपणाकुशीक उबो आसा अशें ताका जाणवलें आनी प्यारेलाल दोळे उगडून उठून बसलो. "हत्तेरेकी, कर्म आमचें च्या सुद्दां ना" अशें म्हणून हातांतल्या कपड्यान माथें, तोंड पुसलें. त्या उपरांत "सांग केकू खंय वचूंया आतां, वी.टी. या?" अशें म्हणत तो सकयल देंवतासतनाच "वांचयात रे, म्हजे धुवेक वांचयात रे... अश्यो आड्डी मारीत एक जाणटी बायल तरकारी मार्केटांतल्यान आड्डत धांवत आयली. रस्त्या वयले थोडे लोक, केकू आनी प्यारेलाल तिचेवटेन धांवता आसतनाच ती रस्त्यार मर्दीच बसून भंयान काचाबूल जावन कडकडपाक लागली. तिची किशोर पिरायेंतली धूव आठ म्हयन्याची गुरवार आशिल्ली. अचकीत तिच्या पोटांत दुखपाक लागले. रस्त्यार रिक्षा मेळत हे आशेन सुमार धा पंदरा मिनटां आवय आनी धूव चलत तरकारी मार्केटा कडेन पावलीं तेन्ना वेणो येवंक लागल्यो. रिक्षा मेळची ना ह्या भंयान धूव चडच थकून सकयल बसली. हुसक्यान आकुळपिकुळ जाल्ली आवय हांगा धांवून आयली. प्यारेलालान हेवटेन तेवटेन पळयलें. एकूय रिक्षा ना. केकूक हाताक धरून तरकारी मार्केटात धांवलो. थंय तेन्नाच उमळशीक जाल्ले लोक त्राण वचून रडत बशिल्ले ते सान गुरवारणी भोंवतणी जमिल्ले. कोण एकली बायल तिका उदक पियवताली. धांवत आयिल्ल्या प्यारेलालाक पळोवनच लोक "आतां आपणाक काम ना. कोणतरी संबंधी येवन पावला आसतलो" अशें समजल्लेवरी कुशीक सरले. प्यारेलालान एका सान भुरग्याक उखलून घेतिल्ले वरी जतनायेन दोनूय हातांनी तिका उखलून घेतली. चड हालची ना अशेतरेन अळंगपणान मुनिसिपल हॉस्पिटला वटेन धांवलो. पुराय वाटभर "भियेवं नाका पोरी सगळें सारकें जातलें. आमी सगळीं आसात आं." अशें म्हणत आशिल्लो. केकूक म्हणलें ताणे "केकू म्हजे कडेन शंबर दोनशीं रुपयाच आसात. गरज पडल्यार तुजेकडेन आसात न्ही?" ताणे विचारलें.

हॉस्पिटलांत पावन कांय वरां भितर ताच्या पोटांतली दूख कमी जाली. तरी निकतेच आठ म्हयने जाल्ले आशिल्ल्यान परतून वेणो येवंये अशें डॉक्टरान सांगलें. धवे कॉटीचेर खोंटो उंचायेर दवरून ताका न्हिदयल्ले, भायर लाकडी बांकार ताची आवय, केकू आनी प्यारेलाल बशिल्लीं. आतां मेरेन तोंड बंद दवरून आशिल्ली आवय कांयच वळख नाशिल्ल्या हांचे कडेन आपणालें सगळें रडत सांगपाक लागली. रिक्षावाल्या चंद्रान लग्न जातां अशें सांगून फुसलावन मंगळसूत्र घालपाचें नाटक करून तीन म्हयन्यांनी बेबीक घरा धाडून दिल्लें बी म्हणून. सदां सारकें हें अशेतरेचें सांगणें प्यारेलालाचेर कांय परिणाम करूंक पावलें ना. ते निर्दोश, निश्कलंक, बाळकी चेऱ्या वयले भयांचें सांवटच ताका अस्वस्थ करतालें. मोग नासतना चलपी कसलोय वेव्हार तो समजूंक शकतालो. पूण मोग नासतना जावपी नव्या जिवाचो जल्म मात प्यारेलालाक खूब दूख दिवपी गजाल आसताली. आवयच्या खांद्यार हात दवरून "अक्का ताका विसरून वच. तो फकत एक

*(पान ११६ चेर)*



# सुरयेची गजाल

मूळ मराठीः कृष्णा किंबहुने – अणकारः सखाराम शेणवी बोरकार

सवका सवकास फुडें सरकुपी प्रेतयात्रेंतल्या तिरडेवेलें सुसंगाद प्रेत आपल्चेंच न्हय कित्यावयल्यान?

'हांव'क जनेलांतल्यान तें प्रेत पळयतना आपूणूच त्या प्रेतांतलो आत्मो अशें दिसलें.

कुडींत सारको मदीं घुंवतल्या पंख्या खाला वयर काडिल्ल्या दाव्या धोंपरार उजवो पांय दवरुन 'हांव' कॉटीर आड पडिल्लो. पांय हे स्थितींत दवरिल्ल्या कारणान एक ल्हान त्रिकोनी जनेल तयार जाल्लें. त्या जनेलांतल्यान 'हांव' जितलें दिसतालें तितलें पळयत शांत आनी भंयाविरयत रावपाचो यत्न करतालो. पांयाच्या त्रिकोनी जनेलांतल्यान दिसपी घराचें सासणाचें जनेल, ताचेर पडपी सावळ्यांसयत पुरायपणान दिसतालें. त्या सावळ्यांचे आकार केन्ना प्राण्यावरी, केन्ना भिरांकूळ जाल्यार केन्ना केन्नाय वाऱ्यार वळवळटातशे दिसताले.

न्हीद 'हांव'ची ल्हवू ल्हवू ताबो घेताली. पूण न्हीद टाळपाक 'हांव' कितेंय करपाक तयार आसलो. सामके विचार लेगीत. न्हीद टाळपाचें कारण म्हळ्यार 'हांव'क फ़ाटल्या धा-पंदरा राती स्वःताचोच खून जाता अशीं सपनां पडिल्लीं. म्हूण भियेवन 'हांव'न जागरणां करपाचो उपाय सोदून काडिल्लो. सेगीत धा पंदरा राती एका चकचकीत दुधारी सुरयेन आपलो खून जाता आनी संवय आशिल्ल्या भशेन किंळच्यो मारीनासतना आपूण उठून बसतां हाचेंय दुःख 'हांव'क जातालें. तें सपन टाळपाखातीर 'हांव' आपल्याकुच भिरांकूळ रानटी जनावर समजून न्हिदिल्लो. ताका दिसतालें की आपूण अशें समजून न्हिदलों म्हण्टगीर खून करपी भितलो आनी आपल्या म्हऱ्यांत येवपाकूच ना. पूण 'हांव' पुरायपणान फशिल्लो. ताणे स्वताक तशें समजून न्हीद मेरेन सगळें सारकें आसलें. पूण फांतोड जावंचे पैलीं तो किंळच्यो मारिनासतना उठून बशिल्लो. तेन्नाच 'हांव'न जागरण करपाचें थारायलें.

न्हीद येवंची न्ही म्हुणून कितें करचें हाचो विचार करीत 'हांव' आड पडिल्लो. ताका दिसलें कीं आपणे सपनाविशीं विचार करचो. मागीर दिसलें नाका. आपूण घुंवन घुंवन परत त्या चकचकीत दुधारी सुरये कडेनच येतलों. मागीर दिसलें कीं दुधारी सुरयेचोच विचार करचो. पूण मागीर दिसलें नाका. ती सुरी परत आपल्या पोटांत घुसतनाची याद जातली. नाकाच. पूण सुरी पोटांत घुसतात कशी? ते खिणां पुरतें आपलें पोट फातराभशेन घट्ट करपाक कित्याक येवंचे न्हय? विचार सुरु आसतना 'हांव'चें लक्ष आपल्या हाताच्या बोटांकडेन गेलें. आनी ताका भास जालो. ताच्या स्पश्ट लक्षांत आयलें कीं आपल्या बोटांचीं नाखटां इतलीं विचित्र वाढल्यांत कीं जशी सुरयोच.



'हांव'न हो विचार धपक्याक फ़ांफ़डून उडयलो आनी परत हातांकडेन पळयत रावलो. ताच्या तकलेंत हातांविशीं परतो विचार आयलो. बसींत शेजरा बशिल्ल्या एका चलयेचो हात बारीकसाणेन नियाळटना एकदां ताका दिशिल्लें कीं हिचो हात म्हळ्यार कातीचो दर्याच. आनी तीची तीं नाजूक आनी बारीक बोटां म्हळ्यार न्हंय आनी नाखटां म्हळ्यार न्हंयचेर उफेत आशिल्लीं ल्हान ल्हान व्हडीं. म्हळ्यार एक दर्या, पांच न्हंयो आनी प्रत्तेक न्हंयच्या तोंकार एक अशीं पांच सुंदर शिस्तीन राविल्लीं व्हडीं.

हो विचार सोंपलो तरी दोळ्यांमुखार स्वःताचे हात, बोटां आनी नाखटां. ताणे धपक्याक हात सकयल घेतले. तितल्यान 'हांव'क दिसलें आपणे उदक पिंवचें. उदक पिवंचें म्हण्टगीर तान लागपाचो प्रस्नच नासलो. 'हांव' उठून डायनिंग हॉलांत आयलो. डायनिंग हॉलांत एका सुंदर मैदाना भशेन डायनिंग टेबल. मैदानाच्या मदीं साखर भरिल्ल्या परातीची वाटकुळी म्हेजच. व्हडल्ल्या दबाज्यांक करुन घेतात तशी. आनी ताच्या सरभोंवतणी ताकतिकेन वावूरपी दोमळेच दोमळे. 'हांव'क दिसलें ह्या दोमळ्यांचो दबाजो थोड्याच वेळान सुरु जातलो. 'हांव'क याद जाली कीं आपूण व्हड गिन्नानी आनी खूप पराक्रमी. थोडो वेळ विचार करुन 'हांव'न परातींतली मूठभर साकर मेजाच्या दुसऱ्या तोंकार उडयली. थोड्यावेळा उप्रांत दबाज्यांतले लोक मुखेल सोयऱ्या भोंवतणी एकठांय जातात तशे खूपशे दोमळे त्या मूठभर साखरे भोंवतणी एकठांय जाले. तें पळोवन 'हांव' आपल्याच बुंदवंतकायेचेर खोशी जालो. मागीर 'हांव'न परात उखलून त्या मुठभर दोमळ्यांचेर दवरली. दबाजो सोंपलो. मागीर 'हांव' आपल्याच पराक्रमाचेर खोशी जालो. 'हांव'क दिसलें आपूण मेजा म्हऱ्यांत येतगीर दोमळ्यांनीं आपले भितर 'हो कोण, हो कोण लांबरुंद आनी आडदंड' अशी कितेंयतरी आपल्या भितर भासाभास केली आसतली.

'हांव'क दिसलें आपूण आपल्याचेरुच खोशी जावंक शकतां रामदासरावासारके. अर्रर! रामदासराव. रामदासराव कसो तकलेंत आयलो नात, इतलो वगत! मागीर 'हांव' रामदासरावांची भेट येवजूंक लागलो. ती रोखडीच याद जाली. सुवातः बसस्टॉप, कारणः वत. खर वत. भर दनपरां हांव बस स्टॉपार उबो आसतना ताच्या शेजरा एक पंचेचाळीस वर्सांचो मनीस येवन उबी राविल्ली.

तो मनीस 'हांव'क म्हणूंक लागली, 'कितलें वत, तकली लेगीत फुटूंक शकता'

'हांव' म्हणूंक लागिल्लो, 'हय'

मागीर म्हुणूक लागिल्लो, 'तुमी म्हाका वळखतात व्हय?'

'हांव'न म्हणिल्लें. 'ना'

मनशान म्हणिल्लें, 'ह्या बसस्टॉपार केन्ना सावन येतात?'

'हांव'न म्हणिल्लें, 'आयजच आयलां. पयलेच फावट'.

मनशान म्हणिलें, 'आनी! म्हणूनच. हांव फाटल्या तेरा वर्सां सावन ह्याच बसस्टॉपाचेर येतां. तेन्नासावन आयजमेरेन म्हजी बस केन्नाच वेळार आयली ना.'

'हांव'क त्या मनशाच्या प्रस्नाचो बेजार आयिल्लोच. त्या व्यक्तीचो भंयूय दिसतालो. 'हांव'क दिसतालें कीं हो मनीस गोडगोड उलोवन आपल्याक मारुन तर उडोवंचो विचार करचो ना न्ही? तेरा वर्सां सावन आपलोच सोद घेत आसतलो कदाचीत. आनी आयज सांपडलो. आतां?

तरीय 'हांव' शांत उबो रावन जापो दित आसलो.

मागीर तो मनीस म्हणूंक लागिल्लो, 'पयर जेन्ना आमचे प्रधानमंत्री आमच्या शारांत आयिल्ले आनी ज्या कॉलेजींत तांचे भाशण जाल्लें थंयचे फोटे तुमी पळयल्याच आसतले दिसाळ्यांत? पळयिल्ले?'

'हांव'न म्हणिल्लें, 'हय'

त्या मनशान म्हणिल्लें, 'आनी! आतां म्हाका सांगात दिसाळ्याच्या दुसऱ्या पानावेलो पयलो फोटो तुमकां याद जाता? काय ना?'

'हांव' म्हणूंक लागिल्लो, 'हय याद आसा.'

मनीस म्हणूंक लागिल्लो, 'आं! त्या फोटोंत आमचे प्रधानमंत्री गर्देंतल्यान येतात अशें आसा आनी त्या गडबडींत ताणी एका सायकलीच्या हेंडलाचेर हात दवरला अशेंय दिसता. हय काय ना.'

'हांव' म्हणूंक लागिल्लो, 'हय दिशिल्लें. मागीर?'

तो मनीस उमेदीन म्हणपाक लागिल्लो, 'आरे, मागीर कितें रे? ती सायकल म्हजी आशिल्ली. हेंच म्हाका सांगपाचें आशिल्लें तुका येदोळच्यान. तुच्या बडबडीखातीर वेळ चड लागलो. आसूं.'

रामदासरावाची पयली भेट 'हांव'न ओडून ताणून याद केली. अडेचतीन वाजिल्ले. आतां याद करुन घेवपासारकी आशिल्ली सायकल. प्रधानमंत्र्याचो हात लागिल्ली अजापाची सायकल. रामदासरावाच्या घराकडे सदां ती आसताली. हॅंडलाचेर दोरयेन हुमकळायिल्ली ताच्या मरण पाविल्ल्या चल्याचीं ल्हान ल्हान जोतीं आनी दांड्यावेलें धाकलें सीट. बाकी सगळी कळमेल्ली सायकल. आनी कितें आसा याद करपासारकें? आं, रामदासरावांचो धाकलो चलो. तेन्ना स वर्सांचो आसतलो तो. दोंगोर चडपाक ताका खूप आवडटालें. तो दोंगोर चडटना घसरुन पडून मेलो तो प्रसंग 'हांव'क याद करचो अशें दिसलें.

रामदासराव, ताचो पूत आनी हांव दोंगोर चडटाले. चडटना चलो रामदासरावाकडेन उलयतालो. चलो म्हण्टालो, 'हांव व्हड जातगीर व्हडलो दोंगोर बांदतलों. पूण सगळ्यांत पयलीं एक रोपटें लायतलों. मागीर ताचेर दोंगोर बांदतलों. तें रोपटें त्या दोंगराच्या भितरल्यान वाडटलें. मागीर त्या रोंपट्याचीं दोनूय पानां आमच्या व्हडल्या दोंगराच्या मदल्यान भायर येतलीं. एक हांगा आनी एक थंय. मागीर एका पानाचेर हांव बसतलों आनी दुसऱ्या पानांचेर तुमी बसात. आमी सी-सॉ खेळूंया. आनी पुरो जातगीर मागीर दोगूय दोंगराच्या तेंगशेर वचून बसुंया. मागीर हांव मंत्र म्हणटलों आनी रोखडेंच आमच्या दोंगाराचो एक ल्हान फुलपाखो जातलो आनी आमी ताचेर बसून मळबांत उडून वचूंया'.

अशें उलयता आसतनाच भुरग्याचो पांय घसरलो आनी तो गडगडत सकयल गेलो. रामदासरावूय ताचो हात धरपाच्या यत्नांत सकयल घसरत गेलो. तातूंत ताचो पूत मेलो आनी हाच्या फ़ाटीक कुबड आयलें.

पूत मेलो तरी ताचो फोटो रामदासरावान घरांत लावंक नाशिल्लो. ताच्या घरांत ताच्या बायलेचोय फ़ोटो नासलो. ताची बायल मेल्या काय जीती आसा हें 'हांव'क खबर नासलें. रामदासरावानूय तें केन्नाच सांगूंक नासलें.

जनेलांतल्यान भायर काळोखूच काळोख. कितले वाजल्यात कोणाक खबर. न्हिदुंया काय? नाका. सपन पडत. दुधारी सुरी. खून. आतां? आतां आपणे उदक पिवंचें.

'हांव'न दोन तांबये भरुन सवका सवका उदक पिलें. एक तांबयो भरुन पिल्लें तर उणो वेळ लागतलो आसलो. उदकान पोट टम्म जाल्लें. आतां? चळचळीत मुतूंक जातलें थोड्यावेळान. पूण तें एक मिनीटय चलचें ना. तरीय तो आवाज आयकूपाक आपूण एकाग्र जातलों. फळफळ असो मोटयान आवाज. दुसऱ्याच्या घरांत असो आवाज करपाक खंय मेळटा? शिवाय तो आवाज आयलो ना जाल्यार आपल्या एकाग्रतेक बादा येतली ती वेगळीच. आवाज दुसऱ्यांक आयकूंक वच्चो न्हय म्हणून उदक चालूच दवरुन आमी मुततात. दुसऱ्यांची काळजी घेत घेत आमी त्या आवाजाच्याच भिरांतेंत रावतात. म्हणून आतां अर्द मिनीट तरी आपलेच जांवूया आयज. आतां थोड्याच वेळान मुतूंक जातलें. मागीर आपणे एकाग्र जावंचें. एकाग्र जातगीर आपल्या तकलेंत कितें कितें आसूं येता? निव्वळ रिकामी तकली आसूंकच शकना, एकाग्र म्हळ्यार. त्या निव्वळ एकाग्रतायेंत मुताची धार समजा दुधारी सुरयेसारकी दिसली जाल्यार? तिवूय शक्यताय आसाच. मागीर मुतूंक वच्चें काय नाका? शिवाय मुततना एकाग्र आसूं आनी तेन्नाच जर फाटल्यान दुधारी सुरयेन खून जालो तर आपल्याक कशें कळटलें कीं आपूण मुततां काय मरतां. म्हणजे परत आपूण आपले उरपाक ना. मरपाक वेळ दिवपाक येवंचो ना आनी मुतपाकुय मेळपाक ना. आपणे जर दार घट्ट धांपून घेतलें जाल्यार? थोडें सुरयेचे आनी थोडें मुतपाचे जावूं.

आपलो जगण्या मरपाचो प्रस्न आसतना आपल्याक मुतपाचें इतलें कित्याक पडलां ते 'हांव'क कळ्ळें ना. अर्द्या मिनटाच्या एकाग्रतेखातीर स्व: ताचो अठरा वर्सांचो देह वगडावपाक 'हांव' केन्नाच तयार नाशिल्लो. म्हणून 'हांव'न थारायलें कीं दार भितरल्यान घट्ट धांपपाचें. म्हण्टगीर अठरा वर्सांचो देह आनी अर्द्या मिनटाची एकाग्रता दोनांचीय जपणूक करपाक मेळटली.

तितल्यान 'हांव'क चळचळून मुतूंक जालें. 'हांव'क खोशी जाली. दोन तांबये उदक पिवन चळचळीत मुतूंक जावप ही खूप खोशयेची गजाल अशें 'हांव'क दिसलें. आनी मुतूंक जातलें हें आपल्याक पयलींच खबर आसली त्याखातीर आपलो तर्कय सारको आसा अशेंय 'हांव'क दिसलें. इतलें जबरदस्त तर्कशास्त्र दुसऱ्या कोणाचें आसतलें? मुतप म्हळें म्हण्टगीर मुतूंक जावप हीं कितें फकाणा न्हय.

'हांव' उठून मुतपाक गेलो. ताणे संडासाचें दार भितरल्यान घट्ट लावन घेतलें. मुतपाचो आवाज आयकत एकाग्र जावपाचो खूप ताणे यत्न केलो. तितल्या अर्द्या मिनटांत ताका

रामदासराव, ताचो पूत, गांवांक गेल्ले आवय बापूय, बर्शीतली नाजूक हातांची चली, दोमळे, कॉलेजींतले सर आनी दुधारी सुरी ह्या सगळ्याची याद जाली. दुधारी सुरयेची याद जाल्या बराबर तो रोखडोच भायर आयलो. भायर आयल्या बराबर बाथरुमाभायर दोरयेचेर हुमकळायिल्लें आपलें बानयान दिसलें. 'हांव'क दिसलें आपले अर्द आंग सुकयत सुकयत इतलें सुसेगाद हुमकळून हें बानयान कितें येवजीता काय? 'हांव' बानयानाक म्हुणूंक लागलों. 'रच रच तुर्जी मनोराज्यां रच. कसलीं मनोराज्यां? तुजी फाल्यांमेरेन कांयच गरज आसची ना'. 'हांव'क दिसलें हें बानयान पळपाचो तर विचार करीना मूं? आपल्याक जशी दुधारी सुरयेचो भंय दिसत तसो ह्या बानयानाक आपलोच भंय दिसता काय? पूण बानयान सामकें सुशेगाद आसा हें पळयतगीर 'हांव'क दिसलें कीं तातूंत जीवूच ना. ताका कांय अर्थ ना. आनी निर्जीव म्हण्टगीर ताचेर विस्वास दवरुन आपूण ताचो वापर करुंक शकतलो.

'हांव'क दिसलें आजून मेरेन दुधारी सुरयेची याद आयली ना तें कितलें बरें. तरी पूण सुरयेक हांवूच कित्याक मेळ्ळों? आनी ती सारकी सपनांतूच कशी काय म्हाका सांपडायता? जाची ती सुरी तो कांय आजून दिसूंक ना. हें सगळें रामदासराव गांवांत वचत तेन्ना सावन घडपाक लागलां कदाचीत. आपूण येद्या व्हडल्या घरांत आनी ह्या मोट्या शारांत एकटोच आसां. आवय बापूय परत येवपाक म्हयनोभर तरी लागतलो. बापूय आशिल्लो जाल्यार निदान तांचे पुरो जाल्ले पांय दामून दिवपांत वेळ वतलो आसलो. सुरयेचोय विसर पडटलो आसलो. कित्याक तर पांय चेपून दितना आपूण आपलो जावपाचो यत्न करचो नासलो. तें सगळें बरें आसा. पूण सुरी परत परत याद जावपाचें कारण कितें आसत काय? इतलो तोंकाचो दोनूय कडांनीं चकचकपी दुसरी सुरी आपणे आयुष्यांत केन्नाच पळोवंक नासली हें मानून घेवंक जाय. शिवाय ताची मूठय पेजाद. ताची मुठ सुंदर आसली तरी ताचें व्हडपण ताचेकडेन. ती म्हज्या पोटांत कित्याक घुसता? फ़ार्टी एका बायलेन एक लिंबू चड दिलो ताचोच हो परिणाम आसत काय? अशें वायट सपन कशें पडटलें? पूण लिंबू बी प्रकरणां खरीं कित्यावेल्यान? आपल्याक काय हाचो थोडोच अणभव आसा. असलो? पूण तीं प्रकरणा खरी न्हय हाचोय कांयच अणभव ना.

'हांव'क एकदम रामदासरावाची याद आयली. ताची निमणी भेट याद जाली. थळ: रामदासरावाचें घर. कारण: बेश्टेंच. 'हांव' रामदासारावाकडेन बेश्टोच गेल्लों. रामदासराव सिगरेट ओडीत बशिल्लो. हांव ताचेकडेन पळयत बसलों. थोडे वेळान हांव म्हुणूंक लागिल्लो. 'तुमी काल येतां म्हळें आनी आयले नात. कितें काम जालें?' रामदासराव म्हणपाक लागिल्लो, 'हांव तुजो नोकर?'

'हांव'न म्हणिल्लें, 'ना तशें कांय ना. बेश्टेंच विचारलें. पूण तुमी ह्या दिसांनी म्हजेकडेन इतल्या रागान कित्याक उलयतात?'

रामदासराव म्हणपाक लागिल्ले, 'तुजेकडेन सदांच प्रेमानूच उलवपाक जाय?'

'हांव' म्हणपाक लागिल्लो, 'ना तशें कांय ना. बरें ते सोड. तुमकां एक म्हत्वाचें सांगपाक जाय. पयरच्या फुटबॉल मॅची उपरांत हांवे गडबडींत खंयच्यातरी खेळगड्या वांगडा म्हजो फोटो काडून घेतलो. तो काल नेमाळ्यांत छापून आयला. हें घेयात कालचें दिसाळें म्हणजे दाखयतां हांव आमचो फोटो'. इतलें उलोवन जातगीर रामदासराव रोखडोच उठिल्लो. आनी ताणे 'हांव'क नेटान खोंट मारिल्ली. 'हांव' सकयल पडलो तेन्ना रामदासरावान म्हणिल्लें, 'ऍश ट्रे भशेन दोळे घेवन म्हज्या मुखार बसनाका. सगळी सिगरेट घुसयतलो दोळ्यांत'. आनी रामदासराव दुसऱ्या कुडींत गेले. मागीर 'हांव' स्व:ताक सांवरीत घरा आयिल्लो. त्याच दीसा सांजचो जनेलांतल्यान रामदासरावाचो वळखीचो मनीस भोंवडेची बॅग घेवन ताकतीकेन वतना 'हांव'क दिशिल्लो. रामदासरावूय उरफाटे वटेन लुंगी आनी नेहरु शर्ट घालून येतालो. रामदासरावान त्या मनशाक विचारिल्लें, 'कितें खंय वता?'

तो मनीस म्हुणूंक लागलो, 'पुण्याक, पुण्याक वतां.'

रामदासराव ताका म्हणपाक लागिल्लो, 'चल हांवूय येतां. आनी ताचे बराबर गेलेय. वतना ताणे कुल्यार थापट मारिल्लेंच. ताचें ते थापट खूप आवडिल्लें. तो म्हण्टालो, म्हाका पंचेचाळीस वर्सां ह्या आंगान सांगात दिलो तर ताका एक थापट शाबासकीचें कित्याक दिवंचे न्हय?

'हांव'न रामदासरावाच्या निमण्या भेटींतलें सगळें याद करुन घेतलें. 'हांव'क दिसलें रामदासराव ह्या वगतार जाय आशिल्लो. म्हणजे सुरयेची याद जाली कीं आपणे ताका सांगून एक खोंट तरी मारुन घेतलों आशिल्लों ताचे कडसून. पुराय खोंटीचे जावप बरें सुरयेचें जावंचे परस. नाका, नाका तशें नाका. सुरी याद जावंक नासली तरीय लेगीत रामदासरावान जर खोंट मारिल्ली तर? पूण निमण्या भेटींत रामदासरावान आपणाक बेठीच खोंट कित्याक मारली जायत? तो पुण्यांसावन येतगीर घडये आपली माफीय मागत. 'इतलें मनार लावन घेनाका' अशेंय म्हणीत. मागीर हांव म्हणन, 'जालें तें जालें, अशें चलपाचेंच. आनी रागाचें कारणूय विचारुं.'

साडेचार वाजले. घडयाळीचे कांटेय दुधारी सुरये भशेन आसात. भायलो काळोखय सुरये इतलोच धारदार आसा. इतलो काळोख म्हळ्यार दोळे धांपून घेतल्या उपरांतचो देखाव. इतल्या काळखांत आपूण उबो आसतना आपल्या दोन फुटांचेर चकचकीत दुधारी सुरी उबी रावन घडये आपल्याक म्हणपाक लागतली, 'उलय तुज्या पोटांत घुसूं?'

तर हांव म्हणीन, 'नाका नाका.'

ती म्हण्टली, 'नाका नाका कितें म्हणटा. उलय तुज्या पोटांत घुसूं?'

हांव म्हण्टलों, 'नाका म्हणलें न्ही?'

ती म्हण्टली, 'नाका म्हणलें ना कितें म्हण्टा. उलय तुज्या पोटांत घुसूं?'

हांव म्हण्टलों, 'तुका हांवूच सांपडलों?'

ती म्हण्टली, 'तुका हांवूच सांपडलो कितें म्हण्टा, उलय! तुज्या पोटांत घुसूं?'

खूप उलोवन आमी मागीर ओगी रावं.

ती म्हण्टली, 'ओगी कित्याक बसला, उलय तुज्या पोटांत घुसूं?' हांव बेजार जावन म्हण्टलों, 'घुस तरी एकदांची.'

ती म्हण्टली, 'घूस तरी एकदांची कितें म्हण्टा. उलय तुज्या पोटांत घुसूं?त

मागीर हांव पळत वचूं फ़ाटल्यान

पळयनासतना. अशें दिसतगीर 'हांव'क खूप भिरांत दिसली. ताका दिसलें रामदासराव हांगा जायच आशिल्लो. एक खोंट मारली म्हण ते आपले दुस्मान जायनात. ते इश्टा भशेन आसात. घडये इश्टच खोंट मारता आसतलो. म्हाका इश्ट ना म्हण कांयच खबर ना. तितल्यान पुस्तकांच्या डळमळीत राशीवेलें एक पुस्तक सकयल पडलें. 'हांव'न वचून तें उखलून दवरलें. तें योगसामर्थ्यावेलें पुस्तक घडये आसत. कारण ताचेर शीर्षासन केल्ल्या मनशाचें चित्र आशिल्लें. 'हांव'क दिसलें आपणेय शीर्षासन करुन पळोवंचें. 'हांव'न कॉट व्यवस्थीत वणटीक तेंकयली. एक उशें दवरलें. आनी उश्याचेर तकली दवरुन दोन प्रयत्न करतगीर बरें शीर्षासन केलें. 'हांव'क सगळें विचीत्रचशें दिसलें. गरगरपी फॅन सकयल दिसलो. आपली कॉट वयर कशी चिकटून रावल्या अशेंय दिसलें. पूण चकचकीत सुरी कशी वेगळी दिसतली आसली आसा ताचे परस? ती चकचकीत सुरी सोमतीच आपल्या पोटांत घुसतली आसली. कित्याक पोट आसा थंयच आसा. शीर्षासन केलें तरी. अशें दिसता आसतनच तो आसन मोडून व्यवस्थित उबो रावलो. तेकून बसलो. ताका दिसलें धा मिनटांनी पांच वाजतले आनी दीस कोमेस जातलो. आनी दिसाचो लख्ख उजवाड आसतलो. आपूण खूप काम करतलों दिसभरांत. कांय कामां रातीच्या खातीर मुद्दाम दवरपाचीं. म्हणजे रातभर काम कतगीर सुरयेची याद घडये जावंची ना. आयज कॉलेजींत वचपाची गरज आसाच. गर्देचीय संवय करुन घेवं.

पांच वाजल्यात. आजून शेजारचे उठूंक ना दिसता. आंगण झाडपाक आजून कोणूच येवंक ना. येत आसत.

तितल्यान दारावेली बेल वाजली. बेल आयकल्या बराबर 'हांव'क कच्च जालें. इतले फांतोडेर कोण आयला काय? सुरयेवालो? काय दुधकार आसत आनी मागीर सुरयेकार. दुधकार म्हण्टलो आसतलो, 'म्हजी हांगा दुधाची लावणी आसा.'

सुरयेकार म्हण्टलो, 'म्हजीय'.

इतल्या मजगतीं सात-आठ वेळ बेल वाजल्या आसतली. 'हांव' दार उघडुंक गेलो. पयलीं दाराक लायिल्लो व्हडलो फ़ातर कुशीक केलो. मागीर कदेल कुशीक दवरलें. दार उगडलें. मुखार रामदासराव आनी ताच्याबराबर पुण्याक वचपी दुसरो मनीस. रामदासराव भितर घुसलो. ताणे 'हांव'क पांयात पांय घालून उडयलो. आनी पोटाचेर खोंटो घाल्यो. तोमेरेन दुसऱ्या मनशानूय खोंटो घालपाक सुरवात केल्ली. 'हांव'क कांयच उलोवंक आयलें ना. इतल्या फोर्सान खोंटो बसतगीर उलोवप शक्यच नासलें. रामदासराव आनी दुसरो मनीस कांयच उलयनासले. फकत मारताले. दोगूय सेकंद भर थांबले. तितल्यान 'हांव' उठून कॉटीपोंदा लिपून रावलो. दोगूय ताचे फाटल्यान पळत आयले. पूण फाटीवेल्या कुबडाखातीर रामदासरावाक खाटीपोंदा सारकें घुसपाक जालें ना. म्हुणून रामदासराव चडफडत बोबो मारीत दुसरे मनशाक म्हणपाक लागलो, 'आरे हाका मारपाकूच जाय. हाका हांवे खोंट मारली म्हण हांणे बदलो घेवपा खातीर कितेंय तरी करणी केल्या आसतली. सेगीत पंदरा राती आपलो खून जाता अशीं सपनां बेठींच पडटात? परत इतल्या धारेच्या चकचकीत दुधारी सुरयेन. पंदरा राती न्हीद ना. तूं हाका मारीत राव तो मेरेन हांगा बावली, लिंबू दिसता काय तें पळयतां. तूं फकत मारीत राव.' दुसरो मनीस 'हांव'क खोंटो मारपाच्यो पुरायपणान यत्न करतालो. पूण 'हांव' कोनशाक लिपिल्ल्यान ताचेमेरेन दुसऱ्या मनशाची खोंट पावनासली. पूण एक मात फ़ोर्सान लागली. खूप फोर्सान. तोंडार. 'हांव' न्हिन्नळो. रडपाक लागलो. मोट्यान रडत म्हुणूंक लागलो, 'म्हाका मारुं नाकात. हांवूय पंदरा राती जागोच आसा. म्हाकाय सुरयेचें सपन पडटा. हांवे कांयच करुंक ना. म्हाका कित्याक मारतात? वेल्यान हांव तुमचीच वाट पळयतालों. म्हाका दर रातीं भंय दिसता. म्हाका सदांच तुमची याद येता.' परत दुसरी खोंट तोंडार बसली. 'हांव' न्हिन्नळो. 'हांव'क दिसलें उलोवन फायदो ना. मारुं दी. मनशांच मारतात. हांचो मार खातना आपणे आपलो जावपाचो यत्न करुन पळोवंया. तिसरी खोंट तोंडार बसली. आतां 'हांव'न थारायलें कीं न्हिन्नळपाचें ना. हे दोगूय आसमेरेन दुधारी सुरयेची याद तरी आपल्याक येवंची ना.

न्हीद लाग मेरेन 'हांव'क दुधारी सुरयेची याद आयली ना. न्हिदेंत 'हांव' न्हिन्नळलो ना.

संपर्क: 9923306751

***

---

*(पान ७८ वयल्यान)*

तारीवाड्याच्या दिकेन चालिक लागलो.

वाड्यावेले कांय जाण पुलार धांवताले तर कांय जाण फेरी धक्या लागी एकठायताले. उदकांत कांयच दिस नाशिल्ले. पुलापोंदचो तो जागो पेत्रोलाच्या वासान भरसटिल्लो. मोठी धेंपा मारीत आयिल्लो उमेश धक्या लागसारच्या दावे वाटेनच्या दिकेन घुंवलो. फाटोफाट वासू शेणोय चालिक लागलो. काळखांत किते चल्लां हाचो अदमास लेगीत येना आशिल्लो. भोंवताणच्या भिरांकूळ वातावरणांत आपुण खंय वता हें लेगीत वासू शेणोय नकळो आशिल्लो. आता मेरेन ताची शिवदासाची मादकताय पुरायेन निवळूंक लागिल्ली. पयसुल्या पुलावेल्या उजवाडाच्या फांटभूयेर एका लांब झाडांच्या झोंपा सामकार कोण तरी आसा अशे वासू शेणोयक झळकले. लागीं पावले बराबर कोंड्याआळी मुखार शिवदासाक डोळे धापून दिमकूऱ्यानी बशिल्लो ताणे पळयलो. म्हऱ्यांत एका अर्दान उमेश आपली मान सकला बागोवन दोनी हाताचे तळवे एकामेकांत घुस्पावन उबो आशिल्लो. ताच्या गळ्यांत केमकोर्डर हुमकळतालो. कोणुच एकामेका लागी उलय नाशिल्ले. बिण्ण काळखांत वासू शेणोयन लायटर पेटयलो. ताची नजरे थंयच आशिल्ल्या मातयेच्या पणटेर गेली. पुराय आनी स्पष्ट उजवाडाच्या आशेन तेलाचो हयन्हयसो वास आशिल्ली त्या पणटेतली अर्दी जळील्ली वात पेटोवचो ताणे यत्न केलो. ती पेटनाशिल्ली. ताणे खूप फावट यत्न करुन लेगीत ती पेटना जाली. आनी पेटली जरी तरी आतां कायच उपेगाची नाशिल्ली.

संपर्क: 9822129070

***




# सम्राट

अरुण सुखठणकार

*वळवईचं भूत मोठे । आल्या गेल्या झडपी वाटे*
*बहु देवचाराचें रान । जाता वेडे होय मन*
*तेथे जाऊ नका कोणी । गेले नाही आले परतोनि*
*धाकू वळवईस गेला । पुन्हा पणजी नाही आला*

हो मूळ अभंग संत तुकारामाचो धाकूच्या भाशेंत तुकेबाबाचो. हांवे धाकूक तुकेबाबाविशीं विचारतकच ताणे सांगलें कीं, ह्या गोंयच्या भूंयेर प्रत्यक्ष देव दामोदर दामबाब जावन रावता तेन्ना तुकारामाचो तुकेबाब जाल्यार अजाप कसलें? म्हजें तोंड बंद. अभंग तुकारामाचो पंढरपूरावयलो मोग दाखोवपी, धाकून वळवयवयलो मोग दाखोवंक हो बदल केला. धाकू ताका फ्युजन म्हणटा, हांव ताका कनफ्युजन म्हण्टकच धावूंन चाळवता "तुमी कोंकणीवादी मरे सामके पाडे" धाकूची टेप सुरू जाता. हें म्हणटना तो आपूण कोंकणीवादी हें विसरता. ही पिडा आयज काल खूब लोकांक जाल्या. ते कोंकणीच्यो चुको मराठीच्या दुर्गार चडून दाखयतात. धाकू तांका "दुर्गावयले"म्हणटा. 'कुंपणावरचे' ह्या मराठी उतराचें तें फ्युजन आसूंक जाय.

धाकूची ही पोन्नी संवय मराठी कविता घेवप आनी फ्युजन करप. हरशीं धाकू तकलेन फीन कोंकणीवादी आशिल्ल्यान ताची मराठी बरी आसा. तो दोनूय भाशांनी कविता करूंक शकता. पूण फ्युजनाची संवय आशिल्ल्यान स्वताचें अशें कांय करूंक पावना. हालींच मराठींतलें एक पोरणे गीत 'यमुनाकाठी ताजमहाल' ह्या गीताचे 'मांडवीकाठी कला महाल' अशें फ्युजन केलां. जित्याची खोड ती!

वळवय आनी धाकू हांचें नातें किदें? धाकूच्या म्हणण्याप्रमाण सरकाराच्या भुमीपुत्राच्या व्याख्येंत तो सारको बसता कित्याक तर तो वळवय केन्नाच रावंक ना. पूण दोनशें, तीनशें वर्सां पयलीं धाकूचे पूर्वज वळवय रावताले. थंय तांचे घर आशिल्ले. पोटा फाटल्यान ते गांव सोडून गेले. घराचो जागो ताणी विकलोना. धाकूच्या बापायन धाकूच्या नांवार दवल्ला. आयज थंय घर ना पूण जमिनीचो कुडको आसा. नशिबान धाकून शेजारी बरे मेळ्ळे. कोणेच पोपाय, निरपणस, केळयो, कवाथो असलीं झाडां लावन जागो आडावपाचो यत्न करूंन ना. धाकू म्हण्टा मुंडकार कायद्यांत ह्या झाडांविशीं एक कलम आसूंक जाय. ही झाडां लायली काय जागो रोयतल्याचो जाता. वेरेंच्या दोतोराक तो विचाराचो आसा.

धाकूचे वळवयचें दुसरें नातें म्हळ्यार धाकूची बायल पिरू म्हळ्यार आमची पिरुव्हनी. ही वळवयची धूव. हें वळवय पुराण सांगपाचे कारण म्हळ्यार, आयज धाकू आनी हांव वळवय वचपाचे आसात. पंढरपूर कळ्ळ्याबगर तुमका संत कळना तशेंच हें!



धाकू येतकच आमी भायर सरुन बशींत बसले. बशींत हांवें धाकूक विचारलें, "धाकू कोणाक मेळपाक वतात आमी? वळवय दर एका घरांत कालीदास, भास, भवभूती आसात. "सम्राटाक" धाकू. ह्या नांवांचो कोण आसतलो काय? हांव विचार करूंक लागलो. "ह्या नांवाचो कोण याद जायना मरे" हांव. "ह्या नांवाचो थंय कोण ना, हें हांवें नांव दवल्लां. तुका याद आसा मरे भिकूभाऊन सांगिल्लें कोणाचींच नांवां घेवंक नाकात." धाकू.

"आतां आमी वळवय वताच जाल्यार तुवें वळवयचेर केल्ल्या कवनाचो अर्थ म्हाका सांग, वळवयकारांक समजून घेवपाक बरें पडटलें." हांव. "सांगता"- धाकू. धाकू रंगांत आयलो. "पयल्या ओळीचो अर्थ वळवयचें भूत तें. दोळ्यांक दिसना पूण ते मानेर बसता. खूप वर्सांपयलीं तें दत्ताराम नांवाच्या वळवयकाराचेर बसलें. तो वळवयच्यान भायर सल्लो. भोंवत भोंवत मुंबय पावलो. मास्टर जालो. मराठी माचयेक एक नटसम्राट मेळ्ळो. फुडें कांय वर्सां गेलीं हेंच भूत चवदा-पंदरा वर्सांच्या भुरग्याच्या मानेर बसलें, कोंकणी साहित्य सम्राट जल्माक आयलो. साहित्याच्या ज्या ज्या वाठारांनी हाणें पावल घालें तो तो वाठार हाणें जिखलो." तशें म्हज्या तकलेंत उजवाड पडलो, सम्राट दोळ्यांमुखार आयलो. वळवय आनी वळवयकार हांचे विशीं उलयतना धाकूक फुलोवन सांगपाची संवय आसा तरी लेगीत तो सांगता तातूंत तथ्य आसा." हें भुत वळवय भायल्यान येवपी लोकांचेर लेगीत बसूंक शकता, हांगा वाड्या वाड्याचेर साहित्यीक देंवचार बशिल्ले आसात. वळवय येतना सांबाळून येयात हांगा येवन चड शाणेपणा करशात परते वचूंक पावचेनात. निमणी ओळ म्हजेविशीं, हांव वळवय वतकच शेणटा, म्हजो जीव थंयच उरता. परती येता ती म्हजी कूड"- धाकू. हांवें तोंडान व्वा! म्हळें आनी मनांतल्यान तुकेबाबाची क्षमा मागली.

सम्राटचें घर लागचे पयलीं पिरुव्हनयेचे घर लागता. सम्राटाच्या घराक तेंकून. पूण थंय वतलो जाल्यार चार घरांच्या आंगणातल्यान मागील दारांतल्यान वचचें पडटा. चडशीं घरां अशींच. खूब वर्सां पयलीं 'लाखाची गोष्ट' नांवाचो एक मराठी सिनेमा आयिल्लो. त्या सिनेमांत एक पद आशिल्लें. 'त्या तिथे, पलीकडे, तिकडे माझीया प्रियेचे झोपडे' धाकूच्या म्हणण्याप्रमाण हें गीत बरवचें पयलीं कवी वळवय येवन रावला आसूंक जाय. असो नामो बरयल्यारच वळवय पत्र पावपाची शक्यता आसा. खुद्द धाकून लग्न ठरतकच बायलेक बरयल्ल्या पत्रार असोच नामो

घालो. म्हाका सगळो नामो याद ना दोन ओळी घट्ट लक्षांत उल्ल्यात. "उजवीकडे झरीचें तोंड, डावीकडे खणीचें फोंड" असोच किदेंतरी नामो आशिल्लो. आतां मेरेन तुमकां वळवय आनी धाकू हांचे विशी सगळें समजलांच आसतलें.

आमी सम्राटाच्या घरालागीं पावता थंय आसा. मुखावयल्यान सम्राटच येतना दिसले. हांव तांका खूब वर्सांनी पळयतालो. हांव भितल्ल्यान सामको हाल्लों. माथ्यार गोल्फ कॅप, बुशर्ट ताचेर जाकीट, पायांत बूट असो भेस आसून लेगीत कूड थकल्या हें कळटालें. पावल उबारपाक कश्ट जाताले. तांचो सगळो इतिहास म्हज्या दोळ्यांमुखार उबो रावलो.

वळवयक बंडाची परंपरा आसा. तिनशें वर्सां पयलीं गावांत शिपायांचे बंड जाल्लें खंय. बंडाचे कारण पयशे ना मेळप हें आशिल्ले खंय. दुसरे बंड हें सामाजीक बंड आशिल्लें. ह्या बंडाचो फुडारी आशिल्लो सम्राट. सामाजिक विशमतायेचे विरुद्ध पेटयल्लो हो उजो वळवय आनी भोंवतणच्या वाठारांत पावलो. धाकू तेन्ना वळवयक गोंयची नक्सलबारी म्हणटालो. तेन्ना तांचे वय आशिल्लें पंदरा-सोळा वर्सां. उपरांत ताणे कोंकणी साहित्यांत पावल घालें. साहित्याचे सगळे प्रकार कविता, निबंध, नाटक, कादंबरी हाणे हाताळ्ळे आनी आपली खाशेली छाप निर्माण केली.

गोंयांत नाटकाची परंपरा आशिल्ली. पूण ती मराठी नाटकांची. गोंयची आनी मराठणाची संस्कृताय एकच हें दाखोवपाक ही मराठी नाटकां परती परती वयर सरताली. हाणें पयल्या खेपेक मराठी नाटकांक पर्याय दिलो. आयज खंयचोय पेपर उगडून पळयल्यार हाची दोन तीन नाटकां खंयतरी जाल्लीं दिश्टी पडटलीं. इतलेंच न्हय तर हाची देख घेवन गावांगावांत नाटकां बरोवंक सुरवात जाली. ह्या नाटकाचो दर्जो किदें आसता तें कळूंक कठीण. ह्या नाटकांची नांवां परत खंयच आयकूंक येनात. सम्राटाच्या नाटकां पयलीं नाटकां नाशिल्लीं अशें न्हय. पूण तीं फार्सिकल, मनरिजवण इतलोच तांचो उदेश आशिल्लो. हाणें पयले फावटी कश्टकाऱ्यांची हूम आनी गोंयच्या मातयचो गंध आशिल्लीं नाटकां बरयलीं. तो मेरेन सगळ्यांचे बरें चल्लां असो आमचो समज आशिल्लो. समाज रचनेच्या निमण्या पांवड्यार आशिल्ल्या लोकांच्या सुखदुःखाची आमकां जाणवीकाय नाशिल्ली. हाणें आपल्या साहित्यांतल्यान ती आमकां करून दिली. म्हणून म्हाका दिसता जो मेरेन कोंकणी भास आनी कोंकणी साहित्य ह्या धर्तरेचेर आसा तो मेरेन हाका कुशीक काडूंक जांवचो ना. धाकू म्हणटा तशें "हो कोंकणी साहित्यातलो देंवचार मरे ताका रोंट, ताचो मान दिवपाकच जाय नाजाल्यार खूबतलो तो?"

सम्राटाच्या साहित्यापरस सम्राटाचेर लोकांनी बरें वायट बरयलां. हाका एक कारण म्हळ्यार ताचो सभाव. उलयतना -बरयतना हाणें कोणाची भीड मुरवत दवल्ली ना. जें पटलें तें बरयलें. मुखार कोण आसा, फाटल्यान कोण आसा हो विचार ताणे केन्नाच केलो ना. देखीक एक प्रसंग सांगतां, फोंड्या राजीव कला मंदिरांत नथुराम गोडसेचो प्रयोग आशिल्लो. कुळागारांतले गोडसेवादी प्रेक्षक थेटरांत चड आशिल्ले. सगळे नाटक नथुराम गोडसेचेर. संवादांतलीं वाक्यां गोडसेच्या भुमिकेक उखलून धरपी. गांधीच्या भुमिकेक ना संवाद ना म्हत्व. गोडसे ताळयांर ताळयो घेतालो. मर्दींच चुकून गांधीच्या वाट्याक एक सणसणीत वाक्य आयलें. सगळें थेटर थंड. गांधीचें वाक्य सोंपपाक एकच सणसणीत टाळी वाजली. सगळें थेटरूच न्हय तर माचयेवयल्यान गोडसे आनी गांधी टाळी वाजोवप्याच्या दिकेन पळोवंक लागले. ती टाळी सम्राटाची आशिल्ली. आपूण एकलोच टाळी वाजयता. लोक आपल्याक पळयता हें ताका पडूंकच नाशिल्लें. नाटक सोंपतकच म्हाका कंत्राटदारान भीतर आफोवन व्हेलो. तो म्हजो वळखीचो आशिल्लो. ताणे म्हाका गांधीचो पार्ट केल्ल्या नटामुखार उबो केलो. ताणे म्हाका "टाळी कोणी वाजवली?" असो प्रस्न करतकच हांवे सम्राटाचे नांव सांगलें. शेंकड्यांनी प्रयोग करून लेगीत ताका अशी टाळी मेळूं नाशिल्ली. ताणे फुडें सांगलें, "आज नथुरामची गोळी नव्हे तर सम्राटाची टाळी वर्मी लागली."

आयज सम्राटाकडे पळयतना म्हज्या दोळ्यांमुखार सगळें उबे रावलें. कोंकणीची धूरा ज्या खांद्यार घेतिल्ली ते खांदेच आयज बागवल्यात. एक गजाल मात तशीच आसा ती म्हळ्यार तांच्या दोळ्यांतली कीट. ज्या किटीन कितलीशींच होमखणा पेटयलीं. कूड थकप ही सैमाची करणी. ती सगळ्यांच्या वांट्याक येता हें आमी विसरूंक फावना.

मर्दी कानार आयलें सम्राट साहित्यीक दृश्टीन सोंपला. कासाक वतना वांगडा रान उठोवपी वतात. आमच्या कोंकणीत रान उठोवपी खूब आसात. दुसऱ्या भाशेंतल्यान रान उठवप चड सोंपे आसा. कलाकाराची कला हळूहळू सोंपप ही लेगीत सैमीक क्रिया. हाका आडवाद आसतात ना अशें ना. भा. रा. तांबे नावांचो फामाद कवी आशिल्लो. ह्या कवीक भितल्ल्यान आपूण सोंपूक लागला अशें दिसूंक लागले. हो मराठी कवी. कोंकणी न्हय. कोंकणी आशिल्लो जाल्यार आमी ताका तोंडारच सांगपाचे तूं सोंपला म्हणून. हें आपलें रितेपण ताणी एका कवितेंतल्यान सांगलां. आपल्या रसिकांक ते सांगतात, "तुमी मागलें तेन्ना आपणे तुमकां भरपूर दिलां. आतां हांव थकलां. फुडल्यो दोन ओळी - सम्राट सोंपला म्हणपी लोकांखातीर कवी म्हणटा "सेवा ही पूर्वीची स्मरोनी, करी न रोष सख्या दया करी." अर्थ इतलोच आपणे जी तुमची सेवा केल्या ती स्मरची आनी आपल्याक माफ करचें. रागार जावंचे न्हय. सम्राटान आमकां खूब दिलां त्याखातीर ताचे उपकार मानी नासतना तो सोंपलो म्हणून शबय घालपी आमी कर्मकट्टे!

घरांत भितर सरतकच ताणी धाकूक "भावोजी आज हांगा कसो पावलो?" अशें विचारतकच धाकून तांका "तुज्याच खबरेक" अशी जाप दिली. दोगांची भास एकेरी "म्हजी खबर कसली? आतां सगळे विसरल्यात म्हाका." सम्राटाचो मूड बरो ना हें धाकूक कळ्ळें. वातावरण मेकळे जावंचें म्हणून धाकून विचाल्लें, "सम्राट तुवें साहित्याच्या सगळ्या प्रकारांनी बरयलां, एक प्रकार उल्ला "आत्मचरित्र". "जाणां आतांच बरोवन सोंपयलां." - सम्राट. मेजावयल्या फायलींकडे बोट दाखयत सम्राटान सांगलें. "आत्मचरित्राचे नांव किदें दवरलां?" "वळवय ते वॉशिंग्टन व्हाया रोम" सम्राट. आत्मचरित्र 'राखणो' ह्या

प्रकरणान सुरू जाता. ते भुरगेपणान राखणेपण करताले अशें ताणी खंय तरी बरयलां. हो राखणो तांच्या मनांत सदांच आसतालो. ते जंय वता थंय तो तांच्या सांगाताक आसतालो. ते अमेरिकेक गेले थंय लेगीत ताणे तांकां सोडूंक ना. हांवें तांका मराठीतले एक लेखक जयवंत दळवीची गजाल सांगली. दळवी कोंकणातले आरवलीचे. तांचे ग्रामदैवत वेतोबा, हे वेतोबा तांका सदांच दिश्टी पडटालो. ते अमेरिकेक गेले तेन्ना तांका हो वेतोबा विमानाच्या पाखांर बशिल्लो दिश्टी पडलो. तुमच्या राखण्याचें अशेंच जालां आसतलें. हें आयकून ते हांसले.

ताणी मागीर अमेरिकेंत घडिल्ली राखण्याची गजाल सांगली. थंय आसतना ते फांतोडेर पासयेक भायर सरले. मदींच तांकां किदें जालें तें तांकाच समजलेना. तोंडांतल्यान हीरी हीरी हीरी अशी उतरां भायर सरलीं. रोखडेंच तांकां कळ्ळें आपल्यामुळे राखणो जागो जाला. एक जाण्टेली धांवत भायर आयली आनी कुरवांनी किदें जालां अशें विचारूंक लागली. आतां गोंदळपाची पाळी सम्राटाचेर आयली. ती किदें विचारता तें सम्राटाक कळना. सम्राट किदें म्हणटा तें तिका कळना. निमाणे सम्राटान बेजार जावन आपले हात आनी तकली वयर मळबाच्यावटेन केली. ''ओ प्रेयर'' जाण्टेलेन किंळाच माल्ली. मागीर तिणे सम्राटाक सांगलें की, तें किदें म्हण्टाले, तें तिका हिलरी, हिलरी अशें आयकूंक आयलें. तिजे नांव हिलरी आशिल्लें. मागीर त्या बायलेन सम्राटाक मुखावयले उंच इमारतीकडे व्हेलो. पयल्या चार, पांच माळ्यावयली जनेलां उगती करून चार ते ऐंशी वर्सांच्या हिलरी फांतोडेच्या पारार कोण आपल्याक उलो करता तें पळयताल्यो. सम्राट पोन्या यार्दीत घुसपले तें पळोवन धाकून विचाल्लें 'सम्राट तुमचेंविशीं बरयतनां कोणें तरी म्हळां की कांय लोकांनी तुमकां कोंकणीक भौसाची मान्यताय आसा अशें दाखोवंक ओडून तांच्यात व्हेलें. ''ओडून व्हरून गोठ्यांत बांदपाक हांव किदें घणसाबेल? (ह्या बैलाचेर हांची कविता आसा काय?) सम्राट उसळ्ळो. तांच्या दोळ्यांतली 'ती' कीट धगधगूंक लागली. ''हांव म्हज्या मायभाशेक म्हजी गरज आसा म्हणून हांगा आयलो गरज आसा सर हांगा आसतलो.

वातावरण गंभीर जाताशें पळोवन हांवे सम्राटाक म्हळें, ''आनी किदें नवें हातांत घेतलां?'' ''एक संशोधनाचो विशय आसा.'' - सम्राट. ''कसलो?'' - हांव ''कोंकणी भाशेंतल्यो गाळी'' सम्राट. भर वेगात आशिल्ल्या गाडयेन मदींच ब्रेक मारतकच गाडयने बशिल्ले उसळटात तशे आमी उसळ्ळे, धाकू तर उठून उबो रावलो. ''भावोजी बस, इतलें आंग काडपाक किदें जालां? हांवें तुमकां गाळी घालूंक ना, हांवे फकत गाळ हें उतर तोंडांतल्यान काडलां भिजूड लोक तुमी!'' - सम्राट. ''तशें न्हय सम्राट. गाळ म्हणटकच वायट उतरां, कुडीच्या गुप्तांगाचो उल्लेख येता, भुरग्यांनी आयकल्यार?'' भावोजी, भायर भोंवतना तुमी तुमची गुप्तांगां घरा दवरून येतात? ती घेवन भोंवपाक तुमकां लज दिसनां, तीं तोंडात उच्चारपाक लज दिसता? तूं भुरग्यांचे उलयतालो. आतां भुरग्यांक तुमी लैंगिक शिक्षण शाळांनी दिवंक सोदतात तेन्ना गुप्तांगाचे किदें करतले? अे, बी, सी अशीं नांवां दिवन शिकयतले? तुमी भुरग्यांक सैमापासून तोडल्यांत म्हणून तुमकां तांका लैंगिक शिक्षण दिवंचें पडटा. आयज मेरेन मनीस वंश कसो वाडलो? कोणे दिल्लें लैंगिक शिक्षण? सैमान ती तजवीज केल्या. शेवण्यांकडे, जनावरांकडे पळयात तुमकां वेगळें शिक्षण दिवपाची गरज ना. तुमी भुरग्यांक अे, बी, सी शिकयतात मागीर त्याच अक्षरांची व्हिटामिनां तांच्या तोंडात ओततात. ताणीं उदकांत हात घाल्यार तांका कोल्ड आनी फीवर येता, मातयेंत हात घाल्यार तीं डर्टी जातात आरे तुमी तांची मनीप्लांटा करून सोडल्यां. कशीं घेतलीं ही मनीप्लांटा मातयेंत मुळां?'' धाकू सामको निवळ्ळो.

सम्राटान फुडें सांगलें, ''भुरग्यांचे सोड हांच्या आवयबापायक तरी कळटा? अशें म्हणून ताणीं वेरेंच्या हाय सोसायटींतल्या एका घराब्यांत घडिल्लो प्रसंग सांगलो. हें हाय सोसायटी प्रकरण किदें हें हांवें धाकूक खूप तेपा पयलीं विचारिल्लें. धाकून म्हाका सांगलें की, हांव तांदळाच्या आनी दुदाच्या सोसायटींत वावुरपी मनीस, म्हाका हाय सोसायटी कोंताक येवपाची ना. धाकू म्हजो गुरु. हांवे ताचे म्हणणे मानलें. हाय सोसायटी म्हळ्यार किदें तें मात ताणे निमाणे मेरेन सांगलेंना. ह्या घराब्यांत चौग जाणां. घोव, बायल, दोग कॉनव्हेंटी भुरगीं रावतात. पणजे आयतारा गांवघरा येतात. हाय सोसायटींत हालींच जनावरां पाळपाची फॅशन आयल्या. मांजरां, कुत्रीं हीं जनावरां फ्लॅटांनी पाळूंक जाता. वेरेचे फॅमिलीन आपले मोठेपण दाखोंवक वेऱ्यां एक गाय भरपूर पयशे दिवन हाडली. तिका खावड घालपाची व्यवस्था केली. एका आयतारा डॅडा, मम्मा, दोन भुरगीं आनी हाय सोसायटींतल्यो मम्मीच्यो इश्टींणी वेऱ्यां घरांत भितर सरलीं. भितर सरनाफुडें मम्मान जाहीर केलें की आयज दुद काडपाचो 'इव्हेंट' आसतलो. 'ओ', 'हाव नाईस,' 'फॅन्टॅस्टीक' मम्माच्यो जीनधारी इश्टीणी सगळे बराबर गोठ्याकडेन आयल्यो. हाय सोयायटीक शेणा मुताच्या वासाची संवय नाशिल्ल्यान सगळ्यांनी लेस काडून नाकाक लायले. एकटेन बॅगेंतल्यान स्प्रे काडून माल्लो. स्प्रेचो वास गोठ्यांतल्या जनावराच्या नाकात वतकच तें चाळवलें. तांका थातारतासर डॅडाक घाम फुटलो. दुदाक आयदन जाय इतलें सगळे जाणा आशिल्ले. पुण कसलें आयदन ते कोणच नकळ आशिल्लो. कोण तोप हाडलो, कोणे थर्मास हाडलो, कोणे वॉटर बॉटल हाडली. निमाणे कोणेतरी बालदी हाडली. बालदी घेवन डॅड गोठ्यांत भितर सरलो. भितर सरतकच ताका कळ्ळें दुद कशें काडप तें तो नकळ. कोणाक विचारतलो म्हळ्यार घरांतली सगळीं जाण्टी. वयर कामधेनुचे दुद काडपाक पावल्यांत. निमाणें त्या शिटूक चलयेन डॅडाक मोबायलाची याद करून दिली. सगळ्यांक सूऽ जालें. डॅडान मोबायल काडून दुद कशें काडप हे पळेलें. मागीर डॅडान जनावराकडे पळयलें, परतून मोबायलाकडे पळयलें. हें परतें परतें जातकच मम्मान मोबायल घेवन पळोवंक सुरवात केली, किदें तरी चुकता हें सगळ्यांक कळ्ळें. किदें तें मात कोणाक कळ्ळेंना. निमाणे त्या चलयेन मोबायल घेतलो आनी तिणें किंळची मारली. ''मम्मा मिल्कींग पार्ट इज मिसिंग'' तें किदें म्हण्टा तें पयलीं कोणाकच कळ्ळें ना. कळ्ळे तेन्ना मम्मा काचाबूल जाली. सगळ्यो इश्टीणीं हांसताल्यो. मम्माक ताचेंच चड दुःख जातो. ''स्टुपीड, इडीयट, नॉनसेन्स, अवचित्र खंयचें.'' मम्माची भाशेची गाडी

इंग्लीशीच्या टार रोडावयल्यान कोंकणीच्या तांबड्या रस्त्यार आयली. थंडपणान विचार करतकच तें चली सांगतालें तें बरोबर आशिल्लें हें सगळ्यांक कळ्ळें. जाल्लें अशें ह्यो अबरगती पळोवन खंयच्या तरी शिटूक मनशान गाय म्हणून एक म्हातारो बैल हांच्या गोठ्यांत आणि गळ्यांत बांदिल्लो. ''वॉटस रॉंग मम्मा?'' चली आवयक विचारूंक लागले. मम्मा फणफणत भितर गेली. डॅड बायले परस बैल बरो अशें चितून गोठ्यांतच रावलो. चलयेचो मात विरूस जालो. दुसऱ्या दिसा शाळेत इश्टीणींक हें दुद काडपाचें 'थ्रील' सांगपाचें आशिल्ले. ताचें तोंड बावलें. इतलो वेळ थंडपणान हो सगळो बोवाळ पळयत बशिल्लो त्या चलयेचो भाव जो लैंगिक शिक्षण घेवपाच्या पिरायेचो आशिल्लो. तो आपल्या भयणीक सांगूक लागलो, ''सी बेबो धीस इज डॅडा काव, यु कॅनॉट मिल्क डॅडा काव फॉर दॅट परपज यु रिक्वायर मम्मा काव.''

हो प्रसंग सांगून जातकच सम्राटान सांगलें, हो घडिल्लो प्रसंग, घडयलो न्हय!

''तुमच्या संशोधनाविशीं सांगात, हांवें सम्राटाक याद करून दिली.'' ''सांगतां. म्हणी जितल्यो भाशेक गरजेच्यो तितल्योच गाळी. गाळ ही उण्यात उणी आनी फोर्स आशिल्ली उतरां वापरून केल्ली आसूंक जाय. कशें तें पळयात. हें उदाहरण गाळींचे न्हय, ''डोकें फिरले आहे काय? हाका कोंकणीत फकत एकूच उतर आसा ''घुंवला?'' ही भाशेची गिरेस्तकाय गाळींनी ती दिसूंक जाय. म्हणी कशो आसल्यो हें आमी सांगतात पूण गाळी कशो आयल्यो हें कोणे काडलां सोदून? हांव ते करूंक सोदतां.'' अशें म्हणून ते भितर गेले. कुडीच्या जनेलांतल्यान एक केळमो दिश्टी पडलो. केळम्याचे पान जनेलांतल्यान भितर येवंक सोदतालें. म्हाका एक पोन्रो संवाद खंय तरी वाचिल्ल्याची याद जाली. संवादांत आवय आपल्या पूताक केळीचें पान हाडूंक सांगता. तो ल्हान भुरगो आवयक सांगता की केळीच्या पानाक शीर्ती म्हणटात आनी शिर्तेच्या कुडक्याक खोलो म्हणटात, हें खंय वाचलां ते मात याद जायना जालें जाण्टेपण!

सम्राट एक फायल घेवन आयले. ती मेजार दवरली. ''अेक म्हत्वाची गजाल सांगपाक विसरलां. गाळी आनी गुळी हांचो लागींचो संबंद आसा.'' ताणी मागीर गोंयांत घडिल्लो एक प्रसंग सांगलो. गाडी स्कूटरीक लागली ह्या साद्या कारणाक लागून एकट्यान फार पेटयलो. पुलीस स्टेशनार दिल्ल्या तक्रारींत कोणेच गाळी घाल्ल्याचो उल्लेख नाशिल्लो. हें सांगून सम्राटाक गाळी मानसशास्त्राच्या नदरेन राग भायर काडपाची एक वाट वा झडप म्हणून काम करता अशें सांगलें. दोगांयनी एकमेकांक गाळी घाल्यो जाल्यार तांचो राग न्हिवतलो आशिल्लो. गुळी घालपाचो प्रसंग येवंचो नाशिल्लो. गाळी घालीना तेन्ना गुळी घालची पडटा. गाळी ह्यो अहिंसेचे व्हडलें अस्त्र!'' सम्राटाचे विचार आयकून म्हजी तकली घुंवक लागिल्ली. तरी धीर करून हांवे सम्राटाक विचारलें की, गांधींक अहिंसेचे पुजारी म्हणतात. ताणी केन्ना गाळींविशीं सांगूंक ना. ''हांव तेंच सांगपाचो आशिल्लो.'' म्हाका सांगात गांधीजींचो खून किदयाक जालो?'' - सम्राट. सायबा! (जो गोंयचो न्हय) गांधींचो खून किदयाक जालो? पयलें वा दुसरें म्हाझूज किदयाक जालें? माजोर्डे कार साहित्य संमेलनाक किदयाक गेले? ह्या प्रस्नांच्यो जापो चडशे जाण नकळ आसतात. पूण दर एकलो तें आपूणच जाणा, बाकीचे नकळ ह्याच थाटांत उलयतात. हांवे तांका तुमीच सांगात अशें सांगलें. ''आयकात गांधीचो खून जालो कारण गोडसेक गाळी येनाशिल्ल्यो!'' ''किदें?'' आमी दोगी जाण आड्डले. ''उचंबळ जांव नाकात गांधीजींचे विचार, वागप गोडसेक पटनाशिल्लें. ताका गांधीजींचो राग येनाशिल्लो तर तांच्या विचारांचो राग येतालो. ह्या वेळार ताणे चार सणसणीत गाळी घाल्यो जाल्यार ताचो राग न्हिवतलो आशिल्लो. ताका गांधीजीक समजून घेवपाक वेळ मेळपाचो, गांधीजींक गोडसेचे विचार आयकून घेवंक वेळ मेळटलो आशिल्लो. पूण हें जावपाचें नाशिल्लें. कारण गोडसे संस्कृत प्रार्थना म्हणपी लोकांतल्यान आयिल्लो. ताका गाळी खंयच्यान येतल्यो? परिणाम गांधीजींक गुळी खावंची पडली आनी गोडसेक गोळाक लावंचो पडलो.'' अशें म्हणून ते भितर गेले. ''खरो नाटककार. टाळयेचें वाक्य!'' - ''धाकू ''किदयाक?'' हांव. पळे मरे एका वाक्यांत चार खेपेंक 'ग' आयला.'' - धाकू. हांवे मनांतल्या मनांत कपलाक हात लायलो. भितल्ल्यान संवाद कानार पडलो. ''नुस्त्याक किदें मेळ्ळां रे?'' ''एक सेंटीमीटर लांबायेची सुंगटां'' म्हज्या कानाकडे तोंड हाडून धाकू ''पळेलें मरे आमचें नशिब! ते नागेशबाब, गुरुनाथबाब येतात तेन्ना एक फुटाचो तांबासो मेळटा आमी आयल्यार एक सेंटीमीटराची सुंगटा.'' गोंयांत नुस्तें पारखुपाक ताजे, फडफडीत, मोव, पोवशिल्लें अशीं उतरां वापरतात. नुस्तें पारखुपाक फुट, सेंटीमीटर ही मापां वापरपाची वळवयकारांची रीत म्हाका खूब आवडली.

सम्राट च्या घेवन भायर आयले. कोपां आमचे मुखार दवरतकच ताणी मेजावयली फायल उक्ती केली आनी च्या पियेतकच ताणी ती फायल घुंवडावन आमच्याकडेन केली.

''म्हाका फकत गाळींचो संग्रह करपाचो ना. त्यो एकठांय करुन दवरपांत कांय अर्थ ना. म्हाका तांचे संशोधन करपाचें आसा. गाळ कशी आयली, किदयाक आयली, खंयच्या धर्मांतल्यान, जातींतल्यान गाळ आयल्या ताचो अभ्यास करूंक जाय. कुडीच्या वेगवेगळ्या आंगांवयल्यान आयिल्ल्यो गाळी शास्त्रीय नदरेन म्हाका पारखुपाच्यो आसात. ताका लागून हांवे एक कमिटी घडयल्या. देखीक, हाडांवयल्यान आयिल्ल्यो गाळी तांचो अभ्यास करपाक हांवें हाडांच्या दोतोराची मदत घेवपाची थारायल्या. ताणी फायलींतलीं नांवां दाखयलीं तातूंन हाडांचो दोतोर, मेंदवांचो, प्रसुती तज्ञ, मानसशास्त्रज्ञ अशे कितलेशेच दोतोर आशिल्ले. त्या वळेरींत एका नांवांकडे म्हजी नदर गेली ते नांव आशिल्लें भौ. मा. जे. म्हापसेकार, धनी, जटायू हेअर पार्लर वेरे. हांवे भितभित सम्राटाक विचाल्लें, ''हांका किदयाक घेतल्या कमिटीचेर?'' ''केंसावयल्यान आयिल्ल्या गाळींचो अभ्यास करपाक!'' - सम्राट. ''पुस्तकाचें नांव बी थारायलां?'' - धाकू ''म्हाका हातूंतलो कोयर काडून उडोवपाचो आसा त्यो निवळ करुन मुळ रुपान लोकांमुखार हाडपाच्यो आसात, पूर्विल्ल्या तेंपार गाळप हो निवळ करपाचो एक

*(पान १०४ चेर)*

# हर हर गंगा... घर घर तिरंगा...!

दिलीप बोरकार



'आगोस्त' म्हयनो हो सर्वसामान्यपणान गोंयकारांचो आगोस्त म्हयनो.

आतां ताका चडशे गोंयकार ऑगस्ट म्हणटात.

हांव आगोस्त म्हणटां कित्याक हांव पुर्तुगेज टायमा वयलों.

पुर्तुगेज गेलो आनी आगोस्ताचो ऑगस्ट जालो.

पूण हांव आगोस्ताकूच दसून रावलों.

दोतोर मनोहरराय सरदेसायांचें हाचेर लक्ष गेलें ना जावंये!

तांणी पुर्तुगेज गेल्या उपरांत पेद्रूचो पिटर जालो

आनी लित्राचो लिटर जालो इतलेंच पळयलें.

पूण हांव मात्सो पयसुल्लें पळोवपी देखून

आगोस्ताचो ऑगस्ट जालो आनी मिस्तिरीचो मेस्त जालो हाचेरूच रावलों ना

हांव आगोस्ताक 'सुण्या म्हयनो' कित्याक म्हणटात हाचेर विचार करूंक लागलों.

आतां तशें सगले कडचे लोक अशेंच म्हणटात काय ना हें म्हाकां खबर ना.

हांवूय तें सोदपाचे भानगडींत पडलों ना. तो संशोधनाचो विशय. तेंतून हांव मेत्यार जायना.

फुडाराक कोणूय कोंकणींतल्यान पीएचडी करूंक पळोवपी होच विशय घेवन ताचेर संशोधनय करीत.

अशें जावंक पावलें जाल्यार खूबशा सुण्यांक बरे दीस येतले आनी कोंकणीचें म्हत्वूय कळटलें.

सुण्यांक न्हय आं, आमचे सारख्या कोंकणी पासत खस्ती खाल्ल्यांक..! तें आसूं..

तर सांगपाचें म्हणल्यार आगोस्त म्हयनो हो सुण्या म्हयनो अशें म्हज्या भुरगेपणार आयकतालों.

आतां कितलोय जालों तरी हांव खरो बोरकार आसुनय निजाचो आगशीकार.

म्हणटकच म्हज्या मूळ गांवचो अभिमान मिरोवप हातूंत कितेंच वायट ना.

'आगशी, भीक मागशी' अशें म्हणत कोणूय आगशीकारांक तिडायताले तेन्ना आगशीकार सरभोंवतणचें अवलोकन करून प्राण्यांच्या करण्यां वयल्यान म्हयन्याक नांव दिवपाचें पवित्र काम करताले. ताका लागून आयज आगोस्त काय ऑगस्ट हातूंत गांवांत वाद जायना.

सुण्या म्हयनो म्हणलो काय सगळ्यांक म्हयनो खंयचो तें अचूक कळटा.

मर्दी हांवेंय चिंतलें, एकाच प्राण्याचेर एकूच म्हयनो कित्याक वळखप?

उरिल्ल्या इकराय म्हयन्यांक खंयच्या ना खंयच्या प्राण्यांचें नांव दिवंक येता जाल्यार पळोवंया!

पूण त्या आदीं म्हाकां आगोस्त म्हयन्यांत सुण्यांचें निरिक्षण करपाची गरज आशिल्ली.

ते पासत हांवें म्हजे हेर सगळे व्याप कुशीक दवरून सुण्यांचेर लक्ष केंद्रीत केलें.

तेन्ना म्हाकां म्हज्यांतल्या एका म्हत्वाच्या उणावाची वळख जाली. तो म्हणल्यार म्हाकां कोणाकूच चड वेळ दसून रावंक जमना, म्हणटकच हांवें हेर म्हयन्यांचें पाड पडूं म्हणत आगशी सोडलें आनी सुण्या म्हयन्या परस आगोस्तूच बरो म्हणत पणजे राबितो केलो.

आतां कोणांकूय दिसत हांव पणजे येवन रावलां म्हूण विद्वान बी जालां काय म्हूण..!

गांव सोडून शारांत रावन विद्वान जाताले जाल्यार वळवय, माशेल, मंगेशीं हांगचे लेखक केन्नाच पणजे येवन रावपाचे!

पूण ते आपापल्या गांवांत रावूनच विद्वान जावंक पावले हो झणझणीत इतिहास खूब जाणांनी प्रोवार केला.

आतां ताकाय तसो आडवाद आसा तो म्हणल्यार काणकोणकारांचो.

मडगांव आयज विद्वानांची खाण म्हूण गाजता ताका कारण हेच काणकोणकार.

ते नाशिल्ले जाल्यार आयज पुराय मडगांव मतदारसंघाचोच मोती दोंगर जावन वचपाचो.

तर सांगपाचो मुद्दो तो न्हय तर आगोस्त हो खरो मुद्दो.

जेन्ना म्हाकां आगोस्ताक सुण्या म्हयनो म्हणपा फाटलें सत उमगलें तेन्ना हांव आगोस्ताक दसून रावूंक नाशिल्ल्यान म्हाकां आगोस्त म्हयन्याच्यो म्हत्वाच्यो घडणुको आनी इतिहास चुकलो म्हणपाचे चिटमिटे पडले.

आगोस्त म्हयन्यांत बरेच कोण कोण विद्वान जल्माक आयल्यात आसतले हातूंत दुबाव ना. पूण म्हाकां म्हजोच जल्मदीस याद उरना जाल्ल्यान कोण आगोस्त म्हयन्यांत जल्मला काय आनीक खंयच्या तेंय म्हज्या राज्याक खबर नासता.

पूण हालीं हालीं एक गजाल म्हाकां जाणवूंक लागल्या ती म्हणल्यार जून म्हयन्यांत जल्माक आयिल्ल्या वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार हांणे आपल्या जिवितात कोंकणीचें नादशास्र, कोंकणी शुद्धलेखनाचे नेम बी बरोवन शणै गोंयबाब ही पदवी जोडली तशी आगोस्त म्हयन्यांत जल्मल्ली एक व्यक्ती कोंकणीचें नवें व्याकरण, शुद्धलेखन आनी आनिकूय जायतें कितें निर्माण करून कोंकणीचो म्हापुरूस जावपाचो आसा. आतां ते व्यक्तीक कितें म्हूण पदवी दिवप हाचेर पुराय कोंकणी समाज ताळणेंत पडला म्हूण आयकतां. आगोस्त म्हयन्याक सुण्या

म्हयनो मानून हांवें वेळ होगडावंक नाशिल्लो जाल्यार म्हजे कडल्यान हें पुण्यकर्म केन्ना घडूं येतालें. पूण त्या विद्वानाचें दुर्देव तेका कोण कितें करतलो..? तरी ताका ताच्या वावरा पासत 'तुटय दुस्पटबाब' म्हणचें अशें जायत्या कोंकणी मोग्यांक दिसता खंय..! ते सगळे एक्साचे..! तांकां कोण भाशशास्री जाल्लो पळोवं येना.

सुण्या म्हयन्याचें....दिसकुल्प आगोस्ताचें मोठेपण म्हाकां आनीक एका मनशान दाखोवन दिलें तें नरेंद्र मोदीन. नरेंद्र मोदी हे आमच्या भारताचे प्रधानमंत्री. हेर ताका कितें कितें म्हणटात. पूण हांव तांकां मनासावन प्रधानमंत्री मानतां. हालींच तांणी आपूण ज्या देशाचो प्रधानमंत्री आसा त्या देशाचो अमृतमहोत्सव मोठ्या दबाज्यान मनयलो. संवसारांतले कितलेच देश फिरून लेगीत आपल्या देशाचे स्वतंत्रतायेचो अमृतमहोत्सव याद दवरप ही ल्हान सान गजाल न्हय! देशांतल्या सगळ्या लोकांनी तांची तेच पासत तोखणाय केली. फकत तोंडान न्हय तर करणेन, सगळ्यांनी तीन दीस आपल्या घरार तिरंगो चड़यलो. तातूंत हांवूय एकलों आसां. आसां म्हणटां आशिल्लों न्हय, कित्याक तो बावटो आजूनय दिमाखान फडकता आनी म्हजे हड्डें देशप्रेमान चडांत चड रुंदावता. सगळें सय मोदीक. बावट्याक न्हय. मोदी जल्मूचे आदींय हो बावटो आशिल्लो. पूण कोणाच्या घरार तो आयज हुबता तसो हुबिल्लो व्हय..? देशप्रेमान हड्डे रुंदावल्ले व्हय..? फकत मंत्री बी आसात तांची रुंदावतालो झेंडावंदन बी करतना. आमचे नशिबांत खंय तसलें सूख..! तें आमकां मोदीन दिलें. तेंय बी आगोस्त म्हयन्याक लागून..! आनी हांव एक्साचो ताका सुण्या म्हयनो म्हणटालों..!!!

घर घर तिरंगा अभियानाची घोशणा जाली आनी हांव भुलुसलों. फाटलें वर्सभर हो आझादी का अमृत महोत्सव मनयताले. ताचो फायदो थोडेच घेताले. हो पंदरा आगोस्त ह्या आझादी का महोत्सवाचो निमणो पंदरा आगोस्त जाल्ल्यान जनतेकूय देशप्रेमाचे तीन दीस अच्छे दिन मेळूं असो मोदीन विचार केला आसूं येता! तेरा, चौदा, पंदरा हे तीन दीस घराचेर तिरंगो ही कितें ल्हाना समानाची गजाल नाशिल्ली. वर्साक एक दीस पाडव्याक गुडी घराचेर चडयतना आमी उमेदीन कितले भुरकुट्टाले. हो तर साक्षात राष्ट्रध्वज.. पाडव्याक गुडी उबारतना थोडो वाद जातालो, ना न्हय. गुडयेक कसलो रंग आसता हें कोणाकूच खबर नाशिल्लें. परंपरेन तो भगवो लायताले. पूण भगवो रंग भाजपाची मक्तेदारी जाल्ल्यान म्हज्या भावाक भगवी गुडी जाय पडली आनी हांव दुसऱ्या पक्षाचो जाल्ल्यान म्हाका भगवी सोडून खंयच्याय रंगाची गुडी चलताली. शेवटाक घरांत वाद नाका म्हूण इतल्या वर्साची गुडी उबारपाची परंपरा आमी स्थगीत केली आनी आमचें हिन्दूत्व गोळाक लायलें.

पूण तिरंग्याविशीं हो प्रस्न नाशिल्लोच. तिरंगा म्हणचे तिरंगा. शाळेंत आसतना आमच्या गुरूजीन म्हाकां प्रस्न केल्लो, ''तिरंग्याला किती रंग असतात?'' हांवें मनांतल्या मनांत बोटां मेजून 'चार गुरुजी!' अशें म्हणिल्लें. तेन्ना गुरुजीचीं पांच बोटां म्हज्या पोल्यार उदेल्लीं आनी म्हाका 'राष्ट्रद्रोही' म्हणत ताणें म्हजो धिक्कार केल्लो. तिरंगा म्हणल्यारूच तीन रंगी हें मास्तराक खबर आसतलें म्हणटकच तो मदल्या चक्राचोय निळो रंग जमेक धरूंक सोदता आसतलो असो म्हजो समज. पूण मास्तराक कोण सांगतलो...?

हांवें तीन रंगांचो बरो व्हडलोसो तिरंगो घरा हाडलो आनी गुडी पाडव्याच्या गुडयेची बडी धुल्ल खायत कोनशाक पडिल्ली ती साफ करून ताका तिरंगो बांदलो. तशें करतना हांव मदलें चक्र आनी ताचो रंग पळोवप टाळटालों. कित्याक थंय नदर पडले बराबर म्हजो पोलो चुरचुरतालो. तो बावटो भावान पळयलो. हांगा भगव्या रंगाचो संदर्भ नाशिल्लो म्हणटकच कसली हरकत घेवपाचो प्रस्नूच नाशिल्लो. तरी ताणें हरकत घेतली. ताचें राष्ट्रप्रेम उफाळून आयलें, तिरंगो म्हणल्यार तिरंगोच जाय. ताचो कपडो खादी आसूंक जाय, हातान विणिल्लो. 'आतां हातान कोण विणिनात, सगळे चरखे माळ्यार उडयल्यात, हातमाग मोडून पडल्यात' हें हाका सांगून कळपाचें नासलें. हांवें म्हणलें, ''हांवें तो विकतो हाडूंक ना. मोदीन फुकट वांटल्यात. ताचो मित्र अंबानी म्हूण आसा. ताचे मिलींत कितलेंच पॉलीस्टर लुगट पडून आशिल्लें. मोदीन ताका सांगलें ताचे सवाय भितर बावटे करून दी. ताणें ते केले आनी सवाय दरान मोदीक दिले. मोदीन आमकां ते फुकट दिले.''

'फुकट' म्हणटकच भाव भुलुसलो. ताणें म्हाकां तो बावटो घरार चडोवपाक हातभार लायलो. तो आतां दिमाखान फडफडटा. ताचे कडेन पळयतना म्हाकां म्हजें घर 'राष्ट्रपती भवन' कशें दिसता. आतां हो तिरंगो उबोवन तीन म्हयने सरत आयल्यात आनी हांव राष्ट्रपती भवनात राविल्ले वरी म्हज्याच घरांत वावुरतां.

हें सगळें आझादी का अमृतमहोत्वांतल्या आगोस्त म्हयन्याक लागून घडून आयलां आनी ताचे फाटल्यान आमचो मोदी आसा म्हणटकच हे म्हजे पासत आयल्यात ते अच्छे दिन न्हय तर कितें...?

संपर्क: 9822136885

***

*(पान १०२ वयल्यान)*

उपाय आसतलो हांवे तोच वापरपाचो थारायलां. सगळ्यांत बरें गाळप म्हळ्यार वस्त्रगाळ. तेंच नांव पुस्तकाक दवरतलों अशें थारायलां.'' व्वा. नांव खूब सुंदर आसा, धाकून दाद दिली. दोनूय पुस्तकां बेगीन उजवाडाक येवंची अशें हांवें तांचेकडेन मागलें.

घडयाळ पळयत जाल्या दनपारची दोन जाल्लीं. आमी उठपाक लागले तशे सम्राटान धाकूक जेवंक रावपाचो आगरो केलो. धाकूक नुस्त्याची सायज पयलींच कळिल्ल्यान धाकून फुडल्या खेपेक अशें सांगलें. निरोप घेतना सम्राट हळवे जाले, ''येयात'' अशें भरिल्ल्या ताळ्यान ताणी सांगलें. ''पिरूक विचारलां म्हूण सांग.'' सम्राट भुरगेंपणांतली इश्टागत विसरूंक ना. ''तुमचे सारके कोणूय येतकच बरें दिसता'' सम्राटान परतेंय सांगलें. आमी भायर सरले. मातशे फुडें वतकच हांवें फाटीं पळयलें. सम्राट दारांत उबे रावन आमचेकडे पळयताले. तांचे खांदे वयर सरिल्ले वरी दिसले. खरेंच वयर सल्ल्यात काय म्हाका भास जालो?

संपर्क: 9226296757 ***

# नाक दीनी जिस करतार ने...

कृ. म. सुखठणकार



'Nose, the prominent structure between the eyes that serves as the entrance to the respiratory tract and contains the olfactory organ. It provides air for respiration, serves the sense of smell, conditions the air by filtering, warming and moisturing it and cleans itself of foreign debris extracted from inhalations.'

आमकां म्हणजे समेस्त गोंयकारांक व्हड नाक आसा. पूण आमी नाकाचो नाका थंय उपेग करतात. नाकाचो खरो उपेग किर्ते, हे खातीर नाकाची सविस्तर म्हायती तुमकां दिवपाची तकालस हांवे घेतली. शाळेंत आसतना हेंच बरयलेलें जाल्यार दोन गूण तरी पदरांत पडटले आशिल्ले. आतां ह्या वयांत, ते वयांत शिकिल्लें तशाचें तशें याद जाता. सगलें विचित्र. हेंय बी ग्लोबल वॉर्मिंगाक लागून जाता काय किर्ते हाचेर अभ्यास करचो पडटलो. नाकाचो खरो उपेग किर्ते ही म्हायती दिवपा फाटल्यान आनी एक कारण आसा. पयरुच नुस्त्या बाजारांत विमल (SBI) मेळ्ळें. दोडयाऱ्यांक आरते परते करुन तांची तपासणी करतालें. हांव ताका चुकोवन वचपाक सोदतालों. पूण म्हजी तिसरेकात्र थंयच बशिल्ली म्हणटकच ताका हडकुचेंच पडलें.

"किर्ते गो आज सेकण्ड सॅटरडे म्हणटकच नुस्त्या बाजारांत?" हांवे तिसऱ्यांक पोतयेचें तोंड उगडून विमलाक हडकिलें.

"I am more busy on second and fourth saturdays"

"एकूच माप गे. Ok Ok."

पयलें वाक्य तिसरेकात्रीक, Ok Ok विमलाक.

"First pranayam, second surya namaskars. I am putting 108 namaskars in 20 minutes or so. Not bad no!"

"Not totally bad. It is better than what you are doing on counter. वयर दोन तिसऱ्यो उडय मगे." हांवे पोतयेचें तोंड बंद केलें.

"You naughty fellow! Do you know without chronic lung disease even at maximum exercise intensity we only use 70% of the possible lung capacity?"

"Oh no!" हांव आडुलों तसो बाजारांत सगल्यांनी आपल्यो नुस्त्याच्यो पोतयो घट्ट धरुन म्हजे दिकेन पळयलें. विमलान दिलें इन्फॉर्मेसांव आयकून म्हजी प्रतिक्रिया उत्स्फूर्त अशीच आशिल्ली. नाक आसून लेगीत आमी पुल्मावांचो सत्तर प्रतिशेंच वापर करतात हो म्हजे खातीर चिंतेचो विशय आशिल्लो. नाक आसून लेगीत आमी फावो तितलो श्वास भितर घेना जाल्यार आमी नाकाचें करतात तरी किर्ते हाचेर विचारवंतानी जेरुल अभ्यास करचो. हांवूय विचारवंतूच तातूंत दुबाव ना पुणून म्हज्या सामकर आनिकूय गंभीर प्रस्न उबे आसात. नॅन्सी तैवानाक गेल्ल्याक म्हाका न्हीद पडना, सांगतलो कोणाक. कोण आब्सुलादपणां करता आनी कोण भोगता. आसूं, आमी नाका बद्दल उलयताले. आमी दिल्ले नाकाचो सारको उपेग करुंना तरी आसतना निर्मात्यान आमकां नाक दिवपाचें सोडूंना. ताच्या खातीर आमी उबे रावन ताळयो मारुंया. हें वाचतकच कांय कुच्छित्री हांसतले हें म्हाका बेस बरें खबर आसा. ह्या देशांत उबे रावन ताळयो मारप आनी उबे रावन एक मिनिट शांतता पाळप हें सामकें गरजेचें. एक मिनिट शांतता पाळटना (गेल्ल्या आत्म्या खातीर) आमी धा खेपे हातावयल्या घडयाळीचेर नदर मारतात ती गजाल वेगळी.

एक मिण्टा वयल्यान याद जाली. हालींच हिची एक मावशी भायर पडली. बाराव्याक मावशेन मारुं जाय थंय चोंच मारली ना. भटान देशांतल्या हालिंच्या ट्रेण्डाक धरुन मावशेच्या आत्म्या खातीर वतांत एक मिनिट उबे रावन मौन पाळपाक सांगलें. आमी उपस्थित मंडळीन सांगिल्ल्या प्रमाण कृती केली. कृती केल्या बराबर मावशेन रोखडीच मारुं जाय थंय चोंच मारली आनी आमचो जेवपाचो मार्ग मेकळो केलो. घरा भितरल्यान एके बायलेन 'तिका नाक व्हडलें' असो थोमणो मारलो. तिच्या घोवाक गोड्या मुताचें आशिल्ल्यान वेळार पोटाक पडना जाल्यार थरथरो सुट्टा. मावशेन जेवणाक उशीर केल्ल्यान तिचें तोंड सुटिल्लें हें म्हाका मागीर कळ्ळें. हांव मावशेच्या आत्म्या खातीर एक मिनिट चड मान खाला घालून उबो आशिल्लों. मावशी बांगड्यांचें लोणचें बरी करताली हें ताचें कारण न्ही. याद जाली म्हूण सांगप जालें. आमी लग्ना उपरांत मावशेक पांयां पडपाक गेल्लीं. पांयां पडटकच, "ह्या कळीवरा कडेन निमणे गांठ मारली गो बाय?" अशें म्हणत तिणे म्हज्या हातांत एकावन्न रुपयांचें पाकीट दिल्लें. सोड.

'The mother's placenta helps the baby breathe when it is growing in the womb'. अशें म्हाका दोतोर रायकारान सांगिल्लें. ते- ते मळा वयल्या तज्ञां कडल्यान जाय ती म्हायती मेळोवप ही म्हजी पयली पसून संवय. त्या नेमाक धरुन हांवे ही म्हायती मेळयलेली. ती लेगीत म्हजे दंत चाळवलेले स्थितींत. ही तुमचे खातीर अभिमानाची गजाल. आसूं, म्हाका मोठेपण नाका. मातशें व्हड जातकच भुरग्याक आपल्याक नाक हो अवयव आसा हाची जाणीव जाता. कारण तें थंडी जातकच चोंदपाक लागता. म्हजी तर देवान नाक चोंदपा खातीरुच दिलां अशी समजूत जाल्ली.

आई मागीर खोबरेल तेल नाका पुडयांक दोशी वटेंतल्यान चोळटाली आनी मागीर नाक व्हांवपाक लागतालें. नाक व्हांवक लागतकच तातुंतल्यान शेमूड येता. हें शेमूड दाट काय पातळ हें तुमकां जाल्ल्या थंडेच्या प्रमाणाचेर निंबून आसता. Mucus is a sticky gelatinous material that lines your lungs, throat, mouth, nose and sinuses. थोड्यांक शेमूड बी म्हणल्यार वीट दिसता म्हणून म्हायती सायबांच्या भाशेंत दिली. म्हणटकच तांकां वीट दिसचो ना. जांकां वीट दिसता ताणी सायबांचे भाशेंत वाचचें आनी Mucus is flowing from my nose अशें म्हणून नाक पिळचें ही म्हजी नमळायेची विनवणी. आमी नाक पुसपाक सबंद हात, मुठ, शर्टाचे हात, सबंद शर्ट, बानयान ह्या आयुधांचो उपेग करताले कारण आमचे कडेन लेंस नांवाची वस्त नासताली. आतां आवयो आपल्या भुरग्यांक किंडरगार्टनांत शर्टाक लेंस आल्फिनेतीन तोंपून धाडटात. आमकां पाटील गुरुजी, ''शेंबूड वाहत आहे लेका पूस शर्टाला'' अशी ऑर्द दीत आपल्या नाकांत पूड कोंबून नाक पुडव्याक पुसतालो. ''तुका स्वताचें नाक पुसपाची लेगीत अक्कल ना'' अशी आई लग्न जायसर म्हणटाली. लग्ना उपरांत ही म्हणपाक लागली. हाचे वयल्यान लग्न जालें म्हूण नाक व्हांवपाचें बंद जायना हें तुमच्या लक्षांत आयलांच जातलें. पूण तें पुसपाची अक्कल दादल्याक निमणें मेरेन येना ही खरी शोकांतिका. लग्नाच्या पयल्याच रातीं (ह्या रातीक सुहाग रात अशेंय म्हणटात, कित्याक खबर ना) हांवे हिका ''आगो शंबरांचो बल्ब पेट्टो दवरुंन तुका न्हिदपाक त्रास बी जायना मुगो?'' अशें विचारलें. ''शेमड्या भुरग्याक अक्कल आसता ती तुमच्यांत ना'' अशें म्हणून ही दोन उशीं तकले सकयल घेवन न्हिदाव्याक पडली. हांव शंबराच्या बल्बाच्या बटणा कडेन शेमड्या भुरग्यांत कितली अक्कल आसता आनी म्हज्यांत कितली आसा हाचेर तुलनात्मक अभ्यास (मनांतल्या मनांत) करीत थंयच घट जालों.

आमकां चाळीशी लागतकच नाकाचें खरें म्हत्व कळटा. आतां चाळीशी जल्मल्ल्या भुरग्याक लेगीत लागता. हाचे खातीर चाळीस जावपाची वाट पळोवपाची गरज ना ही एक बरी गजाल. म्हाका चाळीशी आठवेक आसतनां लागिल्ली तुमचे म्हायती खातीर. चाळीशी जाग्यार दवरपा खातीर नाक जाय पडटा. ती आपल्यो दोन काडयो कानांचेर दवरुन नाकाचेर आपलें बिराड थाट्टा. राजेश खन्ना आपलें गॉगल नाका वयल्यान दोन बोटांनी सकयल ओडीत हिरोईनीचेर नदर मारतालो. मागीर ती स्टायलूच जाल्ली. मेळटा तो नाकार आसा तें बोटांनी ओडून मेळटा ताका (स्त्री पार्टी) पळोवपाक लागलो. हांवे ती स्टायल करपा खातीर चिमुलकान्नीच्या काल्याक (आमची ग्राम देवता) प्लास्टीकचें गॉगल घेतिल्ल्याची याद जाता. तें नाका वयल्यान ओडून ओडून नाकाक घाय जाल्लो. आईन मागीर घाव्यार हळदीपूड घालून तो पेखयलो. एक दीस बरडागेर सांगो दिवंक गेल्ले कडेन हांवे व्हनीबायक नाकावयलें गॉगल ओडून पळयलें. तेन्ना तिणे खतखत्याक पोपायो शिनपाक घेतिल्ल्यो. व्हनीबाय सवळ्यांनीच आमगेर येवन, ''तुमगेलो बाबा वाळेस जाला ताचेर मातशें लक्ष आसूंदी'' ही वार्ता आईच्या कानार घालून सवळ्यांनी आशिल्ली तशी परत गेली. शाळेंत आसतना 'नानाजी की ऐनक' हो धडो आमकां आशिल्लो. ह्या धड्यांत नानाजी आपलें ऐनक नाकार दवरचें सोडून कपलार दवरता. हाका लागून ताची बरीच फजेती जाता. गोंयांत कांय राजकारणी आपलें ऐनक अशेंच नाकार दवरनासतना गळ्यांत हुमकळायतात वा कपलार दवरतात पूण तांची हाका लागून फजेती जाल्ली हांवे तरी वाचूं ना. गोंयांत राजकारणी सोडून सगल्यांची फजेती जायत आसता. सोड. तो आमचो विशय न्ही.

आमी आमचीं पुराणा चाळ्यार (वाचपाक हालीं कोणाक वेळ ना) आमकां आमच्या नाकाचो खूब कडेन संदर्भ मेळटा. मनशान ह्या मृत्यु लोकावयलो आपलो प्रवास सोंपयतकच, आत्मो, कुडीक निर्मात्यान जे बुराक दवरल्यात त्या बुराकांतल्यान ताच्या कर्मानुसार भायर पडटा. आत्मो तें प्रवासवर्णन बरोवपाच्या स्थितींत नासता. बरयलेलें जाल्यार तें खंयच्याय दिवाळी अंकांत येवपाचें. म्हणून आमी ही म्हायती मेळोवपा खातीर पुराणां वाचप गरजेचें. आमचे कुडीक निर्मात्यान णव कडेन बुराक दवरल्यात. त्या खंयच्याय एका बुराकांतल्यान आत्मो भायर पडटा. तो बुराक खंयचो तो वयर सांगिल्ल्या प्रमाण तुमचें कर्म थारायता. ही सगली म्हायती गरुड पुराणांत मेळटा अशें बाबुली भटान म्हाका सांगलां. येन्नाच आपलो आत्मो खंयच्या बुराकांतल्यान वतलो हें चिंतून तुमी कुडीक धाव्वो बुराक करपाची गरज ना. खंयच्यान वचपाचें तें आमी आत्म्याचेर सोडूंया. तर, नाकाक दोन नाका पुडयो आशिल्ल्यान आत्मो खूब फावटीं नाकांतल्यान वचपाची शक्यताय चड आसा. गेल्लो आत्मो त्याच नाका पुडयेंतल्यान कुडींत परत येत ह्या भंयान मनीस भायर पडटकच ताच्या दोनीय नाका पुडयांनी गच्च कापूस घालतात जांवये. सारकें खबर ना. तुमच्या हाताक हाचेर कितेंय लागलें जाल्यार जेरुल कळोंवचें. हांव कोणूय भायर पडटकच ताचें निमणे दर्शन घेंवक वतां तेन्ना ताच्या केल्ल्या कर्माची यादी दोळ्यां मुखार दवरुन ताचो आत्मो खंयच्या बुराकांतल्यान गेला आसतलो हाचो अदमास घेतां. आतां म्हाका ती पाडी संवंयूच शी जाल्या.

मनशाक जर निर्मात्यान नाक दिवंक नाशिल्लें जाल्यार वाल्याचो वाल्मीकी जावंक पावंचो नाशिल्लो. ताची जंगलांत नारद मुनी वांगडा 'वन टू वन मिटींग' जाले उप्रांत तो वाटमारोच उरतलो आशिल्लो. हाचेर कितल्या जाणांनी विचार केला? आत्मस्तुतीचो धोको पत्करुन हांव तुमकां हो प्रस्न करतां. म्हाका तुमची जाप खबर आसा. तातूंत कमीपणां अशीं कांयच ना. शूर्पणखेक नाक नाशिल्लें जाल्यार लक्ष्मण कितें कातरतलो आशिल्लो? लक्ष्मणान तिचें नाक कातरुंक नाशिल्लें जाल्यार ती रावणाक कशी instigate करतली आशिल्ली? 'तासु अनुज काटे श्रुति नासा, सुनी तव भगिनि करहिं परिहासा' अशें ती सांगून रावणाक चाळोवन घालता. हांगा ती आपलें नाक आनी कान कातरलें अशें म्हणटा. पूण नाक कातरप आनी कान कातरप हातूंत खूब फरक आसा हें आमी मतींत दवरपाक हाय. रक्तबंबाळ जाल्लें नाक घेवन ती रावणा कडेन गेल्ल्यानूच ताचो परिणाम ताचेर जाला आसतलो अशें म्हाका तरी दिसता. ही कानांत वेडी घालतना दोनूय कान रक्तबंबाळ करता. ताचो म्हजेर कांयच परिणाम जायना म्हणून म्हणलें. वाल्मीकी 'इत्याचे श्रीमद्रामायणे वाल्मीकीये आदिकाव्येऽरण्यकाण्डेऽष्टादश:सर्ग:' अशें म्हणून अरण्यकाण्डाचो अठरावो अध्याय पूर्ण करता. लक्ष्मणान शूर्पणखेचें नाक कापलें म्हणुनूच वाल्मिकी अरण्यकाण्ड बरोवंक पावलो

नाजाल्यार रामायण फुडेंच पावचें नाशिल्लें. रावणाची शूर्पणखेक पळोवन तकली (तकली काय तकल्यो) फिरना जाल्यार तो सीतेचें अपहरण करना. सीतेचें अपहरण जायना जाल्यार प्रभू रामचंद्र वानरसेनेक घेवन श्रीलंकेक कित्याक वता? तेन्ना काय गोऱ्या सायबांनीं क्रिकेटीचो सोद लांव नाशिल्लो. म्हण्टकच श्रीराम XI V/S लंकाधीश XI अशी मॅच जावपाची प्रस्नूच नाशिल्लो. शूर्पणखेच्या नाकाक लागुनूच रामायण घडलें अशें आमच्यानीं म्हणू येता. वाल्मीकी कडेन, जशी आमच्या लेखकां कडेन ओगीच कथा, कादंबऱ्यो वाडोवपाची जी प्रतिभा आसा, ती आशिल्ली अशें म्हाका तरी दिसना. म्हणटकच तो बाबडो बरोवपाक जाय तितलें मटिरियल ना अशें म्हणून आपल्या पयलीच्या धंद्याक परत हात घालपाचो. सोड. रामायणा उपरांत कोणेच कोणाचें नाक कातरलें नां. हाका लागून रामायणाच्या तोडीचें दुसरें महाकाव्य जालें नां अशें दत्ता म्हणटा. आनी आज कोणेय नाक कापल्यारुय ताची मालिका करपाक रामानंद सागर आज आमचे मदीं ना ही दुख्खाची गजाल.

महाभारताचेर (बी. आर. चोपडा आनी व्यास रचीत) नदर मारल्यार ह्या महाकाव्यांतूय म्हाका खूब नाकां दिश्टी पडटात. ह्या नाकांक लागुनूच बी.आर. चोपडाक इतले एपीसोड करचे पडले असो म्हजो अभ्यास सांगता. सुर्वेकूच कुंतीन समाजांत आपलें नाक कापत म्हणून आपल्या व्हडल्या पुताचो, कर्णाचो (illegitimate child) त्याग केलो. द्रौपदी, दुर्योधन मयसभेंत पडटकच हांसली. दुर्योधनाची तकली थंयच घुंवली. कारण राग सदांच ताच्या नाकार आसतालो. दुश्शासनान द्रौपदीचें वस्त्रहरण करतकच भिमाच्या नाकाक मिरसांग लागली. बाकिच्यांच्या नाकांचें म्हाका खबर ना, घडये तीं कट्टेंत बुडयल्लीं आसुंये. थोड्या भितर महाभारतांत कितल्या जाणांनी आपली नाकां कापलीं, कितल्यांनीं कट्टेंत बुडयलीं हाचो हिशोब ना. हाका लागून व्यासाक महाभारत सगल्यांचीं नाकां सांबाळुनूच बरोवचें पडलें अशें आमच्यांनीं म्हणूं येता.

समाजांत खूबश्यो समस्या नाकाक लागुनूच उप्रासतात असो म्हजो अभ्यास सांगता. सगल्यांचीं नाकां सारकीं नासतात. तांचो आकार जसो वेगळो तशी तांची काम करपाची क्षमताय वेगळी. बायलांच्या नाकाची क्षमता आनी काम करपाची पद्धत वेगळी आनी दादल्यांची वेगळी हें तुमकां हांवे सांगपाची गरज ना. दादल्यांच्या नाकाक लागून दुसऱ्या कोणाक त्रास जाल्ले हांवे पळोवंक ना. बायलांचें नाक चोंदल्यार लेगीत त्याच क्षमतेन कशें काम करता हाचें म्हाका अजाप दिसता. पूण तांच्या नाकाची काम करपाची पद्धत वेगळी. ''आगो तुजी भेंण्या भाजी करपून गोबोर जाली गो'' हें हांव हिका सालांत बसून सांगता. मागीर ही, ''आवय म्हजे हांवे आनीक कांय करुना'' अशें म्हणत धबऽ धबऽ करुन रांदचेकुडी वटेन धांव मारता. पुणून हांव बाजारांतल्यान येवन स्कुटी स्टॅण्डार काडटा थंय आसा, ही रांदचेकुडींतल्या जनेलांतल्यान, ''आज शेण खावन आयला काय कितें?'' असो प्रस्न करता. हांवे शेण खातकच वितोर म्हाका तोंडांत उडोवपाक विक्साच्यो चाकलेटी दिता. इतली आफ्टर सेल्स सर्व्हीस करुन लेगीत हिचो म्हाका रांदचेकुडींतल्या जनेलांतलो प्रस्न चुकना. विक्साच्यो चाकलेटी चोखतकच हांवे भाजिल्ली शेप तोंडांत उडोवन पळयली पूण व्हडलो सो फरक पडलो ना. हाका लागून म्हजो सगलो मूड आंगणांतूच ऑफ जावपाक लागलो. एक दीस शेण खावन जातकच मावथवॉशान गळगळे केले आनी तोंड आं करुन वितोरी सामकार उबो रावलों. ''तेरे साँसों को जो महक आ रही है, ये है दो पेग की खुशबू, तेरे साँसों से शायद आ रही है'' असो वितोरीन पोयंट मारलो. तेन्नाच्यान हांवे शेण खातकच प्रथमोपचार करपाचें सोडून दिले. घरा पावतकच आंगणांत स्कुटी स्टॅण्डार काडटना ही रांदचेकुडीच्या जनेलार आसूं वा नासूं हांव, ''आगो आज इल्लेंशें शेण खावन आयलां गो'' अशें सेल्फ डेक्लेरेशन दिवपाक लागलों. केन्नाय मिसेस पोरोब तांचे रांदचेकुडीच्या जनेलार आसल्यार ''आसूं, काल हे खावन आयिल्ले आज तुमी खालें. केन्नाय इल्लें खालें म्हूण कांय जायना'' अशें म्हणून आपलो शेजार धर्म निभायता. केन्नाय नेपाळीण भायर येता. ''ठीक है शाब, थोडे में जो मजा है वो ज्यादा में नहीं'' अशें म्हणून म्हाका समजायता. नेपाळ सदांच आमकां लागीं कित्याक हें तुमकां आतां उमगलां आसतलें.

आमच्या घरांत खंयच्याय कोनश्याक मूषकाक घरघर लागल्यार लेगीत ताची सुलूस हिका पयलीं लागता. म्हाका ताचो बारावो जाल्यार लेगीत पत्तो नासता. आमच्या घरांत आमी हुंदराक मुषक अशें संबोधन करतात. ताचें कारण ही संकश्टी, विनायकी बी करता. मोरया फाटल्यान गणेश भक्तींत आपलो नंबर लागता अशें हिका दिसता. म्हणटकच गणपतीच्या वाहनाक हुंदीर म्हणून कमीपणा हाडूं नाका अशी सक्त ताकीद हिणे आमकां दिल्या. ताच्या फाटल्यान लॉजीक कितें तें खबर ना. आसल्यारुय तें समजुपाची बुद्ध आमकां गणरायान दिवंक ना.

''हांगा खंय तरी मूषकाचो वास येता. पोरोबागेर वीख खावन आमगेर सद्‌गती प्राप्त करपाक आयला.'' ही वास घेत.

''आगो मूषकाक वास बी आसता? गणरायाचें वाहन मुगो तें. वास बी आयिल्लो जाल्यार गणराय ताका आपलें वाहन करपाचो?'' हांव माथ्यावयल्यान गोजडी घेत.

''खंय तरी मूषकाक सद्गती प्राप्त जालीं आं. गणरायान नवें वाहन घेतलें आसतलें. तें पोन्ने वाहन खंय पडलां तें पळया आनी ताची विलो लायात.'' ही दुसऱ्या दिसा नाकार पदर धरत.

शेवटीं मूषक कुसता आनी ताचेर पांचव्या कोराचे मूस घोंऽ घोंऽ आवाज करीत भोंवपाक लागतात. त्या मुसां फाटल्यान हांव भोंवतां. ते मूस म्हाका त्या डेड बॉडी लागीं हाडून सोडटात. मागीर हांव कायदेशीर पंचनामो करुन (मूषकाचो) ताका एक फूट बाय एक फूट फोंडकूल खणून ताका मातयेक लायतां, तुमचे म्हायती खातीर.

आमगेर खारें हांड्याक घाल्ल्या उजांतल्या कोळशांचेर भाजता. गॅसार भाजिल्लें खारें आईक कोंताक येना. आमगेर खारें भाजतकच अख्ख्या वाड्याक कळटा. ''नको नको म्हणताना गंध गेला घरा घरात'' अशी परिस्थिती जाता कारण ह्या घरांनीं शिकेरकर गुरुजीचें घर आसपावता. शिकेरकर गुरुजी आमकां सावळ्या कडल्यान 'खारें खाल्या बगर रावं नजो जाल्यार वाडो सोडून वचा' असो रकाद धाडटा. खाऱ्याच्या वासान शिकेरकर गुरुजीचे नाकांतले केंस पसून जळटात अशें तांचे म्हणणे. 'वाडोच सोडून वच म्हणलां मरे देश सोडून वच म्हणूना मरे बरें आसा' आईची जाप थारिल्ली आसता. 'जिवन करि जिवित्वा अन्न हे

पूर्णब्रह्म' असो रकाद टायगरान शिकेरकर गुरुजीक सावळ्या कडल्यान धाडिल्लो म्हाका याद आसा. आमच्या बाबुली भटाक असो कांय त्रास जायना. तो घरा कडेन आयिल्ले कडेन तव्यार कितेंय आड पडिल्लें आसल्यार, 'आई आज बिनकाट्यांचो मत्स्य अवतार काय कितें' अशी आपुलकेन चवकशी करता. ताका विष्णू सहस्रनामा वरींच नुस्त्याचींय सगलीं नांवां पाठ आसा. आसूं. खारें भाजतकच शिकेरकर गुरुजीच्या नाकांतले केंस तशेंच उरचे हे खातीर आमी उपाय सोदून काडला. खारें भाजचे आदीं ही आपलो दुपट्टा वयर तेर्रासार वचून सोडटा आनी वाऱ्याच्या दिकेचो अंदाज घेता. वारें शिकेरकर गुरुजीचे घराच्या दिकेन व्हांवता जाल्यार आमी खारें कोळश्यार घालच्या आदीं मातशीं रावतात. दाऊद, गफूर चाचाचे गॅरेजींतल्यान 'चुनरी संभाल गोरी उडी चली जाये रे' गावपाक लागता. ही मागीर आऽआऽ अशें म्हणीत साथ दिता. आमगेर खारें भाजपाचो सगलोच प्रॉसेस मनरिजवणेचो आसता. हिणे आपलो दुपट्टो वाऱ्यार सोडटकच आमगेर खारें भाजपाचें आसा हें अख्ख्या वाड्याक कळटा.

आमच्या दोनीय नाका पुडयांनीं केंस आसतात हें तुमकां हांवे सांगपाची गरज ना. ते केंस जाणे दिल्यात ते ताणे खाऱ्याच्या वासान जळोवपाक दिवना. आज ज्या प्रमाणान प्रदुशण जालां त्या प्रमाणांत तें जातलें हें ताका खबर आशिल्लें. म्हणून ती प्रदुशीत हवा नाकांतल्यान गाळपा खातीर ते केंस नाकांत दिल्ले. गोलमाल ह्या सिनेमांत बडे बाबू (युनुस परवेज) आपल्या नाकांतले केंस हुमटीत आसता. मनीस हो प्राणी केन्ना खंय कितें हुमटीत तें सांगू नजो. हालींच हांव बोडा वयले चार केंस बेणपाक सलुनांत गेल्लों. बोडा वयले केंस बेणून जातकच म्हाल्यान (कडप्पा - पिन ५१६००१) म्हजी मान, कपलार दावो हात दवरुन, आडवी केली तश्यो म्हज्यो दोनीय नाकापुडयो वरश्यो जाल्यो. ताणे हांवे तोंड उगडचे आदीं आपली कातर नाका पुडयां भितर घालून भितरले केंस कच्चऽ कच्चऽ करुन बेणले. हांवे ''क्या किया जी? पर्मात्मा ने ये बाल जगह जगह पे कुछ सोच कर दिया होगा ना जी'' अशें म्हणून म्हजी नाराजी उक्तायली. वयर सांगिल्ल्या प्रमाण प्रदुशणाक लागून हे केंसानी मातयेचे गुळे जातात. मागीर नाकांत बोटां घालून ते गुळे काडप हो थोडयांचो छंद जाता. एकदां पाटील गुरुजीन आमकां ''मुलांनो तुमचा छंद काय?'' असो प्रस्न केलो. हांवे ''कट्टी पेटवून हांडो तापोवणे'' आनी दत्तान ''तल्लीन होऊन नाकातील भजी काडणे'' अशी जाप दिली. भुरगेपणांत लेगीत आमी सामके प्रॅक्टीकल आशिल्ले हें आमचे जापे वयल्यान दिसून येता.

मनशाक नाक आसलें म्हूण जालें ना. तें चेऱ्याक सोबऽ सारकें आसपाक जाय. थळां पळोवपाक (लग्ना खातीर) सुरवात जाता तेन्ना 'चली नाका दोळ्यान बरी आसतकच जाली' अशी शिटकावणी आमी मध्यस्थ्याक दितात. मदीं हांव सोयरिको जुळयतालों हाका लागून म्हाका हें बेस बरें खबर आसा. तेन्ना हांवे नाकाचेर अभ्यास सुरु केलो. तेन्ना म्हाका कळ्ळें की नाकाचो आकार लांब, चेपेटें इतल्यां पुरतोच सिमीत ना. नाकाचे आनीकूय आकार मनशान सोदून काडल्यात. पैकीं कांय आकार तुमकां सांगतां. कोणाकूय मॅट्रीमोनियल कॉलमांत आपल्या नाकाचें ज्यूस्त वर्णन करपाक उपेगी पडत. सायबांच्या एका मॅगझीनांत म्हाका नाकाचे आकार मेळ्ळे ते अशे,

१) रोमन, २) नुबियन,
३) स्ट्रेट, ४) क्रूकेड,
५) फ्लेशी ६) बटन,
७) हॉक, ८) स्नब,
९) बिग, १०) हुक्ड,
११) वायड

आतां तुमकां खबर नाशिल्ले नाकाचे आकार कळ्ळे आनी म्हजें सायबांचे भाशेंत वाचन आसा तेंय तुमच्या कानार पडलें. तुमचे मदीं मध्यस्थ कोणूय आसल्यार जायरात दिवपाक बी हे नाकांचे आकार उपेगी पडटले. चल्यांच्या नाकांचे चडशे व्हडलें कोणाक पडून गेल्लें नासता असो म्हजो अभ्यास सांगता. मुंबय रावपी आमच्या पयसुल्ल्या सोयऱ्याक आपले धुवे खातीर गोंयांत रावपी (POGO) जांवय जाय आशिल्लो, कित्याक तें खबर ना. ताणे म्हाका फोन करुन ''अरे गोव्यात सुषमा साठी कोण मिळटो का बघ'' अशें सांगलें. हांवे ''बघतो, तुम्हाला किती पर्यंत पाहिजे आणि कसला पाहिजे ते आधी सांगा म्हणजे बघायला बरं पडेल'' अशें सोयऱ्याक म्हणलें. ''मला जावई तिशीच्या आत पाहिजे, निर्व्यसनी असावा व नाका समोर पाहून चालणारा मात्र हवा'' अशी जाप म्हाका मेळ्ळी. अख्ख्या गोंयांत म्हाका 'नाका समोर बघून चालणारा' भुरगो खंयच मेळ्ळो ना. कवळ्यां लेगीत देवतेचें नाका समोर पळोवन दर्शन घेवपी हालीं कोण सांपडना अशें हांवे ताका कळयलें. सुषमाक नाका समोर बघून चालणारा मेळ्ळो काय खबर ना. तर, हो नाकाचो अभ्यास म्हाका थळांची जायरात दिवपाक बरो पडटालो. तातूंत हांव सर्जनशील लेखक (आठ पुस्तकां प्रकाशनाच्या वाटेर आसात) आशिल्ल्यान म्हजी जायरात वाचून खूब थळां चवकशे खातीर येतालीं. एका चलयेक तर मागणी घालून व्हेली म्हणल्यार जाता. त्या जायरातीचें कात्रण म्हजे कडेन अजून आसा. हांवे दिसाळ्यांत दिल्ली जायरात अशी आशिल्ली,

'वधू- गौड सारस्वत ब्राह्मण (GSB) कुटुंबवत्सल, ३५, उंची ५.२, BSc (Chemistry) Bom, गहू वर्ण, मजबूत बांधा, व्यंग नाही, नाक- खिडकी बाहेरुन पाहिल्यास चेपटे. आंतून पाहिल्यास सरळ. संध्याकाळी काळोख पडल्यावर काहीच कळत नाही. सरकारी नोकरी (म्हणजे चारच्या आत घरात) मासीक प्राप्ती ५००००/- रुपये. स्वताच्या मालकीचा फ्लॅट. कर्ज नाही. फ्लॅटच्या समोर मांडवीचे वाहते पात्र (सध्या तरी आहे). सोमवार, शनीवार शाकाहारी बाकिच्या दिवसांत काही चालते. अपेक्षा GSB प्रथम वर, निर्व्यसनी, सत्तरी म्हालातील वरास प्राधान्य, सरकारी कायम नोकरी. वाळपई येथे रहायची तयारी असल्यास उत्तम.'

ह्या चलयेक तिचे नाकाक लागून धा थळां कडल्यान नकार मेळिल्लो. ह्या जायरातीक लागून तिका मागणी घालून व्हेली ही तुमचे खातीर अभिमानाची गजाल. ही जायरात दिवपाचें कारण म्हणल्यार ती वाचून तुमचे नाकाक देफेद आसल्यार लेगीत जायरात दितना तो कसो मांडचो हें तुमकां कळचें इतलेंच.

नाकाक भितरल्यान देफेद आसत जाल्यार तो जाग्यार घालपाक

कान नाक आनी घसो तज्ञा कडेन वच्चें पडटा. ताका सायबांचे भाशेंत ENT Specialist म्हणटात. आमच्या कुडचड्या वयल्या सोयऱ्याचो मेवणो ENT Specialist. म्हाका मदीं हांड्याच्या धुंवराचो खूब त्रास जातालो. नाक सात आठ दीस चोंदिल्ले स्थितींत उरतालें. म्हणून हांव ताचे कडेन गेलों. "कितल्यावो म्हयनो?" ताणे म्हाका नाक तपासतना विचारलें. हांवे कदेलार बशिल्ले कडेन आंग काडलें. म्हजें वजन आठतीस किलो आसलें तरीय म्हाका मातशें पोट आसा. घडये ताका लागून दोतोरान विनोद केला आसुंये अशें म्हाका दिसलें. मागीर सोयऱ्यान, दोतोराक स्त्री रोग तज्ञ जावपाचें आशिल्लें पूण ताका थंय एडमिशन मेळ्ळें ना हाका लागून ताच्या मनार परिणाम जाला, असो खुलासो केलो. हाका लागून ताचे कडेन आयिल्ले दुयेंतीक "कितल्यावो म्हयनो?" अशें विचारुन आपले मनाचें समाधान करुन घेता. दर एकलो आपले परीन आपले मनाचें समाधान करुन घेता. आसूं. दोतोरान म्हाका, हांड्याक सुकिल्ल्यो कट्टयो घाल म्हणजे धुंवर जांवचो ना आनी नाकाक त्रास जांवचो ना हें सांगून तिनशे रुपया घेतले.

हालींच म्हाका सायनसाचो त्रास जावपाक लागलो. म्हणून हिणे म्हाका वैद्य जोशी कडेन व्हेलो. वैद्य जोशीचें पाट्यार पंचकर्म केंद्र आसा. आमी जायतीं कर्मा करतात पूण त्या खातीर केंद्रां उगडीनात. वैद्याक पांच कर्मा करतलो जाल्यार लेगीत त्या खातीर केंद्र उगडचें पडटा. सोड.

"ह्यांचं नाक च्योवीस तास चोंदलेलं असतं आणि तकली जड असते. झोपल्यावर लेगीत माझ्या कानाकडेन सों सों असं आवाज करतात. मला आधीच झोप येत नाही त्यात ह्यांचं सों सों. तुमी कुठलं तरी कर्म करा आनी एकदाचं ह्यांचं सों सों थांबवा."

हिणे म्हजो प्रॉबलेम वैद्य जोशीच्या कानार घालो. हिचें सांगून जातकच हांवे लेंस नाकार धरुन दोनदां सों सों केलें.

"सकाळी सहाच्या ठोक्याला मी हांड्याला आग लावतो. सुकी सोण्णा मिळाली तर ठीक नाही तर धुराचा त्रास होऊन माझं डोकं जड होतं. माझी मित्र मंडळी मला सायनस झाला असावा असा दुबाव व्यक्त करतात. तरी आपण ह्यात लक्ष घालावे आनी आमचा दुबाव दूर करावा अशी नम्र विनंती".- हांव

"सायनस म्हणजे काय?"- वैद्य.

"काय?"- हांव.

"एखाद्या घरात जश्या खोल्या असतात तसे नाकाला सायनस असतात."- वैद्य.

"माझ्या नाकाच्या सगळ्या खोल्या सध्या भरलेल्या आहे वैद्य."

"बरोबर. डोळे, नाक, घसा आणी नाकपुड्या या मध्ये जमा जालेल्या अडथळ्या मुळे तुम्हाला सायनस डोकेदुखी जाणवते."

"हा अडथळा दूर करण्यासाठी कोणते कर्म करावे लागेल ते सांगा."- ही.

"प्राचीन काळा पासून भारतात योग अभ्यासाचा सराव केला जात आहे. जलनेती हे योगाभ्यासातील एक टेक्नीक आहे."

जोशी वैद्यान आमकां जलनेतीची टेक्नीक कितें आनी कशी करपाची ती बरोवन दिलें. म्हज्या दोनीय नाका पुडयांचे जोख काडून आमकां जलनेतीचें पात्र दिलें. हें सगलें म्हाका बाराशें रुपयांक पडलें. आसूं. घरा पावतकच हिणें पात्र नळाच्या उदकान भरलें. एका हातांत पात्र आनी दुसऱ्या हातांत वैद्य जोशी हाणी बरोवन दिल्लीं इन्स्ट्रक्शनांचे कागद घेवन उबी रावली. म्हाका खाटीर न्हिदोवन आईन म्हजी नाका पुडी जाता तितली उगडली.

"श्वास घेत उजव्या पुडीतून जलनेती पात्राने पाणी नाकात ओढा. असं करताना तोंड उघडे ठेवा ज्या मुळे तोंडा वाटेत तुम्हाला श्वास घेता येईल... आई ताचें तोंड उगड दुसऱ्या हातान."

हिणे भट तिर्थ घालता तशें जलनेती पात्रान नाका पुडयेंत उदक सोडलें.

"उजव्या नाक पुडीतून आत घेतलेले पाणी डाव्या नाक पुडीतून बाहेर पडू लागेल" ही कागद वाचत.

"आगे हाचें पाणी खंयच्यानूच भायर सरना मुगे."- आई.

म्हजो जबडो आईन हवा भितर वचपा खातीर उगडलेल्यान म्हाकाय उदक खंय वता तें सांगपाक मेळना जालें. हिणे जलनेती पात्र उजव्या नाका पुडयेंत खाली केलें तरी एक थेंब पसून दाव्या नाका पुडयेंतल्यान भायर सरलो ना. आसूं. उदक खंय गेलें हाचेर विचार करुन तुमी तकली जड करुं नाकात. तकली जड करपाक आनीक खूब विशय आसात.

चलयांक आदीं नाक तोपपा खातीर शेटीगेर व्हरचें पडटालें. आतां सगल्योच चलयो नाक तोपतात अश्यो ना. आमच्या व्हडल्याचें नाक आमी नागवेकारागेर (नागवेकर ज्युवेलर्स, पाटो सोडून आमची कुठेही शाखा नाही) व्हरुन तोपलें ही तुमचे खातीर अभिमानाची गजाल. शेट नाक तोंपून जातकच "दाळीचे जिनस बी खावं नाका" असो वैजकीय सल्लो दितालें. ह्या खातीर ते वेगळे पैशे घे नाशिल्ले. फकत नाक तोपलें म्हूण जालें ना. तोपिल्ले नाकांत वज्राकूड आसची अशी बायलांच्या हजारो ख्वाईशां मदली एक ख्वाईश आसता. हिका नथ घालपाची भोव घोस्त. ही नथ माघांतल्या पंचमीच्या देवकार्याक घालता. नथ घालतकच मिण्टाक धा फावटीं ती सांसपीता (हो आंकडो अभ्यास करुन बरयला). पंगतीक ही वाडपाक येतकच हाचो आमकां खूब त्रास जाता. ही वाडपाक ओणोव घेता आनी वाडचें सोडून मिण्टाक धा फावटीं ह्या हिशोबान नथ सांसपीत रावता. आतां आमकां हाची संवंय जाल्ल्यान हिणे ओणोव घेतल्या बराबर आमी दाव्या हातान आमकां जाय तें जाय तितलें वाडून घेतात. तेवटेन ही नथ सांसपीत रावता. आसूं.

थोड्यांक नाक आसून पसून नाक नासता. अश्या मनश्यांक निर्लज्य म्हणटात. थोड्यांक हिसपा भायर नाक आसता. तांकां कितेंय म्हणल्यार रोखडें सट्ट जाता. देखीक, शिवाजी महाराजान प्रतापराव गुर्जरांक ताणी बहलोल खानाक सोडटकच चीट बरयली. "सला काय निमित्त केला? तुम्ही शिपाईगिरी केलीत. सेनापती सारखे वागला नाहीत. हा बहलोल वरचेवरी येतो यांसी गर्दीस मेळवून फत्ते करणे अन्यथा आम्हास तोंड न दाखवणे" मागीर फुडें कितें जालें हें आमकां कुसुमाग्रज हाणी बरयल्लें 'वेडात मराठे वीर दौडले सात' हें गाणे आयकतच कळटा. आपल्या नाकाक लागून मनीस आपलो जीव लेगीत दिवंक शकता हाची ही बरी देख. 'निर्लज्जम् सदा सुखी' अशें आमकां पावला पावलाक मेळटात.

आसूं, तो आमचो विशय न्ही. म्हाका याद जाता हांव आनी दत्ता आंतरशालेय प्रश्नमंजुषांत वांटेकार जाल्ले. हाचें कारण सर्त फोंड्यां आशिल्ली आनी पालक आपल्या भुरग्यांक फोंड्यां धाडपाक तयार नाशिल्ले. म्हणटकच मराठे सरान आमकां धाडले. आमी थंय आमच्या गुणांचें खातें लेगीत उगडलें ना. एका प्रस्नाची जाप दितना आमी धारबांदोडा गोंयचो तालुको अशी जाप दिली. तेन्ना थंय आशिल्ले परिक्षक हांसले. आमची दूर द्रिश्टी कितली आशिल्ली ती आज कळटा. आमकां मोठेपणा नाका, सहज विशय आयलो म्हूण सांगलें. फोंडेच्यान परत येतकच 'मला तोंड दाखवू नका' हो मराठे सराचो रकाद मेळ्ळो. आमी तो आयकलो आनी ओगी रावले. दुसऱ्या दिसा चेऱ्यार हात दवरुन आमी भितर सरले.

''दे दे अल्ला के नाम पर दे दे. इण्टरनेशनल फकीर आये हैं''- दत्ता.

''दिनार नही तो डॉलर चलेगा अरे कमीज नही तो कमीज का कालर चलेगा लेकीन देदे इण्टरनेशनल फकीर को''- हांव बारीक आवाजान.

मराठे सरान आमकां निर्लज्य बेशरम म्हणलें तें आमी काना मनार घेतलें ना. चेऱ्या वयलो हात काडून आमी आमचें तोंड मराठे सराक दाखयलें आनी आमचे सुवातेर वचून बसले. आजूय मराठे सर आमकां पणजे बाजारान कोकण दुदी घेवन वतना दिसता. मराठे सरान तोंड दाखोवं नाका म्हणलां म्हणून आमी तेन्ना घोड्यार बसून तोंड घेवन गेल्ले जाल्यार कोणाक पडून वच्चें नाशिल्लें. कुसुमाग्रज तर आमचेर एक उतर पसून बरोवंचो नाशिल्लो हें आमकां बेस बरें खबर आशिल्ले. चडान चड 'काळोखाचे पुजारी' ह्या माथाळ्या खाला कितेंय खरडटलो आशिल्लो. आसूं.

नाक आशिल्ल्यांक ल्हान ल्हान गजालीनीं आपलो अपमान जाल्ल्यावरी दिसता. सती (महादेवीची पयली घरकान्न) ही कुळारा गेल्ले कडेन तिका आपलो जावंक जाय तसो थातो मातो जालो ना अशें दिसलें. कारण घरांत धार्मीक कार्य चालू आशिल्लें आनी सगले तातूंत व्यस्थ आशिल्ले. तिका दिसलें घरच्यांनी आपलो जाणून बुजून अपमान केला. तिणे थंयच पेट्ट्या कुडांत घालून घेतलें. ह्यो आमी वाचिल्ल्यो आनी आयकल्ल्यो खबरी खरें कितें तें थंय उपस्थित आशिल्ल्यांकूच खबर आसतलें. असोच प्रसंग आमचे बाबतींत घडलो. लग्ना उपरांत आमी हिचे कुळारा गेल्लीं. तेन्नाच तांगेर शेपरें वियेल्लें (शेपरें हें एके गायेचें नांव). आमी घरांत सरलीं तेन्ना सगलींच गोठ्याचे दिकेन धांवतालीं आमकां कोणेच पळयलीं ना. घरांत खंयच यज्ञ कुंड पेटिल्लें नाशिल्लें म्हणटकच हांव निर्धास्त जालों. ओगीच भितर वचून बांयत नदर मारली. मे म्हयनो आशिल्ल्यान उदक धोंपर भर लेगीत नाशिल्लें. म्हणटकच हांव सालांत येवन बसलों. शेपऱ्याचें दूद काडून पाडकाक लुचोवन बी जातकच सगली मंडळी घरांत आयली. 'आवयस ही आयल्यां दिसता' अशें हिचे आवयन आमचेर नदर मारीत म्हणलें. ''आमकां आतां पोस आसा दिसता'' अशें म्हणून हांवे वातावरण ल्हव केलें. समजा हिका नाक व्हड आशिल्लें जाल्यार ही बांयत घालून घेवपाची. कपाळमोक्ष जाल्लो जाल्यार सतीन जशें दुसऱ्या जल्मांत पार्वती जावन महादेवाच्या गळ्यांत माळ घाल्ली तशें हिका काय शक्य जांवचें नाशिल्लें, लुक्साण हिचेंच जावपाचें.आसूं.

नाक सुरी घेवनूच कापूं जाय अशें ना, तें आपल्या करण्यानीय कापूं येता. हें तुमकां तुमच्या अणभवां वयल्यान खबरुच आसतलें. आवय बापायचें नाक चली भुरगेंच आपले करण्यांनी कापता असो म्हजो अभ्यास सांगता. चल्यानी कितलेंय शेण खालें जाल्यार आवय बापूय ताणे नाक कापलें अशें म्हणिनात. ताका चलो मातसो हाता भायर गेला अशें म्हणटात. हाका लागून म्हाका मेळटा थंय मेळटा तो ''व्हडल्याचेर नदर दवर आं जमाना खराब है'' अशें अर्दें मायभाशेंतल्यान आनी अर्दें राजभाशेंतल्यान शिटकायतात. सावंत तर आपले धुवे फाटल्यान सावळी कशी भोंवता. पयर पणजे प्रासार सुलभ सौचालया भायर मेळ्ळो (Ladies Rs 2/- Gents Rs 5/-). तो हातांत पर्स घेवन पासयो मारता तें पळयलें.

''सावंत बाब पासयोश्यो मारता तेंय बी सुलभ सौचालया भायर?'' हांवे हडकिलो.

''धुव भितर गेल्या तीन मिण्टां सात सेकण्ड जाले हुसको सो जाला''.- सावंतान कपळाक आटयो घालीत म्हणलें.

''खबर आसा जमाना खराब है अशें पयरुच म्हाका कोणे तरी सांगलां कोणे तें याद जायना.''

"Exactly. आमचें नाक न्ही रे तें. साधारण भितर वचून भायर येवपाक कितलीं मिण्टां लागतात? चडान चड दोन मिण्टां न्ही रे? आतां चार मिण्टां आनी बावन सेकण्ड जायत आयले.''

''हांवे भितर वचून केन्ना टायमर लावना हाका लागून हांवे हाचेर भाश्य करप समा न्ही आनी अभ्यास केल्या शिवाय भाश्य करपाक हांव विचारवंत न्ही.'' हांवे सावंता कडेन दिलगिरी व्यक्त केली.

''आगो भितर निळे टी शर्ट घालून चली बी दिसलां? टी शर्टाचेर I hate everything अशें पितारलां?'' सावंतानान भितरल्यान भायर आयिल्ले एके चलयेक विचारलें. ती तीन मिण्टां सात सेकण्डां भितर भायर आयिल्ली असो म्हजो अदमास. तिणे आपूण आशीकुशीक इतलें बारीक लक्ष दिना अशी जाप दिवन ती म्हजेर नदर मारी नासतना म्हज्या आंगा वयल्यान गेली. सावंतालें प्रेसांव आनीक वाडलें. इतल्यान 'बाबा' अशें म्हणत निळें टी शर्ट सुलभांतलान उदेलें. सावंताक सूऽऽ जालें. ''आमचें नाक सुखरुप भायर आयलें रे'' अशें म्हणून ताणे म्हाका थापटिलो. म्हाकाय सुलभ सौचालयांत वच नासतनाच बेठेंच हलकें हलकें शें दिसपाक लागलें.

आमचे भुरगेपणांत 'ढ' भुरग्याच्या नाकाक हुशार भुरग्यान दावो हात लावपाची प्रथा आशिल्ली. जाण्टेल्यांनी सांगल्या बराबर तो बुदवंत भुरगो मात्तूय वेळ काडीनासतना आपलो दावो हात जाणे घाणायलां त्या भुरग्याच्या नाकाक लायतालो. तो भुरगो आपल्याक निर्माल्यान नाक त्याच खातीर दिलां अशें समजून ओगी रावतालो. हालीं ही प्रथा बंद पडिल्ल्यांतूच जमा जाल्या. समाज सुधारकानी दाव्या हाता आड चळवळ बी सुरु केल्ल्याची हांवे वाचूंक ना आनी आयकुकूंय ना. भुरगेपणांत जांच्या नाकाक खूब फावट दावो हात लागला ताणी पालक जातकच ही प्रथा बंद उडयली आसुंये असो म्हजो अदमास. मे म्हयन्यांत आमगेर मुंबयकार येताले. दनपारां जेवण जातकच (नुस्त्याचें) तांकां आमची म्हणजे भुरग्यांची बौद्धीक पातळी जाणून घेवपाची कूय

येताली. "सेनेचे मुखपत्र कोणते?" असो प्रस्न विचारल्या बराबर मुंबयकार जुनियर पेपर आदींच फुटिल्ल्या वरी टेक्क करुन जाप दितालो. मागीर अख्खो पालक वर्ग (धरुन म्हजो) शाब्बास म्हणून आङ्ग्ताले. म्हजें सामान्य ज्ञान भाऊसाहेबा पुरतेंच मर्यादीत आशिल्ल्या कारणान म्हजें तोंड 'आं'च उरतालें.

"भाऊसाहेबांच्या पक्षाचे पण मुखपत्र आहे. गोव्याचे अग्रेसर दैनीक. खरे असेल तर सांगा पाहू?" ह्या म्हज्या प्रस्नाक सगले जाण हांसताले आनी मागीर मुंबयकार जुनियर आपलो दावो हात म्हज्या नाकाक लायतालो. आज हीच प्रथा चालू उरिल्ली जाल्यार कितले जाण आपलो दावो हात म्हज्या नाकाक लावन वतले आशिल्ले खबर ना.

मे म्हयन्या वयल्यान याद जाली. कालोर सुरु जातकच म्हज्या नाकांतल्यान रगत येवपाक सुरु जातालें. मागीर आई म्हाका खाटीर माने खाला उशीं घालून न्हिदयताली. अजून म्हाका हो त्रास सतायता. वैजकीय मळार हे दुखण्याक वखद ना अशें दोतोर रायकारान म्हाका सांगलां. आमी कोणाचें पांचशें रुपया दिवन सेकण्ड ओपिनियन घेवना. म्हजें लग्न मे म्हयन्यांत जाल्लें हें तुमकां खबरुच आसा. म्हूर्ताचो प्रस्न आयलो तेन्ना शिरी मामान "न्हवऱ्याक मे म्हयन्यांत नाकांतल्यान रक्तस्राव जाता" अशें सांगतकच व्हंकलकारांचेर एकूच आकांत आयलो. "हें आनी खंयचे दुखणे गे बायेऽऽ सगलें सोडून नाकांतल्यान रक्तस्राव. आमचे बायक रगत पळयल्यार चर्रऽ जाता. आतां कशें गे बायेऽऽऽ" एके जाण्टेलेन अवतार घेतलो. आमी म्हाका जाता तो नॉर्मल रक्तस्राव आनी लग्ना दिसा जातलोच अशें ना हें व्हंकलकारांक समजावपाचो यत्न केलो. सुदैवान (म्हज्या) व्हंकलकारां मदीं एक चली आयुर्वेदीक कॉलेजीन पयल्या वर्साक आशिल्ली. तिणे फुडाकार घेवन बॅटरी दिवो घालून म्हज्यो दोनीय नाका पुडयो तपासल्यो आनी म्हज्या दुर्येसाचे निदान 'नस्य रक्तपित्त' अशें केलें. लग्ना दिसा म्हज्या नाका पुडयांचेर नदर दवरपाक एक मनीस दवरपाचो थारायलें. अर्द अर्द वरान तो म्हज्या नाकांत बॅटरी दिवो घालून रक्तस्राव बी जाता जाल्यार पळयतलो आशिल्लो. मागीर हें काम नलू कडेन सोपोवपाचें थारलें. नलू अर्द अर्द वरान म्हज्यो नाका पुडयो वयर काडून रक्तस्राव चेक करतालें. दत्ता म्हज्या फाटल्यान नाका पुडयो पॅक करपाक कापसाचे दोन गुळे घेवन सावधान पोजिशनांत उबो आशिल्लो. आमी 'अहेर आणू नये' अशें होंवळीकेचेर बरयलेलें. तरी आसतना दत्ताक म्हज्या फाटल्यान उबो पळोवन खूब जाणांचो गैरसमज जालो. तांकां तो पाकीट घेवपाक उबो रावला असो समज जाल्ल्यान सगले जाण ऐन वेळार केळवण करपाक पाकीट सोदपाक लागले. मागीर दत्तान आपल्या दोनीय हातांतले कापसा गुळे दाखोवन आपलें न्हवर्या फाटल्यान उबो रावपाचें कारण सांगलें. नलू मदीं मदीं 'भावोजी रक्तस्राव बी ना मूं' अशी वासपूस करतालें. हांव 'अजून तरी ना' अशी जाप दितालों. शेवटीं एकदांची गळ्यांत माळ पडली. टायगर पेडो वाट्टना "जांव न्हवऱ्याक रक्तस्राव जायनासतना लग्न एकदांचें पार पडलें" अशें म्हणून पेडे हातार दवरतालो. हाका लागून लग्नाक उपस्थिती लायिल्ल्यां मदीं खोशयेचें ल्हार येवन खोस दोब्राद जाल्ली.

नाक आसा म्हणटकच आमी ताचें दुरुपेग करतात असो म्हजो अणभव सांगता. आमी आमचें नाक नाका थंय म्हणजे दुसऱ्यांचे जिणेंत खुपशितात. देखीक, आमचे व्हंकलपावणे वेळार कोणे तरी आमी चंद्रकांताले गाडयेंत बसतना,

"बाय तुजें बॅग उगडूं नाका आं. परिस्थितीचो अदमास घे आनी अशें तशें दिसल्यार तेंच बेग घे आनी परत यो. आतां पयलींचे दीस उरं ना न्ही गे व्हनीबाय" - कोणे तरी म्हणलें.

"हय तर आमी बायचें लग्नूच जांव ना अशें धरुन चलतलीं"- व्हनी बाय (म्हणजे हिची आवय).

"बाबा आम्हाला मुंबईला जायच्या अगोदर गोड बातमी मिळेल का?"- आमचो मुंबयकार (घरा पावता थंय आसा तो म्हज्या कानांत फुतफुतलो).

"बघु कसं काय होतं ते. मी माझ्या परीने कुठेच कसर सोडणार नाही. बाकी सगळं तिच्या हाती".- हांव. (हांगा तिच्या म्हणल्यार शांतादुर्गा, कवळे गोवा ४०३४०१).

हिकाय आमचे घरा परस पोरोबागेर कितें चल्लां हातूंत चड रस. हिचो एक कान आनी एक दोळो hypothecated to Porob family म्हणल्यार जाता. तांकां ही तांचे कौटुंबीक समस्यांचेर सल्लो दीत आसता. आमच्या लॉजांत रावपी नेपाळ्याक ताचे कंपनीन ब्रेक दिलो म्हणून तो कांय तेंप घरा आशिल्लो. आमचें भाडें बी तो टायमार दितालो. आमकां तो बेकार आसा म्हूण कांयच त्रास नाशिल्लो. तरी आसतना हिणे नाक खुपशिलेंच.

"देखो मर्द को घर में बैठने की एक बार आदत हुई ना तो समजो वो घर पे बैठाच कायम का. इसलिए मैं बोलती हूँ तुमको, तुम्हारे मर्द को हात में डबा देके भेजो सुबह और बोलो किधर भी जाओ पर घर में बैठने का नहीं. घर पे बैठा तो मन में बुरे बुरे खयाल आते हैं. वो गाना सुना है ना, कभी कभी मेरे दिल में खयाल आता है, वैसाच. लेकीन डेली, कभी कभी नहीं"

हिणे नेपाळणीक सल्लो दिलो. दुसऱ्याच दिसा नेपाळी सुतकी तोंड करुन भुती घेवन भायर सरतना म्हाका दिसलो. सोड.

दुसऱ्याचे जिणेंत नाक खुपसप मनशा पुरतें मर्यादीत ना. देश लेगीत खास करुन अमेरिका दुसऱ्या देशांच्या घडामोडींनी आपलें नाक खुपशीत आसता. खूब कडेन ह्या देशान आपलें नाक कातरुनूय घेतलां तरी आसतना आंगांत मद आशिल्ल्यान येवंक जाय तें शाणेपण अजून येवना.

बायलांचें नाक राग येतकच फुलता आनी वेळा प्रसंगाक तांबडे लेगीत जाता. दादल्यांचें नाक थंडी जाल्यारुच तांबडे जाता. नाक रागान फुल्ल्यार लेगीत तें पळोवपाक कोणाक वेळ नासता. आमचे सेलीन टिचरीचें राग येतकच नाक तांबडेंच जातालें. ती गोरीच आशिल्ल्यान तें तांबडे नाक आमकां निमण्या बांकार लेगीत दिसतालें. एकदां सेलीन टिचरीन आमकां 'Name three largest producers of cashew in the world' असो प्रस्न विचारलो. दत्तान केन्ना न्ही तो हात वयर केलो. दत्ताचो हो आत्मविश्वास पळोवन हांव धरुन सगलो वर्ग अजापीत जालो.

"Name them"- सेलीन टिचर.

"Naneli, Padeli and Mellauli and I am giving you additional information Teacher which you may not know. These largest producers of cashews in the world are situated in our own Sattari taluka."

सेलीन टिचरीचे नाकाचो कोर बदल्लो. बायलांचे नाकाचो कोर बदलतकच जें भोगचें पडटा तें दत्तान भोगलें. फाजील आत्मविश्वासाक लागून आमी नाकयां आपटटात. शेजारचे राज्यांत ते तोंडघशी पडटात. मर्दी हांव सोयरिको जमयतालों तेन्नाची गजाल. एका थळाची म्हणजे चलयेची गेरेण्टी हांवे चलेकारांक छातयेर हात मारुन दिली. चली भांगर त्या भायर तुमच्या चल्याक उपाशी उडोवची ना इतली खात्री हांव तुमकां दितां. चलयेक सांजो, शीत, कांद्या कुंवळ, फुटी कडी, पापोड भाजपाक बी येता. सकाळचें केल्लें तें रातचें गरम करुन ताच्या पोटाक घालतलें पूण तें ताका उपाशी पोटार न्हिदोवचें ना. आयच्या काळान चलये भुरग्याक इतले नग येवप म्हणल्यार माथ्या बोडा वयल्यान जालें. चलयेकारांक चली पसंत पडली. देवतेन म्हजे लग्ना वेळार दिल्ली तशी माथ्या वयली पाकळी दिली. पयली आशिनाद मारपाक आमी रजिस्ट्राराच्या ऑफिसांत पावलीं थंयच चलयेन अवतार घेतलो.

''एक अनामीकशी भिती माझ्या सर्वांगातून दौडती आहे. मी लग्न नाही करु शकत''

चलयेन पत्र्याचे खुर्चेक घट्ट धरत जाहीर केलें. जाहीर करपाक मायभाशेचो आधार कित्याक घेतलो ना तें विचारपाचे स्थितींत हांव नाशिल्लो.

''अगं अगं त्याला सकाळ सांज शेवयाचा शिराच करुन वाड तुला जमत नाही तर''

हांवे मन धरणी केली तरी चली कशीच तयार जायना जाली.

''ती अनामीक भिती गेल्यावर सही करायला ये बरं''- रजिस्ट्रारान रजिस्टर धांपलो.

आनी हांव थंयच चलेकारां सामकार नाकयां आपटलों.

निर्मात्यान आमकां नाक फकत श्वास घेवपाक आनी तो सोडपाकूच दिल्लें जावंये. ताच्या फाटल्यान आनीक कितें उद्धेश आशिल्लो अशें म्हाका तरी दिसना. नाकाचेर वक्ल दवरुं येता हें आमीच सोदून काडलें. पौराणीक काळा वयलीं चित्रां पळयल्यार कोणाच्याच नाकार आमकां वक्लां दिसनात. शाळेंत आसतना आमकां नाका पुडयांचो आनीक एक उपाय करुं येता हाचो सोद लागलो. दत्ताच्या फुडारपणा खाला आमी जेन्ना पनामा (एका सिगरेटीचें नांव) ओडपाक शिकले तेन्ना धुंवर तोंडांतल्यान तसोच नाकांतल्यानूय सोडूं येता हें आमकां कळ्ळें. नाकांतल्यान धुंवर सोडल्यार सिगरेट ओडपाचो आनंद दोब्राद जाता हें आमकां तेन्नाच कळ्ळें. त्या काळांतले खलनायक देखीक, के.एन. सिंग सिगरेटीचो धुंवर नाकांतल्यान सोडटालो तुमचे म्हायती खातीर. योगासना करुन आपले कुडीचेर ताबो मेळयल्यार धुंवर नाक आनी तोंड सोडून खंयच्यानूय सोडूं येता अशें दत्तान आमकां सांगिल्लें. म्हजो कुडीचेर ताबो नाशिल्ल्यान हांव ते भानगडींत पडलो ना.

उलयतना नाकाचो आदार घेवन उलयल्यार ताका आमी नाकयां उलयता अशें म्हणटात. आदले कृष्ण धवल सिनेमांचेर नदर मारल्यार चडशे खलनायक नाकयांच उलयताले, देखीक जीवन. पौराणीक सिनेमानी माथ्याक पगडी आनी कानांत भिकबाळीं घालपी प्राणी नाकयांच उलयतालो आनी संतांच्या फाटीक हात धुवन लागतालो. तांचो घराबो चडसो पुण्याक वा आशीकुशीच्या वाठारांनी आसतालो. गोंयांत कोणाच्याय फाटल्यान हात धुवन लागपाक आमकां नाकसुरें उलोवचें पडना. आमचे मावोडेचे, शेजारी पाजारी खंय नाकसुरे उलयतात. सोड.

नाक झरोवपाचें आनी नाक कट्टेंत बुडोवपाचे प्रसंग आमचे जिणेंत खूब फावटीं येतात. कवळ्यां पंचमीक देवळाच्या हुमरार नाक घासून नाकाच्यो साली काडपी म्हाजन हांवे पळयल्या. हांवे हुमराक स्पंजाचो कुडको बसोवचो आनी 'भक्तगणानी नाक इथे घासावे' अशी पाटी लावची अशी सुचोवणी फाटीं कमाविसदाराक केल्ली. ताची अंमलबजावणी अजून जावना. आमचो देश तसो अंमलबजावणी बाबतींत फाटींच. निकाल लागतकच पालक आमकां प्रगती पुस्तक पळयनासतना 'कट्टेंत नाक बुडोवन यो' अशी ऑर्द सोडटाले. इतलो पालकांचो आमचेर विस्वास आसतालो. आज तो ना ही चिंतेची बाब. म्हाका कट्टेंत नाक बुडय अशी ऑर्द येतकच हांव आंगणांतले तुळशी कडेन पांच मिण्टां उबो रावन परतो घरांत वतालो. तुमची कट्टेंत नाक बुडोवपाची पद्धत वेगळी आसुंयेता.

व्यंगचित्रकारां खातीर नाक हो कुडीचो म्हत्वाचो भाग. हें आमकां राजकीय फुडाऱ्यांची व्यंगचित्रां पळयल्यार लक्षांत येता. आर.के. लक्ष्मण हाणी जवाहरलाल नेहरु, इंदिरा गांधी, राजीव गांधी हांच्या काडिल्ल्या व्यंगचित्रांत तांची नाकां सामकीं उठून दिसतात. व्ही.व्ही. गिरी, सरदार पटेल, नरसिंह राव हांची नाकां व्यंगचित्रकारां खातीर भोव घोस्ताचीं. आतांच्या राजकीय नेत्यांक नाकांच नाशिल्ल्यान तांचेर ना उलयल्लें बरें.

निर्मात्यान जें दिलां तातूंत समाधान मानपाचें आमी केन्ना सोडून दिलां. ताणे दिलां तें नाक पसंत पडलें ना जाल्यार तें हुमटून दुसरें नाक बसोवपाची वेवस्था वैजकीय मळार दोतोरांनी केल्या अशें म्हाका दोतोर रायकारान सांगलें. ह्या सर्जरीक हिनोंप्लास्टी म्हणटात अशीय म्हायती ताणे म्हाका दिली. आज आमी आमचे करण्यांनीच नाक कापतात. तें कापिल्लें नाक जाग्यार घालपा इतलें वैजकीय शास्त्र फुडें पांवक ना. ती वेवस्था जाय सर तरी आमकां आमचें नाक सांबाळचें पडटलें. ताणे दिल्लें नाक आमी कातरत आसा तरी ताणे आमकां नाक दिवपाचें बंद करुना ह्या खातीर आमी ताचे उपकार आठोवंया. ह्या समयार म्हाका कबीराचो हो दोहो याद जाता,

'नथनी दीनी यार ने
तो चिंतन बारम्बार, और
नाक दीनी जिस करतार ने
उनको तो दिया बिसार.'

संपर्क: 9850530756

***

(पान ८ वयल्यान)

मूळ भुमिके कडल्यान फारकत घेवन वेगळीं व्यासपिठां निर्माण जावन ती वेगळी चूल जाली.

सामाजीक पुरूशार्थाची आनी युवा-मनाच्या मुक्त अभिव्यक्तींचीं व्यासपिठां 'महोत्सवी' स्वरुपाचींच उरल्यांत काय तांतूल्यानूय भायर सरून आपलीं स्वताचीं टर्मिनसां उबीं करून उर्बा दिवपाचे वा जागोर घालपी मांड तयार जाल्यात जाल्यार ह्या संस्थानिकांनी राजभाशा अंमलबजावणे खातीर कोंकणीतल्यो राष्ट्रीयकृत आस्थापनांतल्यो नोकऱ्यो वा रोजगारांच्यो संधी युवकां खातीर/ कोंकणी लोकां खातीर आंदोलनान, अधिकारान गांधीगिरी करून कर्तृत्वाच्या बळग्यार मेळोवन घेतल्यो? फक्त दान आनी अनुदानान घुस्पून कोणा कर्तबगार सांवटा खाला काळीं टी-शर्टां घालून 'इंग्लीश व्हाय मायभास जाय' म्हण्टल्यांचो जबरदस्त नैतिक पराभव जाल्ल्या कडेन- मायभास जाय म्हणपी खंय गेले? ह्या गोंयचे आदले मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांच्या अश्या आशयाच्या प्रस्नाक जापूच नाशिल्ल्यान हे चळवळीची (पुरस्कृत?) वाचाच बसली काय कितें असो प्रस्न समाज करता. मुल्यहीन सुखासीन वृत्ती आनी योग्य दिशेचो अभाव हाका लागून ६० व्या वर्सांतली कोंकणी भाशीक आनी साहित्यीक चळवळ स्टंट करपी थारची ना मूं? हो दुबाव पैस करपाचो हो वेळ.

एका काळार मार्गदर्शक आशिल्ली कोंकणीची चळवळ कोंकणींतली खाप पंचायत कशी जाल्या. ताचोच राग आनी शीण चळवळींत सक्रीय आशिल्ल्या लेखक संघटकांनी करपाक सुरवात केल्या. कोंकणी चळवळीचेर बरयल्ल्या पुस्तकांचेरूच वाङमय चौऱ्याचे आरोप जावपाक लागल्यात. आत्मस्तुतीक लागून कोंकणी चळवळीच्या वास्तव इतिहासाकडेन वचपाक अभ्यासू वाचप्यांक संशोधकांक आडखळ जाता. कोंकणी निश्टेर एका काळार दुबाव घेवपाचें धाडस विरोधकांक जाय नासलें ताचेर प्रस्न चित्रां निर्माण जावपाक लागल्यांत ही खंतीची गजाल. पुराय कोंकणी भाशीक साहित्यीक पुरस्कार आनी पुरस्कारा फाटली भुमिकाय उक्ताडार हाडपी कोंकणी चळवळीचें परत मुल्यांकन जावंक जाय.

दुसरे कडेन कोंकणी चळवळीचें साहित्य, ललितेत्तर साहित्य महोत्सव, नाट्य, संगीत, कला सादरीकरण, खेळ, संघटन, भौशीक व्यासपिठां, धर्मपिठां, ज्ञानपिठां ह्या सारखिल्या साबार मळाचेर मोठ्यान भोवजनीकरण जाता. त्या भोवजनीकरण जावपी व्हड घटकांक हे वयले कोंकणी चळवळीचें कसलेंच सोयर-सुतकूय ना. अशे अवस्थेंत ह्या व्हडा घटकांक ताच्या अभिव्यक्ती स्वातंत्र्या सयत कोंकणी चळवळीचो घटक म्हणून आस्पाव करून घेवन कोंकणी शक्तीचो, संघटनांचो वापर कोंकणी राज्य निर्माण करपाक जाय, तो वावर मुखार व्हरपी मार्गदर्शकां मुखार कोंकणी चळवळीची मोख थारावपाक कांय उद्दिश्टां आसचीं.-

- गोंयचे राजभाशा धोरण आनी अंमलबजावणी हाचेर कृती दळ निर्माण करप.
- राष्ट्रीयकृत आस्थापनांनी कोंकणीच्यो हक्काच्यो नोकऱ्यांचो आनी रोजगारांच्यो संदी कर्तृत्वान मेळोवपा खातीर खासा प्रशिक्षण आनी रोजगार विनिमय केंद्र स्थापन करचे.
- पारंपारीक वेवसाया वांगडा आधुनीक वेवसायाची जाणविकाय निर्माण करून कोंकणी चेंबर ऑफ कॉमर्स असल्या तत्सम संस्था निर्माण जावंक जाय. अखील भारतीय सेवा परिक्षां खातीर कोंकणीच मोख दवरून ते नदरेंतल्यान युवकांक नेमान मार्गदर्शन.
- सरकारान स्थापन केल्ल्या भाशीक, सांस्कृतीक, स्वायत्त संस्थानी तशेंच सरकारी अनुदानीत संस्थांनी राजभाशेचो सन्मान प्राधान्य तत्वाचेर जांवचो आनी जे नेम पाळीनात तांचेर दण्डात्मक कारवायेची शिफारस जांवची.
- कोंकणी भाशेचें गिज्ञान गरजेचें ह्या उतराक सक्तीचें अशें वापरून ताची काटेकोर अंमलबजावणी करताना, ताची लेखी आनी तोंडी परिक्षा घेवपी आनी मार्क मेळोवपाची प्रक्रिया निश्चीत करची.
- नव्या शिक्षणीक धोरणाक धरून भाशीक विकासाची मोख थारावप. तेच वांगडा विद्यापीठ पांवड्याचेर तरेकवार गिज्ञान शाखांनी शब्दकोश निर्माण करपाक विद्यापीठ कोश निर्मिती मंडळ स्थापन करप. तशेंच स्कूल ऑफ कोंकणी आनी कोंकणी स्टडीज तयार करप.
- सरकारी, अनुदानीत, स्वायत्त संस्थांचे कोंकणी खातीरचे पुरस्कार धोरण एका सत्रे खाला हाडून तांची प्रतिष्ठा वाडटली अशें धोरण निर्माण करप.
- C.I.I.L., N.B.T., C.S.T.T., N.S.D. आदी केंद्र सरकाराच्यो कोंकणीच्यो हक्काच्यो सुवाती आनी लाब मेळोवन घेवपा खातीर कार्यकर्त्यांची फळी निर्माण करप.

(ही वळेरी आनीकूय वाडूं येता).

संपर्क: 9923245603

***

(पान २५ वयल्यान)

दिसता. देखीक हिन्दू समाज चवथीक नेवऱ्यो करता जाल्यार क्रिस्तांव समाज नातालांक. हिन्दूंगेर नागपंचमीक, श्रावण आयताराक पातोळ्यो करतात तर क्रिस्तांवांगेर पंदरा ऑगस्टाच्या फेस्ताक. हिंदूंच्या शिगम्याक सान्नां, दोणे, सुयो, शिरवोळ्यो करतात जाल्यार क्रिस्तांव समाज हेच प्रकार इंत्रूज वा पास्कांक करता.

नेवऱ्यां शिवाय क्रिस्तांव समाज नातालांक फुडलीं खाणां परंपेरन करताः वडे, बेबींक, मांडारे, पिनाग्र, करमलां, दोश, दोदोल, बुलिनां, घोशे, बातक आनी केक.

गोंयची परंपरा जशी व्हड तशी गोंयची खाद्य संस्कृतायूय व्हड. तरी पूण ह्या ल्हानशा लेखांत तिका आडवून धरपाचो यत्न केला. सादारण पणान चार हजार वर्सांचो तिचो प्रवास, तो फक्त जेवणांचीं- खाणांचीं नांवां घेवन सांगून पुर्ण जायना. तिच्या प्रवासाचे वाटेवेलो दर एक फातोर परतून पळोवपाची गरज आसा. तुर्ताक जितलें शक्य तितलेंच मांडलां.

संपर्क: 9823575623

***

*(पान २२ वयल्यान)*

व्हड तपलें आसतालें. ताका थाली म्हणटालीं.

ह्या तपल्यांनी पयलीं उदक घालून आदन दवरतालीं. आदन दवरचे पयलीं तांदूळ धुवून निस्तत दवरतालीं. आदन सळसळटालें. मागीर तांदूळ घालताली. तांदूळ शिजताले. शीत खतखतालें. मागीर शीत वाळटालीं. तपल्याक भाणशिरे बांदून. आतां हें शीत बरें फळफळीत जावपाक जाय. चिकचिकीत जावन उपेग ना. हुमणाबराबर फळफळीत शितूच जाय. आनी तें निबर उरूंक जायना. तशेंच विरजुंकूय जायना. शिता तोपापोंदचो उजो कमी जाल्यार तांदूळ विरजता म्हळ्यार बरें फुलनात. तांदूळ पोरणे आसल्यार शीत चडटा.

आता हें शीत करचेपयली तांदूळ फाफुडटात. तातूंत आशें आसल्यार वेंचतात. पयलींच्या तेंपार तर तांदळांत कणी खूब आसताली. मागीर चाळणीत तांदूळ चाळचे पडटाले. कणी सकयल पडटाली. ही कणी पोळे करपाक बी वापरतालीं. म्हाका याद जाता एकदां पोळे करपाक म्हज्या मांयन हीं कणी भिजत घाल्ली. रातचें हांव वाटपाक गेलें तर तिणे सांगलें, ही कणीं नेरावंक जाय म्हणून. तातूंत तूंसा, धोणे, बारीक फातर बी आसताले.

भूसाखातीर रांदपासंबंदीत अश्यो कितल्योश्योच क्रिया करप जाता. आनी ह्या क्रियांक वेगवेगळी उतरां आसतात. आता रायस कुकरान शीत करतकीच ही उतरांच ना जावन वतली.

आमी कडुणाचे तोंडाक करतात. तेन्ना नाल्लाची सोय भाजप. मात्सो उजो चड जाल्यार सोय करपता. आतां पळोवपा पुरयो, वडे करपाची क्रिया. वड्यांचे पीठ पयलीं दळून हाडप वा दांत्यार दळप. मागीर हून उदकांत पीठ कालोवप. मागीर पीठ केणावंप. बरें मस्तोवप, वडे थापप, पुरयो लाटप, तेलांत तळप. वडे थापतात तशीच भाकरीय तव्यार थापतात आनी दोशी वटेन भाजपात.

आमची सदची च्या. तिवूय करपाच्यो कांय क्रिया आसात. च्याचे उदक सळसळावप. च्याचो पिठो घालप. च्या गाळप. च्यान साकर खिरोवप. धवळप न्हय आ. पोंदाक लागूंक जायना ती वस्त धवळीत रावप. आंब्यो हालवो बी धवळप. दूद फेणे करतना दूद घोटप. म्हळ्यार दूद घोटून घोटून आटोवप.

अन्न शिजोवचें पयली घटक पदार्थांचेर कसली ना कसली तरी प्रक्रिया करचीच पडटा. तेन्नाच तो नग खावपाक वा रांदपाचे लायक जाता. आता आंबाडे, तें तासूनूच घालचे पडटात. कुंवाळो किसतात. फोव फाफुडटात, तो मुड्डयतात. बटाट्याचो कुंवळ करतना बटाट कुंवाळटात.

आमी दुद तापयतात. केन्नाय ते विटकळता. आनी नाल्ल खंवटेता. शियांत खोबरेल तेल शेकेता. लोणचें करतना आमी फोडी आनी मेथो एकठांय करून कळशिंतात. मागीर कांय दिसांनी लोणचें करमेता.

नाचणें, सांसवां सारके धान्य भड्डीतात. वेलची खलबत्यान कुट्टात. करम करतना आंबाडे धाडायतात, चेंचतात. आमच्या पानार जेवण पड म्हणसर रांदचेकुडीत कितल्योश्योच क्रिया घडतात. दर एक क्रिया वेगळी. नांवां वेगळी. ह्यो सगळ्यो क्रिया म्हळ्यार आमच्या भाशेची गिरेस्तकाय. भाशेचे अळंकार. ह्यो रांदपाच्यो पद्धती ना जाल्यो जाल्यार ल्हवू ल्हवू ही उतरां उलोवण्यांतल्यान ना जातलीं. मुजरत पळयात. उपासाक बी आमी साबू तांदूळ दुदान शिजोवन खातात. हाका साबू तांदूळ कडोवप म्हणटात. तशेंच मूग, गोड, उदक, सोय घालून कडयतात. ताका कडयल्ले मूग म्हणटात. पंचखादीक पांचूय नग घालून कालयतात. उज्यार दवरून चरचरायतात. पयले दिसा केल्ले रोसांतले फोव दुसरे दिसा खावपाखातीर किटकिटायतात. ताक चाळटात. पापडा पिठी मुसळान धाडायतात. सांबार कांडटात. घोटां सांसवांक बी सांसवां अरखणायतात. फोण्णांक सांसवां पुटपुटायतात. भूस बरो जावचो, फक्त पुश्टीकतायेच्या नदरेन न्हय तर रंगसंगतीच्याच नदरेन, तेखातीर तें नग रांदतना रांदचीकूडीत तांचेर वेगवेगळें संस्कार जातात. आता रांदचीकुडीच जर ल्हान ल्हान जायत वचून लिविंग रुमांत पावल्यो, तर हीं भूसासंबंदीत उतरां जीं भाशेक जिवी तट्टीत दवरतात तीं नानापयत जावन वचत म्हणून भंय.

भास आनी भूस म्हणटात तें खंयच्याय संस्कृतायेचें मुखेल आंग. संस्कृताय जिवी उरपाक भाशेचें आनी भूसाचें महत्वाचे योगदान आसता. आमच्या कोंकणी संस्कृतायेंत तर भूसाचो चडूच थातोमातो केला. लग्ना उपरांतच्या वेय जेवणांक कांय वाठारांत भूस हे उतर आसा. जर ही भूस संस्कृताय तिगून उल्ली जाल्यार भाशेक भंय ना.

संपर्क: 9850530152

***

---

*(पान २६ वयल्यान)*

गर्भकुडीक चाटून आफडून वता. जय जय राम कृष्ण हरी, जय जय राम कृष्ण हरी. चडसो यमन रागांत हो गजर बद्ध आसता. म्हणजे यमनाच्या भितल्ले मोवसाणीक आनी खुमारीक वेंगायत हो गजर उजवातीच्या धुंवरा सारको कांय मिनटां उफेता आनी ह्या विसवा उपरांत परत अभंग गायन सुरू जाता. पं भीमसेन जोशी एकदां १५ आगस्टाक पणजे कला अकादमीच्या उकत्या नाट्यघरांत मुखेल सोयरे आशिल्ले. भजत सर्तीची फायनल आशिल्ली. तणाच्या कणांसारको बारीक पावस बिरीबिरी पडत आशिल्लो. लोक हाललेनात. भीमसेनजींनी सुरवातीक जो गजर लायलो यमन रागांत तो आमकां आयुश्यभराचो अणभव आशिल्लो, भाग्यवंतां खातीर. फक्त माधुर्य.

मनोहरबुवा शिरगांवकर हांणी भजन कलेची गोंयची परंपरा तरणाट्यांक शिकोवपाचें मोलाचें काम केलें. 'भूलविले वेणू नादे' ही तांची गवळण अजून कानात भूल घालून आसा.

फोंड्या एकदां संगीत संमेलनात सकाळच्या सत्रांत स्व बाळकृष्ण केळकर गातालो. गोंयचो हो गुणी कलाकार. ख्याला उपरांत ताणें भजन सुरू केलें - 'का रे नाठविसी कृपाळू देवासी, पोषितो जगाला तो एकलाचि...' खूब सुंदर. कायम यादीक उरलो तो गोडवो. संत तुकारामान आठविसी हाचे उरफाटें नाठविसी हें क्रियापद वापरलां. जगाक आनी तुका पोसपी भगवंताचो विसर पडूंक दिवं नाका हें अभंगाचें सार. भगवंताचें स्मरण हें जीण सफळ करपाचें ब्रीद. भजनभक्तीरसाचें प्राणतत्व तें हें! संगिताचें सत्व तें हें... गितांचें अंतीम साध्य तें हें.

संपर्क: 9545827662

***

*(पान ३० वयल्यान)*

*जनेलाचें*
*एक चित्र  हुमकळटा*
*तातूंत*
*तुजी वाट*
*कोणेतरी चितारल्या*
*दिसानदिस*
*वण्टीचो रंग झडत वता*
*तुजी वाट मात*
*ठळक जायत रावता*

दिलीपाची ही वयली खरी वाटेवेली अस्सल कविता. हे कवितेंत एक सूचकता आयल्या. वाट : १ कवितेंत जो बटबटीतपणा आशिल्लो, तो हे कवितेंत दिसना. हांगा उतरां आशयाची खोलाय घेवन येतात. देखीक, घराचे वण्टीक जनेलाचें चित्र हुमकळटा काय त्या वण्टीत खरेंच एक जनेल आसा? चित्रांत तिची वाट कोणेतरी चितारल्या काय जनेलांतल्यान एक खरीच तिची वाट दिसता? दिसानदिस वण्टीचो रंग झडत वता काय चित्राचो? वाट ठळक जाता ती चित्रांतली काय जनेलांतल्यान भायर दिसपी तिची वाट? हे सगले काव्यसंभ्रम कवी हांगा निर्माण करता. 'आपल्या प्रियेच्या वाटेकडे दोळे लावन बशिल्लो एक मोगी' - हो आशय हांगा सूचकतेन कवी केळयता.

एकाच कवीच्यो ह्यो दोन कविता. पयली सामकी वायट तर दुसरी बरी म्हणूं येता अशी जेन्यूईन. बरी आनी वायट ह्यो गजाली मूल्यमापन थारायता. मूल्यमापनचे नदरेंतल्यानच आमकां हांगा तांची प्रतवारी लावंक मेळटा.

'एक आंकवार डायरी' हे आपल्या कादंबरेच्या प्रस्तावनेंत दिलीप बरयता की, हांव म्हज्या जिवितांतल्या पारंपारीक वाटां पासून सदाच पयस रावलां. मागीर त्यो वाटो व्यक्तीगत जीवनांतल्यो आसूं वो साहित्याचे निर्मणेंतल्यो आसूं! कोण टीका करतलो, कोण तोखणाय करतलो म्हणपाचो हुसको बाळगून हांव त्या वाटांवेल्यान केन्ना चललोच ना. हांवेंच म्हज्यो वाटो तयार करुन तांचेवेल्यान हांव चलत रावलो. - आतां व्यक्तीगत जीणेबद्दल तो कदाचित बरोबर आसूं येता, पूण साहित्याची  निर्मणी करताना पारंपारीक वाटां पासून तो कितलो पयस रावला हाचेविशी मात म्हाका दुबाव आसा.

आतां ताचें 'रुक्षप्रश्न' सारकें निबंदाचें पुस्तक वाचताना पारंपारीक वाटांक ताणें बरेचकडेन फाटो दिला हें जाणवता, पूण बाकीच्या लेखनाचें कितें? हांवें एक पळयलां, निबंद बी बरयतना दिलीप चाकोरी टाळटा आनी अस्सल बरयता. पूण फिक्शन बरयतना दिलीप पारंपारीक वाटांवेल्यानूच प्रवास करता. 'एक आंकवार डायरी' सारकी कादंबरीय ताका अपवाद ना. कारण थंय कादंबरीचें भायलें नेपथ्य जरी अपारंपारीक भासलें तरीय भितरलो कंटेंट सगलो पारंपारीकच आसा.

तरणेपणांत दिलीपाची इमेज ही प्लेबॉय सारकी आशिल्ली. येतना वतना ताचे स्कुटरीचेर दर फावट कोणतरी नवी चली फाटल्या सीटार दिसतालीच. दिलीपाच्याच रुक्षप्रश्नाचे भाशेंत सांगचें जाल्यार दिलीप स्कुटरीचेर तेन्ना संपूर्ण पृथ्वी घेवन भोंवताना दिसतालो. हो विनोद न्हय. कारण दिलीपाचे नदरेन चली वा बायल म्हणटात ती एक संपूर्ण पृथ्वी. निर्मितीचें प्रतिरूप. ओगीच न्हय दिलीप रुक्षप्रश्नांत प्रश्न उपस्थित करता की 'आपल्या वांगडा चडश्यो चलयोच कश्यो? ' - पूण तरणेपणांत जे दिलीपाक रुक्षप्रश्न दिसताले ते आता म्हातारपणांत तशेंच दिसतात काय, हो एक यक्षप्रश्न जावं येता.

दिलीपाच्यो तीन वेगवेगळ्यो जल्मतारखो जरी आसल्यो तरी आज दिलीप म्हजेसारकोच वयाचे सासश्टींत पावला आसतलो. सबंद जीणेंत म्हजें स्वताचें कर्तुप हें शून्य अशें म्हटल्यार जाता. पूण धर्मुल्याचो दिलीप जावन, दिलीपान कोंकणींत, कोंकणी भाशेखातीर जें मोटें कर्तुप करून दवरलां ते बद्दल मात म्हाका अभिमान आसा. जरी ताचें 'बोरकारी' बी लेखन म्हाका आवडना तरीय दिलीप बोरकार हो कितें एक्सार मारपाचो मनीस न्हय हें भितरल्यान म्हाका होलमलां.

दिलीप आपल्या एके कवितेंत म्हणटा :

*म्हज्या सुखांच्या ल्हारार*
*तूं पेवूं नाका*
*खंयचे तरी तडीक पावतलें*
*म्हज्या दुख्खाचे*
*खरायेंत बूड तूं*
*म्हज्या काळ्जांत रिगतलें*

हो कवीचो संदेश फकत आपल्या प्रेयसी खातीर न्हय, तर हो संदेश अख्ख्या मनीस जातीखातीरूय आसा. दिलीपाची भास जेन्ना अशी करूणामय जाता तेन्ना तो साहित्यिक म्हणून म्हाका अदीक लागीचो दिसता.

संपर्क : 9049814854

***

*(पान ५७ वयल्यान)*

दाखोवपा म्हणून फाटीक लागतालीं... तुज्या फाटल्यान आतां बायेक नोकरी मेळ्ळ्यां... दोन वर्सां ताणे घरांत फडफडून काडिल्लीं, पूण नोकरी मेळ्ळी म्हणून खोशी जावचे बदला, आयकुपाक तूं ना म्हणून होळम घालून रडलें बाय तुजें... तुजीं कामां करचीं पडटालीं, वखदाक पयसो काबार जातालो, तरी तूं आमकां जाय आसलो रे... तुजो खूब आदार दिसतालो, मनाक घटाय दिसताली... तूं जाप दिवंक शक नासलो तरी मनाची व्यथा हांव तुज्या मुखार बडबडटालें... त्या पांड पडिल्ल्या करोनान तुजो घात घेतलो... ताणे आख्ख्या जगाचोच घात घेतला... पूण तुका व्हरून आमचो धीरच व्हेलो... आमच्या असल्या गरजवंताचेर उपकारय केल्यात करोनान... ज्या घरांतलो कर्तो मनीस गेला तांकां सरकारान पयशे दिवन तांचेर व्हड उपकार केल्यात... पूण, पाड पडूं रे त्या पयशांचें... तूं ना जावन, नाका आशिल्ले ते पयशे आमकां... भुरगीं सुद्धां म्हणटात, त्या पयशां परस आमकां आमचो डॅडी जाय आशिल्लो म्हणून... खरेंच रे, आमकां तूं जाय आशिल्लो, तूंच जाय आशिल्लो..."

संपर्क: 94420685278

***

*(पान ५४ वयल्यान)*

जमनीर पडिल्ले, कांय जाणां लकताले. पुण सगळे, सगळे जाण लाचार जावन, दोनय हात उबारून, मळबार दोळे लावन राविल्ले. सगळ्यांची तोंडां उकतीं आसलीं. देवा मुखार दवरिल्ले उजवातींच्या धुंवरा वरी सगळ्यांच्या तोंडांतल्यान सुटून एकठांय आयिल्ली बोब वयर सरून मळबा कडेन वताली.

लोकांचे गर्देक लागून हें कितें चल्लां काय म्हण पळोवपाक पार्कांतल्या रुखांचे खांदे लोकांचे तकले वयल्यान चोरयेन पळोवंक लागले. अरबी समुद्राचीं ल्हारां एकामेकांच्या भुजांर चडून ताकतीक करून वेंबनाड खाड्येंत धावन आयलीं. पुण घराची प्रदक्षीणा काडून चित्र पळोवपाक जावंचें ना म्हण तीं निर्शेवन फाटीं सरलीं.

महेशान आतां मोबायलार वेळ पळयलो. लोकांची गर्दी ताच्या लक्षांत आयली. बरें दिसलें. फाटीं सरून ताणें चित्र नियाळ्ळें. मागीर चित्राचेर हांगा थंय ब्रश ओडून सारकें केलें. निमाणें ताणें आपली सय मारून घुंवतना गर्देतल्यान कांय जाणांनी ताळयो वाजयल्यो.

एकलो गोरो भोंवडेकार ताचे लागीं आयलो. हो आतां कितें तरी विचारतलो, महेशान चिंतलें. पुण गोऱ्यान मोन्यानीं हांसत ताका वेंगायलो. त्या अनवळख्याच्या आलिंगनाची वाट पळोवंक नाशिल्ल्यान महेशान मात्शें आंग चोरून घेतलें. भोंवडेकारान सांगलें

- टेक इट ईजी. आय एम अ‍ॅन आर्मीनियन, नॉट गे.

चित्राक बोट दाखोवन ताणे म्हळें, म्हज्या देशांतय कांय प्रमाणान अशें घडलां. तुज्या चित्रांत हांवय आसां. तुवें आयच्या संवसाराचें चित्र बरे भशेन दाखयलां. यू हॅव टॅलंट मॅन, यू हॅव टलंट. कितें करता तूं?

- शिकतां. चित्रां काडटां

- हें कलर कोंबिनेशन खंय पळोवंक ना. तुका तें कशें येवजलें?

- स्कूलांत शिकतना गोवा टूराक गेल्लों थंयच्या कांय देवळांनी कावी-कला पळयली. मागीर परत येतना कर्नाटकांतल्या समिंद्रा देगे वयल्या कांय देवळांनीय ती पळयली. ते कलेचो डोमिनंट रंग आनी ताची शैली बरी आवडली. पुण हांगाची शैली म्हजीच. आनी कावी रंगा वांगडा दूसरेय शेड्स वापरल्यात.

- एक च्या मारया?

- थॅन्क यू. येतां. ताचे पयलीं एक ल्हानशें काम आसा. मात्शें हेल्प करता?

ताणें वचून घरच्या दारार खटखटायलें. ताचे फाटल्यान आर्मीनियन भोंवडेकार रावलो. दरवट्यान आं केलें तेन्ना तो भितर सरलो आनी ते बायलमनशेक सांगलें

- द म्यूरल इज डन. वुड यू लायक टु सी इट?

- व्हाय नॉट? यू फिनिशड इट सो सून.

- शाल वी टेक हिम टू? व्हाटस् 'हिज नेम?'

- केवीन. ही कान्ट मूव्ह

- ही सीमड इनटरेस्टड. ही कॅन सी.

महेशान केविनाच्या कदेलार हात दवरलो. आर्मीनियनाक दोळ्यांनी आपयलो. दोगांयनी कदेला सयत केवीनाक भायर हाडलो आनी वणते-चित्रा मुखार बसयलो. बायलमनीस आनी केवीन चकीत जावन चित्र पळेत आसतना महेशान वणते लागीं वचून चित्राचे वयले सुवातेर 'टू केवीन' हीं उतरां बरयलीं.

संपर्क: 9986074635

***

*(पान ९४ वयल्यान)*

निमित्त. ते व्यक्तीचें काम जालें. तुगेल्या बेबीच्या भुरग्याच्या सान सुपुल्ल्या पायांक हे भुंयेर जागो ना अशें समजल्या तूं?'' ताणे म्हणलें. केकू हेर सगळ्या रोग पिडेस्तांकच पळयतालो. हारींनी मांडिल्ल्यो कॉटीच कॉटी. दर एक कॉटीर एक पिडेस्त. सगल्या कॉटीं भोंवतणी सगळे सोयरे, बिस्कीट, फळां, फ्लास्क. एका रोग्याक दुसऱ्या रोग्याचो धीर. एके बांळटीक दुसरे बांळटीचो धीर. बंदाचो दीस आशिल्ल्यान डिसचार्ज दिनासतना उरून पुराय हॉस्पिटल भरिल्लें. वॉर्ड बॉय बॅड पॅन घेवन वताले. हॉस्पिटला भायर काळोख सवकासायेन पातळटालो. मेळपाक येवपाचो वेळ सोंपिल्ल्यान भोवतेक गर्दी कमी जाल्ली. इतल्यान बेबीक भितरल्यान ट्रॉलीचेर न्हिदोवन हाडलें आनी कितल्याशाच कॉटीं मदले एके कॉटीर न्हिदयलें. तिगांय उठून ते कॉटी कुशीक गेलीं. तिगेल्या पोटांत न्हिदून आसुंये अशा बाळका परस ल्हान दिसपी बेबी शांतपणान न्हिदिल्लें. सलायन थेंब थेंब गळटालें. प्यारेलालान ओणोव घेवन तिगेल्या कपलार हात भोंवडायलो. हय न्ही शें दोळे उगडून तें परत न्हिदलें. प्यारेलालान ''तूं एकटीच आसा अक्का. रातच्या वेळाक आदाराक कोणूय जाय पडत. आमी हांगाच रावतात. जाय जाल्यार तूं घरा वचून यो.'' अशें म्हणून ''हांव रोखडोच फळां घेवन येता.'' अशें केकूक सांगून तसोच भायर सरून गेलो. आवय घरा वचनासतना बेबीच्या पांयांकडेन जमनीर बसली. केकू लागींच आशिल्ल्या जनेलाकडेन गेलो. पयल्या माळ्या वयल्या ह्या जनेलांतल्यान दिसपी काळ्यो इमारती पळोवपाचो ताका धीर जालो ना. काळ्या दर्याचीं ल्हारां आवाज नासतना छाती बडयताली. ''असले रातींतल्यान पळून गेल्लीं तीं भुरगीं आतां खंय आसुंयेत काय? कितें करतात आसतली? गेट वे भितरलीं भुरगीं न्हिदल्यांत आसतलीं व्हय? सकयलो निर्जन किण्ण बाजार, गल्ल्यांनी रस्त्यावयल्या दिव्यांचो उजवाड खूब थकिल्लो दिसतालो. ताणे फाटीं वळून पळयलें. कुशीचे एके कॉटीर दम्याचो एकटो हट्टी आनी खूब जाणटो मनीस न्हिदिल्लो. ताका तितलेच पिरायेचो दुसरो एक जाणटो भुरग्याक भरयल्ले वरी खाडकेक लागिल्ले गोटे पुशीत ''जालें दोनच घांस'' अशें म्हणीत भरयतालो. त्या म्हाताऱ्या पिडेस्ताच्या उशाक तेंकून सारको तेच तरेचो ल्हान रेडियो आशिल्लो. लक्ष दिलें जाल्यारच फकत आयकूंक येवंये अशे तरेन तो बारीक आवाजान वाजतालो. कसलोच लाभ नाशिल्ल्या भोवशीक रिणाचे फेडीचो राग त्या वॉर्डांत चालू आशिल्लो. न्हिदेंत आशिल्लें बेबी कूस परतुपाक हाललें पूण परतून तशेंच न्हिदलें. हे सान गुरवार अस्तुरेन आपणाक लाभिल्लो भंया विरयत सुरक्षीत भाव त्या भुरग्यांकूय लाभूंक दीवं अशी मनातले मनांत प्रार्थना करीत केकू सवकासायेन तिचे वटेन चलूंक लागलो.

संपर्क: 9764924552

***




## भुरगेंपण

माधव बोरकार

ल्हान आसतना
चल्याक
व्हरतालों हांव
बाबागाडयेन
हांगा थंय

आतां
हांव व्हिलचेअरार
व्हरता म्हाका तोच
हांगा थंय
म्हज्या दुसऱ्या
भुरगेपणांत...

२६–७–२२

संपर्क: 9420222876

***

## दवा थेंबो

मेल्विन रोड्रीगस

वाऱ्यान व्हाळचें न्हय
मुसान तिळचें न्हय
भोंवतीं कोर्णेय
पुसपुश्यानीय चलचें न्हय
मुयेन चरचें न्हय
किडीन धोसचें न्हय
फुला पाकळेन वेंगेंत धरलां
थंयींच मरतां
सुर्यान खिणाक फुलचें न्हय!

संपर्क: 9980136297

***

## तीन कविता :

परेश नरेंद्र कामत

### फुलोर

उबो आसा थंयचे थंयच
झाड जावंक शकतां हांव
तूं फुलतना

दिसता फकत
पळेता तेन्ना
येतना झोपाळे तूं खांदयां खांदयांचेर

यमयमता सर्वांगान आतां
तुजे सयत म्हजेंय झाड;
केन्ना आयलो फुलोर झाडाक तें तितलें
कळना...

***

### गाज

गाज घुमटांची ल्हारांची उतरांची
गाज जिणेची शिरंत्रांची रगताची
तालबद्ध
लयबद्ध

घुमटां घुमघुमू वाजूं
उसळूं रगतांत कारंजीं

ल्हारां पिसावन उठूं
वचूं भारेवन शिरंत्रां

उतरांक अवसर चडूं
चडूं जिणेक गाज सुरंगी

गाज उरूं साज उरूं आवाज उरूं जिणेंत
सांगाताची गत उरूं

ही गाज
शिरंत्रांनी भरून उरूं
आनी ही जीण जांव दर्या सारकी अथांग

जितली वता ही गाज रगतांत मुरून खोल
तितली
जिणेची जडसाण जायत रावूं
ल्हारां सारकी ल्हव ल्हव

उतरांनी ताल बांदून जियेतां हांव
तुज्या सांगातान
आनी जिणूय घुमूं घुमटा सारकी घुमघुम
बोलबद्ध
प्रेमबद्ध
घुमघुम घुमघुम घुमघुम
घुमक्क घुमक्क घुमघुम...

***

### हो पावस पेटिल्ल्या झुंबरा वरी

कोणतरी भितल्ल्यान
होरायता पावसाक
आनी
खंयतरी आपसूक
झड्टा पावस

कोणतरी भिजता
कोणतरी भिजयता
ही जाग आसा दडून पावसाची
दोन दोळ्यांनी
एकवटून

आनी हो पावस
पेटिल्ल्या झुंबरा वरी लखलखून हालता
कालोवन घालता
भिजोवन वादी
रात रातभर भरजरी...

संपर्क: 9422640210

***

# करूणाष्टक

काशिनाथ शांबा लोलयेंकार

Don't talk of love and peace when you have a dead animal on your plate. – Anonymous.

१.

गाय बोकडी धुकर कोमो ब्वा सगल्यांचें मर्ण
यमाच्या हातांत नासता
तें आसता मनशाच्या हातांत

२.

धुकर मारूंक व्हेल्यारूय रडटा
आनी पोसुंक व्हेल्यारूय
कारण धुकराक खबर आसता
आज नाजाल्यार फाल्यां तरी जातलेंच
आपल्या जीणेचें पोर्क

३.

दूध हेंच निमर्णे थरता मांस
दूध येवपाचें बंद जालें की गायच्या पायांक लागता
कत्तलखान्याचो ध्यास

४.

बोकडेचें दूध हें बोकडेच्या पोराक
तें खंयच्या महात्म्याक न्हय

५.

कोमो आपल्या आवयक विचारता
आई दिवाळी केन्ना गे?
आरे शाण्या दिवाळी सोड
तुका दसरोच पळोंवक मेळ्यार पूरो
मानवता हो स्वार्थ
भुतदया हो परमार्थ
मोनजातीचें दुख्ख काळीजभर जावं
तोच आमचो दिवाळी दसरो जावं

६.

बाकीबाब म्हणटाले, मेल्याउपरांत आपलो देह दर्याक ओंपचो
जल्मभर हांवें खालें नुस्तें आता नुस्त्यांनी म्हजो देह खावंचो
दर्यातली सगलीं नुस्तीं आजुनूय वाट पळयतात बाकीबाबांची
पूण उदकांत फकत पेंवताना दिसतात आतां
बाकीबाबांच्यो जीव्यो फडफडीत कविता

७.

हलाल केल्लो बोकडो
आकांतान पळयता
कापलेल्या तांबड्याभडंग टॉमेटोक
आनी टॉमेटो हांसत पळयता कांद्याच्या दोळ्यांतली दुकां

८.

आतां मनशाकुय मोटो महामानव निर्माण जावंक जाय
ताणें मनशांचे गोमटेक बांदून दवरूंक जाय
मनशांक पांदऱ्यात बंद करून दवरूंक जाय
मनशांक मारून तांचें मांस
खावंक सुरू करूंक जाय
पिंक रिवॉल्यूशन सुरू जावंक जाय मनशांच्या मांसाचें
तेन्नाच मनशांक कळटलें की अन्याय म्हणजे किते
हक्क म्हणजे कितें जीण म्हणजे कितें
भावना म्हणजे कितें
नीती म्हणजे कितें स्वातंत्र्य म्हणजे कितें
पंद्रा ऑगस्ट स्वातंत्र्यदिसाची तुमकां सगल्यांक परबी
पूण आमकां मोनजातीक केन्ना मेळटली गा
आजादीची सुरभि?
काशि म्हणटा: हांव जरी विगन
तरीय म्हजें रगत पियोपी जळारींचो हांव करता खून
सेल्फ-डिफेन्सा खातीर हक्क आसा म्हाका
करपाक मनशाचो लेगीत खून

संपर्क: 9049814854

***

## हांवपण

भुवनेश शान्ताराम

तुगेले हांवपण उखलून व्हर रे मनशा
आनीक तुजे घर स्थीर जावन दवर
तुगेल्या कुटुंबाचे उचारि आसा
देवु मात्र
तव्वळ तुगेले होडपण उडय आनीक घराचि रांदन जळोवन दवर

तुगेल्या परिवारांची भूक तुज्या हांवपणा परस व्हड आसा
पूण ती भूक शीत आनी रांवदई खावनु तृप्ति पावतली

तुगेल्या धूवेले दुख्ख
तुज्या थंडायेन जाता
पूण ते दुख्ख तुज्या मोगान निवळण जातलें

तुज्या बायलेलो अश्रु दुख्खाची नदी
जी घराच्या कोनशांतु व्हाळ्नु वता
तुगेले घर एक जुंवो जालें
तुज्या अज्ञानाक लागून आकार जल्ला

तुगेले हांवपण उखलून व्हर रे मनशा
आनीक तुज्या परिवारा कडे सकून माफी निमगी!

संपर्क: 7358594796

***

# आनी फॅन युवपाचो थांबलो

नूतन साखरदांडे

फाटलीं वीस वर्सां
तूं आसा एकाच जाग्यार
हातुणार न्हीदून ,
बरगेल्ल्या दोळ्यांनी
तुज्या तकलेर
गर गर करुन युवंत्या
त्या जीर्ण फॅनाक पळयत

आसुं पावस, आंसु गीम
तुका फॅन जायच पडटा
तुज्या जीणेचो आदार कसो....

हांव दर दिसा
झिळमिळट्या उजवाडान
पयली फॅनाक पळयता
तो युंवता
म्हण्टकच
तुजो स्वास चलता
हाची खात्री जाता.

पैरचीच गजाल
अवचित
धुमशेणां कांडीत
विद्वाटो वारो
अश्वेव आयिल्ल्यावरी
आयलो
आनी वादळ जावन
सगळें मोडुन तोडुन गेलो.

ह्या बोवाळांत लायट गेली
ती दोन दीस आयलीच ना
इनव्हरटरार चलपी फॅन
गुं गुं करीत काय वेळान
बंद पडलो.

तूं दोळ्यांत प्राण हाडुन
फॅन सुरु जावपाची
वाट पळयता हें म्हाका कळ्ळें.

हांवे तुज्या छातयेक
म्हजो कान लायलो
दोळे उगतेच आशिल्ले ,
पूण काळजाचो फॅन
बंद पडिल्लो सासणाखातीर..

संपर्क: 9970445778

***

# मळबा कडेन थेंब उदक ना

आर. एस. भास्कर

मळबान अडून
सांबाळून दवरलें
पुराय उदक
अविचारान सकल रकयलें

जाल्यार आतां
आपणा कडेन
थेंब लेगीत उदक उरूं ना म्होण मळब चुरचुरेतां

सूर्य पुण
भगभग जळटा
आनी, यडी भितेर
मळबाक भाजून काडटलो.

तान वागोवपाक
एक घोंट उदक तरी
आतां जाय म्हळ्यार
मळबा कडेन खंय आसा?

संपर्क: 8891306123

***

# राधाकृष्ण

सखाराम शेणवी बोरकार

राधे! राधे!
खंयचे वाटे?
हांव चल्लें
कृष्ण भेटे!
राधे राधे
खंयची रात?
कृष्ण सांगत तो दिस
नातर रात!
राधे राधे
खंयचें धन?
कृष्णान चोरलां
म्हजें मन!
खंयची तान?
खंयची लय?
राधेचें विश्व सगळें
कृष्णमय!

संपर्क: 9923306751

***

# वात

संदेश श्रीकांत बांदेकर

एक वात जळटा
त्या समयेत
देवळाच्या गर्भकुडीत
वात एक जळटा
त्या निरांजनात
घरातल्या देवा कुडात
ती एक वात जळटा
आवय जावन
एक वात जळटा
बापुय जावन
प्रत्येक घरात ती
एक वात जळटा
कोणाल ना कोणाल
तरी त्या रुपात
फरक इतलोत की
देवळातली, देवाकुडातली
ती वात जळटा
तेल, तुपाच्या आधारार
पुण मनुश रुपी
वात ती जळटा
सुख दुःखाच्या बळार
आपल्यात ह्या
संवसाराखातीर.

संपर्क: 9480790172

***

# तीन कविता

आर. रामनाथ

## १. काळरात

ही किण्ण रात
आनी ही भयाण भिरांत
म्हज्या रंध्र रंध्रांत
नसानसांत
स्वास उस्वासांत
भास आभासांत
ओतप्रोत
चितारलेली पितारलेली ...

ही किण्ण रात
आनी ही पेटनासतनाच पालवल्ली
शांत
शांत
वात ...

ही किण्ण बिण्ण
का
ळ
रा
त ...

***

## २. रंगखेळ

जा तूं छिन्नविच्छिन्न
मागीर हांव रंगयतां तुका पुराय
म्हज्याच रगतान ...
उपरांत हांवूय रंगतां
तुज्या अंतरंगान
अनंग जावन ...

चल आमी
एक रंगखेळ खेळूया
चल आमी
एक अंतखेळ खेळूया ...

***

## ३. दार

एक भिकारी
बंद दारा सामकारा हातांत कट्टी
येवन उबो ...
कांय वेळान
दार उगडटा
आनी भूक भायर येता.
भूक गायता भुकेची सासाय
तशी कट्टी पेट्टा
आनी भूक जळटा ...

आतां -
दार सताड उकतें
आनी भिकारी
भिकेविना
भूकग्रस्त ...

संपर्क: 9850458763

***

# आज सगळेच अनिश्चित आसा

स. पांडुरंग भांगी

दर्याव आज खुबळलेल्यावरी जाला
वारोय हुंदडलेल्यावरी हुंदड्टा
मोड जातले काय जांवचे ना
हें समजना
आज सगळेच अनिश्चित आसा।
हो पुर्विल्लो पुरातन वड
झडपून योंगेल्लया वाऱ्याचेर
थरथरत आसा
तो हुमटून पडुंये वा न पडुंये
आज सगळेच अनिश्चित आसा।
तिसरे पारविणीक
योंटेराक जागो मेळना
फारांचो नाद जावत आसा
मनशाचे मनशाचेर निमगर्णे ना आनी आसा
आज सगळेंच अनिश्चित आसा!

***

# गझल

अमेय नायक

सोदूया आमी शेणलां तें,
पुरुया सबंद खणलां तें

अधीर पावलांक नासता खबर,
मुखार कितें माणलां तें

यामेल्ली कुराड कडेक काड
पळय कितें हाणलां तें

नात्यां गांठी सैल सोड
सुटूं एकदाचें ताणलां तें

नाका जाल्लें सोडून दी
कित्याक पळयता साणलां तें

सोदूया आमी शेणलां तें,
पुरुया सबंद खणलां तें

संपर्क: 9850539763

***

# अभिषेक

उल्हास पै रायकार

तुका पळोवन
मळब-कुंभाक
आयिल्लो ओतो
ब्रम्हांडार्चे संचित
वाऱ्यान रेवडावन
यसयसावत दॆंवता...
मल्हारी नदर केळयत
तुजें चंद्रवळणी
आंग रेखीत
नक्षत्रांच्यो कुरवो सोदीत
अळंग यर्षणांतल्यान
निर्मळ तेज आपणायत...
तेन्ना तुज्या अष्टांगाक
आयिल्लो मोरपांखी चंवर
तुज्या पावलांर निसरीत
निर्गुणांत विरगळटा
आनी म्हजो प्राणूय...

संपर्क : 7507441344

***

